# तुमच्या सांस्कृतिक दायजाचें जतन करात
# गोंय राज्य संग्रहालयाक भेट दियात

हें भौउद्देशी संग्रहालय गोंयच्या संस्कृतायेचें सम्यूक दर्शन घडोवपाखातीर यत्न करीत आसा.
संग्रहालयांत सांप्रत सकयल दिल्लीं दालनां आसात.

१. मूर्तिदालन
२. ख्रिस्ती कलादालन
३. बॅनर्जी कलादालन
४. धार्मिक अभिव्यक्तीदालन
५. सांस्कृतिक मानववंशशास्त्र दालन
६. समकालीन कलादालन
७. नाणकशास्त्र दालन
८. गोंयच्या सुटके झुजाचें दालन
९. मिनेझिस ब्रागांझा दालन
१०. फर्निचर दालन
११. सैमाचो वारसो दालन
१२. पर्यावरण आनी उदरगत दालन
१३. गोंयच्या उत्सवाच्या फोट्यांचें दालन



संग्रहालयांत धा हजारांवयर वस्तुंचो संग्रह आसा.
संग्रहालयांत दृक्श्राव्य विभाग आसून, विनवणेप्रमाण विद्यार्थ्यांखातीर आवाजचित्रफितीच्यो कार्यावळी दाखयतात.
सद्याच्या दालनांवांगडाच भूगर्भशास्त्र ह्या विशयाचेरूय एक दालन उबारपाची येवजण आसा.
पुरातन प्रस्तर चित्रांच्या थळाची फायबरग्लास प्रमाणबध्द प्रतिकृती संग्रहालयाच्या वाठारांत उबारलेली आसा.
हें संग्रहालय तुमचें जावन आसा आनी तुमचेकडल्या वस्तुंचो मोलादीक संग्रह, दान, विकून वा ठेव अशा रूपांत संग्रहालय समृध्द करूंक शकता.

## गोंय राज्य संग्रहालय

संग्रहालय विभाग
इडीसी संकुल, पाटो, पणजी - गोंय
फोन : 2438006, 2437306, 2437307
वेबसायट : www.goamuseum.nic.in
E-mail : museum-goa@sancharnet.in

# दिवाळी

**घेवन येता**
**उजवाडाची परब**
**गिन्यानाचो उजवाड**
**आमीय**
**काळखांतल्यान**
**उजवाडाकडेन वचपाचो**
**संकल्प करूया**


The Newspaper You Can Trust

THE NAVHIND TIMES

Two Pakistani ultras nabbed after gunbattle in Mysore

Terror plot foiled

दै. नवहिन्द टाईम्स
सर्वाधीक खपाचें इंग्लीश दिसाळें

***आमचे वाचक, जाहिरातदार***
***हांकां सगळ्यांक***
***दिवाळेचीं हुनहुनीत परबीं***


नवप्रभा

जुवारी पुलाच्या पाहणीसाठी केंद्रीय तज्ज्ञांचे पथक येणार

माहिती देण्यास टाळाटाळ : सात

दै. नवप्रभा
गोंयचें लोकप्रिय मराठी दिसाळें

## नवहिन्द पेपर्स एण्ड पब्लिकेशन

*नवहिन्द भवन*
*पणजी - गोंय*

# संपादकीय

दिवाळी विशेशांकांत संपादकीय कित्याक बरोवंक जाय? संपादकाचें मत वाचप्यांचेर थापपाखातीर काय अशें जावंक जाय, अशें जावंक जाय आशिल्लें तें तशें जावंक पावलेंना म्हूण शीण काडपाखातीर?

संपादकीयांतल्यान दिवाळेच्या शुभ समयार जे जे कोण दिलदार मनान दिवाळी अंकाक साहित्य, जायराती आनी हेर तरेची मजत करतात तांकां शुभेच्छा दिवन उपकार आठोवपाचें काम करप ही आमची लागणूक. ती लागणूक पाळटनाच दिवाळेची खोसय मनोवपाची आशिल्ल्यान ह्या खोसयेच्या प्रसंगार खंती काडप, शीण काडप समर्पक दिसना. तरी लेगीत प्रस्न पडटा, आमी खऱ्यानीच खुशालकायेन ही आयची दिवाळी मनयतात व्हय? ती खुशालकायेन मनोवपाचो अधिकार आमकां आसा व्हय?

जर हय अशी जाप आयली जाल्यार मात आमी आपल्याकूच फटोवन घेतात म्हणचे पडटलें. जें कितें घडटा आनी दोळ्यांमुखार दिसता ताचेर आडनदर करून आमी काळखांतल्यान उजवाडाकडेन वतात अश्या भ्रमांत जर आमी दिवाळी मनयतात असो समज करून, जाता तें बरेंच जाता अशें म्हणूंक लागलें जाल्यार तीं आमचीं फटींगपणां.

ओंदुच्या अंकाचें दर्शनी चीत्र एका झाडाक पाखां फुटात हे संकल्पनेचेर आसा. सुबोध केरकाराच्या इन्स्टॉलशनांतल्यान आमी तें उखल्लां. झाडांक एकाच जाग्यार रावून कंटाळो येता देखून तांकांय केन्ना तरी उडन दिसता आसुंये!

आयज इफ्फीच्या नांवान कोणाक आडखळ जायनाशिल्ली पणजे-मिरामार रस्त्यावेलीं झाडां दिसा उजवाडाक मारून उडयतात. तेन्ना पर्यावरणाचो विद्ध्वंस करपी कर्मकट्ट्या लोकांपासून संरक्षण करून घेवंक ह्या झाडांक आतां उडपाचीं सपनां पडटलींच कित्याक तांची राखण करपी आमचे सारखे दळभद्रे दिवाळेची खोस मनयतात म्हणपाचें नाटक करून कातडी वाचयतात.

आयज गोंयची कितली तरी जमीन विदेशी लोकांक गोंयकारांनी विकल्या. हे विदेशी नागरीक आंतरराष्ट्रीय गुन्यांवकारी म्हणपाचें दिसून आयलां. ते लोक गोंय गुन्यांवकारांचो अड्डो करूंक गुल्ल आसात आनी आमी दिवाळी मनयतात. निदान तशें नाटक करतात.

गोंयांत हेर प्रदुशणां वांगडा सामाजीक प्रदूशण मोटे प्रमाणांत जायत आसा. गांवच्या नाक्या नाक्यार, तिठ्यार बिगर गोंयकार मोठ्या प्रमाणांत दिसतात. तांच्या प्रदुशणाक लागून गोंयकार घुस्मटूंक लागला. ताचेर नियंत्रण दवरपा बदला आमी दिवाळी मनयतात.

खरें म्हळ्यार आमी दिवाळी मनयनात. आमी मनयतात नरकासुराची परब. आयज गोंयच्या शारांवांगडाच, गांवांगांवांनी जें नरकासुराचें पीक आयलां तें बऱ्याचें लक्षण न्हय. तें गोंयच्या समाज जिणेच्या मानसिकतेचें पर्तावण. आमी गोंयकार भोगवादाकडेन चल्ल्यात आनी ते खातीर आमची मानसिकताय दिसान दीस नरकासुराची जायत चल्ल्या. तर हे मानसिकतायेंत जियेतना खंयच्या तोंडान आमी दिवाळेच्यो शुभेच्छा दिवप?

फक्त फर्मालदाद म्हूण ? आमकां तें जमपाचें ना. माफ करात.

कोंकणी मासिक
# बिम्ब

दिवाळी विशेशांक २००६

मोल : १०० रूपया

वर्स : ५ अंक ९/१०

सप्टेंबर / ऑक्टोबर २००६

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार



मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार



मुद्रण थळ
इम्प्रेशन, गोंधळी गल्ली, बेळगांव.



मार्केटींग व्यवस्थापन
कामिनी किणी



अक्षर जुळवणी
ज्योती नाईक / श्वेता नाईक



वर्गणीचे दर
वर्सुकी २००रु. / तीन वर्सा ५५० रु.



खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो.



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
जी.एस.बी. -३, हाऊसिंग बोर्ड कॉलनी,
पोस्ट आल्त-पर्वरी,
आल्त बेती - ४०३५२१
दूरध्वनी : (०८३२) २४११५९४
E-mail:bimbkonkani@yahoo.com





## अनुक्रमणिका

### कादंबरी
नातें मना मनाचें / सुजाता सिंगबाळ
गोंदू / नं. ध. बोरकार

### कथा
नदरेचो खेळ / नयना आडारकार
दाय / मंगला नागराजन
ती कोण? / अतुल र. पंडित
उगरमेळी कळी / माया अनिल खरंगटे
अंजली / सम्राट बोरकार
इगो / सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार
कूड / रामनाथ गजानन गावडे
प्रारंभी / प्रितेश मंगेश परसाई
नातें / संदेश श्रीकांत बांदेकार
माय सेकंड पापा / महाबळेश्वर सैल
चानी / नीता नायक शिरोडकार
गंगू / इंदू अशोक गेरसप्पे

गोंयांभायर वितरण आनी जायरात ह्या खातीर संपर्क :
चतुर चकोर
A4, सहवास, आर.सी.मार्ग, चेंबूर, मुंबय ४०० ०७९
फोन : ९३२२७५७७७८



## ललित

अ. ना. म्हांबरो
चंद्रकांत केणी
विन्सी क्वाद्रूश
रमेश लाड
शीतल आरोलकार
दिलीप बोरकार
सुधा सुरेश आमोणकार
जयमाला दणायत
योगिनी बोरकार
फिलोमेना सां फ्रांसिस्को
प्रकाश पर्येकार
सत्यप्रसाद धायमोडकार
रवींद्र केळेकार
दामोदर मावजो
नीरजा वैद्य यादव
राजश्री सैल

## एकांकी

भरत नायक
एन्. सुहास
रजनी भेंब्रे

## भोवंडे खबर

सिंहमपूर - सिंगापूर / हर्षा शेटये

## कविता

काशीनाथ शांबा लोलयेकार
रामकृष्ण जुवारकार
सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार
दीपा अरूण सिंगबाळ
अन्वेषा अरूण सिंगबाळ
परेश नरेंद्र कामत
रमेश लाड
हर्षा शेटये
सुधीर कोडकोनी
भालचंद्र गांवकार
सुनीता सुभाष शाह
संतोष हरमलकार
संतोष केरकार
मंगला नागराजन
अशोक भोसले
शीतल आरोलकार
सरस्वती दामोदर नाईक
आर. जी. गावडे
नुतन उस्कैकार
विनायक कोरगांवकार
मारियो लॉरेन्स
प्रदीप च. गावस
विभव साळकार

## भुरग्यांचें आंगण

माया अनिल खरंगटे
अमोघ बुडकुले
सरस्वती नाईक
भिकाजी घाणेकार
डॉ. मेजर प्रकाश शेटये
धनश्री शिवदास नाईक
पूजा विश्वंभर नाईक
युगा आडारकार
सदानंद तेंडुलकार
नीशा शेख
दर्शना रेडकार
रजनी भेंब्रे
लियान सां फ्रांसिस्को
आयुषी प्र. शेटये
अनीश अर्जुन चव्हाण
मोहित अनिल खरंगटे
दत्तराज शेटये
हिरण्येश आडारकार

**व्यंगचित्रां** - महेश दिवेकार
**रेखाचित्रां** - गिरीश बोरकार
**मुखपृश्ठ** - डॉ. सुबोध केरकार
**विशेश पालव** - गजानन भाटकार




सभा जाताल्यो.आनी थंय गोंयकारां भितल्ले दोन वक्ते उलयताले. एक म्हापशेचो रघुनाथ टोपले आनी दुसरो व्हडले गोंयचो रामभाऊ. रामभाऊच्या तकलेची ठेवण, उलोवपाची धाटणी जाण्ट्यां मनशावरी आसली. ताका लागून तो आपल्या भाशणांत जें कितें सांगता ताचो योग्य तो उपेग जातालो.

कॉलेजाचें पयलें वर्स जातकूच हांव फुडल्या शिक्षणाखातीर मुंबय गेलों आनी रामभाऊचो आनी म्हजो संबंद तुटलो.

कांय तेंपान रामभाऊ मुंबय आयलो आनी एका इश्कोलांत शिकोवंक लागलो. थंय ताचें मॅनेजमेंटाकडेन बरें जुळ्ळें ना. म्हणून ताणें तें इश्कोल सोडून तो गोंयां आयलो. गोंयांत ताणें आठ धां इश्कोलांनी शिकयलें. तागेल्या विद्यार्थ्यांक हो एक विचित्र मनीस म्हण उगडास आसा.

पणजेच्या कन्याशाळेंत ताणें शिकयलें. थंयच्या एका विद्यार्थीनीन सांगिल्ली गजाल. कन्याशाळेंतल्या चलयांनी रामभाऊक तिळगूळ दिले आनी म्हळें ''तिळगूळ घ्या गोड गोड बोला''. ताचेर रामभाऊन म्हळें खंय ''आम्ही काय कडू बोलतो?'' हेर टिचर असल्या वेळार ओगी रावताले. हांगा रामभाऊचें विचित्रपण दिसतालें.

रामभाऊन कन्याशाळा सोडली. ताचें कारण तो म्हण्टा, आपूण एके चलयेच्या प्रेमांत पडटां असो आपल्याक भंय जालो म्हण ही कन्याशाळेंतली नोकरी सोडली.

त्या वेळार एफ्. बाबुराव आगशीकार (फटूराव) दर म्हयन्याक एक मराठी अंक काडटाले. तातूंत रामभाऊन 'मास्तर नांवाचें जनावर' असो लेख बरयलो. तातूंत ताणें आपलो कन्याशाळेंतलो अणभव घालो. अशे रितीन ताणें तिरकस बरोवंक सुरवात केली.

त्या काळार तो पणजेच्या महालक्ष्मी देवळाकडेन एका मित्राबांगडा रावतालो. एक दीस थंयच्यान भायर सरून देंवता आसतना आदोगाद्र विनायक कैसरेन ताका पळयलो. आनी म्हळें, ''रामभाऊ, तुजो लेख वाचलो.'' रामभाऊ त्या लेखाची बरी गजाल सांगूंक वतालो. इतल्यान कैसऱ्यान म्हळें, ''चार पावसाळे वचूंक जाय तुका. मागीर तूं सुदारतलो.'' विनायकबाब तेन्ना कन्याशाळेच्या वावुरपी कमिटीचेर आसले.

गोंयां आयला तेन्ना पयलेच खेप तो आमगेर आयलो. तेन्ना आमी वास्को मेजर बंदरार रावताले. तो व्हडल्या गोंयच्यान थंय आयिल्लो. तो म्हणूंक लागलो, ''आतां हांव आगशीसून आयलां पूण हांगा दोनापावलसावन येवंक मेळटा अशें म्हाका कोणें तरी सांगलें. ताचें गोंयच्या भुगोलाचें अज्ञान पळोवन हांवें ताका म्हळें, ''गुंडू सीताराम आमोणकारान 'गोमन्तकाचा भूगोल' बरयलां. तो वाच. मागीर तुज्या गिन्यानान भर पडटली.''

रामभाऊ तेन्ना सावन व्हडल्या गोंयां आपल्या रासवळ घरांत रावलो. हें गोंय म्हळ्यार कदंब रायाली राजधानी- गोपकपट्टणम - थंय कदंबाच्यो खुणो अजून आसात. रामभाऊच्या वाट्याक आयिल्लें एक भाट कदंबाचे राजधानी लागसार आसा. थंय गेल्यार रामभाऊ, कदंबाचो राया जयकेशी घोड्यार बसून कसो येतालो ताची वर्णना करतालो.

उपरांत ताणें म्हाका दत्तजयंतेक आपयलो. थंय तागेलो एक नातेवाईक आसलो. हांव दत्तजयंतेक गोविंद मुद्रसासयत गेलों. आमी तिगूय बरोबर रावले.

दुसरे दीस भायर सावन पणजे येता आसतना गोविंदान रामभाऊचो उल्लेख करून 'पिसो मरे तो' अशें म्हळें. दोन दिसांनी रामभाऊ मेळ्ळो. ताणें गोविंदाक पिसो म्हळें. ह्या दोगांयचीं एकामेकाविशींचीं मतां एक सारकींच आसात हें पळोवन म्हाका खोस जाली. फुडाराक आमची तिगांयची आनी हेर कांय मित्रांची रामभाऊकडेन वळख जाली. आनी घसण वाडली. गोविंद मागीर कितलींशींच वर्सां रामभाऊक देड तकलेचो म्हणटालो.

रामभाऊ हो एक हाडाचो शिक्षक. तागेलो बऱ्यान बरो उपेग आंतोन मोरायसान केलो. तो पणजेचें कोंकणी भाशा मंडळ चलयतालो. तेन्ना ताणें ताका कोंकणीचे वर्ग सुरु करूंक लायले. वेगवेगळ्या शाळांनी शिकोवपी हांगा हाजिरी लायताले.

त्या आदीं कांय काळ तो गोवा आकाशवाणीचेर मराठींत नाटकुलीं



सादर करतालो. थंय ताणें नारायण (केशव) देसायाकडेन संधान जुळयल्लें. ते दोगूय थंयच्या स्टाफांतल्या हेरांचो आदार घेवन नाटकुलीं करताले. मजा म्हळ्यार केशव त्या नाटकांनी बायलांचो पार्ट करतालो.

त्या उपरांत १९७२च्या सुमाराक तो नेहरू युवा केंद्राचो सेक्रेटरी जालो. पं. नेहरू गेल्या उपरांत केंद्र सरकारान ताच्या नांवान हीं केंद्रां उक्तीं केल्लीं. थंय तो दोन दसकां उल्लो. थंय ताणें वेगवेळ्यो सांस्कृतिक कार्यावळी केल्यो.

नेहरू केंद्रांत आसतना लागसार एक सरकारी खातें आसलें. त्या खात्याक भेट दिवंक विदेशी लोक येताले. तांतल्या दोन चार योरोपियन चलयांकडेन ताची इश्टागत जाली.लोक तांकां हिप्पीणी समजताले. आनी हो म्हणटालो त्यो बऱ्या घरांतल्यो चलयो.

गोंय सोडून गेल्या उपरांत तीं ताका पत्रां बरयतालीं. आनी तीं ताच्या टेबलार आसतालीं. ताणें त्या चलयांचीं व्यक्तीचित्रां बरयल्यांत. नॅन्सी, मॅरी, ओदिल आनी जेनीफर.

मदल्या काळांत ताची सामकी वाट लागताशी दिसताली. इतलो तो मरसर पितालो. तांतल्यान तो निवळ्ळो.

तागेल्या साहित्याची सुरवात मॉलिएरच्या फ्रेंच नाटकाच्या अणकारान जाली. ह्या पुस्तकाचें नांव भुतेबाब. आतांमेरेन ताणें जवळजवळ पंचावन्न पुस्तकां छापल्यांत. चडशीं आपल्या खर्चान. तातूंत कांय नाटकांचे अणकार आसात. स्वतंत्र नाटकां आसात. कथा, कादंबऱ्यो, निबंध, बोधकथा, कविता आनी बालगितांय आसात. तांतूंत भितर देवसपणाचीं पुस्तकांय खूप आसात.

देवसपणाच्या पुस्तकांत स्तोत्रां, आरत्यो, अभंग आनी गणेशपूजा कशी करची ताची म्हायती मेळटा. हें पुस्तक वाचतना गणेश निकतोच शिरीगणेशाय नमः चिरता असो वाचप्यांक भास जाता.

मुळांत ताका देवभक्त म्हणप कठीण. घरांतलो तो एकसुरो एकलो भुरगो जाल्ल्यान आनी घरांत शाळीग्राम आशिल्ल्यान दिसपट्टी ताका ताची पूजा करची पडटाली. तांतल्यान ताचें देवसपण उप्रासलां.

> कोंकणीवाद्यांनी रामभाऊक पद्धतशीरपणान तांदळांतलो आसो कसो भायर उडयला. एक तर ते ताचो उल्लेख करिनांत. केलो जाल्यार कुच्छीत्रीपणान करतात. रामभाऊक ह्या गजालींची संवय जाल्या.



कोंकणीवाद्यांनी रामभाऊक पद्धतशीरपणान तांदळांतलो आसो कसो भायर उडयला. एक तर ते ताचो उल्लेख करिनांत. केलो जाल्यार कुच्छीत्रीपणान करतात. रामभाऊक ह्या गजालींची संवय जाल्या. आपल्या बरपाचेर उजवाड घालतना तो एकीकडेन म्हणटा,

----साहित्यीकाचे वळेरींत म्हजें नांव ना. कोंकणीक घटनेचे आठवे वळेरींत नांव ना. आनी म्हाकां प्रस्थापीतें साहित्यीक वळेरेंत स्थान ना..... म्हजें कोंकणीवाद्यांच्या साहित्यांतलें स्थान कितें तें म्हाकां बोंडला पशुंच्या अभयारण्यांत कोंकणी अकादमींत मेळावो भरिल्लो तेन्ना कळ्ळें. थंय चुकून म्हाकां आपयल्लो म्हण हांव गेल्लों.

कोंकणी नाटकांचेर चर्चा चालू आसतना चुकून एका उलोवप्यान म्हजें नांव काडलें. त्याबराबर व्हडले साहित्यीक खोऽऽ कन्न हांसले. आनी वसो लागिल्लेबशेन हेरूय हांसूक लागले.

'रामभाऊ तुजो आदर्श?' अशें म्हणून एकल्यान फकणां केलीं आनी सगळ्यांक मजा आयली. फुडें कितें उलोवपाचें आसलें तो हो उलोवपी विसरलो आनी उलोवप सदर्या सोडून सकयल बसलो. त्या मेळाव्यांत मागीर म्हाकां पळेतकूच सगळ्यांकूच हासूंक येतालें.

कोणाक कांय कळय नासतना हांव भायर सरलों आनी बोंडलांतलीं जनावरां पळोवंक गेलों. हीं जनावरां हांसनांत तें पळोवन म्हाकां बरें दिसलें.''

रामभाऊ हालीं वावराड्यांच्या इश्टाक लेख बरोवंक लागला. रोमी लिपींतले वाचपी तागेल्या बरपाक बरी दाद दितात.

फुडें फाटीं रामभाऊ रोमी वटेन गेलो जाल्यार गुन्यांव कोणाचो?

***

**६४ अमित , मारुती घाग मार्ग,**
**प्रभादेवी, मुंबई.**
**फोन : २४२२५०७७**





*With Best Compliments*




**Dr. T.M.A Pai Foundation**
**Syndicate House**
**Manipal - 576 104**










# यादी : कांय कोडू, कांय गोड

*– चंद्रकांत केणी*

हे लीलूक पळोवंक एक दीस न्हवरेकार आयले. त्या दिसा लीलूक साडी न्हेसयली. आवयन आपणाले भाशेन तिका सजयली. मूण न्हवरेकारांनी तोंडारच चली पसंत ना अशें सांगलें आनी ते गेले! न्हवरेकार परत वतकच अंताच्या संतापाक पारावार उरलो ना. ताणें घर माथ्यार घेतलें. हे कर्मकट्टे धुवेक केन्ना घोव मेळटलो देवाक खबर! हांव आनीक कोणाच्या दारांत वचचोंना अशें किर्ते तरी तो बडबडलो. बापायच्या त्या उद्वेगाचो लीलूच्या मनाचेर परिणाम जालो आनी तीनसांजच्या वेळा मागीरदारचे बांयंत लीलून जीव दिलो.

भुरगेपणांतल्यो यादी एक खेपे जाग्यो जाल्यो म्हणटकच त्यो दर्याच्या ल्हारां भाशेन एका फाटल्यान एक धांवत येतात. दर्याचें एक ल्हार देगेर येवन आपटतासर तें परतें परतुचे आदींच दुसरीं ल्हारां फाटल्यान येतात. तसो अणभव भुरगेपणांतल्यो यादी उस्तिता आसतना हांवें सदांच घेतला.

आज त्यो यादी जाग्यो जावपाक कारण सामकें सादें जालें. पसऱ्यार सावन कसली तरी वस्त घरांत हाडिल्ली. ती वस्त ज्या कागदान बांदिल्ली तें कागद म्हज्या हातांत पडलें. सदांचे संवयेप्रमाण हांव तें कागद वाचूंक लागलों. खंयच्या तरी इंग्लीश पेपराचें तें अर्दे पान आसलें. एके वटच्यान बातम्यो आनी फाटले वटच्यान ल्हान ल्हान जायराती छापिल्ल्यो. एके जायरातींतल्या सिंगल कॉलम फोटोचेर म्हजी नदर थिरावली. फोटो म्हाकां वळखिचो दिसलो. कोण हो मनीस? पेपर अशे तरेन पिनिल्लो की त्या मनशाचें नांव छापिल्लो कुडको वेगळो जाल्लो. म्हज्या हातांतल्या कुडक्याचेर फोटो आसलो आनी इंतेर अमक्या दिसा जातलो, सोयऱ्यांनी आनी इश्टांनी नोंद घेवची असो उल्लेख आसलो.

हांव केदो वेळ येवजीत बसलों. जो मनीस म्हाका वळखिचो दिसतालो ताका मरण आयलां. पेपर केन्नाचो तें म्हाका खबर ना. तो मरून कितले दीस... म्हयने...वर्सां उलगल्लीं आसतलीं देव जाणा.. तरी पूण मन अस्वस्थ जालें. म्हजें मन म्हाकां सांगतालें, त्या मनशाक





हांव खूब लागशिल्ल्यान वळखतां. पूण कोण तो कसो वळखतलों कोणाक विचारतलों....

हांवे तेदो फोटो कातरीन कापून काडलो आनी दोडून म्हज्या पाकिटांत दवरलो. कितले दीस, कितले म्हयने तो म्हज्या पाकिटांत आसलो देवाक खबर! आज एकलो म्हाका मेळूंक आयिल्लो. ताणें म्हजेकडेन म्हजें कार्ड मागलें. पाकिटांतलें व्हिजिटिंग कार्ड भायर काडटा आसतना तो छापिल्लो फोटो भायर आयलो आनी टेबलार पडलो. ओगीच हांवें तो फोटो त्या मनशा मुखार दवरलो आनी विचारलें, 'हाका तूं वळखता?'

ताणें एकदम म्हळें, 'कॉश्तांस मरे तो. तूं वळखना ताका? हो फोटो तुज्या पाकिटांत सो?'

तरी म्हाकां त्या मनशाची याद जालिना. ताचो तोंडावळो नदरे मुखार हाडून वेगळ्या वेगळ्या वातावरणांत उबो करपाचो यत्न हावें खीणभर केलो. आनी कितें घडिल्लें तें सगलें त्या मनशाक सांगून विचारलें, 'कोण हो कॉश्तांस?'

'कांसावलेच्या पोस्ट ऑफिसांत तो कार्तेर (पोस्टमन) आशिल्लो कितलीशीं वर्सां. रिटायर्ड जावन तो गांवांक गेल्लो. बार्देसांत खंय तरी. आतां तो केन्ना मेलो तें मात म्हाका खबर ना.'

एका खिणांत तकलेंतल्या काळखांत जोगूल चकचकलें आनी पोस्टमनाच्या खाकी भेसांतलो कॉश्तांस म्हज्या दोळ्यांमुखार उबो रावलो. नाका सकयल वयल्या ओठांचेर काळो मूस बसचो तसल्या मिशयांचो. कानसुलां आनी माने वयर केंस आशिल्लो, पुण बोडक्या माथ्याचो, बेब्यां भाशेन बटबटीत दोळ्यांचो आनी एक भुंवयी वांकडी आशिल्यान तिरसो कसो दिसतालो तो कॉश्तांस. तागेलो युनिफॉर्म हुमेच्या खतांनी भरिल्लो आसतालो. कोटाचे पितळेचे बटन सदांच काळशे जाल्ले आसताले. खांद्याक पत्रांनी भरिल्लो खाकी बोटवो आनी हातांतय खुबशी पत्रां लावन भोंवतल्या कॉश्तांसाची मूर्त म्हज्या दोळ्यांमुखार उबी रावली आनी अजाप जालें. चार-पांच वर्सां ज्याच्या नित्य दर्शनान आनी जाचे कडेन खबरो करून सारिल्लीं त्या कॉश्तांसाक हांव कसो विसरलों?

आनी यादी फाटल्यान यादी जाग्यो जाल्यो....

## सिरील रेंदेर

कॉश्तांसाचे कथेंत एक आड कथा सिरील रेंदेराची कथा सांगची पडटली. सिरील म्हळ्यार गांवचें एक मोठें प्रस्थ. त्या काळार रेंदेर काश्टी न्हेसून सूर काडूंक वताले. माड चडप आनी देंवप म्हळ्यार सोपें काम न्हय. पूण सिरील तें व्हड खोशयेन करतालो. निदान तो खोशयेन करता अशें पळयतल्याक दिसतालें. तोंडान तो शिळोणी घालतालो ना जाल्यार एकाद्रें कांतार वा लोकगीत गायतालो.

सिरीलाचे सुरीचे माड चार कडेन शिंपडिल्ले. थोडे आमच्या वाड्यार आनी थोडे ग्रासिंदाच्या वाड्यार. सकाळी, दनपरां आनी तीनसांजचो सिरील आमच्या घरालागीं येतालो. सकाळचो तो खुबूच बेगीन येतालो. तरी ताचीं कांतरां आयकून म्हाका जाग येताली आनी ताका जाप दिवंक हांव उठून भायर येतालों. दनपारच्या वेळार ताची-म्हजी गांठ चडशी पडनासली. एक तर हांव शाळेंत उरतालों ना जाल्यार घरांत भितर उरतालों. पूण तीनसांजच्या वेळार ताची शिळोणी हांव पयसुल्यान वळखतालों. सिरीलाचें घर आमच्या घरापासून अर्दवर पयस अंतराचेर आशिल्लें. तो सांजच्या वेळार बाजारांत येतालो तेन्ना तो वेगळोच भेस करतालो. बऱ्यांतले बरे कपडे करतालो. केन्नाय कोट लेगीत घालतालो. पांयांत बूट आनी मेय आसताले. ताच्या हाताक आशिल्ले घड्याळीक भांगराचो पटो आसतालो. वत आसूं नासूं. दोळ्यांक काळें गॉगल. शर्टाच्या वयल्या बोल्सांत तंबाकुचें पाकीट. म्हाका तागेलो ब्रॅण्ड लेगीत खबर आसलो. 'रिझला मोर्ताल' आनी 'बर्डस आय' तंबाकू. मोर्ताल म्हळ्यार जिबेर दवरल्यार विरगळून वचत इतलो धवोफुल्ल कागद. त्या कागदांत तंबाकुची लळी वळून अचळय दवरपाची. मागीर त्या तंबाकू भोंवतणी मोर्ताल गुठलावन एके कडेक आशिल्या गोमा वेल्यान जिबेचें तोंक फिरोवपाचें आनी तें दकोवन सिगरेट करपाची. ही सिगरेट जळून सोंपसर सिरीलाच्या तोंडांत आसताली. सिगरेट पेटोवचे खातीर ताच्या बोल्सांत लायटर आसतालो. त्या लायटाराचें एक वेगळेपण तो दाखयतालो. तो उरफाटो धरलो जाल्यार ताचेर आशिल्या चित्रांतले बायलेचें न्हेसण सकयल देंवतालें आनी तो सारको धरलो म्हण्टकच तें न्हेसण तिच्या आंगार चडटालें. म्हाका तो जादूच दिसतालो.

सिरील बाजारांत येतकच रेल्वे स्टेशनाभायर उबो रावतालो. वळखिचे चार लोक भोंवतणी उबे आसताले. थंय आयकल्या-पळयिल्या खबरांची देवाण-घेवाण जाताली. मागीर चार जणांक घेवन सिरील मुखावयल्या च्याच्या दुकानांत वतालो. गांवांत आयिल्लो जर्मन पदेर सांजच्या वेळार हुनहुनीत उंडे करतालो. हॉटेलांत पातळ भाजये सांगातान सिरील एक उंडो खातालो आनी च्या घेवन आपल्या घरा परततालो.

सिरीलाचें आनीक एक वर्णन करपाचें उरलें. तागेले पँटी भोंवतणी एक रूंद पटो आसतालो. त्या पट्ट्यांत एक बंद सुरी आसताली आनी दुसरे वाटने एक सरपळी, जिका चावयो आनी ल्हान टॉर्च बांदिल्लो उरतालो. मर्दी-मर्दी सिरील ती सरपळी हातांत घेवन तिचेकडेन खेळतालो.

म्हाका सदांच दिसतालें, सिरीलान तियात्रांत काम केल्लें जाल्यार तो नांव जोडटलो आसलो. ताचो आवाज गोड आसलो. पुण तियात्रांत काम करप उणाकपणाचें अशें सिरील मानतालो. हांव तिकेट काडून तियात्र पळयतां. फुकट केन्ना पळयना.. पूण कसली जीण रे ती! ते परस आमचें रेंदेरपण बरें, तो म्हणटालो.



सिरील गोरो गोमटो आसलो. ऐन पिरायेचो तरणाटो. कानसुलाकडेन लांब गले. बारीक मिशयो. केन्नाय मुडांत आयलो म्हण्टकच ताणें म्हणचें, गोयांत जल्मून हांव त्रासांत पडलां. भायर युरोपाक जल्मल्लो जाल्यार राजकुंवर जातलों आसलो.

कॉश्तांसा इतलीच सिरीला कडेन म्हजी संवकळ. पूण कॉश्तांस परस सिरील इल्लो म्हाका लागीचो दिसतालो. कित्याक तर तो मूळ गांवचो आनी आमच्या घरांत सगल्यांक वळखतालो. सिरीलाक कांय लोक पिसोय म्हणटाले. सिरीलालो बापूय रेंदेरच आसलो. पूण सिरील माडार चडूंक शिकनाफुडें ताणें गांव सोडलो आनी तो बोटिचेर गेलो. बोटिचेर खूब जोडटालो. सिरीलाचेंय बोटिचेर वचपाचें सपन आसलें. पूण आपल्या घराब्याचो परंपरेन चलत आयिल्लो रेंदेरपणाचो धंदो बंद पडचो न्हय अशें सिरीलाच्या बापायक दिसतालें. तो आवय-बापयलो एकलोच पूत आसलो. फुडें केन्ना तरी आपूण काजार जातलों आनी आपलो भुरगो माडार चडूंक लागतकच आपुणय बोटीर वतलों अशीं सपनां तो पळयतालो. पूण सिरीलाचें ते सपन भंगलें. ताच्या बापायक बोटिचेर बुडून मरण आयलें. बापायली कूडय हाताक लागली ना. गांवचे मातयेक ती भेटोवपाची आस बापूय सदांच उलयतालो. पूण तो योग केन्ना आयलोना. बापूय गेलो आनी आवय थोड्या दिसांनी पोटखाण्यांच्या दुखण्याचें निमित्त जावन अचकीत मेली. तेन्नासावन सिरील एकलो जालो.

सिरीलाले जिणेंत खुबशे विरोधभास आसले. रेंदेर सिरील काश्टी न्हेसून भोंवतालो. राजकुंवर सिरील हांवे वर्णिला त्या थाटांत येवन बाजारांत वेळ सारतालो. सिरीला कडेन दुसरेय गूण आसले. दुसऱ्यांक अडचल्या वेळार तो पावतालो. तातूंतय बांयत बुचकळे खातल्या लीलूक ताणें जेन्ना वाचयलें तेन्ना सगलो गांवांतलो लोक ताची तोखणाय करूंक लागलो.

लीलू अंताली-चली. गांवाचे एके कुशीक शेतां आसलीं. त्या शेतांमदी एक रूंद बांद. त्या बांदाचेर सात-आठ गांवटी नळ्यांची ल्हानशीं घरां. तातुंतल्या एका घरांत अनंत-अंता रावतालो. अंताचो वेवसाय सोनाराचो आसलो. एक कुशळ कारागीर म्हणून ताची नामना आसली. पूण त्या दिसांनी धंदो व्हडलोसो चलनासलो. अंता रसीक मनीस. ताका नाटकाची आवड. त्या दिसांनी कंपनिचीं नाटकां चडशीं येनासलीं. खंयच्याय देवळांत कालो, शिगमो आसलो म्हण्टकच सप्तकभर नाटकां चलतालीं.

काम-धंदो सोडून अंता तीं नाटकां पळोवंक त्या गांवांत वचून रावतालो. फाटल्यान गिरायकांची धांदळ जाली वा घरच्यांशी अडचण जाली जाल्यारूय ताका पर्वा नासताली.

अंताचो भेस कसलो? एक मुळचें धवें पूण ल्हवू ल्हवू काळें जायत गेल्लें आंगवस्त्र तो न्हेसतालो. वयर बुतांव नाशिल्लो सदरो. दोळ्यांक लायिल्लें वक्ल नाकाचेर सकयल देविल्लें आसतालें. त्याच भेसांत तो बाजारांत येतालो. चलता आसतना आपलेच तंद्रेत चलतालो. हातवारें करून तोंडान नाटकांचीं पदां गुणगुणटालो. मर्दीच तान दिवपाची हुक्की आयली जाल्यार मार्गाचे कुशीक उबो रावन दावो हात कानसुलाचेर घेतालो. हो अंता नाटकाक वचूंक भायर सरतालो तेन्ना मात तो बरो भेस करून, केंसाक तेल बी लावन वतालो.

अंताक एक चली. ती लीलू. लीलू आंगान खुबच मोठें आसलें.





गांवचे लोक कोणालेय मोठसाणेची तुळा करताना लीलूचें नांव घेताले. पिट्ट गोरें. वाटकुळीच तकली. धडाचेर दकोवची तशी दकयल्ले भाशेन दिसताली. चपटें नाक, मोट्टे दोळे आनी मोट्टो कुकूम. ताच्या आंगाक एक ब्लावज आनी घागरो आसतालो. कितलींशींच वर्सां तें तोच घागरो-ब्लावज वापरीत आयिल्लें देवाक खबर! अजून म्हाका त्या विटक्या तांबड्या घागऱ्याचो आनी खताविल्या निळ्या रंगाच्या ब्लावजाचो उगडास आसा. लीलू आपले आवय भाशेनूच अक्षरशत्रू, चलयेन शिकून कितें करचें पडलां? घर संवसार चलयतली जाल्यार रांदूंक, उमळूंक बरें येवंक जाय ही अंताची विचारसरणी. अंताचें आनीक एक म्हणणें आसलें. चलयो शिकल्यो जाल्यार पारपोळ जातात. देखून लीलू शिकूंक नासलें. ल्हान पिरायेर सावन आवयलीं कामां तें करतालें.

हे लीलूक पळोवंक एक दीस न्हवरेकार आयले. त्या दिसा लीलूक साडी न्हेसयली. आवयन आपणाले भाशेन तिका सजयली. पूण न्हवरेकारांनी तोंडारच चली पसंत ना अशें सांगलें आनी ते गेले! न्हवरेकार परत वतकच अंताच्या संतापाक पारावार उरलो ना. ताणें घर माथ्यार घेतलें. हे कर्मकट्टे धुवेक केन्ना घोव मेळटलो देवाक खबर! हांव आनीक कोणाच्या दारांत वचचोंना अशें कितें तरी तो बडबडलो. बापायच्या त्या उद्वेगाचो लीलूच्या मनाचेर परिणाम जालो आनी तीनसांजच्या वेळा मागीलदारचे बांयंत लीलून जीव दिलो.

सिरील तेन्ना लागशिल्ल्या कंवळांत पोंय कापतालो. मागीलदारांत पासयो मारपी लीलूक ताणें पळयिल्लें. बांयंत कितें तरी पडिल्ल्याचो आवाज येनाफुडें तो सादूर जालो. काती आनी दाभणें थंयच दवरून ताणें बांयत उडी घेतली आनी लीलूक वयर काडलें. घरच्या लोकांक खबरच ना. आवय फुडल्या दारांत तुळशी कडेन बशिल्ली आनी बापूय बाजारांत गेल्लो. चार शेजाऱ्यांक सिरीलानच साद घालून आपयले आनी लीलू वांचलें.

आपणें व्हडलें कितें कार्य केलां असो विचार लेगीत सिरीलाच्या मनाक आफडुलो ना. उपरांत कोणेंय सिरीलाक ते विशीं विचारलें जाल्यार तो म्हणटालो, सोंज्यावाच्या फेस्ता वेळार बांयंत बुचकळ्यो मरपाची म्हाका संवंय आसली देखून बरें जालें. लीलून म्हाका अशी वेंग मारली की खीणभर दिसलें, आतां आमी दोगांय बुडटात. पूण देव पावलो. उपकार त्या देवाचे मानात.

अंतान खंय उपरांत सिरीलागेर वचून ताका एक भांगरांची मुदी दिवंक केली. पूण सिरीलान ती घेतलीना.

तरीपूण एक गजाल ते उपरांत घडली. गांवचो लोक सिरील आनी लीलूच्या संबंदांविशीं तरेकवार रितीन उलयतालो. लीलूच्या मनांत आपले प्राण वांचोवपी सिरीलाविशीं कृतज्ञतायेची भावना आसली हातूंत दुबाव ना. पूण तें ताचे कडेन खंयचे नदरेन पळयतालें तें कोण सांगतोलो? सिरीलापुरतें एक सांगुंकूच जाय. कोणें ताका लीलूचें नांव घेवन चाळोवपाचो यत्न केलो जाल्यार तो खुबळनासलो. थंडसाणेन म्हणटालो, 'तुका भयण ना रे? खंयचेंय चेंडू दिसलें जाल्यार तिका बायल मानता तो मनीस न्हय, जनावर.'

सिरीलाक एक खेपे अंत्रुजेंतल्या एका गांवची चली सांगून आयली. सिरील मुजरत वचून तिका पळोवन आयलो. वतना ताणें दोग शेजाऱ्यांक सांगातान व्हेल्ले. सिरीलाक चली पसंत पडली ना.

सामकें खांपुल्लें. सोयरीक हाडचे आदीं तांणीं म्हाका तरी पळोवंक जाय आसलो. हांव काजार जालों जाल्यार राजकुंवरी सोबत असल्या चेडवा कडेनच जातलों. सिरील लोकांक उलोवन दाखयतालो. देखून लोक ताका पिसो म्हणटाले.

पूण सिरीलाच्या मनांतली राजकुंवरी कोण हें कळूंक म्हाकां कळाव लागलो नां. ते ल्हान पिरायेर लेगीत सिरील ग्रासिंदाचेर मरता म्हणपाचें म्हाकां कळिल्लें. ग्रासिंदान घरच्या पोरसांत तरेकवार फुलांचीं झाडा रोयिल्लीं. पोरसूं खूब व्हडलें. दुरगाचे गेटी कडच्यान घराचें मुखेल दार सुमार पंचवीस मिटर भितर आसलें आनी भोंवतणी तितलेंच अंतर दवरून दुरीग बांदिल्लें. ह्या दुरगाचे एके वाटेन रेल्वेची लायन वताली. दुरगाच्या कडांनी तरेकवार फळांचीं झाडां. तातूंत जगमां, चिकू, आदावां आनी माटमां, आंब्याचीं गार्फां, पेरिचीं झाडां, एक जांभळ आनी चींच लेगीत आसली. मदीं मदीं खंयूय माड. एक-दोन उबेच वाडील्ले भिल्लमाड आसले, जांच्या फळांच्यो माळो सजयिल्ले हत्तीचे सोंडेभाशेन हुमकळटाल्यो. हांवें तें पुराय पोरसूं भोवून पळयिल्लें. कित्याक तर भाटकाराचें एक लॉज ह्याच दुरगाचे भितर पोरसाचे एके कुशीक आशिल्लें. फळझाडां भायर दुसरे तरेचीं झाडांय आसतालीं. तांचे मदीं धवीं काण्णां आनी लिंबू, तोरांज्याचीं झाडां हांचो म्हाका अजीन उगडास आसा. तरेकवार फुलां, वेग्या वेगळ्या रंगाचीं आनीक वेगळ्या वेगळ्या परमळाचीं, कांय थळावीं, कांय भायलीं. ते भायर सोबेचीं कितलींशींच झाडां. तांचीं पानांय फुलांभशेन सोबीत.

श्रावणी आयतार आयलो म्हणटकच फुलां हाडपाचो आदेश आमकां मेळटालो. आयतारा कितलींशीं फुलां लागतलीं? पूण आमी समवयस्क भुरगे श्रावणी आयताराचें निमित्त करून लोकांचीं पोरसां लुट्टाले. ते खातीर फांतोडेचो ब्राम्ह म्हूर्त आमीं थारायिल्लो. श्रावणांत कुपा सकयल देविल्लीं आसतालीं आनी मजगतीं एखाद्रें कूप उदक शिडशिडावन वतालें. त्या पावसांत भिजपाचीय मजा. पेरां, तोरांजांआनी लिंबू तोडून काडपाचेर आमचो चड भर आसतालो. फुलांय आसतालीं. फुलांची रास हाडून घराकडेन रकयली म्हणटकच आमच्या आवयांनीं आमकां धारेर धरचे आनी अशीं फुलां बुड्डूं नाकांत अशी शिटकावणी दिवची. पूण ते शिटकावणेचो आमचेर परिणाम जायनासलो.

एक दीस फुलां काडटा आसतना म्हजे कडच्यान तोरांजेची खांदी टर्रर करून मोडली. फळांनी भरिल्ली खांदी मोडनां फुडें आवाज



जालो. सगळीं तोरांजां हाताकडेन आयलीं तरी हांवें मोठो अपराध केलो म्हणपाचें म्हाका कळिल्लें. देखून एकाय तोरांजाक हात लायनासतना माकडा भाशेन हांवें भायर उडी मारली आनी सारकोच सिरिलाचे तावडींत सापडलों.

दुरगाचे भायले वटेन रेल्वे लायनीक समांतर अशे सुरिचे माड आसले. सिरील हरशीं सुर्योदयाच्या वेळार माड काडूंक येता. पूण त्या दिसा ताका खंय तरी वचपाचें आसलें. देखून तो इल्लो बेगीन सूर काडूंक भायर सरिल्लो. तोरांजेची खांदी म्हजे कडच्यान मोडटा ती ताणें माडावेल्यानूच पळयिल्ली.

'खांदी कशी मोडली?' ताणें म्हाका विचारलें.

'म्हाका खबर ना. हांव एक तोरांज ओडटालों. खांदीच तुटली.' हांवें थरथरत जाप दिली.

पूण तो प्रस्न तितल्यार सोंपलो ना. सिरीलान म्हजे आड ग्रासिंदा कडेन कागाळ केली आनी ग्रासिंदान एक दीस म्हाका तापोवन लेगीत काडलो.

'तुका तोरांजां जाय जाल्यार हांव दितलीं आसली. अशी फांदी तोडटा ?' ताणें म्हाका विचारलें.

हांवे जाप दिली ना. पूण त्या दिसाच्यान ग्रासिंदा दिश्टी पडल्यार हांव ताका टाळूंक लागलों आनी मेळ्ळो तरी तें म्हजे कडेन तितले पुरतेंच उलोवंक लागलें. सिरीलाकय त्या दिसाच्यान हांव टाळटालों. पूण एक दीस सिरील मेळ्ळो आनी ताणें म्हाका सांगलें, 'तूं रागार जावं नाका. पूण खरें तें हांवें ताका सांगलें.'

ही खबर हांवें कॉश्तांसाच्या कानार घाली तेन्ना ताणें सिरीलाक दुशण दिलें आनी म्हळें, तुजें चुकलें खरें, पूण सिरीलाचें धा खेपे चुकलें. तो ग्रासिंदाक आपली व्हंकल करूंक सोदता...हार उडटा देखून गायंडोळ उडटा!

## अंता पळून वता

एक फिशाल सोनार म्हणून अंताची नामना. पूण रसीक अंता हातांत पयशे आयले म्हणटकूच फोल्गां मारतालो. तशीं फोल्गां सादीं. बरें नुस्तें हाडप, बरें खावप-जेवप इतलींच. पूण एकय दीस ताणें आपले वाडिल्ले चलयेक नवी साडी विकती घेतली ना वा बायलेक कापड घेवन दिलें ना. अंता पयशे जोडटालो. तांतले घरांत कितले पावताले देवाक खबर! घर संवसार चलयताली तागेली बायल. आपलें दुख्ख उलोवपाची लेगीत तिका चोरी. केन्नाय एखाद्रया हिंदू कुटुंबांत पावली जाल्यार ती आपले सुस्कारे सोडून घुस्मटमार ल्हव करून घेताली. अंताले बायलेचें नांव सुशिलाबाय आसलें अशें दिसता.

तशी सुशिलाबाय देखणी आसूंक जाय. अवेळार म्हातारपण येवन सगलें तेज वगडावन बशिल्ले बायले सारकी ती दिसताली. म्हाका उगडास जाता. आमच्या घरा फाटल्यान शेताचे धडेर एक ओंवळिचें झाड आसलें. शिंयाचे दीस आयले म्हणटकच त्या झाडांपोंदा ओंवळां पुंजावंक जायत्यो बायलो येताल्यो. त्या झाडाचेर फळां लागतालीं. लांबोड्या बोरां आकारांचीं पांचवीं फळां. तीं पिकलीं म्हणटकच केसरी-तांबडीं दिसतालीं आनी रूचीक चिकवा वरीं लागतालीं. आमकां भुरग्यांक ओंवळां परस फळांचें चड आकर्शण आसलें. पूण कोणूय आमच्यांतलो जाण्टो वयर चडटालो आनी केंकल्याची बडी घेवन पिकीं फळां झडयतालो. उपरांत आमी तीं फळां वाटून घेताले. सकाळी बेगीन उठून तीं फळां पुंजावंक हांव वतालों. शेताचे धडेर दाट धुकें पडिल्लें आसतालें. खारो दंव अजून झडटा अशा वेळार शितळ वातारवणांत फळां पुजावपाचो आनंद वेगळोच आसतालो. अर्द वराच्या कश्टांनी आठ-धा फळां मेळटालीं. पूण खूब मेळ्ळीं अशें ते पिरायेर दिसतालें. उदेंते कडेन वताचें किर्ण आयलें म्हणटकच त्या टवटवीत झाडाची सोबा नदरेंत भरूंक लागताली. लुसलुशीत पोपटी आनी पांचवीं पानां, मोतयां सारकी वयर फुलिल्लीं ओंवळां आनी तांचे मदीं पोपटाचे चोंची वरीं तांबडीं पिकिल्लीं फळां.

ह्या ओंवळिच्या झाडांचो आनी अंताले बायलेचो संबंद आसलो तो फांतोडेच्या वेळा पुरतो. हांव कितलेय बेगीन उठलों तरी म्हजे आर्दी सुशिलबाय झाडापोंदा पाविल्ली आसताली. ती केळीच्या चोळक्याचे दोणे करताली आनी ओंवळां पुंजायताली. हांव जाणां आसलों, ती ओंवळांचे पोड गुंथून चार घरांनी धाडून दिताली. जांगेर सुशिलबाय ओंवळां धाडटाली त्या घरच्यो बायलो तांचें थोडें भोव मोल पावयताल्यो. कोणूय तिका नाल्ल, शाक भाजी, गोड-साकर वा तांदूळ दिताल्यो जाल्यार थोड्यो बायलो आणो दोन आणे पावते करताल्यो.

मस्काच्यो सांगो, आंबाडे, तेरें आनी तायखिळो, कुड्डकेची भाजी अशो ज्यो कितें आलायत्यो वस्तू मेळटाल्यो त्यो सुशिलबाय पुंजायताली. इतलेंच न्हय, भाटांनी पडिल्ले नाल्लाचे बोंडे आनी चुट्टां, शेवकां, पिडे, झाडाच्यो सुकिल्ल्यो खांदयो ती ओडीत आपल्या घरा व्हरताली. आज म्हाका कळटा, ती अशे तरेन जळोव पुंजायताली वा दोन वेळच्या जेवणाची तजवीज करताली.

दिवाळेच्या अदमासाक अचकीत पावस आयलो. राती कडेन जोगलावंक लागलें आनी कान फुटचे येदो मोठो गडगड जालो. पूण सकाळ मेरेन पावस थांबिल्लो. त्या दिसा हांव ओंवळिचीं फुलां पुंजावंक गेलों जाल्यार वयले धडेर उबी रावन सुशिलबाय कितें तरी पळयता.

हांव सदचे वरी ओंवळी मुळांत वचूंक फुडें सरलों जाल्यार तिणें म्हाका आडायलो. म्हळें, बाब, फुडें वचू नाका. थंड जोगूल पडलां. ती कोड्याची आळ पळय. लासून गोबोर जाल्या आनी आमची ओंवळ अर्दी हुलपल्या.

हांवें ओवळी कडेन पळयलें. आदल्या दिसा मेरेन व्हंकल कशी



दिसताली ती ओंवळ निस्तेज जावन उबी आसली. अर्दें आंग लाशिल्लें आनी सगळींच पानां करपून गेल्लीं. ती ओंवळ आनी धडेर उबी रावन तिचे कडेन पळयतली सुशिलबाय ह्यांच्यांत कितें तरी साम्य आसा अशें म्हाका त्या खिणाक दिसलें.

अंताक मात बायलेंचो हुस्को नासलो. कोणूय सोयरो आयलो जाल्यार तो ताका आग्रो करून जेवणाक दवरून घेतालो. भितर बायलेची कितें दुर्दशा जातली हाची ताका कल्पनाच नासताली. तातुंतय नाटकांत काम करपी एकाद्रो नट वा पेटी, तबलें वाजोवपी कोणूय आयलो जाल्यार अंताच्या आनंदाक अंत उरलनासलो.

अचकीत अंताक बरे दीस आयले. गांवांत नवें कांयच घडूंक नासलें. पूण अंताची बायल नवीं कापडां न्हेसूंक लागली. लीलूच्या आंगार साडी चडली. आनी गांवचो लोक तरातरांनी उलोवंक लागलो. बारीकसारीक रिणां तर अंतान फारीक केलींच, पूण बाजारांत गेल्या वेळार दोन-चार वळखिच्यांक आग्रो करून च्या दिवंक लागलो. तो बरें नुस्तें विकतें घेतालो. इतलेंच न्हय तर गांवांत कसलेंय भौशीक कार्य आसलें जाल्यार आपली पटीय दिवंक लागिल्लो. त्याच दिसांनी सिरीलाची आनी अंताची संवकळ वाडिल्ली. लोक दोगांकय सांगातान भोंवतना पळयताले. थोड्यांनी असो दुबाव घेतलो कीं सिरीलान अंताचें बरेपण जोडूंक ताका पयशे दिल्यात आनी लीलूकडेन नातें जोडपाचो यत्न चलयला.



एक दीस अंताच्या दारांत धाकली मोटार उबी रावली आनी सगलो गांव विस्मीत जालो. त्या काळार आमच्या गांवांत धाकली मोटार एकच आसली. ती जेन्ना तांबड्या रस्त्यावेल्यान वताली तेन्ना गांवचे भुरगे तिणें हुबयिल्लो धुल्ल खायत मोटारीचे फाटल्यान धांवताले. दुसरी मोटार चुकून गांवांत पावताली. दिसाक दोन ट्रीपी मारताली ती गांवांतली कारेर. मोटरसायकली लेगीत चडशो घोळनाल्यो. ज्याच्या दारांत मोटार थांबता तागेर कोण तरी व्हडलो मनीस आयिल्लो आसा अशें गांवचे लोक मानताले आनी ते मोटारींत कोणूय बसलो जाल्यार गांवांत ताची प्रतिशठा वाडटाली.

त्या दिसा अंताल्या दारांत मोटार थांबली आनी अंतान गांवच्या लोकांचेर प्रभाव घालपाखातीर आसत वा आपली उमेद भागोवपा खातीर आसत, बायलेक आनी धुवेक मोटारींत बसोवन पुराय गांवची भोंवडी करून हाडली.

दुसऱ्या दिसाच्यान गांवांत लोक दुसरीच खबर उलोवंक लागले. कोणें म्हळें, अंता आता भांगराचो धंदो करता. ह्या धंद्यांत जोड खूब आसा. देखून ताका बरे दीस आयल्यात. पूण तो खऱ्यांनीच कितें करता हे विशी सारकें कोणाकच केन्ना कळूंक पावलें ना. पूण गांवचे लोक तरातरांनी उलयताले. भायल्या देसांतल्यान भांगराच्यो लगड्यो हाडटात आनी त्यो गोंयचे शीमे भायर पावयतात. तशें केल्ल्यान दुप्पटीन तिप्पटीन फायदो जाता. तें काम करपी टोळयेंत अंता सामील जाला.



एक खरें. अंता चार-चार दीस नाच्च जातालो आनी मर्दी अचकीत प्रगट जातालो. तो खंय आसता, खंय वता, कितें करता हो गांवच्या लोकांखातीर चर्चेचो विशय जाल्लो. पूण इतलें खरें, आदीं जे लोक अंताक हटकिनासले, ते आतां मुजरत ताका जाप दिवंक लागिल्ले.

अचकीत एक दीस अंता नाच्च जालो. ताका सोदूंक लोक मोटरसायकलींनी लागिंच्यान आनी पयसुल्ल्यान येताले. पूण तो खंय आसा हे कोणाकच खबर नासलें. गांवाक वेगळे चर्चेचो विशय. कोण म्हणटालो, भारतीय हद्दीत चोरून भांगर व्हरतना अंताक पोलिसांनी धरलो आनी बंदखणींत घालो. दुसरे म्हणटाले, भांगराचें डबोलें घेवन अंता पळून गेला.

सुशिलबायक वा लीलूक कोणें विचारलें जाल्यार तीं कांयच सांगूक शकनासलीं. खऱ्यानीच तांकां कांय एक खबर नासलें. पयशे खंयच्यान येतात तें तीं नकळ आसलीं आनी आतां पयशे येवप बंद जाले तरी अंता खंय गेला हें तांकां खबर नासलें.

एक दीस लीलूच्या नांवान पत्र आयलें. सादें पोस्ट कार्ड. कॉश्तांसाक बारीकसाण. ताणें तें म्हाका दाखयलें आनी वाचूंक सांगलें. मराठींत बरयल्लें पत्र. अंतान बरयल्लें, हांव बरो आसां, हुस्को करी नाकात. खात्रीचो मनीस मेळ्ळो जाल्यार तुमकां पयशे धाडटां. ह्या पत्राविशीं कोणाक सांगू नाकात.

पत्रांतलो मजकूर आयकून कॉश्तांस विचित्र हांसलो आनी आपल्या हाताचें बोट आपल्याच ओंठाचेर दवरून ओग्गी राव म्हणून ताणें म्हाका खुणायलो. म्हाका दिशिल्लें, त्या कार्डाचें गुपीत म्हज्या आनी कॉश्तांसा भायर कोणाक कळचेंना, पूण दुसऱ्या दिसाच्यान सगलो लोक त्या कार्डाविशीं उलयतालो.

## अंता साधू जाता

सुमार देड-दोन वर्सां अंताची कांयच खबर कळ्ळी ना. मजगती केन्ना तरी सुशिलाबाय आनी लीलू गांव सोडून गेलीं. तीं खंय गेलीं तें कोणाकच कळ्ळें ना. लोकांनी म्हळें, 'अंता तांका घेवन गेलो आसतलो बेळगांव, मुंबय खंय तरी.' चार दीस चर्चेक विशय. उपरांत सगलें शांत.

अंता रावतालो तें घर भाड्याचें. घरांत वणटीचेर तरांतरांच्यो वाली चडिल्ल्यो आसताल्यो. मजगती एका कोनशाक वणटी कोसळिल्ल्यो आनी थंय चुट्टां धांकिल्लीं. हांव केन्नाच अंताल्या घरांत भितर सरूंक ना. भायले पडवेंत अंताली बैठक. ती रस्त्यावेल्यान येतल्या वतल्यांक दिसताली. ते पडवेक दार नासलें. भितरले वाटेन दार. तें बंद आसतालें.

अंताची बायल गेली आनी घराचेर लागिल्ले दुदी थंयच उरले. गांवच्या लोकांचें एक बरें. कोणें तें पोरसूं लायिल्लें, तें कोणें शिंपिल्लें तें खबर ना, तें सुकून करपलें. म्हाका येतना वतना केन्नाय तें घर दिश्टी पडटालें. पूण एका पावसांत पुराय घर कोंसळ्ळें.

भाटकार धांवत आयलो. ताणें लोकांक सांगलें, भाट म्हजें पूण घर अंताल्या बापायचें. ताणें चार मानाय हाडले आनी घरांतल्यो उरिल्ल्यो सुरिल्ल्यो वस्तू आपल्या लॉजांत व्हरून दवरल्यो. ताणें घराक हात लायलोना, थोडे वांशे, थोडे नळे, खुबशो कांबी त्या राशी मर्दी पडिल्ल्यो. कितलीं वर्सां मेरेन त्यो तशोच आसल्यो. आतां तें घर लोकांचे संवकळिचें जाल्लें. कोणाक ताचें कांयच दिसनासलें. पावसांत थंय ल्हान व्हड झोपां किल्लल्लीं. पूण इतलेंय जावन कोणें एक कांब चोरून व्हेली ना, कोणें एक नळो व्हेलो ना. उपरांत मात त्या घरा विशी तरेकवार वदंता आयकूंक येताल्यो. फाटले वाटेन आशिल्ले बांयंत भूत रावता अशें आयकूंक येवंक लागलें. ह्यो वदंता कानार पडत सावन आमकां भुरग्यांक दिसाचें लेगीत ते वाटेन वचूंक भिरांत दिसताली. मार्गान वचचें पडलें जाल्यार अंताल्या घराचेर नदर पडनाफुडें हांवें नदर दुसरे वटेन घुंवडावन धांवंक लागचें. पयस वतकच भूत ना म्हणपाची खात्री करून मागीर खरशेत फुडली वाट चलची.

पूण जेन्ना अंता परत आयलो तेन्ना मात गांवांत परतून वादळ आयलें. म्हाका त्या प्रसंगाचो घट उगडास जाता. दनपारचो दोन-अडेच वरांचो वेळ. उबाळाचे दीस. हांव घराच्या आंगणांत एकलोच गड्ड्यांनीं खेळटालों. आमच्या घराचें आंगण खूब व्हड आसलें. त्या आंगणांत नाल्लाच्यो राशी आसताल्यो. भोंवतणी एक वंय आनी वंयेक एक कवडी. ते कवडें सामकारच हांव खेळटालों. इतले म्हणसरर भगवीं वस्त्रां घाल्लो एक साधू आमच्या आंगणांत भितर सरलो. म्हजी भियेवन गुळी. भितरले वाटेन म्हजो बापोलभाव न्हिदिल्लो. आकांतून हांवें ताका उठयलो आनी म्हळें, 'भायर साधू आयला.'

'मूठभर तांदूळ घाल आनी धाड ताका.' न्हिदेंतचकूस परतून ताणें म्हाका सांगलें.

'म्हाका भंय दिसता.' हांवें ताका सांगलें.

तेन्ना तो उठलो. 'हांव हांगा आसां. तूं वचून घालून यो.' ताणें म्हळें.

तो उठून बसलो. तितलोच म्हाकां धीर. हांवें मूठभर तांदूळ घेतले आनी साधूचे नदरेक नदर दिनासतना हात फुडें केलो.

'म्हाका तांदूळ नाकात. हांव बाबा मेळूंक आयलां. अंता आयला म्हूण सांग.'साधून सांगलें.

हांव तसोच परत आयलों. बापोलभावाच्या कानार साधूचीं अर्दुकुटीं उतरां पडिल्लीं आसुंये. तो भायर आयलो. आनी ताणें आयिल्ल्या साधूक निरखून म्हळें, 'अंता हांगा ना. बायल-भुरगीं खंय गेलीं कोणाक खबर ना.'

साधू फुडें आयलो. हांव ताका निरखितालों. केसांत पिंजर. दोनय दंडांक रूद्राक्षाच्यो माळो. गळ्यांतय रूद्राक्षाची माळ. आंगाक भगवी कफनी. पांय उकते आनी दोनीय खांद्यांचेर दोन झोळयो. झोळयो





भरिल्ल्यो. आपणांक वळखले नात हें पळोवन ताणें आमचें नांव घेतलें आनी म्हळें, 'हांव अंता.'

खिणाभितर सगल्या घरांत कुलकुलाट. अंता परत आयला, साधू जावन परत आयला. ही खबर मागीलदारच्यान शेजाऱ्यांगेर आनी शेजाऱ्यांकडसून गांवभर जाली! अंता बसलो. तांबयोभर उदक पियेलो आनी झोळयेंत हात घालून ल्हायो आनी खडी साखरेच्यो पुडयो म्हाकां दिल्यो.

'खंय तूं इतले दीस?' म्हज्या बापोलभावान ताका विचारलें.

'सगलें सांगतां. पूण चार दीस पोटांत शिताची उंडी वचूंक ना. दनपारचें कितेंय उरिल्लें आसत जाल्यार म्हाका वाड.' अंतान सांगलें.

आपल्यो झोळयो भायरच दवरून अंता भितर आयलो. फाटले वटेन बांयचेर गेलो. ताणें कफनी काडली. आंगावेल्यो रूद्राक्षांच्यो माळो काडून दवरल्यो. हांव बारिकसाणेन पळयतालों. नाटकांतल्या साधू भशेन तो खाड देंवयता काय पळयलें. पूण ताणें तें उदकांत भिजोवन पुसलें. बांयचे कुशीक केळीचें झाड आसलें. ताणेंच आपल्या हातानीं एक शिरती कांडली आनी भितरले पडवेर ती दवरून जमनीर मांडी घालून बसलो.

'तू नुस्तें खाता?' म्हज्या बापोलभावान ताका विचारलें.

'हांव कितेंय खातां. कितें आसा तें वाड' ताणें म्हळें.

हांव कुशीक बसून ताका पळयतालों. आतां भिरांत गेली. व्हडल्यो व्हडल्यो उंडयो करून तो चाबी नासतना जेवलो. पान पुसून जेवलो. दुसरे खेपेक वाडूंक हाडलें तेंय ताणें घेतलें. उपरांत तांबयोभर उदक पियेवन ताणें धेंकर दिलो.

परत तो बांयचेर वचून आयलो आनी आशिल्लो तसो फुडल्या दारांत आंगणांत वचून बसलो. म्हाका नवें काम मेळिल्लें. तो कितें उलयता, तो कितें करता हें हांव बारीकसाणेन नियाळटालों.

बापोलभावाकडेन उलयतना एकदम तो गळगळीत रडूंक लागलो. ताणें म्हळें, 'हांव हो असो कर्मकट्टो. आज मेरेन खूप जोडलें, खूप वांटले, खूब भोगलें. पूण एकलेच धुवेचें कन्यादान करपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळें ना. म्हजे खातीर कश्ट काडिल्ले बायलेक सुखाचें तोंड दाखोवंक पावलों ना. सामको अभागी हांव. आतां तिगेल्या कुळारा वचून खबर घेतां. ती थंय आसतली.'

'तुजें घर मोडून पडलां' बापोलभावान ताका सांगलें.

'जाणां हांव. आदी थंयच वचून आयलां. सगलो संवसार मातये भरवण जाला. खंय वतलों? तुमगेर आयलों.'

'गांवांत तुका कोण वळखले?'

'तुमी वळखले नात. थंय लोक कितें वळखतले?' अंतान म्हळें. 'पूण हांव नव्यान घर बांदतलों. बायलेक परती हाडटलों. धुवेचें लग्न जावंक नासत जाल्यार तिका बरो घोव पळोवन लग्न करून दितलों....' अंता परत रडूंक लागलो.

तो रडटा कित्याक तें म्हाका कळनासलें आनी एक साधू रडटा हाचें अजापय दिसतालें. पूण त्या दिसा म्हाका अंताची काकुळटय दिसली.

'तूं इतलीं वर्सां खंय गेल्लो?' बापोलभावान ताका विचारलें.

'यात्रेक गेल्लों. सांगपा सारकी खूब खबर आसा. कित्याक गेलों, कसो गेलों हें उपरांत सांगतां. पूण निमाणें हांव स्त्रीराज्यांत पावलों.'

'स्त्रीराज्यांत म्हळ्यार?' अजापून म्हज्या बापोलभावान विचारलें.

'तुवें आयकूंक लेगीत ना मरे? हांव तें पळोवन आयलां. थंय राजा सारको रावन आयलां. पळून आयलां म्हळ्यार जाता.'

म्हज्या बापोलभावाचो ताचेर विस्वास बसलो ना. तो हांसलो.



तशें अंतान म्हळें, 'तुका खरें दिसना जाल्यार सांगना.'

'पूण तूं थंय गेल्लोच कित्याक?'

'तें सगलें मागीर सांगतां,' ताणें म्हळें आनी मांडी घालून ध्यानस्थ बसलो.

भायले वटेन आमच्या आंगणांत अंताक पळोवंक कितलेशेच लोक आयिल्ले. तातूंत सिरील लेगीत आसलो. पयसुल्ल्यान बरो वेळ ताका पळयले उपरांत सिरीलान म्हाका म्हळें, 'पयलें काम करूंक जाय तें म्हाल्याक आपोवन ताचे केंस कापूंक जाय...खाड कांडूक जाय.'

ते सरशीं सगले हांसले. पूण अंताल्या ध्यानाचो भंग जालो ना.

### अंताच्यो सुरबूस खबरी

साधू जावन परत आयिल्लो अंता दोन दीस मेरेन गांवांतच भोंवतालो. बाजारांत एका भाड्याच्या घरांत मुळावी मराठी शाळा आसली. ते शाळेच्या व्हरांडांत तो न्हिदतालो. ताचे कडेन पयशे आशिल्ले जावंये. तो हॉटेलांत खातालो, कोणागेरय जेवतालो, पूण सगल्यांचेंच मनोरंजन करतालो. अंताच्यो खबरी आयकूंक गांवचे लोक घोळके करून ताचे भोंवतणी जमताले. अंताकडेन किर्तनकाराची कथन शैली आसली, नाटकांतल्या नटाचो अभिनय आसलो. नाटकांतलीं कितलींशीच पदां ताका तोंडपाठ येतालीं. योग्य प्रसंगाचेर योग्य पद तो गावन दाखयतालो. ताका लागून अंताल्यो खबरो म्हळ्यार मनोरंजनाचें दुसरें साधन नाशिल्ल्या काळार त्या गांवांत एकें तरेचें एकपात्री नाटक आशिल्लें.

हांवें एक पळयिल्लें. अंता उलयता आसतना सगले कान दिवन आयकताले. ताणें विनोद केलो जाल्यार सगले हांसताले. ताणें सांगप सोंपयलें म्हणटकच सगले हांसत आपले वाटेन वताले. वतना चडशे म्हणटाले, बऱ्यो काणयो घडोवन सांगता... एक्कूय खरी न्हय. सामकोच फटींग. पळय तूं आतां, येवन इतले दीस जाले तरी धुवेची, बायलेच वासपूस करिना.

ल्हवू ल्हवू अंतान मोडक्या घराच्यो चार वणटी उब्यो केल्यो. वांशे, कांबी पुंजावन हाताक लागले ते नळे बसयले. बांय उपसून घेतली आनी आपल्या मूळ घरांत तो रांवक लागलो.

त्या वेळा वयली परिस्थिति वेगळी आसली. अंतान नव्यान घर बांदलें म्हणून भाटकारान विरोध केलो ना. उरफाटो, ताका आधारच दिलो. पूण चडशा जाणांन ताचे बराबर काम केलें. सगल्यांत चड आधार आसलो सिरील रेंदराचो. सुरिचो वेळ सोंपलो म्हणटकच तो अंता सांगातान आसतालो. अंतच्यो सुरबूस खबरी आयकतालो आनी अंता खातीर पयशे मोडटालो.

म्हाका अंताल्यो खबरो आयकुपाच्यो आसल्यो. पूण त्या घोळक्यांत म्हाका रीग मेळनासलो. ते भायर शाळेचो वेळ सांबाळचो पडटालो. घरा येतकच घरचीं कामां येतालीं. गंव दळून हाडप, खळ्यार वचून खोबरें राखप, लोजाकडेच वचून भाडेलांच्या माथ्यार नाल्लांचीं पाटी चडोवप हे सारकेलीं तीं कामां. पूण गांवचो लोक उलयतालो तें कानार पडटालें. सिरीला कडच्यान सगल्यो खबरी कळटल्यो आसल्यो. पूण सिरीलाचो सगळो वेळ आतां अंता सांगातानच वतालो. तो म्हाका चडसो मेळय नासलो.

पूण अंता म्हाका रस्त्यावेल्यान भोंवताना केन्नाय दिश्टी पडटालो. हांवें हटकिलो जाल्यार तो म्हाका परती जाप दितालो. खीणभर उबो रावन नाटकांतल्या नारदा भाशेन हात वयर काडून नारायण...नारायण म्हणटालो. पूण चड कांय उलयनासलो. केन्ना केन्नाय आपल्यागेर बसूंक यो म्हणटालो. अंताल्या तोंडांत नारायण, नारायण हीं उतरां तशीच उरलीं, पूण ल्हवू ल्हवू तागेलीं भगवीं वस्त्रां सकयल देंवलीं. पोरणें पुडवें आनी खोमीस ताच्या आंगार चडलें. एक दीस हांवें पळयलें की ताणें आपलें खाड बारीक करून घेतलां आनी केंसय मारून घेतल्यात. आमच्या घराकडेन जाण्टेले म्हणटाले, आतां अंता साधू उरूंक ना. आतां तो बायलेक हाडूंक वतलो.

आनी खऱ्यांनीच एक दीस अंता आपले बायलेक घेवन आयलो. पडींग घराक जीव आयलो. एके कुशीक कोंसळिल्ल्या घराचे मातयेची रास तशीच आसली, पूण दुसरे वाटेन घर आंगण तयार जाल्लें.

तेन्ना लोकांकडच्यान म्हाका कळ्ळें की लीलूचें लग्न जालां, ताका बरो घोव मेळ्ळा आनी तें सुखान संवसार करता. लोक खंयच्या तरी गांवचें नांव घेताले. म्हाका ते विशी चड आस्था नासली. म्हाका आस्था आसली अंताच्यो खबरी आयकुपाची. आनी ती संद मेळना म्हणून हांव तळमळटालों. पूण एक दीस संद चलून आयली. अंताच्या घरा फाटल्या भाटांत पाडो आसलो. पाड्याचो नाल्ल भाटकारान आमकां आदींच विकिल्लो. देखून पाड्याक पडटा तितलोय नाल्ल मेजून घेवन लॉजांत घालून घेवपाचें काम म्हजेर सोंपयिल्लें. हांव पाड्याकडेन गेलों तरी म्हजें काम पाडो सोंपतकच सुरू जावपाचें. त्या दिसा अंता पाडेकाराच्या फाटल्यान-फुडल्यान भोंवतालो. ताणें चुड्टां, शेवकां पुंजायल्लीं. तांची एक व्हडली रासय ताणें जमयिल्ली.

'जाणां तूं?' अचकीत अंतान म्हाका म्हळें. 'माड म्हळ्यार कल्पवृक्ष. कल्पवृक्ष म्हळ्यार कितें? ह्या झाडा मुळांत बसचें आनी महादेवाकडेन कितेंय मागचें. महादेव प्रसन्न जालो जाल्यार तें मेळ्ळें बगर रावना.'

म्हाका ताचें सांगणें नवलायेचें दिसलें. हांवें विचारलें, 'कितेंय मागल्यार मेळटा?'

'हय. तुवें कल्परूखाच्यो काणयो केन्ना आयकूंक नात? पूण एक आसता, महादेव प्रसन्न जावचो पडटा आनी महादेव म्हणटात तो सोंपेपणान प्रसन्न जायना. जालो जाल्यार मात कितेंच उणें करिना.'

म्हाका ओगीच दिसलें अंताक महादेव प्रसन्न जाल्लो आसतलो.



ताणें ताका पळयल्लो तरी आसतलो. हांवें ताका विचारलें, 'तूं इतलो साधू जावन भोंवलो. तुवें हिमालय बी पळयला आसतोल न्हय?'

'निखटो पळयला म्हूण कितें विचारता.' अंतान म्हळें. 'हिमालय म्हळ्यार देवांचो पर्वत. थंय देव रावतात. कैलासाचेर महादेव रावता. आनी देवाचें तप करचे खातीर कितलेशेच साधू हिमालयांत आसतात.'

'थंय बर्फ आसतलें न्हय?' हांवें विचारलें.

'बर्फ म्हळ्यार कितें? दोंगरच बर्फाचे, बर्फावेल्यान चलपाचें. कुडकुड्याचें शीं. हांगा तुमकां बर्फ खावचोसो दिसता. थंय बर्फ नाका जाता.'

एकेक उतर म्हाका अप्रुपाचें आसलें. हांवें ताका विचारलें, 'तूं कैलासाचेर गेला? महादेवाक पळयला?'

'कैलासाचेर मनीस पावना. मेले बगर कैलासवासी जायना. पूण कैलास पर्वताचें शिखर हांवें पळयलां. आनी तसो महादेव सोंपेपणीं दिसना. प्रसन्न जालो जाल्यार तूं आसा थंय तो येतलो, दर्शन दितलो आनी तुजी मागणी पुरी करतलो.'

कल्पवृक्षाचो विशय थंयच उरलो आनी अंता पुराणांतल्यो कथा म्हाका सांगूंक लागलो. हरदासाच्या तोंडांतल्यान हांवें थोड्यो आयकल्ल्यो. काणयांच्या पुस्तकांतल्यान थोड्यो वाचिल्ल्यो. हांवें ताका म्हळें, 'आमच्या गोंयांत इतले कल्पवृक्ष आसात! जाल्यार महादेव खंयूय लागीं आसतलो न्हय.'

अंतान एक नाल्ल हातांत घेतलो आनी म्हळें, 'सोलिल्लो नाल्ल तुवें पळयला?'

'पळयला.'

'ताका कितले दोळे आसतात ?'

'तीन.'

ताणें आपले हात वांकडे तिकडे घुंवडावन म्हळें, 'जालें मागीर. तीन दोळे कोणाक आसतात? मनशाक दोन दोळे. गोरवांकय दोनच दोळे.वागाक आनी शिंवाक लेगीत दोन दोन. महादेवाक मात तीन दोळे. तिसरो दोळे कपलाचेर आसता. राग येता तेन्ना महादेव तो उक्तो करता. त्या दोळ्यांतल्यान उज्याचे लोट भायर सरतात. सांगपाचें तात्पर्य, नाल्ल म्हळ्यार तीन दोळ्यांचो महादेव. आमकां ताचें कांय दिसना. पुण तुका खबर ना, हिमालयांत माड नासतात. थंयच्या लोकांनी नाल्ल लेगीत पळोवंक ना.'

त्या दिसा भाटकारान आमकां आडसरां दिलीं. हांवें दोन आडसरां थंयच खालीं. अंतान पाडेकारा कडसून आपलीं दोन आडसरां सोलून घेतलीं आनी घरा व्हेलीं. पाडो सोंपसर अंताल्यो खबरो हांवें आयकल्यो. हांवें ताका म्हळें, 'तुगेली स्त्री राज्याची खबर म्हाका सांगचो ना?'

'आयकूंक जाय मरे?' अंतान म्हळें, 'हांव घरा बेकार आसां. तुका जाय तेन्ना यो. हांव तुका ती सांगतां. तीच कित्याक, खुबशो खबरो आसात. सगल्यो तुका सांगता.'

अंता बेकार आसता, कांय करिना हें ताणेंच सांगिल्लें. पूण ताणें सांगूंक नाशिल्लें जाल्यार लेगीत म्हाका कळटालें. आनी म्हाका मनांत दिसलें, सुशिलबाय आतां परत ओंवळां पुंजायता आसतली. मसंगाच्यो सांगो, आंबाडे विकता आसतली.

पाडो सोंपून नाल्ल मेजून घेतले. सगले नाल्ल लॉजांत घाले. लॉजाक कुलप करून भाटकारान चावी म्हज्या हातांत दिली. म्हाका ओगीच ग्रासिंदाचो उगडास आयलो. भाटकार म्हळ्यार ग्रासिंदालो बापूय. आदीं पाड्या कडेन ग्रासिंदा येतालें.

तें आतां खंय गेलां हें भाटकाराक विचारिल्लें जाल्यार तो सांगत आसलो, पूण तें धाडस म्हाका जालें ना. लॉजाची चावी कालसांवाच्या बॉल्सांत घाली आनी हांव घरा परतूंक लागलों. परत वतना अंतान म्हाका आपल्या घराकडेन व्हेलो. सुशिलबाय फाटल्या आंगणांत पणसाचीं भिकणां भाजताली. घमघमीत वास येतालो. अंतान कांय सांगलें ना. तिणेंच चार हुनहुनीत भिकणां म्हज्या हातार दवरलीं.

म्हाका दिसलें, ओंवळां पुंजावंक येताली ती सुशिलबाय हिचे परस जाणटी आसली. ही आतां निवळ न्हेसण न्हेशिल्ली. आनी वेळार जेवण-खाण मेळिल्यान आसुंये, वा लीलूच्या लग्नाचो प्रस्न सुटिल्ल्यान आसुंये, तिच्यांत थोडें तेज आयिल्लें.

हून भिकणां बोल्सांत घालून हांव घरचे दिशेन चलत रावलों.

## स्त्री राज्याच्यो खबरी

अंता जें वर्णन करता ताचे वयल्यान तागेलें 'स्त्री राज्य' ईशान्य भारतांत खंय तरी आसचें पडटलें. खऱ्यांनी थंय स्त्रीराज्य आसलें काय कितें तें हांव नकळ. पूण एक काल्पनिक काणी म्हणून अंताल्यो खबरो आयकल्यो जाल्यार त्यो आयकत रावचें अशें दिसतालें. मदीं मदीं कांय भुगोलीक सत्यांय तो उलोवन वतालो. कांसावली गांवच्या लोकांनी अंताक फटकिरो थारायल्लो. पूण अंता गंभीरपणान म्हणटालो, 'हांव सांगतां तें फट दिसता जाल्यार तुमी वचून पळेयात.'

ह्या देशांत सगले कडेन संचार करपाची मेकळीक संन्याशाक सोडून दुसऱ्या कोणाकच नासता. अंता पळून गेलो तो काळ भारत स्वतंत्र जाला त्या अदमासाचो. भारत स्वतंत्र जावचे आदीं देशाच्या सगळ्या वाठारांनी वेगळीं वेगळीं संस्थानां आसलीं. म्हाका आज अशें दिसता कीं अशी एका ल्हानश्या संस्थानांत वा ईशान्य भारतांतले एकाद्रे आदिवासी जमातिच्या वाठारांत अंता पाविल्लो आसूं येता आनी थंय मातृसत्ताक पद्धत चालू आसत जाल्यार तें बायलांचें राज्य म्हणूं येता. हांवें अंताक विचारलें, 'बायलांच्या राज्यांत सगल्यो बायलोच?थंय दातले नात?'



'थोडे आसात. पूण थंयच्च्या दादल्यांची दशा पळोवं नज. राणी बायल. तिगेल्या दरबारांत सगल्यो बायलो. बायलो वेपार-धंदो चलयतात. दादले घरकाम करतात. तांकां व्हडलीशी प्रतिष्ठा नासता. आमचे कडेन बायलांक जें स्थान तें थंय दादल्यांक. पूण आमचे लोकसंख्येंत अद्यो बायलो आसात. थंय चडशे दादले नात. ते पळून वतात अशें हांव आयकतां.'

हांव अंतागेर गेलों तेन्ना भायले वटेन दडकांनी पावस पडटालो. दाट लव्यांची एक मांदरी पातळावन अंता वणटीक फाट तेंकोवन आनी ते मांद्रेचेर पांय सोडून बशिल्लो. कुशीक ताची थंड पडिल्ली आगटी आनी काम करपाचीं आयुधां पडिल्लीं. तांकां ताणें हालिंच्या दिसांनी हात लावंक नाशिल्लो.

'बरो थंड पावस पडटा. आर्दी एक हुनहुनीत च्या घेवंयां. कितें म्हणटा?' ताणें म्हाका विचारलें.

'च्या बी कांय नाका,' हांवें म्हळें.

'मोठ्यान उलोवं नाका', ताणें म्हाका शिटकायलो. 'तूं आयला म्हळ्यार म्हजी बायल च्या करतली. ना जाल्यार म्हाकाय च्या मेळचिना...' अशें म्हणून अंतान बायलेक उलो मारलो.

आपलें न्हेसण सारकें करीत सुशिलबाय भायर आयली. म्हाका पळोवन ती समजुपाचें समजली. तिणें ल्हवू आवाजांत घोवाक म्हळें, 'च्या करतलीं आसलीं, पूण घरांत दूद ना.'

अंताच्या कपलाक मिरयो पडल्यो. ताणें म्हळें, 'सादी फुटी च्या कर... इल्लें गंजन घाल.'

आनी कांयच घडूंक नाशिल्ले भाशेन ताणें म्हाका म्हळें, 'तूं अजून भुरगो आसा. जायत्यो गजाली तुका समजुच्योय नात. पूण तुका सांगतां, स्त्री राज्यांत हांव तेन्ना सुखी आशिल्लों. थंयच्यो बायलो म्हाका परत वचूंक दिनाशिल्यो. पूण घराची ओड आसता... बायल भुरग्यांची माया आसता. देखून येवचें पडटा.'

'थंय तूं कितें करतालो?' हांवें विचारलें.

'आतां तुकांच सांगतां. आमच्या गांवचो लोक बेकार. तांचो कोणाचेरच विस्वास ना. ते फकाणां मारतात. देखून तांकां हांव चड सांगूंक वचनां. थंय हांव कांयच करिनासलों. म्हाका रावंक बरी कूड आसली. थंयची हवा थंड. हांगाचे भाशेन न्हय. गिमाच्या दिसांनी लेगीत पांगरूण घेवचें पडटा. हांव साधुचो भेस करून थंय पाविल्लों. थंयच्यो बायलो आनी राणी लेगीत साधूंक खूब मानतात. साधू कोपलो जाल्यार वायटाक पडटलें आनी साधुचे आशिर्वाद मेळ्ळे जाल्यार मनाच्यो इत्सा पूर्ण जातल्यो अशें तांकां दिसतालें. देखून थंयच्यो बायलो भजताल्यो, आपले प्रस्न म्हाका सांगताल्यो. राणयेन तर फर्मानच काडिल्लें-म्हजो मान, भौमान बरो दवरूंक जाय. जेवण-खाण उणें पडूंक जायना. आनी तांणी म्हजी तशी बडदास्त दवरिल्ली.'

'पूण तूं साधू जालोच कसो?' हांवें अंताक विचारलें.

म्हजो प्रस्न दोन ग्लासांनी च्या घेवन आयिल्ले सुशिलबायच्या कानार पडलो. तिणें ग्लास सकयल दवरले आनी म्हाका लेखून म्हळें, 'एकेक पिशें, आनी दुसरें कितें?'

'तूं भितर वच. तुका समजुपाचें न्हय तें.' अंतान बायलेचेर धेंगसो घालो.

'हांव वतां. नाय जाल्यार तुमच्यो त्यो खबरी आयकून कोणाचेंच पोट भरचेंना. काय बरो वाडवडिलांचो धंदो आसा, तो चलयनात. दीसभर ह्यो भिकारभासो. भूक लागतकच वाड म्हणटलो....सोंसूंक नज जावन कड फुटटात. हातपांय घोळटा आसतनाच देवान म्हजी याद केल्यार पुरो अशें म्हणटां हांव.' सुशिलबायन दोळ्यांक पदर लायलो आनी ती भितर गेली.

'तिगेलें सदांचेच तें,' तिची फाट फिरनाफुडें अंतान म्हाका सांगलें. आनी म्हळें, 'साधू जावप म्हळ्यार फकाणां न्हय. हांव गांव सोडून कित्याक गेलों तें तूं जाणां? म्हजेर आकांत आयिल्लो. म्हजे कडेन भांगर आशिल्लें... थोडें न्हय. चाळीस-पन्नास हजार रुपयांचें जातलें. हांवें तें व्हरून मिरज़ेक पावोवपाचें आसलें. म्हाका पांचशे-सशें रुपया मेळपाचे. पूण म्हजे फाटल्यान सीआयडी लागले. देखून हांव रानांतले वाटेन गेलों. थंय म्हजे फाटल्यान चोरांची टोळी लागली. आनी ते टोळयेन म्हाका लुटलो. चाळीस-पन्नास हजारांचें भांगर चोरयेक गेलें म्हणून सांगलें जाल्यार कोणाचो विस्वास बसतलो? हांव गरीब. पयशांचे आशेक तो धंदो करतालों. धंदोच चोरयेचो. पात्रावांक सांगलें जाल्यार तो म्हाका जितो सोडचो ना अशें येवजून जिवाच्या भंयान हांव शीम हुंपून भायर गेलों. आनी वाट दिसत थंय चलत रावलों. जीव तानेल्लो, भुकेल्लो, पूण कोणाचकडेन उदकाचो थेंब मागूंक भंय दिसतालो. कोणूय म्हाका वळखून धरीत म्हणपाची भिरांत. हांव एके धर्मशाळेंत गेलों. दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. नाशीक गांवची खबर ही. धर्मशाळेंत खुबशे साधू आसले. लोक तांकां जेवणं हाडून वाडटाले. तांचो आशिर्वाद घेताले आनी वयल्यान दक्षिणा दिताले. हांव कुशीक बशिल्लों. पूण म्हजी कोणेंच वासपूस केली ना. तेन्ना एका साधून म्हाका सांगलें, 'भिकाऱ्याक कोण भीक घालिना. पूण साधूक कोण ना म्हणिना.' ताणें म्हाका एक भगवें वस्त्र पांगरूंक दिलें आनी न्हंयचे देगेर श्राद्ध चलता थंय वचूंक सांगलें. हांव थंय गेलों आनी तुका कितें सांगतलों? थंय म्हाका भौमानान वागयलो. पोटभर जेवंक दिलें आनी वयल्यान दक्षिणेचे धा रुपया दिले. म्हाका भजनां येतालीं. नाटकांतलीं भाशणां पाठ आसलीं. तांच्या आदाराचेर तड मारली. आनी ज्या साधून म्हाका भगवें वस्त्र दिल्लें ताका गुरू मानून ताचे पांय धरले. पूण ताणें पांय फाटी घेवन म्हळें, 'हांव खरो साधू न्हय. दुसरें कांय करप जमलेंना, देखून साधू जालां. तूं दुसरो कोणूय गुरू सोद. हांवें खूब पातकां केल्यांत. तुजो गुरू जावन नवें पातक हांव करूंक सोदिना.' गुरू खंय सोदतलों? हांव चलत रावलों, भोंवत रावलों. गोंयचे पसून पसय वचपाचें आसलें.





'तुजे विशीं गांवांत लोक कितें उलयतात तें जाणां तर तूं.?' हांवें विचारलें.

'लोकांचे जिबेक हाड नासता' अंतान सांगलें. 'ते जाय तें उलोवं दी. म्हाका तांचें पडून वचूंक ना. भांगर चोरून हांव पळ्ळों अशें म्हळें मरे?'

त्या वेळार म्हाका अंतान बरयिल्ल्या कार्डाचो उगडास जालो. हांवें म्हळें, 'तुवें सुशिलबायक कार्ड धाडिल्लें'

'हय. म्हजो एक पत्तो नासलो. भोंवत आसतालों. घरचो उगडास येतालो. घरच्यांचो हुस्को दिसतालो. लोक झोळयेंत पयशे घालताले. बरो मारवाडी मेळ्ळ्यार शंबर देडशें रुपया लेगीत दक्षिणा दितालो. आनी ते पयशे म्हजे कडेन आसताले. पूण धाडटलों कसो?'

'तुवें धाडलेच नांत?' हांवें विचारलें.

'धाडले. म्हजो एक मेवणो आसा. ताचे कडेन धाडून दिले आनी ताका बरयलें, पयशे धाडटां. बायलेक आधार दिवचो आनी लीलूचें लग्न करचें. ते भाशेन ताणें सगळें केलें. आतां तूं सांग, साधू जालों तरी तें म्हजें कर्तव्य नासलें?त्या कर्तव्याक हांव जागलों. तुका म्हणून सांगतां, म्हजेकडेन



एक भांगराची बिस्किट उरिल्ली. हांवें ती किरवंटीक लायिल्ली. लीलूच्या लग्नाक ती उपकारची. पूण हांव लग्नाक पावलोंना. लग्न जालें तेन्ना हांव स्त्री राज्यांत आसलों. कशेंय जायना, तें सुखी आसा.'

'तूं स्त्री राज्यांत कित्याक म्हूण गेलो?' हांवें विचारलें.

'अमकें थारावन म्हणून हांव खंयच वचूंक ना. केन्ना पांयांनी गेलों. गाडी मेळत थंय गाडयेंत बसलों. बस-ट्रक जें वाहन मेळत ताचेर चडलों. आनी पावता थंय गेलों. तसोच एक दीस स्त्री-राज्यांत पावलों. स्त्री राज्याची खबर कितें सांगतलों? हांव शिमेंत भितर पावलों आनी पोलिस बायलांनी म्हाका थेट राणये सरी व्हरून उबो केलो. म्हाका पळयना फुडें राणयेन पांयांर तकली दवरली आनी ती म्हाका पांयां पडली. तिचें दुख्ख कितें जाणां तूं? तिगेर एक चलो आसलो. पूण आपले फाटल्यान गादयेर कोण बसतलो ही तिका विवंचना. तिका चली जाय आसली. तिणें तशें म्हाका सांगलें आनी आशिर्वाद मागलो. हांवें म्हळें, आशिर्वाद दिवंक हिमटेपण कित्याक ?' आनी तिणें म्हजे मुखार दवरिल्ल्या ताटांतलें एक फळ घेतलें, तोंडान मंत्र पुटपुटिल्ले भशेन नाटकांतल्या भाशणाचीं वाक्यां मनांतल्या मनांत म्हळीं आनी फळ तिच्या हातार दवरलें. त्या खिणाक सावन हांव राणयेचो खाशेलो सोयरो जावन त्या राज्यांत रावलों.'

ग्रासिंदा विशीं थोडेंशें

ग्रासिंदाचो एक बापोलयो युरोपाक खंय तरी आसता हें हांव आयकून जाणा आसलों. तो गांवांत मदीं मदीं येतालो. म्हाका कोणें तरी सांगिल्लें की तो पाद्री जाला. पूण ताच्या आंगार हांवे पाद्रिचो लोब पळोवंक नासलो. दिसपाक तो पाखलो कसो दिसतालो. आंगान इल्लो मोठसो. पोटाचें धोल मुखार आशिल्यान हात रूंदावन तो चलतालो.

कॉश्तांसानच म्हाका सांगलें, तो संवसार भर भोंवत आसता, शिकून तो व्हडलो मनीस जाला. ताका मान खूब आसा. पूण कॉश्तांसाचे नदरेन म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, तो ज्या देशांत वतालो थंयसून ग्रासिंदाक पत्रां धाडटालो. तो पत्रांत कितें बरयतालो हें ताका नाका आसलें. ताका जाय आसलो तो पत्राच्या लाखाट्याक दकयिल्यो पोस्टाचो स्टॅम्प. तो स्टँप पळोवन कॉश्तांस मिडमिडटालो.

'तूं ते काडून दवरता काय कितें?' हांवें कॉश्तांसाक विचारलें.

'ना. एक खेपे काडलो जाल्यार तें चेडूं म्हज्या आंगार आयलें. कसली फिरंगी भास ताणें कातरली म्हणून सांगूं! म्हाका कांयच समजलें ना. हांव गुन्यांवकार आसलों. हांवें वोगोत केलो ना. थंयच तांच्या दारांत तिचे मुखार



दिमी मोडली आनी तोंडान म्हळें, 'दिश्कुल्प' (क्षमा कर). ताचो राग गेलो.

'तें हांसलें आनी म्हज्या हाताक धरून म्हाका उबो केलो...'

'मागीर तुका ग्रासिंदा पोस्टाचे स्टॅम्प दिवंक लागलें?' हांवें ताका विचारलें.

'तें दितलें कशें? हांवें मागूंक जाय आसले. म्हाका दिसता, हांवें मागल्यार तें दितलें आसलें. पूण पोस्टाचे स्टॅम्प मागपाचें धाडस म्हाका अजून जायना. हरशी तें म्हाका हांसता. केन्नाय 'बाँ दीय' म्हणटा.. तूं जाणां, आंकवार चेडवां मनांतली गजाल उतरांनी उलयनांत. पूण हांव असो लजेस्त आनी भिडेस्त.'

'तुका ते स्टॅम्प जाय जाल्यार ग्रासिंदाक सांगूक जाय', हांवें म्हळें.

'तेंच येवजितालों. तुवें तें ताका सांगचें. तूं तांच्या घराकडेन नाल्ल हांडूंक वतलो तेन्ना सांग.' कॉश्तांसान एक हात मेकळो केलो आनी म्हज्या हाताक धरून म्हळें, 'सारकें सांग ....तू सांग .....कॉश्तांस कार्तेर स्टॅम्प पुंजायता. तुका नाका आसत.... तुजे कडेन डबल आसत असले स्टॅम्प ताका जाय. ताचे कडेन खुबशे स्टॅम्प आसात. तुका जाय जाल्यार तो दिवंक कबूल आसा. सारकें सांग. ना जाल्यार परत तें तापून उलयतलें...'

हांवें म्हळें, 'म्हाका ग्रासिंदा खूब मेळटा. आनी तें म्हजे परस व्हडलें आसलें तरी हटकिता, जाप दिता. खूब फावटी तें गाडयेन मडगांवां वता. सांजेचें येता. भाटकारालो कितेंय रकाद आसल्यार आमगेरय येता. म्हाका दिसता, तें शिकता आसतलें.'

'शिकूंक एकदम हुशार तें', कॉश्तांसान म्हळें. 'तें लिसेवाचेरे शिकता. तुका मेळटा तेन्ना तूं म्हजें काम कर. तुजे उपकार हांव विसरचोंना.'

'ग्रासिंदाक हांव वळखतालों. पूण ताचे कडेन उलोवपाची संवकळ नासली. जाल्यारय एक दीस सांजवेळचे गाडयेन मडगांवच्यान येवन तें परत आपल्या घराकडेनं वता आसतना हांव ताचे सरी गेलों आनी म्हळें, तुका भायल्या देसांतलीं कागदां येता. तरांतरांच्यो तिकेटी तांचेर लायिल्ल्यो आसतात...'

'हय, हय,' ग्रासिंदान म्हळें. 'तू तिकेटी पुंजायता जाल्यार हांव तुका दितां.'

'तूं पुंजायना तर?' हांवें ताका विचारलें.

'ना. पूण कोणेंय मागल्यो जाल्यार हांव दितां. म्हजो बापोलयो आनी म्हजी एक बापोलभयण आसा. हेर सोयरींय आसात. युरोप आफ्रिकेंत खंय खंय आसात. तांच्यो चिटी येत रावतात.'

म्हाका अजाप जालें. ग्रासिंदाचो बापोलयो पाद्री अशें म्हाका कॉश्तांसान सांगलें आनी ही आपणाक बापोलभयण आसा म्हणटा. तो बापोलयो दुसरो काय? पूण हांवें कांय विचारलेंना.

दोन-चार दिसां उपरांत ग्रासिंदान वाटेर थांबोवन आपली पर्स उक्ती केली आनी पत्रांवेल्यो काडिल्ल्यो खुबशो तिकेटी म्हाका दिल्यो आनीं म्हळें, 'तुका आनीक जाय जाल्यार तूंच आमगेर यो. जाय तेन्ना यो.'

त्याच दिसा हांवें त्यो तिकेटी कॉश्तांसाक व्हरून दिल्यो.

'इतल्योच न्हय, आनीक जाय तितल्यो व्हर अशें म्हाका सांगलां. जाय तेन्ना घरा यो अशेंय म्हळां,' हांवें म्हळें.

कॉश्तांस एकदम मुरगुटलो. ताणें म्हळें, 'तुवें ताका सारकें सांगलां न्हय? कॉश्तांस कार्तेर म्हळां न्हय?'

'ना. म्हाका तुजें नांव सांगचें पडलें ना. हांवें विदेशी तिकेटी म्हळें आनी ताणें दितां म्हळें. तागेलो बापोलयोच न्हय, आनिकय सोयरीं भायर आसतात.'

'तीं सोयरीं खंयूय आसूं' कॉश्तांसान उतावळेपणान म्हळें, 'पूण ताणें ह्यो तिकटी कोणाखातीर दिल्यो? ताका तुवें सांगलें ना म्हाका जाय म्हणून?'

कॉश्तांस एकदम निर्शेलो. फुलिल्लें फूल अचकीत बावचें तशें ताचें तोंड पडलें. ताणें म्हळें, 'म्हाका तिकेटी जाय. पूण ह्यो तुका दिल्या जाल्यार तूं दवर. म्हाका नाकात.'

'हांवें त्यो तुजेच खातीर हाडल्यात. हांव तिकटी पुंजायना. तूं दवर त्यो कॉश्तांस,' हांवें म्हळें.

पूण कॉश्तांस कसोच कबूल जालोना. ताणें म्हळें, 'तुका दिल्यात: तूंच दवर. पूण तुवें हांवें सांगिल्लें काम सारकें केलें ना. तुका ताणें आपल्या घराकडेन आपयला मरे? तूं वच...'

तागेली निर्शेणी पळोवन म्हाका म्हजें चुकलें अशें दिसलें. हांवें म्हळें, 'आता फुडले खेपे ताका सारकें सांगतां.'

'सारकें सांग. म्हजेय कडेन तिकेटी आसात त्यो हांव ग्रासिंदाक दिवंक कबूल आसां हें कळय.'

'पूण तें तिकेटी पुंजायना.' हांवें म्हळें.

'तुका कोणे सांगलें? त्या दिसा तें जे भाशेन तापलें तें पळयलें जाल्यार तें तिकेटी पुंजायना अशें म्हाका दिसना. तें कशेंय आसूं, तूं ताका सांग म्हाका तिकेटी जाय.' ताणें म्हळें.

'पुण तूं ताका सदां मेळटा. तागेलीं पत्रां घेवन ताच्या घरा वता. तूंच कित्याक सांगिना?'

'हांवें सांगलें न्हय तुका? तें म्हज्यान जावचेंना देखून तुजो आधार मागला. इतलें काम कर आनी मागीर तूं पळय कॉश्तांसाची इश्टागत तुका बऱ्याक पडले बगर रावची ना.' हांव कबूल जालों, पूण म्हाका ओगीच दुबाव आयलो- कॉश्तांस म्हाका त्रासांत घालिना मू?

### सिरीलाचो प्रेमभंग

अंता कितें करतालो तांचे कुवाडें निमाणे मेरेन कोणाक सुटलेंना. पूण सगल्या तरांचे धंदे ताणें केल्ले आसूंक जाय. सामकेंच अडलें वा कोणूय फाटीक लागलो जाल्यार तो वस्ती करून दितालो. अंताचे वागणुकेचो परिणाम तागेले बायलेचेर जातालो. अंता पयशे जोडूंक लागलो



म्हणटकच ती सुखावताली. दुसऱ्या बायलांक सांगताली, 'ह्या दिसांनी ताची तकली थीर जाल्या. देवा दयेन कोणाली दिश्ट लागना जाल्यार पुरो.' पूण अंताक दिश्ट लागले बगर रावनासली.

हालीं हालीं हांव कांसावले गेल्लों तेन्ना म्हाका थंय अंताची कसलीच खूण वा याद दिश्टी पडलिना. ज्या जाग्यार घर आसलें थंय आतां कांयच ना. भाटासारकें भाट आसा. अंता केन्ना मेलो व खंय गेलो, ताचे बायलेचें किर्ते जालें, ताचे धुवेचें किर्ते जालें तें हांव नकळ. सिरील रेंदेराचो संवसार खुबूच ल्हान. ज्या घरा भोंवतणी तो माडाची सूर कांडूक वतालो त्या घरच्यांक तो सारको वळखतालो. त्या वाठारांतल्यो सगल्यो भानगडी ताका खबर आसल्यो. पूण खासा सिरील नितीचो मनीस. ताणें केन्ना कोणाक फटयलोना आनी कोणामुखार हात पाताळयलोना. ताणें एक चानी पोशिल्ली. तिका तो आंगार खेळयतालो. पूण ह्या सिरीलाचें काजार केन्नाच जालेंना. ताची राजकुंवरी आयलीच ना!

त्या मानान कॉश्तांस कार्तेराचें विश्व इल्लें विस्तारिल्लें. कांसावली पोस्टाचे कक्षेंत लागशिल्ले, पयसुल्ले वाडे येताले. सगल्यांकच पत्रां येतालीं अशें न्हय. पूण कॉश्तांस सगल्यांची खबर घेत वतालो. सामान्यतायेन पोस्टमन पत्र पावतें करून फुडें वता. पूण कॉश्तांस तें पत्र कोणालें, जाका धाडलां ताचो तो कोण, तो खंय आसंता, किर्ते करता हाची वासपूस तर करतालोच, ते भायर जांगेर पत्र आयलां तांगेले घरची बारीकसारीक खबर विचारून घेतालो. गांवचो भोळो भावार्थी लोक कांय लिपयनासतना सगलें ताका सांगतालो. ताका लागून गांवच्या दरेकल्याची उणी दुणी ताका खबर आसताली. खुबशा जाणांक तो भरवंशाचो इश्ट आसलो. पयसुल्ल्यान चीट धाडटल्यांक चड करून वाचूंक-बरोवंक येनासलें. तो कोणा कडच्यान तरी चीट बरोवन घेतालो. ज्याच्या नांवान ती चीट आसताली ताका वा तिकाय वाचूंक येनासलें. कॉश्तांस ती वाचून दाखयतालो आनी अर्थ सांगतालो. प्रिमैर ग्राह्य परिक्षा पास जाल्लो कॉश्तांस पुर्तुगेज बरी वाचतालो आनी उलयतालो. रोमी कोंकणीय वाचूंक ताका अडचण येनासली. कॉश्तांसाचे हे समाज सेवेक लागून गांवच्या सगल्या घरांनी ताका मान आसलो आनी सणा परबे दिसा वा घरांत कसलेंय कार्य आसलें जाल्यार ताच्या हातार बक्षीस पडटालें.

सिरील रेंदेराली अंताकडेन संवकळ वाडिल्ली तेन्ना सुरवेच्या दिसांनी लोक ताची दानत शुध्द ना, तो लिलूचेर दोळो दवरून आसा असो आरोप करताले. पूण लीलूच्या लग्ना उपरांत लेगीत सिरीलाची आनी अंताची इश्टागत तशीच उरली आनी वेळा प्रसंगार सिरील अंता खातीर पयशेय खर्चूंक लागलो. हें पळयना फुडें लोकांचो दुबाव पयस जालो. लग्ना उपरांत लीलू मात गांवांत परतें आयलेंना ही गजाल तितलीच खरी.

पूण एक दीस कोणें तरी सिरिलाक लीलू वेल्यान दुशण दिवपाचो यत्न केलो तेन्ना रागान तांबडो जाल्ल्या सिरिलान म्हळें, 'लिलू म्हाकां भयणी भशेन. हें नातें जाका समजना तो दोन पांय आसूनय सुणो!'

पूण सिरीलाची सगलीच शोकांतिका जाली. गांवचीं जायतीं वाडिल्ले पिरायेचीं चेडवां ताचे कडेन खोशयेन लग्न जायत आसलीं. भोंवतणच्या चार गांवच्या चेडवांच्यो सोयरिकोय ताका येताल्यो. पूण सिरिलाचे तकलेंत राजकुंवरी भरिल्ली. ती ताका केन्नाच सांगून आयली ना. केन्नाच गावली ना. पूण मजगतीं एक युरोपियन चली गांवांत पावली. झुजाक लागून कांय जर्मन लोक गोंयांत जळामळाक येवन राविल्ले. तातुंतलो एक कांसवले रावतालो. ताणें अपलो वेळ वचना म्हणून गांवची एक बेकरी चलोवंक घेतिल्ली. ताचे सरी एक दीस आनीक एक जर्मन रावंक आयलो. ताचे वांगडा ती युरोपीयन चली आसली. ती जर्मन नासुंये. कित्याक तर ते दोगूय जर्मन पूण तिचे कडेन मोडके तोडकें इंग्लीश उलयताले.

तसो सिरील अक्षरशत्रू पूण ताका उलोवंक जमतालें. तो कितली शुध्द उलयतालो हें ते पिरायेचेर म्हाका कळनासलें. पूण ताचो तिचे कडेन संवाद जावंक पावतालो. गांवांत इंग्लीश जाणा जाल्ले खूबच थोडे. ती चली सांजची बाजारांत येताली. पसरकार वा हेर कोणाकडेनय उलयतना तिका अडचण येताली आनी दुभाशाचें काम सिरील करतालो. ताका लागून ती सिरीलाक सांगातान घेवन भोंवताली. सिरिलय तिका गांव भोंवडावन दाखयतालो.

कॉश्तांसाक ही खबर कळ्ळी तेन्ना ताणे म्हजेकडेन म्हळें, 'गोरी कात जाली म्हणून राजकुंवर जायना. हें चेडूं रेंदेराचेच जातिचें आसूंक जाय. निमाणें पळे ग्रासिदा ताका मेळ्ळें ना. मेळ्ळें हें पाखलें.' ते पिरायेर लेगीत कॉश्तांसाच्या मनांत मत्सर भरला हें म्हाकां कळटालें. पूण प्रेमाचो विशय उलोवपा इतली म्हजी बुद्ध वाडूंक नासली.

ते गोरे चलये सांगातान भोवतनां बऱ्यांतले कपडे घालतालो आनी दोगांय हांसत हांसत गांवांतल्यान भोंवतालीं. सगल्यांक दिसचें, आतां ही युरोपियन चली गांवची सून जावन रावतली. सिरीलाक तिजेविशीं विचारल्यार तो मुमुरखोच हांसतालो. कोणेंय ताका म्हणचें, 'तूं रेंदेर म्हूण ती जाणा मरे?'

'रेंदेरपण म्हणून उणाक न्हय तर?' सिरिलान म्हणचें. 'हांव माड काडूंक वतना ती म्हजे सांगातान आयल्या आनी तिणें म्हजे फोटो लेगीत काडल्यात.'

झूज सोंपलें आनी जर्मन परत गेले. वांगडा ती गोरी चलीय गेली. हो आघात सिरिलाक खूब लागलो. खूब दीस तो थतर-वितर जाल्ले भाशेन वागतालो. कोणाकडेन चड उलोवंक वचनासलो. आनी माड काडूंक वतनां कांतारां गायनासलो. हावें सिरिलाक ते अवस्थेंत पळयला तो निमाणे. उपरांत तो नाच्च जालो. लोक तरातरानी उलोवंक लागले. कोणें म्हळें, 'तो बोटीचेर चाकरी करूंक गेला. खूब पयशे जोडून परत येतलो.' खूब जाणांनी असो दुबाव उक्तायलो, की ते जर्मन चलयेन आपोवन ताका जर्मनीक व्हेला आनी तो थंयच रावतलो. पूण कॉश्तांसाचें मत मात वेगळें आसलें. कॉश्तांस म्हणटालो, 'तो तकलेन विरार जाला आनी ग्रासिदाक सोदचे खातीर युरोपाक गेला.'

कशेंय आसना, गांवचो सिरील गेलो आनी म्हजे जिणेचें एक दालन



रिकामें जालें. म्हाकां मनांतल्यान कॉश्तांसा परस सिरिलच चंड आवडटालो. तो गोरो गोमटो, वागूंक सभ्य, निर्व्यसनी आसलो. सोबीत गितां गायतालो. तो खबरी करतालो तो लेगीत एका उंचेल्या पावंड्यार रावन. ताणें गाळ घाल्ली हावें केन्ना आयकूंक नासली. हाचे उरफाटो कॉश्तांस सगल्या गांवचे धवळे करतालो. गांवांत खंय कितें चल्लां तें ताका खबर आसतालें. तें तो जगार घालतालो आनी माथ्याचें हॅल्मेट काडलें जाल्यार पूर्व पश्चीमेकडेन थिरावल्ले ताचे नदरेक लागून तो कुरूप दिसतालो.

एक दीस कॉश्तांसाची बदली जाली. तो सामको गडबडलो. ह्या गांवांत ताचो जम बशिल्लो. तो सोडून ताका वचपाचें नासलें. नवो कार्तेर येतकच कॉश्तांसाक वचचें पडटलें. सगल्यांक ताणें ती खबर सांगची आनी आपली बदली रद्द करूंक जाता जाल्यार खटपट करूंक सुचोवचें.

पुर्तूगेज टपाल खात्याचो एक उंचेलो अधिकारी केन्नाय गांवांत येतालो. आमच्या गांवांत कोण तरी ताचो सोयरो आसलो. चड करून तो शेनवाराक सांजचो येतालो आनी वेळेर वतालो. आयतार गांवात सारून सोमाराक परत वतालो. कॉश्तांसान गांवच्या चार लोकांक फुडें काडून एक शिश्टमंडळ ताजेसरीं धाडलें. आनी ताजें काम जालें. जो नवो कार्तेर येवपाचो आसलो तो आयलोच ना. कॉशतांस गांवांतच उरलो आनी ताची बदली रद्द जाली.

त्या दिसांनी कॉश्तांस मेळटालो तितलो. ते उपरांतय तो गांवांत आसलो. पूण हांवेंच गांव सोडलो. ल्हवू ल्हवू ताका हांव विसरून गेलों. पूण जेन्ना जेन्ना कांसावले गांवचो उगडास काडटालों तेन्ना तेन्ना अंता, कॉश्तांस, सिरील, ग्रासिंदा हीं पात्रां म्हज्या दोळ्यांमुखार येवन वतालीं. ल्हवू ल्हवू तीं विसरायेच्या तळाक वचून बसलीं.

पेपरांत कॉश्तांसाच्या मरणाची जायरात वाचली आनी त्या पात्रांचो परत उगडास जालो. जे थोडे प्रसंग याद जाले ते बरोवन काडले. पूण यादी ह्या पात्रां पुरत्योच उरिल्ल्यो नात. खुबश्यो न्हिदिल्ल्यो यादी जाग्यो जाल्यात. सगलें भुरगेंपणच दिमखुऱ्यांनी चलत लागीं आयलां. वेळ मेळत तेन्ना त्यो बरवपाचो विचार आसा.

***

**चंद्रकांत केणी**
**आर्के-आल्त-मडगाव, गोंय**
**२७५६४६४**



कविता कविता कविता

कविता कविता कविता

# कविता

– काशीनाथ शांबा लोलयेकार



## दोन बालकविता

-१-

आजी म्हाका रातची सांगता काणी
खूप वर्सां आदीं एक आसलो राजा
आनी एक आसली राणी
तेंकां नासलें भुरगें-बाळ
म्हणून राणीच्या दोळ्यांत सदांच पाणी

आनी सांगतां सांगतां काणी
आजी मदींच न्हिदली
पूण हांव उल्लों जागो
चिंतीत खूप वर्सां आदलो काळ

तेन्ना आसलो राजा आसली राणी
पूण तेन्नां हांव खंय आसलों
दुसरे दीस विचारलें हांवें आज्जेक
तेन्ना हांव खंय आसलों

आज्जेन म्हटलें
तेन्नां तूं त्या राजा-राणीच्या सपनांत
आसलो



-२-

भियेतां हांव बापायक
भियेतां हांव मास्तराक
फकाणां मारतात म्हर्जी
म्हजे वांगडचे भुरगे
भियेतां हांव त्या भुरग्यांक

भंय दिसता म्हाकां शाळेंत
वचपाचो
शाळेंतलें म्हजे एदेंच एक चेडूं
पळोवन हांसता म्हाका कुसकें
कशें
म्हाका भंय दिसता त्या चेडवाचो
भंय दिसता म्हाका म्हजोच

पूण हांव भियेना फकत
म्हजे आवयक
पूण आवयकूच
म्हजो भंय दिसता



# काव्यसूत्र : णव कविता



१

आतां तुका एक्कूय कविता
सुचपाची ना
कारण तुजी भास
आतां आभास जाल्या

जांवकूच जाय
भास
आभास
जावकूच जाय

तेन्नाच तर सुचता कविता!

२

कविता सुचताना
न्हावपाचो विचार करूंक
जाय
कविता बरयल्या उपरांत
न्हावंक जाय
कविच्या नांवान

कवीचें मर्ण
आनी कवितेचो जल्म
घड्टा वांगडाच



३

टेन्शन
येयलें
की येता कविता

कवीची जाय आत्महत्या
खून लिपोवपाक
भाशेचो





४

भाशेचो खून
खंयचो कवी करूंक शकता?
जो अस्सल कविता बरोवंक शकता
तोच!



५

हांव मेलों
I am dead
मी मेलो
मै मर गया
इतल्योच भासो म्हाका येतात

येवन किते फायदो
तूं आदींच मेलाय

हय
हांव मेलां
म्हणुनूच उलोवंक शकतां हांव
कवितेची भास

६

कळ्ळें हांव कितें म्हणूंक सोदतां
तें?

ना.
तूं कितें म्हणूंक सोदता तें कळटलें
फकत कवितेक

एक्कूय कविता ना बरयता कळोंक
जाय
ही अख्खी जीण

जीण कळोंक ना
म्हणुनूच तर आमी बरयतात कविता






७

जियेताना
हांव करतां एक्टींग
जितो आसपाची

दिलीपकुमार
बलराज सहानी
अमिताभ बच्चन
नसिरूद्दीन शहा
नाना पाटेकार
राजपाल यादव
हे फकत ॲक्टर न्हूं
त्यो प्रतिमा
म्हज्या कवितेंतल्यो

हांव घेता भोग
मिना कुमारी ते तब्बुंच्या
पोतान

हांव भोगतां कविता
मर्णासारको नागडो जावन

८

हांवें नागडो जावप
हीच एक कविता
आसता
पूण कपडे घातले की
हांव फकत कवी
आसतां




९

आज कविता येयना
कविता येतली कशी?
आज ती भश्टी

तिका आसुनी थंयच कुशीक
न्हालीबिली की आपसूक येतली वेंगेंत
तो मेरेन धीर धर

वगीच
बलात्कार करूंक वचो नाका
उतरांचेर

उतरां हीं फकत योनी आसता
आनी कविता आसता अख्खी बायल
तिच्या योनिंतल्यान आशय झिरपत
आसता
पूण ती उलयता आपल्या
गर्भाशयांतल्यान

मिस्टर कवी
लक्षांत दवर
तूं कवितेचो घोव न्हूं
तूं फकत तिचो प्रियकर

तूं क्रिश्ण
आनी ती राधा

कविता येयना म्हणून
कवी जाला
त्रिधा राधा







# मेघदूत

– रामकृष्ण जुवारकार

**(कालिदासाच्या 'मेघदूत' काव्यावेल्यान स्फूर्त घेवन)**

एक दीस मगा हांव म्हज्या घरा
चार दिसांक बायल गेल्ली कुळारा
कितले दीस जाले तरी परतलीना घरा
म्हूण खंत करीत फुडल्या दारा सोप्यार बसलेलों

कितल्यो चिटी धाडल्यो तिका
तिच्या बापायच्या पत्त्यार
तिणें कांयच घेतलें ना कानामनार
खात्री जाली, म्हजेर ती जाल्या रागार

हांवें न्हय गा तिका रागा भरार, झगडच्या नेटार,
महाकाळी, महामूर्ख म्हणिल्ली

चुकून उतर गेल्लें तोंडांतल्यान
तें दिसता दिस्त पडलें तिच्या वर्मार
आनी हांव कसलो तें पळोवंक
चार भुरग्यांचें लटांबर घेवन
तोंड घेवन गेली कुळारा

तेन्ना एक काळो सावळो कूप
दिसलो म्हाका मळबा माथ्यार
आमच्या झगड्यांच्या गडगड्यार दिसता
तो पयस वचून आडसाक राविल्लो
वेळ सोदून आतां घरा सरी आयिल्लो



मेघदुता, मित्रा म्हूण हांवें ताका पाचारलो
तोय दिसता आतां म्हज्या साद्याक आयिल्लो
थोडो भोव सावध जावन तो आयकूंक लागलो

'काळ्या, सावळ्या म्हज्या इश्टा
तुका पळोवन बायले उगडास येता
ती गेल्ली कुळारा, परतून येवंक ना
पोस्टांतल्यान चीट येना, चिटमिटे पडटात
तार येना, मन थाऱ्यार उरना

फोन येना, भौन भौन याद येता
तेन्ना तूंच वचून यो तिच्या कुळारा
पुराय पत्तो, पीन-कोड दितां तुकां
तिच्या बापायच्या घराच्यो सांगतां तुका खुणा

धड खोप न्हय, धड घर न्हय
रावता ती शेतांत बापायच्या घरा
तिचीं चार, आवय-बापूय, तांचीं चार
सगळीं मेळून नग जातात अकरा





तांचे मर्दी उठून दिसता बायल म्हजी
काळ्या रंगाक लागून कुपा

मुखामळ नासलें जरी चंद्रकांतेचें
कडकलक्ष्मीची तिका कांत आसा
नक्षत्रावरी जरी नासली ती
दोळ्यांत हय, न्हय शें नक्षत्र आसा
नदर आसा तीर कशी
पळोवंक मात्शी तिरशी दिसता

तुमी तशीं भाव-भयण सावळेपणान सोबतात
तरी तूं ल्हव आनी मोव
ती भर भक्कम दिसता

म्हज्या कुपा इश्टा
चल, वच आनी सांग तिका
हेरांक ती कशीय दिसली तरी
म्हाका ती मोगाळ अप्सरा

तेन्ना तो कूप
इल्लो कळवळ्ळो
रडकुरो सो जालो
दुखां गळयता सो जालो
तेन्ना हावें ताका समजायलो
आनी ताका सांगलें



दुखां गळोव नाका
घर पोवता

तरी तो भोंवडेकार कूप
काळजान जरी मोव आसलो
तिरायतांचे भानगडीनीं
पडचो काय ना हें येवजून
तटस्थ रावलो

तेन्ना ताका पाराथून, पाराथून
सांगचीं पडलीं मनांतलीं दोन उतरां

चल कुपा, सत्कार्य करूंक अनमनू नाका
अडलेल्यांचें काम केल्यार सगलें जग मानतलें
तुका

सांग तिका ती रागान गेल्ल्याक
हांव सामको निवळ्ळां
हांगा हांव रांदून जेवतां
पूण तिचे हातची रूच येना

भुरगीं पयस जाल्ल्याक
हांवूंच भुरगेपणां करतां
पूण सूख लागना

तिच्या हातच्या आयदनांची
आदळ-आपट नासून
म्हजे जिणेंतलें संगीत सरलां
घरांतलो किटकिटो नासून
म्हजी तकली किटकिट्टा





घरांतलो गडगड ना जाल्ल्याक
सुखांचो पावस पडना

तशी ती कश्टी रे
घर शिवूंक पसून मदत करता
ती नासून हांव एकलोच हांगा
सोप्यार बसून भिजतां
नळ्यांक पसून काकुळट दिसता

सांग तिका ती घरांतली गेल्ल्याक
घराची रयाच गेल्या
हांव एकलोंच हांगा दीस सारतां
शेजारचीं पसून तोंड दाखयनांत
तांकां तोंडाक तोंड दिवपी
हांगा कोण मेळना

आरे कुपा, इल्ली उणी
तरी शाणी रे ती
हांव तरी कितलो शाणो
पिशेपणां करून हांगा
एकलोंच सोप्यार बसलां

सांग कुपा, सांग तिका
पिशी न्हय ती
तिका पिशी म्हण्टल्याची
पळोवं नजं दशा

आरे कुपा, तशी शाणी ती
वेव्हार गिन्यान आसा तिका
तिणेंच म्हूण म्हज्या सांगाता दीस सारल्यात
दुसरी कोणय आसल्यार
वतली आसली कायमची आवय-बापायच्या
घरा

ही मात म्हजी व्यथा सांगल्यार
घराची कथा सांगल्यार
घर पोंवता म्हूण सांगल्यार
घर व्हांवता म्हूण सांगल्यार
येतली परती घरा

हांव शाणो पूण पिसो
ती पिशी पूण शाणी
दोगांय सोबतात एकामेकाक

चल कुपा, सांगलां तितलें पुरो जालें
आनीक तूं रावूंक नाका
सोमतो वच तिच्या कुळारा

सांग तिका याद येता
हुस्को जाला
भुरग्यांक पळेन दिसता

चल कुपा, सांग तिका
म्हज्या चार भुरग्यांची आवय ती
ती जाय म्हाका

***





## पुनवेंची रात

याद आसा म्हाका ती गो
पुनवेंची रात
जेन्ना हांवे घेतलो तुजो
हातांत म्हज्या हात .....॥१॥

चान्याचो पडलो शिंवर
रानावनांत नाचले मोर
भुरकटून सवणीं कोगळां
उडली गीतां गायत
जेन्ना हांवें घेतलो तुजो
हातांत म्हज्या हात ......॥२॥

हात तुजो निखटो हात न्हय
म्हज्या जिणेचो तो सांगात
त्या सांगाता वांगडा खोशयेन
सारतां दीस रात ..........॥३॥

याद आसा म्हाका ती गो
पुनवेची रात
जेन्ना हांवे घेतलो तुजो
हातांत म्हज्या हात .........॥४॥

## पावशी सर!

पावशी सर
भिजोवन गेली
कंवळें तुजें आंग गो
कंवळें तुजें आंग

मळबांतुल्या कुपांनी तुका
चोवंक लायल्या
रांग गो
चोवंक लायल्या
रांग

म्हाकाय दिसता
कुप जावन
भिजोवंचें तुजें आंग गो
भिजोवंचें तुजें आंग

चिंतूनच हें मनांत म्हज्या
चडटा नशेची भांग गो
चडटा नशेची भांग



*– सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार*





## दोन दुकां

आयज खुब दिसांनी
वाट फुटल्या म्हज्या दुकांक
इतले दीस
घुस्मटून बशिल्लीं तीं
म्हज्या मोन्या काळजांत...



## पावल

दुखा:तूय तुवें म्हाका
हासूंक शिकयलें
आता तुज्या पावलांच्यो
कुरवो सोदतां
एकटी एकसुरी
जीण जगूंक
तुज्या पावलार पावल दिवन ...



२

तोंडार अडेचें हाशें
दाखोवंक संसाराक
आपणायला हावें
जिणेचें कोडू सत...
दोळ्यांत मात
दाटल्यांत दुकां...
म्हजे काळखी
नशिबाक कोसूंक...

— *अन्वेषा अरूण सिंगबाळ*



## हासो

जंय शब्दांक फुटना वाचा
आनी उतरां जातात मोनी
थंय फुलता एक सुंदर हांसो
निर्मळ आरसपानी

— *ॲड. दीपा अरूण सिंगबाळ*



# घोडे : मकबूल फिदा हुसेन

लगाम सुटिल्ल्या
धव्या फुल्ल घोड्यांच्या
टापांच्या खडखडाटान
हांव भानार येतां
भर धुक्यांत
बुडिल्ले सकाळीं
घोडे येतात.
ते उधळटात
राग-रंग
वृषणाची मस्ती;
उंचावयल्यान
कोसळटल्या
धबधब्याबशेन
तांच्या लवचीक पायांच्यो
तरसादी
कचाकच कातरीत वता
भूंय.
जाता धुळवड
चोंयवटेन.
मात्सो गोंदळून
हांव पळेतां तांकां
आनी ते म्हाका.
खूब पोरणी वळख
आशिल्लेबशेन
ते येतात
म्हजे सामके लागीं.
तांचे फुरफुरतात कान



तांचें उफेता हड्डें
तांची शिंवशिंवता शेंपडी
तांचें खिंकाळटा रगत
आनी म्हाका
कितेंच कळचें
समजुचे पयलीं
अश्रेकान
आपले फाटीर घेवन ते
उधळत रावतात
पयस दिशांनी.
उदेत्या सूर्याच्या
भांगराकिर्णाच्या
सपनाळ्या प्रदेशांत
हांव तांच्या सांगातान
सपनेतां
-म्हजी सपनधुंदी
मकबूल फिदा हुसेनाच्या
घोड्यांच्या
चित्राबशेन
अदिकूच कोंरगाद
जायत रावता....

—परेश नरेंद्र कामत



# एक श्रावणी सकाळ

## पयलें चित्र

ते दीस सुर्यान
थाव्र दिसांनी
पांगरुणांतल्यान
नदर माल्ली.
रात सोंपिल्ली
प्राची उजळिल्ली
चिंव चिंव शब्दांनी
सकाळ गाजयिल्ली.
रातभराचे पावस झडीन
सकाळ सवळी
चिंब न्हाल्ली

श्रावणाचे रंगमाचयेर
हांसतीं किरणां
नाचत आयलीं
इल्लीं लजलीं
इल्लीं हांसलीं
हांशा शिंवरां
भुंयेर पडलीं

लिपचेल्यांनी
खेळ्ळो सूर्या
सैम सोबीत
पांचवो दर्या
नाचत थै थै
दडक आयली
रुप्या रोसान
भिजत धांवली

माणकां मोतयां
शिंवरलेलीं
पान-फुलांनी
अळंग जिखलीं
श्रावण शिरंगार
तोखणायेचीं
शेवण्या सुकण्यान
कवनां गायलीं.



## दुसरें चित्र

थाव्र दिसांच्या
पावसा उपरांत
आयज हांगा
वखळ पडल्या
हुळहुळटात
आज पावलां
दिसवड्याची
आस जागल्या.
बरप वाचपी
मनीस म्हणटात
श्रावणाची
पळय आरास
हुनेत-पावसा
खेळ पळय
सैमाची
पळय मिजास

हांव म्हणटां
एक सांगात
श्रावण येवं तो
भादरपद येवं
बाप्पाक खंय
आमी दिसतात?
भांगरांच्या देवळांनी
तेकाच ते
गिरेस्त पोसतात.

घुस्मट मारून
पडलो सूर्या
किरणाचें नांव ना
सामकोच हो लजकाडो
दोळो उगडूंक धीर ना
झडझड झडलो म्राडो
काडपाकच तयार ना
चूल थंय पडली थंड
भितर हांगा
पेटलो उजो
हो उजो पालयतलो
कोणाचो बाये आजो?

उतरांच्या शितार
उतरांचीच कडी
पोट हितून
भरलें जाल्यार
कोणाक जाय काडावडी?

उतरांच्या दुकानकारांक
आमचें गणित कळत काय?
एक दीस जगचें जाल्यार
स दीस मरोंक जाय.

– रमेश लाड





## दिश्टावो

जनेला भायर
गाड केसरी मळब
मळबांत
निळ्या गोबऱ्या
कुपांचो नाच
बुडत वचपी सूर्या

घराचे ओडीन परतुपी
सवण्यांचें भिरें
पानांपानांनी फुतफुतपी

सांजवेळचें गूढ वारें
ल्हवू ल्हवू कृष्णकळांनी
काळोख वेंगायता दिगंताक
सांज आमोरी रात......

एक आगळो वेगळो निर्मणेचो सुवाळो
ब्रह्मांडाचे सासायेचो दिश्टावो
हांव तशेंच उबें जनेलांत
म्हज्या मनाचें
एक एक कल्ल झडयत...

जनेला भायर पातळळ्या
काजळी काळसाण
भितर किट्ट काळखांत
लखलखीत उजवाड किल्लता
म्हज्या तनांमनांत....

## वोताचें एक किरण

वोताचें एक किरण
म्हज्या आंगणांत येता
आंगा वेल्यान निस्तत
ओले मातयेंत मुंगरता

घुस्मटलेलीं सपनां
गंधाळ वेंगेंत पालेतात
पांचवी पांचवी पालयं
मळबाक आफडूंक आंवडेता

घायार घाय पडटा
प्राक्तन कशेंच चुकना
रोपे लवंडली तरी
मुळांत तुटून तुटना..



- हर्षा शेटये
'दामबाब'
मडगांव-गोंय
फो. २७३०६८६





## झगडें

कोणाक आवडनात झगडें?
कोणाक आवडनात झगडें?
कांई झगडें झगोडकचि बरे!
कांई झगडें पळंवच्याकचि बरें! होय न वे? ॥ धृ ॥

झगड्यानेचि जालीं मनशागेली सुरवात,
झगोण -झगोण केल्ली, सैमाचेर मात,
बुध वापरली बऱ्याखात्तर जगांत,
पुण शस्त्रंई वापोरून बिघडायली शांत! .......॥ १ ॥

म्हाभारतांतले झगडे खबर नात कोणाक?
पांडव -कौरव झगडले, भीष्माल्या शीणाक,
कोण आशिले बरे आनी वायट कोण?
व्यासाने बरयले म्हणू सांगचे हे प्रमाण! ....... ॥ २ ॥

झगडे जाले देशाच्या स्वातंत्र्याखात्तर,
झगडे जातात अजूनि, रिजरवेशनाखात्तर,
झगडे झगोणचि जात्तात पुढारी,
खुशालेक सांगना हांव, नंबूयात मज्जेरी! .......॥ ३ ॥

'टी व्ही' वेले झगडे -खुशाले खात्तर,
'बॉकसिंग' आनी फ्रीस्टाईल भुरग्यांखात्तर,
खुशालेचेर पळयतात -'टी व्ही' वेले झगडे,
भान हॉगाण्ण चोयतात -मारामारी धिंगडे! .......॥ ४ ॥

सिरीयलातूल झगडे -दारल्या -बायलांतुले,
कांई थोडे झगडे -माई -सुनांतूले !
झगड्यामितीच स्टोरीक येत्रा हो गंमती,
भुरग्या इतले भुरग्यांक, हॉडांकई प्रीती ! .........॥ ५॥

झगड्यामितीच चलता, डायरेकटरालें जीवन,
'फायटसीन'च न्हय वे, आयचें आनंदवन?
झगड्या मितीच न्हय वे, न्यायाची गरज?
वकीलांक संधी दीता, सोण्ण दीन्न लाज !........॥ ६ ॥

झगडे पळंवकनात कॉणे सानपणाधोर्नू,
उघड -उघड्यान न्हय तर माक्षीथान चोर्नू?
मांजरा -सुण्यांतुले ते चडावत कोर्नू,
दांताच्या भय्याने होडांक हात्ताक धोर्नू !........॥ ७ ॥
धुळी, धुव्वोर नि धुमसाणी
मुंबय गांवांत भोंवचे हो कोणी?
भोंवडीतुलें झगडे हाड्तात मीठसाणी,
झगडे ना जाल्यांरि, प्रवास भो आळणी !........॥ ८ ॥

खरे झगडे पळंवकात-आगगाडे डब्यांत,
थोड्यांक 'सीटं मेळ्ता, चडावत डब्यात!
उब रांवचाक जायना -ते येत्तात कोप्पांत,
भाव सम चोंवकाति, तांगेल्या रूप्पांत !.........॥ ९ ॥





सकयल वर्गातुले झगडे राष्ट्रभाषेंतु
'खामोश' 'चूप रहो' 'फूट' ह्या शब्दांतु,
'फस्टक्लासातुले डिफरेन्सस' आग्लभाशेंतु,
'रास्कल' 'ब्लडी फूल' -ना जात्तात हाशांतु..॥ १० ॥

झगडयांतुई आसतात नाना नमुने,
सोदतल्यांकचि वांट - ताका ना उणे !
मस्त इतले झगडे- वत्तातई विस्सोर्नु,
थोडे कांई चलतातई बडयेक धोर्नु ! .........॥ ११ ॥

थोडे झगडे आसताति , इदरार खेळचे,
दोळ्याक दोळे लाव्नु, मनानेचि जाळचे !
आनि थोडे झगडे -सूत लावन खेळचे,
पतंग वैर सोण्णू, मांज्यानेचि कांपचे !......॥ १२ ॥

कांई झगडे खेळताति, 'पेपरांत' बरौनु,
नाक्का थंई- नाक्का तितली झरणीं सरौनु,
थोडे झगडे खेळतवत सामके हगूरसाणेन,
बुधीबळांच्या खेळांतुली प्यादीं सरौन !........॥ १३ ॥

मोग्गा -प्रीतीच्या झगडी पळवंच्याक -
आयकंवच्याक येत्ता कितली गंमती..
खबर आसता -झगडीं खरचतली,
खंडित् येतली -दिवसा उपरांते राती !..........॥ १४ ॥

*– सुधीर कोडकणी*
सांताक्रुझ (५) मुंबई.



## हांव कोणाक भियेना



हांव तसो कोणाक भियेना
खंयचोय काळ फाटीक लागलो
जाल्यारूय.....
म्हाकां ताचो भंय ना
पूण हांव भियेतां तो
फुडाराक.....
जेन्ना हांव हांगा नासतलों
त्या काळाक.

हांव खरेपणान थंय नासुनूय
उरत म्हूण...
म्हाकां भिरांत दिसता
हांव निधर्मी आसुनूय
बऱ्या वा वायट अर्थान
कोणूय म्हजें नांव
खिळायत म्हूण.....
जाती-धर्माच्या खुरसार

ज्या पातकांविशीं हांवें
केन्ना कितें आयकलेंच ना
थापीत म्हूण तीं म्हज्या माथ्यार
मसंडींतलीं मडीं उसतुनूय
तीं पावंडेर काडपाची
संस्कृताय जंय रुजवणाक येता
थंय कांयच अशक्य ना
असले सुवातेर
म्हाकां निखालस उरपाचो ना
देखून ह्याच जल्मांत
म्हाकां हांव...
पुराय सोपोवंक सोदतां
नांवांसयत...

## म्हजो धर्म

खंयच्याच धर्माचे
फासकेंत बसून
म्हाकां.....
ते फास्के इतलो.....
संकुचीत जावपाचो ना
वा.....
धर्मान सांगलां म्हूण
बुद्दीक खोड घालून
म्हाकां धर्मांदूय जावपाचो ना

सगल्या नदरांनी
स्वतंत्र असो
म्हाकां....
म्हजोच धर्म घडोवपाक जाय
थंय कसलीच आसचीना
बाटाबाटी....
ना सुवार्थाची खेटाखेट
ना धर्म प्रायोजित आकांतवाद
तातुंत भितर सरपाक
कसलीच लागची ना पात्रताय

म्हज्या धर्मांत येवपाक
कोणे म्हाकां सांगपाची
गरज ना..
ताच्यान आपलेपरीन
म्हजो नांव नाशिल्लो धर्म
जियेंव येता.... मनीसपणान



– भालचंद्र गांवकार



# जिविताचो मोग



ह्या जिवितांचेर.
ह्या जल्माचेर
खूप खूप मोग
सदांच करचो
मनीस जल्म
एकदांच मेळटा

घडी-घडी जल्म मेळनात
आनीक मनीस जल्म मेळटलोच
अशेंय सांगूक शकना...
भलतोच जल्म मेळ्यार
त्या जल्माचें सार्थक ना
मनासारखो जल्म मेळचो ना

ह्या जल्माचेर
ह्या जिविताचेर
सदांच उपाट
मोग करूंक जाय
मनीस जल्मा इतलो
आनीक दुसरो जल्म ना...!

जल्माक येवन
सुख-दूख
भोगल्या बगर
जिविताची रूच कळना
तागून-भोगुनच
मरूंक जाय

तेन्नाच जिविताचें
खाशेलें कोडें
आपशीच होलमता
मरताना लेगीत
कसलेय त्रास जायना
सुखान मेल्यावरी दिसता

मरणाचोय भंय दिसना
हांसत खेळत
मेल्यावरी दिसता
तृप्त जिवित
जगल्याचो आनंद जाता
मेल्या कुडीक पळेल्यारूच
तो सुखानूच मेला
अशें पळेतल्याक दिसता.

– सौ. सुनिता सुभाष शाह





## गोंयकार

गोंयकाराचें उरूंक ना नांव आता!
गोंयां भायले, आयले हांगा!
आमी हांगा सुशेगाद पडले!
आमच्या राज्यांत, राज्य तांचें जालें !
आमी तोंडांत बोटां घालून उल्ले!
मद्रासी -काश्मीरी हांगा आयले!
गोंयांत येवन, सुरू केले तांणीं धंदे,
गोंयचे तरनाटे शिकून गद्दे!
भायल्यांनी गोंयकारांक केले काबार!
गोंयकार नांव आतां उरूंक ना
गोंयकार जावंक सुशेगाद!
अजुनूय हांव, उलो मारता सगळ्यांक
म्हज्या गोंयकारांनो, जागृत जायात!

*- संतोष हरमलकार*

## म्हजें गोंय

सुंदर म्हजें गोंय म्हण नांव तुवें जोडलें
जगावयल्या सगळ्यांक तुकां पळयन कशें दिसलें
खळखळीत व्हांवता न्हंयो, मांडवी आनी जुवारी
दर्याकडेन पळोवन मिलन तृप्त जाता कुवारी

पोटान तुज्या लिपलां कितें सांगूंक जायनां उतरांनीं
मिनानीं भरल्या दोंगर व्हडल्या व्हडल्या जंगलांनी
घोग्यांनी पडटा पावस हुस्को नाकां मोडाचो
पडिल्लो पावस जिरता हांगा भंय ना रे पुराचो

लांब रूंद दर्या वेळो कोलवा आनी मिरामार
पळोवन गाज दर्याचो पिसो जाता भोंवडेकार
पांचवी चार हांगचीं शेतां थंड शितळ कुळागारां
नटलां तूं व्हकलेवरीं दिश्ट तुकां लागूं नाकां

माडा येद्यो इंगर्जो, देवळां आनी मशीदी
एकचाराचें गायता गीत गोंयां तुजी किर्त व्हड
सुंदर म्हजें गोंय म्हण नांव तुजें जोडलें
जगावयल्या सगळ्यांक तुकां पळेयन शें दिसलें.



*- संतोष केरकार*
*नवें वाडें*
*वास्को-गोंय*
*९८२२९८२१३१*





# देव तुजोच

(अभंग)

सांगतां तुकां आयक मना
हांगा थंय धावो नाका।

सूख तुजें तुजेच लागीं
दुःखी जावं नाकां॥

सदगुरूच्या चरणार मना
ज्ञान-बोध जाता।

नामस्मरणाच्या सुखान
दिसान-दीस खोशी मेळटा॥

नामस्मरण जितलें मना
तूं करूंक लागता।

सद्गुरूंच्या आशिरवादान
देव तुजोच जाता॥



# तड

संवसार हो
अथांग सागर
सागरांत या
एकटें
म्हज्या जिविताचें
होडें
धोलता हेवटेन
केन्ना तेवटेन
दर्यावेल्या
ल्हारां ल्हारांर
धोलता जशें
एकटें होडें
तशें जिवित
सूख दुःखाच्या
ल्हारांचेर धोलता धक्के झेलीत
वाट पळेयत
एक दीस तरी
गावतली तड
हीच आस
मनांत दवरून

– सौ. मंगला नागराजन



# कविता

म्हाका लागून तूं, अशें लजू नाका
तुजे लागीं हांव, लगीन जावंचो ना.

केंस तुजे काळे काळे, लांब लांब गो
म्हजे सगळे धवे धवे, सगळेंच पिकलां गो.

कांळे काळे दोळे तुजे, पिकिल्ल्या काण्णां भशेन गो
म्हजे दोळे फुटल्या पळय, धव्या धव्या चुन्ना भशेन गो

म्हाका लागून उडल्या पळय, कितल्यो बोडक्यो कापशिणी
दोळ्यांतुल्यान व्हांवोन व्हेल्यो, तांबड्यो तांबड्यो भिण्णी

कितें गो तूं सामकेंच अशें, कोणा सांगणेन जालें पिशें
होच खांकनवाळ जाय आसलो, खंयच्या देवाक नवस केल्लो.

म्हाका लागून तूं, अशें लजूं नाका
तुजे लागी हांव, लगीन जावंचो ना.



– अशोक भोंसलो
भाटले, पणजी–गोंय

# दिवाळी

आयली दिवाळी दिव्यांची
उजवाडाचीं किरणां फांकीत

दिव्याच्या उजवाडांत
काळखी रात रसरसली

नरकासुराक लासून
उटण्या-तेलान न्हालीं

कडू-किट्ट कारीटा वांगडा
गोड -कडू उतरां पचवचेलीं

घमघमीत फोवांच्या वासान
कूड मात्सी सुसतेली

नवे कपडे घालून
लक्ष्मी पुजनाक सगळ्यांनी एकवटान येवचेलीं

भाऊ-बिजेच्या ओवाळणीत
भाऊ-भयणीचें नातें घट्ट कस्पेलीं

लाडू-नेवऱ्यो चकऱ्यो करचेली
धेणल्या पाडव्याक पोळे करचेली

आयली दिवाळी दिव्यांची
उजवाडाचीं किरणां फांकीत



– शितल स. आरोलकार
पर्वरी–गोंय



## गांवाची आस

शारांतलें वारें घुस्मटायता
गांव म्हाका सादयता
तीं पांचवीं- पांचवीं शेतां
खुळखुळ चलपी
बैलांच्या खांद्यावेलीं जोतां
निळ्याच तळयेंतलीं
धवींफुल्ल सोबीत साळकां
मळबांत रांगोळी पितारपी
रेखीव बोकीं आनी
तळयेंतलीं बदकां
सगळें-सगळें
दोळ्यांनी तोखेवंक
जीव आशेला,
शारांतल्या बंदखणीन
जीव घुस्मटला
ती न्हंय देगेवेलीं सोपणां
व्हड्यान पलतडी वतना
मनांत केल्लीं कवनां
सगळ्याक जीव आशेला
शारांतल्या गर्देक
जीव भियेला
कोंब्यासादान तरतरीत जाल्लो
दारा मुखावेलो शेगुल
सुरंगांच्या सुवासाचेर
गुल्ल जावन गावपी कोगूळ
दोंगुल्लेच्या माथ्यावेलो
तांबडोगुंज तिबो
गोठ्यांत हामेवपी
गोरवांच्या दुदाचो तांबयो
शारांतल्या घामसाणीक
म्हजो जीव विटला
गावांत परतुवपाची
आस म्हाका लागल्या



## एकसुरो चंद्रीम

एके राती हांव,
चान्यांन फिरूंक गेल्लें
रूपेरी चंद्रिमाक
ढगांचे बोटींत
धोलतना पळैलें

चंद्रिमाचें हासतें मुखामळ
दितालें ताज्या सुखाची गवाय
ताज्या दोळ्यांतलें मोवाळपण
भरून काडटाली मळबाची खोलाय

हांवें अजापान चंद्रिमाक म्हळें
तुजें एकटेंपण तूं कसो सोसता?
तरीय तुज्या ओठार
हासो कसो आसता?
ताणे दोळे मिचकायले,
आनी परत एकदां
मुमुरखें हांसलो,
म्हज्या मुदयाळ्या केसांत चान्ने शिंपीत
ताणें म्हाका जाप केली
ना, हांव एकसुरो कसो?

– सरस्वती दामोदर नायक



## जिवीत एक फकाण



तळटा येदें पोट
तें भरपाक मनीस
काम करता
घाम वारयता
तकली झरयता
दीस पावना म्हूण
रातचीं जागरणां करता
पूण अन्न पोटांत घालचो वेळ आयलो तेन्ना
तें जेवंक मात मनशाक थार ना.....

– फ्रांसीस्का मोहन



## काळीज

म्हज्या काळजाक तीन बुराक
दोन दुदाचे एक रगताचो
दुख्ख भरल्यार भार वाडटा
सूख व्हांवल्यार ल्हव जाता
मेकळें उरल्यार मात जड लागता

दिसता भरचें रगतान उप्पाट
दुदाळ करचो सगळो आवाट
पुणून काळीज सोलिल्लो नाल्ल
भरत पुणून पोको फार्रांव
फार्रांव काळो-निळो कापशेल्लो.

काळीज भरता रगत व्हांवता
लयेन शिरंतरां शिंवशिंवता
रगत खतखत्ता दूद वत्ता
सोलिल्लो नाल्ल ओलो जावन
पांगरूंक मायेचें सोण्ण मागता

– आर.जी.गावडे



## वाट

फुटली ना पालवी
वर्साच येवपी पावसान
चितनां सपनां उरलीं
तशींच मनांतल्या मनांत
वताच्या रखरखान आनीक
शियांचे थंडसाणीन बावत गेले

वर्सा येवपी पावसान
मात भिजत गेले
पळयत बसलां वाट
त्या कुपाची
मुमुरखेंच हांसतां
याद येवन त्या रुपाची
दिसान दीस मेजीत आसां
वाट तुजी पळयत आसां

– नुतन उस्कैकार



# नदरेचो खेळ



– नयना आडारकर

शाळा सुरू जावंक दोन दीस आसतनाच विद्या बंगल्याच्या गेटीकडे जाल्ल्या शेळ्यार पांय निसरून पडलें आनी भेंड साणावल्ल्यान ताका पंदरा दीस विसव घेवचो पडलो. दोतोरान बॅडरेस्ट सांगिल्ली. पूण भुरग्यां मुखार खंय रॅस्ट-बॅस्ट. घराकडें रावून शाळेचीं कामां मात तुंबून उरिल्लीं. मिस्टर सांगावकारान तात्पुरतो शाळेचो हंगामी हेडमास्तर म्हूण कामां सांबाळिल्लीं. आयज शाळा जॉयन करतकच, घोयरांव फाफुडचो तसो सांगावकार, जबाबदाऱ्यो आपणाचेर फाफडून मेकळो जातलो, हें विद्याक खबर आशिल्लें.

आनी जालेंय तशेंच. सगळीं कामां विद्याक समजावन निमणी एक फायल मुखार करीत ताणे म्हळें, ''मॅडम, ही त्या दिसा संगीत शिक्षका खातीर घेतिल्ल्या मुलाखतींची फायल. हो वयरूच लायला तो बायोडेटा नेमणूक जाल्ल्या शिक्षकाचो. आयज ताका तुमकां मेळपाक आपयला. धांक येतलो तो. तुमी मागीर ताचेकडें उलयात.''

''थँक्स फॉर युवर कोऑपरेशन'' विद्यान सांगावकाराचे उपकार आठयले. सगळ्यो फायली वेवस्थीत चाळून जातकच विद्यान निमाणे फायलेक हात घालो आनी इतल्यान दारार टक-टक जालें.

''येस कम इन'' म्हणत विद्यान फायल उगडली आनी तें नेमिल्ल्या संगीत शिक्षकाच्या बायोडेटाचेर नदर भोंवडावंक लागलें. नांव-विजय मामलेकार, वय-वर्सां सव्वीस ....

''एसक्यूज मी मॅम'' आवाजा सरशी विद्यान मान वयर केली. बेसनलाडू कसो गोरो-गुटगुटीत तो तरणाटो विद्याकडेच पळयतालो. ''मेम हांव विजय, विजय मामलेकार'' विद्याचे नदरेक नदर दियत धीटपणान तो उलयलो.

''ओ, प्लीज हॅव अ सीट'' विद्यान ताका म्हळें तसो तो कदेलार बसलो. पूण ताणे विद्याचे नदरेक मेळयल्ली नदर मात्तूय हालयली ना. घडये दोळ्यान दोळे घालून उलोवपाची ताका संवय आसली. पूण विद्या मात ताजे नदरेन अस्वस्थ जाल्लें. ही नदर आपल्या नदरेंतल्यान आरपार जायत शिरंतरांनी ल्हवपीक मोरपांख भोंवडायता अशें ताका दिसलें. जिणेचे चाळीस हुमरे हुपले, पूण ही नदर, कथा-कादंबऱ्यांनी वाचिल्ली, आयज आपणें पयलेच फावट अणभवल्ल्याची ताका जाणीव जाली. ताच्या नदरेंतल्या सुखांत पुरायपणान बुडून वच्चें अशें दिसपाक लागलें. पूण आपूण कोण आनी कोणामुखार बसलां हाचें भान विद्याक आसलें. ताणें झुप्प करून आपली नदर दुसरेकडेन वळयली. पुणून ताका सगळें वेवस्थीत सांगतना नकळटना ताची नदर, विजयाचे नदरेक मेळटाली.'मेल्लो, पांपण्यो नाशिल्लो सोरोपसो. टकाटका पळयता.' विद्या मनांतल्या मनांत फडफडलें.

''ओके मॅम'' म्हणून विजय उठून गेलो. पुणून विजयाची नदर मात विद्याच्या मनांत रीग करून गेली. 'ह्यो सगळ्यो फायली सुटाव्यो करून, धावेक इतिहासाचो तास घेवंक जाय.' विद्या सडसडीत कामां करपाक लागलें. पूण ताचें मन मात ते नदरेक याद करून अस्वस्थ जावंक लागलें.

शे! कितें चल्लां हें? आपणाक सोबता हें असलें वागप? उथळपणां हीं. आपली पिराय कितें, हुद्दो कितें, समाजान आपलो मान, संवसार, भुरगीं-घोव, शे! निखळ चंवचाळपणा हीं. अनी कोणाकडे? वळख देख नाशिल्ल्या त्या तरनाट्याकडे. आपल्या परस बारा-चौदा वर्सांनी ल्हान आशिल्ल्या त्या विजयाचे नदरेन इतलें अस्वस्थ जावप. 'सांबाळ बाये' म्हणत विद्यान आपले आपणाकूच थातारलें. दनपरां शाळा सुटले उपरान्त विजय भुरग्यांक संगिताचे वर्ग घेवपाचो आसलो. ताची भुरग्यांकडे वळख करून दिवपाची आपली जापसालदारकी निभोवंक विद्या गेलें. भुरग्यांक ताची वळख करून दिवन ताणें विजयाकडेन पळयलें. तो निरागस, निश्पाप भुरगो कसो ताकाच पळयतालो. ''मॅम सुरू करूं शिकोवंक?'' ताणें नदरेक नदर मेळयत विचारलें. कितें, कितें आसा ताचे नदरेंत? ती नदर आपले कूडभर चैतन्य शिर्शिरी पातळटा अशें ताका दिसलें. ताचे नदरेन थतर-वितर जाल्ल्या आपल्या मनाची दशा लिपयता म्हणसर विद्याक नाकां पुरो जालें.

सोमार-बुधवार-शुक्रार. सोमनातले तिनूच दीस दनपारचें एक ते दोन मेरेन तो भुरग्यांक संगीत शिकयतालो. प्रत्येकाकडे नदरेक नदर मेळोवन उलोवपाची ताका संवयूच हे विद्याच्या लक्षांत आयिल्लें. पूण आपलेवरींच तांकाय तोच अणभव येता काय? ताचे नदरेन आपली







जाल्ली अवतीकाय तांच्याय लक्षांत येता काय? आयल्यार तो कितें म्हण्टलो? हांसतलो? आपल्या इश्टाकडे बकच्छायो करतलो? ही बॅन्ड्रा फेस्ताच्या मेरीगोरावंडातली आन्टी कशी दिसपी मॅडम आपल्याचेर लायन मारता बी म्हणना मू तो? शी! ताचेकडे चड लक्ष दिवप ना.

पूण कितलेंय चिंतलें तरी विद्याचें मन रावनासलें. हालींसरा आपूण गरजे भायर हारश्या मुखार चड वेळ उबें आसतां. न्हेसपाचेर नटपाचेर चड लक्ष दितां. ताचो येवपाचो वेळ जाता तेन्ना मोगिकेक मोग्याक भेटपाची हूरहूर लागची इतलें आपूण आतूर जातां. हें विद्याच्या लक्षांत येतालें. गरजेभायर तो शिकयता आतना कसलेंय निमित्त काडून ताचेकडे उलोवपाचो येत्न करता हें कयटालें. आनी तें घुस्पतालें. कित्याक करतां आपूण अशें? हें आपलें वय अशें हुंडारपाचें? कितें कमी आसा आपल्याक? तीन भुरगीं, आनी खुब्ब मोग करपी घोव. जाच्या मोगान आपूण बुडून वतां. पुणून ताची नदर विजयावरी ना. थंड, शितळ, मायेस्त आनी विजयाची नदर आकांताळी. मनांक खूब सुखायता तशी अस्वस्थूय करता. ताचे नदरेचे धुंदीन तें वावुरतालें. हालींसरा आपलें भुरग्यांकडे आनी घोवाकडेय मातशें दुर्लक्ष जाता हेंवूय ताका कळटालें. महेशान, ताच्या घरकारान तर ताका एकदोनदां कितें जालां काय म्हूण हटकिल्लें पुणून इतलें कळूनय, नकळतां तें विजयाचे नदरेक आशेतालें. ''तो भुरगो, ताका चडंच कळूंक आयलां, तो बाबडो मॅडम-मॅडम म्हूण अदबीन उलयता.''

''फाल्यां सावन शाळेक पांच दिसांची चवथीची सुटी. पूण हे सुटयेंत, चवथीखातीर गांवघरा, पाश्यीं वचप, थंयचो वावर, सगळें करतां म्हणसर नाकापुरो जाता. आतां पयलीं भाशेन झेपनां, आनी पयलींची ती उमेदूय ना. चिंतनानी विद्याक जांबयो येवंक लागल्यो. हेरशीं शाळा येदोळ सुटिल्ली. पूण संगीत वर्गाक रावपी भुरग्यांची जापसालदारकी ताचेर आशिल्ल्यान, तें सगळीं भुरगीं गेल्या उपरान्त घरा वतालें.

भायर भुरग्यांचो कलकल आयकून, विजयान वर्ग सोडलो म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तें उठून कॅबिनाभायर येवन, दार बंद करून कुलूप लायता म्हणसर विजयूय थंय पावलो. ''आतां पांच दीस सुटी न्हय मॅम. विश यू हॅपी गणेश'' विजयान म्हळें, ''थॅक्यू, सेम टू यू'' म्हणत विद्यान विजयाक पळयलें आनी तें चक्रावलें. विजयाच्या दोळ्यांत ताका एक वेगळीच चमक दिसली. ही ताची सदची, निरागस, आंगा-पांगार मोरपांख भोंवडावपी नदर न्हय. एक वेगळीच पुरूशी, आव्हान दिवपी नदर. विद्याक सट्ट जालें. ताणे नदर झुप्पकरून दुसरेकडेन घुंवडायली.

''आमी गणपती पुजीनात मॅमं ....'' विजय उलयत आसलो पूण विद्याचें ताच्या उलोवण्या कडेन लक्ष नासलें. ताची तकली भेरेल्ल्यावरी जाल्ली.

''आरे देवा! कितें जालें हें? शे! चुकलेंच. ह्या नदरेच्या खेळांत सामकें घुस्पलें. न्हय, व्हांवत गेलें. ताचे नदरेन आपल्या मनाची जाल्ली अवतीकाय ताच्याय लक्षांत येवं येता, हें कशें आपणाक कळ्ळें ना. आपूण कोण, तो कोण, कसलें भान दवरलेंना आपणें. तो पिरायेन आपणापरस ल्हान इतलेंच लक्षांत दवरलें आपणें. पूण तोवूय एक पुरूश, पूर्ण पुरूश. हाचो विसर पडलो आपल्याक. म्हणून तर ती आव्हान दिवपी चमक दिसली ताच्या दोळ्यांत. शी! शी! सामकी पत होगडायली आपणें. विद्याचे दोळे लजेन आनी अपराधीपणाचे भावनेन भरून आयले. आपली दशा विजयाक कळची न्हय म्हूण ताणें बेगबेगीन म्हळें, ''बरें येता हांव. म्हाकां मातशें बेगीन घरा पावूंक जाय.'' आनी तें तुरतुरीत चलत रावलें. आनी मॅडमीचें कितें जाले हें कळनासून विजय खीणभर ताका वतना पयत रावलो.

***



४ म्युनिसिपल मार्केट
वास्को द-गामा-गोंय
४०३ ८०२





# दाय

– सौ. मंगला नागराजन



सैमाची पांचवीचार सोबितकाय मनांभीतर रिगोवन, सात्विकतायेची पालवी फुलयत व्रतां वैकल्यां आनी देवा भक्तीची गुण-गायनाचो आस्वाद-आनंद दिवन श्रावण परतून गेलो. भाद्रपद आयलो आनी व्हडा उमेदीन घरा-घरांनी, सगल्यांच्या आपुरबायेच्या गणरायाचें स्वागत जालें. कांय लोकांनी देडा दिसाच्या गणपतीक फुडल्या वर्साचें आमंत्रण दिंवन. 'गणपती बाप्पा मोरया! फुडल्या वर्सा लवकर या!' अशें म्हणून निरोप घेतलो.

चवथीचे दीस म्हणल्यार वेगळ्याच वातावरणाचो अणभव. सामको थोडोसो पावस आनी चडशें वोत. अनंतचतुर्दशी मेरेन चवथीच्या सोम्याचो परमळ परमळत उरतलो. थंडगार अश्या फांतोडेच्या वेळार हांथरूणार साकर-न्हिदेन आसतना फोनाचो अलार्म वाजलो आनी म्हजी साकर न्हीद भिंगसाळ्ळी.

'आसुनी थंयच, वाजूंनी अलार्म! आनीक मात्शें अशेंच न्हिदून रावतलें.' अशें चिंतून किलकिल्या दोळ्यांनी जनेलांतल्यान भायर नदर माल्ली. भायर आजूनय काळोख दिसतालो.

तशेंच न्हिदून रावलें. पूण न्हीद येना जाली. तकलेंत मात विचार चक्रां सुरू जालीं.

धांपिल्ल्या दोळ्यां मुखार, उगडासांच्या पोंटलेंतल्यान आमगेल्या दायचें म्हणजेच म्हज्या आज्याचें रुपाळें झळकों लागलें.

पिरायेचें अर्दशतक सोपिल्लें म्हजें जिवीत, भलायकेक पिरगंवणी लागिल्ल्या कारणान चडशें घरांतूच सरतालें. ताका लागून सगळ्यांच्यो यादी येत रावताल्यो. चवथीच्या सोम्या निमतान दायची मुखावळ दोळ्यांमुखार रावली आनी यादीचो धागो म्हाका, सोम्या परबेच्या दिसांतल्या, दाय वांगडा अणभविल्ल्या म्हज्या भुरगेपणांतल्या दिसांनी घेवन गेलो.

म्हजी पिराय त्या तेंपार तीन-चार वर्सांची आसूंये. दाय वांगडा सोम्याच्या दिसांनीं आमकां भुरग्यांक खूप मजा करपाक मेळटाली. दायचें तें जाण्टें मिरयो पडलेलें, पूण तेजस मवाळ रूप, ओठां भीतर दांत नाशिल्ल्या कारणान हांसतना ल्हान माणकुलें भुरगें हाशिल्ल्या भशेन दिसतालें. चवथीच्या सोम्या वेळार रातचें आमी दाय बराबर माटोळेचें सामान बांदपाक आनी वावुरताना खंयचें फळ खंय बांदप, आंब्याचे ताळे माटोळेक कित्याक बांदतात हें आमकां भुरग्यांक सांगतालो.

आमचो दाय गांधीजींच्या आंगलटी इतलोच आशिल्लो. ताचें तोंडूय बी हांसलो की गांधीजी सारखेंच दिसतालें. पूण दाय वक्ल घाली नासलो. हावें गांधीजींचो फोटो पळेयल्लो. घरांत दाय जाण्टेपणार तांबडी काष्टी न्हेसोनूच वावुरतालो. ताका लागून घडयें म्हाकां आमचो दाय म्हणजें गांधीजी असो म्हज्या भुरग्या मनाचो समज जाल्लो.

आमचें घर बारदेस भागातल्या एका खेड्यांतलें. खेड्यां गावांनी शेतांत वचपी, माडां-झाडांर चडपी लोक आनी जाण्टे लोक घरांत वावुरताना तांबडे काश्टेचोंच वापर करताले. घराच्या शें-देडशें पावलांर पयस, एक तांबडो रस्तो आशिल्लो. रस्त्याच्या एके सायडीक एक काळें खडप सोप्याभशेन कांतयल्लें. त्या सोप्यार दाय आपल्या इश्टां बराबर खबरी मारपाक बसतालो. थंड आनी शांत आवाजान - उलोवपी दायच्या उतरांतल्यान एक माधुर्य जाणावतालें. पूण पयशांच्या वेवाराबाबतींत मात दाय चोख रावतालो, अशें हावें आयकल्लें.

दायच्या मायेस्त रुपाबराबर म्हाकां चड याद येता ती ताच्या व्हडल्या लाकडी पेटाऱ्यांत दवरतालो त्यां फळांची. दायकडे एक व्हडलें लाकडी काशेत म्हणजे एक पेटी आशिल्ली. दाय त्या पेटाऱ्यांत आतेरां, चिकू, पेरां, फेस्ताचे चणे, खाजें ह्यो खावपाच्यो वस्तू दवरतालो आनी चावी करतालो. चावी मागीर कमराक आशिल्ल्या लंगोटीचे मुजीक गोंदळावन





बांदतालो. पेटाऱ्यांत कोणाक हात घालपाक दिनासलो. म्हापशां सावन आमी भुरग्यीं घरा गेल्लीं की खबरी सांगून आमकां पिकलेल्लीं आतेरां, पेरां, काजी बियो खावपाक दितालो. जशें तो आपल्या पोटांतली सगळी माया आमकां वाट्टालो अशेंच आमकां दिसतालें. तो देखाव हांव केन्नाच विसरलें ना, इतल्या ल्हान पिरायेचें आसुनूय. अशो कितल्योश्योच गोष्टी मनांत घर करून रावल्यात. कांय मैपासाच्यो कांय मन दुखावपाच्यो.

गांवांत लोक, दायक रामा आराबेकार म्हणून वळखताले अशें हावें आयकल्लें. दायचें मुळावें घर आराबो म्हणतात थंयसर. तो चार-पांच वर्सांचो आसतनां आपलो गांव सोडून ताचो बापूय ह्या गांवांत आयलो आनी थंयच रावलो. काबाड कश्टी आशिल्ल्या कारणान भात, नाचणे, कुळीथ असले रोवप जातालें.

तें घर चडकरून चुन्या-मातयेंत फातरांनी बांदिल्लें आसुंयेत. त्या घराक एक साल, सालांत गणपती पुजन जातालें. एक रांदची कूड, रांदचे कुडीक तेकोन आनी एक कूड, थंयच दायची लाकडी पेट आसताली आनी थंयच देव्हारोय आसलो. भायर व्हडलें बल्कांव आनी दोनूय सायडीक दोन व्हडले सोपे. एका सोप्यार दाय न्हिदतालो. दुसरो सोपो बाप्पाचो म्हज्या काकाचो. दाय भुरग्यांक बरें करतालो. दायक दांत ना हें पळोवन तो हासलो की म्हाकां खूप मजा दिसताली. दाय वांगडा खबरी मारप, ताच्या हांथरुणार न्हिजप. हें तर सदांचेंच. म्हातारो आशिल्ल्या कारणांन दायच्या आंगाच्यो काती लोमकळटा कश्यो दिसताल्यो.

दाय कुड्याच्या पानाच्यो इडयो करून वोडटालो. ह्या इडयांचो वास मात म्हज्या नाकांक झोंबतालो. पांगरूंक घेता ती कांबळूय म्हाकां तोंपताली. "हे लोक कशे कांबळ घेंवन न्हिदता?" अशें म्हज्या बालमनांक दिसतालें. दायच्या उशाकडे एका फोलीनांत इडयांक घालपाचो चुरो आसतालो. कुड्याचीं सुकीं पानां, एक ल्हानशी कातर अशेंच कितें कितें आसतालें. कातर घेंवन दाय बरें करून इडयेक जाय तशीं पानां कातरून दवरतालो. मागीर त्या कातरलेल्या पानांच्या कुडक्यार जाय तितलोच चुरो दवरतालो आनी दोनूय हातानीं इडी वोळतालो.

बल्कांवां सामकार एक व्हडलें आंगण आशिल्लें. तातूत मर्दीच व्हडली तुळस. म्हजी काकी सदांच ते तुळशीक भक्ती-भावान 'नित्य तुळशी वृंदावनी....' ही प्रार्थना म्हणून उदक घालून नमस्कार आनी प्रदिक्षणां घालतानां हांव प्रळेतालें. आंगणाभायर फुडें आंब्याच्या झाडापोंदा खुट्यांच्यो दोन लायनी आशिल्ल्यो. तांकां दोनूयं सायडींन गोरवां बांदलेलीं आसतालीं. म्हजो एक व्हडलो भाव दूद काडताना आपुणूच ताजें ताजें दूद पयलीं पियेतालो अशें म्हजे आवयकडल्यान आयकल्लें. म्हजे आवयक भाव नाशिल्लो, आमचे 'बा'न आपलेकडलींय गोरवां आनी तेल काडपाचो घाणो धुवेकूच दिवन सोडलो त्या वेळार दाय तेल काडपाचो वेव्हार पळेयतालो. म्हजे णव म्हयन्याचे पिरायेर म्हजे आवयचेर विधवापण आयलें आनी म्हालगड्या पुताच्या मरणाचे खंतीन दाय खचलो आसुंयें. तेलाचो घाणो बंद पडलो. "हें किदें?" म्हणून बालमनांक पडिल्ल्या म्हज्या प्रश्नांक 'तो खोबरेल, नाल्लांचें तेल काडपाचो घाणो.' अशी जाप मेळिल्ली. त्या जाग्या मागीर 'घाण्याची खोप' म्हणून नांव पडलें. रांदपाक लागता तीं लाकडां आनी उदक तापोवपाचें भाण दवरपाचीय



थंय भर जाल्ली. उदकाच्या भाणापोंदा शेणी आनी सुक्यो खोलयो उज्याक वापरताली. न्हावपाक गेलें कीं शेणीच्या धुंवराचो वास सगळ्याक धुंवतालो.

दाय कोंबड्योय पोसतालो. 'बाऽऽ' 'बाऽऽ' करून तेंकां आपयतालो आनी तांदळांच्यो कणयो, शीत, भात खावपाक घाली. कोंबयांचीं तातयां मेजून दवरी आनी विकून पयशे जमयतालो एक एकदां तातयां एका जाग्यार दवरून कोंबयेक रोवाणीक बसयतालो. मागीर एक दीस तातयांतल्यांन ल्हान ल्हान पिलां भायर सरतालीं. इल्लीं इल्लीं पिलां धरून खेळन दिसतालें पूण कोंबी 'काँ ऽ काँ ऽ काँ ऽ क!' करून आंगार येताली.

बरें मागप्यांची बूद्द आयकून आपल्या घोवान घातलेलें दुकान सांबाळपाचें धाडस म्हजे आवयन दाखयलें. सद्दां म्हापशां सावन ये वच करताना मदीं मदीं दाय खातीर इडयो, चुरो, नुस्तें, केकां, जयदेवाच्या दुकानावयल्यो चकऱ्यो घेवन येताली. दायक चकरी खूप आवडटाली. चणे आनी चकरी, दाय पावडर करून खातालो. दाय सुनांक बरो करतालो. म्हजो सांबाळ काकी करताली. ना जाल्यार म्हजी व्हडली भयण. किदेंय भिंगसाळल्यार म्हजे आवयक तो उपाशीं न्हिदपाक दी नासलो. "तुकां म्हजे आवयचें नांव दवल्लां, म्हजो जीव आसा मेरेन तरी ह्या घरांत उपाशीं न्हिदों नाकां." अशें मायेन सांगून तिका जेवपाक उठयतालो.

येवपा वचपाक त्रास जाता म्हणून म्हजी आवय आमकां घेंवन म्हापशां रावली. एकदां दाय आपल्या कामाखातीर म्हापशां आयलो. 'आवयस्स! कितलो बरो दिसतालो आमचो दाय!' गांधीजी धोपरा मेरेन पंचा न्हेंसता तसो, कास मारून धोंपरामेरेन पुडवें न्हेशिल्लो, आमचो दाय. आंगाक एक धवें खोमीस आनी जाकेटा सारखो काळो कोट ताच्या वयर. माथ्याक धवी पगडी की तोपी ती मात म्हाका याद ना. हातांत लाकडी दांड्याची सत्री. धांवून वचून आमी भुरग्यांनी दायक, खोशी जावन वेंग माल्ली. दायन मायेन आमच्या फाटीवेल्यान हात भोंवडावन आमकां खावपाक दिलें. दायचो मोयपास आजून याद आसा.

दाय आसतना घरांत देवा-धर्माची आनी सोम्याचीं कामां व्हडा दबाज्यान जातालीं. घरांत ब्राम्हण भोजन. भजन पूजन ग्रंथ वाचन हें सगळें जातालें आनी घर घरासारखें सोबतालें.

मागीर मागीर दाय जाण्टेपणाक लागून दुयेंत पडपाक लागलो. आमी आमचे आज्जेक आवय म्हण्टालीं. ती मात्शी कडक-आशिल्ली तरीय मायाय करताली. म्हाकां मात 'बापायक खायरें' म्हण्टाली. पूण ताचो अर्थ म्हाकां त्या तेंपार कळ नासलो. दाय 'सोप्यावेलो' म्हण्टाली. केन्ना दाय एकटोच दुकां गळयतालो. तशी आमची आजी सामकी सुंदर, शर्मिला टागोर कशी दिसताली रूपान.

एक दीस म्हापशां रेकाद पावलो की "दाय खूप बरो ना." म्हजी आवय रोखडीच गेली. वतना एक केक घेंवन गेली. दायक आवडटालें मोव मोव केक खावपाक. म्हजो एक आराड्यार रावपी बापोलयो काका म्हापशां आशिल्ल्यान ताच्या बराबर तो म्हाकां आमच्या घरा घेंवन गेलो. आमी म्हापशां सावन चलुनूच वतालीं. आतां मात्शें चलल्यार थकूंक जाता. ते ल्हान पिरायेचेर कशें पिटीपिटी चलपाक जातालें.

चलतां चलतां वाटेक म्हज्या व्हडल्या भावाचो एक इश्ट सायकलीन म्हापशां वतालो. ताका आमीं सगळीं भुरगीं दादा म्हण्टालीं "दादा आमचो दाय जितो आसा मरे?" अशें विचारून रस्तो वोलांडपाक गेलें आनी ताच्याच सायकलीक आदळून सकयल पडलें आनी तो दादाय पडलो. पूण बरें जालें कोणांक कांयच जालें ना.

"कांय जावंना मगो तुकां? बरें आसा मगो तूं?" अशें आपान आनी दादान विचारलें.

"ना कांय जावंक ना." म्हणून हांव बेगीन उठलें.

"आपा चल बेगी आमी दायक पळोवंक वचुया." अशें म्हणोन चलपाक लागलें. दोंगरांतले वाटेन शॉर्ट-कट मारून आमी घरां पावलीं.

आमगेर खूप लोक जमिल्ले. रडपाचो आवाज येतालो. दायक सकयल न्हिदयल्लो. एक दिवली पेट्टाली. आज्जे-आवयक लोक पिंजर-कुंकू लायताले फुलां माळटाले. म्हजी आवय, काकी, आतें, भाव सगलीं रडटालीं. "तुकां सोप्यावयलो म्हण्टली रे ऽ ऽ दाय!" अशें व्हडल्यान म्हणून म्हजी वहडली भयण रडटाली आनी म्हजी आवय "अशें म्हणून रडचें न्हीं गो" हें सांगून भयणीक ल्हव आवाजान शिटकायताली.......

'काँव! काँऽऽव!' असो भायल्यान कावळो रडपाचो आवाज आयलो आनी हांव म्हज्या विचार तंद्रीतल्यान भायर आयलें. दीस सामको उजवाडलेलो. हाथरूणार बसून देवाचें नामस्मरण केलें. उठताना परत मनांत आयले, दाय फाटल्यान मात घराचो एकवोट भेगाळलो. दाय बऱ्या धार्जिण्यांचो मनीस आसलो. म्हण घर एकवटान उरलें. सगळेच मनीस बऱ्या धार्जिण्याचे आसल्यार घरूच न्हय तर आखखो संवसार एकवटान उरूंक शकता....... आसूं! .... म्हजीं विचार चक्रां थांबलीं ... आनी हांव म्हज्या फुडल्या कामाक लागलें.

***

एन. आय. ओ. कॉलनी
दोना-पावला, गोवा-४०३ ००४
फोन :- २४५३५९५





# ती कोण?

– अतुल र. पंडीत

"आतां मात तुजें चडूच जालें. लक्ष दिवन काम कर म्हणून तुकां कितलें सांगप? शिक्षणमंत्र्यान सेक्रेड मिशन म्हणिल्लें, तुवें तें सिक्रेट मिशन केलें. सेक्रेड म्हणल्यार पवित्र. सेक्रेड आनी सिक्रेट हांचे मदलो सादो अर्थ तुकां कळना? तूं ओगीच रिपोर्टर जालो."

संपादक म्हजेर तापतालो. शिक्षणमंत्र्यान घेतिल्ले पत्रकार परिशदेंत हांव गेल्लों आनी ताचीं सेक्रेड मिशन हीं उतरां म्हाकां सिक्रेट मिशन अशीं दिशिल्लीं.

'पूण सर...' हांवें सारवासारव करपाचो यत्न केलो, पूण म्हजीं उतरां आयकनासतनाच संपादकान म्हाकां म्हणलें: हें पळय, आयज तुकां हांव सोडटां. परत मात अशी चूक करशीत तर मात तुजें हांव मात्तूय आयकून घेवचो ना." संपादकान म्हणलें आनी हांव मान खाला घालून ताच्या कॅबिनांतल्यान भायर सरलों.

म्हाका जिवाचीच उबगण आयिल्ली. घराकडेन बायल-भुरग्यांची आनी ऑफिसांत संपादकाची तापसाणी म्हज्यान आतां सोसूंक जायनासली. आमचें ऑफिस सातवे माळयेर आसलें. गॅलरीकडेन गेलों आनी सकयल उडी घेवपाचो विचार करूंक लागलों. उडी घेवन जीव सोंपोवया, सगल्या त्रासांतल्यान मुक्त जातलों- एक मन सांगतालें, पूण दुसरें मन फाटीं ओडटालें.

चुकून वाटावलो जाल्यार? पडून फक्त हात-पांय मोडले जाल्यारं? आत्महत्या करप हो गुन्यांव. चुकून जितो उरलों जाल्यार पुलीस म्हजे आड गुन्यांव नोंद करचें नात कित्यावेल्यान? मेलों जाल्यार सुटलोंच, पूण उरलों आनी पांय मोडून घेतले जाल्यार जीणभर अपंगूळ हें लेबल लावन भोंवचें पडटलें आनी रमिला..... रमिलाक तर म्हाका सोडपाक हेंच निमित्त पुरो जातलें. तें म्हाका सोडून त्या सुजयावांगडा ओर्रांद भोंवतलें. सुजय तर रमिलाच्या मोगांतूच पडला. नाकाच. सातवे माळयेवेल्यान उडी घेवन जीव दिवपाचो प्रोग्राम कॅन्सल.

विचार करतां करतां म्हाका शेजरा आशिल्ल्या आंतोनीचो उगडास आयलो. जिणेची उबगण आयिल्ल्यान ताणें रेलगाडयेंतल्यान उडी घेतिल्ली. दोन पांय वोगडावन बशिल्लो. पुलीस केश जाल्ली. वेल्यान हॉस्पिटलांत वखदांखातीर खर्च आयिल्लो तो वेगळोच! आतां जमनीवेल्यान घश्टत चलता.

तसोच फणफणत घरा आयलों. कॉटीर लवंडलों. विचार करूंक लागलों. हुंदराक मारपाचें वखद घेवन जीव सोंपयल्यार कसो? तसोच फार्मासींत गेलों. हुंदराक मारपाचें वखद मागलें जाल्यार फार्मासवालो म्हाका विचित्र नदरेन पळोवंक लागलो. म्हाकां भंय दिसलो. ताका हांव हुंदराक मारपाचें वखद घेवन जीव दिवपाचों आसा हें कळ्ळें ना मूं? ओगीच जीव सकयल वयर जालो. तें वखद घेनासतनाच हांव घराचे दिशेन वचूंक लागलों.

फुटपाथार पावलों. म्हाका म्हजेंच हासूंक आयलें. हांव त्या दुकानदाराक कित्याक भिलों? विचार करतां करतां हांव रस्त्यामदीं केन्ना पावलों तेंच म्हाका कळ्ळें ना.

"अबे, मरना है तो रेल के पटरीपर कुदो. मुझे क्यों लफडे में डालता है? साला." ट्रक चलयतल्या सरदारजीचीं उतरां कानार आदळ्ळीं आनी हांव भानार आयलों. 'सॉरी, सॉरी' म्हणून कुशीक सरलों. विचारांचें चक्र परत सुरू जालें.

ट्रक ड्रायव्हरान सांगिल्ली आयडिया वायट न्हय. आंगार केरोसीन रकोवन उजो लावचे परस हो विचार खूब बरो. केरोसिनाचो खर्च तरी वाचतलो. गाडी येता ती पळोवन रेल्वे रूळार बसपाचें. दोन सेकंदांत सगळो खेळ खल्लास. हूं ना आनी चूं ना. सगळें थंड. वेल्यान मरतना लेगीत भारतीय रेल्वेक फोंडांत घाल्याचें समादान. हय. तशेंच करूंया. अशें म्हणून घरांतल्यान भायर सरलों.

इतल्यान मदीं दामूअण्णा आडवो आयलो.

विचारूंक लागलो "खंय वता?"

कितें सांगतलों? कर्म म्हजें. तरी उश्णो धीर हाडून हांवें म्हणलें. "दामूअण्णा तुमी खंय वताले?"

"हांव म्हज्या पुताक हाडपाक रेल्वे स्टेशनाचेर वचपाचों आसलों. रेल्वे स्टेशनाचेर फोन करतकच कळ्ळें की रेल्वे रूळाचेर पालसण पडलां. ताका लागून सगल्यो गाडयो



बंद जाल्यांत''. दामूअण्णान सांगलें.

''आं. गाडयो बंद? तशें जाल्यार हावें भायर सरून कांयच फायदो ना.'' हांव एकलोच बडबडलों आनी घरा परतलों. दामूअण्णा म्हाका पळयत उरलो.

आतां एकूच उपाय. खोल देगणांत उडी घेवप. कोणाक कळचें लेगीत ना. सरळ उठलों आनी लागलों मार्गाक. थंड वारो सुटिल्लो. हांव रानांतली वाट माड्डीतालों. थंड शीं पडिल्लें. शियान आंग शिरशिरतालें. तें शियान शिरशिरतालें काय भयान तें कळनासलें.

हांव झपाझप पावलां उखलूंक लागलों. म्हाका काळोख पडचे पयलीं जीव दिवपाचो आसलो. मरचे आदीं देवाचें नांव घेवया म्हणून देवाचें नांव घेतलें आनी सकयल पळयलें. इतल्यांत शूत शूत. कोणाचो तरी आवाज आयलो. हावें फाटल्यान पळयलें. एक धवीच साडी न्हेसून एक बायल आसली. हांव अजापलों. इतल्या अटंग्या रानांत ही बायल कशी? कोण तूं? हांगा कित्याक आयल्या? - हावें रागान विचारलें.

- होच प्रस्न हावें तुकां विचारलो जाल्यार? तिणे म्हणलें.

''हांव... हांव जीव दिवंक आयलां. ॲनी ऑब्जेक्शन?''

''ऑब्जेक्शन घेवपाक हांव कोण? पिश्या, जल्म आनी मरण आमच्या हातांत आसना.''

''तूं कोण? हांगा कित्याक आयल्या?''

''हांव मुदासाक हांगा आयिल्लीं. रोखडींच वतलीं हांव. तूं देगणांत जीव दी. मनशालो जीव कसो वता हें म्हाका पळोवचेलें आसा. तूं थोड्याच वेळांत जीव दितलो आनी आत्म्याचे वळेरेंत आनीक एका आत्म्याची भर पडटली. बरें, तुजें नांव कितें तें सांगशी? तशें तुका लोकांनी नांवा खूब दवरल्यांत, पूण पाळण्यांत घालतना तुकां तुज्या आवयबापायन जें नांव दवरलां तें सांग.''

''हें पळय, तूं म्हजो वेळ खाता. म्हाका रात जांवचे आदीं जीव दिवपाचो आसा.''

''जाणा हांव. पूण शुल्लक कारणाखातीर तूं जीव दिता हें म्हाका पटना.''

''पूण हांव जीव दिवपाक शुल्लक कारण आसा हें तुका कशें कळ्ळें?''

''आरे पिश्या, जे कोण आपलो जीव वगडायतात तांकां कारणूय शुल्लक आसता. तुकां जल्माक हाडपाक तुजे आवयक कितले त्रास पडल्यात हाची तुकां जाणविकाय आसा? एक गजाल याद धर. जीण जगपाक खूब वेळ लागता, पूण जीण सोंपोवंक एक खीण पुरो. एक फावट मनाआड घडणुको घडूंक लागल्यो की सामान्य मनीस खचता आनी अशावेळार हुतहुतेपणान निर्णय घेता.''

''हें पळय, तुजो सेमांव आयकुपाक म्हाका वेळ ना.''

''बरोबर. कसो आसतलो? तुजो स्वतावेलो विस्वासूच उडला आनी स्वतावेलो विस्वास उडलो की सगळो खेळ खल्लास.''

''तुजें म्हण्णें पट्टा म्हाकां, पूण हांव करूं तरी कितें? लोकांनी म्हजेवयलो विस्वासूच काडून उडयला. हांव खूब कितें करूंक शकतां ही भावनाच लोकांनी मातये भरवण करून उडयल्या. म्हाका समजून घेवपाक कोणूच तयार ना. हांव सामको खचलां, हरलां.''

''असो गळसणू नाका. मात्शें सरभोवतणीं पळय. ह्या गोंयांत हजारांनी लोक नोकरेखातीर हेडटात. तूं तरी चार आंकडी काय जायना पगार जोडटा. ते भायर तुकां तुजें स्वताचें घरूय आसा. घडये स म्हयन्यान, वर्सान तुजो पगार वाडटलो. कंपनी तुकां रावपाखातीर फ्लॅट दितली. तुकां बडटी मेळटली. परिस्थिती केन्ना बदलत हें कोणूच सांगूंक शकना.''

''इतले दीस तेच आशेर जगतालों. पूण आतां जगपाची इत्साच मरून गेल्या. म्हणून तर हांव जीव दिवपाक आयलां.''

''तुका तुज्या जिवाचें बरें-वायट करपाचो अधिकार कोणें दिला? घडये एक-दोन वर्सानी तूं सुखी जातलो.''

''पुरो, पुरो आतां म्हाका कोणाचीच सहानुभुती नाका. म्हाका मनशांचोच वीट आयला.''

''येतलोच. पयसो आयलो की मनशां तुट्टात. एकतर पयसो जोडूं येता वा मनशां. दोनूय गजाली एकेच फावटी केन्नाच साध्य जायनात. आयज मनशाक खरी गरज आसा ती मनशांची, न्हय पयशांची. कारण पयसो एक फावट येवपाक लागलो की मनीस स्वताची तान-भूक विसरून पयशां फाटल्यान धांवपाक लागता. पयशांक लागून सगल्या सुखांची पावणी करता आनी ताका खूब उसरां कळटा. हातांत चार पयशे आसले तेन्नाच हांव सुखी आसलों.''

तिणें म्हणलें. तिचें म्हणणें खरें आसलें. हांव पयशांफाटल्यान धांवलों आनी सगळें वगडावन बशिल्लों.

आतां ल्हवू ल्हवू काळोख पडपाक लागिल्लो. पयसुल्ल्या गांवात पेटिल्ले दिवे ठिपक्यासारके दिसताले. हांवें घड्याळीचेर पळयलें. रातचीं आठ वरां जाल्लीं.

''चल तूं, जीव दी.'' तिणें म्हणलें.

''ना. म्हाका आतां जगपाचें आसा. कुड्ड्या, भेड्ड्या, अपंगूळ आनी बेकार तरणाट्यांपरस हांव खूब सुखी.''

''जांव, खूब उसरां काय जायना, तुकां सत्य कळ्ळें. एकूच याद धर. स्वतावेलो विस्वास मात्तूय उडपाक दिनाका. परिस्थिती केन्नाय बदलूंक शकता.'' तिणें म्हणलें.

हांव घराचे दिशेन चलूंक लागलों. म्हाका आतां घराची ओड लागिल्ली. बायले-भुरग्यांची याद येवंक लागिल्ली.

इतल्यांत एक व्हड किळांच म्हज्या कानार पडली. ती किळांच देगणांतल्यान आयिल्ली. हांवें देगणांत पळयलें. एका झाडाक ते बायलेन न्हेशिल्ली धवी साडी हुमकळटाली. ते बायलेन म्हज्यावेलें मरण आपल्या आंगार घेतलें काय? ती आसली तरी कोण? हें कुवाडें म्हाका अजून सुटूंक ना. पूण तिणें सांगिल्ल्या तत्वज्ञानान म्हजे दोळे उगडल्यात आनी म्हाकां जिणेची नवी दिशा मेळ्ळ्या.

***

**मडगांव-गोंय**



# उगरमेळी कळी



– माया अनिल खरंगटे

- प्राची, आज रिमा येतलें?

- चैताली, रिमाकशें हुस्केता? हरशीं मगो?

- हरशीं कशें आसतलें बाय? काल ताणें तें पुस्तक हाडिल्लें पळे, तें सारकें पळोवपा जाय आसलें. काल सगळो बोवाळ जालो.

- चैताली, आंऽऽ, बेठेंच कितेंय सांगनाका. काल बरो वेळ तूं तें पुस्तक घोस्तान पळयतालें. आमच्या गजालीनी तुजें लक्षच नाशिल्लें. आं ऽ बरें तयार जालां तर तूं.

- हय गो, पळयल्लें हावें तें. पूण म्हाकां एक कळना, तातूंत बरयलां तशेंच आसता गो सगळें? शी· ऽ म्हाका जाल्यार खरेंच दिसना.

- हय गो, म्हाका जाल्यार रिमाच्यो खबरी आयकूनच वीट सो आयलो. भंय दिसलो. काल म्हाकां जेवणय नाकाशें दिसलें.

- तरीय त्या पुस्तकांतलीं चित्रां परत परत पळयन दिसतात न्हय?

- हय तर, जाणा चैताली, रिमा, विनी दोगांय म्हणून हालीं फकत सेक्साच्योच गजाली सांगतात, पुस्तकां हाडून दाखयतात. खंय मेळ्ळीं काय तांकां तीं?

- मेळूं खंयी. ताणी हाडिल्ल्यान आमकां पळोवंक मेळ्ळींना?

- हय तर, ना जाल्यार आमकां खंय कळपाच्यो ह्यो खबरो?

- ये प्राची, सगळीं मनशां अशेंच करतात आसतलीं काय?

- हय तर!

- आमचीं मम्मी पप्पाय गो?

- तीं मनशां न्हय तर?

- तुका सांगूं प्राची, ह्यो खबरी आयकत पसून म्हाका मम्मी, पप्पाचोच वीट सो येता. चड करून मम्मीचो. ती अजूनय टि व्ही पळयतना पप्पाक तेकून बसता. पासयेक म्हणून वचपा निमतान एकामेकाक तेकून कुचूकुचू करून उलयत वतात. आतां हांवय तांचे बराबर पासयेक वतां. तांच्या दोगांयच्या मदीं हांव रावतां आनी पप्पाकडेन उलयत रावतां. मम्माक म्हजो कसो राग येता जाणा?

- बरें मगो तूं चैताली. तांचेमदीं रावन तुका कितें मेळटा? म्हजीं मा-पप्पा अशीं एकामेका म्हऱ्यांत बसलीं जाल्यार म्हाका थंय वचपाक लेगीत लज दिसता.

- तीं कितें करतात, उलयतात तें पळोवया, आयकुया अशें दिसना तुकां?

- दिसता तर, खूब दिसता, एकदां तरी तांचे कुडी भायर लिपून रावन तीं कितें करता तें पळोवचें शें दिसता. पूण शी, भंय दिसता. तांकां चुकून लेगीत कळल्यार मार घालतलीं म्हाकां.

- प्राची, हावें बरी आयडिया केल्या. रातचो भायर न्हिदूंक भंय दिसता म्हणून बोवाळ घालो. आतां हांव तांच्या बॅडरुमांत न्हिदतां. रातचें कितलोच वेळ जागें रावतां.

- पिशा, काळखांत तुकां कितें दिसतलें?

- भायल्या दिव्याची पसय पडटा भितर.





- हय? तुवें किते पळयलें?

- शी, पंदरा दीस जायत आयले ताणी कांयच करूं ना. एक दीस मात रातचें मम्माक ...

- किते केलें?

- केलें कांय ना गो. तांचो विचार आशिल्लो जावये पूण मम्मा चाप्टर, कित्याक तें हांव नकळ पूण म्हजे वटेन कूस परतून ती म्हाका पळोवंक लागली. हांव तांकां पळयतां तें तिणे दिस्तच पळयलें. सामकी चाप्टर. तिचे परस पप्पा म्हाकां खूब आवडटा.

- म्हाकांय पयलीं पसून पापाच चड आवडटा. ताचे म्हऱ्यांत न्हिदल्या शिवाय म्हाका न्हीद लागनासली. पूण वर्सभर जालें ती म्हाका पपा म्हऱ्यांत न्हिदूंक दिना. 'तूं आतां व्हड जालां, तुवें पापा म्हऱ्यांत न्हिदप ना.' म्हणून म्हाका दुसरे कुडींत घालता.

- व्हड जाल्यार पापा म्हऱ्यांत न्हिदल्यार किते जाता?

- तेंच म्हण्टा हांव. आनी मां किते सांगता आयक, आतां खंय म्हाका पिरेड येतलो तेन्ना हांव भाई बरोबर कुस्ती बी खेळटां तशी खेळप ना, दादल्यांच्या आंगार पडून बसप ना, शीऽती किते किते सांगत आसता, पिरेडाच्यो गजाली बी.

- आमकां पयलींच सगळें खबर आसा म्हणून सांग तिका.

- आनी मगो रातचें पापाचे मांडयेर न्हिदून इतलो तेप हांव टि.व्ही. पळयतां, आतां तिणे तेंय बंद केलां. कितेंय विचारल्यार तूं ल्हान आसा अजून म्हणटा.

-तांकां जाय तेन्ना आमी व्हड, तांकां जाय तेन्ना ल्हान.

- शी ऽ पाड पडनाका ह्या खबरांचें. हांच्यो कंप्लेनी केन्ना सोंपच्यो ना. रिमा, विनी आयलीं ना पळे अजून.

- आसूं. आमीच या रिमागेर

- आं ऽ रिमागेर मगो, तें पुस्तक पळोवंक, चल, चल.

***

- चैताली, हें किते, पुस्तक मांडयेर घेवन शें बसलां? लक्ष खंय आसा तुजें?

- खंय म्हळ्यार? अभ्यास करतां हांव.

- वोदोळच्यान तू ते वण्टीर पळयत बसलां. अभ्यास किते वण्टीर बरयला?

- मम्मा तुका सांगतां, म्हज्या अभ्यासांत तूं पडूं नाका. म्हाका खबर आसा किते आनी कशें शिकूंक जाय तें.

- आगो, सगळ्यांचो दोळो आसा तुजेर. तुजो नंबर तुवें वगडांव जायना म्हणून फाटल्यान लागतां तुज्या. आनी तूं जाणा, कसलेय शाखेंत प्रवेस जय जाल्यार मार्क पयलीं पळयतात...

- शी ऽ मम्मा, तुजीं तीं लेक्चरां मात्शीं बंद कर. वीट येता आयकून आयकून. मात्शी भीतर चल पळोवया. पयलीं हो गोंदळ.

- बाय, अशें म्हणून कशें जातलें? म्हाका तुजी इश्टीण समज. तुजो किते गोंदळ आसा, कसले प्रश्न आसात ते म्हाका विचार.

- मम्मा इश्टीण म्हळी म्हणून इश्टीण जायना. आसूं तुजे कडेन उलोवचे परस पप्पाक विचारीन.

- विचार बाये, विचार. हालीं प्पपाचेर बरोच जीव जाला. आं, तुकां विचारपाक आयिल्लें तें...

- जालें, आनी आनी किते उल्लां? किते तें उलय आनी चल एकदांची.

- अशें उबगता कित्याक गो म्हजेर? आं, म्हण्टां म्हणून हालीं चडूच जालां तुजें. पांसियेंस काडटां हांव म्हणून सांग.

- कोणे सांगलां काड म्हणून? किते करपाक जाता तुज्यान? मारतली? मार म्हाका.

- अब्बा! इतल्यार पावलें तुजें? केन्नां माल्लां तुकां हावें आं? हें अशेंच उलयलें तूं पयर म्हजे इश्टिणी कडेन.

- ताणी मात्शी अभ्यासाची वासपूस केल्यार आंगार आयलें तांच्या तूं.

- तांकां कित्याक जाय म्हज्या अभ्यासाची खबर? तूं वचून कित्याय किते सांगता आसतली तांकां.

- चैताली, सामकेंच उन्हाळ्या उदक पिल्ल्यावरी वागता तूं. वाडट्या वयाची चली तूं. सोबना तुका हें कच्च करून आंगार येता तें. तांचेरय अशेंच चणचणलें तूं. भायर वचून लज काडटलीं तीं तुजी.

- असल्या इश्टीणींक घरांत हाडटा तरी कित्याक तर तूं?

- म्हजें घर, कोणाक हाडप, करप हांव पळयतलें.

- घर तुजें, पप्पा तुजो, चिंटू तुजो. दुस्मान तें हांव. हांव तुकां दोळ्या मुखार नाकां. पप्पाकडेन हांवें मात्शें बरेभशेन उलोवंक जायना, ताच्या म्हऱ्यांत बसूं जायना. रोखडीच येता. जाणा हांव नसाय जाता तुकां म्हजी. तुजो एकटेचो घोव न्ही तो. म्हजोय बी पप्पा तो.

- चैतू, चैतू किते जालां तुकां. किते उलयता पुता हें, शी, शी म्हज्यान आयकूं नज. तूंच मगो म्हजें बाय उलयता हें?



- हय, हय हांवच तें, पळे सारकीच, भूत बीत बसुना म्हजेर. चल आतां भितर, पप्पा येवपा वेळार तुका हीं नाटकां येवजतात. मागीर सांगतली ताका कित्याय कितें म्हजेविशीं.. शीऽ बेजार हाडलो हिणे.

- वेल्यान बेजार हाडलो हावें मगो? जालां कितें तुजें हालीं सांग तरी म्हाका. दोगांच भुरगीं तुमी म्हजीं, अपुरबायेचींच. तुका शीस्त लागची म्हणून कितेंय उलयता. ताचें इतलें वायट धरता तूं? उलय बाय उलय. तुज्या कितें मनात आसा तें उलय. मन मेकळें कर. म्हजे विशीं असो राग धरूं नाका.

- पुरो आं पुरो, रडपाचीं नाटकां नाकात. चल पळोवया भितर.



***

- वैशू चड वेळ जालो तूं येवन?

- ना गो, दोन तीन मिनटां जालीं आसतलीं.

- आसूं, तुवें म्हाका फोनार अर्दकुटेंच सांगलें. आतां सांग पळोवया तुकां कसलो हुस्को जाला?

- कितें सांगूं? कशें सांगूं? म्हज्या चैतालीचो हुस्को म्हजें मन पोखरूंक लागला. विचीत्रशें वागता ह्या दिसांनी. अभ्यासाचेर सारकें लक्ष दिना. टि.व्ही. पळयता म्हणशी तोयी ना. भावाक तिडावपा वेळार टि.व्ही. लावंक वतलें.

- आगो पूण तूंच सांगी न्हय, तें शिकपाक हुशार, के.जी. धरून आतां मेरेन पयलो नंबर केन्नाच सोडलो ना म्हणून.

-हय खूब हुशार आशिल्लें बाय म्हजें, पूण सद्या ताचें कितें जालां म्हणूनच कळना. अभ्यासाचें पुस्तक मांडयेर घेवन वोग्गी बसून रावता. लक्ष खंय आसता म्हणून देवाक खबर. कितेंय विचारल्यार कच्च करून आंगार येता. हालीं तर प्रत्येक कामाक तापपा धल्लां. येद्या येद्या कारणावेल्यान तापता. म्हजेर म्हणू नाकां, चेडवाचेर म्हणू नाका. भावाक तर येतना वतना खुटलायता. तोय कमी न्ही. मागीर तांचें पेट्टा. नाका जाला जीव म्हाकां.

- काय बरें शाणें सुरतें चली तुजें. अशें अचकीत कितें जालें ताचें. कोणें कितें म्हळें बी ताका? तुवें, बापायन केन्ना तापयल्लें बी? आतांच्या भुरग्यांचें मगो कांय सांगू नज. कितें तांकां वायट दिसतलें, आनी कितें बरें दिसतलें. तांच्या मनांतलें कळप मोठे कुस्तार.

- हय गो, ताणे आपलें मन म्हजे कडेन मेकळें करचें म्हण हांव इश्टीण कशी ताचे कडेन वागतां. तेंय आपल्या मनांतलें मेकळेपणान म्हाकां सांगतालें. वयांत येवपी चलयां मदी घडपी बदल, ताणी कशें सांबाळून वागूं जाय, सगळें ताका हावें समजावन सांगलां.

- एक सांग गो, तें भायर जावंक लागलें?

- हय, हालींच जावंक लागलां.

- तुवें ताका पिरेडा विशीं सांगचे पयलीं ताका कितें खबर आशिल्लें खंय?

- हय, थोडिशी म्हायती इश्टिणीनी सांगिल्ली खंय ताका. बाकीचें ताणे म्हजेकडल्यान विचारून घेतलें.

- तें अशें केन्नाच्यान वागता? ताणें कसलो भंय बी घेतलो ना मूं?

- भंय आनी कसलो घेतलें तें? ना गो; म्हाका दिसना. सद्या ताचो म्हजेर राग. वोगीच झगडीं करता. म्हजें कितेंच आयकुचेंना म्हणटा. हांव म्हळ्यार दुस्मान कशें दिसता. म्हजेकडेन मेकळेपणान उलयना तें.

- ल्हानपणांतल्यान ताका म्हजी ओड. येद्दें कोणे म्हणूं जायना आसलें म्हाका. पूण आतां बापायकडेन चड ओडटा. कितेंय सांगपा आसल्यार बापायक सांगता. ताची अपुरबाय म्हणून करता, तो घरा आसलो काय ताच्याच म्हऱ्यांत बसता.

- तें आतां वयार येता. न्हय जाण्टे न्हय भुरगें अशी ताच्या मनाची स्थिती जाल्या. ह्या वेळार कांय जाणां विचीत्र वागतात. तांच्यांत शारिरीक बदल जातात तशी मनाचीय घडण बदलता. अशावेळार तांकां समजून घेवपी, सांबाळून घेवपी पालक आसूं जाय.

- हय गो. आमी दोगांय ताका समजून घेतात. तें तापल्यार



लेगीत मोगान ताका समजयतात. ताचें कितेंय चुकलें जाल्यार हिडीस फिडीस करनात. बरेभशेन तें खंय चुकलां तें दाखयतात. पूण हालीं तें कितेंच आयकून घेवचें ना म्हणटा. चड करून म्हजें. मागीर म्हाका तापचेंच पडटा.

- हेंच सांगतां हांव, तें हट्टीपणा करता म्हणून तूं तापता. तितलें तें तुजेपसून पयस वता. ताचे प्रस्न तूं समजून घेना.

- केन्ना समजून घेवं? तें म्हज्या म्हऱ्यांत येयच ना. ताचोच म्हाका भंय दिसता.

- तें केन्ना अशें वागतालें?

- ना गो, केन्नाच ना. सिमा, तूं म्हणून आदोगादा भशेन प्रस्न विचारता मगो.

- कावन्सलर खरें हांव. पूण केन्ना केन्ना आदोगादावरी जावचें पडटा आमकां. आतां पळे जर तें अशें केन्ना वागनासलें जाल्यार तुवें ताका म्हऱ्यांत घेवन ताचें कारण विचारपाचें न्हय?

- हांगा तुजी व्हडली चूक. तें जर अवेळार न्हिदलें, जेवलें ना, ओंकलें जाल्यार तुका संताप येवन तूं ताचेर दोन फुलयतलें? काय ताका कितें जालां हाची चवकशी करतलें. तशेंच जेन्ना तें सदचेवरी वागना तेन्ना ताका फुसलावन ताच्या मनांतलें काडून घेऊं जाय.

- हय आं, हालीं ताच्या सभावाक लागून म्हजेंय फटफट करून तापप चड जालां. आनी म्हाका भंय दिसता, ही वाडिल्ली चली अशी कितें वागता? क्रेक बी जाऊं ना मगो तें? म्हणूनच हावें तुका हांगा आपयलें कितें आसा तें आमचे भितर उरूं म्हणून.

- ना हां, अशें कित्याय कितेंय उलय नाका. सामकें बरें आसा तें. तुजो हो समज पयलीं काडून उडय. तुवेंच जर तें विचीत्र वागता म्हळें जाल्यार लोकांकय मागीर उलोवंक तोंड येतलें. खरें म्हळ्यार ह्याच वेळार ताका तुजी चड गरज आसा.

- पूण हांव करूं कितें? ताच्या बापायकय खंय वेळ आसता ताचें मन समजून घेवंक? ताका लागीं ओडटलें म्हणून हांव हालीं चिंटूक लेगीत पेल्यान काडटां. ताचे केंस वळयतां, कपडे काडून दितां. रातचें एकटें न्हिदूंक भंय दिसता म्हणटा म्हणून आमच्या बॅडरुमांत न्हिदयतां. ताका लागून चिंटूय येता.

- कितें? येदे व्हडले चलयेक तुमी बॅडरुमांत घेवन न्हिदतात?

- हय गो, आमचे खाटी सकयल न्हिदता तें. चिंटू मात आमचे म्हऱ्यांत न्हिदता.

- आगो पूण तुमकां प्रायव्हसी?

- पाडपडूं गो प्रायव्हसी बी. बाय आमचें बरें आसल्यार सगळें येवजुपाचें.

- तुका येवजना आसत. तुज्या घोवाक तुज्या म्हऱ्यांत येन दिसलें जाल्यार भुरगीं मदीं मगो? तीं रोखडीं न्हिदतात तरी?

- न्हिदतालीं. पूण पयरच कळ्ळें म्हाका, बाय जागेंच आसता खूब वेळ.

- वैशू, चैतालीचो प्रस्न हळू हळू म्हज्या लक्षांत येता. पयलीं तूं एक कर, चैतालीक कशेंय करून फुसलावन दुसऱ्या बॅडरूमांत न्हिदय.

-बायेक म्हज्या कांय जाऊं बी ना मगो?

- ना, ना, भिवनाका तूं. वयांत येवपी कांय भुरग्यांचे बाबतींत हो बदल जाता. तीं आतां वाडटात, पूण तांचें भुरगेपणय सोपिल्लें नासता. तांकां सेक्साविशीं अर्दकुटी म्हायती आसता.. चड म्हायती जाणा जावन घेवपाची आसता. एके वेगळेच मनस्थितींत तीं आसतात. अशा वेळार कांय जाणा तुजे चैताली वरी वागतात. जाल्यार कांय जाणा इश्ट-इश्टीणी मदीं रमतात.

- आं ऽ अशें तर हें.

- हय. ते भायर भिन्न लिंगी प्राणी एकामेकाकडेन ओडटात. त्या तव्वा प्रमाण तुजें चैताली हालीं बापायक चड लागीं जालां. अद्र्यांकच्च्या वयार चलयांक दादल्यांची आनी चल्यांक बायलांची ओड आसता. तांचे लागीं आशिल्लो पयलो दादलो आनी बायल म्हळ्यार तांचे आवय बापूय आसतात. ही ओड सेक्सा विशींच आसता अशें ना. फकत ओड आसता.

- हय आं खरें तुजें.

- कळ्ळें मगो? तुजो चैतालीची ही अशी स्थिती जाल्या. म्हणूनच तें निमतां करून तुमच्या म्हऱ्यांत न्हिदूंक सोदता. रातचें जागें रावन तुमी कितें करतात तें पळोवंक सोदता.

- हाचेर उपाय कितें गो? अशेंच विचीत्र वागत रावतलें तें. वाडट्या वयाची चली मगो ती.

- वैशू, अशें निरास जावं नाका. भुरग्यांचे हे प्रस्न म्हळ्यार ब्रह्मगांठी न्हय. त्यो अळंग सोडोवंक जाय. आमी आसात तीं कित्याक तर?

- खरें तुजें पूण?

- पूण बी कांय ना. तुजे धुवे पयलीं तुकांय काबन्सिलिंगाची गरज आसा. भिवनाका तूं ताका घेवन यो म्हज्या ऑफिसांत. हो तिढो कसो सोडोवपाचो तो हांव पळयतां.

***



-दवर्ली, नावेली
मडगांव- गोंय



# DEPARTMENT OF CIVIL SUPPLIES AND CONSUMER AFFAIRS, PANAJI
## AIMS AT

The Department plays a bi-lateral role in two sectors i.e. matter related to Civil supplies and Consumer Affairs.

I. In the pursuit of maintaining proper supply of Civil Essential Commodities, the Department is entrusted with:

- (i) Proper functioning of Fair Price Shops & availability of. Essential commodities in these Fair Price Shops.
- (ii) Supply of pure kerosene & check on its pilferage.
- (iii) Supply of pure petrol & diesel & check on its pilferage.
- (iv) Ensuring proper acquisition, sale and storage of Naphtha, Solvent, Raffinate & Slop and prevention of its use in Automobile.
- (v) Ensuring non-commercial use of domestic L.P.G. cylinders.

Along with this, the Department runs special beneficiary schemes for Below Poverty Line people, viz. Annapurna Anna Yojna, Antyodaya Anna Yojna, etc. The affords are made to make people aware about these and other schemes under Jagriti Shivir Yojna.

**II. Consumer Affairs.**

The Government has established Grievance Redressal Machinery to safeguard consumer's rights. The Government has established State Commission and two District Forums to settle Consumer complaint regarding goods & service. Consumer complaint can include: -

- (a) Loss or damage suffered due to unfair trade practice by any trade,
- (b) Defective good,
- (c) Price of goods charged is excess than fixed by law/displayed on packet/displayed on goods.

| **You may complaint before** | **If complaint value** |
|---|---|
| District Forum, Porvorim/Margao | Upto Rs. 20 lakhs |
| State Commission | Upto Rs.1 crore |
| National Commission | Above Rs.1 crore |

**PLEDGED FOR THE BETTERMENT OF ALL GOANS AND ALL CONSUMERS.**




**Issued By:**
Government of Goa,
Department of Civil Supplies & Consumer Affairs,
Panaji Goa.



# अंजली





– सम्राट बोरकार

राहूल. एक सोफटवेअर इंजिनियर. लग्नांखातीर घराकडलीं सगळीं ताचे फाटल्यान लागिल्लीं. हातुंतल्यान सुटका करपाक ताणें स्वताची दुसऱ्या गांवांत बदली करून घेतिल्ली. दर शेनवारा तो घरा वतालो. त्याय शेनवारा गेल्लो. आपल्या रुमांत आयलो. सदचेवरी कांय लखाटे ताच्या टेबलार पडिल्ले. ताणें ते उगडून पळोवपाची तकालस घेतली ना. फ्रेश जालो आनी हॉलांत येवन टी. व्ही. पळोवपाक बसलो. कांय खिणांत आई येवन कुशीक उबी रावली. तिचोय प्रस्न थारिल्लोच. "चली कशें लागलें?" राहुलान जाप काडली ना. आवय समजुपाचें तें समजली आनी आपल्या वावराक लागली.

राहुलाची मनरिजवणीची सुवात म्हणल्यार दर्यावेळ. घराकडल्यान चलत पंदरा मिण्टांचे वाटेर विद्या संकूल लागतालें. ह्या संकुलाकडेन ताच्यो जायत्यो यादी निगडीत आसल्यो. तो मागीर यादींनी गुल्ल जातालो.

एक एकदां स्वताचेंच मन आमच्यांनी मांडपाक जायना आनी तेन्ना त्या वेळार तर राहुलान अंजलीचें मन मांडपाचो यत्न केल्लो. आनी आयजमेरेन तीच एक चूक ताका नडत आसली. मनांत ती चूक घट्ट वेंग मारून बशिल्ली. ती याद येतकूच ताचें मन अस्वस्थ जातालें. ती चूक तेन्ना घडूंक नाशिल्ली जाल्यार.....

राहुल चलत चलत दर्यावेळेर आयलो. वाटेंत संकुलांतल्या भुरग्यांचो बोवाळ स्पश्ट आयकूंक येतालो. अंजलीकडेन ताची वळख ह्याच संकुलांत जाली आनी फुडें ह्याच संकुलांत...

कॉलेजींत शिकतना राहुलाक साहित्य रचपाची खूप आवड आसली आनी ताच्यो कितल्योशोच कथा कॉलेजीच्या आनी हेर मॅगाझिनांनी छापून आयिल्ल्यो.

कॉलेज सोंपलें आनी राहुल एके फॅक्टरींत कामाक लागलो. आनी एक दीस ताका ह्याच संकुलाचे संस्थापिकेचो फोन आयलो.

ताका बसयत तिणें म्हणलें, "एक नाटकुलें तुमकां आमच्या पासत बरोवंचें पडटलें, प्लिज"

"पूण मॅडम, हांवें अजून एकूय नाटक बरोवंक ना."

"देखुनूच तूं आमकां जाय. तुजे स्वतंत्र शैलींत तूं नाटक बरय"

"कथेची गजाल वेगळी. पूण नाटक? दोन अडेज वरां पळोवप्याक एकाच जाग्यार बसोवपाची तांक म्हजे लांगीं आसतशी म्हाका दिसना. आनी व्हडलो प्रस्न, नाटकाचो विशय. नाटक म्हणल्यार म्हाका अशक्य अशी गजाल."

"प्लिज! यत्न करून पळोवपाक कितें जालां? विशयाचो प्रस्न ना. कल्पना तयारूच आसा. तुमी फकत तें बरोवन काडपाचें, फकत कल्पना कागदार देंवोवपाची."

"ही कल्पना कोणाची?"

"अंजलीची! आतां येतलेंच. तेंच हें नाटक बसयतलें. ताणें एक स्क्रिप्ट बरयिल्ली पूण ताची ताकाच मानूंक ना. देखून ताणें तुमची खंय तरी एक कथा वाचून तुमचें नांव सुचयलें. अंजली म्हळ्यार जिनियस.... तें पळय.... तें आयलें."

आरती मॅडमीन राहुलाची आनी अंजलीची वळख करून दिली आनी आपूण थंयसावन गेली. राहुलाक पळयना



फुडें अंजली अजापलें आनी सहज ताच्या तोंडांतल्यान उतर आयलें "यू.. मीन... तुमीच ते राहुल?"

"हय. व्हाय?"

"तुमी कथा बरयतात? पळयल्यार विस्वास बसना. कारण कथाकार म्हूण जी एक सादारणशी कल्पना वाचकांच्या मनांत आसता तातूंतलें कांयच तुमचे मर्दी ना."

"म्हणजे?"

"तुमकां कितें फकत प्रस्नूच सुचतात? वदळच्यान हांव एकलेंच उलयतां.

तुमी कांयच उलयनांत. कथेंतल्यान मात अफाट शब्दांचो मारो वाचप्यांचेर करतात. एनी वे, तुमी फकत ह्याच मळार आसात काय आनीक वेगळो धंदो बी करतात?"

"फॅक्टरींत काम करतां."

"फॅक्टरींत! तरीय साहित्याकडेन निगडीत. हो दुसरो धक्को."

"फॅक्टरींत काम करपी साहित्याची रचना करपाक शकनात?"

"तुमी कितें आर्टसांत बी ग्रॅज्युएशन केलां?"

"आर्टसांत न्हय इंजिनियरींगांत.... सोफ्टवेअर इंजिनियरींग."

"माय गॉड. दीस इज टू मच. हो तिसरो धक्को. आयजमेरेन जाणां आशिल्लें की प्रोफेशनलांभितर दोतोरूच हे वाटेक संवकतात...इंजिनियर बी पावले!"

नाका आशिल्ल्या गजालींनी हें वेळ वगडायता हें येवजून राहुल मूळ प्रस्नार आयलो, "तुमची नाटकाची कल्पना आसा तरी कितें?"

मागीर दोगांयचीय त्या विशयाचेर भासाभास जाली. राहुलान लक्ष दिवन आयकली. राहुलान घडयाळीचेर नदर मारली. पावणे सात जायत आयिल्लीं. "हांव वतां, तुमकां वाटेर खंय ड्रॉप बी करपाक जाय?"



"नो थँक्स! रोहीत येतलो म्हाका व्हरपाक."

हो रोहीत कोण काय म्हण विचारपाचें धैर्य राहुलांत नाशिल्लें. तेंच म्हणपाक लागलें. "ही इज माय बॅस्ट फ्रेंड." राहुल थंयसावन सटकलो.

राहुलान घरा येवन सगळ्या घडणुकांचो परत नियाळ घेतलो. अंजलीच्या त्या अल्लड व्यक्तीमत्वान ताचेर पुराय छाप मारिल्ली. बॉप कट, ताचेर एक हेअर बँड, स्कर्ट ज्युस्त धोपरामेरेन, कानांत व्हड रिंगां, नाजूक बांधणी आनी कळस म्हणल्यार घारशे दोळे! असले दोळे पळयतकूच राहुल पिसो जातालो.

तो सदांच निळश्या दोळ्यांचेर भाळटालो. अंजली ताका मनापासून आवडलें... पूण मागीर हो रोहीत! तो कोण? ताचें नातें कितें? ह्या प्रस्नाच्यो जापो तो आपले परीन सोदपाचो यत्न करपाक लागलो.

नाटक बसयता म्हणसर राहुलाची अंजलीकडेन घट्ट वळख जाली. एक दीस अंजलीन ताका 'नॅरो मायण्डेड' म्हळें. तें राहुलाक जिवारी लागलें.

दुसरेवटेन, रोहीत सदांच चुकनासतना अंजलीक ड्रॉप करतालो आनी व्हरपाक येतालो.राहुलाक मात अंजली रोहिता वांगडा येता तें पळोवन तिडक मारताली. मनांतल्या मनांत तो रोहिताचेर जळपाक लागलो.

संद सापडटा तेन्ना अंजली म्हऱ्यांत आपलें बरें आनी रोहिताची तासमपट्टी करतालो. अंजली ताचीं हीं पिशेपणां आयकून बोर जातालें. रोहितापरस आपूण बरो हें राहुल कित्याक सिद्ध करपाक सोदता ताची जाणविकाय अंजलीक जावपाक लागली आनी मागीर तें राहुलाक 'नॅरो मायण्डेड' म्हण चडूच च्चाळोवपाक लागलें.

राहुलाक अंजली सर्वस्वी आपलेंच दिसतालें. ताका दिसून आयलें की अंजली आपल्याक फावो तो वालोर दिना, तेन्ना तो चडूच चाळवलो. अंजलीचें मन मांडपाचो ताणें यत्न केलो.

नाटकाच्या तालीमे वेळार तो प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष रुपान अंजलीचेर ताशेरो ओडपाक लागलो. बेठोच अंजलीच्या कामांत उणाकपणां काडपाक लागलो.आपल्याक त्या संकुलांत हाडपाक अंजलीचो हात आसा हें तो विसरलो. अशे तरेन दोगांय मर्दी वयले वयर खटके उडपाक लागले. राहुलाचो हो विचित्र सभाव अंजलीक समजना जालो.

एक दीस एकांतांत राहुलाक गांठून, अंजलीन ताका विचारलें, "राहुल तुका कितें जाय? तूं म्हजेकडेन असो कित्याक वागता? हांवें तुजें कितें वायट केलां?"

राहुलाकडेन ह्या प्रस्नाची जाप नाशिल्ली. तो ओग्गी रावलो.

"राहुल, असो ओगी राव नाका. म्हजें खंय कितें चुकता तें म्हाका सांग. हांव ती चूक परत करचें ना. तुका नाटकाची धुरा सांबाळपाक जाय, जाल्यार तूं अवश्य



सांबाळ. हांव जाणां तूं समर्थ आसा. तुजे कडेन गूण आसात. हाचे फुडें नाटकांतले सगळे निर्णय तूंच घे. हांव फकत म्हजो पार्ट करतां. हांव आरती मॅडमीक सांगतां, तिची कांय हरकत आसची ना."

आनी दोळ्यांत दुकां हाडून तें थंयसावन गेलें. राहुल ताचे फाटकुरे आकृती कडेन पळयत उरलो. आडून ताका अंजलीक सांगनशें दिलसें, "अंजली, म्हाका नाटक नाका, म्हाका कांय एक नाका. म्हाका फकत तूं जाय.... तुजो मोग जाय.... तुज्या मोगाविणें ह्या संवसारांत हांव भिकारी!" राहुल थंयच एकटोच बसून रडपाक लागलो.

राहुल अंजलीचेर मोग करपाक लागिल्लो. पूण तो ताचे कडेन सरळ उतरांनी मांडपाक जालो ना. ताणें दुसरी वाट आपणायली. आपल्याच्यान जाता ते परी तो रोहिताक वायट थारावपाचो यत्न करपाक लागलो. हाचो अंजलीचेर कांयच परिणाम जायना हें ताका कळटकूच तो अंजलीकूच वायट थारावपाचो यत्न करूंक लागलो.

आयज ताणें अंजलीक रडयिल्लें. तो स्वताय रडलो. ताका रातभर न्हीद पडली ना. तो तळमळ्ळो. आपूण दुसऱ्याचो मोग करता हाचो अर्थ असो न्हय की ताणेंय बी आपल्याचेरच मोग करपाक जाय! हें ताका पटलें आनी ताणें एक निर्णय घेतलो.

दुसऱ्या दिसा तो आरती मॅडमीक वचून मेळ्ळो. "मॅडम, म्हाका भायल्या गांवांत काम मेळ्ळां, देखून हाचे फुडें हांव संकुलांत येवपाक शकचो ना."

"राहुल, हांव तुका आडायना. पूण एक सांगतां. कामा धंद्याच्या निमतान मात तूं तुज्या भितरल्या अफाट कर्तुत्वाक नखलामी करूंक नाका. तुजे भितरले टॅलण्ट धांपून दवरू नाका. संद सांपडटा तेन्ना उपेग कर. आनीक एक, वचचे पयलीं अंजलीकूय मेळ."

वयल्याचाराक तो 'ओ. के.' म्हण थंयसावन गेलो. खरें म्हणल्यार, अंजलीपासून पयस वचपाक, ताच्यो यादी विसरपाक ताणें ही भायल्या गांवांतली नोकरी पत्करिल्ली. एक-दोन वर्सां तो भायर उरलो... घराकडेनूय लग्नाविशीं चर्चा जावपाक लागिल्ली. आई आपले परीन वावराक लागिल्ली. आनी आतां ज्या गांवांत ताका काम मेळिल्लें थंयसावन ताका दर शेनवारा सांजे घरा येवपाक मेळटालें. आनी देखून दर शेनवारा येवन सोमारा सकाळचो परतो वतालो.

पयसुल्ल्यान बोटीचो आवाज आयलो आनी ताची तंद्री मोडली. ताणें घडयाळ पळयली. दोनूय काटे सचेर. तांबडो गूंज सुर्या दर्यावेळेक साक्षी मानून, दर्यांत बुडपाक लागिल्लो. राहुल उठलो. व्हाणो घाल्यो आनी पॅण्ट फाफडून परतेचे वाटेक लागलो.

ताका परततना आरती मॅडमीन ज्युस्त पळयलो आनी ताका घेवन संकुलांत आयली.

दारार उबो रावन तो भितर चलतल्या नाटकाची तालीम पळोवपाक लागलो.कांय वर्सां फाटीं हेंच नाटक ताणें बरयिल्लें, पयलें आनी घडये निमणें! जी नाटक बसयताली तिची राहुलाक फाट आसली. साडी न्हेशिल्ली. कमरे मेरेन केंसांची वेणी लोंबकळटाली. अचकीत तिणें फाटीं वळून पळयलें. राहुल ताका पळयत उरलो. सहज अशीं ताच्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं, 'अंजलीऽऽ'.

राहुलाक पळयना फुडें अंजलीच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं, "राहुल, इतलीं वर्सां म्हजी याद लेगीत आयली ना तुका?"

ह्या उतरां फाटली भावना पिश्या राहुलाक समजली ना. "नॅरो मायण्डेड" राहुल अंजलीक विचारपाक लागलो, "रोहीत कसो आसा?"

"तुका सदांच रोहिताचें पडून गेलां... ओ. के. ताचें टिनाकडेन लग्न जालें. यु नो? रोहीत पांच वर्सां म्हजे फाटीक लागिल्लो, आपल्याचें टिनाकडेन जमोवन दी म्हण. हें टीना म्हजी खास इश्टीण आनी क्लासमेट."

"आनी रोहीत?"

"माय गॉड. परत रोहीत! रोहीत आनी हांव एकेच बिल्डींगेंत रावतालीं. के. जी. तें ग्रॅज्युएशन आमी वांगडाच शिकलीं. म्हाकाय भाव नाशिल्लो. पूण ह्या रोहितान म्हाका केन्ना भावाची उणीव भासपाक दिली ना."

राहुलाक तोणको कपलार मारिल्लेवरी जालो. इतल्यांत आरती दोगांयसरीं आयलें. "जाणा मरे राहुल, हें अंजली तुका कितलें मीस करतालें ? फकत म्हजो राहुल असो आसलो, तसो आसलो, राहुल टॅलण्टेड, राहुल जिनियस. ताचें विश्वूच राहुलमय जाल्लें. कितें अंजली खरें काय फट?"

हें आयकना फुडें अंजलीन लजेन मान सकयल घाली. राहुलान अंजलीचो हात हातांत घेतलो आनी म्हणलें "आय लव्ह यू!"

मजा पळयात. कितें जादू आसता ह्या उतरांनी. राहुल अंजलीकडेन केन्ना कितें कितें उलयलो पूण हीं तीन उतरां उलोवपाचें धैर्य ताका जालें ना. आनी बद्द तीन वर्सांनी ताच्या मुखांतल्यान हीं उतरां आयलीं.

राहुल अंजलीक आपल्या वांगडा घेवन, आईक दाखोवपाक भायर सरलो.

वाटेंत अंजलीन राहुलाक विचारलें, "इंजनेर हालीं कथा बी बरयता मरे?"

"फाटलीं तीन वर्सां तुजे बगर दुसरें कांयच सुचलें ना. कथा तर पयसुल्ली गजाल!" शांतपणान राहुल सांगतालो.

***



राय, मडगांव
साल्सेत-गोंय



# इगो

– सखाराम गोविंद बोरकार



गायत्रीन आदित्याक व्हेल्ली सोयरीक मोडली म्हण सगळ्यांकच अजाप जालें. आठ दीस पयलीं पळोवपाचो प्रोग्राम जाल्लो.सगळें ज्युस्ताज्युस्त जुळून आयिल्लें. गायत्रीची आवय तर सामकी खोशी जाल्ली. तिगेल्या भावानूच सोयरगत केल्ली न्हय? गायत्रीचो बापूय तर सामको भुल्लुसून गेल्लो. पयलींच सोयरीक व्हेली आनी धपक्याक जुळ्ळी म्हण. तिवूय बी दोतोर उसगांवकाराल्या एकल्याच पुताकडेन, आदित्याकडेन!

आदित्य एक कर्तबगार भुरगो. आपल्या पांयार उबो आशिल्लो. स्वताचो बिझनेस. हरशीं घर भरून दार ओत्तालें. दोतोर उसगांवकार दोतोर म्हणचेपरस खरो समाजसेवक! एम्. डी. जातकीर कुडतरे सारक्या एका मागशिल्ल्या गांवांत येवन ताणें प्रेक्टीस सुरु केल्ली. रोखडेंच ताणें आपलो स्वभाव आनी हातगूण हांच्या बळग्यार पुराय कुडतरेंत नांव जोडलें. कुडतरेचेच न्हय तर माकझन, चांदर आदी लागशिल्ल्या वाठारांतले लोकय दोतोर उसगांवकाराकडेन तपासपाक येताले. ताची प्रॅक्टीस इतली फळफळटाली की ताका जेवपा खावपाक लेगीत वेळ मेळनाशिल्लो. केन्ना केन्ना मध्यान राती लेगीत पेशंट येताले. पूण दोतोराचें दार सदांच उक्तें. खंयचेय वेळार ताणें दुयेंतीक तपासपाक केन्नाच ना म्हळें ना. दोतोर केन्नाच वाजेलो ना. मनापासून तो दुयेंतींची सेवा करतालो.

दोतोर उसगांवकाराक दिसतालें की आपल्या एकुलत्या एक पुतान आदित्यान आपलेबशेन दोतोर जांवचो आनी आपली जम बशिल्ली प्रॅक्टीस फुडें चलोवंची. पूण आदित्याक मात दोतोरकीची मातूय आवड नाशिल्ली. तसो शिकपाकय तो जेमतेम. पूण ताचे मनांत आशिल्लें जाल्यार डोनेशन दिवन मॅडिकल कॉलेजींत प्रवेश घेवप ताका शक्य आशिल्लें. पूण आदित्याक दोतोरकीची सामकी नसाय. आपलो बापूय दिसरात कसो काम करता तें ताणें पळयिल्लें. ताका आपल्या बापायबशेन जिवीत जगपाचें नाशिल्लें. आपूण आपल्या मर्जीचो राजा अशी ताची वृत्ती आशिल्ली.

ग्रॅज्युएट जातकीर आदित्यान आपलो बिझनेस सुरु केलो. कुडतरे गांवांत आत्रेपयऱ्यान वीज वताली. एकदां गेली की वरान वरां परतून येनाशिल्ली. लोक सामको बेजार जाल्लो. थंयचे लोक पयशेकार. आदित्यान हें ज्युस्तच पळयलें आनी कुडतरे गांवांत एक ल्हानशेंच दुकान घेवन थंयच आपलो बिझनेस चालू केलो.

आदित्याचो आवय-बापूय पुताचेर व्हडलोसो सातीस्फेत नाशिल्लो. पूण ताचें बरें चल्लां तें पळोवन तीं समादान मानतालीं. आवयन तर आदित्याक सांगून दवरिल्लें. “हें पळय आदित्य! आमी सांगिल्लें आयकनासतना तुवें बिझनेसांत पावल घालें तरी आमी कांयच म्हळें ना. पूण सून मात आमकां आमच्या मनासारकी जाय आं!”

आदित्याक आपलें बिझनेसांत वचप आवय-बापायक मानूंक ना हें खबर आशिल्लें. आपलो चलो दोतोर जालो ना हें पळोवन बापूय भितरल्या भितर खंती आशिल्लो हें ताका बापायच्या वागण्यावेल्यान कळटालें. आतां तरी जाण्टेपणांत आपल्या आवय-बापायक आनीक दुखवप ताच्या जिवार आयिल्लें. म्हणून आपल्या खातीर चली पळोवपाचे सगळे अधिकार ताणें आपल्या आवय-बापायक दिल्ले.

गायत्रीचो मामा दोतोर उसगांवकारालो सोयरो. ताणेंच गायत्रीची सोयरीक आदित्याक व्हेल्ली. तेन्नाच आदित्त्याक आनीक एक सोयरीक





आयिल्ली. चली नक्षत्रासारकें सुंदर. पूण आवय-बापूय गरीब. तीन चलयो. हें निमाणें. व्हडल्या दोनूय चलयांचीं मागून व्हरून लग्नां जाल्लीं. तिनूय चलयो सभावान मायेस्त आनी शिवणसूत, घरकामांक हुशार म्हण नामना जाल्ली.

पूण गायत्रीचो मामा दोतोर उसगांवकारालो सोयरो जाल्ल्यान ताणें आपणें हाडिल्लें थळ कितलें बरें हें दोतोराक पटोवन दिलें. गायत्रीचो बापूय हालींच बँक मॅनेजर पदार रिटायर जाल्लो. मडगांवां स्वताचो बंगलो. त्या भायर भाट-बेंसकार. एक पूत. तो कम्प्युटर इंजिनियर. बँगलोरांत एका नामनेच्या आय. टी. कंपनींत काम करतालो. चलीय सुंदर आशिल्लें. ग्रॅज्युएट आनी बँकेंत काम करतालें. सगळ्या दिश्टीन आदित्याच्या आवय-बापायक हें थळ बरें दिसलें. आदित्यानय ना म्हणपाचो प्रस्न नाशिल्लो. दोतोर उसगांवकारान रोखडोच गायत्रीच्या मामाक हयकार दिलो.

इतले मजगती गायत्रीच्या बापायन आनी स्वता गायत्रीन आदित्याच्या बिझनेसाची भायले भायर चवकशी केल्ली. हें सगळें आदित्याक नकळटां. आदित्याक ताच्या गिरायकांकडल्यान हें सगळें कळ्ळेंच. मात ताणें तें ताच्या आवय-बापायच्या कानार घालें ना. गायत्रीक पळोवपाचो प्रोग्राम आदित्यागेरूच जालो. सामकी फोर्मालदाद कशी. कारण दोनय पार्टिक ही सोयरीक पसंद आशिल्ली. पळोवपाच्या प्रोग्रामाक गायत्रीचो आवय-बापूय, मामा आनी गायत्रीचो भाव जो मुजरत बेंगलोरच्यान आयिल्लो. गायत्रीच्या भावाक ही सोयरीक व्हडलीशी मानूंक नाशिल्ली. आपले भयणीक आपल्याच क्षेत्रांतलो घोव मेळचो अशें ताका दिसतालें. गायत्रीकूय बेंगलोर खूप आवडटालें. पूण आवय-बापायखातीर गायत्रीन हे सोयरीकेक हयकार दिल्लो.

पळोवपाचो प्रोग्राम जावन दोन-तीन दीस जाले तरी गायत्रीच्या घरच्यांकडल्यान फुडलीं उलोवणी करपाबाबत कांयच हालचाल जाली ना देखून आदित्याचे आवयक दुबाव मारल्लो. अचकीत रातचो गायत्रीचे आवयचो आदित्याचे आवयक फोन आयलो.

"मंगल! जाणां मगो, गायत्री म्हण्टा त्या दिसा आपल्याक आदित्यांकडेन उलोवंकच मेळ्ळें ना म्हण. ताका आदित्या कडेन उलोवचेलें आसा. आतांची भुरगीं न्ही गो! ना कशें म्हणू या. ताचे कडेन आदित्याचो मोबायल नंबर आसा. तेंच ताका फोन करतलें."

"बरें आसा!" आदित्याचे आवयन म्हळें आनी फोन दवरलो. मनांतल्या मनांत तिका गायत्रीचो राग आयिल्लो. सगळें हाका खबर आसा तरी आदित्याकडेन हाका कितें उलोवपाचें आसा काय? तिच्या मनांत संशयाची पाल चुकचुकली. तिणे फोनाची खबर आदित्याक सांगली. "आदित्य! म्हाकां गायत्रीचें काम धड दिसना. तें तुकां फोन करतलें. ताका चड म्हत्व दिव नाका" "ना आई, हांव सांबाळून घेतां. तूं हुस्को करनाका." आदित्यान म्हळें.

दुसऱ्या दिसा आदित्याक गायत्रीचो फोन आयलो. "आदित्य म्हाका तुजेकडेन उलोवंक जाय. आयज हांव लंच टायमार फ्री आसां".

"बरें! येता हांव लंच टायमार" आदित्यान आनीक कांयच उलय नासतनां मोबायल बंद केलो.

आदित्य लंच टायमार गायत्री काम करता ते बँकेंत गेलो. गायत्री ताचींच वाट पळयतालें.

"तुजें जेवण जालें?" आदित्यान गायत्रीक विचारलें.

'ना!' गायत्रीन म्हळें.

"चल! आमी 'वूड लँडांत' या! थंय सवकासायेन उलोवंकय मेळटलें" गायत्री रोखडेंच तयार जालें. आदित्याक अजाप जालें. गायत्रीक तो फकत एकूच फावट मेळिल्लो. पळोवपाच्या प्रोग्रामाक! आनी हें आपल्या बरोबर हॉटेलांत जेवंक येवपाक रोखडेंच कशें तयार जालें काय? आदित्य चितपाक पडलो. पूण ताणें आपल्या तोंडार तशे भाव दाखयले नांत.

दोगांय हॉटेलांत आयलीं. आदित्यान एका कोनशाक टेबल बूक केलें. जेवणाची ऑर्डर दिली आनी गायत्रीक म्हळें,

"गायत्री! विचार तुकां कितें विचारपाचें आसा तें." गायत्री खिणभर गोंदळ्ळें आनी म्हणूंक लागलें, "आदित्य! म्हाकां कांयच विचारपाचें नां. पूण तुकां किदें सांगपाचें आसा. तूं बिजनेसमॅन आसत. पूण तूं फक्त ग्रॅजूएट! म्हाकां इंजिनीयर ना जाल्यार दोतोर जाय. म्हज्या भावान म्हाकां कंप्यूटर इंजिनीयर घोव पळोवपाचें उतर दिलां. म्हाका लग्न जातकीर गोंयांत आनीक तांतले तातूंत कुडतरे सारके गांवांत रावपाक आवडपाचें ना. म्हाका बेंगलोर खूप आवडटा. फकत आवय - बापायक आनी मामाक बरें दिसपाखातीर हांवें 'हय' म्हणिल्लें. पूण म्हज्या भावान म्हजे दोळे उगडले. म्हाका तुजे लागीं लग्न करपाचें ना. म्हाका माफ कर."

आदित्याक आपल्या कानांत कोण तरी तापिल्लें तेल घालता अशें जालें. पूण रोखडेंच ताणें आपल्याक सावरून घेतलें आनी गायत्रीक म्हळें. "गायत्री! हें पळय तुगेलो चोयस म्हाका कळ्ळो. तुका म्हजी सगळी खबर आशिल्ली. लिपचोरयां तुमी म्हज्या बिझनेसाचीय खबर काडिल्ली हेंवूय म्हाका खबर आसा. मागीर तुवें हें पळोवपाचें नाटक कित्याक केलें? म्हजी गजाल सोड. पूण म्हज्या आवय-बापायन खूप सपनां पळयिल्लीं. तीं पिसडून उडोवपाचो तुका कसलो अधिकार? तरी तुजे उपकार आनीक फां-फां जावंचे पयलीं तुवें ना म्हळें तें!" आदित्यान आपल्या मनांतलो सगळो ओघ भायर काडलो.

गायत्री मोन्यानी आयकून जेवतालें. जेवण जातकीर आदित्यान गायत्रीक बँकेंत सोडलें. गायत्रीन वतना आदित्याक फकत सॉरी म्हळें. फाटल्यान मात वळून पळोवपाचो धीर ताका जालो ना.

आदित्य निराश जालो. खरें म्हळ्यार ताका गायत्री मनांतल्यान खूप आवडिल्लें. "Love at first sight" तशें. पूण आतां गायत्रीचीं





उतरां ताच्या कानांत घुमतालीं. 'तूं फकत ग्रॅज्युएट' हीं. आपूण चड शिकूंक ना हाची पयलेच फावटी ताका कोणें तरी जाणविकाय करून दिल्ली. ताचो 'इगो' दुखावलो.

आदित्य घराकडेन आयलो. तेन्ना तो व्हडलोसो मुडांत नाशिल्लो. किर्ते तरी बिनसलां हें आवयक रोखडेंच कळ्ळें. आदित्यान घडिल्ली सगळी खबर आवयक सांगली.

आवयक पयलीं वायट दिसलें. पूण रोखडेंच तिणें आपल्याक सांवरून घेतलें. ''आदित्य! हें पळय! ह्या संवसारांत गायत्री हें एकलेंच चली ना. गायत्री परस सुंदर चलयो हाडून तुजे मुखार उब्यो करतां. तूं निराश जांव नाका.'' आवयन आदित्याक म्हळें.

आदित्याचे आवयन रोखडेंच गायत्रीच्या मामाक आपोवन हाडलो आनी नक्षत्र आनी फोटो परत केलो. गायत्रीचो मामा सामको खजील जाल्लो. परत परत तो आदित्याचे आवयकडेन चूक मागतालो. आदित्याचे आवयन ताका सांगलें की ताचो हातूंत कांयच गुन्यांव ना आनी व्हड मनांत ताका माफ केलो.

आदित्याचे आवयन रोखडीच जी दुसरी सोयरीक आयिल्ली आशिल्ली तांकां आपोवन हाडलीं आनी ते चलयेकडेन आदित्याचें लग्न केलें. लग्न इतलें दबाज्यान जालें की सगळे लोक म्हणटाले उसगांवकाराल्या घराण्यांत इतलें दबाज्यान आदी खंयचेंच लग्न जालें ना म्हण!

आदित्य खूप खोशी आशिल्लो. रूपासारकी सोबीत आनी मायेस्त बायल ताका मेळिल्ली. आदित्याची आवय-बापूय लेगीत रुपाचेर खूप खोशी आशिल्लीं. इतलेंय आसून आदित्याक परती परती गायत्रीची याद जाताली. ताणेंच ताचो इगो दुखयिल्लो.

एक दीस आदित्य रुपाक घेवन गायत्री काम करता ते बँकेंत आयलो आनी थेट बँक मॅनेजराच्या कॅबिनांत गेलो. बँक मॅनेजरान दोगांकय हांसून येवकार दिलो. आदित्यान ताका सांगलें की आपल्या बायलेच्या रुपाच्या नांवान धा लाखांची 'फिक्स्ड डिपोझीट' करपाक जाय म्हण.

बँक मॅनेजर भुल्लुसलो. ताणें रोखडेंच गायत्रीक आपल्या कॅबिनांत आपोवन घेतलें. आदित्याक मॅनेजराल्या कॅबिनांत पळोवन गायत्री आबूज जालें. मॅनेजरान म्हळें, ''गायत्री! Meet our new customer Mr. Aditya Usgaonkar, a successful entrepreneur and his wife Rupa.'' गायत्रीन आदित्याक आनी रूपाक शेंकहेंड केलो. आदित्यान ताचेकडेन व्हडलेशें लक्ष दिलें ना फकत मुमुरखो हांसलो. गायत्रीन रूपाक पळयलें. ताचे परस सुंदर ! गायत्रीक खिणभर रूपाचो दुस्वास जालो.

मॅनेजरान गायत्रीक 'फिक्स्ड डिपोझीट' पेपर्स तयार करपाक सांगले. गायत्री आपले काऊंटरार येवन पेपर्स तयार करपाक लागलें. पूण ताचें लक्ष परत परत मॅनेजराच्या केबिनांत बशिल्ल्या आदित्य आनी रूपाचेर वतालें. मॅनेजराचें केबीन हारश्याचें आशिल्ल्यान भितरलें सगलें बेस बरें दिसतालें.

गायत्री पेपर्स घेवन मॅनेजराच्या म्हऱ्यात गेलें. रूपा! धा लाखाची F.D. पुरो मुगो? गायत्रीन आयकूंक येवपाखातीर आदित्यान रुपाक मुद्दामूच म्हळें. रुपा फकत मुमुरखेंच हांसलें.

काम जातकीर मॅनेजर आदित्याक आनी रुपाक पावोवपाक मुद्दाम बँकेच्या दारामेरेन आयलो. फाटल्यान गायत्री. मॅनेजर आदित्याक परत परत 'थँक्यू-थँक्यू' म्हणटालो. आदित्य आनी रुपा बँकेच्या भायर आयलीं. पूण आदित्याचें लक्ष मात फाटल्यान आशिल्ल्या गायत्रीचेर आशिल्लें.''

''काय बरें सोबीत जोडपें न्हय?'' मॅनेजरान गायत्रीक म्हळें. गायत्रीन मोन्यांनी मान हालयली आनी आपल्या काऊंटराचेर गेलें. बँकेचे भायर रावन गायत्रीचो कावंटर बेस बरो दिसतालो. गायत्रीचें तें पडिल्लें तोंड पळोंवन आदित्य मनांतल्या मनांत खूप सुखावलो. ह्या फावटी तागेलो 'इगो' जिखिल्लो.

***



एस. १ वसंत -विहार अपार्टमेंट
संतोष गॅरेजीकडेन
आकें आल्त- मडगांव- गोंय
२७५०५२२







# कूड

– रामनाथ गजानन गावडे

सांजेच्या सुमार पांच वरांचेर पुण्या रेल्वे स्टेशनाचेर गाडयेची वाट पळयत बसलेंलों. थंय लागींच दोन चेडवां किटकिट्टालीं. तीं हेवटेन तेवटेन पळयता तें पळोवन, जणू काय तीं म्हाकांच पळयता असो दुबाव येवपाक लागलो. तशीं दिसपाक वायट दिसनाशिल्लीं. भेसावेल्यान बरीं शिक्षीत आसतलीं कशीं दिस. खांदाक लायिल्ल्या पर्सिवेल्यान तीं खंयतरी कामांक वचून आयल्यांत जावंक जाय. पुणून तांच्या कपड्यांचो घमघम आनी मुखामळावेलें ताजेपण पळयल्यार तीं निकर्तीच भायर सरून खंयतरी वचपाक रावल्यांत; काय तीं कोण येवपाची वाट पळयता? हरशीं कितल्योशोच गाडयो आयल्यो, गेल्यो. लोकांची गर्दी जाली. कोण चडले, कोण देंवले. कोण घश्टले. बोवाळा-बोवाळांत आडूडले. कोण सामानापोंदा चिड्डले. जिवाच्या आकांतान गाडये फाटल्यान धांवले. जाण्ट्याचे बडयेक आदळून पडले. कोण हांसले, कोण रडले. एका एका प्लॅटफॉर्मार मर्दीच धडधडलें, खडखडलें. पयस वतले शिटयेवांगडा निवळले. अशें परतें परतें जायत रावलें. पुणून चलतले गडबडिचो त्या चेडवांचेर कांयच परिणाम दिसलोना. म्हजी मात नदर इल्ली इल्ली आपशींच तांचेवटेन वोडपाक लागली. तांची नदर चुकयतले म्हजे दोळे वोगीच तांच्या पायांकडेन खेळपाक लागले. चुडिदाराचें नक्षी-काम पळोवपाच्या निमतान कुडिचो अदमास घेताले.. त्या अदमासा वांगडा जायतें अणभवतालें. कितलेय जाल्यार दोळे ते, धांपल्यारूय मेंदवाक जाय तें खाण दिताले. तीं मर्दीच 'खोक्' करून हासलीं.तेन्ना हांव दुबावलों, अजापलों आनी मात्सोसो भियेवन, लजेन तकली सकयल घालून वगीच रावलों. आरे! म्हजे दोळे आनी दोळ्यांतलीं चिंतनां तांचो विनयभंग करता हें तांका कळ्ळें काय? काय हांव भिवकुरो, म्हजे दांडगे कुडींत कसलीच धिटाय ना, चोर नदरेन अबलांचेर बलात्कार करपी दादलेपण नासलेलो देखणो पुतळो, ह्या अर्थान बी तीं म्हाकां हासुना मूं? खरेंच त्या हासपान म्हाकां लिपूच गोंदळून वडयलो. म्हज्यांतलो 'हांव' हालयलो, झडपिलो. गर्वान तायट जाल्ली मान इल्ली इल्ली बावगली. तरीय आंगार एके खेरिंतूच उमेदीन खंयतरी काटो फुलतालो.

इतल्यान गाडी आयली . हमालांनी बोवाळ केलो, "चलो, चलो, गोवा एक्स्प्रेस आयी!" थंय गर्दी केल्ल्या लोकांनी आपापलें सामान उखल्लें. हांवूय म्हजीं बॅगां सांबाळीत डब्याचो नंबर पळोवन वयर चडलों. सीट नंबर पळोवन बॅगां सारकीं थेयलीं. म्हज्या कंपार्टमेंटांत एकटोच कोणतरी आसलो. केन्ना पुणें पळोवंक नाशिल्लेवरी जनेलांतल्यान जाता तितली तकली भायर काडून पळयतालो. कितें पळयता काय? कॉलेजीच्या भुरग्यांक, काय त्या ऽ आयसक्रीम खातल्या बायलांक ! कोणाकूय पळोवं म्हाकां कितें, अशें चित्तनाच एक धायेक वर्साचें चेडूं येवन ताजेकडेन भीक मागपाक लागलें. पुणून तो कांय दिना जालो. वेदोळ पयस भोंवतली ताजी वखवखपी नदर आतां त्या चेडवाचे कुडिचेर थारावली. येद्याशा भुरग्याक हलकटावरी पळयतना ताका मात्तूय लज दिसना काय? हांवें सिटावेलीं भिकणां कल्लां फाफडिलीं. बॅगांतलें चादर काडून घडयेसकट सिटार दवरलें आनी पेपर घेवन बसलों. रेल्वे सुटली. कांय खिणांभितरूच वेग धरलो. हांवेनूय जायत्या खबरांचेर नदर भोंवडायली: खून- बलात्कार-विनयभंग-शिंदळकी- एक- एक रंग...

इतल्यान अवचीत 'तीं' वेदोळचीं चेडवां आयलीं. कंपार्टमेंटांत घमघम सुटलो. त्या वासाबरोबर शिरंतरांय फुल्लीं. एक खेरितूच उमेद जागी जाली. वगीच आंगाक कातकुल्यो जाल्ल्यावरी जावपाक लागलें. तांच्या मुखामळावयलो हांसो आजुनय उणो जांवनाशिल्लो. तेन्ना म्हज्याय तोंडार आपशींच हांशें आयलें, आनी तो कोण तो उमेदीन



तांका मोन्यानी 'बसूं येता' अशें खुणावपाक लागलो. तीं बसलीं. रोखडेच हेवटेनचे तेवटेनचे विशय काडून गजाली सुरु जाल्यो. जणू काय आमी बरींच एकामेकाचे वळखिचीं आशिल्लेवरी. उलोवणें आयकल्यार कोणाकय दिसपाचें, हीं चौगांय एकाच घरांतलीं, खंयतरी पयस भोंवपाक वतात. तो तर सामकोच उमेदी प्राणी. मदींच पियल्ले च्यायेचे पयशे ताणेंच फारीक केले. उपरांत आपोलूय घेतले. उलयतां उलयतां आमी दोगय गोंयांत वचपाचे आसात हें तांका कळ्ळें. तेन्ना तिंवूय गोंयांतूच वतात म्हणपाक लागलीं. तें आयकून मात हांव दुबावलो; बायल मनशां म्हण इतले पयस वचपाक अशे तरेन भायर सरतात! हातांतली येदीशी पर्स सोडली जाल्यार आनी तांचेकडेन कसलेंच सामान नाशिल्लें. शिवाय तांच्या उलोवण्यांतली शिटुकसाण पळयल्यार कोणाकूय दुबाव येवपाचोच. तें कितेंय जांव. हांवें मनांत येवजिलें, गोंयांत पावमेरेन तरी टायमपास बरो जातलो.

मदींच म्हज्या सामकार जें चेडूं बशिल्लें ताणें आपली पर्स उगडली आनी हारशी काडून आपलें मुखामळ पळोवपाक लागलें. मागीर परत हात पर्सींत घालून कितेंतरी सोदपाक लागलें. लिप्स्टीक!

ओह! ती बुलिकशी सकयल पडली. ती काडपाक तें तशेंच बावगलें. तेन्ना ताज्या त्या सौंदर्याचेर आपशींच म्हजी तिरपी नदर गेली. तेंय मोठें माल्किर्याद! ती बुली उखलतां उखलतां चोर नदरेन म्हाकां पळयत, ताणें म्हजी चोरी सारकी धरली. तेन्ना म्हाका मात्शें आडखल्ल्यावरी जालें. कितलोय जाल्यार प्रतिष्ठीतपणामुखार एक लज्जेचो प्रस्न. मागीर हांवेंनूय चिंतलें; आपली लज जर ताका दुसऱ्या मुखार सांबाळपाची आशिल्ली जाल्यार ताणें आपली पडटली ओडणी कित्याक सारकी सांबाळ्ळी ना. पुणून ताचे ते पालशे नदरेन हांव मात सामकोंच विचित्र अशा भोंवऱ्यांत घुस्पल्लेवरी जालों. कोण काय हीं?..

म्हज्या दोळ्यांमुखार तरेकवार प्रसंग आनी जायत्यो खबरो येवपाक लागल्यो. तेन्ना सोताक हांवें सादूर करपाचें थारायलें. बॅगांक आनी सुटकेशीक सरपळी घालून कलयत लायल्लें, तें सारकें तपासलें. आनी मदींच उठून टॉयलेटीशीं गेलो. पयशे, म्हत्वाचीं कागदां भितर दवरल्लीं, तीं जाग्यार आसा म्हणपाची खात्री करून घेतली आनी परतलों.

येवन पळयत जाल्यार भलतेंच चित्र दिसलें.कोणतरी दोग जाण येवन तुटकी तुटकीशी भाशा उलयताले. ते कितें म्हणटा तें कळटालें. पुणून त्या उलवपांत एक 'कोड भास' लिपल्ली. तेन्ना पयलींचो म्हजो वांगडी कोनशाक वोग्गी बसचो तसो जनेलाकडेन बसून तांचें उलोवणें बारीक आयकतालो. हांव येवन थंय उबो रावतकच म्हज्या जाग्यार बसलेल्याक एका चेडवान उठयलो. तेन्ना हांव मोन्यानी वचून चादर सारकें करून बसलों. दुबावीत जाल्लें मन अदिकूच घुस्पलें. कोण काय तीं? आनी हे कोण काय? हरशींच बरे स्टायलीश आसा. उलोवपांत एक खेरितूच लकब आसा. झेत-नेट-पॉज- हिरोगिरी सगळें आसा. ते कोणूयं आसूं, आमकां कित्याक पडलां अशें चिंतून हांव तोंड वळोवन जनेला भायर पळोवपाक लागलों. भायर मात वाडटल्या काळखाबरोबर मनांतलो दुबावूय घंयरेवंपाक लागलो. भितरल्या भितर जी अळंगी उमेद जागी जाल्ली ताच्या जाग्यार आतां विभत्स अशी तिडक येवपाक लागलेली. कांय खिणां पयलीं जें आपलेंपण आनी भावुकता तांच्याविशीं मनांत आशिल्ली ती विरघळटाली.

उलयतां उलयतां ते हांसलेशे केले आनी चलत रावले. कांय खिणां उपरांत तींय उठलीं. आनी आमी सामकेच अजागळ आशिल्ल्या वरी आमकां लेखून हांसलिशीं करून ते गेल्ले वटेन मोडतशीं गेलीं. कितलोसोच वोगोत थंड थंड जालें. हरशीं काळोख चिरीत धांवतले गाडयेचो कान फोडपी आवाज येयत आशिल्लो. इतलो वोगोत त्या आवाजाचें म्हाका भानूच नाशिल्लें. पुणून तीं दोगांय गेल्या उपरांत जायते आवाज घोंगेवपाक लागले. च्या-खावडवाल्यांचो आवाज, फाटल्या -फुडल्या कंपार्टमेंटांत केकेतल्यांचो बोवाळ आनी त्या आवाजावांगडा धुल्ल-मिस्त्रीत गरमेचो त्रास जावपाक लागलेलो.खिणांत त्या सुखदिण्या रेल्वे प्रवासाचो उबग आयिल्ल्यावरी जालें. वेटर सांगलेलें जेवण घेवन आयलो. पुणून जेवपाकूय मन जायना जालें. वगीच एक एक कालयलेंशें केलें आनी जाता तितलें उदक पियोवन ताट पोंदा दवरलें. तेन्ना म्हजेवांगडा जो मुखारलो जेवतालो ताणेंय आपलें ताट तशेंच दवरलें. तेन्ना हांव ताका पळयतूच उरलो.

तशें ताणें हासलेशें केलें आनी म्हाकां म्हणपाक लागलो, ''गरमी बहोत बढ गयी है! खानेको भी मन नही करता.''

हांवूय हासलेंशें करून वगीच रावलों. बरें वोगोत भांयर पळयलें. हरशीं भायर कांयच दिसनासलें. पयस खंय खंय लायटी पेट्टाल्यो. खंयतरी पयस गाडयो धांवताल्यो. तशें पळोवपाकूय कांयच नाकासलें. फकत त्या चिंतनापासून पयस जावपाचो यत्न करतालों. भायर म्हण कितलो वोगोत पळयतलों. मात्सो उबो रावलों. तेन्ना नदर आपशींच हेवटेन तेवटेन घुंवपाक लागली. 'तीं' खंयसरूय दिसता काय म्हण सोदपाक लागली. तोय फाटीं-फुडें एक लांब पासय मारून आयलो. तेन्ना म्हाका ताका ''तीं खंय दिसल्यां?'' काय म्हण विचारीनशें दिसलेलें. पुणून वोगीच रावलों. तो मात म्हजी नदर पळोवन भितरल्या भितर हांसलो. घडये म्हज्या मनांत कितें चल्लां हाचो ताका अदमास आयिल्लो आसतलो. हांवूय मात्शें हांसलेशें करून न्हिदपाची तयारी करपाक लागलों.

तो तेवटेन हांव हेवटेन, दोगूय आड पडले. पुणून दोळो लागना जालो. पेपर वाचतलो म्हळ्यार जीव जड जाल्लेवरी दिसपाक लागलो. तो मात कसलें तरी पद गुणगुणटालो. तेन्ना म्हज्यान रावपाक जालें ना.





"क्या भाय, गाना तो गा रहे हो, थोडा हमे भी सुनने दो!"

"अब जोर कहीं का? बुलबूल होते तो बात कुछ और होती! लेकीन वो तो उड गये!"

त्या उतराचेर म्हज्यान हांसप आडोवपाक जालें ना. हांसतूच म्हणलें, "लेकीन वो दोनो गयी कहां? क्या वो आदमी उनके रिश्तेदार थे?"

"रिश्ता?....अंऽ! बोला तो हां, बोला तो ना! लेकीन एक रिश्ता जरूर था!.... तन और धन का रिश्ता!"

त्या उतरार हांव ताका पळयतूच उरलों. तेन्ना तो फुडें म्हणपाक लागलो, "रुपैया गोल है, और ए दुनिया गोल-माल है! जिसका सिक्का चमकता है, उसीका इक्का जीत जाता है!"

ह्या ताच्या उलोवण्या उपरांत म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सरपाक उतरांच नाशिल्लीं. पूण हांव मात ताच्या उतरांनी पुराय घुस्पलों. कसले तरेचें काय तें नातें? "तन और धन का रिश्ता"... नाका जाल्लें तें चित्तां-चित्तां केन्नाच दोळो लागलो.

मद्यान रातीर कसले तरी जागीन हांव उठलों. पळय जाल्यार सगलो बोवाळ. गर्दी करून लोक भितर सरताले. तकली भायर काडून पळयलें, मिरज पाविल्ले. आमी उठून बसले, लोक सिटां सोदताले. कोण एकलो बायल-भुरग्यांसयत सोमतो बिराड कसो घेवन आमच्या कंपार्टमेंटांत येवन सामान दवरपाक लागलो. तांकां रोकडेंच न्हिदपाचें आशिल्लें. सिटां सोडलीं. न्हिदपाची तयारी जाली. इतल्यान कोण तरी एक बायल भुरग्याक घेवन आयली आनी जागो सोदपाक लागली. हरशीं सगळीं सिटां भरल्यां. तिका जागो ना. शेजाऱ्यां तर केन्नाच न्हिदलीं. पुणून तिजेकडलें तें आठ-णव म्हयन्याचें भुरगें पळोवन म्हाका काकुळटशी आयली. म्हजे सकयलें सीट. बाकीच्यांक पळयत, पळयत हांवें तिका 'बस' म्हण सांगलें. मदलें सीट सोडिल्ल्यान सारकें बसपाक मेळनाशिल्लें. तरीय ती बसली. हांवूय पांय लागीं करून जनेलाक तकली लावन जागृत न्हिदलो.

रोखडेंच तिणें आपल्या भुरग्याक दुदाक धरलें. तशी हांवें पेट्टली लायट पालयली. कोण काय ही? पळोवपाक बऱ्या घराण्यांतली कशी दिसता. झळझळीत साडी. फिट्ट पोलको.बरे घट्ट उगयिल्ले केंस. सामकी शाळेची बाई कशी. त्या मंद उजवाडांतूय तिच्या मुखामळावेली फांक आनी दोळ्यांतली तिखसाण सारकी झळकताली. खंयच्याय दादल्याक एकेच नदरेन घायाळ करपाचें तेज तिच्या दोळ्यांतल्यान भायर पडटालें. म्हणुनूच तर तिचे सोबितकायेची भांग म्हज्या दोळ्यांचेर हाडून हांव तिका सिटार बसोवपाक तयार जाल्लों. हांव सामको अस्वस्थ जालों. कोण काय ती? अशीच हांवें एक सोबीत आनी निरागस मुखामळ आशिल्ली एक बायल पळयिल्ली याद जाली.

थोडे दीस हांव कोल्हापुरांत एका पोन्न्या घराचे माळयेर भाड्यान रावतालों. थंय लागींच एक हॉटेल आशिल्लें. त्या हॉटेलाच्या निमण्या माळयेर, एके कडेचे कुडींत एक बायल केन्ना केन्ना दिसताली. मद्यम वयाची. पुणून जणू काय आपूण भुरगीच आसा अशी वागताली. तशी दिसपाक बरी आशिल्ली. गोरीच. वाटकुळ्याच तोंडाची. पूण केन्ना केन्ना खंयच्याय वगतार तिच्या कुडींतल्यान सरतल्या दादल्यांक पळोवन हांव जायते फावट नाका जाल्लें चिंत्तालों. तिच्या सोबावाविशीं दुबाव घेतालों. पुणून ती वाटेर दिसल्यार सती सावित्री कशी भासताली. मागीर मनांतले दुबाव आपशींच पयसावताले. मात ते कुडीविशीं म्हजी नदर सदांच घुस्पागोंदळान उरताली. फकत अमकेच तरेच्या लोकांक राखीव दवरिल्ल्यावरी. एकएकदां ती कूड आनी ती अस्तुरी रातच्या वगतार नदरेक पडटकीच, न्हिदलेलेकडेन कितलेशेच प्रस्न दोळ्यांमुखार घुंवताले....

भुरग्याक दुदाचें काडटां काडटां तिणें तकली म्हजेवटेन घुंवडायली.



"आपण कुठे, गोव्याला का?"

हांव कांय खीण वगीच रावलों. पुणून रोखडेंच 'हय' म्हण सांगलें. बरो वोगोत तीय वगीच रावली. भुरगेंय न्हिदलें. सारकें बसपाकय मेळनाशिल्लें. आनी म्हज्या सारको एक दादलो आसतना एके परके बायलेक त्याच सिटार भुरग्याक घेवन न्हीद म्हण तरी कसो सांगतलों? रेल्वेंत रातचें हेर कंपार्टमेंटांनी वचपाक वा लार्गी तरी उबें रावपाची माणसुकी आसता? कोणूय चोर समजून धांवडावन घालीत म्हण भंय आसता. आनी सकयल न्हिदतलों म्हणल्यार नव्या सोयऱ्यांनी सगळ्याक अशेंच सामान वडयलां. किर्ते करचें कांयच समजनासलें.

"माझ्यासाठी आपल्याला त्रास झाला."

"नाही, त्रास कसले!"

"आपल्याला व्यवस्थीत झोपायला मिळत नाही ना."

"राहू दे, काय करणार.. पण आपण अशा एकट्याच कुठं? गोव्याला का?"

तें आयकून ती कांय खीण वगीच रावली. आनी मागीर अचकीत 'हो-होय' म्हणपाक लागली. तेन्ना हांवें फुडें विचारलें, "अशा रात्रीची लहान मुलाला घेऊन!"

"नाही म्हणजे... ह्याच्या वडलांना अपघात झालाय असं कळलं. बघायला दुसरं कोणी नाही, म्हणून अशीच निघालीय."

"अपघात म्हणजे....!"

"ह्यांच्या स्कुटरला बस लागली."

"मग.. रिजर्वेशन केलं नव्हतं का?"

"कुठलं रिजर्वेशन. जनरलची तिकीट घेऊन आलेय. आपण सीट दिलीत म्हणून बसायला तरी मिळालं. नाही तर याला घेऊन मी कुठं राहिली असती. तुमच्यासारखी माणसं खूप कमी असतात."

हें आयकून कुशीक न्हिदलेलो पंयलीचो वांगडी खांकरलो. घडये ताका म्हाका किर्ते तरी सांगपाचें आसा अशें दिसतालें. बरो वोगोत तो तोंडार चादर घेवन एकाच दोळ्यान तिका बारीक नियाळटालो.ताचो तो बिटबिट्टलो दोळो म्हाका सारको दिसतालो. मंद उजवाडांतय ताच्या दोळ्यांतली आंबसाण सारकी पारखूं येताली.

कांय खीण मोन्यांनीं गेल्या उपरांत हांवें तिका विचारलें, "कुठं उतरणार?"

"बेळगांवला."

"काय?"

"नाही म्हणजे बेळगांव पुढं, गोव्यांतल्या पहिल्या स्टेशनवर." ही तिचीं गडबडीं उतरां आयकून म्हाका तिचो दुबाव येवपाक लागलो. तेन्नाय तो वांगडी परत खांकरलो.

इतल्यान दुबाव घेवपासारके कोण तरी गुणगुणत आयले. चोर बी न्हय मूं! ते गायतलें पदूय वळखिचेंशें दिसतालें. ते अशे कित्याक भोंवता काय? तांकां पातयेवपाचे नांत अशें चिंत्ता आसतनाच तिणें म्हाका 'भाऊ' म्हणलें आनी, "याला जरा घ्याल का? लगेच तिथं जाऊन येते." अशें म्हणून सोमतें त्या भुरग्याक म्हजे सुवादीन केलें आनी पदर सावरीत नेटान गेली.

हातांतलें भुरगें सुस्त न्हिदलेलें. ताका बाबड्याक कोणें धल्लां, खंय आसा, खंय वता, कांयच खबर नाशिल्लें. हालतले गाडयेन पाळण्यांत आशिल्लेवरी ताका दिसता आसतलें.

आरे! ही बायल खंय पावली? लार्गी लार्गी अर्द वर जालें. खंय गेली काय ही? उबें राव हेवटेन तेवटेन पळयलें. तरी दिसली ना. आतां मात हांव लीप दुबावलों. भयान पांय थरथरपाक लागले. ह्या भुरग्याक म्हजे सुवादीन दिवन पळ्ळी बी काय? हिणें कोणालें भुरगें चोरून बी हाडूं ना मूं? काय कुमारी माता? आतां ह्या भुरग्याचें किर्ते करपाचें? ह्या विचित्र अणभवान दोळ्यांतली न्हिदूच गेली. कोणेंय विचारल्यार किर्ते सांगपाचें? सद्या आनी लोकालीं भुरगीं चोरयेक वता म्हण बोब चल्ल्या. पोलीस आनी आयल्यार हांव तांकां किर्ते सांगतलों? कोणें दिलें म्हणटलों? खिणांत जायते प्रसंग दोळ्यांमुखार नाचपाक लागले. पांयेंच जाग्यार उरना जाले.

इतल्यान कोणतरी दोग-चौग जाण येवपाक लागले. आरे देवा, पोलीस! आर्म आनी दांडे घेवन सांसपत येतात. बेगीबेगीन त्या भुरग्याक घेवन सिटार लवंडलों. चादर आंगार ओडलें आनी तें भुरगें दिसना अशे तरेन न्हिदलों. हांगा-थंय दांडे मारीत पोलिस आयले आनी दुबावानशे आमच्या कंपार्टमेंटाकडेन रावले. हांवें अचळय पळंयलें. ते वयर सकयल बारीक नियाळटाले. तांकां कसलो दुबाव आयिल्लो म्हण देवाक खबर. म्हजें काळीज तर सामकें धडधडटालें. पुणून रेल्वेच्या धडधड्यामुखार कोणाक कांयच कळनाशिल्लें. तेन्नाच म्हाका सिटार ओलें ओलें लागलें. आरे देवा, भुरग्यान 'सुसू' केल्लें. तरीय तस्सो रावलों. पोलिसांक जाग दाखयल्यार किर्तेय विचारीत म्हण भंय. भुरगें चोरयेचें बी आसल्यार? सगळी ओलसाण कपड्यांनी ओडून घेतलेली. खारसाणशी येताली.

त्या सामानाचेर दांडेशे मारले. सामान हालयलेंशें केलें आनी पोलीस मुखार गेले. हांव अचळय उठलों. शेजारचे सगळे लोक सुस्त न्हिदलेले. पुणून हांव मात लाचार-गुन्यांवकार कसो त्या भुरग्याक लिपयत चोर जावन तळमळटालों.मोठे उमळशीकेन देवाची कशी तिची वाट पळयतालों.

करतां करतां बरोच वोगोत जालो. तिचो पत्तोच ना. रातच्या वोगतार तिका खंय म्हण सोदतलों आनी कोणाक म्हण विचारतलों. इतल्यान रेल्वे थारली. खंय पावले काय?... बेळगांव! हांव तसोच त्या भुरग्याक घेवन भायर सरलों. हेवटेन-तेवटेन धांवत तिका सोदली. वगीच दुबावान लोकांल्या बायलांचीं मुखामळां पारखिलीं. परक्यांच्यो म्हण वगीच नदरो सोंसूं येता? खूप लोक देंवले, गेले. पुणून ती खंयच दिसली ना. उलो म्हण तरी कोणाक मारतलों? भंयान जीव आकुळ्ळो. एकेवटेन ताळो सुकलेलो, पुणून-

इतल्यान गाडी सुटली.तसो धांवत वचून परत बसलों. तरी नदर भायर-भितर तिकाच सोदताली. जाल्ले धांवपळीन भुरगें केन्ना उठलें तें





कळ्ळेंच ना. लायट पेटयली. तशें ते दोळे बिटीबिटी करून म्हाका पळोवपाक लागले. हांव परकी म्हण तें म्हाका वळखलें काय? पूण रडलें ना, वगीच रावलें. तशें हांवें , ''तुजी आवय खंय'' काय म्हण विचाल्लें. तेन्ना तें आपले माणकुले गाल फुलयत हांसलें. मागीर आनीकूय कितें कितें विचाल्लें. तशें तें अदीकूच हांसपाक लागलें. ताच्या त्या निश्पाप निर्मळ हांसपांत हांव पुराय जगाक विसल्लों. म्हजेर येतलें बगलाट-संकश्ट आनी भंयान जाल्लो गुळो - सगळें सगळें विसल्लों. हांव आंकवार नासून एका भुरग्याचो बापूय जाल्लों. बापायपणाचें पुराय सूख अणभवतालों- एक विचित्र, पूण जिवाक थाकाय दिवपी सुखान हांव न्हातालों.....

इतल्यान त्यां वांगड्याक कोणतरी चावलो म्हण तो जागो जालो. म्हाका त्या भुरग्यावांगडा गजाली मारता तें पळोवन हांसलेंशें करून म्हणपाक लागलो ''क्या बन गया बकरा! यहाँ बकरेकी यही हालत होती है!''

ताच्या त्या उलोवण्यान हांव भारार आयलों. इतलो वोगोत विसरलेलें भिरांतेचें सपन परत आंगात शिरशिरलें. ह्या भुरग्याचें आतां करपाचें कितें? कोणाक दिवपाचें? खयी रस्त्याकुशीक उडोवपाचें काय घरा व्हरपाचें? घरा व्हेल्यार, खंय मेळ्ळें? कोणाचें भुरगें? कोणें दिलें म्हण सांगपाचें? खरें सांगल्यार लोक म्हाका पिश्यांत काडचेना? लोकालीं अशीं गोड भुरगीं अशींच वाटेर मेळटात? च्चे! सामको सोश्यावरी पासाक फारवल्लों.

पुणून एक मन भितरल्या भितर कसली तरी तयारी करतालें; ना. ह्या भुरग्याक उडोवपाचें ना. ताचे हाल जावपाक दिवपाचे ना. घरा व्हरपाचें. कोण कितें म्हण्टा तें म्हणूं. ताका पोसपाचें. आरे पूण कोण तें, चलो काय चली? त्या तरेकवार वुलनाच्या कपड्यांनी हात घालपाचो म्हाका धीर जालो ना. आसूं, कोणूय जांव. ताका आपलेंशें करून वाडोवपाचें.

हांवें घड्याळ पळयली. पांच जायत आयिल्लीं.आनी थोड्या वगतान उजवाडटलें. हांव गोंयां पावतलों. कुळ्यां देवन रिक्षा करप. सोमतें घराकडेन व्हरप. आवय मात्शी बेजारतली. कोणालें भुरगें उखलून हाडलां काय म्हणटली. पूण तिका भुरग्यांची खूप अपुरबाय. आपशींच निवळटली. बाबाक तसलें कांयच लागना. तुमकां जाय तें करात म्हणटलो लोकांचें बरें आसा-

गाडी इल्ली इल्ली सवका जाली. कितें जालें काय! लोंढा पावले. लोक सामान काडपाखातीर बोवाळ करपाक लागले. आमचें नवेंलें बिराडय उठलें. गाडी थांबली. पूण वगीच म्हजें काळीज धडधडपाक लागलें. थंडी आसुनय घाम येता काय जालें-

अचकीत कोण तरी नेटान आयली. भेस तोच. पूण अस्तावस्त. केंस सदळ जाल्ले. हय, तीच ती! भुरग्याचेर नदर पडना फुडें 'सू' केलें. मुठींतलें कितें तरी काळजाकडले तिजोरेंत मुंगरलें आनी सोमतें म्हजेकडल्या भुरग्याक उखल्लें. खिणभर म्हाका कितें उलोवचें आनी तिका कशें तापोवचें तेंच कळना जालें. तेन्ना तीच म्हणपाक लागली, ''माफ करा. हे काही मी मुद्दाम करत नाही. आपल्यासारके कोण तरी असतात म्हणून आमचे पोट चालत. हा संसार मतलबी आहे, आपल्या फायद्याशिवाय कोणालाच काही देत नाही!''

अशें म्हटलें आनी ती नेटान चलत रावली.

हांव मात तिका तोंड वरशें करून पळयत उरलों. आतां इल्लें इल्लें म्हज्या लक्षांत येतालें, ''तन और धन का रिश्ता म्हणल्यार कितें तें...''



***

मोलें-गोंय
फो. २६१२३१०





# प्रारंभी



– प्रितेश मंगेश परसाई

सांजेचीं स वरां जाल्लीं. ल्हव ल्हव घरान बोवाळ वाडपाक लागलो. ताणें बाजारांतल्यो रेडिमेड वस्तू हाडपापरस स्वताच करून घेतिल्ल्यो. देवघरांतल्यान कितल्योशोच पणट्यो पेटोवन आंगणांत, तुळशी भोंवतणी, घराच्या सोंपाणांचेर, गॅलरींत, तेर्रासार, जनेलांचेर दवरून पादुरक्षाच्या येवकार दिवपी हत्तयांच्या सोणयेचेर टिपायचेर उबें रावन पणट्यो दवरपाचो यत्न केलो. पूण त्या लाकडी शिल्पा हतयांच्यो सोंणयो इतल्या उंचायेर आशिल्ल्यो की टिपॉयर उबे रावन सुद्धां ताचे हात पांय थंय पावना जाले. तेन्ना ताणें आकाशदिवो वयर चडोवपी कारभाऱ्याक म्हळें, 'आयकलें न्ही!'

ताचो कारभारी आकाशदिवो चडोवपाच्या नादांत गुल्ल आसातनाच ताणें म्हळें,

''मंऽऽ...''

तेन्ना ताणें परतून उलो माल्लो

''आयकलें न्ही!''

''मंऽऽ...मंऽऽ...''

''मंऽ..मंऽ. कितें प्रज्योत?'' ताणें आपल्या कारभाऱ्याचें नांव घेत विचाल्लें.

आंगणांत सूत कशा उंचायेच्या कोंड्यार आकाशदिवो मनासारको वयर चडोवन प्रज्योतान म्हळें,

''सांग प्रिये! तुला काय हवे! मम हृदयाची तूच स्वामी....''

''थँक्स, आतां तरी विचाल्लें तें!''

''अशें कित्याक?''

''उलोवप कमी, काम म्हत्वाचें!''

''सांग न्ही! एका झटक्यान करून दितां पळय'' प्रज्योतान ताच्या उजव्या हाताक धरून आपल्या म्हऱ्यांत घेत म्हळें. दाव्या हातांतल्या आयदणांतल्यो दिवल्यो दाखयत ताणें म्हळें,

''तें काम न्ही! हें काम! ह्यो पणट्यो पादुरक्षाच्या त्या हतयांच्या सोणयेर दवरापाक मात्शें जाय आशिल्लें.''

''इतलेंच न्ही?'' अशें म्हणत प्रज्योतान ताका टिपायेर रावन उबाल्लें. तशें ताणें त्या पादुरक्षाच्या येवकार दिवपी लाकडी शिल्पा हतयांच्या सोणयेर पणट्यो दवल्ल्यो आनी म्हळें, ''हां! जाल्यो दवरून, देवय सकयल''

तशें प्रज्योतान ताका टिपॉयेवेल्यान सखयल देवयलें तशें ताणें म्हळें, ''ओके! थँक्स''

''इतलेंच'' प्रज्योतान ताचो हात धरीत म्हळें.

''पूण ते वटेन पळयात, कोण येता तीं.'' प्रज्योताचें लक्ष दुसरेकडेन वळोवन ताच्या हातांतलो आपलो हात अचकीत काडून ताच्या म्हऱ्यांतल्यान भितर वचत ताणें म्हळें.

तें भितर वतांच प्रज्योतान म्हळें,

''पालवी''

पालवी! तशी दिसपाक सुंदर, चपळ, सडपातळ, उच्च शिक्षित, चार-चौघामदीं उठून दिसपी, शणै बाबाली सून तर प्रज्योताची अर्धांगीनी, तर वर्सा पयलीं जाल्ली जुवळ्या भुरग्यांची मायेमोगाळ आवय.

आयज दिवाळी आशिल्ली. स उपरांत वाडट्या काळखांत ताणीं लायिल्ल्या पणट्यांच्या उजवाडान आख्खें घर भांगराबशेन लखलखतालें, चकचकतालें. आंगणांत मराण-गर्नाल, नारंगा-सुरंगां, कॉटाल्ल्यो-चांदण्यो दर एकल्यान पेटोवन तातुंतल्यान कितलींशींच सोबीत दृश्यां घडटालीं. तीं सोबीत दृश्यां पळोवपाक तांचीं सानुलीं सोडलीं जाल्यार घरांतलीं सगलीं हाजीर आशिल्लीं. इतल्यान ताका सानुल्यांच्या रडपाचो आवाज आयलो, तशें ताणें त्या आवाजाकडेन भितर पावलां वळयलीं.

भितर बेडरुमांत येवन ताणें सानुल्यांक बेडीवेल्यान उखलून घेवन सासुमायच्या बेडरुमाकडेन येवपाक ताची सासुमाय तिच्या बेडरुमांत न्हिदयिल्या सानुल्याक घेवन भायर येता तें पळोवन ताका बरें दिसलें. भायर लायिल्ल्या फोगाच्या कर्णकश आवाजांत ताचीं सानुलीं भयभीत जावन रडटालीं.

पळयतां पळयतां घरांतल्या कांय जाणांनी, घराच्या मुखेल षटकोनी अयस-पयस हॉलांत झुंबराखालच्या आठ फूट गोलाय आशिल्ल्या मेजार स फूट गोलाय पितुळचे थाळयेंत उदकापोंदा दोन गुलाबां कळयांची सोबीत रांगोळी घालून तें मेज धव्या फुल्ल जायां - जुयांनी वयरसावन सकयल आनी सकयलसावन वयरमेरेन सजोवन, ताच्या म्हऱ्यांत हातभर चौकोनी तितल्याच उंचायेच्या मेजार पोश्यान पोसोभर आकार आशिल्ल्या चकाकत्या चांदीच्या वाटयांनी पिस्ता-बदामाची खीर दवरिल्ली.

दोन-चार पुरुश उंचायेर त्या षटकोनी हॉलाच्या मदें आशिल्ल्या त्या मोठ्या झुंबराचें प्रतिबिम्ब मेजार सजयिल्ल्या थाळयेंतल्या उदकान लखलखपाक लागलें.

पालवीन आनी सासुमायन दोगांय सानुल्यांक न्हाणोवन - धुवन तांकां अत्तर मारून मोलादीक कपडे आनी भांगरा वस्ती घालून सजयलीं. सानुल्यांक सजोवन जाल्या उपरांत पालवी सजलें. पळयतां पळयतां आख्खें घर आनी हॉल सोयऱ्या-दायऱ्यांनी, इश्ट- इश्टांनी , शेजाऱ्या -पाजाऱ्यांनी भरिलें. तशें पालवीन 'शुभा'क तर प्रज्योतान 'लक्ष्मी'क षटकोणी हॉलान सजयिल्ल्या मेजा



म्हऱ्यान हाडून उबीं केलीं.

तशीं हालांत जमिल्लीं सगळीं चुळबुळपाक लागलीं ''आगे सीताय! आयज पालवीच्या भुरग्यांचो 'बर्थडे' काय दिवाळेच्या परबेची ही खाणावळ''. एक बायल दुसरेक म्हणपाक लागली.

'बर्थडे' सीतायन सांगलें.

''पूण केक बी नासतनाच?'' दुसरी

''केक बी नासतना बर्थडे केल्लो ह्या आदीं आमी पळोवंकूच ना.'' पयलेन म्हळें. ''आनी त्यो मेणाच्यो वाती बी खंयच दिसना... हें अशें कशें ?'' तिसरेन विचाल्लें.

''केकींचेर वाती लावन 'बर्थडे' सॅलीब्रेट करप ही विदेशी संस्कृताय. आमगेली न्हय!'' सीताय उलयतासतनाच एके बायलेन उलोवप केलें.

''शैणय बाबाली सून-पूत अमेरिकेक रावतात अशें आयकल्लें आनी हें कोणी ना देखिलें.... हें अशें कशें?''

''हांव बी तेंच म्हणटाली'' तिच्या सुरान सूर मेळयत पांचवेन म्हळें.

''अमेरिकेक कामा निमतान रावप म्हळ्यार किरिस्तांव धर्म स्वीकारप न्ही. आनी थंयची संस्क्रताय.'' सीतायन म्हळें.

''मागीर केक वाती नासतना बर्थडे -बिथडे कसलो तर?'' आनीक एकटी.

येदो वेळ चुळबूळ आयकून पालवीच्या सासुमायन देवघरांतल्यान थाळयेंत चांदीच्यो दोन पणट्यो मेजा म्हऱ्यांत सुने-पुताशी घेवन येत म्हळें,

''हें पळयात! म्हज्या घरच्या इश्टांनो, म्हज्या मांय-मांवाच्या, पणजी-पणज्याच्या परंपरेप्रमाण म्हजो ह्या नातू-नातीचो केक-वातीच्या जाग्यार थाळयेंतल्या उदकांत सोबीत रांगोळी घालून.. तांतूंत तांच्या वाढदिसाची एक-एक पणटी पेटोवन सोडटले. तेन्ना बरें मागप्यांनी आपणाची ती संस्कृताय म्हण आस्वाद घेवंचो. अशें म्हणटाच नाका नाका म्हणतासतना वाढदिसाचें तें इंग्रजी कवन, ''हॅपी बर्थ-डे शुभ-लक्ष्मी टू यू ऽऽऽ...'' एका तालान आनी सुरान सुरु जावन कांय खिणांनी ताळयो वाजोवन आटपलें. तशें पालवीचे सासुमायन शुभ-लक्ष्मीच्या हातांनी एक एक पेटती पण्टी दिवन त्या रांगोळी घालून सजयिल्लया थाळयेंतल्या उदकांत सोडपाक लाक्ल्यो. आनी परतून ताळयांचो गडगडाट त्या षटकोणी हॉलांत जालो.

पालवीच्या डॅडी-मम्मीन, शणैय बाबान-सासुमायन आपणाचीं बोटां त्या हातभर चौवकणी मेजार पोश्यान पोसोभर आकार आशिल्ल्या चांदीच्या वाटयांतल्या पिस्ता-बदामाच्या खिरींत बुडोवन , तीं बोटां शुभ-लक्ष्मीच्या तोंडांत घालीं. तशीं शुभ-लक्ष्मी आपणाल्या हांसऱ्या तोंडान त्या खिरीचो आस्वाद घेवपाक लागलीं. बर्थ-डे पार्टीक जमिल्ल्या सगळ्यांनी शुभ-लक्ष्मीक तांच्या वाढदिसाचीं आनी दिवाळेचीं परबीं दिवन खिरीसयत बाकीच्या खाणाजेवणाचो आस्वाद घेवन तांकां निरोप दिलो. बर्थडे पार्टीक जमिल्ल्यांचो निरोप घेताना पालवीच्या घरच्यानी तांकां बर्थ-डे पार्टीचें यादस्तीक म्हण आकर्शक गीफ्टां हातांत दिलीं. तेन्ना जमिल्ल्यांनी कृतार्थ जावन म्हळें, देव बरें करूं सगळ्यांक तुमकां! तुमकां भलायकी आनी यश दिवं!''

ती सगळ्यांचीं उतरां आपल्या इश्टांची सासाय समजून घरचीं प्रसन्न मनान भितर सर्ल्लीं ताणें घर पूर्ववत जालें.

पार्टींत खाणा-पिण्याचो आस्वाद घेतना म्हळिल्लें घर, आयदणां साफसूफ करता म्हणसर रातचीं पावणे णव जालीं. तशी बर्थ-डे पार्टी सातांकच सुरु जाल्ली.

घरांत सगळे शांततायेन उलयत बशिल्ले आसतना पालवीन आपुलकायेन म्हळें,

''पप्पा-मम्मी! आनी तुमी सगळीं म्हालगडी म्हज्या माहेरच्याहून मोगाळ आनी सुसंस्कृत आसात हें सांगपाक म्हजेकडेन उतरां कितें आसतलीं. म्हाका तुमच्या मदीं सामावन घेतल्या बद्दल हांव स्वताक व्हड मानतां''

''आगे सुने! ही आमच्या घरांची न्हय तर घराण्याची परंपरा. त्याविशीं हांगासल्लीं पारंपारीक लोक जाणां'' सासुमायन म्हळें.

''ती आपणाच्या मायेमोगाळ सुसंस्कृत मनाची उंचाय आनी खोलाय आसूंक जाय मम्मी.'' पालवीन सांगलें.

''आनी आतां तें सांबाळप तुवें सुनबाय!'' शणैय बाबान म्हळें.

''तुमच्या देखरितीन आनी सासायेन, हांव ती जापसालदारकी सांबाळपाचो पुराय यत्न करतलीं.'' पालवीन सांगलें.

''हें तर आमचें भाग्यच म्हणचें'' पालवीच्या मांय-मांवांन म्हळें.

''तशें न्ही पप्पा-मम्मा! तें तर म्हजें सौभाग्य.'' पालवीन सांगलें.

तेन्ना प्रज्योतान दाव्या हातान आपणाची कॉलर तायट करीत, उजव्या हातान पालवीच्या खांदार अचळीत हात दवरीत म्हळें,

''मागीर, सिलॅक्शन कोणाचें!!!''

''कोणाचें?'' शणैय बाबान प्रज्योत आनी पालवीचेर नदर मारीत म्हळें. तेन्ना प्रज्योत पालवीकडेन पळयत राविल्लो पळोवन सगळ्यांच्या पोटान हांसू-हांसून दुखलें.

हाशें थांबल्या उपरांत शणैय बाबान परतून प्रज्योताक सांगलें.

''आनी एक मतींत दवर, तुज्या सिलॅक्शनाचेर दुबावूच ना! पूण आतां मात हांव तुजो बापूय म्हण आसा आनी तूं एके चलयेचो बापूय म्हण सांगतां. चलयेच्या बापायची नदर सदांच सकयल आसता. हें मतींत धर.''

''ती जाणविकाय हांव सदांच मतींत दवरतलों.'' प्रज्योतान म्हळें. गेल्या दिवाळे दिसा पालवीन एक चलो आनी एक चली जल्माक घातिल्लीं. आयज तांकां वर्स जालें. आनी देखून तांचीं नांवां शुभ-लक्ष्मी दवरिल्लीं.

उलोवप चालूच आसतना पालवीचीं तीं शुभ-लक्ष्मी दिमकुऱ्यांनी चलतां चलतां आपणाचो तोल सांबाळीत उबीं रावलीं. आनी त्या दोगांयनी आपणाचीं पयलीं पावलां उखल्लीं. तितल्यान कॅमेऱ्यांचे फ्लॅश आनी व्हिडियो कॅमऱ्यांच्यो लायटी झळकल्यो.

***

देवूळवाडा,
हरमल - पेडणे





# हनिमून

— विन्सी क्वाद्रूस

कालूच ताचें लग्न जाल्लें. सुवाळो घरगुती आसलो. सगुणान व्हडा दबाज्यान लग्न सुवाळो करपाक मनाय केल्ली. सगुणाची व्हंकल म्हळ्यार रितून हट्ट धरिल्लो शारांतल्या व्हडल्या हॉटेलांत लग्न सुवाळो घडोवन हाडपाक. ताच्या बापायचीय तयारी आसली. सगुणान केल्ले विनंतीक मान दिवन रितुल्या फार्म हावजांत सगल्यो रिती-रिवाज पूर्ण केल्ले.

आज तीं हनीमुनाक वचपाक भायर सरिल्लीं. दाबोळी विमानतळावयल्यान हवेंत उडपाची इल्ली मौज ताणीं आंकिल्ली. बँगलोर पावले उपरांत एका हॉटेलांत राबितो करून म्हैसूर, उठी आनी लागीं आशिल्लीं सौदर्य थळां पळोवपाचो ताणी विचार केल्लो. विमानाचो अजून वेळ जावंक नासलो. देखून तीं लॉबींत बसलीं.

"जाणां रितू, म्हज्या जुवानपणांत हांवें जायतें वांकडें केलें. सरिताविशीं तुकां हांवें आदींच सांगलां. आज म्हाका माफी दिवपाक तें आज ह्या सवंसारांत ना. एक वर्स लग्नीक जिवीत ताचे फुड्यांत सारलें हांवें. ताणें म्हाका जायतो समजून घेतलो. म्हाका समजावपाचो यत्न केलो. हांवूच एक अडाणी कसो म्हज्याच विचारांत घुस्पून रावलों. तें एक व्हड मनीस जावन पसून ताचेर हांवें दुबाव घेतलो. म्हजे विचार ताचे मुखार कांयच नाशिल्ले. तरी हांवें म्हाका व्हड मानलो. आज म्हज्यो भावना हांव उक्तायतां पूण त्या काळार म्हाका म्हजोच गर्व आसलो."

"त्यो गजाली आज सांगून कांयच फायदो ना. तुवें म्हाका सांगलां तें हांवें मानून घेतलां. हे मुखार एक बरें जिवीत जगतलो ह्या भरंवश्यार तुका आपणायलां हांवें."

"पूण तरी आसतना ....." सगूण मुखार उलोवपाचो बंद जालो. तांचे फुडल्यान एक सूट-बूट घालून मनीस पासार जालो. ताका पळोवन सगुणान आपले वोंट घट्ट अंदिल्ले आनी पांय नेटान आपटिलो. रितू ताका पळयतूच उरलें.

"होच तो दळदिरो. हाकाच लागून म्हजी नोकरी मेली. एक प्रोफेसर म्हण म्हाका नांव आसलें. हाणेंच म्हाका त्रासांत घालो. केन्नाच असो भायर खंयतरी एकांतांत मेळ्ळो जाल्यार ताका धडो शिकयतलोंच हांव."

रितू पळेतूच उरलें. आतांच पश्चताप आनी गुन्याव मानून घेवपी सगूण अकस्मात उग्र जाल्लो.

"कितें जालें ..... असो ताका पळोवन कित्याक घुस्पलो?"

तितल्यान यात्रेकारांनी विमांनांत बसपाची घोशणा जाली.

"चल विमानांत बसतकच ताची पुराय खबर सांगतां."

सगूण रितुच्या हाताक धरून उटलो आनी दोगांय विमानावटेन वचपाक लागलीं.

"म्हजी एक इश्टीण म्हाका सांगताली विमान चडटना आनी देंवतना भिरांत दिसता म्हण. पयलेच फावट वतां हांव विमानान." रितून आपणाली भिरांत उक्तायली.

"म्हजी गजाल आयकतासतना तुका कळचें लेगीत ना विमान केन्ना मळबांत धांवपाक लागलें तें." ताका आपल्या खांकेंत घेयत सगूण चलत रावलो.

सगल्यो उपचारीक रिती सोपयले उपरांत तीं विमानांत बसलीं.

"चल आतां सांगपाक सुरवात कर तुजें पुराण." रितून म्हळें.

"आयक. तो दादलो आमच्या गांवच्या कॉलेजीचो प्रिन्सिपल. सरिता कडेन संबंद सारखे नाशिल्ल्यान एक दीस बेजेसांवान हांवें कॉलेजींत त्यागपत्र दिलें. पूण दुसऱ्या दिसा म्हज्या इश्टांनी आनी बऱ्या मागप्यांनी म्हाका समजायलो आनी त्यागपत्र फाटीं घेवंक सांगलें. दुसऱ्याच दिसा हांवें त्यागपत्र फाटीं घेवपाची अर्जी दिली. जाल्यार हो प्रिन्सिपल सांगता आपणाक अर्जी मेळूंकच ना आनी आपणें त्यागपत्र मानून घेतलें. ते उपरांत कॉलेज समिती वांगड्यांनी तें मानून घेतलें आनी शिक्षण खात्याकडेन धाडलें. सांगल्यार कसोच आयकना. म्हाका कोर्टांत वच्चें पडलें."

सिटाच्या फाटल्यान उबो रावन आयकुपी प्रिन्सिपल तांचेच कुशीक म्हळ्यार रितू आसा ते वटेन आपल्या सिटार बसलो. सगुणाच्या परत एक फावट मस्तकाक मारलें. रितूक आपल्या सिटार बसोवपाक तो उटलो तेन्ना प्रिन्सिपलान हात वयर करत रितूक खुणायलें थंयच बसपाक.



''मिस्टर सगूण. आपले घरकान्नीक कायचेकांय सांगू नाका. ती तुजी अर्धांगीनी जाल्या.''

''हांवें सारखें आसा तेंच सांगलां म्हजे घरकान्नीक आनी तूं कोण आमचेमर्दी उलोवपाक?''

''होच प्रस्न तुवें आनीक एकदां म्हाका केल्लो. जेन्ना संकट आयिल्लें तेन्ना म्हजे शिवाय दुसरो कोणच तुका आदार करूंक नासलो. हांव खरी गजाल सांगतां तुजे घरकान्नीक.'' रितू प्रिन्सीपलाक पळेतूच उरलें. ही एक सामकी नवी गजाल ताचे मुखार घडटाली.

''सुमार धा वर्सां जालीं तो आमचे कॉलेजींत शिकोवपाक लागल्यार. ताची पयली चूक ताणें आपणाले आदले बायलेकडेन सारखें नातें दवरूंक ना. एका वर्साभितर ताचें लग्न मोडलें म्हणून सुमार तीन म्हयन्याचो गर्भ पोटांत आशिल्ले बायलेन गर्भपात केलो. ताची एकय निशाणी आपणाकडेन नाका म्हणून तिणें सगळेवटेनच्यान ताचें नातें तोडून घेतलें. कायदेशीर रितीन जें ताचें आसलें तें ताका दिवन तें अमेरिकेक एक व्हड कंपनींत नोकरेक लागलें. पूण ताजें नशीब पळय कितलें दुर्भागी. पैशांचें मरण नासलें. तें आशेतालें आपल्या घोवाच्या मोगाक. ताका कॅन्सर जालो आनी तें मरून गेलें. खरें म्हळ्यार इतली खासगी वळख कोणें कोणाची दवरची न्हय पूण जायते फावट तिणें म्हजेकडेन सल्लो घेतिल्लो आपल्या जिवितांत. देखून तिची सगली खबर म्हाका आसली. फाटल्या वर्साक हांव स्टडी टुराक अमेरिकेक गेल्लों तेन्ना तिची भेट जाल्ली. मरणाचे धडेर रावन तें म्हजे कडेन उलयलें. ताका उलोवपाक त्रास जाताले. तरी ताणें सांगलें सगूण केन्नाय त्रासांत आसत जाल्यार ताका आदार दी.''

सगूण ही गजाल आयकतच उरलो. रितून सगुणाचेर एक नदर घाली. ताणे तोंड परतिलें.

''आज तो तुजेकडेन लग्न जालां. तुज्या बापायक लागूनच तो खासगी नोकरी करता. ना जाल्यार ताका खंयच नोकरी करूंक मेळनासली. आमीय वोगी रावले. हाचें ताणें उपकार मानूंक जाय. आमकां जाय जाल्यार तुमचें लग्न पसून मोडूं येतालें. ताचे पयलींचे घरकान्नीच्या उतराक लागून आमी तसो निर्णय घेवंक ना. मनीस म्हण जगपाचो ताका आमी अधिकार दिलो.''

चॉकलेट्स आनी ड्रींक्स घेवन आयिल्ल्या हवाई सुंदऱ्यांक मातशें पेलयान धाडटगीर प्रिन्सिपलान मुखार सांगलें.



''लग्न जायत सावन तो घराकडेन अस्वस्थ आसलो. ताची बायल इंनफोरमेशन टॅक्नोलॉजी (I.T.) तज्ञ. ताचे विचार हाचेकडेन केन्नाच जुळ्ळे नांत. सदांच तांचें कितें ना कितें आसतालें. हाचो वायट परिणाम कॉलेजीचेर जातालो. हो केन्ना उसरां येतालो जाल्यार केन्ना कॉलेजीक येनासतना रावतालो. तरी आमी ताका समजून घेतलो आनी कसलीच कारवाय केली ना. पूण एक दीस आमी कांय जाणांनी ताचे घरकान्नीक मेळपाचें धाडस केलें. हो तेन्ना घराकडेन नासलो.''

''ती एक सुशील आनी बऱ्या घराण्यातली चली आसली. ती एक I.T. तज्ञ आशिल्ल्यान तिचें राहणीमान उंचल्या दर्जाचें आसलें. हो एक प्रोफेसर म्हण तिणे सोयरीक मानून घेतिल्ली. आपलें व्हडपण सोडून ती घोवाल्या घरकुलांत रावपाचो यत्न करताली. तिका नोकरेवयल्यान पावोवपाक कंपनीची गाडी येताली. हें ताका आवडनासलें. हाकाच लागून जायते फावट तांचे मर्दी वाद जातालो. तांच्या लग्नाचे फक्त थोडेच म्हयने उमेदीन गेले. तिचे उगडासांत उरपासारखो खीण आशिल्लो तो तीं भोंवडेर गेल्लीं थंयचो. ताका शिमला वचपाची कंपनी तर्फेन ट्रीप मेळिल्ली. ही ट्रीप सोपोवन नोकरेक रुजू जातकच तांचेमर्दी वाद सुरू जाले. कित्याक इंटरनॅट आनी मोबायलावरवीं तिका सदांच आपले कंपनी कडेन इन टच रावचें पडटालें. तें ताका सहन जायना जालें. ती एक सभ्य आनी विचारवंत अस्तुरी. त्या दिसाक तांचे कंपनीत, तंत्रज्ञान विभागांतल्या सगल्या तज्ञाचो एक सेमीनार आसलो. घरा येवपाक ताका उशीर जालो. तें घरा येतांच हाणें तिचेकडेन वाद-विवाद सुरू केलो. ताचे सोशीकपणाची तार तुटली. आनी तिणेंय भरपूर उलयलें. घडयें पयलेच फावट रितून उंच आवाजान ताचेकडेन उलयल्लें. हें सगुणाक सोसलेंना. तो इतलो तेंप उलयतालो आनी तें मोन्यानी आयकून घेतालें. देखून घडये तें एकवटेनचे झगडें म्हण रोखडेंच न्हिवतालें. त्या दिसाक सगूण सामकोच हातीभायर गेलो. नाका जाल्लेंच उलोवंक लागलो. ताच्या चरित्राचेर चिखल मारपाक लागलो. तेन्ना तिणे प्रत्युतर दिलें. सगुणान तिचेर हात उखल्लो. तेन्ना मात तिणें थारायल्लें. ह्या मनशावांगडा रावन कसलोच फायदो ना. आनी हे मुखार ताचेबरोबर दीस



काडप अवगड जातलें. त्याच खिणाक तिणें आपल्या घरच्यांक आपोवन हाडलीं आनी परिस्थीती सांगली. म्हाकाय आपोवन व्हेल्लो. आमकां सगल्यांक अजाप जालें इतलो तेंप सगलें लिपोवन ती सोशीत आसली म्हण.''

''तेच रातीक तें आपल्या घरच्यांबरोबर सगुणाचें घर सदांकाळ सोडून गेलें तें परतें केन्नाच ताका भेटलें ना. भेटलें तें कोर्टांत घटस्फोटाखातीर. ह्याच वातावरणांत ताणें आपले नोकरेचो राजिनामो बरयल्लो आनी स्वता हाडून म्हजेकडेन दिल्लो. हावें ताका खूब समजायलो पूण तो समजुपाचे मनस्थितींत नासलो. उल्टें ताणें म्हाका सांगलें ''हांव हें शारूच सोडून म्हज्या गांवघरा रत्नागिरी वतां.'' समजना देखून हावें म्हजे मान्यतायेचो शेरो मारून कॉलेजीच्या समिती वांगड्यांकडेन धाडलो. ताणीय तो मान्य केलो. पूण हाचें म्हण्णें आपणें दुसऱ्याच दिसाक आपलो राजिनामो फाटीं घेता म्हण पत्र बरयल्लें. खरें म्हळ्यार ताणें पत्र बरयलेंच ना. ताच्या वकिलान तें नाटक रचिल्लें हें कॉलेजिचो आवटवर्ड रजिस्टर कोर्टांत दाखल करतगीर हो कितलो फटींग ताची खात्री जाली. खरेंच थंय पाटील नावांच्या मनशाचें एक पत्र कालेजींत आयिल्लें. पूण तें सगुणाचें नासलें, तें प्रमानंद पाटिलाचें आसलें. कोर्टान ह्याच कारणावयल्यान ताका फटींग थारायल्लो. पूण कोर्टान फटींग थारायल्लो म्हण तो सुटलो? ना. ताणीं सुमार तीन वर्सां कॉलेजींत चुकिचीं कागदपत्रां दिवन आयकर खात्याक फटयला. ताचेर वेगळे तरेन चौकशी चालू आसा. नॅशनल सेवींग सर्टीफिकेटीचो झेरोक्स मारून कोण जाणा कितले कडेन फायदो घेतला. तेंच ताचें उक्ताडार आयलां. ताचो निकाल जालो जाल्यार तेवटेनय खंयच्याय वेळार ताचेर कारवाय जावंक शकता.''

''पूण सर, आता ताका आपल्या सगल्या वांकड्या करण्यांची लज दिसता. तो सुदारूंक सोदता. ताका वाटावपाचो कांयच मार्ग ना?'' रितू चुरचुऱ्याक येवन प्रिन्सिपलाकडेन प्रार्थूंक लागलें.

''आतांच म्हज्यान कांयच सांगूंक जायना. पूण कारवाय खंयचे पद्धतीन जाता ताचेवयल्यान थारावंक जाता. जर तूं ताच्या सांगाताक आसा जाल्यार!''

''हय सर. म्हाका म्हजें जिवित इबाडपाचें ना. ताचें थोडें भौव जाणां जावन हांव ताचेकडेन लग्न जालां. जर ताचेर कसलोय आकांत आयलो जाल्यार हांव एकटें पडटलें.''

''ताणें जायत्यो फटी आपल्या जिवितांत पचयल्यात. पूण आतां ताच्या ह्या सभावाक आनी तोंडाक पळयल्यार दिसता तो आपल्या करण्याच्या लजेंत बुडला म्हंण. पयलींचे बायलेनय म्हाका विस्वासांत घेवन ताका सुदरावंक लायल्लो. तो सुदरलो ना. हांवें यत्न केले. आतां तूं सांगता. तुकांय उतर दितां, म्हजेकडेन जाता तसो आदार करतलों.''

''देव बरें करूं सर....... सगूण हें सगलें कितलें लिपोवन दवरिल्लें तुवें म्हजेपसून? असो एकामेकाचेर विस्वास दोन काळजां एक करिना, दोन काळजां दोशी करता.''

''ना रितू. म्हजे करण्यांची खऱ्यानीच म्हाका लज दिसता. प्रिन्सिपलान सांगल्या ती सत गजाल जावन आसा. हांव ताचेकडेन माफी मागतां आनी तुजेकडेन असलीं फटींगपणां केन्नाच करचो ना म्हण तुका भास दितां. तुज्या खऱ्या मोगाक भुलून हांव तुजेकडेन लग्न जालां तेन्ना तुकां कसलोच विस्वासघात करचोना रितू.''

''हांव तुजेर पुर्ण विस्वास धरतां सगूण. सर, हांव ताका माफ करतां. आतां कितलोय जाल्यार तो म्हजो घोव. वायटबरें हांवेच ताचें सोसून घेवंक नाका?''

''तुज्या निर्मळ विचारांची हांव दाद दितां!''

तितल्याक विमान बँगलोर विमानतळार देवलें. सगले लोक भायर वचपाक लागतांच दोन पुलीस अधिकाऱ्यांनी सगुणाक आडायलो. तांचे फाटोफाट दोग इनकम टॅक्स अधिकाऱ्यांनी आपली वळख दाखयत ताका ताब्यांत घेतलो. कोण कितें उलोवन कोणाक समजावचे पयलीं ताका भितर व्हेलो. रितू आनी प्रिन्सिपल पळयतूच उरले. कोणाक समजना कितें करचें तें. कितें येवजिल्ल्याभशेन करून प्रिन्सिपलान एक फोन केलो. फोनाचेर मात्सो वेळ उलयलो.

''रितू, तूं हांगाच बस. सगलें थाऱ्यार पडटलें. कांयच भिवपाची गरज नां.''

रितू असवस्थ जालें.. ताका समजना आतां मुखार कितें करपाचें. पूण प्रिन्सिपलाशिवाय थंय वळखिचो दुसरो कोण नासलो. देखून ताच्याच उतराचेर पांतयेवन सगुणाक व्हेल्ले ते वटेन तें पळयत रावलें, शुन्य नदरेन. ताचेकडेन प्रिन्सिपलूय बसून रावलो.

थोडच्या वेळान सगूण भायर आयलो. रितू खुशाल जालें. पूण तो रितुकडेन वचपाबदला प्रिन्सिपलाच्या पांयार पडलो.

''म्हाका माफ कर सर..........''

''हांव एक शिकोवपी आनी शिकोवप्यान आपणालें कर्तव्य विसरूंक जायना. शिकोवप्यांक आमच्या देशांत वडील मानतात. म्हळ्यार वडिलानी आपलें कर्तव्य विसरूंक जायना. रितू म्हजी धूव कशी. तिका दिल्लें उतर हांव मोडूं? हॅपी मॅरीड लायफ.''

प्रिन्सिपल चलपाक लागलो.

''थँक्यू सर .....'' दोगांच्याय तोंडांतल्यान एकच उतर भायर सरलें.

***



'स्नोज कृपा'
आर्लेम, राय,
सालसेत गोंय.

# सामकार गोरूं, फाटल्यान मेरूं

**-एन. सुहास**



हें नाटकुलें म्हळ्यार भाटकार आनी मुंडकार हांच्या मदल्या नात्याची विसकटावणी करपी एक फार्स आसा. समाजांतल्या ह्या दोनूय घटकांक पिढ्यान पिढ्यासावन पटना हें सगळे जाणांत. एकामेकाक अशें पडना जावनय दोगूय एकामेकांक तें जाणयनांत. दोगूय एकामेकांक दाखय-लिपय करपांत फिशाल आसतात.

अशाच एका भाटकार आनी मुंडकाराचें व्यक्तिचित्रण म्हळ्यार हें नाटकुलें.

### देखाव पयलो

(पेद्रू नाल्लांचो साक आनी पिशवी घेवन येता. भाटकारालें घर. नाल्लांचो साक सकयल दवरता आनी पिशवीय लागींच कडेक दवरता.)

पेद्रू : (उलो करता) भाटकाराऽ आगा ऽऽ भाटकाराऽऽ

भाटकार : (भायर येता) कोण? पेद्रू हय रे?

पेद्रू : हय भाटकारा, नाल्ल घेवन येयलेलों

भाटकार : थोडेच शे दिसतात मरे? येदे व्हडले चवथीक पावतीत मरे हे? फाटलेय खेपे अशेंच केल्लें तुवें!

पेद्रू : माडांक आनीक नाल्ल नांय भाटकारा. जून जाल्ले ते काडून हाडल्यात.

भाटकार : माडांक नाल्ल ना काय तुवें भायल्या भायर विकपाक दवरल्यात रे?

पेद्रू : तोशें कोशें भाटकारा---

भाटकार : नाजाल्यार कशें तर? हांव फार्टी गेल्लों तेन्ना माडांक पेंडी पळोवन आयिल्लों.

पेद्रू : ओंदू पावस उणो पळ्ळो न्हूं, म्हुणोन माडांक पोंय सारकी येयली ना.

भाटकार : पावसाचीं निमतां सांगता? तुवें वावर करूंना म्हणून सांग!

पेद्रू : तोशें कोशें भाटकारा---? तुमचीं कामां सोडून हांव आनी खुंय वयतां?

भाटकार : अंदू तुवें भाटांत वावर सारको केल्लो ना खरें मरे?

पेद्रू : केल्लो भाटकारा! वर्साप्रमाण सावळ बीं घायलेली, बरीं खोल आळीं काडलेलीं.

भाटकार : मागीर नाल्ल उणे कशे तर?

पेद्रू : फार्टी म्हजो धाकलो चेडो खूप बरो ना जाल्लो, तोरी लेगीत वावर करपाक उणें केलें ना आमी. दिसरात वावरा भितरूच आसतात आमी.

भाटकार : चेड्याचें दुयेंस, भाटाच्या आनी कुळागराच्या वावराचो कसलो संबंद रे पेद्रू----?

पेद्रू : तेसो ना भाटकारा, पूण चेड्याक घेवन दोतोरागेर हाड-व्हर कोत्ता म्हुणोसर नाका पुरो जालें. भायर घोसघोशांनी पावस रोकता आनी खोपींत आमी चेड्याक घेवन रात जागोयतालीं.

भाटकार : पळय, पेद्रू! तुका हांव स्पश्टच सांगतां. वर्सानवर्स प्रत्येक खेपे कुळागरांत वावर जालो ना. नाल्ल आनी ह्रेर मिरी,



सुपाऱ्यो बीं उण्यो जाल्यो. हें म्हाका खपचें ना. तुज्यान जायना जाल्यार हांव दुसरी व्यवस्था करतां. कितें तें सांग तूं म्हाका!

पेद्रू : नाका, नाका भाटकारा! तोशें कोरीं नाका. आज ३० वर्सां चडच जालीं आमी त्या कुळागरांत रावतात. आतां ह्या वक्तार तोशें कितेंय कोरी नाकांय. म्हाजीं ल्हान ल्हान पोरां आसाय तीं वाऱ्यार पोट्टेलीं.

भाटकार : हें कयटा मरे तुका? म्हणुनूच सांगतां तुका कुळागरांत वावर करूंक. तुका थंयच्यान काडलो जाल्यार, खावंक जेवंक मेळना जाल्यार वाऱ्यार पट्टलो हें कयटा तुका. आनी थंय वावर करिना जाल्यार उदाक, सारें सारकें घालीना जाल्यार थंय मेळटलें तरी कितें? सांग रे पेद्रू म्हाका. तुकाय कांय मेळचेंना आनी म्हाकाय कांय मेळचें ना हें लक्षांत दवर!

पेद्रू : खरें भाटकारा, पायां पडटां तुमच्या. तसो सामको सोडूं नासलो वावर आर्मी. आतां वोसोन जाता तेपरी वावराक लागतां- (वचपाक उट्टा)

भाटकार : बरें आसा, आनी तें पिशवेंत कितें आसा?

पेद्रू : उलयतां उलयतां विसरोनूच गेलों पळय. अशेंच जाता म्हाजें केन्ना केन्नाय! (पिशवेंतलें काट्टा) हें आळूं, हीं दोडकीं, ही भाजी, हो केळ्यां घड आनी दुदी माटोळेक बांदपाक मुद्दोम हाडल्याय. हें शिट्टें पिकोना पूण जून जालां तें.

भाटकार : इतलेंच मरे, येदें व्हडलें कुळागर आसतना हें कितें म्हज्या दोळ्यांक उदक लावंक हाडलां?

पेद्रू : भाटकारा कितें उलयतात तुमी? आनीक तन्ने चार नाल्ल आनी तवशाच्यो पिपऱ्यो फाल्यां हाडून पावयतां. ताज्यो आसल्यार बऱ्यो म्हुणोन......

भाटकार : हें कितें गणेसाक निवेध्य दाखोवंक हाडलां काय शास्त्र म्हूण रे वर्साचें?

पेद्रू : अंदू सावळ घायली आनी पावस गेलो. सोगलें सुकून गेलें. सारकें कुसोंक पावलें ना. म्हुणोन येकादे जायत माड उणे लागोंक काराण.

भाटकार : पावसान तुजो घात माल्लो म्हणून तूं म्हजो घात मारूंक सोत्ता. आ रे पावस कितें हांव घालतां? पावसान घात माल्लो म्हणून म्हाका हें अशें निवेध्य दाखोवपा पुरतें हाडप मरे?

पेद्रू : खऱ्यानीच सांगतां भाटकारा.... पोरांक देकून खावच्याक कांय दोवोल्लें ना. कितें मेवता तें घेवन येयलों. वाली बऱ्यो जावन येयलेल्यो बऱ्यो, पूण फुलपाच्या वोगतार पावस ना जालो आनी कोरपोन गेल्यो सोगल्यो. उदोक म्हुणोन घागरींनी कितू दीस घालतेलीं?

भाटकार : हांवें तुजेर भरवंसो दवल्लो तेंच म्हजें पयलीं चुकलें. ना जाल्यार ऐन वेळार असो .... तें आसूं. पेद्रू म्हाका दिसता तुज्यान तोल्ल म्हणून थंय चड दीस काडूंक जावचेनांत. तूं खंयसरय दुसरेकडेन पळयल्यार बरें शें दिसता म्हाका. हांव दुसऱ्या कोणाकय दवरीन.

पेद्रू : ना.. ना भाटकारा, वळवळतेलीं मुगे पोरां. हे मुकार ओशें जावचें ना. हाडाचें उदाक कोरून शिपतां तुजें कुळागर हांव. पूण म्हाका थंयच्यान धांवडाय नाका. पोरसांत आसलेलें तें तुका न्हूं जाल्यार कोणांक भाटकारा?

भाटकार : पळय, म्हाका फटी मारी नाका. हांव येवन पळोवं कितें आसा कितें ना तें?

पेद्रू : बोरे भाशेन, बोरे भाशेन. सोगलें इतलें तुमगेलेंच. म्हुज्यान कितें म्हुणो येता! तुमगे पोरोब ती आमगे न्हूं? हेजे पोयलीं ओशें केन्नां घोडलां?

भाटकार : आसूं, आसूं तें. आगो रत्न्या हें व्हरून दवर भितर आनी येतना पेद्रूक इल्ली च्या हाड.

पेद्रू : ती आनी कित्याक? पेजे नीस पिवन येयलेलो हांव.

भाटकार : घे रे इल्लीशी, बस मात्सो! सवका वच मागीर.

पेद्रू : ना, रोकडेंच वोसोंक जायें भाटकारा...!

भाटकार : रत्न्या, बेगीन हाड! आरे बस रे तूं! आनी हें पळय आमची ही चवथीची परब सोपली की रोखडोच येतां हांव एक दीस कुळागरांत.

पेद्रू : यो, यो भाटकारा. तुमी येयल्यार आमकांय उमेद जाता.

रत्नें : (च्या हाडटा) घे, केल्लीच आसली, मातशी गरम करून हाडल्या.

पेद्रू : (च्या घेता) देव बोरें ऽ करूं बाय! देरांत येयले फावटीं च्याव पिल्या बगर वोसोंना हांव हांगच्यान.

भाटकार : दारांत आयल्याक बेश्टोच धाडप आमच्या संस्कृतींत बसना. इल्लेशें च्यावे उदाक घेतकर आयिल्ल्याचो जीव सावशीक जाता. तातुंतच आमकां धादोसकाय भोगता.

पेद्रू : खरेंच, सामको खासावीस जालो म्हुजो जीव. गरम गरम ताळ्याक लागतकीर बरें दिसलें.(ग्लास धुवपाक पळयता)

भाटकार : हे थंय कडेक दवर, रत्नें धुतलें तो मागीर.

पेद्रू : ना, ना धुयतां हांव... इल्लें उदाक...

भाटकार : आरे दवर म्हटलां न्ही थंय!

पेद्रू : (ग्लास दवरून) बरें जांव भाटकारा तुमचें. येतां हांव भाटकारा. मारी वाट पळयतलें...

भाटकार : भुरग्यांक घेवन मारीक धाड फाल्यां चवथीक. आनी तुंवंय यो.

पेद्रू : बरें भाटकारा. (वता)







देखाव दुसरो

(पेद्रू सोरो पिला आनी लागींच मारी सुपांत कितें तरी वेचीत आसा)

पेद्रू : हायें भाटांत काम कोरूना? ऑ ऽ म्हाका भाट दिवंचोना? हांव पोयतोलों, तूं कितू आसा तो? आ रे ३० वर्सां हांव रावतां हिंगा, तुज्यान धांवडावपाक जाता म्हाका? आनी कोणांक केसो हिंगा हाडून दोवोत्ता तेंच चोंयतां.

मारी : येतोनाच कितें बोबाव तुजो? भाटकारागेर गेल्लो न्हूं तूं, तो गादयेर केसो पावलो? केळ्यां घड, नाल्ल बीं सारके पावोयले मूं भाटकारागेर?

पेद्रू : ना इकले ते हायें लिलुले गादयेर. सोगले नाल्ल आनी भाजी. इतू त्रास कोन्न कुळागरांत वावर आमी करप, सुपारी, नाल्ल किल्लोवन काडप आमी, आनी तेज्या हड्यार व्हरोन घालप. म्हागे बायल भुरगीं हांगा उपास काट्टात. सोगले तेका दिवन वोयल्यान गाळी आयकोवप.

मारी : शी.... कितें उलोयता तूं? कोणें गाळी माल्यो तुका? भाटकारागेर पावलो मूं तूं?

पेद्रू : पावलो तोर! इतू सोगलें पावोवन म्हाका जाय-फाय उलोयता. इतू तेंप हांव ओगो रावलों म्हूण आतां वोगो केसोच रावंचोना.

मारी : पूण हांव इचात्तां, वोयतोना येल्लें तें सारकें पावोयलें मूं...?

पेद्रू : मारी, तूं वोगेंच म्हुजेर दुबाव घेनाका हां! सांगोन दोवोत्तां. सोगलें सारकें पावोयलें आनी वोयल्यान उतरांय आयकलीं. तेगे कुळागर जालें, म्हुणोन कितें जालें? पयलीं .. आमी येवंच्या आदीं कितें आसलें हिंगा? सगलें इतलें हायेन किल्लोन काडलां. आनी तो म्हाका शापोतां सांगता.

मारी : अशें कितें जालां तुजें आज? पोचोवंक कळना जाल्यार चोड कित्याक पिल्लो काय म्हुण्टां!

पेद्रू : तूं म्होजेकोडें चोड सुबेज उलयनाका. भाटकाराक आतां येवनी हिंगा.. थोड्या दिसांनी येता खूंय तो हिंगा. म्हाका काडून दुसऱ्याक कोणाकूय दोवोत्ता खूंय तो कुळागर राखोंक. म्हागे कश्टाचें इतलें सोगलें व्हरोन दितां तेका आनी हायें वावर करूना म्हणटा. मुंडकार कायद्यान हें सोगलें म्होजेंच जावं येता.. खोबोर ना मिस्ता तेका.

मारी : हें सोगलें आतांच उलोवंक जायें? सोकाळीं गेलेलोय तो आतां हे वोक्तार येताय. दिसभोर कितें खालां काय उपार्शीच आसलो म्हूण सोर्वेश्वराकूच खोबोर. चोल भितोर, आमील आसा ती वाट्टां इल्ली. पिये आनी पड मात्सो शेनरे फट्यार.

पेद्रू : आमी सदांच आमील जेवप आनी तेणें आमचे खुस्तार शीत जेवप, मौजां मारप? वयल्यान आमकां .... हें भाट तेणें इकतें घेतलें खूंय? कोण सांगोता. पाखले वोयच्या वोगतार सोगलें हांगा सांडून गेलोले. तें हेणीं आपल्या नांवांर लावन घेतलें. म्हुणटोच जालें तेंगेलें?

मारी : तुयें तुज्या नांवांर एक लावन घेवपाचें न्हूं?

पेद्रू : तें करपाक हांव खूंय चार ओक्षरां शिकलेलों. चार ओक्षरां गांठीक आसलीं जाल्यार हे दोशेर पावपाचों? भाटकारा





कोडल्यान ओसलीं आयकोवपाचों?

मारी : आमी तेगेलेंच खातात न्हूं? हे सोगलें कुळागर तेगेलें म्हुणटोरेत....

पेद्रू : तेणें दिल्लें कांय खायनांत आमी. कुळागरांत आमी कोश्ट कोत्तात, आमी खातात. हो जागो येगे न्हूं. तो जावन आसाय सोर्वेश्वरालो. तेणें जोशे मोनीस केले तोशी जोमीन केली, कोश्ट कोरून पोट भोरपाक. भाटकारासारकें आयतें खावपाक न्हूं! सोवसारांत येयलेलो जण एकलो जेच्या -तेच्या नोशिबांतुलें खाता. पूण भाटकार मात आमगे नोशिबांतुलें खाता. म्हुगे भुरग्यांल्या तोणांतलें खाता. हें सोत न्हूं मारी....?

मारी : आज तुगे मानेर कोण बोसला मिस्ता?

पेद्रू : प्राजेवयलो देंवचार बोसला म्हुजेर आज. आनी तो भाटकाराक निवळायले बोगोर वोसपाचो ना.

मारी : बोगीच बोसलोलें कोडें इपरीतां करूं नाका चोवया! भुरगीं उठ्ठेलीं. चोल भितोर आनी ऊन आसतना पिये इल्ली आमील....

पेद्रू : आतां भाटकाराक येवनी...... नाल्ल हाडून पाय म्हुणोन सांगपाक.

मारी : नाका जाल्लें येवजूं नाका हां! वोगीच रात वाडयता, सोकाळीं फुडें उठोंक जायें वावर करपाक.... चोल म्होण्टां न्हूं?

पेद्रू : पोयतेलेंच तूं म्हागें कोर्तुब. ना भाटकाराची जिरयली तोर पेद्रू म्हुणोन नांव सांगचो ना.

मारी : सोर्वेश्वरा, तूंच निस्तोराय रे, सायबा. आनी सांबाव आमकां. यो आतां भितोर, मायटेंत आमील वाडून दोवोत्तां (वता)

पेद्रू : किर्ते कोत्तोलो आमील तोर आमील. पोटा भोरी खातीर किर्तेय पूण ताळ्या सोकला घालचेंच पोट्टा. (वता)

देखाव तिसरो

(कांय दिसां उपरांत भाटकार कुळागरांत भेट दिता)

भाटकार : पेद्रू ऽ ए पेद्रू ऽऽ

मारी : (हातांत माती काडपाचें आवत घेवन येता) कोण..: भाटकार, राबात हां, आपोयतां तेका. थिंगा त्या माडाकोडें काम कोत्ता. आळीं बा काटटा मिस्ता.

भाटकार : खंयच्या माडाकडेन. हांवच वतां थंय!

मारी : त्या आंब्या कडल्या माडाकडेन. हांव आपयतां. (भितर पळोवन मोट्यान) आयकलां .. आयकलां काय म्हणटां भाटकार येयला.. भाटकार. आयकोना मिस्ता....

भाटकार : तूं सादयनाका. हावंच वतां थंय!

मारी : आवो ऽ आयकलां काय म्हणटां ... भाटकार येयला ... भाटकार. आं- आतां आयकलें. थिंगा सावळेक रावात तुमी भाटकारा. तेन्नासोर पावतलो तो..... चोय येयलोच तो.

पेद्रू : (हातांत काम करपाचें खोरें घेवन येता) येया.. येयाय भाटकारा.... मारी तो लाकडा कुडको हाड, भाटकाराक बोसोंनी.

भाटकार : ना, ना बसना हांव. चड वेळ रावंचो ना. रोकडोच वचूंक जाय. जायतो वेळ जालो हांव आयल्यार. कुळागरांत्त ते वटेन भोवन पळेत हांगा आयलों.

मारी : गोणसा पयलीं तुमगेरसावन येतमेरेन तुमचीच तुस्त करता तो. भाटकार बरो मेवळो म्हणटा.. आनी किर्ते किर्ते सांगी. दिसयभर कुळागरांत काम करीत आसता.

पेद्रू : मारी वोगीच नाका जाल्लें सांगी नाका भाटकाराक.

भाटकार : पेद्रू, हांवें भोवन पळयलां सोगलें कुळागर. आदीं हांगा किर्ते आसलें आनी आतां किर्ते आसा तें कळना म्हाका? माड, माडयो कशो वाडल्यात हें कयटा म्हाका!

पेद्रू : सगलें आदलेंच न्हूं भाटकारा!

भाटकार : सगलें आदलेंच रे. पूण तांकां वयर नाल्ल, सुपाऱ्यो, लांबतात त्यो तरी आतांच्यो मरे?

मारी : तेंच सांगोतां भाटकारा. माड माडयेक बरें शिट्टें येतकीर उल्हास जाता तेका. काम करतना जेवणांचेंय शितीद आसोना तेका.

भाटकार : मारयानी, म्हाका सांगपाची गरज ना. कुळागरांत पळयल्यार गोमता तें सोगलें. हांव सरळ हांगा येवना. येतनांच बरी भोंवडी मारून आयलां. हालीसराक माडांक पेंडी बऱ्यो ऽ आयल्यात. सध्या तन्यो आसात त्यो. आनी माडयांकय शिट्टी बरी ऽ आयल्यांत.

पेद्रू : चोय भाटकारा. तेंकां पोय तें कोसलें नेयें सारें येयलां न्हूं तें पडत तर आनीकय मोट्ट्यो पेंडी येतेल्यो शो दिसता म्हुका. आनी नाल्ल येदे येदे जाताय खूंय.

भाटकार : हां... हां.. जाणां हांव. शेतकी खात्याच्या ओफीसांत मेळटा तें. तुमचें काम चालू दवरात तुमी. फावता तशें तें सारें पावयतां हांव हांगा. आनी मारी, कसलीय गरज लागली जाल्यार पेद्रूक धाड घराकडेन. बरें तर. (वता)

मारी : देवान बेसांव घालूं भाटकारा तुमचेर.(भाटकार वतकीर पेद्रूक) आतां सामको गोंठ्यांतलें गोरूं कसो जाल्लो मुरे



भाटकारा मुकारू. पोयर सामको उठ्ठालो..... भाटकाराक दाकोयता म्हुणोन नाचतालो मुरे.

पेद्रू : चोंय हां मारी, मोजी तोकली चोडोंय नाका. भाटकार आज येतेलो म्हुण म्हाका खुंय खोबोर... नाजाल्यार..

मारी : व्होय, व्होय, जाणां हांव. भाटकार आज येतेलो म्हुण पोयर्ली खोबोर आसल्यार इल्लें कोपाचें मारून झोगडें कोरपाक तोयारेन रावतासलेलो!

पेद्रू : कोपाचें म्हुणोन जाणां तूं! इल्लें कुट्ट करतकीर आंगांत केसो ताकोत येता ती नेणां तूं मारी.

मारी : जाणां हांव! आंगांत ताकोद येता आनी तोंणांत नाका आसलेलीं उतरां येतात, सोगलें गोमलां म्हाका!

पेद्रू : तूंय एक दीस इल्लें घेवन पोळोय मारी. भाटकार लेगून घेता खूंय!

मारी : थू तूं घेता तें पुरो जालें ना? हायेन भाटकाराक सांगोन थातारलो म्हुणोन बोरें. आनी भाटकार पिता म्हणटा न्हूं तें वोखदासारकें. तूं पिता तो सोऱ्यासारको सोरो जाता. तेंच्या पोटांत तो वखद म्हुण वोयता आनी तुज्या पोटांत मोस्ती कोरता खोरें न्हूं?

पेद्रू : मारी, खोऱ्यांनीच सांगतां. भाटकाराक म्होजो राग कयळा जातलो म्हुणोनच मोव पडलो तो, ना जाल्यार....

मारी : होय, सोगलें खोरें, भाटकार तुका भिवनच भोंवता मिस्ता! सांगची ना म्हुटल्यार सांगूंक येत, तूं म्हुळ्यार कितें तें जाणाय.... सामकार गोरू आनी फाटल्यान व्हडलो मेरू. कोणांक भिनाय तोसलो.

पेद्रू : म्होज्या पोदराक इल्लें आसलेलें तोर पोयतेलेंच आसलें तूं!

मारी : आं, खोबोर आसा म्हाका तें सोगलें. चोल दोनपार जाली चार गोटे खावंया आमी.

पेद्रू : पोरांय येयल्यां जातलीं घारा. तूं चोल मुकार. हे तें आळें सारकें करून येतां हांव.

(दोगांय दोन वटेन वतात)

***



धर्डे, सावइडें-गोय





# सुरेशाली

- भरत नायक

*(सुरेश एक सुटकेस आनी एक खाकेक मारपाचें बॅग घेवन दुबयसावन आयला. ताका खाड आसा.)*

सुरेश - कोण घरांत.... आरे कोण रावता काय ना रे ह्या घरांत?..... कोण तरी येयात मरे भायर.

(शाली येता)

शाली - (अजापता) ये सुरेश.... तूं केन्ना आयलो? ... आनी खाड बीन वाडयलां मरे सुऱ्या... गुंडा कसो दिसता-

सुरेश - शू.. ये शालू.... हळू उलय. वयनी आसा मगो घरांत?

शाली - हय. आपोवं?

सुरेश - नाका -नाका. हें सामान म्हजे कुडींत दवरून यो.

शाली - तूं येतलो म्हूण म्हाका पत्र कित्याक बरयलें ना तें सांग पयलीं.

सुरेश - आगो तें सगळें सांगतां... आनी आयक... (शालीच्या कानांत कितें तरी सांगता) कळ्ळें? सारकें जावंदी. (शाली बॅगो दवरून येता).... हा.. य... (मुद्दाम व्हडान)

शाली - हा..य.. कोण तूं? कोण जाय तुका? (ल्हवूच भितर पळयता)

वयनी - (भितरल्यान) शाली, कोणाक हाय हाय करता गो? कोण आयला?

शाली - सुरो. आं....वयनी येताशी दिसता.(मोठ्यान) पळयता कितें? कोणाक सोदता? कित्याक आयला?

वयनी - (भितरल्यान) शाली, .. कोण गो?

शाली - कोण ना वयनी. हांव पळयतां ताका. सुरो तो. पळयता कितें रे सुऱ्या?

सुरेश - वा.. सुंदर. ह्या घरांत इतलीं सुंदर मनशां रावतात हें खबर आसलें जाल्यार गोंय सोडून हांव त्या रेंवटांत वचचोच नासलों. खंयच्या शिल्पकारान ही मूर्ती घडयली काय! थँक्यू देवा, थँक्यू.

शाली - कोण जाय तें बेगीन सांग. म्हाका जायतीं कामां आसात.

सुरेश - तूं काम करता? खंयच्या हातान?

शाली - दोनांय हातांनी.

सुरेश - आरेरे.. काकूत बाबड्यांची!

शाली - कोणाची काकूत?

सुरेश - तुज्या दोनूय हातांची.

शाली - काकूत कित्याक रे सुऱ्या.

सुरेश - इतले सुंदर, नाजूक हात... कसलें काम करता गो तूं?

शाली - कपडे उमळपाचें, आयदनां घांसपाचें, सान्न मारपाचें, रांदपाचें, झाडां शिंपपाचें, जमीन पुसपाचें आनी गरज पडल्यार धुमके मारपाचें....

सुरेश - पुरो पुरो. आयकू नज. हे इतले नाजूक हात तूं कपड्यांचो, आयदनांचो आनी जमनीचो चिकोल काडपाक वापरता? शी... शी.. शी.. घरांत आनीक कोण रावना दिसता.

शाली - वयनी रावता, भाई रावता.

सुरेश - मागीर तांच्या हातांक कसली पिडा मारल्या!

शाली - वयनी .. हो पळय गे कितें उलयता.

वयनी - कोण गो तो? (भितरल्यान)

शाली - सुरो....

सुरेश - ये शालू, वयनी हुजरां सुरो म्हणू नाका आं म्हाका

शाली - कितें उलयता तर तूं? म्हजे वयनीक कितेंच म्हणिल्लें म्हाका मात पूण सोंसना.



सुरेश - चूक जाली. रागाभरशी आयलें म्हज्या तोंडाक.
शाली - कसलो राग?
सुरेश - तुज्या हातांचो, हातांचो न्हय-वावराचो-वावराचो न्हय- हे हात तूं चिकलांत बुडयता म्हूण म्हाका राग आयलो.
शाली - मागीर कितें करपाचें तर ह्या हातांनी?
सुरेश - ह्या हातांनी तुवें बागेंतलीं फुलां खुंटपाचीं. तांची माळ गुंथपाची. एक विणयेक बांदपाची, एक ह्या हाताक बांदपाची. एक त्या हाताक बांदपाची, एक तुज्या गळ्यांत घालपाची आनी एक... एक म्हज्या गळ्यांत घालपाची. (ताचे हात आपल्या गळ्यांत घालता)
शाली - आनी कितें करपाचें?
सुरेश - आनी पुजा करपाची?
शाली - (हात फाटीं काडटा) कोणाची?
सुरेश - म्हजी
शाली - कितें...?
सुरेश - म्हजी न्हय. देवाची... ये शालू, तुवें चानी पळयल्या?
शाली - तीन पाटांची चानी मरे?
सुरेश - हय. ताची शेंपडी पळयल्या?
शाली - हय.
सुरेश - कशी दिसता?
शाली - आवयस! चानयेपरस म्हाका शेंपडीच बरी दिसता.
सुरेश - ते शेंपडेचेर असो हात ओडटकीच कशें दिसता? (ताच्या हातार हात ओडटा)
शाली - आंवयस..! काय बरें दिसता.
सुरेश - आनी तीच शेंपडी अशी पोल्यार ओडली जाल्यार....?(शालीचो हात आपल्या पोल्यार ओडटा.)
शाली - चानी घांस मारतली. (ताचें बोट चावता.)
सुरेश - हायस, हय गो शालू, शेंपडी नाशिल्ली चानी तुका बरी दिसतली?
शाली - आंवय. लांडी.
सुरेश - शेंपडेबगर चानी सोबना तशी चलयेबगर चलो सोबना.
शाली - मागीर हांव कितें करूं रे सुऱ्या?
सुरेश - तुजी शेंपडी म्हाका लाय.
शाली - कितें...?
सुरेश - म्हणचें तुवें तुजो हात आतां म्हज्या हातांत दिवपाचो.
शाली - आनी कितें करपाचें?
सुरेश - आनी आमी दोळे धांपपाचे
शाली - मागीर कितें करपाचें?
सुरेश - फुडलें सगलें हांव करतलों.शाली धांप तर दोळे.
सुरेश - (दोळे धांपून) दी. तुजे हात म्हज्या हातांत दी. (वयनी येता आनी शालीचेर दोळे करून ताका भितर वचूंक खुणायता. शाली भितर वता आनी त्या जाग्यार वयनी उबी रावता) दी बेगीन दी.
वयनी - आठ आणे काडून ताच्या हातार दवरीत) घे. भीक मागतल्यान दारार रावन मागची.
सुरेश - (दोळे उगडटा) ही कसली नखलामी! ते नाजूक हात खंय गेले? एकदम साडी! आनी गळ्यांत मंगळसूत्र? एका खिणांत लग्न? आनी रुप लेगीत बदललें? देवी, तुवें म्हाका खरें रुप दाखयलें. तूं म्हाका प्रसन्न जाली. हांव धन्य जालों. पूण देवी तुजें वदळचेंच रुप बरें दिसतालें. देवी, म्हाका तुजें वदळचेंच रुप दाखय.
वयनी - तूं भितर कसो आयलो?
सुरेश - ह्या दारांतल्यान चलत आयलों.
वयनी - तूं कोण? खंयचो? हांगा कित्याक आयला?
सुरेश - एकदम तीन प्रस्न? एका प्रस्नाक कितले मार्क?
वयनी - मार्क न्हय. मार पडटलो मार.
सुरेश - देवा रे. तूंच म्हाका पाव. एकूय प्रस्न पाठ केलो ना हांवें.
वयनी - कसलीं फकाणां चलयल्यांत! वळख देख नासतना घरांत भितर सरता आनी वयल्यान फकणां करता. राव, दादाक आपयतां.
सुरेश - आपय, आपय. हांव भियेना तुज्या दादाक.
वयनी - म्हजो दादा न्हय. दादा म्हणचे गूंड. आमच्या शेजराक रावता.
सुरेश - तो ..! गुंडू शिरोडकार! फूक मारल्यार पडटलो.
वयनी - गुंडू न्हय रे चोरा. गुंडा, गुंडा.. गांवचो दादा. असो आसा. तो तुका एका बोटार घुंवडावपी, गिरगिरें कशें. ताची बॉडी पळयल्या तुवें? पदेराले पांव आंगाक दसयिल्ल्याबशेन मसलां ताचीं.
सुरेश - दवर तें! हांव कमी ना. म्हजी बॉडी पळयल्या तुवें? बॉडी न्हय ही- बडी... बडी. मोडना तसली. पळय. ही बडी ताच्या पावांक तोपून सगले पाव पंक्चर करपी.
वयनी - पळोवया तर....(फोन लायता)
सुरेश - हयवय पळोवया. हांवूय हाडपी म्हज्या गुंड्याक.
वयनी - हॅलो.. हॅलो...
सुरेश - (फोन केल्ल्याचो अभिनय करता) हॅलो.. हॅलो...
वयनी - हॅलो गुंडोबा..
सुरेश - हॅलो गुंड्या..
वयनी - गुंडोबा आसा रे?









सुरेश - गुंड्या ना रे?

वयनी - फोनार आपय.

सुरेश - आपय ताका फोनार

वयनी - (सुरेशाक) यू शटाप

सुरेश - (फोनार) यू. शटाप

वयनी - तुमकां न्हय-तुमकां न्हय.

सुरेश - तुकाच-तुकाच रे गुंड्या (हळूच बोट लावन तिचो फोन बंद करता)

वयनी - हॅलो.. हॅलो..

सुरेश - हॅलो.. हॅलो.. बंद केलो.

वयनी - (फोन दवरता) कोण रे तूं?

सुरेश - सुरो

वयनी - कितें म्हणलें. सुरो?

सुरेश - सुरो न्हय. सूर .. सूर.. सुरमारो.

वयनी - हांगा कित्याक आयला. कितें जाय?

सुरेश - एक ग्लास सूर.. उदक हाडूंक लाय

वयनी - शाली.. उदक हाड गो एक ग्लास.

शाली - (भितरल्यान) हाडटां वयनी.

सुरेश - वा.. कितें आवाज शालूचो! उदक चिरीत तारूं धांवचें तसो.

वयनी - उबोच चिरतां तुका. हांकां येवंदी.

सुरेश - तुका चिरूंक कळना? उबोच?

(शाली उदक घेवन येता)

शाली - उदक हाडलें.

वयनी - दी ताका

शाली - (मुरगटत) उदक हाडलें..

सुरेश - आवयस. काय बरें उदक(उदक घेतना ताच्या हाताक हात लायता) मोव मोव. चानयेची शेंपडी

वयनी - उदक दी आनी फाटीं सर गो शाली. (सुरेश उदक पियेता)

सुरेश - वा.. तुवें उदकांत बोट बुडयिल्लें गो शालू?

शाली - आंवय. पिवपाच्या उदकांत म्हण बोट बुडयतात खंय!

सुरेश - चुकून बुडलां आसतलें.

शाली - ना गे वयनी, चुकून सुद्धां बुडूंक ना.

सुरेश - तुवें तोंड तरी लायलां आसतलें ग्लासाक, नाजाल्यार उदक इतलें गोड जावपाचें न्हय.

वयनी - शाली, ग्लास घेवन भितर वच. (शाली वता) तूं वता काय ना?

सुरेश - तें गेलें भितर.

वयनी - तुकां विचारतां तुकां. वता काय ना तूं?

सुरेश - म्हाका? ( पांयार पांय दवरून बसता आनी जामोळी काडटा) शालू.....

शाली - (भितरल्यान) ओ..व

सुरेश - हांगा यो. (शाली येता) शालू, म्हाका न्हीद येताशी दिसता.



म्हज्या दोळ्यांत न्हीद आसा जाल्यार पळय. (शाली ताच्या दोळ्यांत पळंयता.)

शाली - वयनी, ताच्या दोळ्यांत हांव दिसतां.

सुरेश - तूं म्हज्या दोळ्यांतूच आसा गो शालू.

वयनी - तूं म्हणून सामकें मगो शाली.

सुरेश - हय गो शालू, म्हाका सामकी लकवण येता. म्हज्याखातीर कडकडीतशी च्या करून हाड पळोवया. उदक थोडें आनी दूद चड घाल. चल... हां. आनी साखर घालूं नाका. तूंच मात्शें तोंड लाय. (शाली लजता)

वयनी - नाका गो. च्या बी कांय दिवं नाका ताका. बरो बसला आनी ओर्दी सोडटा, आपणालें घर जाल्लेवरी.

सुरेश - हाडिना? हाडिना मगो तूं च्या? बरें आसा. हांव कुडींत वतां आनी तांडून दितां. म्हाका येन्ना उठोवं नाकात. समजलें? शालू, कुडींत सान्न मारल्या मगो?

शाली - हांव सदांच सान्न मारतां. हातूण बी झाडून घालतां.

सुरेश - शाबास! म्हजेखातीर तूं कितलें करता गो शालू!

वयनी - तुजेखातीर न्हय रे चोरा. हांवें सांगलां ताका. ती सुरेशाली कूड. सदांच झाडून पुसून नितळ दवर म्हूण.

सुरेश - कोणाली? कोणाली कूड म्हणलें?

वयनी - सुरेशाली.

सुरेश - वा... कितलें सुंदर उतर. सुरे...शाली

वयनी - इतलें गिरोवपासारकें कितें आसा त्या उतरांत?

सुरेश - खूप आसा. भरून रकपाइतलें आसा. सुरेश आनी शाली. तुजें नांव कितें गो शाली?

शाली - शाली

सुरेश - सुरेश शाली. आसा काय ना मजा.

वयनी - आरे सुरेश म्हजो देर. भायर आसता.

सुरेश - आपय तुमच्या सुरेशाक. पळोवया तरी कसो दिसता तो.

वयनी - हांगा न्हय, दुबय.

सुरेश - श्रेण खावंक गेला!

वयनी - कितें म्हणलें?

सुरेश - हें कोण काय म्हणटां, सुरेशालें?

वयनी - कोण न्हय. तें आमगेर कामाक आसता.

सुरेश - आतां म्हज्यान कशेंच रावूंक नज. न्हीद म्हज्यान कशीच सोसूंक जायना. (जामोळी दीत कुडींत वता)

शाली - दिवया गे ताका इल्ली च्या.

वयनी - तुका ताचो इतलो पुळको कित्याक येता गो? राव, ताका हांवूंच बुद्ध शिकयतां. (कुडीचें दार धांपता आनी खिळी घालता)

शाली - आवयस. वयनी, खिळी घातली? तो भितर घुसमट्टलो मगे.

वयनी - तूं कित्याक इतलें घुस्मट्टा गो? (फोन लायता) हॅलो.... हॅलो.... हांकां मात्शे फोनार आपय पळवया... हांकां रे म्हज्या मिस्टराक.. रमेशाक.. रमेशाक ......... हॅलो, बेगीन घरा येयात पळोवया........ हांव उलयतां.....: हांव म्हळ्यार..... म्हजो आवाज वळखनांत? .... घरकान्न तुमची.... मात्शे बेगीन घरा येयात.... येयात म्हणटां न्हय... एक चोर मवाली आमच्या घरांत घुसला.... दादागिरी करता... हें हाड, तें हाड करून आमकां ऑर्डरी सोडटा.... वच म्हळ्यार वचना. सुरेशाले कुडींत वचून खाटीर न्हिदला. .... ना-ना. हांवें दाराक भायल्यान खिळी घातल्या..... तुमी बेगीन येयात.....हॅलो..: येतना एक बरोसो पुलीस हाडात..... पुलीस ... पुलीस .. हय.. ऑफीस झक मारलें. बेगीन येयात.(फोन दवरता)

वयनी - (शालीक) थंय कितें करता गो तूं?

शाली - वयनी, भितर कसलो आवाज येता.

वयनी - कसलो आवाज येता गो?

शाली - मोटरसायकलीचो.

वयनी - मोटरसायकल कोणें दिली गो ताका?

शाली - हांवें दिवंक ना वयनी.

वयनी - उठ हांव पळयतां.... (आपूण दाराक कान लायता. घोरेपाचो आवाज येता) आगो तो घोरेता.

शाली - सामको मोटरसायकली बशेन न्हू? .... दार उगडुया गे वयनी.....

वयनी - कित्याक गो? तूं भितर वता?

शाली - ना वयनी. तो जनेलांतल्यान पळत म्हूण म्हणटां.

वयनी - शाली, म्हाका एक सांग गो, तो तुका बी मेळपाक येवं ना मगो?

शाली - हांव नकळ वयनी, म्हाका पळोवन ताणें हा.... य केलें.

वयनी - तुवेंय हाय केलें मगो?

शाली - हय वयनी. म्हाका हाय म्हणपाक बरें दिसता. हा... य...

वयनी - हाय म्हणचें कितें गो? अर्थ जाणां तूं?

शाली - हाय म्हणचें... इंग्लीश लोक दिसले म्हणटकच हाय म्हणटात. आमी दुखलें म्हणटकच हाय म्हणटात.

वयनी - तुजें कितें दुखलें?

शाली - म्हजो हात दुखलो. ताणें चिड्डिलो.

वयनी - इतलो वेळ तुमी कसल्यो खबरी करतालीं गो?

शाली - हांव वर्गींच आसलें वयनी. तोच म्हाका कितें कितें



सांगतालो.

वयनी - कितें सांगतालो?

शाली - हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी सांगतालो.

वयनी - कसल्यो खबरी सांगतालो गो?

शाली - वयनी, तुवें चानयेची शेंपडी पळयल्या न्हू.

वयनी - चानयेची शेंपडी?

शाली - हय. शेंपडेबगर चानी सोबता?

वयनी - कितें जालां गो तुकां?

शाली - असल्यो खबरी सांगतालो तो वयनी.

वयनी - शाली, तो पिसो बी न्हय मगो?

शाली - ना वयनी. तो खूप शाणो. खूप शिकला तो.

वयनी - तुकां कशें कळ्ळें? तुवें रोखडोच पारखिलो ताका?

शाली - तो उलयता ताचेवेल्यान कळटा.

वयनी - आतां हें आयले म्हणटकच कळटलें. कितें शिकला तो.

शाली - वयनी, भाई ताका मारतलो गे?

वयनी - पेट घालतलो पेट. मागीर सगळें सांगतलो. कितल्यो चोरयो केल्यात आनी कितले खून केल्यात ते.

शाली - ना गे वयनी, ताणें कांयच करूंक ना. तो बरो मनीस मगे. ताका वोगीच मारूं नाकात. भोंगूं गे ताचें. सोड गे ताका.

(रमेश येता)

रमेश - खंय आसा... खंय आसा तो चोर. खूनमारो, लुटमारो? दाखय म्हाका. धाडोवन धाडोवन पीठ करतां चण्याचें.

वयनी - तुमचेपरस मोठो आसा तो. बोवाळ करूं नाकात. उठलो जाल्यार तोच आमचें पीठ करीत. हे कुडींत सुस्त न्हिदला. मोटरसायकल चलयल्लेबशेन घोरेता.

रमेश - घोरेता! आब्बा! म्हज्या घरांत चोर घोरेता! म्हजें घर आसून हांव केन्ना घोरेलोंना.

वयनी - आपलें आपल्याक कळना तें. आयक.

रमेश - (दाराक कान लावन) हं. .. घोरेवंदी. एक व्हडली दोरी हाड. खाटीकूच बांदून घालतां. मागीर पेटया बरोच. तूं आसा मगो?

वयनी - हांव खोटांनी गुड्डावपी ताका. तूं गो शाली?

शाली - नाका रे भाई, बांदून घालूं नाका ताका.

रमेश - आं... तुका कित्याक दुखता गो?

वयनी - वदळच्यान दुखता ताका.

शाली - म्हाका दुखना. तो खाट घेवन पळत म्हूण म्हणटालें.

रमेश - हॉस्पीटलाक फोन करून एक खाट बूक कर.

वयनी - तुमकां हॉस्पीटलांत व्हरचें पडटलें?

रमेश - म्हाका न्हय. ताका. हाडां मोडटां चोराचीं.

शाली - नाका रे भाई, हाडां मोडूं नाका.

रमेश - तुजीं हाडां दुखतलीं?

शाली - ना. तुमचे हात दुखत म्हण म्हणटालें.

वयनी - तुमकां हांवें कितें सांगिल्लें? येतना एक बरोसो पुलीस हाड सांगिल्लें मूं?

रमेश - बरो पुलीस ना गो थंय. सगळे मेंगे.

वयनी - हालीं पुलीस थोडे आनी चोर चड जाल्यात.

रमेश - चोर खंयचो आनी पुलीस खंयचो तें वळखूंक येना. तुका दोरी हाड सांगिल्लें मगो?

वयनी - चल गो शाली, दोरी घेवन यो.(शाली वता)

रमेश - कसो दिसता?

वयनी - आतां तुमी बरे कित्याक दिसूंक जाय.

रमेश - हांव न्हय, तो.

वयनी - चोरांक रुपां आसतात खंय! सगळे चोर एकेच माळेचे.

रमेश - रुपान न्हय, आंगान.

वयनी - आंगान आसा, धिरयेचो बैल कसो. काळें खाड आसा.

रमेश - खाडूय आसा? म्हज्यान जातलें मगो?

वयनी - जावंक कितें जालां! न्हिदिल्ल्या मनशाक बांदपाक कितलीशी शक्ती जाय! हांव आसां न्हय.

रमेश - एकटोच आसा मगो?

वयनी - तुमच्या घरांत तुमी इतले भियेतात मू? म्हजीं कांकणां घालून तुमी हांगा बसात. हांव बांदतां ताका.

रमेश - च्ये.. च्ये... हांव भियेना ताका. दोग जाण आसल्यार दोन खाटी बूक करूंक जाय, म्हणून विचारलें....... जनेलां बंद आसात मगो?

वयनी - कित्याक. तुमकां पळपाक?

रमेश - न्हय गो, तो पळयत म्हणून.

वयनी - धांवडायल्यार लेगीत वचना तो. आनी जनेलांक ग्रील्स आसात. तुमकांय पळूंक मेळचें ना. तुमी भितर वतकीच हांव भायल्यान खिळी घालतलें. ताका धोडावन जातकच दार धोडायात. मागीर हांव दार उगडटलें.

रमेश - आनी ताणें दार धोडायलें जाल्यार?

वयनी - जाल्यार हांव भितर वतलें आनी.....

रमेश - आनी कितें करतलें?

वयनी - कांय ना. (शाली सुतली घेवन येता)

रमेश - ही सुतली तुजे शेंडयेक बांदपाक हाडल्या? त्यापरस बिश्टीणीचें सूत कित्याक हाडलेंना?

शाली - सोदतालें हांव बिश्टीण.

रमेश - राजू ना गो?



शाली - राजू ताका दुखतलो भाई.

रमेश - घेवन यो पयलीं.(शाली वता)

वयनी - म्हाका हाचोचें दुबाव मारता. हें फितूर आसतलें ताका. हाणेंच आपयला जातलो ताका.

रमेश - कित्याक?

वयनी - चोरपाक.

रमेश - असो तुका दुबाव मारता?

वयनी - सर्वंटांचेर चड विस्वास दवरूंक जायना.

रमेश - तशें जाल्यार दोगांकूय बांदून घालया.

वयनी - दोगांकूय एकेच खाटीक बांदून घालतले? ताकाच बांदपाचें पळयात तुमी. हाचेर हांव नदर दवरतां. (शाली राजू घेवन येता)

शाली - राजू हाडलो. .... भाई चड फोर्सान बांदू नाका रे.

रमेश - तुका बांदपाक हाडूं ना तो. तूं शें कित्याक भियेलें?

शाली - त्या खातीर म्हणना. राजू तुटत म्हण म्हणटां. (रमेश दार उगडटा आनी भितर वता) वयनी, दार धापूं?

वयनी - नाका गो. पळोवया तरी कसो बांदता तो.

शाली - आवयस. वयनी, तो उठलो. आतां तो भाईक मारतलो. ताणें भाईक घट धरलो मगे?

वयनी - वेंगेत धरून वयर उबारलो मगो ताणें. आनी हांसता मगो पिसो कसो. यो, आमी या पेटपाक. (सुरेश रमेशाक वेंगेत धरून उबारून भायर हाडटा. रमेश "सोड म्हाका-सोड म्हाका" म्हणत आसा. सुरेश व्हडाव्हडान हांसता.)

सुरेश - आरे भाई, म्हाका वळखूंना?

रमेश - तोंड तरी दाखय मरे तुजें. तोंडाक पळयलेबगर कसो वळखतलों? सोड तरी म्हाका.(सुरेश सोडटा) सुरेश तूं? आनी अकस्मात? खाड बी बरें वाडयलां मरे तुवें? आनी फुगला पळय, बोमाडो कसो? आगो तूं हाका वळखना? हो सुरेश. म्हजो भाव. भायर आसता तो.

वयनी - आंवय....! हांव वळखलेंच ना. कशें वळखतलें? हांवें केन्ना पळयला ताका? आमच्या लग्नाक काय येवंक ना म्हणून बरो.

रमेश - आगों, दुबयकारांचें तशेंच. भावाच्या कित्याक? ते स्वताच्याच लग्नाक पावनांत. न्हवरो थंय आनी लग्न हांगा अशी तांची परिस्थीती.

सुरेश - पूण दादा, आतां हांव वचपाक येवंक ना. हांगाच रावपाक आयलां.

रमेश - कित्याक रे बाबा?

सुरेश - हांगा परिस्थीती बरी आसा. आतां हांगाच कसलोय धंदो सुरु करतलों आनी संवसार थाटट्लों.

रमेश - पयलीं अशेच म्हणटात तुमी. एकदां लग्न जालें म्हणटकीच बॅगां घेवन पळटात.

सुरेश - हांव तांतलो न्हय.

रमेश - शाबास! जाणा मरे सुरेश, आपल्या गांवां इतली बरी सुवात जगांत दुसरी खंयचीच ना. सवण्यांनी कितलेंय पयस उडचें, पूण आपलो घोंटेर विसरचो न्हय. गल्फांत पयसो आसा. गल्फांतल्या पयशांक गोंयांत मोल आसा पूण गोंयची माती, गोंयचो लोक, गोंयचो मोग आनी मनीसपण थंय मेळना.

सुरेश - खरें भाई. गोंय तें गोंय. थंय फकत दुडवांक मोल. हांगा मनशाक मोल. हांवें थंयचो फकत दुडू हाडला. मनीस हांगासलो जोडटलों.

रमेश - आरे पूण तुजें सामान खंय?

सुरेश - हांव सामान घेवन आयलों, तेन्ना भायर कोणनासलो. हांवें सामान म्हज्या रुमांत दवरूंक बी लायलें आनी हाका म्हळें एक नाटक करया. वयनी म्हाका वळखुची ना हें हांव पयलींच जाणां आशिल्लों.

रमेश - आगो तो आमच्या लग्नाक आयलो ना खरो, पूण तुवें ताका फोटवार कितलेच फावटी पळयला.

वयनी - त्या फोटवाक खाड ना.

रमेश - हा..हा..हा.. सुरेश, ह्या तुज्या खाडान घात मारलो तर!

वयनी - मवाली समजून हांवें ताका घरांतलो वच पसून म्हणलें. पयलीं सांगपाक किते जातालें.

सुरेश - आसूं वयनी, नेणारपणान केल्ले चुकेक क्षमा करूं येता.

शाली - वयनी, तो तुजो देर गे?

वयनी - हय गो. तूं एक. सगळें आयकून राम सीतेचो कोण काय विचारतलें.

सुरेश - हां.... वयनी, ताचें नाटक अजून सोंपलेंना.

शाली - वयनी, ताका कडकशी च्या करून हाडूं?

वयनी - हयवय. सामकी दुदाची. उदक घालूं नाका.

सुरेश - कोपभर च्या कर आनी बालदीभर उदक घाल.

शाली - कोपभर च्यायेंत बालदीभर उदक? अशें कशें गे वयनी?

सुरेश - हें पळय, तें अशें. कपभर च्या म्हाका पिवपाक आनी बालदीभर उदक म्हाका न्हावपाक.

शाली - हून काय थंड.

सुरेश - सामकें तुज्या इतलें थंड. (शाली वता.)

रमेश - सुरेश, इतलीं वर्सां तूं वाळवंटांत रावन आयलो. पूण अजून फकणां करपाची संवंय सुटूंक ना तुजी.

सुरेश - लग्न जाल्याशिवाय सुटपाची ना ती सवंय.







रमेश - सामको लग्नाकूच पेटला तर तूं!

सुरेश - हय दादा. ह्या दोन दिसांभितर हांव लग्न जालोंच म्हण समज.

वयनी - अशें कितें तटलां तर?

रमेश - आगो हे दुबयकार अशेच. हांचेर विस्वास दवरपाचो ना. म्हयनोभर रावपाक म्हण येतात आनी लग्न जावन आठ दिसांनी परते वतात. बायलेक मात फाटल्यान तळमळायतात.

सुरेश - पूण हांव बायलेक घेवन हांगाच तळमळटलों.

रमेश - तशें जाल्यार आयजसावन तयारेक लागचें पडलें. चल आतांच्या आतां ऑफिसांत यो आनी तुका जाय ती चली पसंत कर. हांव रोकडेंच उतर घालतां.

सुरेश - तुमच्या ऑफिसांत असलींय कामां जाता तर! पूण भाई, तुमकां हांव कसलेच त्रास दिवंक सोदिना. चली एका पांयार तयार आसा. आनी हांव दोन पांयार उबो आसां. राव, पयलीं न्हावन येतां. (वता)

रमेश - चल. एक बरें जालें.

वयनी - कितें बरें जालें.

रमेश - हो लग्नाक तयार जालो तें बरें जालें. तूं ताका वळखना. भायर वचच्या पयलीं तो चलयांकडेन केन्ना उलोवन नकळ आसलो. तोंडाक लेगीत पळयनाशिल्लो. घरांत कोणय सोयरीं आयलीं जाल्यार हो सरळ खोमीस घालून घराभायर वतालो.

वयनी - चलयांची नदर चुकोवपा ख़ातीरूच भायर गेल्लो काय कितें?

रमेश - जायत. करतालोच तशें तो.

वयनी - आनी आतां चलयां खातीरूच परतून भितर आयला दिसता.

रमेश - तशें जालें जाल्यार एकदम बरें जालें. असो बदल मनशाच्या जिवनांत घडूंक जाय. म्हाका मात ताचो हुस्को जाल्लो. ताची वागणूक पळयली जाल्यार असो बदल ताच्यांत केन्नाच घडचोना काय दिसतालें. एक हुस्को मेकळो जालो.

वयनी - हुस्को मेकळो जालो खंय! तो आतां आमकांच हुस्क्यांत उडयतलो.

रमेश - म्हणचें?

वयनी - बरोच एक्सप्रेस जावन आयला तुमचो भाव. आयलो केन्ना, घरांत भितर सरलो केन्ना आनी सूत जुळयलें केन्ना.

रमेश - सूत जुळयलें? अशें तोय म्हणटालो खरो . चली तयार आसा अशें ताणें म्हणिल्लें खरें. पूण म्हाका ताचें कांयच खरें दिसना. घरांत पांय दवरता थंय आसा, जुळयतलो केन्ना? जुळोवप म्हळ्यार कितें फकाणाचीं कामां न्हय. म्हयन्याचे म्हयने फाटीक लागलो तरी हांगा पाकळी झडना. तुजेखातीर हांवें कितले त्रास काडल्यात तें तूं नकळ? फकत म्हज्या तोंडाक पळोवपाक तुवें एक म्हयनो घेतलो. दांत दाखोवपाक आनी एक म्हयनो.. तोंडांतलें उतर भायर सरपाक आनी



एक म्हयनो. लग्नाची उलोवणी करपाक तर सारके स म्हयने. आमकां धाडस जायनाशिल्लें.

वयनी - तुमचें सोड. तो तुमच्या परस हुशार आसा. तुमचे कडेन णव म्हयने जालें ना तें ताणें णव मिनटांनी केलें.

रमेश - शक्यूच ना. तें फकत नाटकांनी आनी पिक्चरांनी घडटा. प्रत्यक्षान न्हय. हां... एक गजाल शक्य आसा. जो मनीस प्रत्यक्ष सांगू शकना, तें पत्रांतल्यान बरोवंक शकता.

वयनी - पत्रां बरोवंक पयलींची वळख आसची पडटा. आदीं पळयिल्लें तरी आसचें पडटा. शालीक ताणें केन्ना पळयल्लें? म्हज्या लग्ना पयलीं शाली हांगा आशिल्लें तरी? आनी तुमचो भाव इतल्या तेंपान आयज आयला. कशें जुळ्ळें? केन्ना जुळ्ळें? सांगात पळोवया मात्शें.

रमेश - म्हणचें शाली....? शालीकडेन ताणें जुळयलां म्हणटा तूं? च्ये-च्ये असलें कितें करचो ना तो.

वयनी - आतां हांवें पळयलां तें फट?

रमेश - कितें पळयलां तुवें?

वयनी - अशे दोळे धांपून ताचो हात हातांत घेतना हांवें म्हजे दोळे उगडून पळयलां.

रमेश - कितें ..?.. दोळे धांपून हात हातांत घेतलो? नेणार तो. कसलीय वस्त घेतना दोळे उक्ते दवरून घेवंचें हें खबर ना ताका. हांव समजायतां.

वयनी - आनी शाली ताका कितलें भुल्लां तें तुमकां वदळ समजलेंना?

रमेश - केन्ना वदळ?

वयनी - राजू दितना, चड घट बांदू नाका म्हूण कळकळून सांगतालें तेन्ना. ताका मारू नाका, म्हणटालें तेन्ना. आनी सुरेश , भाव तुमचो, लग्न जावन हांगाच संवसार थाट्टलो म्हणटालो. तेन्ना कोणाक पळयतालो थंय तुमचें लक्ष आशिल्लें व्हय तर? म्हजें आशिल्लें.

रमेश - शालीक पळयतालो?

वयनी - आनी?

रमेश - खंय आसा गो तें?

वयनी - आसा भितर.

रमेश - आनी सुरेश खंय आसा?

वयनी - तोय भितरूच आसा.

रमेश - दोगांय भि...भि...शाली.... पयलीं भायर यो. तूं उलो मार पळोवया.

वयनी - शाली...ये शाली. ताका खंय आयकूंक येत असल्या वेळार?

रमेश - तूं वचून घेवन तरी यो ताका.

वयनी - म्हज्यान पळोवं नज तें. हांव हांगाच रावन उलो मारतां.

दोगांय - शाली.... ये शाली....

शाली - (भितरल्यान) आयलें वयनी.

रमेश - बेगीन यो.

शाली - (भायर येता हात ओले) कितें वयनी? कितें जालें?

वयनी - तुका भायर येवपाक इतलो वेळ कित्याक गो?

शाली - हावें आयकलोना उलो. हांव न्हाणयेंत आसलें.

वयनी - न्हाणयेंत कितें करतालें गो?

शाली - उदक काडून दितालें.

रमेश - आनी सुरेश खंय आसलो?

शाली - तोय न्हाणयेंतूच आसलो.

रमेश - तूं इतलें भिजलें कशें गो? उदक काडटना इतलें भिजता?

शाली - शाबू लायतना भिजलें वयनी.

रमेश - कोणाक शाबू लायतालें गो तूं?

शाली - ताचे फाटीक

वयनी - आनी हें...हें...कितें गो? तुजे फाटीक शाबू कसो लागलो?

शाली - (लजता) हांव नकळ.(भितर वता. रमेश ताका पळयत उरता.)

वयनी - आतां पळयता कितें? शाबू लावन जालें ताचें. आतां ताचें कितें करपाचें तें येवजियात. सर्वंटाकडेन- (फोन वाजता. रमेश फोन घेता)

रमेश - हॅलो..... हां... आयलों- आयलों. (फोन दवरता) ऑफिसांतलो फोन. बेगीन यो खंय.

वयनी - वचूं नाकात. हांकां दोगांकय सांबाळपाक म्हज्यान जावंचें ना.

रमेश - आगो वचुंकूच जाय म्हाका.

वयनी - तुमच्या ऑफिसांतल्या सगल्या चलयांक हांगा आफयात.

रमेश - सगल्यांक?

वयनी - हय सगल्यांक. आनी कोण मेळटा जाल्यार तांकांय हाडात.

रमेश - पूण कित्याक म्हण?

वयनी - पार्टी आसा म्हण सांगात.

रमेश - कसली पार्टी?

वयनी - म्हज्या वाढदिसाची

रमेश - आयज तुजो वाढदीस? हें पळय, अशें जाता. वर्सान वर्स हांव तुजोच वाढदीस विसरतां. ॲनी वे, मॅनी हॅपी रिटर्न्स ऑफ द डे.. जल्मदिसाचीं परबीं.

वयनी - शी बाये, हें कितें! आयज कसलो म्हजो वाढदीस? बेठींचं आपयल्यार तीं येवचीं नांत म्हणून तांकां तशें सांगात. हांव



पार्टी अॅरेंज करतां.

रमेश - पूण कित्याखातीर?

वयनी - कशें समजना तुमकां! तुमच्या ऑफिसांतल्यो चलयो सुंदर आनी आंकवार आसात म्हणटात न्हय तुमी. सुरेशाचें लक्ष तांचेर गेलें जाल्यार शालीची कटकट सुट्टली.

रमेश - असल्यो कटकटी सुटपाक कठीण. पळोवया प्रयत्न करून.

वयनी - आतां मात्शे चलात पळोवया बेगीन. हांव भितर लक्ष दितां.

सुरेश - (न्हावन आयला) गोंयचें उदक लेगीत कितलें थंड! न्हाता तितलें न्हायन दिसता. हां.... आतां बरें दिसलें जिवाक. जीव कसो शांत जालो. भाई, ऑफिसांत वता जाल्यार म्हजें एक काम कर. ऑफिसांतल्या सगल्या चलयांक आनी चल्यांक, बायलांक आनी दादल्यांक फाल्यां दनपरां आमगेर पार्टीक आपय.

रमेश - पार्टी कसले खोशयेन रे सुरेश?

सुरेश - म्हज्या लग्नाची पार्टी दिवंक नाशिल्ली न्हय.

रमेश - तुजें लग्न केन्ना जालें रे?

वयनी - दुबयचें बी घेवन आयलो दिसता.

सुरेश - ना वयनी. आतां नाटक चड ताणून दवरप बरोबर न्हय.पड्डो उडोवंचोच पडलो. मात्शें शालीक भायर आपय. शाली....

वयनी - शाली कित्याक? कितें काम आसा तें सांग म्हाका.

सुरेश - तूं वयनी... तें शाली....सुरे-शाली. हें पळय लिपता. हांगा यो गो. आतां येवचेंना तें. लजता.... भाई, हें शाली आसा न्हय.... दुबय वयचे पयलीं आमी सिवील मॅरेज केलें. ताका हांवें सांगिल्लें, आमगेर वचून राव म्हण. तें हांगा सर्वंट म्हूण कामाक लागलें.

रमेश - आरे, पूण तुमचें जुळ्ळें कशें रे? तूं तर केन्ना चलयांक पळोवपी न्हय.

सुरेश - तें म्हाका पळोवंक दिनासलें. भाई, हांव दुबय वचचे पयलीं ज्या ऑफिसांत काम करतालों न्हय, त्या ऑफिसांत तें म्हजें बॉस आसलें. ताणेंच म्हाका दुबय धाडलो.

वयनी - तुजें बॉस आसून लेगीत तुगेर सर्वंट म्हण काम केलें?

रमेश - हाका म्हणटात खरो मोग.

वयनी - आनी इतली बरी नोकरी सोडली रे ताणें?

सुरेश - हांवें नोकरी सोडूंक दिली ना ताका. लीव काडूंक लायली. मर्दी मर्दी वचून येता तें ऑफिसांत. तुमकां कळनासतना.

वयनी - आनी इतलो वेळ तुमचें छुपके छुपके कित्याक चलतालें तर रे?

सुरेश - तें नाटक वयनी, तुमकां दाखोवपाक केल्लें.

रमेश - ह्या नाटकांत तुजेपरस ताणेंच बरी अॅक्टींग केली.

वयनी - इतलो तेंप म्हजी जाव म्हज्या म्हऱ्यांत आसा, आनी म्हाका कांयच खबर ना. हांवें ताका कितलें तापयलें. कितलें काम करून घेतलें. हरामी हांव.

सुरेश - वयनी, ऑफिसांत तें म्हाका तापयतालें, खूप काम करून घेतालें. तें तुवें बाद केलें.

वयनी - ना रे बाबा. तुमचें तुमी पळयात. हांव ताचे पांय धरून माफी मागतलें. शाली...(भितर वता)

रमेश - सारकी माफी माग. हांव वचून सगळ्यांक पार्टेचें आमंत्रण दितां.... आनी सुरेश, तुकां सांगतां, तुमची ती सिवील मॅरेजची भानगड आमी पळयलीना. आमच्या दोळ्यां हुजरां तुका देवळांत लग्न करचें पडटलें. (भायर वता)

सुरेश - रेडी....! आतांच वचून भटाक मेळटां. (पँट चडयत भायर वता. नाटकुलें सोंपता)

***



सी.१, गोल्डन हील व्यू
रेगो नगर
बांबोळी-गोंय
फोन : २४५९२२७







# रिकामें मन सैतानाचें घर

– रजनी भेंब्रे

**( हॉलांत फोन, मेजार थोडीं पुस्तकां, टीपॉयाचेर पेपर, कुशीक जोत्यांचो शॅल्फ. मध्यम परिस्थितींतलें घर)**

रमाबाय - शांताबाय ..... ए ..... शांताबाय. (भायल्यान उलो मारता) आसा हय गे घरांत?

शांताबाय - आयलें ... हां ... आयलें (दार -उगडटा) कोण गे? रमाबाय ..... यो ... यो ..... दिश्टी पडपाक लेगीत कठीण जाल्या. (कुचित्रीपणान) आयज कितेंय तरी काम काडलां जातलें.

रमाबाय - आगे शांताबाय बेकारसाणच मेळना गे. आनी - आनी खरें सांगू, म्हाकां मगे गरजे शिवाय म्हजो वेळ खबऱ्यांनी वगडावप मात लेगीत आवडना.

शांताबाय - जाणां गे हांव, तूं अशें कित्याक म्हणटा ती. (चाळयत) महिला मंडळांत शिवणक्लास चलयलो म्हणून कितें व्हडलें जालें ना: बरो पगार मेळटा तुकां. जाणां जा, फुकट जाल्यार कोण करपाक नाशिल्लो.

रमाबाय - शांताबाय, तू मगे ओगीच तापीर जाता.

शांताबाय - मागीर ..... अशें ... अशें कित्याक म्हळें तुवें म्हाका?

रमाबाय - अशें ..... अशें म्हणल्यार कितें?

शांताबाय - आतांच तुवें म्हणलें ना (चाळयत) म्हाकां मगे गरजे शिवाय म्हजो वेळ खबऱ्यांनी वगडावप मात लेगीत आवडना.

रमाबाय - खऱ्यांनींच म्हणलां हांवें.....

शांताबाय - पळय...पळय ... खऱ्यांनींच म्हणलां म्हणटा.

रमाबाय - पळय शांताबाय, सांगतां तें आयक ...

शांताबय - आयकतां तर! सांगच तूं (तिरसट पणान उलयता)

रमाबाय - आतां तूंच पळय .....

शांताबाय - कितें पळवूं?

रमाबाय - तुर्जी भुरगीं कॉलेजाक वतात.

शांताबाय - हय ..... मागीर?

रमाबाय - घरकार सिर्विसेक. धा वरां जावचे पयलीं तूं बेकार. उरिल्लो वेळ तूं कितें करता गे?

शांताबाय - वा....वा म्हणजे? म्हाकां कांयच काम ना अशें तुकां दिसता काय कितें गे?

रमाबाय - आयक-आयक शांताबाय, तशें म्हणना हांव. पूण पांच वरां पयलीं काय तुर्जी कोणूच घरा पावनात.

शांताबाय - हय. मागीर? तुकां कितें सांगपाचें आसा तें सारखें सांग.

रमाबाय - ह्या वेळांत तुज्यान कितेंय अशें काम करूं येता की तातूंतल्यान चार पयशे जोडून संवसाराक हातभार लावूं येता.

शांताबाय - (कुचित्रीपणान) पुरो-पुरो-पुरो ....: आं .... पुरो .....तितलेंच उरलां करपाचें हांवें. तूं करता तें थोडें म्हणून म्हाका आनी तुज्या बरोबर ओडटा? तुका लोक कितें म्हणटात तें जाणा मगे?

रमाबाय - (अजापान) कितें .:... कितें म्हणटात?

शांताबाय - म्हजे कडल्यान काडून घेता? तुका खबर ना तर?



**(सुलोचना उलो घालीत भितर सरता)**

सुलोचना - शांताबाय ओ शांताबाय, कितें गे ..... घरदार उगडें .... (अजापान) आं .....रमाबाय आयल्या दिसता. (वयर-सकयल पळयता)

रमाबाय - आगे सुलोचना... दिस्तच आयली पळय... तुगेरय बी येवपाचेंच आसलें म्हाका.

सुलोचना - कित्याक गे आमगेर शी? (कुचित्रीपणान हांसता) बरेंच समाजकार्य करता खंय तूं ह्या दिसांनीं.

रमाबाय - शांताबाय आनी सुलोचना ... तुमी किदें म्हणूंक सोदतात तें म्हाका सारखें सांगलेबगर कशें कळटलें?

शांताबाय - जाणा मगे रमाबाय - घोवाचो जर तुकां पुराय तेंको आसा तर भंय गे कोणाचो? कर-कर- बरें समाजकार्य कर ... (कुचित्रिपणान उलयता)

सुलोचना - जाणां शांताबाय - म्हज्या घरकाराक जाल्यार मात लेगीत आवडना असलें जगार भोवचेलें काम. ते म्हणटात म्हजी सेवा पयलीं सारखी कर.

रमाबाय - म्हणजे हांवे कितें म्हजो संसार सोडला अशें तुमकां दिसता? म्हाका घरकार, पूत-सून सगळीं आसात मगे!!!!

शांताबाय - आसल्यार कितें जालें? सगळीं सिर्विस करतात आनी आतां ही तुजी जोड. (कुचित्रपणान) रमाबाय पयशे करून करून खंय दवरतलीं गे तुमी?

सुलोचना - आगे शांताबाय जाणां तूं?

शांताबाय - कितें?

सुलोचना - आगे रमाबायच्या घरांत सगळें भरलां. फाल्त म्हण तें कांयच ना.

रमाबाय - हय - हय - सगळें भरलां. सुलोचना जाणां मगे, आमच्या कश्टांच्याच पयशांचें तें. आमी ..... आमी ..... लोक करतात तसलो स्मगलिंगाचो धंदो करिनात.....

सुलोचना - (आंगार वता) स्मगलिंगाचो धंदो कोण करता?

रमाबाय - खुबसो लोक करतात (मुमुरखींच हांसता)

शांताबाय - जावं गे सुलोचना. धंदो कसलोय जाल्यार तो लिपता? तुका इतलो राग कित्याक आयलो? आं..... आं..... धंदो म्हणटकीच याद जाली ..... एक सांग गे, पयर स्मगलिंगाक माल विकतना तुज्या पुताक खंय धरून व्हेल्लो, म्हजे घरकार सांगताले. मागीर केन्ना सुटलो गे, तो?

सुलोचना - (चाळयत) बरें कुचाळे करूंक शिकल्या मगे तूं शांताबाय आनी तुजी धूव त्या गुण्याल्या पुतावांगडा कोल्हापुराक कित्याक गेल्लें गे?

शांताबाय - सुलोचना, तोंड सांबाळून उलय हां-पयलीं सांगतां तुकां ... आं ...

सुलोचना - आगें बांयचें तोंड बांदूं येता पूण न्हयचें? गांवभर लोक जाणां की तुजी चली गुण्याली सून जाता. बाकी भुरगो बरो आसा गे.

शांताबाय - जाणां ... जाणां हांव. तूं म्हजें कितलें बरें मागपी ती? हांव तुकां बेसबरी वळखून जाणां. हांव कुचाळे करता म्हणटा.....

रमाबाय - आगे-आगे कितें चल्लां हें? पुरो-पुरो करात.

सुलोचना - आनी हांवूय जाणा तूं म्हजें कितलें बरें मागपी ती. कामतीगेर म्हजे चलयेची सोयरीक पत्र धाडून कोणें मोडली गे? जाणां मगे-रमाबाय हिणेंच ती. म्हजें बरें मागपी अशें समजून हिका एकलेकच हांवें सांगिल्लें सोयरीक चलता म्हणून...

शांताबाय - नागे ..... खऱ्यानींच ना..... म्हजेर नस्तो आळ हाडूं नाकां. हांवें चवथीचो चद्र लेगीत पळोवंक ना. नस्तो आळ येवपाक.

रमाबाय - आगे-आगे कितें आडायलां तुमीं हें?

शांताबाय - रमाबाय, सुलोचना सांगता तें तुकां खरें दिसलें? खरेंच गे - दामबाबांचो सपूत घेवन सांगतां हांवें तेचे चलयेची सोयरीक मोडूंना. (मुसमुसून रडटा)

रमाबाय - आयकलें सुलोचना .....

सुलोचना - कितें आयकलें? कामतीनच मुजरत म्हज्या घरकाराक व्हरून पत्र दाखयलें खंय. हिच्या घरकारांल्या अक्षराक हे दिस्त वळखले ... आतां सांग मिगे ना म्हणून ..... ना खंय ..... ना .....

शांताबाय - रमाबाय सारखें फट हें ..... सारखें फट .....

सुलोचना - जाणा रमाबाय ... पत्रांत हिच्या घरकारान बरयलां कीं चली सामखें पारफोळ. तुमी सोयरीक मानून घेवूं नाकांत. आपलें चली कसो कुळाचो उद्धार करता तो पळय. दुसऱ्यांच्या चलयांक नांवा दवरता ती.

रमाबाय - आगे ... आत्तांच तुमी काय बरीं उलयतालीं मगे आनी म्हणटा म्हणसर लागलीं झगडूंक ...शी ...शी ...शी ...

सुलोचना - तें वेल्यावयर बरेंपण आनी जाणां रमाबाय हाणीं तांकां कळयलें की आमचो स्मगलिंगाचो धंदो चलता. आमी कसलोय धंदो करूं हिजें कितें सरता गे?

शांताबाय - आनी सुलोचना, म्हजें चली गुण्याली सून जाल्यार जांव तुकां कितें लागता? हांव बरी दबाज्यान लग्न करून





दितलीं ताजें!!!!!

सुलोचना - बरें, बरें दी ..... म्हाकां कित्याक लागता तुजे चलयेची खबर? पूण म्हजे धुवेचे सोयरीकेचे आड तूं आयली म्हणून. जाणां मगे रमाबाय हांच्या पत्रांतल्या खबरांचेर विस्वासून कामतीन आमची सोयरीक नाकारली. (सूं.सूं. करता)

रमाबाय - आगे सोयरीक बरी चली पळोवनच करची पडटा. सून काय परत-परत बदलूंक येता! तांचो कांयच गुन्यांव ना.

सुलोचना - हय गे, आमी तांचो मात लेगीत गुन्यांव करिनात. पूण शेजाऱ्यांनी असो विश्वासघात करप गे?

रमाबाय - पळयलें मगे! मनीस जसो चड वेळ बेकार उरलो म्हण्टकर ताका नाका आशिल्लें येवजता. सुलोचना विचारतां म्हणून रागार जावूं नाका. आतां तूं हांगा कित्याक आयिल्ली गे?

शांताबाय - नस्ते धवळे करपाक हाज्यो-ताज्यो खबरी करपाक आनी कित्याक?

सुलोचना - हय-हय हांवच खबरी सांगता न्ही? तुजें घर तर सामखें चार रस्त्यांच्या नाक्यार. खंय कितें घडलां तें तुकां सगळ्यांत पयलीं कळटा.

शांताबाय - मागीर, म्हज्या घोवान घर चौकार बांदलें जाल्यार हांव कितें करूं?

सुलोचना - जाणा मगे रमाबाय, भुरगीं कॉलेजाक आनी घरकार सिर्विसेक गेलो कीं ही शांताबाय पांयार-पांय घालून जी बल्कांवार बसता ती बद्द जेवपाच्या वेळार भितर वता.

शांताबाय - जांव, तुगेर बी आयली ना मगे हांव जेवपाक?

सुलोचना - म्हगेर आयल्यार खबरी चुकच्यो ना तुकां? रस्त्यावेल्यान वळखीच्या आयिल्ल्या गेल्ल्या लोकांकडेन खबरी करप आनी वेळ पासार करप.

शांताबन - आनी-आनी तूं कितें करता? घोव हिका जें कितें बाजारांत घट्टा तें सविस्तर सांगता. उरिल्लें पूत येतकच सांगतात मवाली खंयचे मवाली.

सुलोचना - म्हजे - म्हजे पूत मवाली (आंगारवता) कितें-कितें मवालीपणां केल्यांत गे ताणीं? आपलीं भुरगीं करतात तें सगळें बरें दिसता तुकां?

शांताबाय - जाणां मगे रमाबाय हीच-हीच म्हाकां दिसभर तुज्यो खबरी सांगताली.

सुलोचना - आनी शांताबाय तूं म्हाकां सांगनासली कीं रमाबाय दिर्शी-दिर्शी कोंबी कशी भुरगीच जाता. बरी अध्यक्षपद मिरयता म्हणून

रमाबाय - आगे पुरो आतां झगडी. शांताबाय, सुलोचना कितें चलयलां गे तुमी हें? तुमच्या झगड्यां मुखार हांव सगळेंच विसरून गेलीं पळय. आनी तुमीय म्हाकां विचारूं ना.

शांताबाय - खरेंच गे रमाबाय कित्याक आयिल्ली गे तूं म्हजेसरीं?

रमाबाय - मातशीं थंड जायात. सुशेग घेयात. माथीं तापल्यांत तीं मातशीं थंड जावूं दी. ना जाल्यार हांव कितें सांगता तें तकलेंतच रिगचें ना ..... सुलोचना आनी शांताबाय तुमचो हो वाद आनी एकामेकांचीं उणी-दुणी काडप पळोवन खरेंच दिसना कीं तुमी शिकिल्लीं-सवरिल्लीं आनी ..... आसूं उलयल्यार तुमकां वायट दिसतलें. आतां तुमचो वाद कुशीक दवरात आनी हांव जें कितें सांगतां तें पट्टा जाल्यार पळयात.

सुलोचना - सांग सांग तरी मगे!

रमाबाय - आमच्या महिला मंडळाक अश्यो बायलो जाय ज्यो शिकल्यात पूण सिर्वीस करिनात. तांचेकडेन रिकामो वेळ खूब आसता.

सुलोचना -रिकाम्या वेळाचें कितें करूंक लायता आमकां?

रमाबाय - आमच्या गांवांत खुबश्यो अशो बायलो आसात तांकां वाचप-बरोवप तर पयसच उरलें, सय लेगीत करूंक येना.



शांताबाय - तांकां सय करूंक येना जाल्यार आमी कितें करपाचें. न येवूं तांकां सय करपाक आमी कित्याक गे चिंता करून घेवप.

रमाबाय - पळय, हेंच तें, म्हाकां कित्याक लागता अशें म्हणलें म्हणटकच आपली समाजांतली लागणूक सोंपना. ज्या समाजांत आमी वावुरतात ताचें आमी कितेंय तरी देणे लागतात.

सुलोचना - खरें सांगूं रमाबाय, तूं कितें सांगूंक सोदता तेंच पयली म्हाका सारखें कळूंना. म्हाकां सारखें समजावन सांग .

रमाबाय - तेंच तर सांगपाक तुमचे म्हऱ्यांत आयलां. आयकात, सरकाराल्यो तरेकवार येवजणो आसात. तांतलीच एक येवजण म्हणल्यार साक्षरता. गांवां गांवांतल्यान साक्षरतेचो प्रसार चालूच आसा. हे येवजणेचो आमीय लाव घेवया आनी निरक्षरांक साक्षर करया. निदान गरजेपुरतें तरी वाचूंक बरोवप शिकोवया. दिसांतलें फकत एक वर दिवया.

सुलोचना - रमाबाय, बायलांक साक्षर करून कसलो दिगविजय घालचेलो आसा? ओगीच नाका आशिल्लें येवजता तुकां.

रमाबाय - आयक सुलोचना, बायलेक साक्षर करप म्हणल्यार कुटुंब साक्षर करप. एक आदर्श पिळगी घडोवप. भुरग्यांचेर बरे संस्कार करून तांकां बरी देख लावपाचें काम साक्षर बायलच बरे तरेन करूंक शकता. अशाच संस्कारक्षम कुटुंबाचो एक गांव आनी गावांचो देस घडटा.

शांताबाय - रमाबाय, कितें सोबीत उलयता गे तूं, आयकन रावन शें दिसता.

रमाबाय - जाणा सुलोचना, साक्षर बायलेक दुसऱ्यांचेर निंबून रावपाची गरज उरना. कसलेंय काम, जांव सरकारी ना जाल्यार वैयक्तीक ती आत्म विश्वासान करूंक फुडें सरता. एक साक्षर बायल घटमूट, कर्तबगार, उमेदी घराबो निर्माण करता.

(रूपा आनी दुर्गा येतात. हातांत लांबशेच कागद आसात, फाटीर पुस्तकांचीं बॅगां)

रूपा - रमाताई, तुवें सांगिल्लें न्ही की आपूण सुलोचना, शांताबायक मेळपाक वचपाची आसा म्हणून. त्या खातीर आमी तुजे घरा वचनासतना हांगाच आयलीं.

रमाबाय - बरें केलें ......

दुर्गा - जाणां रमाताई, कांय बायलो आतां आनी आमकां कित्याक जाय वाचप बरोवप म्हणून नांवां दिवपाक फाटीं फुडें जातालीं. पूण तुवें सांगिल्लें तशें साक्षरतेचे लाभ सांगतकच, रोखडींच न्ही गे तयार जालीं.

रूपा - आनी रमाताई, येमणेमावशेची तर मजाच जाली. मुंबयच्यान पुताचें पत्र येतकच ती म्हजेकडेन वाचून घेता गे, हांवें तिका सांगलें - पळय, जर तूं साक्षरतेच्या वर्गाक आयली तर थोड्याच तेपान तुका पुताचें पत्र वाचूंक दुसऱ्याची गरज पडची ना. अशें सांगना फुडें येमणेमावशी रोखडीच न्ही गे तयार जाली.

दुर्गा - आनी म्हणटा कशी-पत्राचें बरें आसा गो. पूत येतकच म्हाकां फोनच घेवपाक सांगता. पूण फोनाचे नंबर तरी कळूं जाय न्ही गो. म्हणून येतांच हांव वर्गाक.....

रमाबाय - पळयलें सुलोचनां आनी शांताबाय! हीं कॉलेजाक वचपी भुरगीं पूण साक्षरतेच्या कामाक आपले परीन कसो हातभार लावूंक मुखार सरलीं तीं.

दुर्गा - बरें रमाताई येतात आमी.

रूपा - आनी कसलेंय काम आसल्यार सांग हां. येतात गे आमी .(दुर्गा आनी रूपा वतात)

सुलोचना - खरेंच रमाबाय, कितलें मोलादीक काम करता गे तूं? (लज जाल्ल्यान मान सकयल)

शांताबाय - आनी आमी मगे तुजे विशीं गैरसमज करून घेतालीं. तूं समाज कार्य करता म्हणून हिणसायताली. तुजें विशीं नाका नाका आशिल्ल्यो गजाली उलयतालीं. पूण खऱ्यानींच आज आमकां समजलें. आमचे विशीं तुवें केन्नाच वायटपण धरलें ना.

रमाबाय - आयकात, हाज्यो-ताज्यो अर्थशुन्य गजाली करून आपलो मोलादीक वेळ वगडावचे परस आमी शिकल्यांत ताजो दुसऱ्यां खातीर इल्लो तरी उपेग करपांत खरें समाधान मेळटा, अशें दिसना तुमकां. सांगात पळोवया. बरो समाज घडोवपाक आमी चानये येदो भार लेगीत उबारल्यार खूब जातलें. मनाक धादोसकाय भोगतली.

शांताबाय - हय गे, सगळें-सगळें खरें तुजें.

सुलोचना - जाणां रमाबाय, तुजे उपकार मानपाक म्हजे कडेन शब्दच नात.

रमाबाय - आमे उपकार परक्यांचे मानतात. आमी सगळीं एक मगो तर एकामेकांच्या आदारान आमी साक्षरतेचें काम रोखडेंच सुरू करया. हय न्ही .....

सुलोचना - हय, हय ... रोखडेंच सुरू करया



***

६-३, अत्रेय अपार्टमेंट
दुर्गानंद नगर, मुरेल,
कुडचडे-गोंय



# गंगू



- इंदू अशोक गेरसप्पे

दोंगुल्लेचे मांडयेर बशिल्लो एदोसो माणकुलो गांव. तीस -एक घरा खोप्यांचो वाडो. मन वर्सां हुपून भुरगेपणात पावलें. ह्याच गांवचें गोकळें आमगेर वावराक येई. गांवच्या देवते जत्रेक आमी केन्ना केन्नाय पावतालीं. ह्याच पायणींतल्यान चारां चुन्नां सोदीत धावंतालीं. वीस एक वर्सांत बरीच उदरगत जाल्ली पोळोवन खोस जाली, अजापूय दिसलें. खूप तेपान ह्या गांवांत वचची संद गावली.

म्हजे एके इश्टिणीन आग्रो केलो, ''आगो, येवूकच जाय तुवें समारोपाक. गांव लागींच आसा. देड-दोन तासांचो प्रोग्राम. पळय तरी कसलें 'सोशल वर्क' करतात तें आमी.''

''हय गो, जाणा हांव! तुमी थैं वचून तांच्या भुरग्यांक बालवाडींत खेळोवप, आनी तुमच्या भुरग्यांक सांबाळूंक पगार दिवन तांका आफोवप. हेंच मुगो तुमचें 'सोशल वर्क?' हांवें हांसून विचाल्लें.

''येवून पळय तरी! हो समारोप मुद्दाम, ग्रामसेविका 'पाणीवाली शोभाबाय' हिचो भोवमान कोरूंक आंखला.''

''ही कोण गो, पाणीवाली शोभाबाय?''

''गांवची एक ग्रामसेवीका. हिचो घोव गांवचे सरपंच. पूण तांचें वय जाल्ल्यान शोभाबाय तांका सहाय्य करी. गांवची अवस्था, सरकारी आमदारालें दुर्लक्ष्य पोळोवन तिच्यान राव नज जालें. पोट तिडकीन तिणें गांवचे उदरगतीक जीव ओपलो. बिनधास मिनिस्टराक भेटून गांवच्यो आवश्यक गरजो तांचे मुखार मांडटा. गांवचे लोकांक स्वसेवा कोरूंक लायता. धा -पंदरा वर्सांत गांवांत बरीच उदरगत जाल्या - वीज, रस्ते, नवीन इस्कोल, हॉस्पिटल आनी मुख्य म्हळ्यार सरकारी नळाचें उदक हाडूंक लायलें.''

हांव आयकत रावलें. हें खरें सोशल वर्क. गांव लागीं आयलो. वोगीच मना उचांबळ वाडली.

गोकळ्याचें लग्न जालें आनी हो सोबीत गांव सोडून शारांतल्या खोप्येंत संसार मांडूंक आयली. गोकळ्यागेर खंडीभर भुरगीं. आमगेर वावराक येतना तिजे बरोबर तिजें चेडूं, गंगू येई. धाकल्या बाबुशाक हांडीर मारून दिसभर आवयबराबर आमगेर घोळतालें.

म्हज्यापरस वर्सा दोन वर्सांनी व्हड, पूण गंगू खूब शाणें. हांसकुरेंच. केन्नाच कागाळ ना, कुरकुर ना. गंगूली आनी मगेली इश्टागत जमूंक वेळ लागूं ना गंगू शिवाय म्हाका चैनच पडनाशिल्लें. म्हगेलो हट्ट, हांव खातां तें गंगूक दिवूंक जाय, हांव वेतां थैं गंगूक व्हरूंक जाय. देवळांनी, जार्दिनांत, कोलव्यां वतना गंगू जायच. इतल्यारच गंगू खूश!

गंगूक कितेंय विचार, जाप हजर. गंगूलें उतर म्हाकां ब्रहमवाक्य.

''गंगूऽऽ, काळ्या कूपांनी गडगड कित्याक जाता गो? नीलू सांगता, थै म्हातारी चणे भरडीता...''

''हें ऽऽ तिगेलें आयकों नाका. थैं,देवालो आनी राकेसांलो झूज चलता. तेन्ना तो रथा गडगड आनी तरसादी चकचक. थैं मुगो, म्हाभारत चलता.''

गडगडा भितलें हांव आनिकूय भयान् गुळी जातालें.

''आगो, तूं रामा रामा म्हण. म्हणटकूच तुजेर केन्नाय ईज पडची ना.''

वयल्यान, आंगार वीज पडिल्लो एक गावडो कसो तशातस्सो मळार उबो आसलो, आनी ताका हात लायतकूच ताजी गोबरा रास कशी जाली, असल्यो थरथरो हाडपी खबरी गंगू सांग ऽ.

दनपारचें जेवून आवनू जालें म्हण्टकूच, बाबुश्याक आवयकडेन सोपोवन गंगू आनी हांव, फाटल्या दारान धांव मारी. घरा मागशीं दोंगुल्लीर आमचो दरबार काणयों, खबऱ्यो, धाल्या पदां -आमच्या उलोवण्याक भरती येताली.



खंय बरी चुन्नां चारां गावतात, खंयच्या पानांची पेंपारी बरी वाजता, खंयचो वतलवां पालो वखदा बरो; फुसक्या पालो, अडुळशी, एकपानी..... गंगूक सगल्याची म्हायती.! बांदावैली भटणी पानां, पांय लागल्यार लजून धापतात हें कळटकूच, दिसतात त्या पानांक पांय लायत धांविल्ली याद येता. गंगू काजी पानां घेऊन येई. मदली शीर अळंग काडून ताजो टंगक्लीनर करी. आनी पानांचो बरो लोळो कोरून ताजो टूथ -ब्रश करी.

दांत सामके स्वच्छ, घासतना कुईऽ कुई जाताले.

माकोड कसो सुरसूर झाडार चडून पेरी, आंबल्यो तोडून, मानुअेल भाटकाराक सुलूस लागचे पयलीं, उडी मारून गंगू फुऽऽज्यो मारी. मागीर फातरीर ताज्यो फोडी कोरून मीट मिरसांगे पिठो उडौन खावप. आमुरपिक्या भिण्णांक बुराक कोरून मीटसाकर घालप आनी सान्नी हीर भितर घालून कुचकूच करप आनी मागीर तो रोस चोखप. केन्नाय, गंगू लॉलीपॉप कोरून दिताली. आमटाण, मीट, गोड, तेल, वानांत घालून धोडोवप, आनी ताजे ल्हान ल्हान गुळे बडयांक लावनू लेंवत बसप. एक ना दोन यादी!

मागीर, 'हम भी कूछ कम नही' हें दाखोवंक हांव म्हजे इस्कोलाचीं पुस्तकां हाडी, तातुंतल्यो काणयो खबऱ्यो गंगूक सांगून दाखयी. बरी शिडशिडीत एक बडी हातींत धरून, हांव टीचर जातालें. गंगू बाबडी स्टूडंण्ट. बडी खडपाचेर वाजैत तिजेकडल्यान मराठी पुस्तक वाचौन घेतालें. "एक होती ऊ, तिला झाली टू, पासून आमच्या गांवची जत्रा" पर्यत. थंयच्या मातयेंत अक्षरां गिरोवन गंगूक A B C D शिकयतालें. इतिहासाच्यो काणयो, भुगोलाच्यो खबऱ्यो आयकून गंगूले दोळे तापायेदे जाताले.

"बाय, खऱ्यांनीच गो, धर्तरी गोल आसता? गोल गोल घुंवता? छे: मागीर आमी पडनात कशीं गो? किदेंतरी ....! धर्तरी सऽऽ पाट!"

म्हाका रागा किंवाटो चडतालो, "गंगे, भूऽऽ गोल आसता. आगो, मुंयो वण्टीर चडटाना पडटात गो?"

हाजेवैल्यान झगडीं. मागीर आमचे पप्पा जज्ज जाताले. दुकानांतल्यान ग्लोब हाडून आमकां भुगोल शिकयताले. पप्पा केन्नाय म्हणताले.

"आमची गंगूताय हुश्शाऽर आं! आगो, निजा हुशार, तो केन्नाय मुखार."

आमच्या पप्पाक वासाचीं फुलां आवड, देखून गंगू खंच्यान तरी चार फुलां पुंजावन तांच्या टेबलार दवरी.

जायो, वोंवळां, चांफो. आपल्या विणयेर खंचेंय तरी फूल माळोन येतालें. शब्दुलां, गोटलां, शंकराचीं सुंदर पटी गुथून हाडतालें.

गीम आयलो म्हण्टकूच गंगू मोगरी माटोव सारको करी. सगलो पालो बुडून काडी आनी वेल्यान चुट्टे उज्या धग धरी.

"आगो, आगो, हें किदें करता गो, गंगू?"

"पळय तर मज्जा" गंगूलें उत्तर.

चारपांच दीस मोगरी निर्जळी. मागीर गंगू दोडीवैर दोडी घसूघस् मोगरी मुळांनी घाली. आनी अजाप सांगू? मोगरीक कळेच कळे फुट्टाले, पानांच ना. मोगरी माटोव रथ कसो फुलून येई. कुरपणोभर फुलां. पडवेर बोसून फुलां गुथतना, येतल्योवतल्यो बायलो सांगताल्यो, "गंगे म्हाकां एक पटी दवर आं."

दोन -तीन वर्सांनी, गंगूल्या मामान गंगूक गांवाक आपोवन व्हेलें. घरांत मामीक कामा आदार. थोड्या वर्सांनी हांव कॉलेज शिकूंक मुंबय आयलें. नवीन दुनिया, नवीन मैत्रीणी. गोंयच्यो यादी मना कुर्कुटांत घुस्पल्यो.

मदीं आयकलें, गंगूलें लग्न जालें. दुसरेपणाचें. मामाच्याच गावांतलो गिरेस्त मनीस. गोकळें सांगतालें, गंगूल्या यजमानालें वय जाल्लें, पूण शेतभाट आसा, घर आसा, पयले लग्नाचीं दोन भुरगीं आसात, म्हातारी मांय आसा. भरलेलें घर गंगूक मेळळें देखून गोकळ्याक खोस जाल्ली. मुद्दाम, गंगूक आनी यजमानाक आपोवन घेतलें.

दुसरे दिसा तीं आंगणांत आयलीं, जाल्यार हांवें तांका वळखले ना. गंगूलो घोव तिका बापूय सोबतालो. गंगू तर वेगळेंच दिसतालें. तें जांबळें जरी कापड काशीन न्हेशिल्लें, हातभर कांकणां, नाकां नथ, आंगार दोन भांगरा वस्ती, आंब्याड्यार सुरंगां वळेसर. हांव पळयत रावलें.

आंगणांतल्यान हळी आयकली, "बाऽय गो." "गंगू ऽऽ" कितलें बदल्लें गंगू. पोरसांत घमघमतले मोगरी माटवे याद जाली.

आयज, खूब वर्सांनीं त्याच गांवांत पाविल्लें. शाळेच्या सभाघरांत कार्यक्रम आयोजित केलो. सेवादलाचे तरणाटे हांगा थंय बोवाळटाले. माचयेर पंचायत वांगडी, म्हाजन, ग्रामसेवक हजर आशिल्ले. तशेंच, मुखेल पावणे भलायकी मंत्री आयले आनी सुवाळ्या भाशणां सुरू जालीं. भाशण ह्या प्रकाराक हांव खूब भियेतां, लांबच्या लांब, अर्थ नाशिल्ल्या शब्दांचें प्रवचन केन्ना काय सोपता अशें जाता. पूण आयज अघटीतच घडलें. सुर्वेक वडील कार्यकर्ते, सावंत गुरूजी उठून उबे रावले. तांचीं मोलादीक उतरां, उपदेस सगले श्रोते, कानं दिवन आयकताले.

"मनीस होच विकासाचो केंद्र बिंदू. साद्यो गरजो भागल्यो तर विकास जायना. मनशाच्या मनाचो, गुणांचो विकास जाल्यारच खरी उदरगत जातली......."

ह्या पयशांनी जोखतल्या कलीयुगांत असलेय म्हापूरूस आसात, हें पोळोवन समाधान जालें. उपरांत कार्यकर्त्यांलीं, भाशणां जालीं.

मुखेल पावणे भाशणात गांवची उदरगत, पंचायत वाठारांत साबार सरकारी येवजणो चालीक लायल्यो हें पोळोवन खूब संतोश पावले. पंचायत वांगडी, ग्रामसेवक, हांचो






सन्मान कोरून, गांवचे नवीन नांव 'आदर्शगांव' अशें जाहीर केलें.

'सोशल वर्कर्स ग्रूप' हाणी 'पाणीवाल्या शोभाबाय'चो सन्मान केलो. तांकां पुरस्कार पत्र, मानधन दिवन तांची तोखणाय केली. कठीण परिस्तीतींत, संसार सांबाळून गांवाखातीर कश्ट काडीत रावली. पंदरा वर्सां विनावेतन ग्राम सेवा करीत रावली. आसूं शकता, हे आयकून खरेंच मनापासून समाधान दिसलें.

सुवाळ्याचो सांगता करून शोभाबायन माईक हातांत धरलो. पयलीं ताणीं सगळयांले उपकार मानले. गांवच्या उदरगतीचें सगलें श्रेय ताणीं गांवच्या लोकांल्या सहकार्याक दिलें. गुरूजिनीं दिल्लें प्रोत्साहन, गांव पंचायती पालव तरूण दलान, आपखुशीन, उमेदीन केल्ली सेवा आनी सरकारी येवजणी मंजूर केल्ल्यान विकास घडलो, अशें म्हणलें.

शोभाबाय सणसणीत उलयताली. पुरावे, विधानां, म्हायती दिवन फुडले प्रबंध माणटाली.

हांव पळेत रावलें. शोभाबाय सावळी, तरतरीत, माडा कोवती कशी. चापून-चोपून सादें पांचवें कापड न्हेशिल्लें. आंबाड्यार मोगरी फाती.... गंगू! हें गंगूच! पळयता, आयकता खात्री पटली. पूण विश्वास बसनासलो.

शोभाबायलें भाशण चालू आशिल्लें, ''आपलें कर्तव्य आपणेंच करूंक जाय. एकल्याच्यान कांय जायना. खूब जाणांचो हातभार लागल्यारूच कार्य सफळ जाता. दळदीर निर्मुलन ..... शेती, फुलबागा आधुनीक तंत्रज्ञान ..... म्हायती, प्रशिक्षण, तरनाट्यांक रोजगार संद ..... भलायकी केंद्र, बायलांक कुटीर उद्देग, शिशू मंदीर .....''

असले व्हडले व्हडले शब्द आयकून खरेंच अजाप दिसलें. इतलें गिन्यान गंगूक केन्ना आनी कशें मेळ्ळें?

हॉलभर ताळ्यां गडगड जालो. तेन्ना भानार आयलें.

समारंभ जालो, तशें माचयेकडेन उबें रावून हावें ल्हवूच हडकीलें, 'गंगू ऽ ऽ''.

गर्रकन घुंवून त्या बायलेन म्हाकां खिणभर नियाळून पळयलें.

'बाऽऽय' म्हणून माचयेवेल्यान धांवत येवन तिणें म्हाकां वेंग मारली.

शेवण्या पाखानीं वर्सां उबोन गेल्लीं. उरलीं गंगू आनी बाय.

दोगांक खंय आनी कशें उलोवंक सुरू करचें हें कळना जालें. हांव तिजी तोखणाय करतालें. तशें तें म्हणूंक लागलें, ''हांव तुमचें गंगूच गे बाय. शोभा हें नवऱ्यागेरचें नांव.''

परतें म्हाकाच वोडीत तिणें स्टेजीर व्हेलें.

गांवच्या म्हालगड्यांनीं, गुरूजीली, आपल्या यजमानाली वळख करून दिली. भरिल्ल्या दोळ्यांनीं ती उलयत रावली.

''बायच्या घरचे उपकार हांव जन्मभर विसरचेंना. तांगेरच म्हाकां दोन घास जेवंक मेळटालें, बरें न्हेसूंक मेळटालें. बायनूच हात धरून म्हाकां श्रीगणेशा बरोवंक लायलें, ए बी सी डी शिकयली. पप्पानींच म्हज्या लग्नाचो खर्च सांबाळलो. आयज गंगूचें शोभाबाय जालां. ते मूळ ताचेच उपकार...''

इतलो वेळ हो सुवाळो पळेत बशिल्ले म्हगेले इश्टीणीले दोळे भरून आयले. तिणें म्हळें, ''शोभाबाय आमच्या देशाक तुमच्या सारकी प्रामाणीक ग्राम सेविका मेळत जाल्यार देश खंयच्या खंय पावतलो.''

दाटिल्ल्या ताळ्यान हांवें गंगूक म्हळें, ''आगो, याद आसा? पप्पा तुकां केन्नाय म्हणटाले, गंगूऽऽ, निजा हुशार, तो केन्नाय मुखार!'' पप्पाल्या शब्दांचो पडसाद कितलो वेळ मनांत घुमत रावलो.

***

-कृष्णा ६०८,
१ क्रॉस, डोमलूर लेआऊट
बँगलोर-५६००७१



# वर्षां तुका अपुरबायेन!

– रमेश लाड



खरेंच फाव सारकें नांव हावें तुका दिलां. तुजेर नदर पडटांच म्हजेर थंड शितळ सुखानंदाचो वर्षाव जाता. म्हजें मन ताजें टवटवीत जाता. तुज्या दोळ्यांतले ते निश्पाप शांत, सात्वीक भाव मनांत साठोवचे. त्या भावाचें नितळ बिम्ब म्हाका तुज्या दोळ्यांत आनी गाला पोल्यांचेर दिश्टी पडटा. एखादो वेळ शांतादूर्गा प्रसन्न जाली जाल्यार कशी दिसतली काय असो प्रस्न मनात उबो जाता तेन्ना म्हज्या दोळ्यांमुखार तुजें रूप येता. अस्तुरेची तूं एक जिती -जिवी म्हूर्त. रसीकतायेन ती पळोवची तोखेवची. तुका पळोवचें आनी तुजें रूप मनांतूच घोळोवचें. मनांत सहज किल्लून आइल्ल्या कवितेच्या उतरावरी त्या दर्शनाचें काव्य मनांत घोळयत रावचें.

काल तुवें म्हाका अशेंच एक दर्शन घडयलें. सूर्य फूल कसो तुजो चेरो दिसलो. निळशी सोबीत साडी आनी त्या दिव्यांच्या दुदाळ उजवाडांत तुज्या त्या भेसांत तूं सोबून दिसतालें. ऊंच खांब्यांवयल्या दिव्याच्या उजवाडांत पडिल्ले झाडाचे सावळेंत तूं एका झाडाच्या पेडार बसलें. ती सावळी म्हळयार गर्भकुडींतल्या लामण दिव्यान काळोख पयस करून जाल्लें काळखाप्रकाशाचें मिश्रण आसलें. तुज्या कुडी -सभावाच्या मिश्रणावरीच सात्वीक. त्या सावळे उजवाडाच्या खेळांत तूं भरसल्लें.

हांव एके सुंदरेचें शब्दचित्र रंगयतां अशेंच कोणाकय दिसूंक फावो. सोबीत मोगीकेच्या रूप -रंगान भारावल्लो एक मोग पिसो कसो हांव कोणाकय दिसूंये तुका पळोवन म्हज्यो नरभावना चाळवनात, म्हजें रसीक मन भारावता तुज्या दर्शनान हेर कोण कितले भारावतले वा ते भारावतले काय ना हें हांव सांगूक शकना. व्यक्ती प्रधान विशय तो. तुज्यांतलें स्त्री तत्व कोणायच्या नदरेंत भरतलें हें खरें. पूण एक सुंदरकायेचो म्हजे नदरेंतलो, एका शिल्पकाराच्या कुशळ हातान घडिल्लो जितो जिवो, भाव भावना आशिल्लो पुतळो कसो हांव तुका लेखतां. तुजो घरकार भाग्यवान अशें हांव समजतां. ताचो संवसार तूं पूर्ण अस्तुरी गुणानी बारीकसाणेन, कुशळटायेन वात्सल्यान रतीकौशल्यान चलयताच आसतलें. असल्या कसल्याच गजालीचो म्हाका दुस्वास जाय सारको ना. नितळ नदरेन पयस रावून सैम सोबा नियाळची तेच तरेन हांव तुका नियाळटां तुज्या सानपणां साकून. तुज्या घरकाराक तुजो सांगात पुराय पुराय मेळूं आनी तुका ताणे पुराय पुराय जपूं अशें हांव वडीलकेच्या नात्यान आशिर्वाद रूपान म्हणटां.

चंचलपण तुज्या आंगात ना. खोल उदक शांत व्हांवता, उथळ खळखळत व्हांवता. अशेंच तूं खोल, शांत नितळ उदक कशें. ताळो ओलो करपी, तान भागोवपी, उष्णतेंत शितळसाणेचो अणभव दिवपी. गरीब, थंड, मायेस्त गाज हावें लागीच्यान पळयल्या. तिचे कुशीक वचून तिका नियाळ्ळ्या. हे गूण तुज्यांत आसात. तुज्या दोळ्यांत दिसता सूख समाधान आनी शांती. धसमुसळेपण तुज्या सभावांत ना. नदरेंत आनी पावलांत तिरतिरेपण ना. वर्सूयभर निरंतर थंडसाणेन व्हांवपी तूं न्हंयेची व्हांवती.

बाल, किशोर, तरनाटे आनी आतां प्रौढ पिराये मेरेन तुका हांव पळयतां. तूं कुडीन सं



मीक नेमान बदलत गेलें. पूण सभावांत तुज्या बदल जाल्लो ना. तूं समजीकाय पुंजायत वाडलां. आवयवटेन कोणाचें तरी सभावांतलें दायज घेवन तूं जल्माक आयलां. बाल पिरायेंतली तुजी थंडसाण लजरेपण, जो आसाता अस्तुरेचो एक अलंकार कसो. तशेंच भीड, अदब, मर्यादशीलपण हेय बी अलंकार तुवें आंगवळणेत घालून घेतल्यात वा तुका ते दायजांतल्यान मेळ्ळ्यात. बाल पिरायेर तुजी म्हाका अपुरबाय दिसताली. म्हजे मर्यादेंत रावून अपुरबायेन हांव तुज्या कपला कडेन माथ्यार उजव्या हाताच्या चार बोटांनी एक मोवशें थापटूल मारतालों. म्हज्या काळजांतलो उमाळो हांव अशे तरेन व्यक्त करतालों. तुज्या गुबगुबीत पोल्याक एक चिमटो काडून पोल्यार एक तशेंच मोवशें थापटूल मारचें अशें दिसलें तरी तो मोह हावें सदांच आडायलो. सानुलीं चिंव चिंवपी



शेवणीं कर्शी आशिल्लीं तुमी. त्या चिंवचिंवाटांत तुजो वाटो साप्प उणो आसतालो. हांवें थापटूल मारलें जाल्यार म्हज्या बोटांचो खडवाचो पिठो केसांक लागला आसत ह्या हुसक्यान तूं रोखडेंच दाव्या हातान केंस पुसतालें. लजेवन भुजां आवळून कांसवावरी मान भितर घाल्लेवरी करतालें. तुजे ते हावभाव खीण दोन खीण हांव पळयत रावतालों. मागीर तूं चोरून वयर पळयतालें. म्हजी अपुरबाय तुका कळ्ळी हाचें समाधान घेवन हांव कुशीक सरतालों.

म्हजी अपुरबायेची धूव तूं कित्याक जालें ना? तुजे कुडीचे आनी सभावाचे गूण घेवन म्हगेर एक नात जल्मली जाल्यार म्हज्या समाधानाक शीम -मेर आसची ना. म्हज्या मनांतल्यो अपुरबाय आनी तोखणायेच्यो भावना व्यक्त करप म्हज्या मर्यादेच्या आड्याभितर उल्लें. तेन्ना तुका सांगल्यार कळचें नासलें. आतां सांगप म्हळ्यार अशिश्ट दिसपाची शक्यताय आसा. अंदल्लो उमाळो भायर घालपाची शिश्ट वाट अक्षर उतरांतल्यान मेळटा म्हणटात.

***

घोगळ, विद्यानगर
मडगांव -गोंय



*श्रावण मासी हर्ष मानसी*
*हिरवळ दाटे चोहिकडे*
*क्षणात येते सरसर शिरवे*
*क्षणात फिरूनी उन पडे*




# म्हज्या मनातलो पावस

– शितल स. आरोलकार

कोण जाणां किद्याक तें, पावस पडपाक लागतकीत ही बालकवी ठोमरे हांची कविता म्हज्या मनांत येता आनी पावसा बद्दलचें प्रेम, नातें ताची ओड आनिकूय वाट पळोवपाक लायता.

खऱ्यानींच वर्सानवर्स तोच पावस मात केन्नाच म्हातारो जालो ना. पूण आमी मात पावस पळोवन पळोवन म्हातारीं जावपाक लागलीं.

कोणाकय आमी सट्ट करून म्हणटात तुज्या पेक्षा कितले तरी पावसाळे हावेन चड पळयल्यात. तसो तो एकटोच येना. येतना आपल्या सांगाताक वाऱ्याक, गडगड्याक, जोगलाक ह्या सगळ्या आपल्या सांगात्यांक वांगडा घेवन येता.

ल्हानपणार तोरां चेपणाक घालपाक लागलीं की पावस आतां लागीं पावला अशें आमकां दिसतालें.

मेथ्याच्यो आंबल्यो, कडन्न सुकप, लोणची-पापड करप, मल्लानी लाकडां भरपाची खोप शिंवप, घर शिंवप अश्यो कितल्योतरी गजाली पावसाची जाणविकाय दिताली. तेन्ना पासून हांव पयल्या पावसाक किदें करतलें हें मनांत थारावपाक लागतालें.

म्हजीं हीं भुरग्यापणावेलीं पिशेपणां म्हणूं येता. हांव तेन्ना पयलो पावस येतकीच पयल्या पावसाचो दीस, दुसऱ्या पावसाचो दीस अशी मनांत येवजण करतालें. पूण हें गणीत केन्नाच म्हजे कडेन सुटलें ना, तेन्ना म्हाकां दिसता पयलो पावस पडटा तो पावसाचो पयलो दीस आसता आनी उपरांत पडटा तो पावसूच आसता तो दुसरो, तिसरो, पंदरावो असो केन्नाच जालो ना.

भुरग्यापणावेलो पावसाचो उगडास केल्यार आमकां आतां हांसपाक येता. आंगणांत उगडचा पायांनी भिजिल्लीं आमीं मनाक आजुनय खाजखुतले करता. आतांच्या भुरग्यांभशेन तेन्ना व्हडलीशी तापोवणी पडनाशिल्ली. पूण घामोळ्यो जाल्यांत म्हण आई-बाबा मुद्दामच भिजपाक दितालीं. आतांच्या सारखो तेन्ना 'थंडा थंडा कूल कूल' वो 'मौसम थंडे डर्मीकूल का' नाशिल्ल्यो तेन्ना घामोळ्यांचेर रामबाण इलाज म्हण पयल्या पावसांत मनसोक्त भिजप.

'येरे येरे पावसा तुलां देतो पैसा', अशें कितल्या फावटी म्हणलां तें आतां याद जावपाक कठीण. पूण पावसाक पयशे केन्नाच दिले ना. देवाची ही देणगी उदार मनान आमकां देवान भेटयली आनी आमीं ती तितल्याच आदारान घेतली. पूण केन्ना केन्ना पावसाचें एक अजाप शें दिसतालें, पावस उलो मारलो तरी पडनशिल्लो म्हण रागूय येतालो.

'सांग सांग भोलानाथ
आज पाऊस पडेल काय
शाळेभोवती तळे साचून
सुट्टी मिळेल काय'

अशें मोगान सुद्धां विचारल्यार मळब ढिम्म्या भशेन उगीच आसतालें. तेन्ना मात खऱ्यांनीच पावसाचो राग येतालो.

'आपय नासतना येता तूं
सांग नासतना वता तूं
अशें किद्याक रे पावसा
जगा वेगळो वागता तूं'

अशें खरसावणेच्या सुरान पावसाक विचारीन शें दिसतालें.

पावसाचेर आमचें सगळें जिवीत कितलें अवलंबून आसा तें तुमकां वेगळ्या भाशेंत सांगपाची गरज ना. आमचें शेत कामती लोक पावसाची आतुरतेन वाट पळेतात. चार म्हयन्यांचो हो सोयरो कितल्या तरी नेटान आनी झेतान येता. आनी येता आसतनाच आमची सगळी जिवन शैलीच बदलून उडयता. रेन कोर्ट, सत्र्यांनी, चप्पलानीं तर बाजारूय कसो नवे व्हंकले भशेन न्हेसता, आमची रूच बदलता. पावस पडलो की जिबूय पाझरपाक लागता. भजीं, कॉफी हुनहुनीतशी खायन दिसता.

हरंदाराचो पावस पडपाक लागतकूच मेथ्या आंबली केन्ना ताटांत पडटा हेंवूय खबर आसना. भरपूर पावस पडतकीच सुक्या बांगड्यांची किसमूर, सुक्या सुंगटाचें हुमण हेंवूय बी आमची रांदची कूड धादोसता.

घोग्यानीं पावस पडटा तेन्ना म्हजें मन ल्हानपणाच्या यादिनी घुसपता आनी म्हज्या बापायची खूब याद येता. हुनहुनीतशीं भजीं कर म्हूण सांगपी म्हजो बापूय आपल्या वाट्यांतली एक एक भजें आमकां दिवपी आजून भुरग्यापणावेल्यो यादी ताज्यो करता. भज्यांच्या वासान आमीं भावंडां धांवत येतालीं आनी एक-एकल्यान कितलीं भजीं खाल्ल्यां हो हिशोब म्हज्या आवयक घुस्पायतालो.



घोग्यानीं पावस पडपाक लागतकूच फळयांचेर दवरिल्लो काजुबियांचो डबो आवयक खुणायतालो. तिवूय बी तेच उमेदीन काजू बियो भाजताली. बियांचो वास पयस पयस पावतालो. मागीर आमीं सगळीं जाणां रान्नी भोवती जमा जातालीं. भाजिल्ल्या बियांचे वांटे जाताले. म्हाकां अजून पावस पडतकीच फुकणी घेवन बियो फोडटा ती म्हजी आवय दिश्टी पडटा आनी हुनहुनीत काजू गराची रूच जिबली पाझरायता.

केन्ना केन्ना तर पावस आपालिपाचो खेळ खेळटालो. केन्ना केन्ना तर वत आनी पावस आमकां माकडाच्या लग्नाचें आमंत्रण दिताले. आनी आमीं भुरग्यापणार जाता तितल्या नेटान आड्ड्यो मारून म्हणटालीं,

'पावस आनी उन्हांत
आता माकडाचें लगीन'

पूण केन्ना आमी माकडाच्या लग्नाक गेलीं नां. पूण आतां वता-पावसाच्या खेळाक पळोवन मात भुरग्यापणावेलीं पिशेपणां याद जाता.

असो हो पावस खोशी दिवपी आनी लुकसाणय करपी. पूण पावसाक लागून धतरेवेलें वातावरण मात नितळ आनी शितळ जाता. सगळी घाण व्हावून वता. धर्तर पांचवीचार जाता.

सैम धतरेर केन्ना किदें घडोवन हाडीत हाचो नेम ना. केन्नाय तो घोग्यानी वोत्ता, वादळ-वारें, गडगड, जोगलां हांच्या सांगातान येता केन्ना तो एका पिरपिऱ्या भाशेन पडटा.

पूण पावसा तुकां एक सांगन शें दिसता. पावसा तुज्या कोमल स्पर्शान सगळें जग पांचवेचार कर. धतरेक व्हकले सारखी पांचवो शालू न्हेसय. पावसा तुज्या येवकारांत मनशा भितर नवें चैतन्य निर्माण कर. तूं केन्ना एकदां येता सो जाणविकाय दवर.

पावसा तुज्या लागीं एकच मांगणी म्हजी, तूं येतना मनशा खातीर यो. सगळ्या जगाचो आश्रयदातो जावन यो. एका राक्षसा परी येवं नाकां. तुज्या रूद्र अवतारान सैमाची घडी विस्कटाय नाकां. लोकानी धतरेर थाटील्लो संवसार मातये भरवण करू नाकां. तुजें कपटी रूप पावसा कोणाकूच दाखोंव नाकां.....



***

पर्वरी - गोंय
फोन : २४१३१९०





# चानी

- निता नायक शिरोडकार

'चानी' घारशे दोळ्यांची, हळव्या स्वभावाची आनी चंचल मनाची, नांव लेगीत सोब सारकेंच 'चानी'. पूण फरक इतकोच आसलो ते चानयेचो संवसार झाडाभोवतणचो आनी हे चानयेचो आपल्या आई-आभाचे कुशितलों. चानी ही आवय-बापायची एकलीच चली, मुळचीच गरीब जाल्ल्यान भायलें जग ताका अनोळखी आसलें, ताचे जग आपले पुरतेंच आसलें. बापूय दिसभर सोऱ्यान बल्ल जाल्लो आसतालो खरो. पूण एका भाटकारागेर तो नाल्ल पाडपाचें कामूय करतालो.

गांवांत भाटकार सोडलो जाल्यार मान वयर करून चलपी दुसरो कोणूच नासलो. भाटकार म्हळे उपरांत थोडो-भोव घमंड ताकाय आसलो. पूण लोकांक केन्नाच त्रास दिनासलो. भाटकाराचें भाट व्हडलें जाल्ल्यान, पयऱ्यान तो तें पाडटालो आनी पाडेल्याक ५-५ नाल्ल व्हरपाक दितालो. चानेचे बापायक मात तो दोन नाल्ल चडूच दितालो, त्या भायर भाटकारान ताका एक व्हडेंय दिल्लें. चानेचे घराकडल्यान भाटकाराल्या घरा मेरेन एक व्हडलें तळें लागतालें. तें हुपून वचप शक्य नासलें. वेल्यान गांवचे लोकांक लेगीत आलतड-पलतड मारपाक मेळनासली, देखून भाटकारान सगळ्यांचें हीत पळोवन 'व्हड्याची' पुरवण केल्ली.

आपल्या बापायवांगडा, चानीय भाटकारागेर कामाक वतालें. तांचीं कपडे, आयदानां धुवपाचें काम तेंच करतालें. घरचें सगळें काम जाले उपरांत भाटकान्न ताका उरिल्लें जेवण, कपडे व्हरपाक दिताली. भाटकान्नीचो ताजेर भोव जीव आसलो, ती ताका आपल्या भुरग्यावरी सांबाळटाली. भाटकान्नीन दिल्ले कपडे आनी जेवण घेवन तें बापायवांगडा घरा परततालें, आजूय सदचेवरीं भाटकारान दिल्ले नाल्ल आनी भाटकान्नीन दिल्ले पोसोभर तांदूळ घेवन तें व्हड्यार बसलें. त्या बराबर बापायन व्हडें ताणलें. मात्शें मुखार सरतकीर चानेक एका कोनशाक साळकां फुलिल्लीं दिसलीं. साळकां पळोवन चानेक उमेद जाली. साळकां ताजीं आवडटीं आसलीं. तांकां पळोवन ताणें किळंच मारली.

''आ ऽऽ वयस'' आबा, तीं पळय साळकां, आबा म्हाकां एक काडून दी रे. एकूच दी, आज सोमार न्ही? म्हाकां म्हादेवाच्या देवळान वचपाचें आसा. त्याबराबर आबाचें चाळवलें आनी म्हादेवाच्या देवळान साळकां माळून वचपा, तू कितें व्हडली राजकन्या, आनी हें व्हडें काय तुका मेळत तें काडपाक दिलां. अशें म्हुणोन दोन गाळयो घातल्यो. बसलां उगी बस नाजाल्यार खोंट मारून तळ्यान उडयतलों. मागीर बस त्या साळकांक वेंग मारीत. साळकां जाय खंय साळकां, अशें बडबडत रावलो. आबा आपल्याक साळकां काडून दिवचो ना हें तें जाणा आसलें. तरीय एक खोटी आस, म्हणून चानीन हट्ट



केल्लो, पूण तोय म्हारग पडलो. सोमरा-सोमरा म्हादेवाच्या देवळान वचपाचें ताजें काम आसलें. कामारसून घरा पावता म्हणसर आई ताका आबोलेचे झेले तयार करून दवरताली. चानी मागीर न्हावन धुवन देवळान फुलां घेवन वतालें. देवळान गांवचो तसो गांवचे भायलो लोक जमा जातालो. वांगडा ताजे पिरायेचीं भुरगीं आसतालीं, तरेकवार कपडे न्हेसून, जायते तरेचीं फुलां माळून नटून-थटून वावुरतालीं. तांकां पळोवन चानेक दिसतालें आपणाकूय कोणें तोखेवचें, आपणे न्हेसून, फुलां माळून देवळान वचचें, आनी आपल्याक लोकांनी नियाळचें. पूण चानेच्या नशिबांत तें सूख नासलें. आज जर आपल्याक साळकां मेळलेलीं जाल्यार आपूणय चार -चौगान मिरयतलें आसलें. अशें ताका दिसलें. हें सगळे चित्तना चानेचे दोळे भरून आयले. नकळत भरिल्ले दुखांक पुसपाक म्हूण चानेन हात उबारिल्ले मात, आबान जुस्त पळयलें. ''काय गो, आता रडटा कित्याक, कोण मेलो? तुजी आवशी'' बापायन अशें म्हणिल्लें मात, चानयेची तकली फिरली, ''आबा म्हाकां काय बी म्हण हां, पण म्हज्या आयेक कांय एक म्हण नाका.'' अशें म्हणीत मनांत आशिल्लो सगळो राग ओकलो. त्या बरोबर आपल्याक उलट जाप दिता काय म्हूण बापायन एक सुकलेलो बोणो काडून चानेचे पांयार मारलो, आये, म्हण चानेन एकूच आरड मारली. बोणो जुस्त पांयार जाल्ल्या घाव्यार पडलो. चानेचो जीव गेल्लेवरी जालो. चानेन तसोच पांय घट्ट चिडून धरलो. तसो फळ-फळ करून घाव्यांतल्यान रगत व्हांवपाक लागलें. चानेन आपल्या घागऱ्याचो इल्लो कुडको पिंजलो आनी घाव्बार घट्ट धरून बांदलो. पांय मात्सो थंड दिसलो. चानेन बापायचेर एक तुसडशी नदर मारली, जाल्यार बापूय आपल्याच न्नादान विडी फुस्कायतालो. चानेन मनांतल्यान दोन गाळी मारल्यो आनी पांयार फूंक मारीत रावलें. सूर्य आतां मावळपाचे तयारीन आसलो. पूण इल्लेशें वत आजून जाणवतालें. पूण आंगार मात बसनासलें. वारो मात चवूय वटेन आंग उक्तें करीत भोवतालो. त्या वाऱ्यान चानेची पांयाची दूख खंय तरी नाच्च केल्ली. चानेक एकसारखी झेम येता काय जावपाक लागली. पूण तळयेचें उदक ताजी न्हीद पयस करतालें. उदकाचो तो सळक सळक आवाज मन भुलयतालो. अर्दी-मर्दी त्या थंड उदकाक लागून थंडी आंगाक जाणवताली. चानेन मनांत म्हळें, म्हाकां इतली थंडी जाणवता जाल्यार हे तळयेंत आशिल्ल्या झाडांक कितकी काय थंडी खातली? पूण तरीय चानेक तीं झाडां आपले पेक्षा बऱ्या नशिंबाचीं अशें दिसतालीं. कारण ताका कोणाचो कसलोच त्रास नासलो. ना कामाक वचपाचो बोवाळ, ना जेवणाची खंत त्या भायर कोणूच त्रास दिवपी ना. जीण एकदम सुखान सारपाची.

चानी ह्याच विचारांत आसतना, आबान व्हडें थारायलें हें लेगीत ताज्या लक्षांत आयलें ना. भानार आयलें तेंय बीन आबाच्या धेंगश्यान. व्हड्यावेलें देवून चानी बांदार चडलें. एका हातान नाल्लाची पिशवी जाल्यार दुसरे हातान भाटकान्नीन दिल्ले तादूळ घेवन तें वाटेक लागलें. ते म्हणसर व्हडें एका खुट्याक बांदून बापूय पलतडचे गादयेर गेलो. चानेच्यान आयज कशेंच चलपाक जायनासलें. तरीय केन्ना काय घर गाटल्यार पुरो जाल्ल्यान चानी व्हडलीं-व्हडलीं पावलां मारूंक लागलें. तितल्यान फाटल्यान कोणे तरी सायकलीची कांपीण मारली. कांपिणीचो आवाज चानेक वळखीचो आसलो. चलता चलताच चानेन ''कोण नाम्या काय रे'' म्हूण प्रश्न केलो, त्या बराबर नामो सायकलीवेलो देवलो, हय गो मीच तो. अशें म्हणीत चानेचें माथ्यावेली पोटली ताणें सायकलीक लायली आनी ''चाने पायांक गो कांय जालां, कुट्टा कित्याक?'' अशें म्हूण प्रश्न केलो, नाम्यान अशें विचारलें मात चानेच्या दोळ्यांत दुखां दाटलीं. नाम्याक न सांगताच सगळें कळ्ळें. ताणे मायेन ताजीं दुखां पुसलीं आनी ''चल मी तुकां डॉक्टराकडे व्हरतां.'' म्हूण आग्रो करूंक लागलो. तशें चानेन ''नाम्या, आज म्हज्यान चलपाक जायना रे, म्हाकां व्हरून घरा पावयशी?'' असो प्रश्न केलो. तसो नामो खूश जालो. आजवेर कितले खेप चानेक ताणे सायकलीर बसपाचो आग्रो केल्लो. पूण चानी केन्नाच बसनासली, आज चानेन आपूण जावन सायकलीर बसपाचो आग्रो केल्ल्यान नाम्याक जणू स्वर्गूच मेळ्ळो. चानीक सायकलीर बसोवन नाम्यान वाट धरली.

चानी नामो सोडलो जाल्यार खंयच्याच चल्यांकडेन उलयनासलें. कोणाक हटकी लेगीत नासलें. गांवचे भुरगे सगळे तवनास हें तें जाणा आसलें. नामो हरशीं त्याच भुरग्यांचे टोळयेंत दिसतालो. पूण चानेक ताजेर खूब विश्वास आसलो. तो ताका सगळ्यां पेक्षा वेगळो दिसतालो. एकादो नामो भाटकाराचो भाचो बीन काय म्हूण कोण जाणा?

भाटकाराक भुरगीं-बाळ कोण नासलीं. इतकी व्हडली येणावळ मुखार कोण सांबाळटलो हेच चिंतेंत तो रात-दीस तळमळटालो. भाटकाराल्या बरें मागप्यानी ताका पोसको भुरगो घेवपाचो सल्लो दिल्लो. तेन्ना मात्सो तकलेवेलो पेज कमी जाल्लो. पूण पोसको घेतलो कोणाक? निमाणे भाटकान्नीन सुचयलें, ''परक्या भुरग्याक पोस्को घेवचे पेक्षा आपल्याच भाच्याक पोस्को घेयात, बाबड्याक आवय ना बापूय. आमगेरूच आसता. भाटकाराक तिजें म्हणणें पटलें. आनी ताणे नाम्याक पोस्को घेतलो. त्या दिसा सावन नामो, भाटकाराले सगळे येणावळीचो मालक जालो. नाम्याक ताणे बारावी मेरेन शिकयलो. मुखार शीक म्हळ्यार नामो वाजेवपाक लागलो. देखून शिक्षण थंयच पाड पडलें. पूण गांवांत नामो शिकला तितलो मात कोणूच शिकूंक नासलो. देखून गांवचे लोक ताका सलाम





ठोकताले. हरशीं नामो कोणाचेच मजगतीं पडनासलो पूण चानेचे बाबतींत वेगळें आसलें. चानेचेर ताजो खूब मोग आसलो. ताज्या भोळ्या सभावाक लागून, तो ताका खूब मानतालो. तशें ताणे आपल्या मनांतलें चानेक सांगलेलें. पूण चानेक तें पटनासलें, चानी ताका सदांच समजावपाचो यत्न करतालें. आपूण तुज्या लायक ना, आमी कितलीं गरीब आनी तुमी खूब गिरेस्त. हें ताजें सदचेंच सांगप आसलें. तरीय नामो ताका सांगतालो. आपूण लग्न जाल्यार तुजेच कडेन जातलों म्हूण, पूण चानी आयकनासलें. निमणे नाम्यान आपल्या मनातलें आपले मामीक सांगलें. मामीचो नाम्याचेर खूब जीव आसलो. देखून ती आपलें मन दुखोवची ना हें तो जाणा आसलो. मामीक चानी पयलीं पासून पसंद आसलें. देखून मामी खूश जाली. तिणें ही खबर भाटकाराल्या कानार घातली. तसो तोयं तय्यार जालो. हीच खबर सांगपाक नामो आज चानेक मेळपाक गेल्लो, पूण चानेच्या दोळ्यांत दुखां पळोवन तो सगळें विसरलो आनी चानेक घरा पावोवन परतलो.

चानेक कुट्टना पळोवन आवयचें काळजान धस्स जालें. एक चानी सोडली जाल्यार तिचो आपलो कोंणूच नासलो. घोव आसून नाशिल्ल्या सारखो एकूच. घरान जोडपी लेगीत चानीच आसलें. चानीचो बापूय आपले पुरतोच जोडटालो. आनी जोडटा तितलेंय सोऱ्याक घालतालो. घरान न चुकतां पावताले ते मात भाटकारान दिल्ले नाल्ल. त्या नाल्लांक मात तो हात लायनासलो. चानेन आवयक घडिल्ली सगळी खबर सांगली. तशे तिजे दोळे भरून आयले. आपले चलयेक केन्नाच सूख पळोवंक मेळूंकना. हें येवजून ती खंती जाताली. पूण कोणाक सांगतली. त्या म्हणसर चानी न्हावन धुवन देवळान वचपाक भायर सरलें. आवयन दिल्ली घोटभर चाव पियेवन, गुंतून दवरिल्लीं फुलां घेवन तें पडवेर पावलें. पूण पांय चडूच त्रास करूंक लागिल्लो. तरीय नायलाजान म्हूण चानेन पांय भायर घातलो तसो आवयन चानेक उलो मारलो, "बाय आज वचू नाकां गो पांय पळय कितलो सुजला तो. फुलां आसुनी. देवाक घालुया. एक दीस वचना जाल्यार कांयच जायना." अशें म्हणून चानयेक तिणें आडयलें. आवयन तशें म्हणिल्लें मात चानेच्या दोळ्यांत दुखां दाटलीं. आवयन सांगिल्लें ताणें आयकलें. आवयन आपलेपरीं जाता तसलीं गांवटी वखदां केलीं. चानेक आतां मात्सो दोळो लागलो. पूण तितले म्हणसर पडवेर कोणाची तरी जाग जाणवली. शेर्त आबा अशें मनाकडें येवजून चानेन दोळे घट्ट धांपले. खरोच बापुयच आसलो. सोऱ्यान सारखो बल्ल जाल्लो. चलपाक मात लेगीत शकत नासली. पूण तोंड मात बुरश्या गाळयानी भरिल्लें आसतालें. चानेक हें सगळें सदचेंच जाल्लें, देखून थंय लक्ष घालिनासतनां चानेन दोळे धांपले. बद्द उगडले ते एका सुंदरश्या घरांत. चानेचें हें सदचेंच जाल्लें. दिसभर कितलेंय काम पडूं पूण रातचें न्हिदतना सपनेवप हें



ताजें सदचेंच जाल्लें. जाणू सपनेवप हें ताज्या आयुश्यांतलो एक भाग. आजूय तें आपल्या सपनाक आडावंक शकलें ना. आज ताणे स्वताक एका व्हडल्या राज महालांत पळयल्लें. ताजे भोवतणी चार-पांच दासी गुनळटाल्यो. त्यो उठ म्हळ्यार उठताल्यो आनी बस म्हळ्यार बसताल्यो. चानेन सुंदरसो चमक्यांचो विस्तीद घातिल्लो. आंगभर भांगर लकलकतालें. माथ्यार एक भांगराचें मुकूट आसलें. चानी एका सुंदर परी वरीं दिसतालें. गांवचो सगळो लोक ताका चाने येवजी 'रूपसुंदरी' म्हूण वळखताले. चानेचेर सगळ्यांचो मोग आसलो. त्या घरांत तें एकलेंच नासलें. सांगाताक ताची आवय आसली आनी नामोय आसलो. नाशिल्लो तो फकत 'आबा'. आबाक हांव केन्नाच म्हज्या ह्या घरांर घेवचें ना. ना जाल्यार तो हांगाय तेंच करतलो. म्हजे सगळे कपडे आनी भांगर विकतलो. आयेक आनी म्हाका मारतलो आनी बद्द पलतडचे गादयेर वचून बसतलो. ना, ना हांव आबाक केन्नाच घरांत घेवचेंना. अशें परत परत म्हणटाना नकळत चानेच्या तोंडांतल्यान तीं उतरा भायर सरलीं. बापूय जागोच आसलो, आपल्याक घरांत घेवचें ना हें आयकना फुडें चानेचेर एक धपको घातलो. चानी फडफडीत जागें जालें, उठून ताणे सभोवतणी नदर मारली. जाल्यार थंय तें एकलेंच आसलें, सगळ्यो दासी खंयच्या खंय नाच्च जाल्ल्यो. ना तो चमक्यांचो विस्तीद, ना तें भांगराचें मुकुट आनी ना तो राजमहल, उरिल्लें तें फकत चानीचें मोडिल्लें घर. पिंजकरो विस्तीद आनी आबा. चानीन मतींत म्हळें, म्हज्या नशिबांत खंय आसा असलें सूख, असलें सूख फकत हावें सपनातूच पळोवपाचें. अशें चिंतीत चानी उठलें, तोंड धुलें, चाव पिलें आनी कामाक वचपाक भायर सरलें. आवयन केल्ल्या वखदान पांयाची सूज बरीच देविल्ली. पांय बरोच हलकोसो दिसतालो. आवयन भायर सरताना उरिल्लें वखद पांयार थापलें आनी घट्ट कपड्यान बांदलें. चानीन उपरांत आवयचो निरोप घेतलो आनी तें वाटेक लागलें. बापूय पयलींच उठून गादयेर बशिल्लो. जो मेरेन चानी व्हड्याकडेन पावना तो मेरेन तो गादयेर बसून ताळो ओलो करतालो. चानी एकदाचें बांदार पावलें आनी आबाक ताणें साद घातलो तसो आबा सकल देंवलो आनी व्हड्यार येवन बसलो. कांय खिणांतूच तीं दुसऱ्या धक्यार पावलीं. व्हड्यावेलें देवून ताणें भाटकाराचे घरची वाट धरली. वाटभर तें आपल्याक पडिल्ल्या सपनाचेंच चित्तालें. फांतोडेर पडिल्लीं सपनां खरीं जातात अशें ताणे जायते फावटी आयकल्लें. तरीय आपल्या नशिबान सूख आसल्यार आपल्याक देव दितलोच अशें म्हणीत चानी घरांत गेली. भाटकान्न भायर आंगणातूच आसली, तुळशीक उदक घालताली भाटकान्नीक तें 'वयनी' जाल्यार भाटकाराक दादा म्हणटालें. दोगांकूय हटकून तें बद्द रांदचेकुडींत गेलें. रातचीं आयदना घासून काडलीं, कपडे धुले, सारण मारली आनी भाजी शिनपाक बसलें. सगळीं कामा जाले उपरांत भाटकारान ताका भायर चवकेर आपयलें. दादान आपल्याक कित्याक आपयलें काय, अशें मनाकडेन येवजीत चानी भायर गेलें. भायर नामोय आसलो. वयनी दादाचे देगेक झोपाळ्यार बशिल्ली आनी आबाय तेन्नाच भितर सरिल्लो चानेन पळयलो. चानेक सगळींच एकेकडें पळोवन भिरांत दिसली. कितें जालें काय म्हणून चिंतूंक लागलें. आपल्या हातींतल्यान एखादी चूक जाली काय, अशें ताका दिसपाक लागलें. चानीचे दोळे भरून आयले. चानीन आनीक वेळ केलो ना. बद्द भाटकाराल्या पांयांनीं घालून घेतलें आनी "दादा, म्हजे कडल्यान कसलीय चूक जाली आसल्यार म्हाका माफ करात." अशें म्हणीत रडूंक लागलें. भाटकारान मायेन चानेच्या माथ्यार हात दवरलो आनी ताजीं दुखां पुसलीं. भाटकान्नीन चानेक प्रस्न केलो, "चाने तुका आमचो नामो पसंत आसा गो? म्हज्या नाम्याकडेन लग्न जातलें? हांव तुकां म्हजी सून करूंक सोदतां. पूण तुजी पर्वान्गी आसल्यारूच." भाटकान्नील्या तोंडांतल्यान हीं उतरां आयकून चानेक शेळो घाम सुटलो. चानेन हळूच मान वयर काडली जाल्यार सगळींच ताज्या जापेची वाट पळेतात अशें ताका दिसलें. चानेकडेन आतां फक्त दोन पर्याय आसले. एक म्हळ्यार 'नकार' दिवन फाटलीच जीण जगची. आनी दुसरी म्हळ्यार 'हयकार' दिवन जिणेची नवी सुरवात करची आनी केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें सूख पळोवचें. चानेचें सपन आज खरें जाल्लें. केन्नाच घट्टलें अशें दिसनासलें आज घडिल्लें. चानेच्यान आपली खोशी लिपोवंक जाली ना. चानेन सगळ्यांक आपलो हयकार कळयलो. तसो सगळ्यांच्या तोंडार हांसो फांकलो. नाम्याक जणू सगळेंच मेळ्ळें. ताजेंय सपन आज खरें जाल्लें. ताकाय ह्याच दिसाचें सूख जाय आसलें. चानेक ह्या वेळार आवयची कमी खूब जाणवली. आयज पयले फावट आबाच चानेचे खोशयेंत शामील जाल्लो. ताकाय खूब उमेद जाल्ली. ताका आपणे उलयल्ल्या उतरांचो उगडास जालो आनी आपलोच राग आयलो. आपूण आपले चलयेक सदांच गाळी मारतालों हाचो ताका उगडास जालो. आपूण सदांच ताज्या नशिबाक गाळी मारी, पूण आज चानेचें नशीब बदल्ललें ताका दिसलें.

चानेन दोळे धांपून देवाचे उपकार मानले. आज ताका जें कितें मेळिल्लें तें सगळें देवानूच ताका दिल्लें. आज घरा परतताना चानी वेगळेच उमेदीन दिसतालें. चानेच्या जिवितांत नवें वळण घेतिल्लें. आज चानी सुखाचीं सपनां चडपाक नवीं पावलां मारतालें, नवे उमेदीन.....

***



**मोयडें बारदेश**
**म्हापशे गोंय**
**फोन: २४७०४६१**
**मो: ९८२३८६९९४५**

# चार मस्तुले

– माया अनिल खरंगटे

बंटू, कुकू, रोबो आनी चिंटू चौगूय बरे इश्ट आसले. ते खूप हुशार तितकेच मस्तेय आसले. शाळेंत सगळ्यांक तांचीं मस्तेपणां खबर आसलीं. ते दुसऱ्यांक आदार करूंकय तशेच मुखार आसताले. कोणाची कशी रड घालप तांकां सारकी खबर आसली.

सरान काळी पॅन्ट घाली जाल्यार ते कदेलार खोडवाचो पिठो घालून दवरताले. सर बसून उठतकूच ताची पॅन्ट फाटल्यान धवी जाताली. मागीर सगळीं भुरगीं हांसतालीं. एक दीस ताणीं सीमा टिचरीचे, लांब विणयेक पानां लायलीं. ती वर्गा भायर वतां वतां सगळ्या भुरग्यांनी पळयलें. तीं हासूं लागलीं. तशी टिचर परत वर्गांत येवन 'कितें जालें?' म्हणून विचारपाक लागली. पूण कोणेंच तिका कांयच सांगलें ना. हांच्या मस्तेपणाची सगळ्या भुरग्यांक माज मेळटाली. ती तशीच दुसऱ्या वर्गांत गेली. थंयी सगळीं भुरगीं तिका पळोवन हांसूंक लागलीं. तिणें कोणाक कांयच विचारलें ना. ती स्टाफांत येतकच तिका खरी खबर कळ्ळी. आतां शिक्षका वांगडा सीमा टिचरूय खूप हांसली. रिटा टिचरीन म्हळें, "हें काम त्या मस्त्यांचेंच आसतलें. आतां कितें करतलें तांकां."

"चड तापय नाका गो तांकां. पानां माळून बरें दिसलें तूं." कामत सरान म्हळें.

सीमा टिचरीन वर्गांत येवन आपल्याक पानां कोणें माळ्ळ्यांत तें विचारलें. सगळीं भितरल्या भितर हांसतालीं. पूण कोणूच सांगूंक तयार नासलीं. निमणें जेन्ना तिणें सगळ्या वर्गाक शिक्षा करता म्हळें तेन्ना ह्या चौगांयनी आपली चूक मानून घेतली.

अशेंच एक दीस, कदेलाचे फाटीक कार्टुनाचें तोंड काडिल्लें कागद ताणीं लायलें. ताका वयल्यान चुईंगम लावन दवरलें. ते दीस दिस्त हेडमास्तर तांच्या वर्गांत आयलो. सगळ्यांचेर आकांत आयलो. वचून कागद कसो काडप हें चिंततासर हेडमास्तर कदेला म्हऱ्यांत गेलो. सर बसचे पयलींच बंटून सराक उलो माल्लो. आनी तांणीं कदेलाक लायिल्लो कागद काडून सराक दाखयलो आनी चूक मागली. हेडमास्तरान तांकां





बरेच तापयले. "अशी चूक आमी केन्नाच करचे नांत" अशें तांचेकडल्यान शंबर वेळा बरोवन घेतलें.

जालें, थोडे दीस ते शाणे भुरगे कशे रावले. तशे ते भुरग्यांची बारीक बारीक वाट लायतालेच. पूण बोवाळ जाय सारकें तांणीं कांय केलें ना. पूण तांचे भितरली मस्ती तांकां कशीच वोगी बसूंक दिनासली.

शाळेच्या वयल्या मजल्यार ल्हानसो तेर्रास कसो जागो आसलो. गॅलरींतल्यान उडी मारून थंय देवंक मेळटालें. पूण परत वयर येवप कठीण. ते दीस कितें जालें, पांचवेच्या वर्गांतले भुरगे गॅलरींत बोलांनी खेळटाले. आमचे मस्तुले थंय पावले. तांणीं तांचो बॉल त्या तेर्रासीर उडयलो.तो बॉल ज्या भुरग्याचो आशिल्लो तो रडूंक लागलो. ते बरोबर रोबोन ताका सांगलें, "आरे, रडटा कित्याक? हांगा यो हांव तुका थंय देंवयतां. तूं बॉल घेवन यो, हांव परत वयर काडटां."

भुरगो तयार जालो. ताका तेर्रासीर देंवयतां सर घांट वाजली. हे मस्तुले आनी हेर भुरगीं वर्गांत धांवलीं. तो भुरगो थंय एकटोच उरलो. तो व्हडा-व्हडान रडूंक लागलो.दिस्त थंयच्यान प्यून वतालो. तांणें ताका पळयलो. ताणें कदेल सकयल सोडून ताका वयर काडलो. आनी हेडमास्तरा म्हऱ्यांत व्हेलो.ताणें सगळी गजाल हेडमास्तराक सांगली.

दुसरे दीस प्रार्थने वेळार, हेडमास्तरान त्या चौगूय मस्त्यांक सगळ्या शाळे मुखार हाडून तांणीं कितें केलें तें सांगलें. चौगांच्याय दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां व्हावंक लागलीं. हेडमास्तरान तांकां सगळ्यां मुखार माफी मागपाक लायली. ते भायर अशीच आठ दीस प्रार्थने वेळार माफी मागपाक लायली.

त्या दिसाच्यान त्या चौगूय मस्त्यांनी मस्ती कारपाचें सोडलें.



***

सी-४-१. वैभव अपार्टमेंट
धवर्ली. नावेली-गोंय





## मेड इन....

मेड इन चायना
खंयचे कडेन कांय ना

मेड इन टोकियो
सगळ्यांक घालता तोपयो

मेड इन जपान
फांसता चुनो समजून पान

मेड इन अमेरिका
दुसरे फावटी घेवंच नाका

मेड इन जर्मन
रोखडोच सोदचो पडटा कोयरा कण्ण

मेड इन रशिया
कपलार हात मारून बसया

मेड इन ऑस्ट्रेलिया
रोखडोच उजो लावया

पूण मेड इन इंडिया
दोळे धांपून घेवंया
फटींगपणाचें करतात सगळे काम
आनी जातात गिरेस्त पयशे खावन
पूण आमचो देश घे ना कोणाचोच लाव
म्हणुनूच 'मेरा भारत महान'

**- अमोघ प्र. बुडकुले**
**चौगुले कॉलेजीकडेन**
**घोगळ, फातोड्डा -गोंय**
**२७५९०५५**
**यत्ता: १२वी**



## पावसाचें संगीत

हळदुव्या वोतांत
माकडा लगीन लागलां
झिरीमिरी पावसान
अक्षता उडयल्या
बेंड बाजो गडगडटा
जगलां मारून फोटे काडटा
नळ्यांचेर रपूरप्
पायपांतल्यान घसूघस्
पावसान धल्ला मधुर ताल
चलता पळय कसो तिरपी चाल
स्पर्शान धादोस
ओली माती
परमळ फाकयत
घुस्मटयता छाती
ओलेतीं झाडां
लजेन आकुळ्यां
पाना पानाचेर
नकेत्रां लिकलिकल्यां
तन्नो पावस झेलीत
थपथप धांवतात तन्नीं पावलां आवयो
आवयो आड्डून खरशेल्या
पळोवन सूर्य देवूय मुमुरख्यांनी हासला

**-सरस्वती नाईक**





## दिवाळी

ओंदू वर्सा दिवाळेक
नरकासूर करचे न्हय
करचे साबार देखावे
अशें थारायलें लोकांनी

'पै' गेर केल्लो पांडुरंग
रखुमाई विटेर उबी
सगळीं जाणां तांकां
पळोवन तोखेतालीं

शीवागेर केलो शिवाजी
तलवार घेवन हातांत
सगळे तोखेवन
खूप खोशी मनांत

राननाथागेर राम
ताच्या वांगडा सीता
काळजांत दवरिल्लीं
मारुतीच्या भक्ता

गणेशागेर गणपती
गणपती बाप्पा मोरया
ताचें नांव घेत
आज खोशी जावंया

सरस्वती लक्ष्मी पळोवन
पायां पडलीं भुरगीं
देव देवतांचे देखावे
हाडीत मनांत स्फूर्त नवी

## भाव भयणी

शीलाची भयण लिला
लिलाचो भाव लाला
शीला, लिला आनी बाला
तिखट्यांचो खेळ मांडला.
लताची भयण गिता
गिताचो भाव अंता
लता, गीता आनी अंता
तिगांय दीस-रात झगडटा.

विमलाची भयण शामल
शामलाचो भाव शाम
विमल, शामल आनी शाम
खेळून खेळून जालीं जाम

नलिची भयण शाली
शालिचो भाव जना
नली, शाली आनीं जना
बरोबर केन्ना खेळना.

एकाच वाड्यावेलीं तीं,
सगळीं भुरगींच भुरगीं,
केन्ना खेळत, केन्ना झगडत
तें तांचें तांकांच खबर ना.

**-भिकाजी घाणेकार**
**लिदिया गार्डन**
**सांत ईनेज, पणजी-गोंय**



## हांव

हांव भुरगो ल्हान
अनीश म्हजें नांव
अभ्यास करतां
खेळ खेळटां
कॉमीक करतां
सगळ्यांक जाय हांव
मारता केन्ना म्हाका मम्मी
आपुणूच दिता कॅडबरी

**- अनीश अर्जुन चव्हाण**
**सेंट जोसेफ हायस्कुल,**
**यत्ता पांच वी**
**वास्को-द-गामा**

## बुकलो



एक आसलो बुकलो
नांव ताचें पाकलो
घोस्ताचो ताच्या
हुंदीर आनी जल्लो

एक दीस पळोवन
जल्लो
जेवणा मेजार चडलो
हुमणा तोंप रकलो
आईन मोडलो दोकलो
अशे तरेन बुकलो
बरी बुद्द शिकलो.

**-डॉ. मेजर प्रकाश शेटये**
**देवळाय खांडोळा - गोंय**
**फो. २२८७६४५**

## कमळ

सुंदर आनी सोबीत
उदकाचे धडयेर
आसा हांव
सुंदर कमळ

कमळ म्हजें नांव
बदलून दवरलां साळकें
आमचीं पानां, उदका धडेर
फुगोन बसल्यांत

आमी आसतात उदकांचीं फुलां
चडशीं रावतात तळ्यांत
पूण तळें आसा घाण, कित्याक?
लोक उडयतात कोयर आमचे घरांत

कितें सांगूं ह्या लोकांक?
समज लोकांनी तेंच्या घरा
कोयर उडयल्यार
घाण जायना?

तुमी उलोवपाक शकता
आमी मात शकनांत
उलोवपाक कळ्ळ्यार
सांगता आशिल्लीं.

पूण कितें करतलीं
तरीय आमी सोबीत दिसतात
आनी आमचें जीवीत
मातशें सुखान जगता.

**- धनश्री शिवदास नायक**
**यत्ता स वी**
**आवर लेडी ऑफ कांदेलारिया**



## म्हजें सपन

म्हाका दिसता
नुसतें जावन
दर्यांत रावचें
आनी तांचें
जिवींत जगचें

म्हाका दिसता
पाखो जावंचें
पाखो जावन
एका फुलावेल्यान
दुसऱ्या फुलार उडचें
ताचें म्होंवें म्होंव पिवंचें

म्हाका दिसता
शेंवणें जावचें
शेवणें जावन
मळबांत उडचें
मळबांतल्यान पांचवी
धरतरी दोळेभर तोखेवंची

म्हाका दिसता
काजुलो जावंचो
काजुलो जावन
काळखांत लोकांक
उजवाड दाखोवंचो



## कविता

आमच्या शेजराक दोन माजरां
इना आनी मीना
येता कशीं आमगेर हळूच
आनी बसता येवन दारांत
नुस्तें घातल्यार बुकू बुकू करून खाता
एका मेकाचेर घुर्र-घुर्र घुरघुरता
मेथयेच्या झाडार चडटा
आनी डुबुक्क करून सकयल पडटा
फाटलो बुकी तांच्या फाटल्यान लागलो
म्हणटकच इना फुडें बुकी फाटीं
मिना फुडें बुकी फाटीं
आनी मागीर शेंपटी तुटसर
आपलो जीव वाटोवपाक
म्हज्या हातुण्णांत येवन लिपता

**- पुजा विश्वंभर नायक**
बांदोडे-फोंडे
२३३५५५१



## म्हाका आवडटा

म्हाका आवडटा
पावसान चिप्प भिजूंक
पावसान भिजतना
रस्त्या कोणांतल्या उदकांत
थपथप धावूंक

पूण मात लेगीत आवडना
म्हाका भिजिल्लें आंगार
मम्माची तापसावणी
आनी तिणें दिल्ल्या
थंडे वखदाची कडवटसाणी

-सरस्वती लाईक
सांकवाळ

## पदेर

आमच्या गांवांत पदेर येता
पाव विकते घेयात म्हणटा
पाव आसात ताचे गरम
तश्योच आसा पोळयो नरम
बन्स आमचे गोड गोड
पानक्याक येता रूच चड
बोटां तशी फाती आसा
गार्वांच्यो बिस्कूट्यो बऱ्यो आसात
खाऱ्यो तश्यो तुपाच्यो आसात
लांब तश्यो मोठ्यो आसात
तो सायकली पाट्यान घेवन येता
सकाळी आमच्या घरांत पावता

## कावळो

कावळ्या असो कसो रे तूं काळो?
तो पळे कितलो धवो फुल्ल बगळो
आनी तुका एकूच मरे दोळो
दोंयवटांनी घुंवडावचेलो
पयसुल्ल्यान टेळचेलो
अचकीत झोंपय मारचेलो
पावा कुडको उखलचेलो
तोंडांत घेवन पळचेलो
कां कां करचेलो
हेरांक आफोवन हाडचेलो
एकठांय जावन खांवचेलो
झाडार वचून बसचेलो
कोणाचे वाटेक ना वचचेलो
आमकां जाय जाय असलो.

- सदानंद तेंडुलकार
खोडये, सत्तरी-गोंय





## घर - १

भायल्यान म्हजें घर निवळ
भितरल्यान म्हजें घर बुरशें
मम्मा घर निवळ दवरता
आनी हांव कागदां घरभर करतां

मागीर मम्मा म्हाका तापयता
डाडाय म्हाका तापयता
भाऊ बाबडो तांका भियेवन
घर लिप करता

जेन्ना हांव घर बुरशें दवरतां
तेन्नाच लोक आमगेर पावता
जेन्ना हांव घर निवळ दवरतां
तेन्ना कोणूच आमगेर येना
अशें कित्याक?

## घर - २

म्हजें घर
दिसपाक भायल्यान पोरने
भितरल्यान पळयल्यार तरणे
कित्याक?
आमी सगलीं घरांतलीं
वावुरतात घेवन तरणीं मनां
उमेदीचीं उमेदीचीं

**- युगा आडारकार**
यत्ता सवी
अवर लेडी ऑफ कांदेलारिया
वास्को.







# कॉपी करप वायट

– डॉ. मेजर प्रकाश शेटये

सातवेच्या भुरग्यांच्यो परिक्षा चलताल्यो. आयज गणिताचो पेपर आशिल्लो. पेपर सोंपपाक थोडोच वेळ उरिल्लो. सायलीचो पेपर केन्नाच बरोवन जाल्लो. ताणें ल्हवूच आपले कुशीक बशिल्ल्या किसनाकडेन पळयलें. तो आख्खो वेळ ओगीच क्लासान बसून आशिल्लो. ताची चडशी उत्तर पत्रिका कोरीच आशिल्ली. सायलीक दिसलें किसनाक मातशी मदत करची.

सायली आनी किसन एकाच वर्गांत शिकतालीं. सायली वर्गांत हुशार. पयलो नंबर घेवपी जाल्यार किसनाक खेळाचें पिशें. तो पयस गांवगिऱ्या वाठारांत रावतालो. अभ्यासाक सामकोच ढ. गणीत जाल्यार कशेंच ताचे तकलेंत वच नाशिल्लें. ताका घराकडेनय शिकोवपी कोणच नाशिल्लो.

सायली आनी किसन एकमेकाचीं बरीं घट दोस्त.किसन सायलीक गांवांतल्यान येतना केन्ना काण्णां, बोरां, जांबळां, चुन्ना बी हाडून दितालो. सायली बी किसनाक केन्ना केन्ना आपलीं बुकां कॉपी करूंक दितालें.

आयज किसनान गणिताच्या पेपराक कांयच बरोवंना हें पळोवन सायलीक हुस्को जालो. ताका ताची काकुळत आयली. ताका दिसलें किसनाक मातशी मजत करची. वर्गांत कोणूच टिचर ना तें पळोवन ताणें आपली उत्तर पत्रिका हळूच ताचेकडेन पावयली. 'कोण ना तशें बेगोबेग बरोवन काड ना जाल्यार तूं नापास जातलो.' सायलीन किसनाक सांगलें.

किसन पयलीं कां कूं करपाक लागलो. पूण मागीर ताणें पळयलें क्लासींत तर कोणूच ना. पेपर आयतो मेळ्ळा. इल्लें कॉपी करचें. ताणें सायलीच्या पेपरावयलें पळोवन भराभर कॉपी करपाक सुरवात केली.

इतल्यान ज्युस्त मीना टिचर क्लासींत आयली.वर्गांत येना फुडें तिची नदर किसनाचेर पडली. मीना टिचर सामकी कडक. पेपर सायलीन दिला हें तिका कळ्ळें. किसन कॉपी करपांत गुल्ल आशिल्लो. मीना टिचर केन्ना आपल्या बाकाकडेन पावली हें ताच्या मतींत आयलेंच ना.

मीना टिचरीन दोगांयच्यो उत्तर पत्रिका काडून घेतल्यो. परिक्षा सोंपतकच दोगांयकूय स्टाफ रूमांत्त मेळपाक सांगलें.

सायली सामकें रडूंक पावलें. आपणाक लागून सायली सारक्या हुशार भुरग्याक टिचर ख्यास्त करतली. घडये नापास करतली म्हूण किसनाक खूब्ब वायट दिसलें. ताणें सायलीक म्हळें "सॉरी म्हाका लागून तुका त्रास जाले. हांव नापास जाल्यार जाता पूण तुजें लुकसाण जावंक फावना. हांव टिचरीकडेन माफी मागता."

पेपर सोंपतकच सायली आनी किसन टिचरीक मेळपाक





गेलीं. टिचरीन दोगांकूय पयलीं बरींच तापयली. कॉपी करप वा कॉपी करपाक दुसऱ्याक मजत करप हें कशें वायट हें ताका समजावन सांगलें. सायलीन टिचरीक सगलें खरें तें सांगलें. किसनाक गणित कळना. ताका घराकडेन शिकोवपी कोण ना. तो परिक्षेंत पोरूं नापास जाल्लो. ओंदूय नापास जायत म्हुण आपणें ताका थोडी कॉपी मारपाक दिली म्हूण सांगून तें सामकें रडपाक लागलें.

"टिचर तूं म्हाका नापास कर. सायलीची हातूंत कांयच चूक ना. ताचें लुकसाण जावंक फावना" किसनान टिचरीक सांगलें.

टिचरीन म्हळें "पळय सायली, आयज तुजी पयली चूक म्हण सोडटां. पूण लक्षांत दवर. वायट कर्तूब केन्नाच करचें न्हय. वायट कामा फाटलो हेतू बरो आसल्यार सुद्धा तें काम वायटूच आसता. किसन पास जावंचो अशें तुका दिसता ही बरी गजाल. पूण ते खातीर ताका कॉपी मारपाक मजत करप हें बरें न्हय. तूं किसनाक अभ्यासाक मजत कर. ताका ट्यूशन दी. तशें केल्ल्यान ताका पास जावंक मजत जातली." टिचरीन तांकां दोगांकूय कांयच शिक्षा करिनासतना सोडून दिलीं.

ते दिसा उपरांत सायली शाळा सुटतकच किसनाक अभ्यास करूंक मजत करूंक लागलें. गणीत आनी हेर कठीण विशयाचें ट्यूशन दिवंक लागलें. किसनूय बरो अभ्यास करून वर्सान वर्स पास जावंक लागलो.

***



मोगरा देवळाय
खांडोळा - गोंय
मो. ९३२६१३६७७९



# म्हाका ताचो उगडास येता

– लियेन मारिया सां फ्रांसिस्को

आमकां दोतोनीच्या सगळ्या भुरग्यांक शिक्षकान कोलवा दर्यावेळेर पिकनीकेक व्हेलीं. आमकां आमच्या फादरान आयतरा दीस आठ वरांचेर आफयलीं आनी आमी तीन बसी भरून कोलवा दर्यावेळेर वचूंक भायर सरलीं

आमी कोलवा दर्यावेळेर पावलीं. थंयसर आमी सगळ्यांनी आमचें जेवण खाल्लें. म्हज्या फ्रेंडान म्हाका जायतें खावपाक दिलें आनी हांवेंनूय म्हज्या फ्रेंडाक जायतें खावपाक दिलें. मागीर आमी थोडो वेळ खेळ्ळीं.

आमी सगळीं पांच वरांचेर न्हावपाक गेलीं. आमच्या फादरीन आमकां सांगलें "भुरग्यांनो चलात आनी न्हायात, पूण चड फुडें वचू नाकात". आमी सगळीं न्हावपाक गेलीं आनी तो थंयच आमकां पळोवंक उबो रावलो. न्हावता, न्हावता म्हाका एक मांजर मेळ्ळें. त्या मांजराक अर्दो जीव आसलो आनी ओर्दो नासलो. म्हाका ताका पळोवन खूब वायट दिसलें. तें जनावर आसल्यार कितें जालें? ताकाय आमचे बशेन जीव आसा. ताका कितें भोगता तें ताच्यान आमकां सांगूंक जायना. म्हाका ताचे खूप चुरचुरें दिसले. देखून त्या मांजराक हांवेन सुकतेर हाडलें आनी ताची फाट दामली. ताची फाट दामना फुडें ताच्या तोंडांतल्यान उदक येवपाक लागलें. उदक येता येता ताच्या तोंडांतलें उदक येवपाचें बंद जालें आनी तें माजर रोकडेंच उठून उबें जालें. त्या वेळार घरा वचपाचो जालो.

हांवें एक प्लास्टीक पोती घेतली आनी ताका जायते बुराक केले आनी त्या माजराक त्या प्लासटीक पोतयेंत घातलें. तें माजर तातूंत भितर रावलें. आमच्या शिक्षकान आमचीं नांवां घेवन उबीं दवरलीं आनी आमकां बसींत बसयलीं. हांव बसींत बसलें. त्या मांजराक म्हजे कुशीक दवरलें आनी कातारां म्हणत आमी घरा गेलीं. आमी समळीं रातच्या णव वरांचेर घरा पावलीं.

घरा पावतकच हांवें त्या माजराक आमच्या फुडल्या गोठ्यांत दवरलें आनी सकाळ जातकीर ताका खावपाक घालें. हांवें शीत, कांटें घाले आनी अशेच धा दीस गेले. मागीर एक दीस तें मांजर मेलें. ताका हांवें माडाच्या मुळांत फोंड काडलो आनी ताका पुरतोच्च ताचो इतेर केलो. हांवें त्याच हातांनी ताचो इतेर केलो ज्या हातांनी ताका वाटायिल्लें. म्हाका म्हजें मांजर खूप बरें दिसतालें आनी हांव ताचो आयजपसून खूप मोग करतां आनी सदांच मोग करतलें.



म्हाका त्या म्हज्या माजराचो अजून खूप उगडास येता.

***

**यत्ता स वी**
**मॅरी इमाकुलेट हायस्कुल,**
**पणजी-गोंय**





# हांवें पळयिल्लें प्रदर्शन

कालच्या म्हयन्यांत आमच्या शाळेंत मलेरियाचेर एक प्रदर्शन दवरिल्लें. गांवांतल्या बेतकी भलायकी केंद्रांत हें प्रदर्शन मांडिल्लें. भलायकी केंद्रांतले दोतोर आनी हेर काम करपी कर्मचाऱ्यांनी मलेरिया बद्दल जायती बरी म्हायती दिली.

मलेरिया जालो की जोर येता आनी जळारां चाबल्यार मलेरिया जाता. इतलेंच म्हाका पयलीं खबर आशिल्लें. प्रदर्शन पळोवन मलेरिया बद्दल जायतें नवें शिकूंक मेळ्ळें.

हांव कितें शिकलें?

१) जळारां चाबल्यार मलेरिया, हत्तीरोग, चिकून गुनिया, डेंग्यू आनी मेंदू जोर हीं दुयेंसां जांव येता.

२) आमच्या घरा कुशीक नितळसाण नासल्यार थंय जळारां तयार जातात.

३) जळारांक तांतयां घालूंक उदकाची गरज लागता.

४) पावसांत केन्नाय जोर आयल्यार भलायकी केंद्रांत वचून बेगोबेग रगत तपासूंक जाय.

५) कान-कातरे, गप्पी असलीं नुसतीं बांयत, उदक साठिल्ल्या टेंकांनी सोडीत जाल्यार थंय जळारां जावंक पावना.

नवीं बांदकामां चल्ल्यांत थंय मलेरिया जावपाचो चड धोको आसता.

घराच्या कुशीक आमी कट्ट्यो, फुटकीं लातां, बाटल्यो, टायर असल्यो वस्तू उडोवंक जायना.

मलेरिया हें एक टाळपासारकें आनी पुराय बरें जावपी दुयेंस.

***

# रिंकीचो पसारो द ग्रेट



रिंकी पयलो हो रूम साफ कर. सगळ्याक क्रेयोन, पेन्सील. हें कितें गो? रिंकीचे आवयन रिंकीक तापयत म्हळें. रिंकीन मार पडच्या पयलीं रूम साफ केलो.

रिंकी एक आठ वर्साचें चली. हुशार पूण सांगिल्लें केन्नाच आयकनासलें. म्हूण ताची मम्मी ताका सदांच सांगताली, ''बाय व्हडल्यांचें आयकुचें'' पूण कांय फायदो ना. तें आपणालीं खेळणीं, केन्नाच जाग्यार दवरनाशिल्लें. मार मात खातालें.

एक दीस अशेंच घरा-दारा मुखार पसारो करून रिंकी घरच्यांबरोबर फिरपाक गेलें. लागींच्या जंगलांत दोन चोर रावताले. तांणीं घराचें दार फोडलें आनी भितर वता थंय आसा ते रिंकीच्या क्रेयोनाचेर निसरून सकयल पडले.

त्याच वेळार घरांतलीं सगळीं परत आयलीं. घरांत दोन चोर पळोवन तांच्या आंगार कांटो फुल्लो. तांणीं त्या चोरांक धरून पोलिसांकडेन व्हेले.तें पळोवन रिंकीन म्हळें , ''मम्मी , डॅडी म्हजो हो पसारो द ग्रेट न्ही.'' सगळीं घरांतलीं हांस- हांस हांसलीं.

**- आयुषी प्रकाश शेटये**
**यत्ता सातवी**
**शारदा इंग्लीश हायस्कुल माशेल-गोंय**
**फो. २२८७६४५**



# रवीची चवथ

चवथ लागीं पाविल्ली. सगलीं भुरगीं फोग हाडटालीं तसोच एक रवी नावाचो भुरगो आवय बापाय बरोबर फोग हाडपाक गेलो. ताणें सुरसुरी, माराण, बाण, बॉम्ब, आपटबार, पावस, भुंयचक्रां घेतलीं. रवी चवथीची वाट पळयतालो. सदां भशेन रवीच्या बापायन गणपती हाडलो. मागीर दनपारची गणपतीची पुजा केली. मागीर ताणे माराण मारले. सगले जाण जेवले आनी बसून खबरी करूंक लागले. सांजवेळचो रवी आनी ताचे इश्ट फोग मारूंक लागले. थंय खोपींत रावपी भुरगीं आयलीं. रवीचो फोग लावन जातकच ते खबरी करूंक बसले. खोपीतलीं भुरगीं अर्दवट जळिल्लो फोग पुंजावंक लागलीं तें पळोवन रवी आनी ताचे इश्ट तांकां धांवडांवक लागले.

थंय रवीचो काका पावलो. काकान म्हळें, 'रवी तांकां धांवडांयता कित्याक? तीं गरीब. तांचे कडेन फोग घेवपाक पयशे नात. म्हणून तीं असलो फोग पुंजावन लायतात.' काकाची खबर आयकून रवीक आनी ताच्या इश्टांक खूब वायट दिसलें. ताणीं आपलो थोडो फोग तांकां दिलो. फोग पळोवन तीं हांसलीं. रवीक आनी ताच्या इश्टांकय खोस जाली.

**- मोहीत अनील खरंगटे**
**विद्याभुवन कोंकणी शाळा**
**यत्ता - चवथी**
**मडगांव - गोंय**



## चिमणेचें पील

आमच्या घराच्या मिटरबॉक्सांत एके चिमणेन घर बांदलां. थंय इल्लीं इल्लीं पिलां आसात. तीं दिसूयभर चिंवचिंव आवाज करतात. मम्मी कामाक वता तेन्ना हांव ह्या चिमणेच्या पिलांकडेन उलयतां. तिंवूय म्हजेकडेन उलयता. एक दीस पिलांनी सांगलें आमी आतां वता. पयस दुसऱ्या घरा. हांवें म्हणलें पूण येतली मगो केन्ना केन्ना आमच्या घरा?

**-अनिश अर्जुन चव्हाण**



# मस्तें चानू



आमच्या घरामुखार एक व्हडलें आंब्याचें झाड आसा. थंय एक चानी आनी तिचीं तीन पिलां चिनू, चिकू आनी चानू रावतात. तातुंतलें एक पील चानू खुपूच मस्तें. तें मम्मान सांगिल्लें कांयच आयकना. ताका मम्मान सांगलें, तूं आंब्याच्या झाडाचेरच भोंव. घरांचेर बी उडक्यो मारू नाका आं. पूण चानू आयकता? ताणें मम्मा ना शी पळयली आनी घेतली उडकी मुखावेल्या घराचेर. ताचो पांय निसरलो आनी तें गडगडत सकयल आयलें. सकयल मानू आनी फ्रांसिस अंकल सायकली सारक्यो करताले. ताणीं चानूक पडटा तें पळयलें. ताणीं हात पुसपाचो आंगसो पातळायलो आनी चानूक धरलें. चानू भियोवन रडपाक लागलें. ताणें मागीर चानूक व्हरून आंब्याच्या झाडार सोडलें. तेन्नाच्यान चानू शाणें जालें.

-दत्तराज शेटये
यत्ता- पयली
विद्या विकास अकादमी
मडगांव-गोंय





# करणाची काणी

-हिरण्येश आडारकार

एक आसलो भुरगो. ताचें नांव आसता करण. तो खूब गरीब आसलो. तो लाकडां पुंजावन विकतालो आनी पोट भरतालो.

एक दीस तो रानांत वता आसतना ताका एक पेपर दिसलो. ताणे तो पेपर उखलून वाचलो. ताचेर बरयल्लें, 'हो पेपर पिंजून ताचे कुडके मुठींत घट्ट धर.' तो बाबडो भोळो आसलो. ताणें पेपराचेर इन्स्ट्रक्शन दिलां तें केलें. ते बराबर तांकां घुंवळ आयली. ताणें दोळे धांपले. दोळे उगडून पळयल्यार तो न्हंयचे पलतडी पावला. थंयची जमीन हून हून कशी लागताली. तो तसोच मुखार चलत रावलो.

चलतां चलतां ताका वाटेर एक बोर्ड दिश्टी पडलो. थंयच्यान दोन रस्ते गेल्ले. एक रस्त्या वटेन बरयल्लें 'बेब्या राज्य'. तो बेब्या राज्यावटेन चलपाक लागलो. त्या राज्यान पावल्या बरोबर बेब्यांनी ताका धरलो आनी राजाकडे व्हेलो. बेब्यांचो राजा बेबलो दुःखी जावन बशिल्लो. ताच्या पुताक आनी धुवेक सोरपा राजान चोरून व्हेल्लीं. बेबलो राजा करणाक पळोवन म्हण्टा 'तू सोरपा राज्यांतलो मरे? मागीर म्हज्या भुरग्यांक बऱ्यान हाडून दी नाजाल्यार तुकां मारतां.'

करण भियेता आनी सांगता, 'हांव सोरपा राज्यांतलो न्हय. हांव मनीस. म्हाका थंय रानांत एक पेपर मेळ्ळो. तो वाचून हावें सांगलां तशें केलें मागीर हांगा पावलों.'

बेबलो राजान म्हळें, 'आं, तू आलतडींतलो मनीस. हावें तो कागद म्हज्या इश्टाक दशरथाखातीर उडयल्लो. तो तुकां मेळ्ळो आनी तूं आयलो. राव, तूं म्हज्या भुरग्यांक हाडशी जाल्यार हांव तुका गिरेस्त करतलों.'

करणान हय म्हळें आनी थंयच्यान भायर सरलो. तो मागीर सोरपा राज्य बरयलां त्या रस्त्यान चलपाक लागलो. चलतां चलतां पुरो जालें म्हूण तो एके घोलीकडेन बसलो. थंय दोन बेबे आसले. ते म्हणपाक लागले, 'तूं बेबलो राज्याच्या भुरग्यांक



हाडूंक वता? तूं म्हज्या एकसुऱ्या चल्याक हाडशी?' करणान हय म्हळें. बेब्याचे बायलेन ताका थोडें खावपाक दिलें आनी सांगलें. 'हें तुजेकडे दवर. सेफ्टी म्हणून'. चलतां चलतां ताका सोरपाचें राज्य दिसलें. राजवाड्याच्या दारार दोन शींव आसले. पूण करण भियेलो ना. ताणे आपले कडलें खावंक तांकां दिलें. तें खावन शींव ओग्गी बसले.

करण तसोच मुखार गेलो. थंय ताका एकेकडे तीन शिंवाचे पुतळे दिश्टी पडले, तांच्यो गोमट्यो कापिल्ल्यो. आनी हेवटेन तेवटेन उडयल्ल्यो. थंयच एक मुंगूस मरून पडिल्लें. करणान बरोवेळ विचार केलो. ताणे एक शिंवाची गोमटी घेवन पुतळ्यार बसयली. ती सारकी बसली. दुसरी बसोवंक गेल्यार झुम्म करून उजो आयलो. तेन्ना ताणे बेगबेगीन तिसरी गोमटी दुसऱ्या पुतळ्यार आनी दुसरी गोमटी तिसऱ्या पुतळ्याक लायली. ती सारकी दसली. ते बराबर तें मेल्लें मुंगूस जितें जालें आनी करणाकडे आयलें. करणान ताका उखलून घेतलें आनी आपल्या कपड्यान लिपयलें आनी तो मुखार चलपाक लागलो. थंय ताका एक कूड दिसली. थंय व्हडले व्हडले सोरोप आसले. ताणीं करणाक पळयलें आनी फोंस्स-फोंस्स करून आंगार आयले. एकल्यान म्हळें, 'ए, तूं मरपाक आयला? आमी कोण ते जाणा मरे?' करणान झुप्प करून मुंगूसाक भायर काडलो. मुंगूसाक पळोवन सोरोप फोंस्स फोंस्स करून रडपाक लगले.





'आमकां मारू नाका. आमी सगळ्या बेब्यांक, भुरग्यांक सोडटां. आनी बेबलो राजाच्या भुरग्यांकूय सोडटां. सोरोप ताका घेवन बेबे दवरलेल्या कुडींत गेले आनी सगल्यांक सोडले. थंय एके कादयेंत एक सुंदर चली आशिल्लें. करणान म्हळें 'ताकाय सोड'. सोरोप म्हण्टा 'ताका कित्याक सोडूं? तें आमकां रांदून वाडटा. तें आलतडच्या मनशांचें. ताका आमी सोडना.' करणाक राग आयलो आनी ताणे मुंगूसाक सोरपांचेर सोडलें. मुंगूसान उडी मारूं नाका सगळे सोरोप भियेले आनी बिळांनी लिपले. करणान ते चलयेक सोडयलें आनी मुंगूसाक आनी सगळ्या बेब्यांक घेवन थंयच्यान भायर आयलो. थंय घोलीन बेबो आनी बेबीण रावताली. तांच्या एकसुऱ्या चल्याक पळोवन ती खोशी जाली आनी ताणी पैशांची पोटली करणाक दिली. मागीर तो बेब्यांच्या राज्यांत आयलो. बेबलो राजा आपल्या भुरग्यांक पळोवन खूब खुशी दिसलो. ताणें खूब पयशे, भांगर बीन करणाक दिलें. करणान आलतडीन येवन न्हंयदेगेर व्हडलो बंगलो बांदलो. आनी ते चलयेकडेन लग्न करून सुखान रावूंक लागलो.

**आठवी, अवर लेडी ऑफ**
**कांदेलारिया, वास्को**



# जैत

- सरस्वती नाईक

टणूटण् करून इश्कोलाची घांट वाजली तशीं सगळीं भुरगीं धांवधांवून आपल्या जाग्यार वचून बसलीं. सगळ्याक सामके सामसूम जाल्लें. पूण सव्वेच्या वर्गांत मात भुरग्यांचो हांसो चालूच आशिल्लो. सगळीं तोंडार हात दवरून भितरल्या भितर खुदखुदतालीं. पिटर फळ्यामुखार रावून वाकडीं-तिकडीं तोंडां करून सगळ्यांक हांसयतालो.

पिटर अभ्यासांत 'झिरो' आनी मस्तेपणांत 'हिरो'. टिचर वर्गान आयली तरीय ताका पडूनच वचू नाशिल्लें. निर्लज्जपणान 'फिस्स' करून हांसत तो आपल्या जाग्यार वचून बसलो. टिचरीन सदचेवरी ताका कदेलार उबो रावपाची ख्यास्त दिली. भुरग्यांक विज्ञानाचें पुस्तक उक्तें करूंक लायलें. ती धडो शिकोवंक लागली . धड्याचें नाव आशिल्लें 'सिगार ओडपाचे वायट परिणाम.'

जशीजशी टिचर शिकयत वताली तसतसो पिटराकआंगान थरथरो भरिल्यावरी जातालो. टिचर सांगताली, सिगारांत तंबाखू आसता. तातूंत 'निकोटीन' सारखे रसायनीक पदार्थ आसतात. सिगार ओडल्यार ताजो ओडटल्याचे कुडीचेर खूब वायट परिणाम जावं शकता. ताका 'कॅन्सर' सारखो बरो जावपाक खूब कठीण असो रोग जावूंक शकता. इतलेंच न्हय तर ताज्या भोवतणी आशिल्ल्या लोकांच्या श्वासांतूय हो सिगाराचो धुंवर वचून तांच्याय



जिवीताक धोको आसता. त्या खातीर सिगार ओडप बरें न्ही. पिटरा मुखार फुसफूस करून तोंडांतल्यान सिगाराचो धुंवर सोडपी ताचो पापा आनी ताच्या म्हऱ्यांत माणकुल्या रिटाक मांडयेर घेवन बशिल्ल्या मम्माची म्हूर्त ताच्या दोळ्यां सामखार उबी जाली. तशी ताच्या दोळ्यांनी दुकानीं गर्दी केली.

केन्ना इश्कोल सुटलें आनी पांय ओडीत पिटर घरा केन्ना पावलो ताचें ताकाच समजलें ना. पिटराचें बाविल्लें तोंड पळोवन मम्मान ताका आपल्या म्हऱ्यांत ओडून ताची आपुरबाय केली. पूण ताच्या तोंडार हासो आयलो ना. ताका जेवण चलना जालें. ताटांतल्या ताच्या आवडीच्या विस्वणाच्या पोस्तांक ताणे उश्टायलें लेगीत ना.

सांजवेळा पापा घरा आयलो तसो सालांत सोफ्यार सिगार ओडीत वाचूंक बसलो. मम्मा बेगबेगीन पापाक कॉफी आनी केक घेवन आयली. ती रिटाक मांडयेर घेवन पापा म्हऱ्यांत बसली. पिटर पड्ड्या फाटल्यान रावून तांकां तेळटालो. मम्मान म्हळें, 'आज पिटराच्या इस्कोलांत किदें तरी घडलां आसतलें, म्हण तो आज सामको वग्गी वग्गी आसा.' पापान मोठ्यान हांसून म्हळें 'ताचें आनी किदें जातलें सदच्यावरी परिक्षेंत गड्डे पडल्या आसतले. आनी टिचरीची तापसावणी पडल्या आसतली. हांवें जाल्यार ताच्या पास जावपाची आस सामकी सोडल्या.' पिटरान हीच संद घेतली. ताणें धांवत वचून पापाच्या पायांक घट्ट वेंग मारली. आनी म्हळें.'जर हांव परिक्षेंत वर्गांत पयलो आयलों जाल्यार म्हाका मागता तें दिशीत?' पापाक सामकें अजाप जालें ताणे पिटराचे फाटीर मायेन हात ओडलो आनी म्हळें, दिलें म्हण समज. फकत तू पास जावन दाखय.' हरशीं धुंवराच्या रिंगां कडेन खेळपी पिटराक



आज धुंवरान घुस्मटल्यावरी जालें. ताणे पापाचे पाय सोडले आनी धांवतच आपले कुडींत गेलो. तो आतां एक मिनीट लेगीत वगडावंक सोदी नाशिल्लो. पापा आनी मम्मी ताका अजापान पळयत उल्लीं.

दिसान दीस वताले. पिटर सामको अभ्यासाक पेटिल्लो. ताका खेळपाक, उलोवपाक, मस्तेपणा करपाक किद्याकच वेळ नाशिल्लो. दिसभर अभ्यास आनी अभ्यास. आनी रातिकडें न्हिदतना देवा पायणेला मुखार पापा, मम्मा आनी माणकुल्या रिटासयत उबी रावन दोळे धाकून रोजार करतालो. जसो कितें तो देवाकडेन आपल्या कामांत यश दी म्हण मागतलो. रोजार करतना केन्ना केन्ना ताच्या दोळ्यांत दुकां भरतालीं. ताचे भितल्लो हो बदल ताच्या मम्माक, पप्पाक, सवंगड्याक आनी टिचरीकूय अजापाचो दिसतालो.

मम्माक मात एक गजाल सामकी खटकताली ती म्हळ्यार ताचें जेवणाचेर लक्ष नाशिल्लें. आनी इतलो जिवाक त्रास करून ताणें अभ्यास करप तिका मानवनाशिल्लें. तिणे ताका शिटकायलो लेगीत. तिणे म्हळें 'पप्पा तुका हेरशी सुध्दां किदें मागीत तें दितलो. तूं आमच्या मायेचो.' पूण पिटरान तें मनार घेतलें ना. ताणें फक्त मम्माचो हात घट्ट धरिल्लो. ताका म्हणूंक जाय आशिल्लें, 'म्हाका आतां कोणूच आडावंक शकना. म्हाका जाय तें मेळपाक म्हाका खूप म्हळ्यार खूप अभ्यास करूंकच जाय.'

आयज पिटराच्या रिझल्टाचो दीस. कालच्यानूच ताचें हड्डें धडधडूंक लागिल्लें. सक्काळीं फुडें उंढून तो जबरदस्तीन मम्मा बराबर फातोडेच्या मिसाक इंगर्जेंत गेल्लो. दोळे धांपून तो कितलोसो वेळ देवाकडेन किदें मागतालो. ताच्या बाविल्ल्या निरागस तोंडाक पळोवन मम्माच्या काळजान कळवळ्ळें. मम्मान देवाक आर्गां ओपलीं 'देवा म्हज्या पुताक ताजो हासो परत दी.'

वर्गांत पिटराची मुखेल टिचर भितर सल्ली. तिच्या हातांत प्रगती पुस्तकांचो दाळ आशिल्लो. वातावरण सामकें गंभीर जाल्लें. तिणें म्हळें आज हांव तुमकां एक व्हड अजापाची आनी खोशयेची गजाल सांगतां. तिणें पिटराक फुडें आफयलो. ताज्या फाटीर शाबासकी दीत तिणें म्हळें 'पिटराक परिक्षेंत सगळ्याच्या सगळे गूण मेळून पयलो नंबर फावो जाला. ताणें दाखोवन दिलां की कोणूय कष्ट करून सफलता मेळोवं शकता.' सगळ्या भुरग्यांनी ताच्या नांवाचो गजर केलो. पूण पिटराचें ताचेर लक्ष नाशिल्लें. ताका केन्ना एकदां घरा पावता काय जाल्लें. इश्कोल सुटल्या बराबर पाखां फुटिल्ल्यावरीं उडतच तो घरा पावलो. तागेली खोशयेची गजाल आयकून मम्माक खूप खोस भोगली तिणें ताका मायेन पोशेलो. पिटराक मात सांजवेळाचो हुस्को आशिल्लो. तागेले दोळे गेटीचेर तिगून आशिल्ले.

सांजच्या साडेपाच वरांचेर पप्पाली गाडी गेटी भितर साल्ली. एका हातान सुटकेस आनी दुसऱ्या हातांत पेटिल्लें सिगार घेवन पापा मोटारींतल्यान देवलो. तसो हातांत प्रगती पुस्तक घेवन पिटर रॉकेट कसो पप्पा म्हऱ्यांत धांवलो. ताच्या फाटोफाट मम्माय माणकुल्या रिटाक घेवन तांच्या सरी पावली. रिटान पप्पाक प्रगती पुस्तक दाखोवन म्हळें, 'पप्पा म्हाका वर्गांत पयलो नंबर मेळ्ळा. पप्पा तूं म्हाकां मागशीत तें दितलो न्ही?' पप्पान आनंदाच्या भरान ताका वयर उखलून घेतलो आनी ताजी पापी घेत म्हणूंक लागलो, 'पोरा म्हाका खूब खोशी जाता. तुकां किदें जाय तें सांग नवी सायकल, 'प्ले स्टेशन', कम्प्यूटर, आत्तां हाडटां.'

त्या बराबर पिटरान आडखळत म्हळें 'ना पप्पा म्हाका कांयच नाका. म्हाका फकत तुमी जाय. तूं, मम्मा आनी बाय रिटा. आनी त्या खातीर तुकां सिगरेट पिवप सोडची पडटली. म्हाका टिचरीन सांगलां सिगरेट मनशाची भलायकी इबाडटा म्हूण.'

पापा त्या इल्ल्याश्या जिवाकडें पळयत उल्लो. कितलो ल्हान जावन कितलीं व्हड उतरां उलोवन गेल्लो तो. ताजे हातांतलें सिगार आपशींच सकल पडलें आनी ताणें ताच्या बोल्सांत आशिल्ले सिगाराचे भरिल्लें पाकीट केन्ना वयें भायर शेवटीलें ताचें ताकाच कळें ना.

मम्मा आनी पप्पाच्या दोळ्यांतल्यान दुकांची न्हंय व्हावताली. तीं दोगांय आपल्या मोगाळ भुरग्यांचो उम्यार उमो घेत रावलीं. रिटाय आपल्याक कळिल्ल्यावरीं ताळयो मारीत हासतालें.

***

सांकवाळ-गोंय





## धवो कोलो

यशवंत शेतकाराल्या शेतांत वचून एक कोलो सदांच ऊस खातालो. शेतकाराच्या धुवेचें लग्न लागीं पावलें म्हूण ताणे घराक चुनो काडपाक धवो रंगाचो चुनो हाडून व्हडले बालदेंत घालून दवरलो. रातचो कोलो आयलो आनी ऊस खावन वतना ते चुन्याचे बालदेंत पडलो. आनी जालो धवो फुल्ल. तो तसोच रानांत गेलो. रानांत राजा सोदून काडपाक मिटिंग चलताली. थंय तो पावला मात सगळीं जनावरां भूत भूत म्हणून बोवाळ घालूंक लागलीं. कोल्याच्या सगळें लक्षांत आयलें. म्हणपाक लागलो बरें जालें धवो जावन. ताचोच फायदो घेवया. ताणे म्हळें, म्हाका देवान धाडला तुमचो राजा म्हूण. सगळ्यांनी हां म्हळें. आनी व्हडल्या व्हडल्यान आड्डूवंक लागले. भीतर कोलेय कूंयकूंय करपाक लागले. हो धवो कोलोय तांच्या आवाजान आपलो कूंय कूंय आवाज मेळोवंक लागलो. शिंवाच्या तें रोखडें तकलेंत गेले. ताणे धप्प करून उडी मारून ताचे गोमटेक धरलो आनी म्हणले 'आरे चोरा कोल्या आमकां फटयता. राव तुका खातां.' म्हूण ताणे कोल्याक खालो.

**- दर्शना रेडकार**
**सवी**
**अवर लेडी ऑफ कांदेलारीया**
**बायणा-वास्को**



## म्हजी इश्टीण

बरी इश्टीण मेळप म्हटल्यार बरें नशीब. म्हज्या बऱ्या नशिबान म्हाका बरी इश्टीण मेळ्ळ्या. तें म्हजेबराबर म्हज्याच वर्गांत शिकता. म्हज्याच बांकार बसता. तें खूब बरी चली.

म्हजी इश्टीण अभ्यासांत खूब हुशार. तें पयलो नंबर घेता. तें म्हाकांय खूब मदत करता. म्हाका जेन्ना शिकयल्लें कळना तेन्ना तें म्हाकां समजावन सांगता.

इंटरवलाक आमी टिफीन एकमेकाक वाटून खातात. आमी केन्ना एकामेकाकडें झगडनात. म्हजी इश्टीण म्हण्टा आमी सगळ्यांनी मेळून मिसळून रावूंक जाय. अश्या म्हज्या गोड उलोवपी इश्टीणीचें नांव युगा.

**- निशा शेख**
**सवी**
**अवरलेडी ऑफ कांदेलारिया**
**बायणा वास्को-ड-गामा**



# दिवाळी

--रजनी भेंब्रे

(सुयश, सोनम, साईश, श्रेयस आनी मधुरंजन जमल्यात. दिवाळे संबंदी उलयतात)

नरकासुरा रे नरकासुरा, बतरा बतरा पोटांत भरा
नरकासुरा रे नरकासुरा, फोगेट्यांचें मारान पोटांत भरा
नरकासुरा रे नरकासुरा, नारगां सुरसुरीं पोटांत भरा
नरकासुरा रे नरकासुरा, तणान ताचें पोट भरा
नरकासुरा रे नरकासुरा, निमणें ताका उजो लाया
नरकासुरा रे नरकासुरा रे, नरकासुरा
ठो ... ठो ... ठो ... ठो ... (तोंडांनी मराणांचे आवाज)

मधुरंजन : श्रेयस रातीं कितली मजा आयली जाणां तूं?

श्रेयस : आंवय म्हाका सांगता तूं. हांवूय आशिल्लो मरे थंय.

मधुरंजन : तूं आशिल्लो मागीर दिसलोच ना मरे?

सोनम : आनी हांव दिशिंल्लें तुका? नरकासुराची सर्त पळोवपाक ग्रावंडार हांव आनी पप्पा गेल्लीं. मज्जा न्ही रे?

श्रेयस : साईश, तूं गेल्लो रे? दिसलोच ना म्हण विचारतां.

साईश : आरे नरकासुराची सर्त पळोवपाक इतली गर्दी, म्हणटकच कोणूच कोणाक दिसलो ना. एक-एक नरकासूर केदो रे?

सोनम : खरेंच रे साईश सामको भंय दिसपाचो. आनी वाजप रे मधुरंजन. श्रेयस तुकां भंय दिसलो ना रे?

मधुरंजन : भंय दिसलो सोनम, पूण डॅडी आशिल्लो न्ही गो, हात घट्ट धरून रावलों. घुमचे कटर घूम करून एक-एक नरकासूर पळय येतालो!!! सर्त सोंपची न्हय शी दिसताली.

साईश : जाणां मधुरंजन, घरा येतकच न्हिदच येना जाली. दोळ्यां सामकार परत परत नरकासूर दिसूं लागले.

सुयश : आरे तुमी अजून खबऱ्योच करीत आसात काय किते?

श्रेयस : सुयश, तुवें वेळ केलो. आमी तुजीच वाट पळेतालीं.

सोनम : आमी थारायल्ले प्रमाण सगळें सारकें जालें, न्ही रे साईश.



साईश : जाणां सोनम, म्हाका जाल्यार दुबावच आशिल्लो. आमकां जमत काय म्हण. पूण सगळें जमलें खरें.

सोनम : तुजो मरे ओगीच बोवाळ. न्ही रे मधुरंजन?

मधुरंजन : ए, सोनम, खरें म्हळ्यार साईश आनी तूं सामकीं भिल्लीं. आतां तुजीं शाणेपणां सांगुनाका. सोनम म्हाका सांग थारायल्ल्या प्रमाण खावपाक हाडलां मुगो?

सोनम : हाडलां तर ......

श्रेयस : सुयश, तूं कितें घेवन आयलां? तुवें खूब कितें-कितें सांगिल्लें.

सुयश : हांवें मरे माराण हाडल्यात. काल मरे मजाच जाली.

साईश : कसली गो मजा जाली?

सुयश : आयक रे साईश, पप्पा मरे म्हाका आनी भैय्याक घेवन उटणें, माराण बी हाडपाक बाजारांत घेवन गेल्लो. हांवें बाबाकडल्यान म्हज्या खातीर वेगळेच माराण घेवपाक पयशे घेतले आनी पळय, कितले माराण हाडले.

मधुरंजन : बरें मुगो तुजें! हांवय म्हण्टा सुयशान बॉक्सशें हाडलां आनी साईश तुवें कितें एकठांय केलें?

साईश : म्हाका मरे मामान थोडे पयशे दिल्ले ते म्हजेच कडेन आशिल्ले. ताचीं हांवें दोन बॉक्सां सुरसुरीं घेतलीं. आनी सोनम तुवें?

सोनम : सांगलें न्ही रे, मिठाय हाडल्या म्हण.

सुयश : चलयांक दिवपाक हांवें थोड्यो पिनो, रिबिनांय बी घेतल्यांत.

श्रेयस : म्हणटकच आतां आमची सगळी तयारी जाली.

मधुरंजन : आनी फकत उरलां तें काम म्हळ्यार थोडी म्हायती एकठांय करपाची. ती म्हायती म्हळ्यारच महत्वाची.

सुयश : तें काम मात आमी ताईचो आदार घेवनच करचें पडटलें. ताईक हांवें आपयलां. हें पळय आयलेंच ताई.

सोनम : ताई आमी तुजीच वाट पळेतालीं.

ताई : आगो कसली गडबड शी चल्ल्या? कितें लिपयतात शीं? आनी हें बॉक्स, ल्हान-ल्हान पिशव्यो, कसली तरी तयारीऽऽऽ

श्रेयस : ताई गो आमची ती मजा आसा.

ताई : मजा म्हण आनी सांगू जाय? सुटी म्हणटकच तुमी भुरगीं मजा करचीं ना तर कोण करतलो? तांतूंत आज दिवाळी. दिवाळेचीच मजा आसतली. मागीर लिपोवप कित्याक?

सुयश : तशें न्ही ताई, अंदू आमी दिवाळेची परब वेगळेतरेन मनोवपाची थारायल्या.

ताई : वेगळे तरेन म्हळ्यार कशी? सांगात-सांगात पळोवया.

साईश : जाणां ताई, आमी सगळ्यांनी गरीब, अनाथ भुरग्यां खातीर माराण, चंद्रज्योती, मिठाय, कपडे बी एकठांय केल्यात.

ताई : वा ..... काय बरी कल्पनां सुचली तुमकां?

मधुरंजन : ताई, गेल्ल्या वर्सा दादान आनी ताच्या इश्टांनीं आपलो पॉकेट मनी जमोवन अनाथ भुरग्यां पासत अशेंच खूब कितें केल्लें. म्हण ह्या वर्सा आमकां जमता तशें कितें तरी अनाथ भुरग्यां पासत करपाचें आमी थारायलें. ही कल्पना सुयशाली.

सुयश : ताई दिवाळेची परब चार दीस. तेन्ना एक दीस हांव, सोनम, साईश,श्रेयस, मधुरंजन मेळून अनाथ आश्रमांत वतलीं. आमी एकठांय केल्ल्यो वस्तू तांकां वांट्टलीं. त्या भुरग्यां बरोबर मजा करून वेगळेतरेन दिवाळेची परब मनयतलीं.

सगळीं पद म्हण्टात

दिवाळी दिवाळी आयली
चार दीस आमचे मजेचे
फांतोडेर उठून न्हावपाचें
उटणें तेल रगडपाचें
हुन उदक न्हावपाचें
दिवाळी दिवाळी आयली

काट्टां आमी फोडपाचीं
तरेकवार फोव खावपाचीं
आंबाडे चटणी चाखपाचीं
फण्णां उसळ खावपाची
दिवाळी दिवाळी आयली





ताई : खरेंच देवान तुमकां बरी बुध्द दिली. आपले सुखाबरोबर दुसऱ्यांचेंय सूख पळोवप ही लाख मोलाची गजाल आसा. पूण दिवाळेची परब कित्याक मनयतात खबर आसा सांगूं?

ताई : सांगू काय म्हण विचारता? सांग-सांग मरे.

मधुरंजन : दिवाळी म्हळ्यार दिव्यांची परब. ह्या दिसा घरा-दारांत उजवाड करतात. पणत्यांनीं प्रकाशमय करतात. उंचेले जाग्यार आकासदिवो लावन काळोख ना करपाचो यत्न करतात. फांतोडेर तेल, उटणें लावन हून-हून न्हातात. तरेकवार फोव करतात. कांय कडेन मनरिजवणें खेळ करतात. तर कांय कडेन लायटीची रोशणाय करतात.

ताई : मधुरंजनान थोडे भितर बरीच म्हायती सांगली.

सोनम : पूण ताई आमकां तुजेकडल्यान चड म्हायती जाय.

ताई : आयकात तर - आमच्या भारत देशांत वेगवेगळे सण, उत्सव, व्रतां मनयतात. आमच्या जिवनांत परबांक व्हड म्हत्व आसा. परबो आमच्या जिवनांत प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष स्वरूपांत सांस्कृतीक, धार्मीक आनी सामाजीक म्हत्व प्राप्त करतात. आयकतात मुगो?

सुयश : आयकतात तर, तूं सांगतां आनी आमी आयकनांत? ताई, कसलीय परब आसूं गांवांतले लोक व्हड उमेदीन मनयतात. खरें न्ही?

ताई : सुयश, गांवांनीं परबांक खाशेलें म्हत्व आसा. परबांक लागून गांवचो एकवट तिगून उरता. गांवगिरे वाठार धादोशी जातात. दिवाळेची परब जरी अख्खे भारतांत मनयतात तरी शेतकामती लोकां मदीं चड उमेद आसता.

सोनम : कित्याक लागून ताई?

ताई : पावसाळो सोंपून तेन्नाच नवें पीक हातांत आयिल्ल्या समयार शरद ऋतुच्या ऐन मध्याक आश्विन आनी कार्तिक म्हयन्याच्या संधिकालांत ही परब येता. आश्विन वद्य त्रयोदशी ते कार्तिक शुध्द प्रतिपदा हे चार दीस हे परबेचे.

मधुरंजन : साईश, तूं दिवाळे विशीं तुकांय थोडी म्हायती आसा म्हणटालो न्ही रे? मागीर सांग मरे.

साईश : ताई म्हाका रामा संबंदी खबर आसा.

ताई : सांग तूं आयकुया.

साईश : आईन म्हाकां सांगिल्ली खबर. कांय लोकांची खंय अशी श्रध्दा आसा, चौदा वर्सां वनवास भोगून राम सीतेक घेवन अयोध्येक परत आयलो तो ह्याच दिसांनीं. तेन्ना प्रजेन दिवे लावन उत्सव साजरो केलो आनी तेन्नाच्यान ही परब चालू जाली.

ताई : साईशान सांगली ती कथा तुमी आयकली न्ही?

सोनम : हय,हय ताई.

ताई : आतां हांव तुमकां एक कथा सांगतां. प्राचीन काळांत बळी नावांचो राजा खूबच मातलो आनी ताणें पृथ्वी जिकली.

(नाटक रूपान सादर)

श्रेयस : विष्णू देवा ... विष्णू देवा घात जालो.

साईश : कितें घडलें .... सांगा सडसडीत, भियेंव नाकात.



श्रेयस : कितें भिनाकात, सगळे देवांक बळी राजान बंदी केल्यात. लक्ष्मीक लेगीत ताणे बंदखणींत उडयल्या तरी लेगीत तुमी भक्तांक भियेनाका म्हणटात. ह्या आकांताच्या संहाराक जाता तितले बेगीन आवरात.

साईश : भक्ता, आरे हांव वामनाचो अवतार घेतां आनी मागीर तुमी पळयात म्हजें कर्तूब ......

(विष्णू वामनाचें रूप घेता आनी बळीन आरभिल्ल्या यज्ञा म्हऱ्यांत येता)

साईश : बळी राजा, एदो व्हडलो यज्ञ तुवें केलो तेन्ना तुवें दान करूंकच जाय. ना जाल्यार यज्ञाची फलश्रुती फावो जावची ना.

मधुरंजन : वामना, वामना, तुकां जाय तें माग. ना कोणें म्हळां. आरे आज हांव सार्वभौम जालां. माग तुका जाय तें माग. तुवें मागलें आनी हांवें दिलें ना अशें घडचेंना.

साईश : म्हाका त्रिपाद भूंय दानाक दी.

मधुरंजन : त्रिपाद भूंय जाय मरे - पावली तुका.

साईश : बळी राजा, म्हजीं दोन पावलां म्हळ्यार पृथ्वी आनी सर्ग जालो. आतां हांव तिसरें पावल खंय दवरूं?

मधुरंजन : पळय हावें तुज्या मुखार तकली बागयल्या. तुजें तिसरें पावल दवर म्हजे मस्तकार.

साईश : बरें आसा दवरतां हांव पावल. तर पळय हां पळय.

आनी अशे तरेन विष्णू देवान बळी राजाक सोमतोच तिसरें पावल ताचे मस्तकाचेर दवरून पाताळांत चेपलो. हें सगळें आश्विन वद्य त्रयोदशी तें उमास या तीन दिसांत घडलें. मागीर वामनान बळीक वर मागपाक सांगलें.

साईश : जाणां बळी, तूं चड मातिल्लो म्हणून तुकां हांवें पाताळांत धुकल्ला. पूण तुजी म्हाकां काळकूट येता म्हणून तुकां हांव एक वर मागपाची परवानगी दितां.

मधुरंजन : देवा खरें तुजें, हावें देवादिकांक खूब त्रास दिले.

साईश : बळी तुकां जाय तसलो वर माग.

मधुरंजन : देवा, फकत लोक कल्याणाखातीर हांव एक वर मागतां. ह्या तीन दिसांत जो कोण यमाखातीर दीप दान करतलो. ताका यमयातना भोगच्यो पडूं नये. आनी लक्ष्मीन घर भरचें.

साईश : तथास्तू तुवें मागलां तशेंच जातलें.

ताई : ...... आनी अशें सांगतात - तेन्नाच्यांन दिपोत्सव करपाची प्रथा सुरू जाली.

सुयश : ताई ज्या प्रमाण हिंदू लोक दिवाळी मनयतात त्याच प्रमाण जैन लोकय ही परब आस्थेन पाळटात. तांचें हरिवंश पुराण अशें सांगता की आश्विन उमाशेक महावीर ह्या निमण्या तिर्थकराचें निर्वाण जाल्लें, त्यावेळार देव, राजा आनी भक्त थंय हाजीर आसले ताणीं महावीराची पुजा करून दिपराधना केल्ली. ज्ञानदीप निर्वाणाक गेला तेन्ना सादे दिवे लावन सतत उजवाड दवरया असो जैनानीं विचार केल्लो आनी तेन्ना पसून महाविराचे भक्त दिपोत्सव करूं लागले.

ताई : आगो सुयश, जैन लोकांची दिवाळी तुका कशी कितें समजली.

सुयश : ताई, कितें जालें जाणां? फाटल्या वर्सा ऐन दिवाळे दिसा आमचो दादा अचकीत दोन इश्टांक घेवन घरा आयलो. ते दोगय जैन आशिल्ले. ताणींच आमकां ही म्हायती दिली.

ताई : दिवाळेची परब कशी सुरू जाली हाचे संबंदी ऐतिहासीक कल्पना अशी आसा. सम्राट अशोकाच्या दिग्विजया पासत ही परब सुरू जाली. दुसरी कल्पना अशी आसा ती - सम्राट चंद्रगुप्त विक्रमादित्य हांच्या राज्यभिषेक समारभांत जो दिपोत्सव केल्लो तोच फुडें दरवर्सा साजरो करपाची प्रथा पडली.

सोनम : ताई, आतां मेरेन आमी दिवाळे विशीं उलयलीं. पूण ही परब आमी चार दीस कित्याक मनयतात?

श्रेयस : सोनम हें मात खरें तुजें. आमी आकासदिवो लायतात. नरकासुराचो पुतळो करून जळयतात.



फतोडेर उठून तेल-उटणें लावन न्हातात. घरांतल्या जाणट्यांक नमस्कार करतात. फोव खातात. लक्ष्मीपूजन करून चिरमुल्यो खावपाची मजा करतात. गोरवांचो पाडवो आनी भाऊबीज करतात. जाली आमची दिवाळेची परब.

सुयश : सगळीं करतात म्हण आमीय करतात. आमकां प्रत्येक दिसाचें म्हत्वच खबर ना. ताई तुकां सगळें खबर आसा.

ताई : आयकात तर - धनत्रयोदशीक यमराजाक खोशी करपाखातीर दीप दान करतात. वयले सुवातेर तेलाचे दिवे लायतात. घरांतले भांगराचे अळंकार निवळ करतात. हे दिसा उपास धरतात आनी विष्णू, लक्ष्मी, कुबेर, गणेश, नाग आनी पैशांची पुजा करतात. ह्या दिसा दिवो सतत तेंवत दवरतात. पायसांचो निवेद्य करतात आनी फावो तसो परोपकार करतात.



साईश : ताई परोपकार म्हळ्यार कितें?

मधुरंजन : आंवंय तुकां खबर ना? परोपकार म्हळ्यार दुसऱ्यांचेर उपकार करप. न्ही गो ताई?

ताई : हय सारकें खरें तुजें.

श्रेयस : पूण ताई धन त्रयोदशीक दुसऱ्यांचेर कित्याक म्हण उपकार करप.

ताई : हे विशीं एक कथा सांगतात - एकदां यमराजान खंय आपल्या दुतांक विचारलें

(नाटक रूपान)

श्रेयस : हे दुता प्राण्यांचे प्राण व्हरतात तेन्ना तुकां दुख्ख जायना.

मधुरंजन : हें आनी कितें विचारतात यमराज?

श्रेयस : आरे लोकांचो यमा विशीं तसोच समज आसा. यम आनी ताचे दूत म्हळ्यार दुश्टांतले दुश्ट मनीस.

मधुरंजन : आसतय. पूण एकदां असो प्रसंग आयलो. हेमराज नांवाच्या राजाक एक चलो जालो. सटये दिसा सटये देवानी येवन सांगलें.

सुयश : राजा हेमराज, तुकां हो पूत जाला ताका लग्नाच्या चौथे दिसा अल्पायुशी मरण येतलें. ..........

श्रेयश : ना- ना- हांव ताका खांची-कोनशांत लिपोवन दवरतलों. पूण म्हज्या पुताक वाचयतलों.

सुयश : आरे हेमराज, सटये राती बरयल्लें कोणाच्यानच पुसूं जायना. कोणाच्यानच पुसूं जायना.

मधुरंजन : सटये देवीली गजाल खरी थारली आनी तेन्ना राजालो पुत्र-शोक म्हज्यान कसोच पळोवंक नजो जालो. यमराज तुमचीय आज्ञा मोडूं जायना आनी दुख्ख तर सहन जायना. यमराज, अशे तरेचे अपमृत्यू टाळपाक तुमीच कितेंय तरी उपाय सोदून काडात.

श्रेयस : दुता, तूं सांगता जाल्यार एक उपाय करूं येता.

मधुरंजन : कसलो तो यमराज. सांगात. जाणे करून अपमृत्यू टाळूं येता.

श्रेयस : आयक - धनत्रयोदिसा जो दीप दान आनी व्रत करतलो ताका अपमृत्यू येवचो ना.

***

साईश : ताई, ताई, दिवाळे दिसा सगळो लोक आपआपलीं घरां निवळ करतात, सारयतात, रंगयतात. बनेरां, तोरणां लावन सोबीत फुलांनी सजयतात. दिव्यांची आतशबाजी करतात आनी फांतोडेर कित्याक न्हातात?

ताई : दिवाळी म्हळ्यार नरक चतुर्थीची पौराणीक कथा. अशें सांगतात खूब-खूब वर्सां पयलीं नरकासूर नांवाचो एक दुश्ट राक्षस जावन गेलो. ताका भुदेवी



कडल्यान वैष्णवास्त्र प्राप्त जाल्ल्यान तो खूब मातिल्लो आनीं देवादिकांक लेगीत त्रास करूंक लागलो. इंद्राचो घोडो लेगीत ताणें चोरून व्हेल्लो. इतलेंच न्ही तर ताणें खूब राजाल्यो एकूण सोळाहजार धुवो आपल्या बंदिखान्यांत दवरिल्ल्यो आनी राजांक बंदखणींत दवरिल्ले. तागेल्या असल्या अत्याचारांनी लोक चिंतीत जाले. मागीर इंद्रदेवान कृष्णाची प्रार्थना केली. कृष्णान नरकासुराचेर घुरी घाली आनी ताका मारून उडयलो. बंदखणींतल्या धुवांक मेकळ्यो केल्यो. ही घटना आश्विन वद्य चतुर्थीक जाली. नरकासूर मेलो. संकट सोंपलें. सगळेकडेन खोस भल्ली. लोकांनीं न्हावन-धुंवन वीर वृत्तीची पुजा करपा पासत खोस मनयली. कळ्ळें न्ही!

सोनम : ताई लक्ष्मी पुजनाचीय अशीच वेगळी कथा आसतली न्ही!

श्रेयस : सोनम, लक्ष्मीची पुजा करप आनी चिरमुल्यो खावप जालें.

ताई : चिरमुल्यो खावप तें तर जालांच. पूण लक्ष्मीपूजन कित्याक करतात खबर आसूं जाय.

सुयश : ताई हांव सांगतां. म्हजे मावशेलें दुकान आसा. लक्ष्मीपुजनाच्या दिसा मावसो दुकानाचेर लक्ष्मीची पुजा करता. एका चौरंगाचेर अक्षतांचें स्वस्तिक काडून लक्ष्मीचो फोटो दवरता. तांबयांत पैशे दवरता. तांची पुजा करता आनी इश्टांक, व्यापारी लोकांक पान-सुपारेक आपयता. चेर लायतात, फुलां वांट्टात, बत्तासे आनी ल्हायो प्रसाद म्हण वांट्टात.

ताई : सुयश तुवें लक्ष्मी पूजन कशें करतात तें सांगलें पूण कित्याक करतात तें सांगलें ना.

सुयश : तें-तें मात म्हाका खबर ना.ऽऽऽ

ताई : आयकात. हांव सांगतां. आश्विनी ऊमाशे दिसा रातची लक्ष्मी सगळेकडेन भोवंडी करता. आनी आपलो राबितो करपाक फावो सारखो जागो सोदता. जंय नितळसाण, सोबितकाय आनी मन रिझवणें वातावरण दिसता थंय ती भुलता. त्या शिवाय ज्या घरांत चारित्र्यवान, कर्तव्यदक्ष, संयमी, धर्मनिश्ठ देवभक्त आनी क्षमाशील तशीच गुणवती आनी पतिव्रता बायलेचें वावरप आसता त्या घरांत राबितो करपाक लक्ष्मीक मनापसून मानवता, अशी पौराणीक कथा आसा.



साईश : श्रेयस, तूं मावशेगेर गोरवां पाडव्याक वता न्ही रे! तो कसो करतात सांग मरे आमकां.

श्रेयस : गोरवां पाडव्याक आमी सगळीं भुरगीं मज्जा करतात. ह्या दिसा गोरवांची पुजा करतात. शेणाचो दोंगर करून ताचेर दुर्वा-फुलां खोयतात. कृष्ण, गोपाळ, इंद्र, गायो पाडकांचींय चित्रां शेणा दोंगरा शेजरा मांडून तांचीय पुजा करतकच तांची मिरवणूक काडटात. राखणें माथ्यार शेणाचो दोंगर घेवन दारादारांनी नाचतात आनी तरेकवार गितां गायतात.

धेण धेणिल्लो - धेणल्या<br>
पावस शेणिलो<br>
धेणल्याची म्हातारी शेळें हून<br>
खाताली<br>
धेणधेणिल्लो ..........

सोनम : दिवाळेचो फळार आमीं खातातच पूण खरी वाट पळेतात आमी भाऊबिजेची. न्ही गो सुयश?

मधुरंजन : जाणां हांव तुमकां भाऊबिजेक ओवाळणी मेळटा पळय. म्हणून तुमी वाट पळेतात. म्हाका खबर आसा भाऊबीज कशी करतात. सांगूं?

ताई : सांगू काय म्हण विचारता. सांग - सांग.

मधुरंजन : थोडीशी म्हायती आसा गो. ती सागतां. ह्या दिसा भयण-भावाक वासाच्या तेलान रगडटा. हून-हून



उदकान ताका न्हाणयता. गोडश्याचें जेवण केल्या नंतर ओवाळणी जाता. लग्न केल्ले भयणीगेर भाव मुजरत वता. भावाच्या मेळपान भयण सुखावता. भावान दिल्ल्या ओवाळणेन खुशाल जाता.

ताई : कार्तीक म्हयन्यांतल्या पयल्या पंद्रवड्यांतल्या दुसऱ्या दिसाक 'यम-द्वितीया' अशेंय म्हणटात. ह्या दिसा यमराज लेगीत आपले भयणीगेर वता अशें पुराण सांगता.

साईश : ताई, दिवाळे विशीं आमकां बरीच म्हायती मेळ्ळी.

मधुरंजन : म्हाका जाल्यार दिशिल्लें दिवाळी म्हळ्यार परिक्षा जावन सुटी म्हणटकच दिवाळेची सुटी फकत मजाच मजा करपाची. मजेची खबर.

श्रेयस : म्हाकांय तशेंच दिशिल्लें. पूण ताई आईल्ल्यान दिवाळेविशीं कितल्यो बऱ्यो-बऱ्यो पौराणीक कथा आमकां समजल्यो.

सुयश : कथांच्या आदारार आमी ल्हान-ल्हान नाटकुलीं तयार करून अनाथ-आश्रमांत व्हरतां. ताई-ताई आमकां मदत करतलें मुगो?

ताई : करतलें तर .... तुमची अनाथ आश्रमांत वचून दिवाळी मनोवपाची कल्पना म्हाका भौवच मानवली. तुमकां जाय तसली मदत हांव करतां. तुमी बरी तयारी करात आनी मन रिझवणी कार्यावळ आंखात.

सुयश : चलात रे आमी तयारेक लागया.

***



कविता कविता कविता

कविता कविता कविता



# कविता

## सुखांत म्हज्या सगळीं भागेलीं

दारांत म्हज्या सांज पिशी
दोळ्यांत म्हज्या याद तुजी
बागेंत फुल्ल्यां शेवतीं-आबोलीं
सुखांत म्हज्या सगळीं भागेलीं

कोगूळ गायता आपली वाणी
गाय-म्हसरां साद घाली
दारांत कावळे कांव-कांव करी
सुखांत म्हज्या सगळीं भागेली

सुर्या हासतालो बसून दोंगुल्ल्यानी
वाऱ्याचेर नाचतालीं पानां सुकिल्लीं
आपले भाशेन सांगताली पिंपळाची काणी
सुखांत म्हज्या सगळीं भागेलीं

पळोवन सुखांत म्हज्या सगळी भागेलीं
मळबार नकेत्रां लेगीत परजळ जाली
येतलो म्हण म्हजो सांगाती
म्हजीय खोशी मळबांत पाविल्ली

**- मारीयो लोवरेन्स**
**भिरोनडे**
**सत्तरी गोवा**
**फोन :२३८२१९३**

## जुवानपण

जालो आता तूं जुवान
कसो दितलो आवय-बापायक मान?
आंगाक तुज्या पाखां फुटलीं

नखेत्रां तूं धरूंक सोदता
रात दीस तेंच चिंतता
मळबाची आस तुकां लागली
रगत तुजें सळसळटा

घरच्या मनशांचे आयकना
देवाक लेगीत तूं भियेना
किते करता तें तुकांच कळना
कसलें हें जुवानपण?
विसरूंक लायता मनीसपण!

-विनायक कोरगांवकार
थिवी दानवा, बार्देस गोंय
मो.: ९८२२१३२२१५



## जायात जागे!

बरें वायट सगळें
हांगाच तुमकां करूंक जाय
उमाशेचे काळखे राती
उजवाड तुमकांच सोदूंक जाय

आयज जें करता ताचीं
फुलां-फळां तुमकां भोगूंक जाय
बऱ्या-वायटाचो विचार करून
जिवीत तुमकां सारूंक जाय

स्वार्थाच्या बाजारांत
तुमची सदांच आसतली विडंबना
पूण तुमी केल्ल्यो करण्यो
देव बेसबरो जाणा

पारतंत्र्याच्या काळार तुमी
जुलमी राज्यवट्यांक योग्य दिका दाखयली,
मुक्ती उपरान्त तुमी सगळीं मनां जिंकलीं

पूण आयच्या ह्या काळान
फोव सो, कोणेय कांडचो!
निसुवार्थान जगतल्याच्या
कपलार 'गुणो' कोणेय मारचो

तेन्ना परतून एकदां
जागे जायात आतां
पेटोवन वात सत्याची
सगळे करताना मात
'नीत' बाळगूं नाकात सुवार्थाची!

- प्रदीप चं. गावस
'पणसुली' मोर्ले-कॉलनी
फोन : २३६८३४२

## वाट पळयता

दु:खां गळोवन आयज हांव
वळ ही बरयतां
यो बेगीन म्हजे लागीं
हांव वाट तुजी पळयतां

कशे-कशे मेळनासतना
हांव दीस हे काडटां
दर दिसा तुजेच यादीन
हांव भितरल्या भितर घुस्मट्टां

सकाळीं उठून कावळ्या रड्यार
म्हजें मन भुल्लुसता
तूंच येतलो ही बाळगून आस्त
हांव रे जियेतां

म्हजे लागीं यो रे बेगीन
दारा हुमऱ्यार बसून
तुजी वाट हांव पळयतां

खिणां-खिणां कणकणी
मन तुका आशेता
दिव्यातली वात जशी
उजवाड फाकयता.

त्या उजवाडाचे सावळेंत
तुकां हांव पळोवंक आशेतां
तूं केन्ना तरी येतलो ह्या
आशेन रे रावतां

-विभव साळकार
वाळपय, सत्तरी गोंय





## मनीस

ओल्तेरार बसलेलो मनीस गिरेस्त आसता
जमनीर बसलेलो मनीस गरीब आसता
गिरेस्त मनीस हेच मातयेंतल्यान आयला
गरीब मनीस तेच मातयेंतल्यान आयला
मागीर कित्याक वाजयताय तुणतूणें तुजें
तुज्या हातांत थोडे पयशें आसात
ताच्या हातार लक्ष्मी रागार आसा
आवय ती मोगाळांची कोणाचेर रागावं येता?
फाल्यां रागार जाली जाल्यार तुजेर ती?
न्हय कंड्डी, न्हय बसी, न्हय हात, न्हय पांय
फाल्यां तुका पोगेळो जावन भीक मागचें पडत
जियेतात तर ते आयज भीक मागून
मरचें पडत फाल्यां मनीस तुका वीख घेवन
बसला तूं ओल्तेरार तो जमनीर बसला
केन्ना पळयात चितून, रडटलें काळीज तुजें
गरीब तरी तो बसला जमनीर
ताका थंय उबो रावचो पडलो
ताका दिवंक तुका तांक ना जाल्यार
आयक ही म्हजी कविता

- प्रवीण परवार
आसगांव- बार्देस - गोंय

## कणेर

गांवांतल्या म्हज्या आंबेवनांत
कोगीळ न्हाता स्वरानीं
पळयल्ले हांवें मोगाचें मळे
फुलतना ताच्या दोळ्यांनी

घरा कुशिच्या चिंचे रूखाचेर
चानयांचीं चलता किर्तना
घुघूम राया सांगतात काणयों
आवय पोरांक न्हिदयता
किरां मोरांचीं अल्लय गितां
घोळटा सगळ्यांच्या ओठांनीं

माडाक दसयी शेणांच्यो थापयो
माये मोगाचीं जायू गोमतीं
तोंडाक लेपडायी दोंगराची माती
सानुल्लीं दोगां काशी सुमती
कितले रंग रंगलेले आसा
सगल्यां थंयच्या झिलीझोपांनीं

कोंगऱ्या केंसांचें कणेर एक
हाडून म्हाका दियी कणेरां
यादिनी ताच्या आंगा आंगार
भोंवता आयज मोरपिसारां
हांयसाची जोडी पेंवताली तळ्यांत
न्हाताली व्हांवत्या झऱ्यांनी

-सुनील पालकार
नावशीं - गोंय



# नातें मनामनाचें

- सुजाता सिंगबाळ

आपल्या नावाचो लखोटो फोडून पळयलो तेन्ना निम्मीचें मन खोशी जालें.

ताणें कांदबरी बरयिल्ली.......प्रकाशकाक स्क्रिप्ट धाडून दिल्ली......ते कांदबरी संदर्भात पत्र आयिल्लें......

'कांदबरीच्या संदर्भात उलोवंक जाय.....ऑफिसांत येवन मेळ' अशें प्रकाशकान बरयिल्लें.....

प्रकाशकाक कांदबरीं आवडिल्ली काय ना? कांयच बरोवंक ना. पूण प्रकाशकान उलोवंक आपयला तेन्ना ताका कांदबरी आवडल्या आसतली अशें निम्मीक दिसलें....

साहित्यिक परिसंवादा उपरांत निम्मीक लेखक देसायकडेन उलोवपाची संधी मेळिल्ली.. वर्तमान पत्राच्या पुरवणे खातीर लेखकाची मुलाखत घेवपाचें निम्मीन थारायिल्लें .... लेखक देसायान मनमेकळी मुलाखत दिल्ली. तांगेलीं उतरां निम्मीक याद जालीं, 'कांदबरी, नाटक बरोवंक विशय सोदूंक पयस वचूंक नाका. आपल्या भोवतणचो एक-एक मनीस म्हळ्यार कांदबरीचीं पात्रां आनी तांचें आयुश्य म्हळ्यार कांदबरी .... तांच्या जिवनातली गुंतागूंत चितारूंक सर्जक मन जाय . प्रतिभा शक्ती जाय.'

अंतर्मुख जावन निम्मीन विचार केलो. आपलें जग मर्यादीत. त्या खातीर आपल्याक कांदबरीचो विशय मेळप कठीण अशें ताका सदाच दिसतालें. पूण लेखक देसायाच्या विचारान ताजी दिशाच बदल्ली.

मनशाक तें बारीकसाणेन निरखूंक लागलें....वयर वयर समाधानी दिसपी मनशाच्या जिवनांत त्रास, चिंता, एकटेंपण आसा, कटकटी आसात...एकाच घरात मनशां रावतात पूण तांच्या मदी दुरावो वाडत आसा.... आपल्याच

मनशांची वळख मनशाक जायना... केन्ना केन्ना ताजेंच मन, भावना ताका अनाकलनीय जाताली... हातांत पेन घेवन तें बरोवंक बसतालें ....

वर्तमान पत्रांतली नोकरी... खूप लोक मेळटाले... वळखी जाताल्यो. .. तरेतरेच्या मनशांकडेंन संबंद येताले....

सदाचेंच काम.... केन्ना प्रोग्रॅमाचो रिपोर्ट बरय....केन्ना कवर स्टोरी, केन्ना कोणाची मुलाखत घेवप... केन्ना केन्ना वेगवेगळ्या नावान बरोवचें पडटालें.....सुचता तें...सुचता तशें.

...वेगवेगळ्या विशयावेलें लेखन.... रूटीन लेखन.... केन्ना केन्ना टोपण नावानय तें बरयतालें....पेपराचीं पानां भरपाक तें खुपदा बरयतालें. केन्ना खंयच्या कार्यक्रमाचो रिपोर्ट, केन्ना विश्लेशण, केन्ना पुस्तकाचें परिक्षण, सामाजीक अनुभवार ललीत लेख....सदाचेंच काम... सामकें.....रुटीन काम...बरोवंकच जाय म्हणून बरोवप. कामाचो वेळ, गरज पळोवन बरोवप...ताका खुपदां दिसतालें ह्या रुटीन कामांत घाण्याच्या बैलासारकें हावेंच म्हाका बांदून घेतलां. हांव म्हज्या लेखनाखातीर वेळ केन्ना दितलें?'...आपल्याच अस्तित्वाचें ओजें घेवन घुस्मटत जगपी भोवतणचीं मनशां... तांचीं सुखां, दुख्खां, सपनां, हावेस...तांचेमदीं आपूणय आसां.

वर्सानवर्सा सवयीन जगप...आंगार पडलां तें काम करप.... रुटीन कशें जीवन...तातूंत समाधान न्हा.

वयलेवयर सगळें सारकें दिसतालें.... पूण मनांत खंयतरी ताण... केन्ना केन्ना उदास, कुपां दाटून येतालीं. वेगवेगळीं मनशां.... तांचे स्वभाव... तांचे कडेन संबंध. केन्ना स्वताच्या, केन्ना हेर गरजां खातीर लागीं आयिल्लीं.

लागसुल्लीं मनशां खूब खूब पयसुल्लीं दिसतालीं. जणू ते ह्या ग्रहावेले न्हयच, परग्रहावेलेच. ह्या सगळ्यां कडच्यान पयस रावन स्थितप्रज्ञां सारखें ताका बारीक साणेन तें पळयतालें.... तेन्नां मनांत गूढ अस्वस्थताय पातळटाली.

खंयच्यान ही उदासी येता? गर्देतल्या वाऱ्याच्या झुळके सारखी. दिसना पूण तिजें अस्तित्व मनांत पातळटा. गर्देतल्या मनशांची ही उदासी.... ह्या उदासपणाचें आनी आपलें नातें आसा. मनांतल्या कणाकणांतल्यान फुटून किदें तरी येता.... अश्याच एका वेळार ताणें कादंबरी बरोवंक घेतली. कथानक ना.....रूढ कथानक नाच्च...

सुरवातय ना ..... आनी शेवटय ना. आंयुश्या सारखेंच .... आयुश्याची सुरवात पयल्या जल्मान आसता आनी शेवट दुसऱ्या जल्मान?

..... मदल्या वेळांत आमी जगतात? काय जगपा खातीर फक्त धडपडटात?

त्या मदल्या प्रवासाची काणी....?

खंयच्यान सुरू करपाची?



खंयच्यानय..... मनीस म्हत्वाचो न्हय...ताजें सूख आनी सुखा फाटल्यान दबो धरून बशिल्लें दुःख..... ताजे हावेस सपना उमाळे.. एकटेंपण....?

तें बरोवंक बसलें...

रिकामें अस्वस्थ मन..... फुडें कागदांच कागदां.. पिंजिल्ल्या कागदांचो ढीग... ल्हव ल्हव उतरां नाचत आयलीं. अमूर्त अर्थाचीं कितलीं तरी ल्हारां मुर्त रुपांत विलीन जावंक लागलीं.

कितलो वेळ गेलो कळ्ळोच ना.

कितलेशेच प्रसंग..पात्रां..तांच्या नात्याचीं गुंफण, तांच्या जिवनांत तल्लीन जाता जाता... त्या प्रत्येक मनशाच्या अस्वस्थतायेकडेन... सुखाकडेन, सपनांकडेन ताजें नातें जुळूंक लागलें. अनामीक नातें... मन, बोटां, पेन, उतरां उतावीळ जालीं. संवाद कागदार पडूंक लागले...

उतरां मदले, कागदांमदलें अंतर शेणलें. कादंबरी आकार घेवंक लागली. साधे शब्द कोणाक तरी वाचून दाखोवंक जाय. आपल्याच काळजाचीं स्पंदनां, तरंग, ल्हारां आत्मप्रेमाच्या कोशांत गुरफटील्ल्या मनाक भायर काडून बरयतना मन ल्हव ल्हव जालां. पिसा सारखें. ताजीं पावलां आपोआप संगिताच्या घराकडेन वळलीं. चलतना मनात




येतालें, हीं पानां बरयल्यांत संगिताक वाचून दाखोवप. तें समिक्षक न्हय.. सादें वाचक. पूण ताज्यांत सुध्दा समिक्षक वृत्ती आसा. ताका आवडना जाल्यार तें स्पश्ट सांगतलें.

दनपार जाल्ली. स्कुटंरींतलें पेट्रोल सोपिल्लें. पंदरा मिनटांची वाट चलून वचूंक जाय. लोकवस्ती कडल्यान पयस संगिताचो बंगलो.

सत्रीय घेवंक ना, कॅपय ना. हें वत लागतकीर लक्षांत आयलें. पूण ताका ताजी पर्वा नाशिल्ली. चलतां चलतां मनांत फुडली काणी.. पात्रां.. प्रसंग दोळ्यांमुखावेल्यान धांवताले. एके तंद्रेंत तें चलतालें. संवाद याद करतालें. मनांत घोळयतालें.



"मनशाक गरंज आसता एका नात्याची." वंदनान म्हणिल्लें. वंदना ताजी इश्टीण. वंदनाक तें मेळून आयिल्लें. वंदनाच्या काणयेन निम्मी अस्वस्थ जाल्लें. आनी तेन्नाच ताका ताजे कादंबरीचें मूळ सापडिल्लें. काणी खंयतरी सुरू जावंक जाय. वंदना फकत निमित्त.

संगिताच्या घराकडेन निम्मी पाविल्लें तेन्ना घामान चिप्प भिजिल्लें. कडकडीत वोत. संगिताच्या घराफाटलो दोंगर ताका खूब्ब आवडलो.

गॅलरींतल्यान दोंगुल्लेक पळेतां पळेतां संगिताक आपली स्क्रीप्ट वाचून दाखयता अशें चीत्र ताजे दोळ्यां मुखार आयलें. असोच दोंगर वंदनाच्या घराकडेनूय आसा. त्याच वेळार वंदनाचीं उतरां ताका याद जालीं. "पळय निम्मी, हो रस्तो निर्जन वाठारांतल्यान एकटोच वता. दोंगरामदीं... रस्तो म्हणचेपरस पांयवाट. तशेंच आसता जीवन. निर्जन वाठारांत चलतां चलतां पांचव्याच दोंगुल्लेच्या सावळेक पावता. निम्मी खंयचेंय नातें मुद्दाम जोडूंक मेळना. पूण तरी मनीस नात्या खातीर आशेल्लो आसता. फकत सांगात, मैत्री आसून गरज भागना. नातें जायच पडटा."

निम्मीक दिसलें वंदना गूढ उलयता. पूण वंदनाकडेन उलयतां उलयतां ताज्या काळजांतली अनाम नात्याची ओढ. तांतली गुंतागूंत मातशी कळ्ळी. येवजितां येवजितां तें संगिताच्या घराकडेन पावलें. एके तंद्रेनूच ताणें संगिताच्या दारावेली बेल दामली.

***

"यो यो तुजीच वाट पळेतालें. तुज्या आवडीचें रांदलां, आज घरांत कोण नां. पयलीं जेवया आनी मागीर सावकासायेन तुजें स्क्रीप्ट आयकतां." संगितान म्हळें.

"पोटाक चुरचुरून भूक लागूंक ना. हावें बरयलां तें केन्ना काय वाचून दाखयन शें जालां."

"किदें गो.... टॉपीक नवो? घराभायर चडांतचड वेळ आसपी बायलांच्या समस्यांचेर बरोवंक जाय अशें तूं सांगतालें. तोच टॉपीक काय नवो?" संगितान विचारलें. निम्मीन जाप दिवचे पयलींच ताणें फुडें विचारलें, "आयजच्या बायलांची जीण होच टॉपीक मगो? बायलो तांचे संबंद, नैतीक-अनैतीक बरोवप. पब्लीसीटी घेवपाचो सामको सोपो उपाय. भडक किदें तरी बरोवप. हेंच आसा, काय किदें वेगळें?"

संगितान रोकठोक विचारलें. तें उलोवंक लागलें की आपलें सोपले बगर दुसऱ्याक उलोवंक दिना. कादंबऱ्यांचो फॅड आयला. नायिका बायलांक कसलींच बंधनां ना. ना घरादाराचीं, ना समाजाचीं. स्वतंत्र व्यक्तीमत्व. जें जाय तें करप. मनांत येता तशें वागप. आनी मजा म्हळ्यार घोवाक खबर आसुनय घोव सामको मुकाट्यान तिजें सगळें वागणें सोसता. अनैतीक संबंद सुध्दां!

.......मुक्त नायिका आनी संयमी दादले. आयच्या सिरियल्सांखातीर आनी कादंबरी खातीर बरो मसालो. कादंबरींतली वर्णना वाचतनां दिसता की बायलांक कांयच काम ना. म्हाका पटनाच असल्यो नायिका.... निम्मी, असली नायिका न्हय न्ही तुजी?"

संगितान उलोवंक सुरू केलें की तें कोणाक उलोवंक दिना. अजुनय बायलांचे प्रश्न सुटूंक ना. त्या खातीर असलें चटपटीत बरोवपी बायलांचें विश्व आनी सर्वसामान्य बायलांचें विश्व वेगळें. अशें ताजें ठाम मत. त्या भायर नोकरी करपी बायलांच्या समस्येचेर कितेंय उलोवंक गेल्यार ताका सामकी तिडक मारतां, प्राध्यापकासारकें तें





नॉनस्टॉप लेक्चर दिता. आनी त्या वेळार भुरगीं सहनशिलतेन आयकतात, तशें आपलें लेक्चर आयकुचें अशी ताजी अपेक्षाय आसता. नोकरी करपी बायलांची मजाच.

ह्योच बायलो एन्जॉय करतात आनी वयल्यान त्यो आपल्यो समस्या, अडचणी सजोवन सांगतात अशें ताजें स्पश्ट मत. सामकें बोंबलेच्या देठांतल्यान तें हाऊजवायफाच्या प्रश्नाविशीं सांगता.

"कितलीं कामां आसतात- सकाळीं ब्रेकफास्ट, घोवाचे कपडे फेर्र मार, मागीर भुरग्यांक उठय, तांकां टिफीन भरून दी, वावराडी येता तिजो वेळ सांबाळ, लायटीचें बील फारीक कर, घरांतल्या सगल्यांचीं मनां जप.

तातूंत खाश्ट माय आनी कटकटीचो माव आसल्यार विचारूंकच नाकां. घरान पडिल्लो पसारो काड, आयिल्ले फोन उखल आनी कोणाचेय फोन आयल्यार ते याद दवरून सांगप. त्या भायर पोस्टमॅन, कुरियरवाले वेळ अवेळ बेल मारपी नवी जात. सेल्स बॉय आनी हालीं आपल्या मालाच्यो जायरात करपाक येवपी बायलो, चलयो, सोयरीं, मीत्र सोंपले?

भुरग्यांक मनांत येता ताजे बरोबर भायर सर. घोवाक जाय ताजे बरोबर वच.

बेकार आसाच. कोणायच्याय लग्नाच्या, फुलांच्या, मुजीच्या म्हूर्तार पावंक जाय. No excuse नोकरी करपी बायलांक कारण सांगूंक मेळटा.. शिवाय शॉपींग, बाजार, नुस्तें...."

"पुरो गो यादी लांबली..." निम्मीन म्हळें.

"आयकून कंटाळो आयलो. मागीर दर दिसा हें रूटीन जिवन कशें आसतलें पळय. तुजें सगळेंच थ्रिलींग. केन्ना कोणाची मुलाखत घे, केन्ना कार्यक्रम.. दर दिसा नवीं मनशां. तुमच्या आनी आमच्या सुखाचो मंत्रच वेगळोसो निम्मी. सगळ्यांच्या मनासारखें वागप... घरांत रावता त्या बायलांच्या सुखाचो मंत्र. मनांत येता तशें वागप.. तुमच्या सुखाचो मंत्र. तुज्या नवे कादंबरीची नायिका कोण? म्हज्या सारखी काय आयजची जोडपी मूक्त बायल! Bold & Beutiful?" संगितान विचारलें.

विचारलें म्हणचे परस ताजें स्वगत भाशण सोपलां काय ना हाची निम्मीक खात्री जावंक ना.

"संगिता पळय त्रास घेनासतना म्हजे कादंबरीक मॅटर मेळटा. दोन पानां भरली तुज्या भाशणान."

संगितान फुडें म्हळें, "आगो हें कांयच न्हय. तुकां हांव सांगतां हाऊज वायफचें जीवन कशें आसता. आमच्या शेजाऱ्याक रुपा रावता तें सदांच सांगता, दुसऱ्यांनी पोसप हाचें सारखें दुख ना. आमगेर कामाक मुमताज येता ती सुध्दा सुखी. तिका आत्मविश्वास आसा. म्हयनो सोपलो की तिका पयशे मेळटात. आसा कोणाक कापास्ताद तिजेकडेन तोंड वयर करून उलवपाची? घोवान कितेंय म्हळ्यार ती सडेतोड सांगता 'जादा नखरा मत कर. अब भी मैं जवान हूँ.... दुसरे मर्द के साथ शादी करूंगी.' पूण म्हजें तशें न्हय. सगळ्यांक संतूश्ट करूंक जाय. सगळीं खूश जाल्यार हांव खूश. सगळ्यांचीं मनां जपता जपता म्हाकांय मन आसा हें हांव विसरून गेलां. मनच मेलां म्हजें. आवय आज ना. ती सदांच म्हणटाली: हांगा थंय खबरो करूंक भोव नाका. शीक. आपल्या पांयार उबें राव. तेन्ना तिजी हांव मस्करी करतालें, "हांव म्हज्याच पांयार उबें आसा मगे." आज त्या उतरांचो अर्थ कळटा. पूण वेळ गेला. म्हजें अशें कितें उरलां? ताजें सूख तें म्हजें सूख. भुरग्यांच्या सुखांत म्हजें सूख. तो पिकार जावन आयलो कीं हांवय पिकार. भुरगीं रडलीं ताजो म्हजेर परिणाम. म्हज्याय नकळत म्हजें सूख कितें हेंय हांव विसरलां. पळय रुपाची काणी.... ही रूपाची काणी काय कितल्याश्याच बायलांची? तूंच विचार कर. निम्मी आतां तूं सांग तुजे कादंबरींत आसात रूपाचे प्रश्न? आनी ना जाल्यार तातूंत रूपाचीच व्यथा घाल." संगितान सांगलें.

"संगिता सांगता तें आयकतना निम्मीक दिसलें. संवसार, कुटूंब हातूंत आमी कितलीं घुस्पल्यांत. खांद्याचेर, तकलेचेर, मनाचेर, देहाचेर किरकिऱ्या आयश्याचें वजें घेवन कितलीशींच जाणां जगतात. संवसार करतात. जगचेंच पडटा आनी कितें करतलीं. बारीक बारीक तक्रारी सगळ्यांच्याच जिवनांत आसतात. निम्मीच्याय आशिल्ल्यो. पूण आपल्या ल्हान ल्हान गजालींविशीं तें केन्नाच उलय नाशिल्लें. ताका कोणाक सांगूंक आवड नाशिल्लें. घरांतल्यो जबाबदाऱ्यो आनी भायल्यांचेंय तें सांबाळटालें. पूण कुरकूर नासतना. life is adjustmentm. सगळ्यांकडेन तें ॲडजस्ट करतालें: करचेंच पडटा. दर एके गजालीक पिरंगून, विरोध करूनय मागीर तडजोड करची पडटाच. त्या परस हांसत हांसत जगप कितें वायट? अशें ताका मनांतल्यान दिसतालें. मन खंबीर आसत जाल्यार वाटय सापडटा. खंय आनी कशें ॲडजस्ट करप? कशें खंबीर रावप? केन्ना मारतें घेवप? तें ताका कळटालें. त्या खातीर निम्मीक तशे व्हड प्रस्न नाशिल्ले. निम्मी दरदिसा मनाक समजायतालें. आपल्या फुडें प्रस्नच नां.

फकत आयजचो दीस आसा. आयलीच अडचण तर ते अडचणीचें तेन्नाचें तेन्ना पळोवया. विचार करूंक ताका वेळय नाशिल्लो. सकाळ ती सांज घर, नोकरी, लेखन, सामाजीक जबाबदारी, घरच्यो जबाबदाऱ्यो. वेळ येता कसो? आनी वता कसो तेंच येवजूंक वेळ ना. सगळो दीस कामांत.

त्या खातीर ताज्या पर्सनॅलिटींत एक तरेचो उत्साह, उमेद, तरतरी आशिल्ली. तोंडार हासो, आत्मविश्वास.

वर्तमान पत्रांत ताणे छंद म्हूण नोकरी धल्ली तेन्नाय कोणेच ताका घरा विरोध केलो ना. घर सांबाळून तूं तुजे छंद केल्यार जाता. अशें सगळ्यांचें स्पश्ट मत. तेन्ना ताणें आपल्याखातीर टायम टेबल केलें.



कोणाकच आपल्या विरूध्द उलोवपाची, तक्रार करपाची संद दिवप ना. ती कसरत निम्मी रात-दीस करतालें. धांवपळ करना जाल्यार ताकाय बरें दिसनाशिल्लें.

घराघरांत तेच प्रस्न.

रांदनी गेल्या... गेस आयले तरी प्रस्न सोंपले ना... सोंपचेय ना. आपल्याच मनशांकडेन झगडप, तांच्या मतांक, विचारांक विरोध करप आनी परत त्याच घरांत रावप. कितल्याश्याच आधुनीक विचारांच्या आधुनीक बायलांक ताणें पळयिल्लीं. पूण आपल्याच मनशांकडेन झगडत घरांत रावपाची कल्पनाय करप ताका शक्य नाशिल्लें. घरांतलें स्वास्थ्य -शांती सगळ्यांत म्हत्वाची अशें तें मानतालें. मध्यम वर्गीय जोडप्यांची काणी जवळ जवळ सगळीकडेन अशीच. ती फकत त्या जोडप्याची करणी न्हय. बारीकसाणेन मनशांक पळयता पळयता तांकां वळखता वळखता ताका दिसतालें... ही ह्या पिढीचीच काणी... आमच्या सगळ्यांचीच काणी.. प्रस्न वेगळे पूण उत्तर मात एकूच.

स्तब्ध रावन आपल्यामदीं शेणिल्ल्या निम्मीक पळोवन संगितान म्हळें, "निम्मी हालीं म्हजें अशेंच जाता. खूब उलयतां हांव. पळय तूं आयिल्लें तुजें स्क्रीप्ट वाचूंक. पूण तें थंयच उरलें. चल! आतां उरलांच तेन्ना पयलीं जेवया. आनी मागीर तूं तुजें स्क्रीप्ट वाच. बांगड्याची उडद मेथी केल्या आनी विसवण तळ्ळा. सालाद कापपाचें आनी जेवंक बसुया. आज घरा कोण नां. हांव सामकें फ्री. निम्मी हालीं म्हाकां एकांतच आवडूंक लागला. त्या कोणे तरी संतान म्हळां तशें."

"तेणे सुखे रूचे एकांताचा वास. वाही गूण दोश अंगा येती."

"कोणें न्हय संत तुकारामान म्हळां." निम्मीन सांगलें.

"म्हणू गो कोणेय.. कोणे म्हळां तें म्हत्वाचें न्हय. आशय म्हत्वाचो. तूं नोकरी सोड, घरांत राव. पळय एकटें कशें शांत दिसता. टिंगल टवाळी ना. कोणाच्यो गजाली ना. कोणाकडेन चड बरें वागप ना. आनी झगडपय नां. आपूण फकत आपल्या खातीर." संगितान सांगलें.

"तशें जाल्यार हावें येवन तुजो दीस पिड्ड्यार केलो."

"ना गो... तशें कांय ना... तूं येता तें तसोच टॉपीक घेवन. वेगळ्या विश्वांतलें वेगळें किर्ते तरी कळटा... ना जाल्यार सदांचोच शीत रोस."

पानां मांडटां मांडटां तें उलयतालें.

"हांव मदत करूं?"

"नाका गो..."

सालाद करून ताणें जेंवण गरम केलें. पानांय मांडलीं. चल उलयतां उलयतां जेवया आनी मागीर तुजें स्क्रीप्ट आयकुवया.

"तुजेकडेन सगळ्यांत पयलीं येतां. किद्याक जाणां? तुज्यामदीं समिक्षक आसा. वाचून जातकीर गुणांची तोखणाय करपाची संवय आनी आवडुना जाल्यार, आवडुना म्हणपाची हिम्मत. तूं बरें समिक्षक जातलें आशिल्लें. आजुनय संदी आसा तुकां."

"पुरो गो निम्मी तोखणाय म्हजी. अशी तोखणाय केली म्हणून तुजी कादंबरी बरी म्हणची ना. बरी आसल्यारूच बरी म्हणतलें."

खबरी करतां करतां दोगांय पोटभर जेवलीं.

"उडदमेथी मात सामकी बरी जाल्या आं. असलें जेवण सद्दां जेवल्यार सुस्ती येतली. आतांच पळय झेम येवंक लागली."

"कडक कॉफी करतां. मागीर वाच तुजें स्क्रीप्ट."

मेजावेलें झपाझप काडून संगितान कडक कॉफी केली.

"सामकी कडक जाल्या तुज्याच सारखी."

"कॉफी घेतां घेतां वाच तुजें स्क्रीप्ट. नाजाल्यार परत म्हज्या तोंडाचो पट्टो सुरू जातलो. तुजी स्क्रिप्ट थंयच उरतली."

"वाचतां ........ वंदना विशीं हांव तुकां खुबदां सांगतां. त्याच वंदना कडल्यान म्हजी कादंबरी सुरू जाता. वंदना फकत निमीत्त. वाचतां हांव. आयकता मगो तूं संगिता...."

***

"मनशाक गरज आसता एका नात्याची. दर एकलो मनीस एकलो. पूण तरी ताका एकटेंच जगूंक मेळना. कसल्या ना कसल्या नात्याच्या बंधनांत तो घुस्पल्लो आसताच. खूब गुंतागुंतीचीं हीं नातीं... वेगळीं तरीय स्वतंत्र, बंधनांत तरीय मुक्त. तोडपाचीं थारायलीं तरीय कांय नातीं तोडूंक मेळनांत. सामकीं तग धरून रावतात. आनी केन्नातरी परत साद घालतात. केसांक मारिल्ली गांठ कितलोय यत्न केल्यार सुटना तशींच नातीं.

वंदना स्वगत उलयता तशें उलयतालें. तें आपली खबर सांगतालें काय आपल्या मनाकडेनूच उलयतालें सामकें अंतर्मूख जावन.

तें सांगूंक लागलें. ह्या शारांत म्हाका म्हजें दैव घेवन आयलां अशें कशें म्हणटलें? शारांत येवप म्हज्या हातांत आशिल्लें. पूण फुडल्यो सगळ्यो घटनां म्हज्या हातांत नाशिल्ल्यो मनीस कितलो पराधीन आसता!

पत्तो सोदीत सोदीत एका घराच्या दारांत हांव पावलें.

वाठारांत निःशब्द शांतताय... वाठार निर्जन.. मळार तें घर आशिल्लें. आपलेच तंद्रेंत मनीस आसता तशें. शाराच्या मात्शें भायर. पूण कॉलेजाच्या लागसुल्ल्या वाठारांत. पेइंग गेस्ट दवरपाची सोय ह्याच घरांत आसा अशें वासपूस करतगीर कळिल्लें.

म्हाकां हॉस्टेलांत रावपाक आवडना. बाबाच्या मित्रान आपल्यागेर रावपाचो आग्रो केल्लोच. ताणी सांगिल्लें,

"तूं आमगेर राव. कशेंच परकेपण ना" पूण तीन वर्सां लोकांक त्रास दिवप म्हज्या मनाक पटना... शिवाय म्हाका एकटेंच, स्वतंत्र रावपाचें आशिल्लें. कॉलेज सुरू जायत मेरेन बाबाल्या मित्रागेर रावप..... कॉलेज सुरू जाली तशी म्हायती मेळटलीच.






जज्ज वेंगुर्लेकाराच्या घरांत पेइंग गेस्ट दवरपाची सोय आसा अशें कळिल्लें आनी वाट माड्डयत त्या घराकडेन पाविल्लें.

जज्ज वेगुर्लेकाराचो पत्तो सोदीत वाट माड्डयतालें तेन्ना मनांत सपनां फुलतालीं...

टी.व्ही. जर्नलीजम कोर्स म्हाकां करूंक जाय... त्या भायर डायरेक्शन डिप्लोमा, जमलेंच जाल्यार मॉडेलींगय करप.. म्हज्या कलागुणाक आमच्या ल्हान शहरांत कांयच स्कोप नाशिल्लो.

जंय कोण वळखिचो ना थंय आत्मविश्वासान काम करूंक मेळना-कसलेंच टेंशन, बंधना नासता.. वातावरण सामकें अनवळखी-अनवळखी जाग्यार बरें. त्या घरांत पावलें तेन्ना मोठी पाटी लक्ष वेधून घेताली. 'आतिथ्य' बंगल्याचें नांव... दारांत तुळस. तुळशीच्या वृंदावनांतलो रोपो सुकिल्लो. कितलोसोच तेंप ताका कोण्णेंच उदक घालूं नाशिल्लें. पोरसांतल्या झाडांचीय तीच दशा. गाडी गॅरेजेन आशिल्ली. तिचोय पेन्ट गेल्लो... तशेंच घर... घराक बारीकसाणीन पळयतां-पळयतां ताणें बेल मारली.

जाणट्या दादल्यान दार उगडलें.

''तुमी पेइंग गेस्ट दवरतात अशें कोणें सांगलें.''

''हय... हांगा पेइंग गेस्ट दवरतात. पूण तूं खंयच्यान आयलां. नांव गांव खबर नाशिल्ले अनवळखी चलयेक दवरप काय ना हाजो विचार करचो पडटलो.''

तुसड्या रूक्ष आवाजांत ताणें विचारलें, ''कोणाकडच्यान आयलां. हांगा कोण वळखीचो आसा? म्हाकां चवकशी करची पडटली. तूं खंय रावता? तांचो पत्तो फोन नंबर दी. तांचे कडेन चवकशी करूंक जाय. फाल्यां हेच वेळार यो. फाल्यां म्हजो निर्णय सांगतां.''

बाबाच्या मित्राचें नांव आनी पत्तो ताका सांगून परतलें. मनांत आयलें, ह्या खडूस मनशाकडेन रावप जमतलें? फुडलें फुडें. दुसरो बरो जागो मेळसर हांगा रावपाचें .जमोवन घेवपाचें.

बाबाच्या मित्रागेर पावलें मात.....

''वंदना जज्ज वेंगुर्लेकाराचो फोन आयिल्लो. तुजी चवकशी करतालो. फाल्यां तूं ताका वचून मेळ.'' बाबाच्या मित्रान सांगलें.

''वंदना तूं आमगेर राविल्लें जाल्यार जातालें, पूण तुज्या मनांत ना. खंयय पेइंग गेस्ट म्हूण रावचे परस वेंगुर्लेकारागेर रावल्यार बरें. ताका फाल्यां वचून मेळ.''

दुसरे दिसा वेंगुर्लेकाराच्या घरा वतना मनाची तयारी जाल्ली. कसोय वागल्यार ह्या मनशाकडेन जुळोवन घेवंकच जाय. बेल मारली परत ताणीच दार उगडलें.

'यो!'

काल दारांतल्या दारांत उलवणी जाल्ली. आज निदान भितर यो



अशें तरी म्हणिल्लें. भितर सरलें... प्रशस्त हॉल.... शिसवी सोफा, मदीं व्हडलीं व्हडलीं पेंटींग्स लायिल्लीं. शो केसींत पुस्तकांच पुस्तकां. त्या भायर वण्टीचेर तीन फोटो चंदनाचे हार घालून लायिल्ले. एक घरकान्नीचो आसतलो आनी दोन आवय-बापायचे अशें येवजून म्हळें,

"तुमची घरकान्न?"

"म्हाका फालतू प्रस्न विचारिल्ले आवडनात. म्हज्या प्रायव्हेट लायफाची चवकशी केल्ली आवडना. तातूंत तुमकां अजून हावें पेइंग गेस्ट म्हणूनय दवरूं ना. म्हज्यो अटी आसात. त्यो मान्य आसल्यार रावपाक म्हजी कांयच हरकत ना. त्यो मान्य ना जाल्यार तुज्यान वचूं येता."

"सांगात तुमच्यो अटी."

"अशें परत परत हाशिल्लेंय म्हाकां आवडनां. हासपा सारखें किदें जालां? सांगात अटी म्हणटना कित्याक हासूंक जाय?"

ह्या मनशाकडेन वागप कशें? कसल्यो आसतल्यो अटी. नाका हाजें घर. आयल्या पावलानी परतल्लें बरें. अशें येवजीतासर ताणें सांगूंक सुरू केलें.

"अट नंबर एक : कुडीची चावी भायर सरतना म्हजेकडेन दिवची पडटली.... मागीर म्हाका कसल्योच कटकटी नाकात. घरांत येतात आनी मागीर घराचेर आपलोच हक्क सांगतात. भटाक दिली ओसरी भट हातपांय पसरी. तशें जावंक फावनां. जाता तुका? आसा अट मान्य?"

"हय. दुसरी अट?"

"कोणाकच मित्राक-मैत्रीणीक हांगा हाडप नां. तूं टि व्ही जर्नलीझम डायरेक्शन कोर्स करता अशें कळ्ळां. भायलीं कामां भायर... तिसरी अट."

"तुमी दुसरी अट मान्य आसा काय विचारूंक विसरले?"

"दर फावट हावें तुका प्रस्न विचारून तुवें उत्तर दिवंक हांव मास्तर न्हय. तूं ओगी रावलें म्हणजे अट मान्य इतलें कोमन सेन्स आसा म्हाका." ताणें तुसडेपणान म्हळें.

"सांज जाली की घरा येवंक जाय. चडान चड सात-साडेसात. उशीर केल्यार घराचें दार उगडचो ना."

"पूण हें कशें जातलें? हांव पार्ट टायम पेपरांत जॉयन्ट जावंक सोदतां. सांजचो कार्यक्रम आसल्यार आठ-साडेआठ जातलींच. आज णव म्हळ्यार सांज जाता. आतां चड उशीर जालो जाल्यार दार उगडी नाकात."

"बरें... जाता. पूण एके अटीर.... शेजाऱ्यांकडेन संबंद दवरप ना."

"शेजारी आसात खंय लागीं?"

"म्हाका प्रस्न विचारिल्ले आवडना. हांगा म्हजो गडी रावता. ताजे कडेन उलोवप ना. काम बरें आपूण बरें अशें रावप. शक्य




आसल्यार राव नाजाल्यार वच. सडेतोड स्पश्ट सांगतां.... पयशांची म्हाका गरज ना. आनी..."

"मनशांय नाकात."

"परत मर्दी उलयलें."

"बरें सगळ्यो अटी मान्य तुमच्या मना सारखें वागतां."

..... दुसरी जागा मेळसर ह्या विक्षिप्त, विचित्र, अहंकारी मनशाकडेन जमोवन घेतलेबगर गत्यंतर ना.

"कूड सखारामान निवळ केल्या."

"सखाराम कोण?"

"कॉमन सेन्स इज नॉट सो कॉमन. जर्नलीस्ट जावंक कॉमन सेन्स लागता. डायरेक्टराच्या कोर्साकय, तूं हे कोर्स करतगीर तुजें जातलें कशें?"

इतलो राग आयलो. ह्या मनशाकडेन वागप कशें? राग गिळ्ळो, गरजवंतांक अक्कल नासता. ह्या वेळार मुकाट्यान सोंसपाचें.

"यो कूड दाखयतां. वयल्या मजल्यार आसा."

कूड मात सामकी सुंदर आशिल्ली. नितळ, निवळ, मेकळी, अ‍ॅटेच्ड बाल्कनी, अ‍ॅटेच्ड बाथरूम, व्हडलीं जनेलां, आरमार, कॉट, ड्रेसींग टेबल, मेज, कदेल, टेबल लेम्प.....

"कूड म्हाकां आवडली."

"तुकां आवडल्या काय नां हावें विचारूंक नां."



"कितेंय आवडलें जाल्यार मनासावन तोखेवप. हो म्हजो सभाव. म्हजो सभाव हावें बदलप ही तुमची अट ना. पूण तरी तुमकां त्रास जाता जाल्यार तोखणाय करना."

कितलो मनीसघाणो मनीस? असो मनीस आसता? सामको तुसडेपणान वागता. हें म्हजें घर. म्हाका जाय तशें वागल्यार म्हाका हांगा रावंक मेळटलें अशें परतो परतो सांगता.

"ही घे चावी."

वेंगुर्लेकार गेल्या उपरांत मनांत आयलें. कितें विक्षिप्त मनीस. सगळ्यो अटी घाल्यो. पूण पयशे कितले फारीक करप तें सांगलें ना. भलतोच आकडो सांगल्यार फारीक करूंक जमूं नाका? विचारल्यार बरें अशें येवजून ताका विचारूंक वतासर मनांत आयलें नाकांच. चडय सांगल्यार म्हयन्याचे पयशे दिवचेच पडटले. तो म्हणसर रावंक मेळटलें. मर्दी वळखीय जातल्यो... मागीर दुसरें घर सोदप.

सांज सोपली.. जनेलाभायर काळोख दाटूंक लागलो. निशब्द वाठार सामको निर्जन. पयसुल्ल्या घरांचे दिवे दिसताले. उलो मारल्यार ओ म्हणूंक लागीं कोण ना. हांगा कशें पावलें? किदें नातें आसा म्हजें ह्या घरा कडेन, ह्या वाठाराकडेन. इस्कोलाक भाशेच्या विशयांत एक प्रस्न आसतालो. "संदर्भा सयत स्पश्टीकरण कराता." आज कसलोच संदर्भ ना. त्या घरांत हांव पावलां, प्रस्नांचें उत्तर सोदतां. कसलेंच नातें ना, वळख ना. हांगा रात काडूंक जाय. अस्वस्थ जालें की बोटांत बोटां गुंतोवन बसपाची संवय. मनांतली अस्वस्तताय कमी जाता बोटांचेर लक्ष केंद्रीत केल्यार... घट्ट बोटां धरतकीर मनाक एक आत्मविश्वास मेळटा. दोळे धांपून मंद mild music आयकतना एक वेगळीच तंद्री लागता. हावें ल्हान टेपरेकॉर्डर हाडिल्लो. म्युजीक वाजोवंक कांयच हरकत ना. कित्याक वेंगुर्लेकारान तशी अट घालूंक ना. हें किदें जालां? कितेंय करतना वेंगुर्लेकाराच्या अटींची याद येता. हांगा रावन हांव सीक जातलें. हांव खळखळत्या उदका सारखो प्रेरणेचो स्त्रोत म्हज्यां शिराशिरांतल्यान व्हांवता. ताज्या अटींनी मन उदास जावंक फावनां. मनाक घुस्मटावंक फावना. म्हजी उमेद तगोवन दवरूंक जाय. हांव एके तंद्रेंत उठलें आनी म्युजीक लायलें. दोळे धांपून संगिताच्या मंद धुनींत धोलतां धोलतां मनावेलो ताण गेलो.

संगीताची धून तुटली दोळे उगडले तेन्नां दोळ्यां फुडें जज्ज वेंगुर्लेकार जमदग्नीसो!

"कितले सुंदर सूर. दर एकलो सूर म्हाका किदें तरी सांगतालो. उतरां नां, शब्द नां. पूण सुरांत किदें तरी आशिल्लें."

"म्हज्या घरांत हें सगळें चलचें नां."

"अशी तुमची अट नाशिल्ली." धीर एकटावन हावें म्हळें. कांय नकळत म्हजो आवाज धारदार जालो. मनांतल्यान किदें तरी उफाळून आयलें. कसलो मनीस हो. पर्वाच ना दुसऱ्यांची.

दुसऱ्याच खिणाक त्या मनीसघाण्या मनशाची काकुळट दिसली. दयेन मन भरून आयलें.

स्वरांनी हाजें मन खोशयेन धोलना. कसले चमत्कारीक विक्षिप्तपण?

"लाग तूं तुज्या घरा चलूंक. असो पेइंग गेस्ट म्हाका नाका." अशें, तो म्हणटलो अशें दिशिल्लें. काळखांत परत हातांत बेग घेवन आयिल्ल्या पावलानी परत वच्चें पडटलें अशें मनांत आयलें.

"म्युझीक आयकूंक जाय अशें ना. टायम पासाक कांयच ना. फकत वेळ वचूंक म्युजीक लायिल्लें. सॉरी... हें म्हजें घर न्हय. हें हांव विसरिल्लें." आवाज मोव करून मारतें घेवन म्हळें. म्हजीं उतरां आयकूं नाशिल्ल्या भशेन वेंगुर्लेकार भायर गेलो. वतना सांगलें ,

"जेवणाचें जालें कीं सखाराम बेल वाजयतलो. डायनींग रूम सकयल आसा थंय येवपाचें. तेंय साडे आटांक शार्प. ताज्या उपरांत जेवण मेळचें नां." इतलें सांगून तो गेलो.

हांव दोळे धांपून कितलो वेळ तशेंच बसून रावलें. फाल्यांच्यान अभ्यासाक लागूंक जाय. वर्तमान पत्रांची नोकरी मेळपाची आशा आसा. तिची चवकशी करूंक जाय. ह्या घरांत कमीत कमी वेळ काडप. तोंड दामून मुको मार सोंसचे परस कामात राविल्लें बरें. विचारांचे तंद्रेंत शेणिल्लें आसतना कितलो वेळ गेलो तें कळ्ळें ना. कर्ण कर्कश बेलीन विचारांची तंद्री तुटली.

पोटाक भूख लागिल्ली. वेळार जेवंक गेलें ना जाल्यार उपाशीं रावचें पडटलें. उठून सकयल गेलें. डायनींग हॉलांत तें पावलें तेन्ना सखारामान ताट वाडून दवरिल्लें.

"ते जेवंक येवचे नात?"

"ना ते एकटेच भितर जेवतले." सखारामान सांगलें.

"अशें किदें? एकट्यान जेवप म्हाका जमना. हांव तांकां आपयतां." तांकां खंयच्या नांवान उलो मारप हें समजूंक ना. जज्ज वेंगुर्लेकार म्हणप?

"तूं कितें म्हणटा तांकां?" सखारामाक विचारलें.

"दादा! तूं भितर वचूं नाका. ते जेवतात. सगळें घर माथ्यार घेतले. म्हाकांय तापयतले."

"कसो सांबाळटा ह्या विचीत्र मनशाक?"

"भुरगेपणांत सावन तांच्याच लागीं आसां. आवय-बापूय ना म्हाका. म्हाका ते बापाय भशेन. ताणींच गावांतल्यान हांगा हाडला. ताणींच लग्न करून दिलें. लग्नाचें सूख म्हाकां नां. बाळंतपणार बायल गेली. चली आशिल्लें. ताका वाडयलें. दादानच लग्न करून दिलें. सोलापुराक आसता तें. दादा काळजांतल्यान प्रेमळ. सामके पणसा सारखे. पूण वागप तांचें अशेंच. बाय तांचेकडेन जमोवन घे." सखारामान तांची म्हायती दिली.

"बरें! तुजे दादा हांगा येवचे नांत जाल्यार म्हजें ताट घेवन हांवच वतां दादाकडेन. एकटें बसून म्हाकां उंडीय वचनां."



“नाकां बाय. राग आयलो जाल्यार मागीर सामके दर्या सारखे वळटले. तुकां घरांतल्यान धांवडावन दितले.”

सखारामाचें मनार घेनासतना हांव दादाचे कुडींत गेलें.

“दादा”

“हांव तुजो दादा न्हय. दादा म्हणून म्हजेकडेन नातें निर्माण करूंक सोदूं नाकां. असलीं नाटकां म्हाकां आवडनांत.”

“दादा म्हणिना. सॉरी. पूण म्हाकां एकटें जेवंक जमनां. तुमी बरोबर जेवले ना जाल्यार म्हाकां उपाशीं न्हिदचें पडटलें. उपाशी न्हिदय पडची नां.”

“म्हज्यो अटी तूं मोडटा. तूं म्हजे कुडींत पावलें.” दोळे तांबडेच करून ताणें म्हळें. आवाज किरकिरो त्रासीक जाल्लो.

“सखाराम ये सखाराम” आइडून ताणें सखारामाक उलो मारलो.

“हें चलयेचें पान भायर व्हर. जेवंक जाय जाल्यार जेवनीं. नाजाल्यार झक मारूं.”

आपूण एके अनवळखी चलये मुखार उलयतां हाजें भानूय त्या मनशाक नाशिल्लें. राग सारको अनावर जाल्लो. खांव काय गिळूं करून सखारामाकडेन ते पळेताले. सखाराम काकुटेक येवन सांगूंक लागलो.

“बाये पांय पडटां.. म्हजें आयक. दादाची तकली तापोव नाकां ताका प्रेशर चडटलें. दोतोर हाडचो पडटलो.”

जेवणाचें ताट ताणें उखल्लें. डायनींग टेबलार हाडून दवरलें.

“बाय तूं जेव. हांवें मुद्दाम तुजेखातीर रांदलां. तूं जेव नाजाल्यार म्हाकां वायट दिसतलें. जेवणाचो अपमान करचो न्ही. अन्न परब्रह्म.”

सखाराम कसो दीस काडटा ह्या मनशाकडेन, कशें काडटा पाशिंयेंस, खंयची सहनशक्ती?

सखारामान रांदलां. दोन उंडयो जेवंक जाय. नाय जाल्यार हांव हांगा फकत पेइंग गेस्ट. म्हजें वेंगुर्लेकाराकडेन कांयच नातें नां.

सखारामान खमंग मसाल्याचीं भरिल्लीं वायगीं केल्लीं. तूप घालून मोव मोव चपात्यो, वरण, शीत आनी शेवयांची खीर.

दादल्या मनशाचें तें वात्सल्य पळोवन मन भरून आयलें. म्हाकां म्हज्या बापायची याद जाली. फकत कर्तव्याची भावनां. केन्नाच माया कशी आसता कळलीच ना. कर्तव्य फकत कर्तव्य.

हांव जेवसर सखाराम उबो आशिल्लो. आग्रो करून करून वाडटालो. ह्या मनशाचें भाग्य म्हळ्यारं सखारामा सारखो मनीस हाका सांबाळूंक मेळ्ळा.

“जेवण खूब बरें जालां. सखाराम म्हाकांय शिकय हां रांदूंक. चलीं आसूनय म्हाकां रांदूंक कळनां.”

“शिकयतां.... सगळें शिकयतां.” आवयच्या मायेन ताणें म्हळें.

कोण खंयचो सखाराम! कांयच नातें नां. पूण ताजे विशीं आपलेपण दिसूंक लागलें.




“बाय दादाचेर रागार जावं नाकां. दादाक कोण नां. मायेचो मनीस नां म्हणून असो वागता. भांगर मनीस दादा. ताका फकत सांबाळूंक जाय.”

“सखाराम...” ऑर्डर सोडिल्ल्या सारखो परतो उलो.

परत दादविशीं मनांत विचार आयलो....... ह्या मनशाक कोणाकडेन उलोवंक नाकां. सामको तुसडेपणान, कुसकेपणान वागता. सखाराम तर म्हण्टा, मनान सारखो पणसा सारखो. भायल्यान कांटे भितर रसाळ. देवाक खबर... म्हाकां किद्याक पडलां? पेइंग गेस्ट इतलोच म्हजो ह्या घरांत रोल.

तें कुडींत आयलें. रातची म्युजीक आयकत न्हिदपाची संवंय पूण आयज म्युजीक लावंक मेळनां.... हांगा रावंक जाय जाल्यार संवंयो मोडूंक जाय. मनाक समजायलें. दोळे धांपले. त्या घरांतले रूटीन दीस सुरू जाले.

दीस उदेलो, मावळलो, सांज जाली. घरा परततनां मन उदास जालें. पेइंग गेस्ट म्हणून रावलें तरी तें घरूच. घरा परततनां पावलां जड जाल्लीं. भायर वेळ काडल्यार नियम मोडलो म्हूण घर सोडचें पडटलें. दार उगडेंच आशिल्लें. आनी वेंगुर्लेकार शेणिल्ल्या सारके बसून आशिल्ले. दारांतच रावन तें ताका पळेतालें. चित्राकडेन एकटक पळोवन ते खंय तरी शेणल्यात, त्या चित्रांतल्या आकारांत, प्रतिमांमदीं, चिन्हांमदीं ते किदें तरी सोदतात. भारिल्ल्या सारखे ते चित्राकडेन पळेत आसात.



तंद्रेंत.

ह्या चित्रा कडेन तांचें किते तरी नातें आसा. दोन पावलां फुडें येवन पळेलें. पयल्याच फावट चित्रकलेंतलें कांयच कळनां म्हणून मन उदास जालें. चीत्र म्हळ्यार फकत चिन्हां, प्रतिमां, रंग, ठिपके, रेशा, इतलेंच? म्हाका याद जाली रॉनीची. रॉनी सुदर चित्रां काडटालो. तो सांगतालो, "चित्रां काडटनां हांव ह्या राज्यांत नासतांच. मनांतले गूढ, अबोध, अनवळखी मूर्त जावन चित्रांत प्रगट जातात. खूब किदें मनांत आसता पूण केनवासाचेर मात अबोध मनांतलीं कांय ल्हारांच येतात. तुमचें बरें. उतरांतल्यान सगळे शब्द बद्ध करूं येता." आज रॉनीच्या उतरांची याद जाली.

वेंगुर्लेकार चित्रकारूच आसतले.

हेच शेणिल्ले अवस्थेंत ताजेकडेन संवाद सादप सोपो. पावलांच्या आवाजानय तांची तंद्री भंगली नां. खंयच्या तरी अबोध सपनांची 'येसाय' मनांतल्या मनांत मारिल्ल्या सारखे ते दिसताले. दोळ्यांत उदास गूढ ल्हारां. दोळ्यांफुडें चीत्र. भोवतणच्या किद्याचें भान नां. ही अवस्था फकत कलावंताचीच..... असो कलावंतच आसता. वेंगुर्लेकार कलावंत. म्हजो अदमास चुकुंकूच शकनां. कलावंत कितलोय उदास आसलो. भायल्या जगाक उबगलो, विटलो, सगळ्यांकडेन संपर्क तोडलो तरी आपले कलेचे तोखणायेन मात्सो तरी सुखावतलोच. होच दुवो... वेगुर्लेकाराकडेन संपर्क साधूंक त्रांचेकडेन संवाद करूंक वाट सापडिल्ली.

"कितलें सुंदर चीत्र. पूण हें चीत्र पूर्ण ना. अपूर्ण आसा. विसंगत" हावें म्हळें.

शेणिल्ल्या सारखे वेंगुर्लेकारान विचारलें 'किदें म्हळें?'

"चित्र खूब सुंदर पूण चित्रांत किदें तरी कमी आसा . सुसंगती नां. विसंगती, चित्र पूर्ण नां."

"तुकां चित्रांतलें किदें कळटा? कांयच कळनां. चित्र केन्नाच पूर्ण नासता. अपूर्णच आसता.... अपूर्ण आसता म्हणून तें कलावंताक अतृप्त दवरता. जिवो दवरता... अपूर्ण उरिल्लें किदें तरी पूर्ण करूंक तो जिवनभर धडपडटा. तशें कांयच पूर्ण ना. सगळेंच अपूर्ण. सगळेंच विसंगत. गीत रचपी कवी, नाटक बरोवपी नाटककार, म्हूर्ती घडोवपी मुर्तीकार दर एकल्याची कला अपूर्णच आसता. विसंगती आसताच. कलाच किद्याक आमचें जिवनूय अपूर्ण, जिवनांतूय विसंगती, नात्यानूय विसंगती. गूढ, अबोध रंगांचीं भावनांचीं, विचारांचीं ल्हारां लागीं येतात. आपल्याक सुसंगत दिसता अश्यो आपल्यो यादी, व्हिजन. हांकां आपल्या प्रतिमांतल्यान, रंगांतल्यान रेखाटपाचो चित्रकार फकत प्रयत्न करता. मनाची गुंतागूंत नात्यांतली विसंगती भोगूंक आनी मांडूंक खूब कठीण. जीवन सोपत आयलें तरी मनशां कळनांत. जें कळनां, समजनां तें समजून घेवपाचो यत्न म्हळ्यार प्रवास. जिवनाची वाटचाल. वाटचालींत विसंगत मनशां पावला



कणकणी मेळटात. विसंगत मनशांतली विसंगती.... भावनेची, विचारांची. आपल्या अबोध मनांतल्या भावनेकडेन तादात्म्य जाता तेन्ना किदें तरी कॅन्व्हासाचेर शिवरता. केन्नां फकत पावस मिर्गाचो, केन्ना आषाढांतलो पावस. खवळिल्लो दर्यो... दर्याची गाज.. ताज्या काळजांतलें गूढ.. अनवळखीं ल्हारां.. केन्ना श्रावणांतल्या पावसा वताचो आपालिपा. सगळें रंगांत आकारांत घालप अशक्य. किद्याक सगळेंच विसंगत, अपूर्ण."

"दादा तुमी चित्रकार? हें चित्र तुमी काडलां?"

ताणें फकत मान हालयली. तांचेकडेन पळयलें तेन्ना ते ह्या जगांतले न्हयच. खंयच्या तरी पयसुल्ल्या ग्रहावेले. तांचे मदीं आनी आपलेमदीं खूब व्हड दरी आसा... अमर्याद अंतर. वेगळ्याच जगांत ते आसात. तांचें सगळें अस्तीत्वच गूढ, अनवळखी. आपल्या आयुश्यांतलें सगळेंच अळणी. शीत, कडी आनी रूटीन जिवन.

आपले फुडें म्हान कलावंत बसला. ताका समजून घेवपाची फकत आपल्याक देवान संदी दिल्या. तीं संदी हातची वचूंक दिवंक जायनां. ते म्हण्टा तेंच खरें. नात्यांतली विसंगती भोगूंक आनी मांडूंकय कठीण. डायरी बरोवंक बसतालें तेन्नाय जगिल्ले अणभव मांडपाक जमनाशिल्ले. केन्नां संवाद, केन्ना उतरां उणीं पडटालीं. किदेंच पूर्ण नासता हें सामकें खरें. पूर्ण आशिल्लें जाल्यार जिवनांतली गोडीच



सोपतली आशिल्ली. ओढ, उमेद सोंपतली आशिल्ली.

दादांची कला थांबल्या? अपुर्णांतल्यान पूर्णाकडे तांचो प्रवास सुरू आसा? ते सदांच वितरागिल्ले, उबगल्ले, त्राशिल्ले. मनांतलें एकटेपण, उबगण, त्रास ताणीं कलेंत ओतल्यात? काळजांतल्या भावनांक संवादाची गरज आसता. तांच्या काळजांतले संवाद चालू उरूंक जाय. ते तर खोशयेन उलयच नां. उलयतात ते सदांच उपगल्ले... निदान लोकांकडें उलोवप जमनां जाल्यार तांचो तांचे कडेन संवाद घडूंक जाय. आत्मसंवाद.

वंदनाक आपणें चित्रांच्या समिक्षेचेर वाचिल्लो लेख अकस्मात याद जालो. समिक्षकान चित्रांच्या प्रसदर्शना उपरांत सुंदर परिक्षण केल्लें. चित्रांच्या प्रदर्शनांचेर इतलो सुंदर लेख बरोंव येता? तें त्या वेळार खूब प्रभावीत जाल्लें. पूण चित्रकला आपलो प्रांत न्हय. चित्रकलेंतलें आपल्याक कांयच कळनां म्हूण ताका मेळपाचो मोह ताळलो. तांगेल्या लेखांतलो मजकूर ताका याद जालो. ''चित्रकार रंगांतल्यान, चिन्हांतल्यान, प्रतिभांतल्यान एक क्रिएटीव्ह निर्मीती करतात. संवेदनां जो मेरेन जाग्यो आसात, मन सेंसेटीव्ह आसता आनी प्रेरणेचो झरो अखंड व्हांवत आसता तो मेरेन तो निर्मीती करीत रावता. चडांत चड परिणामकारक चित्रां काडटा. सातत्यान, अखंड तो कलेची साधनां करीत रावता.

लोकांमदीं वावुरताना, तांचें निरिक्षण करतां करतां मनांत-सब कॉंन्शीयस माइंडांत नकळत वा कळत चित्र आकार घेता. मनांत सतत संवाद चालू उरता तेन्नांच बरें चित्र उतरता.

चित्राक कलात्मक सर्जनशील रूप येवंक संवादाची गरज आसाच. संवाद काळजांतल्यान व्हावूंक जायच. चित्रकलेंतले संवाद म्हळ्यार उतरां न्हय, शब्द न्हय. कित्यांतल्यानय तरी कोणाकडल्यान तरी प्रेरणां मेळून, प्रेरणेचो स्त्रोत अखंड सुरू आसता तेन्नां काळजांतल्यान संवाद व्हावूंक लागता. त्या संवादाक जाय आसता फकत माध्यम. रंग रेशा चिन्हांच्या माध्यमांतल्यान मनांतलें गूढ आकार, प्रतिमांचें रूप घेतात. मनातली खळबळ, व्यथा, सुखदुख्ख सगळें चित्रांत उदेता... त्याखातीर कला जिवंत उरूंक अखंड संवाद सुरू आसूंक जाय.... प्रेरणा स्त्रोत जाय... श्वासोंश्वासा इतलें सहज मनांत घोळटात तेन्नांच सर्जक कला जिवी जाता.''

उतरां वेगळीं आसूं येता. पूण आशय असोच. तें सगळें याद जालें... दादांचो असोच कितें तरी प्रोब्लेम जाला आसतलो... ते चित्रकार... अजून चित्रां काडटात? तांकां पळयल्यार ते चित्रां काडता तशें दिसनां कित्याक कला मनशाक रिलॅक्स करता. दादा सदांच टेन्शनांत.. सदांच उबगल्ले.

मनांत आयिल्ले सगळे प्रश्न ताका विचारूंक जाय. पूण प्रत्यक्ष कांयच विचारपाचो धीर जालो नां. आतांच तांचे कडेन संवाद सुरू जाला... परत तिडकल्यार? ''म्हाकां प्रस्न विचारिल्ले आवडनांत अशें सांगल्यार?'' त्यापरस इतलेंच पुरो.....

ताकां विचारिनासतनां भितर वचप चड बरें. अशें येवजून भितर गेलें.

शांत बसून विचार करतां करतां कळ्ळें ताच्या रागाफाटल्यान तांचें उदासपण आसा. कसलेंतरी दुख्ख तांकां काट्या सारखें सलता. कोणाखातीर? किद्याखातीर ते इतले दुख्खी? अंतर्मूख जावन विचार करूंक लागलें. अनवळखी दादाचो विचार मनांत किद्याक येता? तांच्या घरांत रावता म्हणून? म्हज्या बाबांच्या दुख्खा कडेन नकळटां हांव तुलना करता म्हूण? बाबांची याद जाली. बाबा हांसत हांसत सगळें दुख्ख सोंसपी. दुख्खांतय कशें हांसप तें बाबान शिकयलें. मॉं घर सोडून गेल्ली. सदां खातीर रमेशभाई बरोबर. पूण बाबान केन्नांच दुखी तोंड केलें ना. सगळ्यो वदंता, अफवा पचोवन ते हांसत रावले. आमची भुरग्यांची जबाबदारी घेतली. काळजी घेतली. कांयच उणें पडूंक दिलें नां. कर्तव्याक चुकले ना.

आनी परत मॉं न रकाद धाडलो. आपूण रावंक येतां. तेन्ना तिका परत घरांतय घेतली. जगावेगळे वागले, दिसता सोपें. पूण कशें शक्य आसा घर सोडून दुसऱ्या दादल्याचो हात धरून गेल्ले बायलेक परत घरांत घेवप? लोक किदें म्हणटले? असो विचारय ताणीं केलो ना.

लोक ना ना तें उलयले. श्री रामाचो दाखलो दिवन म्हणूंक लागले, ''रामान सुद्धां लोकोपवादाक लागून सीतेक वनांत धाडली. सीतेचो त्याग केलो.'' बाबान मॉंक माफ केली. मोठ्या मनान माफ केली. मॉं परत निर्लज्ज कशी घरांत येवन रावंक लागली. कांयच जावंक ना, कांयच घडूंक ना अशीच ती वागताली. जनाची ना, मनाचीय लज ना. कितलें सोंसचें पडलें आमकां हिजे खातीर! लोकांचीं ना ना तरेचीं उतरां आयकुचीं पडलीं. एकदां गेली आनी परत तोंड दाखोवंक आयली. पूण बाबान केन्नाच तिका कांयच म्हणूंक ना, वायट उतर दिवंक ना.

''कर्तव्याक चुकचें न्हय. हांव म्हजें कर्तव्य करतां. तिजो धर्म चुकलो म्हण तिका शिक्षा दिवपाचो अधिकार म्हाकां ना.'' बाबान म्हणचें. अशे ताजे विचार. बाबा सदांच शांत, विवेकी, थंड तकलेचो. ताणें शांती केन्नांच ढळूंक दिली ना. तोंडावेलो हांसोय सदांच तस्सो टवटवीत.

दुख्ख गिळून हांसप कशें हें बाबानच शिकयलें. बाबाचे यादीनीं ल्हानपणांतल्या यादीनीं, तागेलें मन शेणून गेलें... कितलोसोच वेळ. सखारामान उलो मारलो तेन्ना तंद्री तुटली. जेवन हातरूणार पडलें..... तोय दीस सोंपलो.

***



अशेच दीस वताले . सुरवातीचे दीस नोटबूक विकते घे, लायब्ररी कार्ड कर हातूंत गेले. टिव्ही जर्नलिजमच्या कोर्साविशीं वासपूस काडली. तेंय ॲडमीशन घेवपाचें आशिल्लें. त्या शिक्षणाची सोय आपल्या शारांत नां म्हूण इतले पयस बाबान धाडिल्लें. निमित्त शिक्षणाचें माँ घर सोडून वचत सावन त्या घरांत रावचेंशें दिसनाशिल्लें. पूण तरीय दीस काडले. पूण आतां माँ परत आयिल्ली, तिजे विशीं राग आशिल्लोच, तो आनिकय वाडिल्लो. तिणें जें केलां ताजी शिक्षा आमकां भुरग्यांक किद्याक. राजून तर ती वचत सावन उलोवपाचेंच सोडिल्लें. माँ गेली हें सत्य स्विकारूंक ताका खूब जड जाल्लें..... तेंय आपल्याक सोडून गेली हें ताज्या मनाक पटना जालें. खूबदां म्हज्या मनांत येतालें.

किद्याक गेली माँ आमकां पोरकी करून? प्रेमा खातीर? कसलें प्रेम आशिल्लें? प्रेम तिका घरांत मेळनाशिल्लें? आमचेर तिजें प्रेम नाशिल्लें? अशें किदें वेगळें तिणें त्या रमेश भाईंत पळयलें की सगळ्यांक सोडून ती गेली. किद्याक मनशां अशीं वागतात. सगळीं नातीं फट? अशींच आसता नातीं? पूण तरी नात्यांच्याच उबेची आस बाळगितात.

आवयच्या आनी भुरग्यांच्या नात्याची विणी जुळटासर सुटिल्ली. रमेश भाईन ती विणी सोडोवन माँ क पयस व्हेल्ली... खूब पयस. परत माँ रमेश भाईक सोडून बाबांकडेन किद्याक आयली?

''तुमची खूब याद येताली गो. राजूची तर खूब.''

अशें तिणें सांगलें तेन्ना मनाक पटलेंच ना. अशें दिसलें आपल्याक जाय तेन्ना जाय तशें वागून आपल्या वागण्याचें समर्थन माँ करता. माँ कडेन आतां कांयच नातें उरूंक ना. माँ नच तें नातें तोडलें. एक विचार मात परत परत मनांत येतालो. बाबान माँ क परत घरांत कशी घेतली?

पयस आसलें तरी घराची याद जावन मन अस्वस्थ जातालेंच. अनवळखी अपरिचीत घराची मनांतल्या मनांत तुलना करूंक लागताले. माँ न मोडिल्लें आमचें घर. थंय फकत वण्टी उरिल्ल्यो. आवयची माया, प्रेम, आधार, वात्सल्य कांयच मेळूंक ना. खूबदां दिसतालें कोणें दिलो माँ क अधिकार घर मोडपाचो? घर तुटपाचें दुख्ख कशें आसता तें पळयिल्लें आनीं तुटिल्ल्या घराक शिवन परत जोडपाचो माँ कशी प्रयत्न करता तेंय पळयिल्लें.

तुटिल्लें नातें जोडपाची माँ एकय संदी सोडिनाशिल्ली. म्हाका विणिल्लो ड्रेस आवडटा त्या खातीर रात-दीस विणून तिणें ड्रेस केल्लो.

''पळय वंदू हो तुज्याखातीर विणला.''

''म्हाका नाका, म्हाका तुजें कांयच नाका. तूंय नाका, किद्याक आयली तूं परत?''

''सांगतां केन्ना तरी. संधी येतली सांगपाची तेन्ना सांगतां. अजून वेळ येवंकना. म्हज्या जिवनांत किदेंतरी घडटालें नवें वेगळें. त्या खातीर तुमकां सोडून वचचेंच पडलें. तुका सगळें सांगतां पूण आज न्हय.'' शांत स्वरांत माँ न म्हळें आनी ती भितर गेली... विणिल्लो ड्रेस थंयच आशिल्लो. निळोच ड्रेस आनी ताजेर कमळां कशीं फुलां. निळ्या-निळ्या उदकान धर्वीफुल्ल कमळां. पाचवीं पानां. त्या ड्रेसाक हात लावचोसोय दिसलो ना.

म्हज्या काळजांतलें कमळच त्या ड्रेसांतल्या उदकांत पडून घुस्मट्टा... दोळ्यांत दुकांय ना फकत घुस्मटप... आपलेंच घर ... आपल्याकच परकें जातकीर जशें दिसता तशेंच किदें तरी मनाक दिसलें.

सतत माँ क त्या घरांत पळोवप , तिजेकडेन रावप शक्यच नाशिल्लें. पयस खंय तरी वचप....

''म्हजे खातीर तूं पयस वता वंदू, घर सोडून. हांव जाणां तुजो म्हजेर राग.'' माँ चीं उतरां आयकून आयकूंक नाशिल्ल्या सारखीं केलीं. कानामनार घेवंक नां तिजीं उतरां पूण वेळ आसतालो. काम कांय ना तेन्ना त्यो यादी फाटल्यान लागताल्यो. घर सोडलें पूण यादींतल्यान मुक्ती कशीच मेळना.

***

आठ-पंदरा दीस गेले ह्या नव्या घराची, दादाची, सखारामाची संवंय जाल्ली. फ्री लान्सर म्हणून दैनिकांत काम करतनां नव्या नव्या लोकांच्यो वळखी जाताल्यो. मानधन चड मेळनाशिल्लें. पूण अणभव पदरांत पडटालो. दैनिकाच्या वर्धापन दिनानिमित्त कथा स्पर्धा घेतिल्ली. ते स्पर्धेच्या बक्षिस समारंभाक श्रीकांत कामत हो नवोदीत लेखक येवपाचो आशिल्लो. ताजे विचार आयकुपाची सुवर्ण संधी.

लेखक नवो पूण सांगपा सारखें ताजेकडेन खूब किद्दें तरी आशिल्लें. ताज्यो कथा वाचिल्ल्यो. वाचतकीर दिर्घकाळ मनांत रेंगाळत रावताल्यो तांच्यो कथा. आपल्या जिवाभावाच्या मनशा सारख्यो. यादी सारख्यो, मनशांच्या मनांतल्यो वायट आनी बऱ्यो भावनां. संवेदनशील मनान ते रेखाटतात. इतलें की तांचीं पात्रां दिसच ना. हाडा-मासाचीं जिवीं टट्टीत मनशां. तांकां आपल्या भाशेंतल्या संवादांतल्यान जिवी करपाची तांची स्टायल मनाक चड भावता.

वर्णन चड ना. सवाद चड, तांचीं पात्रां स्वगत उलयतात, आत्ममग्न जावन उलयतात. लोकांकडेन उलयतात, मनाक, मनशाच्या स्वभावाक समजून घेवपाची धडपड ते दर एके आपले कथेंतल्यान करतात.

तांच्यो कथा मनाचेर राज्य करतात... आज तांकां पळोवपाची आनी आयकुपाची संदी मेळ्ळ्या. संपादकान सांगलां, ''जमल्यार तांची मुलाखत घे.''

.... सगळेंच थ्रीलींग .... वेगळें....नवें....



आयजचो दीस क्रीयेटीव्ह... मुलाखतीक टच आसूंक जाय. सामकी टचींग जावंक जाय. मनात प्रस्नांची येसाय सुरू जाली. पयलीच मुलाखत. मनाचेर ताण आशिल्लो.

ढोबळ प्रस्न तयार करून दवरले. ताचें साहित्य वाचिल्लेंच. ताज्या आधाराचेर कांय प्रस्न काडिल्ले आनी कांय जनरल प्रस्न. सरसकट जिवनाविर्शी, आयुश्याविर्शी. सगळे प्रस्न एका पेपरार बरोवन काडले... तांचीय येसाय मारली.

१) तुमच्या लेखनांत बायल केंद्रबिंदू आसता. बायलांच्या दुख्खांत व्यतीथ जावन तुमी बरयतात काय टिपीकल फेमीनीस्ट लेखक म्हणून तुमकां तुमची इमेज करूंक जाय?

२) दुख्ख हें अस्तित्वाक चिकटलां. दर एकल्या मनशाक दुख्ख आसा. मागीर बायलांचीं दुख्खां भडक करून हायलायट करून तुमी किद्याक बरयतात?

३) फेमीनिस्ट लेखक जावपा फाटल्यान तुमचो हेतू किदें? पब्लीसिटी फास्ट मेळटा?

४) बरें बरोवपाची प्रेरणां तुमकां कोणाकडल्यान मेळ्ळ्या? तुमचें प्रेरणां स्थान खंयचें?

५) पाश्चात्य लेखकांचो तुमचेर प्रभाव आसा अशें तुमी मानतात?

अशे कितलेशेच ढोबळ प्रस्नांची येसाय मनांतल्या मनांत मारून दवरिल्ली. ल्हानश्या कागदार प्रस्न बरोवन काडिल्ले. आयत्या वेळार ब्लँक जाल्यार किदेंय तरी करूंक जाय.

पूण प्रत्यक्षांत वेगळेंच घडलें. श्रीकांत कामत आयले, ताणीं सुंदर भाशण केलें. नव्या कथाकारांचें कौतूक केलें. भाशणां परसय तांच्या भाशणांत संवादाची देव-घेव जाली. टी ब्रेकाच्या वेळार ते सगळ्यां मदीं मिसळ्ळे. तांकांय नवी तरूण पिढी कशी बरयता हें जाणून घेवपाचें आशिल्लें. down to earth अशें तांचें व्यक्तीमत्व. प्रसन्न, दिलखुलास हांसो. गोड, लाघवी उलोवप. मनीस, ताचें मन, स्वभाव हाचे विर्शी उदंड कुतूहल.

ताच्या सान्निध्यांतली सांज वेगळीच गेली. एके तंद्रेंत, धुंदींत कार्यक्रम सोंपलो. मुलाखत घेवपाची संदी मेळ्ळी ना. पूण मुलाखत घेय नासतना खूब म्हायती कळ्ळी. खरें तर तें रूक्ष ढोबळ प्रस्न तांकां विचारचेशें दिसलेंच ना. मुलाखतींतल्या प्रस्न उत्तरांतल्यान लेखक थोडोच कळटा. लेखकाक आपल्याक जाय तशें आपलें व्यक्तीत्व हायलाइट करपाची संदी मुलाखतींत मेळटा. पूण श्रीकांत कामती सारख्या लेखकाक गरजूच ना हायलाइट करपाची. पारदर्शक अशीं तांची पर्सनेलीटी.

मुलाखत घेवपाक संपादकान सांगिल्लें. ताणी याद केली. पुरवणी खातीर एक सुंदरशी मुलाखत घे. मुलाखती परसय तांच्या व्यक्तीमत्वाचो प्रभाव पडिल्लो. तांकां मनशांविर्शी कुतूहल आनी लेखक जाणून घेवपाचें म्हाकांय कुतूहल..... निमित्त मुलाखतीचें.

तांचेकडेन विचारलें तेन्ना हांसत हांसत सांगलें, ''परत केन्नाय घे मुलाखत. मुलाखत मोठ्या मनशांची घेवपाची. जाणे साधनां केल्या, नांव किर्त मेळयल्या, जो तेंगशेर पावला. हांव निकतोंच चडटां. दोन-चार सपणांच चडलां.''

''चडटा तांच्या दोळ्यां मुखार सपनां आसतात.... फुडल्या प्रवासाची काणी आयकूंक आमच्या मनांत चड कुतूहल आसा.''

''बरें अशें करतां, तूं खंय रावता?''

''रिटायर जज्ज वेंगुर्लेकार हांगेर पेइंग गेस्ट म्हणून रावतां.''

मुलाखत घेवप हें निमित्त, लेखकाच्या जिवनाविर्शी, कलावंताच्या जिवनाविर्शी कुतूहल... नवें बरोवप कशें सुचता? स्वताच बरयतात, धुंदीत, तंद्रेंत बरयतात. प्लॅन आंखून, येवजून बरयतात. काय तुमचीं पात्रां तुमचे मानगुटेचेर बसून तुमचे कडल्यान बरोवन घेतात.

''तुमचीं पात्रां म्हाकां खूब आवडटात. चड करून एकाकीपण दुख्ख रंगोवपाचें तुमचें कौशल्य म्हाका आवडटा. तुमचे शैलीचेर, बरोवपाचे स्टायलीचेर हांव सामकें फिदा. पात्रांतल्या मनांतले उबगण, दुख्ख, एकाकीपण, नैराश्य रंगयताना दुख्ख दाखोवन ब्रेक मारपाची स्टायल आवडटा.

नायिका हळव्यो, संवेदनशील. पूण आपल्या मनांतली भावना कितली दाखोवची आनी कितली लिपोवची हाचो विवेक बाळगून त्यो जगतात. ढोंग, नाटक, कपट, विश्वासघात तुमच्या नायिकांक करूंक जमनां.''

''वा... म्हज्या साहित्याचो कितल्या खोलायेन अभ्यास केला.''

''अभ्यास न्हय. वाचतकीर जें फस्ट इंप्रेशन जालां तें सांगतां. आनी हें किदें मुलाखत घेवपाची सोडून हांवच उलयतां.''

''बरेंच दिसलें. आयज उलोवपाक कोणाक नाकां. आपल्या काळजांतल्या भावनांविर्शी, विचारांविर्शी आनी दुसऱ्याविर्शीय भरभरून उलोवपी मनशां कमी कमी जायत गेल्यांत. प्रत्येक जाण आपल्याच विश्वांत दंग, आपल्याच दुख्खांत रंगल्लो. आपल्या भोवतणी कवटें घालून, आपल्याच राज्यांत. जिवनाविर्शी, साहित्याविशी, दुसऱ्या मनशाविर्शी आस्था कमी कमी जायत गेल्या.''

श्रीराम कामतीकडेन उलयतां उलयतां दादांची याद जाली.

दादाय अशेच आसतात. उदास.... कवटें पागरून.... दादविर्शी खूब किदें दिसता. माणुस्कीच्या नात्यान तांकां समजपाचो यत्न दिसरात करतां. दादांचें काळें निस्तेज तोंड आनी संवेदना शुन्य दोळे. दोळ्यांमुखार आयले. मन अस्वस्थ जालें. कारण नासतना एका अनवळखी मनशाविर्शी मन किद्याक अस्वस्थ जाता.

मनांतले विचार पयस काडून लेखक कामतिच्या सांगातान चलतनां मन दादांची कामतीकडेन तुलनां करूंक लागलें. कामत मन मेकळे उत्साही आनी दादा एकमुळे, मनीसघाणे, विचीत्र-विक्षीप्त त्याच रस्त्यान फुडें येवन दोगांय वळणार पावलीं तेन्ना ''हें पळय म्हजें घर





पावलें.'' श्रीकांत कामतीन म्हळें.

''घरा येतलें...?''

''ना आयज नाका.... वाटेरच आसा घर. परत केन्ना तरी येतां.''

***

लेखक श्रीकांत कामतीचो निरोप घेवन परतलें तेन्नां रात जाल्ली. आठ जावन गेल्लीं. कार्यक्रम उसरां सुरू जाल्लो. बरोच लांबिल्लो, मदल्या टी ब्रेका उपरांत तांचेकडेन चर्चा...... चलत येतनां खबऱ्यांक लागून चालय मंदावल्ली.

लेखक श्रीकांत कामत आवडिल्लोय. ताचे कडेन उलयता आसतना आपूणय कोण तरी स्पेशल अशें दिसूंक लागिल्लें. ताका लागून मन भुलुसिल्ल्या सारखें जाल्लें. एके तंद्रेंतच बेल माल्ली.

दार सदांच दादा उगडटा. आतांय उगडटले.... चमत्कारीक नदरेन पळेतले..... हालीं वेळ जाल्यारय विरोध व्यक्त करनांत. कांयच उलयनांत.... बेल मारून वेळ जाल्लो. सखारामान दार उगडलें.

''दादा ना रे?''

''दादा आयज सकल येवंकच नां. वयर कुडींतच आसात. वयर वचून तांकां उलो मारल्यार तांकां आवडना.''

मनांत आयलें संवय जाल्या तांकां अशें कुढत बसपाची. मन तंद्रेंत आशिल्लें.

कामतीच्या सहवासांतली सांज..... चर्चा.....

दादाक जाप दिवन तांचें तुसडें, उरमट वागणें सहन करून बरो मूड ऑफ करून घेंवचें किद्याक? पडलां कोणाक तांचें?

तांची चिंता करूंक तांचेकडेन कसलेंच नातें ना. ना रक्ताचें, नात्याचें, मैत्रीचेंय. मनांत येवजितासर सखाराम सांगूंक आयलो ''बाय सर तुकां उलो मारतात. मात्शें वचून पळय.''

उबगून आनी मात्शें भिवून तांचे कुडीकडेन वतना मनांत विचार येताले. हो विक्षिप्त मनीस कसो वागतलो? पयलींच येवंक वेळ जाला. अट मोडली म्हणून लाग चलूंक म्हणना न्ही?

कुडीच्या दारांत पावलें तेन्ना अजापान थंयच्या थंय खिळील्ल्या सारखें जालें. कोनशाक आशिल्ली ही कूड. कुडीविशीं फक्त आयकल्लें. तेंय सखारामाकडल्यान. केन्नातरी हे कुडींत पावल दवरूंक मेळटलें अशें सपनांतय येवजूंक ना. कूड म्हणचेंपरस व्हड हॉलच म्हळ्यार जाता.

हॉलभर चित्रांच चित्रां.. आर्ट गॅलरी कशी. चित्रां कविते सारखीं, कथे सारखीं, चित्रांत इतलें सामर्थ्य आसता? चित्रांक पळयत रावलें.

अनाकलनीय... गूढ, चित्रां, प्रतिमा... रंग.. चिन्हां, आकार... बिम्ब, प्रतिबिम्ब..... कितल्योश्योच छटा. तांच्या लागीं गेलें तेन्ना काळीज धडधडटालें.

''आवडलीं चित्रां?''

''दादा, हीं सगळीं चित्रां नवीं दिसतात. रंगय वाळूंक ना. हीं चित्रां केन्ना काडलीं?''

चित्र पळोवन मनाचेर विचीत्र ताण आयलो. त्या प्रत्येक चित्रांत मानसीक ताण आशिल्लो. चित्रांतलें कांयच कळनासतनांय तातुंतलो गूढ काळोख, एकलेंपण, उबगण, दुख्ख.... चमत्कारीक संकोचान मन सून्न जालें.

''आपल्या सर्जक प्रतिभेंतल्यान दुख्खच सोदपाचो प्रयत्न दादा कित्याक करता? जिवनांत फकत काळोच रंग?'' स्वगत उलयता तशीं उतरां म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सरलीं.

''मुळांत आयुश्य अर्थशुन्य निरर्थक. दुख्खच चड'' दादान म्हळें.

''वंदू म्हजी क्रिएटीव्हीटी सोंपल्या. कांयच सुचना. फकत काळ्या रंगांतल्यो वळी बिरबीटायल्यात. दीस दीस हांव एकटोंच आसतां. कोणाकडेन उलोवप? त्या मठ्ठ सखारामाकडेन काय म्हजेच कडेन? म्हजेच कडेन उलोवपाची शक्ती आतां उरूंक ना. म्हाकांच म्हजो कंटाळो येयला. संवादच सोंपला. संवाद सोंपता तेन्ना कलावंतय सोंपता. म्हज्या भावनांची, विचारांची दिशाच शेणल्या. कोणूच लागीं ना. झाडाक सुध्दां बहरूंक, फुलूंक मनशाच्या स्पर्शाची, जागेची गरज लागता. हांव तर मनीस एकटो रावन रावन संवेदनांच मेल्यात म्हज्यो. प्रत्येक गोश्टीक रिएक्ट जातां. चिडचिडो जातां, रागार जातां. रिएक्ट जावपानय सुसंगती ना.''

उलोवन दादाक खरस लागिल्ली. थंयच अर्धवट चित्र पडिल्लें. सावळ्यांचीं वर्तुळां. सावळ्यांचेर सावळी ...... गूढ तळें..... भोंवतणी काळोख... सावळ्यांचे आकार.... सावळ्यो तळ्याचेर सावळी धरतात.

''दादा ह्याय चित्रांत फकत काळोख. उजवाड काळोख हाजें नातें युगायुगांतल्यान चलत आयलां. तळ्याचे वयर सावळेचेर चांदण्याची पसय दाखयिल्ली जाल्यार हें चित्र अप्रतीम जातलें आशिल्लें. काळ्या रंगामदीं एकच धवें किर्ण चित्राक स्पेशल इफेक्ट दितलें आशिल्लें.''

हेंच किद्याक सगळीं सगळीं चित्रां एकच रंग दाखयतात काळो. उदास.... जिवनांत फकत एक रंग ना.....

तें चित्र शिशिरांत पानां गळिल्लीं बोडकीं झाडां.... निस्तेज. त्या चित्राचें रूप वयलें वयलें. एक रूप भितर तें झाड अशें ना. सृजनाचो पांचवो कोंब लिपून बसला, वाट पळोवन बसला, संदी पळयता. वेळ पळयता वयर येवपाची.

''कितें सांगप... कितें रेखाटप तें सुचनां... नांवां पुरती उरल्या कला.. सोपिल्यांतच जमा.''

''ना दादा, निराश जावं नाकांत, तुमची कला सोपूंकना. कितलें अस्वस्थ दिसता हीं चित्रां पळोवन. निर्मितींतली गुंतागूंत पळोवन मन अस्वस्थ जाता. हें चीत्र साक्ष तुमच्या सर्जनशील मनाचें. जिवंत उरिल्ल्या प्रतिभेचें. खंय तरी तुमचो निर्मितीचो प्रवास अडकला. त्या



कलेचें ओजें खांद्यार आशिल्ल्या सारखें तुमकां जालां. परत संवाद सुरवात जावंक जाय. तेन्ना अडकल्लो निर्मणेचो झरो खळखळ व्हांवतलो. काळ्या रंगा सारखे आनीय रंग आसात. दादा, जेवण करून दवरलां, तो आमकां रावता. जेवया न्हय.''

''तूं वच सकल हांव येतां.''

दादा येवन जेवणाच्या मेजार बसले. साडेणव जाल्लीं.

''दादा आज दोगांयनी आमी नियम मोडलो. हांव उसरां आयलें आनी साडेणवांक पान्नार बसलें.''

दादा कांयच उलोवंक ना. तोडं त्राशिल्ल्या सारखें जालें.

''दादा केन्ना केन्ना नियमय मोडूंक जाय. नियम आमी केल्यात, आमचे खातीर नियम आसूंक जाय. नियमा खातीर आमी न्हय.''

मुकाट्यान दादा जेवले आज वेगळेंच घडिल्लें. उसरां आयलां म्हणून ते घर माथ्यार घेतले. नाका जीव करून उडयतले. अशें दिशिल्लें. पूण ना, शांत मनान ते जेवताले.

हेंच खरें दादाचें रूप? खंय तरी हळवें मन जिवें आसा. दिसता तितलो दादा वायट ना. कसो तरी, चमत्कारीक, विक्षीप्त वागून आपल्या मूळ रुपाक तो लिपोवंक सोदता. मनासारखें जालें ना जाल्यार आक्रमक, चिडचिडो जाता. ताका समजून घेवंक जाय. ताज्या स्वभावांतल्या विक्षीप्तपणा सयत ताका स्विकारून घेवपी कोण ना. ताजो असो मायेचो मनीस कोण ना.

जेवन दादा आपले कुडींत गेले. वतां वतां म्हणूंक लागले, ''आयज नियम मोडला म्हणून सदांच मोडूंक मेळचो ना.''

***

फुडले दोन दीस गडबडींत धांवपळींत गेले. श्रीकांत कामतीची मुलाखत, मुलाखतीच्या फोर्मांत बरयनासतनां लेखाचें रूप दिवन ऑफीसांत व्हरून दिली. ''एक सांज..... प्रतिभावंताच्या सहवासांत'' अश्या नावान ती छापून आयली. श्रीकांत कामतींचो फोन आयलो आनी लेख आवडिल्ल्याची पावती ताणी दिल्ली. घरा साहित्यीक गजालींचो ल्हानसो कार्यक्रम आसा ताचें आमंत्रणय दिल्लें.

साहित्याच्या वर्तुळांत किदें घडटा..... सगळे लेखक जमले की किदें उलयतात? फॉर्मल कार्यक्रम नाशिल्ल्यान मनांत चड कुतूहल आशिल्लें. लेखकांक मेळपाची संधी हातांतल्यान घालोवंक जायना.

तांच्या घरा पावलें तेन्ना सगले जमिल्ले. खबरी रंगांत आयिल्ल्यो.

''यो, यो तुजीच वाट पळयतां. आतांच तुजी याद काडिल्ली.''

कोणाचीच वळख ना पूण तरीय तांकां वखतालें तांच्या साहित्यांतल्यान. कथा वाचिल्ल्यो.. कोणा विशीं आयकल्लें... कोणाचे फोटो वर्तमान पत्राचेर पळयिल्ले. चडशे नवेच लेखक. कांय जाणांच्यो कथा प्रसिध्द जाल्ल्यो. पुस्तकांय बाजारांत आयिल्लीं. श्रीकांत कामतीन वळख करून दिली. मुलाखत घेतल्या ती ताणी




कांय जाणांनी वाचिल्ली.

''कामतीची मुलाखत स्वरूपाचो लेख खूब बरो जाला.'' ताणीं म्हाकां म्हळें.

सगळ्या लोकां मदीं एकटीच बायल मनीस. मन संकोचलें. मनांतलें कळिल्ल्या सारखें ताणीं म्हळें, ''संकोच करूं नाकात आमच्यो दोन मेंबर आसात गीता आनी किर्ती. दोगीय लेखिका. आयज तांका येवंक जमूनां.''

खबरी परत रंगल्यो. तांतल्या एकट्यान म्हळें, ''रत्नागिरी वचून आयलों. प्रेमाचे फांटभूंयेर एक कादंबरी बरोवंक घेतल्या.... थंयचे लोकेशन्स बरोवपाखातीर सोदतालों.''

''ही तुजी स्टायल आऊट डेटेड जाली. आज लोकेशन्स म्हत्वाचीं न्हय. पात्रां म्हत्वाचीं. रत्नागिरीच किद्याक जाय. एक शार म्हण.''

''म्हजी स्टायल म्हजेकडेन. म्हजे कादंबरींत लोकेशन्स आसताच. रत्नागिरी हांव वचून आयलां..... तो दर्या... नाक्यावेलें हॉटेल.... दोळ्यां मुखार तो वांठार चीत्र कशें आसा. कातरवेळ जाल्या. दर्यादिगेवेल्यान थिबाचो राजवाडो पळयलो... नजर थंयच लागली. .. तूं जाणां हो थिबा कोण? तो मुळचो ब्रह्म देशाचो. ताच्या जिवना विशीं खूब जाणांकडल्यान म्हायती घेवपाचो प्रयत्न हांव करतां. गरज पडल्यार ब्रह्मदेशांतय वचून येतलों. अशी कादंबरी बरयतलों..... सामकी वादळी....''

''तातूंत किदें आसा... तुजो सदचोच विशय... प्रेम.. प्रेमी जिवांची



ताटातूट.... आरे प्रेमाचो विशय सोडून नवो विशय घे.''

''आज म्हज्या साहित्याचेर चर्चाय नाका.....खबरीय नाकात. आमचो आयजचो हिरो श्रीकांत कामत. आज की शाम श्रीकांत के नाम.... भज्यांचो घमघमीत वास आयला. वयनीन बरीं भजीं केल्यांत वासानूच रूच सुटली.''

''आरे श्रीकांताच्या बरोवपाचें सगळें श्रेय वयनीक. वयनी हागेली प्रेरणां. वयनी घर सांबाळटा, हाका सांबाळटा.... हाजे मूड सांबाळटा म्हणून हो आज श्रीकांत कामत. प्रॉलिफीक रायटर.... यार श्रीकांत खरें न्हय?''

''अर्दें खरें.''

''पळय कसलो अर्दें खरें खंय. 'मॅन्स इगो.' बायलेक श्रेय दिवंक सोदना. धीस इज नॉट फेअर यार.''

''हावें अशें म्हणूंक ना. रमा म्हजी प्रेरणां शक्ती न्हय. रमा अर्धांगीनी... बरी बायल.... कसलीच कटकट ना. म्हजी प्रेरणां म्हज्यांतलेंच एकलेपण... हांव एकोडो..... एकलेंपण म्हाका भावता... मानता, आवडटा. गर्देंत हांव रमना.''

''वा... आतां गर्देंतच बसला आनी सांगता गर्देंत रमना.''

''रमना म्हळां. खरें तेंच सांगतां लोकां मदीं रमचे परस एकटेंपण म्हाकां आवडटा. हांव मनीस घाणो न्हय. पूण सामको सोशलय न्हय. आपल्या मना सारखें लेखन करूंक जाय जाल्यार एकलेंपण खूब बरें. कलाकारान प्रसिध्दीच्या फाटल्यान धांवपाची गरज ना. अंतर्मूख जावन कथा लेखन करूंक जाय जाल्यार एकटोच रावंक जाय. लेखक गर्देंत रमलो तर वेळ केन्ना मेळटलो?

वेळ जाय भोवूंक, चिंतन मनन करूंक. भन्नाट जगूंक. नोकरी करतालों तेन्ना लेखक म्हणून जगूंक, बरोवंक त्रास जाताले.. पांगळो जाल्ले वरीं दिसतालें. चाकोरिचें जिणें रूटीन डबक्यासारखें... हावें प्रयोग करून पळोवया अशें थारायलें. नोकरी सोडली. खूब त्रास जाले. आर्थिक अडचण जाली. पूण रमान म्हाकां सांबाळलो. म्हणून म्हणटां प्रेरणां हें अर्दसत्य. उरिल्ली प्रेरणां म्हजें एकलेंपण, काळजांतली अस्वस्थता, अस्वस्थेन आकार दिवपाची धडपड. कथा म्हजी सावले सारखी सांगाती. सगळ्या साहित्य प्रकारांत म्हाका कथा भावता. आवडटा आनी बरी बरोवंक जमता.

कविता बरोवंक हांव बसलों पूण जमलें ना. केन्ना दोन ओळींत सोंपलें, केन्ना कविता इतली गद्य जाली की ही कविता असो म्हजो म्हाकांच प्रस्न पडलो. कवितेंत ओळींची मर्यादा, उतरांची शिस्त, छंदाचे नियम पाळचे पडटात..... बंधनां म्हाकां आवडनांत. .. नियम म्हज्या प्रतिभा शक्तीक जकडून घालतात.... बंधनांत घालतात प्रतिभा शक्तीकय. आमचे सारखे क्रोमोझोम्स आसतात. म्हजे क्रोमोझोम्स वेगळे. कथा प्रकार म्हाका चड जिवो, चड लागींचो.

हावें एक कादंबरी बरोवंक घेतल्या. कांदबरी पूर्ण जावंक ना. कादंबरी बरोवंक बसलों तसो त्या विशयांत, पात्रांत खूब वेळ घुस्पून रावचें पडटा. पात्राक खूब वाडोवचें पडटा. दर मनीस वेगळो. एकटो दुसऱ्या सारखो दिसूंक फावनां. जिवनांतल्या कठीणांतल्या कठीण गुंतागुंतीचें वर्णन कादंबरींत येना जाल्यार कादंबरी फसता. कादंबरी बरोवपाचें मनांत आसता. पळोवया कशी जाता.?''

''हें मात तुजें सामकें खरें.... आयच्या यांत्रीक युगांत, कॅसेटीच्या जमान्यांत, टी.व्ही, विडियोच्या धुडगुसांमदी.. व्हिडियो, थेटरांच्या आक्रमणांत कादंबरी, लेख, नाटकांक मरणकळा येवंक पावल्या.''

''हें म्हाका मान्य नां. आं''

''कित्याक? श्रीकांताक पळय तो बरयता आनी फेमस जाला. कथा ल्हानशीच, वाचूंक बरी, मनशाची आयकुपाची मुलभूत गरज कथेंत भागता. वेळय ना वाचूंक. वाचकांक बरें आनी लेखकाकय. कथेंत कथाकाराक जाय तशें स्वातंत्र्य घेवंक मेळटा. कसलेंच बंधन नां. जाय तो विशय घेवप आनी कल्पना शक्तीच्या पाखानीं जाय तशी भरारी मारप. जाय तशी सोपोवप. आमच्या मॉडर्न कथेंत कथानकय नाका. लेखकाक बरें जाता. ताची प्रतिभा सदांच टवटवीत उरता. खरें काय न्हय श्रीकांत.''

तांची चर्चा काव्य, नाटक, कादंबरी, ललीत, लेख सगल्या साहित्याच्या प्रकारांचेर रंगल्ली. चर्चा रंगांत आयिल्ली. मदीं भजींय आयलीं. बायलेन केल्लीं. ताणें आपल्या बायलेकडेन वळख करून दिली. लांब विणी, काळेभोर दोळे, गोरो पिठ्ठ रंग, कोरीव आंगलोट, सोज्वळ म्हूर्त कशी ती म्हज्या फुडें उबी.

''ही रमा, म्हजी अर्धांगिनी.''

''रमा हें वंदना.''

''वयनी भजीं झकास जाल्यांत आं'' सगळ्यांनी भजीं खाता खाता तोंडभर तिजी स्तुती केली. थोडो वेळ ती बसली आनी रोखडीच भीतर गेली.

कितलो वेळ चर्चा लांबिल्ली. चर्चा, एकमेकांची मस्करी, हास्यविनोद. वेळ कसो गेलो तो कळ्ळोच ना. एकमेकांचो निरोप घेवन सगळे उठले. ''आतां तुमी आमच्या खबरी मंडळाची सदस्य आं.'' वता वता सगळ्यांनी सांगलें.

''तुमीय सुरू करात बरोवंक.''

''म्हजो पींड लेखकाचो न्हय.''

''मुलाखत कितली सुंदर घेतल्या. कांय नजो... तूं अशें कर..... आमच्यो सगळ्यांच्यो मुलाखती घे.''

''आरे वतां वतां टॅन्शन करूं नाका ताका.''

''हावें मस्करी केल्या.''

खेळीमेळीच्या वातावरणांत सांज सोपली.

''तूं एकटेंच वता. रात जाल्या हांव तुकां पावयतां. तितलीच म्हाकांय पासय जातली. आयज पासय मारूंक ना.''



कथा म्हाका सोदीत येतात. कथानकांचो ओघ.... ओघांत उतरां भोंवतात. हांव बरयत रावतां, कथा म्हज्या श्वासांश्वासांत आसात. कथा बरोवप म्हज्या आत्म्याची गरज, काळजाची ओढ."

"बायलांचें दुख्ख तुमीं कितलें सहज बरयतात. कशें जमता?"

"बरोवंक बसता तेन्ना दादलो काय बायल हें हांव विसरून वतां. नायकाक रेखाटूंक हांव दादलो आनी नायिकेक बायल - प्रत्येक दादल्याच्या काळजांत एक बायल आसता. आनी बायलेच्या काळजान दादलो. मनीस अर्द नारी नटेश्वराचें प्रतीक. तेंच सींबोलायज करता. प्रत्येक दादलो खंयतरी म्होवाळ, मोव, कोमल आसता आनी बायल कणखर, रफ, रॅशय. परकायाप्रवेश करून बायलांच्या दुख्खाचें वर्णन एक्सरे कशें हांव करतां. अश्या शब्दांत म्हजी स्तुती जाता. पूण तें खरें न्हय. परकाया प्रवेशाची संकल्पनां साहित्यांत आसताय. बाकी लेखकां कडेन तशें सामर्थ्य आसताय जायत. पूण हांव बरोवंक बसतां तेन्ना लींग भेद, वंश भेद, धर्म भेद कांयच मनांत उरना. उरता फकत मनीस. म्हज्या कथेंतलीं मनशां जिवनाचो अर्थ सोदूंक धडपडटात. नियती तांकां तेच वाटेन व्हरता. देव तांकां चाटयेपावलाक शिकयता. पूण तीं हरनांत. पराभूत जायनांत काळखांतल्यान उजवाडाचे दिशेन चलत रावतात म्हज्या कथेंतलीं पात्रां... आयुश्यांत नांव मेळोवचें, प्रसिध्दी मेळोवची अशें केन्नाच म्हाका दिसूंक ना. जें किदें मेळ्ळें तें कलेच्या साधनेंतल्यान. फकत बरयता पूर्णवेळ लेखक. लेखन सोडून दुसरो खंयचोय व्यवसाय करचो सो दिसना. आमी लेखकानींच लेखनाच्या व्यवसायाक प्रतिश्ठा दिवंक जाय.



घरा मेरेन श्रीकांत पावंक आयलो.

"तुमच्या कथां बद्दल सांगात. लेखकाक कथेच्या जल्माविशीं भरभरून उलोवंक आवडटा. कथाप्रकार म्हजो आवडटो. कशें सुचता लेखकाक बरोवंक?"

"म्हज्यो कथा केन्ना जल्माक येतात म्हाका कळना. कथेच्या जल्माची काणी म्हज्यान सांगूंक नजो. पूण कथेचें बी मनाच्या मातयेंत पडटा. अंकुरता... एखाद्रें दृश्य... बातमी, घटना, संवाद कथा बरोवंक निमित्त जाता. म्हज्या कथांतलीं मनशां सादीं. म्हज्या भोवतणचीं. कथानीं म्हज्या आनी म्हज्या सान्नीध्यांतल्या मनशाच्या अस्तित्वाच्यो खुणा आसतात. सुगंधीत फुलांचे ओढीन भुंगो लागीं येता तश्यो म्हज्यो

लेखन म्हळ्यार फाविल्ल्या वेळा वयलो उद्योग. अशें करूंक जायना. आमींच आमच्या व्यवसायाक मानाचें स्थान दिवंक जाय. त्या खातीर कितलेय त्रास काडूंक मन खंबीर दवरूंक जाय. आदोगाद, दोतोर, इंजिनियर दर एकलो आपल्या व्यवसायाक प्रतिश्ठा दिवंक धडपडटा. मागीर आमींच फाटीं किद्याक?

खरें तर आमचो व्यवसाय सगळ्यां परस श्रेश्ठ. प्रतिभाशक्तीची उपासनां आमीं करतात. खंयचेय शाळेंत वचून डिग्री घेवंक नाका.



जिवनाच्या शाळेंत शिकप. प्रत्येक अणभव म्हळ्यार प्रत्येक दीस. आमकां मेळटा तीं मनशां आमचे गुरू. संकटां आमच्यो परिक्षा. तातुंतल्यानं वाट काडून बरयिल्ली कलाकृती आमची डिग्री.

लेखनांतच म्हजें मन रमता, शब्दांकडेन म्हजें नातें.... बरोवप म्हजे खातीर जीवन... रायटींग इज माय प्रोफेशन... टू मी इट् इज अ वे ऑफ लायफ... अशें दर एकल्याक दिसलें जाल्यार आमच्या व्यवसायाक मान्यता मेळटली, प्रतिशठा मेळटली.''

श्रीकांत कामत काळजांतल्यान उलयतालो. मनस्वी मनशाच्या काळजांतल्यो भांवना, विचार आयकुपाची म्हाका संदी मेळिल्ली. म्हज्या काळजांतले विचार वाटूंक म्हाका एक मित्र मेळिल्लो. घराच्या दारांत ताणें पावयलें.

''भितर यो अशें हांव म्हणनां. पेइंग गेस्ट म्हणून रावतना म्हाका अटी घातल्यात. त्या अटींत एक अशी अट आसा कीं दुसऱ्या कोणाक हांवें घरांत हाडूंक जायना.''

''हरकत ना. आमगेर यो. मनांतली काणी कोणाक तरी सांगले बगर म्हाका सूख लागना. बरोवचे पयलींच ती कोणाक तरी सांगूंक जाय. साहित्याची तुका आवड आसाच. म्हजी काणी आयकूंक म्हाका श्रोतोय मेळ्ळो.''

''केन्नाय काणी बरयली कीं आपय.''

''फाल्यांच... आज नवी काणी मनांत अंकुरल्या.''

''बरें फाल्यां आपयात.''

''तुमी बिमीं म्हणूं नाकात. फॉर्मल दिसता. सरळ तूं म्हण.'' ताणें म्हळें. श्रीकांत कामतीचो निरोप घेवन भितर सरलें तेन्ना दादा हॉलांत बशिल्लो.

''कोण पावोवंक आयिल्लो तुका, घराच्या दारा मेरेन?''

''श्रीकांत कामत. लेखक. दादा तुमी वाचल्यात तांच्यो कथा?''

''लेखन, काम नाशिल्ल्या लोकांचो उद्योग. लेखनान पोट भरता?''

''लेखन व्यवसाय म्हूण स्विकारला.''

''भिकार व्यवसाय. असल्या लोकांच्या नादाक तूं लागूं नाका. तुकां शिटकायतां हांव.'' दादान म्हळें.

''दादा! तुमी श्रीकांत कामतीच्यो कथा वाचून पळयातच. तांच्यो कथा वाचतकीर दिसता ही आमचीच कथा.''

''पुरो ताजी स्तुती. एक सांगून दवरतां. कोणय आसूं व्हडले कामत बिमत. म्हज्या दारांत सुध्दां म्हाका तो दिसूंक जायना. कळ्ळें तुका?''

दादांच्या वागण्याची म्हाका संवय जाल्ली. दिशीदिशीं संवय जायत आशिल्ली. दादा तुसड, रूक्ष वागलो, घुमो कसो वग्गी बसलो, रागान घर माथ्यार घेतलें की म्हजे कडेन हत्यार आशिल्लें. शस्त्र कशें हत्यार. तांका चित्रकलेविशीं विचारप. मागीर तांची कळी फुलताली. तेन्ना ताजे खातीर हांव पेइंग गेस्ट उरनाशिल्लें. ताजे चित्रकलेचें रसीक आस्वादक जातालें.

''दादा!''

''कितें?''

''आज कितें नवें चित्र काडलां?'' दादाचो राग निवळावंक हांवें म्हजे ठेवणींतलें हत्यार भायर काडलें. दादा ल्हान भुरग्यां सारखो राग विसरलो.

''हय. पळयतलें?''

ल्हान भुरगें नवें हाडिल्लें खेळणें दाखोवंक व्हरता तशें ताणें हात धरलो. कुडीकडेन म्हाका घेवन गेलो.

''आज हांवें कोंबयांचीं चित्रां काडल्यांत.'' वता वताच ताणें सांगलें.

''कोंबयांचीं?'' अजापान हांवें विचारलें. दादाच्या वागण्यांत केन्नाच सुसंगती नासताली. त्या वाठारांत एकय कोंबो ना. मागीर मर्दीच दादाक कोंबो कसो येवजलो?

व्हडलें शेत वाऱ्यार डुलता. पिकान भरलां. भांगरा रंगाचें पीक. रंगाचे स्पेशल इफेक्ट इतले सूंदर जाल्ले की दोळे दिपकावले.

''दादा...''

''पळय! हें पीक तुजे खातीर. भांगराचो रंग. ह्या पिकाक चितारतना तूंच म्हज्या दोळ्या फुडें आशिल्लें. काळो रंग खंयच ना, मळब पळय रंगच रंग.''

खोशयेन हांवें दादाक वेंग मारली. तें चित्र म्हळ्यार साक्ष... दादाभितर परिवर्तन जालां.

''पळय हें चित्र. शेतांत कितले कोंबे भात खावंक येतात.... चपळ.... शेंकरे पळय कशे तांबडेच.... कोंबये फाटल्यान कोंबये पिलां.... ल्हान पील पळय..आंगलें घालां ताणें काळ्या, तांबड्या, हळदुव्या रंगाचीं पिसां. वंदू हें चित्र पळय कोंब्याचो नेट पळय.''

सामको तन्नो, तोऱ्यांत चलपी कोंबो. त्या चित्रांत फकत उमेद आशिल्ली, उत्साह आशिल्लो. जिवनाच्या उत्साहाची साक्ष, रंग.... त्या चित्रांत.

आनीक एक चित्र.... जाळें.... जाळयेंत तोच कोंबो... सामको तस्सोच जिवो कसो. पूण ताज्या दोळ्यांत अगतीकता.

''पळय वंदू. दोनय चित्रांत तोच कोंबो. हांगा तो तेजहीन, बंधनात. आनी हांगा मुक्त.''

दादाचे दोळे चकचकताले. म्हाकांय खूब बरें दिसलें. दादा मनशान येतालो.

***

अशेच दीस फुडें वताले. सकाळची कॉलेज... सांजचो टी.व्ही जर्नलीजम कोर्साच्यो क्लासीस. पांचा उपरांत ऑफिसांत वचून रिपोर्ट कर. कथा बरोवन जाली की श्रीकांत कामतीचो फोन येतालो. घरा



पावतकीर दादांचीं चित्रां. घराकडेन फोन करता तेन्ना राजूची खबर कळटाली.... ती विचारल्यार बाबा सांगताले. ना जाल्यार सदांचेच प्रस्न.

"पयशे धाडूंक जाय. अभ्यास कसो चल्ला. काळजी घे." घराची याद येवपाची कमी जाली. श्रीकांत कामतीचो फोन आयलो ना. तो मेळ्ळो ना जाल्यार चुकील्ल्या चुकील्ल्या सारकें दिसतालें. तो मेळटकीच खूब आनंद जातालो.

किद्याक ताका मेळतकीर आनंद जाता? तो म्हजो आवडतो लेखक म्हणून? की किदें तरी काळजांत अंकुरलां? अनवळखी ओड काय बंध नात्याचे? कांय कांय प्रस्न अनुत्तरीतच उरतात. त्याय प्रस्नाचें उत्तर मेळना ...

***

श्रीकांत कामतीन फोन केलो. "वंदू फाल्यां कॉलेजीक बंक मार. सुंदर कथा सुचल्या. दीर्घ कथाच म्हळ्यार जाता. कदाचीत कादंबरीय जावंक शकता. तुकां वाचून दाखोवंक जाय."

कामतीच्या घरा पावलें तेन्ना, स्क्रीप्ट घेवन तो म्हजी वाट पळयत बशिल्लो.

"रमा कडक चा कर पळोवया. दोन कप." पावना बरोबर बायलेक सांगलें.

कोणय घरा आयले की रमा हें कर, रमा तें कर. ती मात सुध्दां उबगनासतनां तो सांगता तें करताली. कशें जमता काय तिका अशें?

"तिकाय् आपय. ती आयली की बरोबर स्क्रिप्ट आयकुवया."

"वंदू तिका म्हज्या स्क्रिप्टा बिप्टान रस ना. ती बरी तिजें घर बरें.... एकदां तिका सांगिल्लें डिक्टेशन घे. रमाचें अक्षर खूब सुंदर. छापील मोती कशे... म्हजें बरोवप दोतोराचें प्रीस्क्रीपशन कशें जाता. तकलेंत विचार आसतगीर तर चड अक्षर खराब जाता. पूण 'तो म्हजो प्रान्त न्हय. म्हाका आवडना डिक्टेशन घेवंक." अशें सांगून ती मेकळी. घरांतली जबाबदारी ती घेताच. शिवाय भुरग्यांचें सगळें पळयता. येवन वचून गावांतलीं सगळीं सोयरीं-दायरीं आसतात. तातूंत ती घुस्पल्या. नवी जबाबदारी घेवंक तिका आवडना. म्हज्या कथेंतूय तिका इंटरेस्ट ना. तुकां फट दिसतलें वंदू, म्हज्यो कथाय ती वाचिना. 'ही पळय कथा बरयल्या तुकां वाचून दाखयतां.' म्हळ्यार लागीं बसतली. पूण लक्ष रांदचे कुडींत."

लेखक घरकार म्हळ्यार कशें सूंदर सहजिवन आसूंक जाय. ताणें वाचप, तिणें आयकप. सुचनां करप सगळेंच थ्रिलींग अशें दिशिल्लें. पूण प्रत्यक्षांत मात सामकें उलटें.

"वंदू दोन जनरेशनां मदीं गॅप्स आसतात. विचारांचें, वागण्यांचें, भावनेचें.... तशेंच जोडप्यां मदीं आसतात. हांव आनी रमा दोगांचेय




एकमेकांचेर प्रेम. पूण दोगांचेय स्वभाव वेगळे. विचार वेगळे, विचार करपाची पध्दत वेगळी, आवडी वेगळ्यो म्हाका खुबदां दिसता बरयिल्लें ताका वाचून दाखोवचें. लागीं तीच आसता. तिणें आवडल्यार आवडलें सांगचें ना जाल्यार ना सांगचें. चर्चा करची, वाद घालचे आपलें मत मांडचें...

वैचारीक सहवासाचेंय सूख आसता. रमान म्हाका सगळें दिलां प्रेम, विश्वास, घराक सांबाळलां. पूण तरीय एक पोकळीशी मनांत आसाच. तिका म्हज्या विश्वांत रस ना. उत्सुक्ताय ना. पारितोशीक मेळयिल्ल्या पुस्तकांत किदें आसा हें वाचून पळोवपाचेंय कुतुहल ना. बरें रांदप आनी वाडप हेंच तिजें विश्व.

एक एकदां कथा सुचता पूण ती कागदार उतरनां. खूब अस्वस्थ दिसता. कोणाकतरी सांगपाची आसता. रमाक उलो मारचो सो दिसता. पूण मारून कांयच उपेग ना.... एक तरेचें अनामीक एकलेंपण. लेखक जावनय ते एकलेपणाक म्हज्यान व्यक्त करूंक उतरां ना. प्रेम, लग्न, संवसार, सहजिवन, प्रत्येक उत्तर, प्रत्येक भावना वेगळीच उरता. ह्या सगळ्यांचो संगम जालो जाल्यार जीवन कितलें सूंदर आसतलें."

किदें उलोवचें म्हाका सुचलेंच ना. प्रतिक्रीया दिवंक जमलें ना.



प्रत्यक्ष कथा लेखन सोंपें आसता. पूण जीवन जगप खूब कठीण: मनशां मदीं आसुनय मनीस एकटोच आसता. एकलेंपण काळजांत जपत रावता. इतलो सुखी संवसार आसून श्रीकांत कामत एकटे. दादा एकटेच. सखाराम दादांची सेवा करता. केन्ना केन्ना एकलोच बशिल्लो आसता. ताका एकटें एकटें दिसता काय? तांकां फकत एकटेंपण व्यक्त करूंक कळना. गांवांत बाबाय एकटेच. आई रमेशभाईगेर वचून परत बाबाकडेन आयली.... आतां तीय एकटीच आसता.

श्रीकांत कामतीचीं पात्रां, नात्याची विण हळुवार सोडयतात. पूण त्याच श्रीकांत कामतीच्या जिवनांत विसंगती आसा. मनशाच्या मनाविशीं उदंड कुतूहल आशिल्लो हो लेखक एकाकीच. ताज्याय काळजांत एक पोकळी!

दादा म्हण्टात तें सामकें खरें. चित्रां अपूर्ण, कथाय अपूर्ण... प्रत्येक मनीस अपूर्ण... जिवनय अपूर्ण... आमी फकत पांथस्थ ह्या वाटेवेले. वाट चलतना सांगाती सोदतात एका विचाराचे. सहवासांत सूख आसा. असो साथी मेळल्यार प्रवास सुसह्य जाता... ना जाल्यार उरता चलप. चलतां चलतां दोळ्यां फुडें प्रेम, त्याग, निश्ठा, स्नेह, सौंदर्य, सत्य अशीं मुल्ल्यां आदर्श म्हणून दोळ्यां मुखार आसतात. ध्येय दोळ्यां मुखार आसता. तें मेळोवंक धडपडटात. ध्येय साकार जाता. पूण काळजांतली पोकी, एकटेंपण, तें थंय तशेंच उरता. सर्वसामान्य मनीसय तसोच.

आनी श्रीकांत कामती सारखो प्रतिभावंत, जाणें आपल्या कथांतल्यान मनस्वी मनशाच्या जिवनांतलीं वादळां, समस्या, सुख-दुख्खां, झुजां, यश, वेदनां जिवनांतल्या सगळ्या अनुभवांक रेखाटलें. त्याच मनशाच्या काळजांत पोकळी? एकाकीपण?

एकाकीपणाचें आनी मनशाचें नातेंच आसतलें अशें मनांत आयले. पूण कांयच उलवप जमलें ना.

***

अशीं आमीं खुपदां मेळटालीं. दर भेटींत ओड वाडटाली. साहित्याचेर मन मेकळी चर्चा, केन्ना वाद... केन्ना आपली एखाद्री कथा वाचून दाखोवपाक तो फोन करतालो.

मैत्रींत अनवळखी ओढ. एकतरेचो अनवळखी गंद मिसळत वता अशें मनांत येतालें. खंयची तरी शक्ती श्रीकांत कामतीकडेन किदें ना किदें निमित्त करून ओडून व्हरता. ताका आनी म्हाका एकमेकांच्या सामकी लागीं ओडटा. ताजें लग्न जालां. सुंदर, सोज्वळ, शालीन बायल आसा. पूण मैत्री करूंक किदें जाता. लग्न जाल्ल्या दादल्या कडेन मैत्री आसूंक जायना? ताजे म्हजे विचार जुळटात, आवडी जुळटात, आमकां एकमेकांचो सहवास आवडटा. मैत्री किद्याक सोडप? फकत चार लोक उलयतात म्हणून?

तो कथा बरोवन जाली तशी आपयता, वाचून दाखयता. चर्चा जाता, निर्मितीची खोशी. निर्मितीच्यां आनंद यात्रेंत हांव सहभागी जातां. कितली सुंदर मैत्री, किद्या सोडप. मैत्रींत आमकां दोगांकय आनंद मेळटा.

दिसांनदीस नातें चड गाढ, गहिरें, दृढ जातालें. घरा येवंक वेळ जातालो. पूण दादा रागार जायनाशिल्ले. दादांच्यो एकएक करून सगळ्यो अटी हांवें मोडिल्ल्यो. पूण तरीय दादा रागार जायनाशिल्ले. चित्र काडून वाट पळयत ते बसताले.

"कितलो उशीर करता येवंक." अशें तक्रारीच्या सुरांत म्हण्टाले.

दादा आनी हांवें बरोबर जेवप. तांच्या चित्रांचें हांवच समिक्षक. तांचीं चित्रां नवीं नवी वळणां घेतालीं. दर दिसा नवो अणभव, नवो अर्थ. तांच्या काळजांत अंकुरता ती प्रत्येक गजाल चित्रांत रेखाटल्या बगर तांकां सूख लागनाशिल्लें.

श्रीकांत कामती बरोबर नाटक पळोवन हांव अशेंच उसरां घरा आयिल्लें. दादा वाट पळेयत हुंबऱ्यार बशिल्ले. म्हाका पळयना फुडें तोंडार हांसो फुल्लो. मात्तय रागार जावंक ना, हाजें म्हाका अजाप दिसलें ना. हालीं अशेंच जाल्लें.

"खंय तूं! निंदान कळय तरी उसरां येतलें. जीव वयर सकयल जालो म्हजो."

"दादा नाटक पळोवया म्हणून श्रीकांत कामतीन म्हळें, ताज्या फ्रेन्डाची स्क्रीप्ट."

"हय गो.... पूण निदान एक फोन तरी करपाचो न्हय. कितली काळजी जाली तुजी."

भितर सरता तेन्ना साडेणव ज्ञावन गेल्लीं.

"जेवया न्हय. पोटाक चुरचुरून भूक लागल्या. हात धुवन रोखडेंच यो. चेंज बींज करपाचे भानगडींत पडूं नाका."

हात धुवन आयलें तेन्ना दादा पानार बशिल्ले. नाटक जातकीर श्रीकांत कामतीगेर जेवन आयिल्लें. जेवणाचो खास बेत श्रीकांत कामतीन दवरिल्लो. आपल्या मित्राच्या नाटकाच्या पयल्या प्रयोगाच्या सेलेब्रेशना खातीर. पूण दादाक कशें सांगतलें. ते म्हजे खातीर राविल्ले. पानार बसलें. पोट भरिल्लें. जेवण गेलें ना.

"हें किदें कांयच जेवंक ना. सदांच काम काम, केन्नाच मेकळें ना. मात्शें आपल्या आरोग्या कडेन लक्ष दी. सामकें भागलां ह्या दिसांनी." दादान म्हळें.

दादाच्या स्वभावान परिवर्तन जाल्लें. आनी म्हज्यांतले बदलय ताणें टिपिल्ले.

"दादा, पूण तुवें जेवून घेवपाचें. म्हजे खातीर किद्याक रावले?"

"तुवेंच म्हजो नियम मोडलो. हांव एकटोंच जेवतालों. उंडी वचना एकलें जेवल्यार अशें सांगून तुवेंच म्हाका संवंय केली. आतां तुजे बगर म्हज्यान एकटें बसून जेवंक नजो. जेवतकीर तुकां चित्रांय दाखोवंक



जाय.''

कुडींत गेलें तेन्ना चित्रांच चित्रां.. मुग्ध, मधूर, हळवीं, तरल चित्रां, तातुंतले तरंग......

तातूंत दाद.... भेदक दोळे, धारदार नाक, कांळो कोट... टाय....

''हो कोण वळखलें?''

''दादा तुमी.... कितले हेंडसम दिसताले एका वेळार.'' दादाच्या तोंडार हांसो फुल्लो. दादा हालीं खूब मेकळेपणान वागताले, उलयताले.

''वंदू हीं सगळीं चित्रां, तुका लागून काडून जालीं. सगळें श्रेय तुका.''

''दादा हांव निमित्ताक कारण जालां. दादा तुवें सामकी सादी, सहज, ओढील्ली ओळय, रंगाचें पिशॉलय चित्र जिवें तट्टटीत करता.''

''एकलेंपणान म्हजी सर्जनशीलता गोठून गेल्ली. वंदू तुवें म्हज्या प्रतिभा शक्तीक जाग हाडली.''

दादांचीं चित्रां कुडभर पडिल्लीं. वण्ट्र्यो कॅन्वासानीं भरिल्ल्यो. रंगच रंग. दनपारच्या वता सारखें रखरखीत... भगभगीत.... आंगार येवपी तीक्ष्ण बाणा सारखे वाकडे तिकडे रंग....

पूण आयुश्यांतलें साफल्य, अर्थ, उद्वेग, कारूण्य, निरागसपण, मनीसपण....

मनशांच्या भावनांच्यो कितल्योश्योच छटा वेगवेगळ्या रंगांच्या छटांतल्यान जिव्यो जाल्ल्यो.

''अप्रतीम..'' आनी कांयच अभिप्राय दिवंक मेळना तांच्या चित्रांक.

चित्रां गूढ, मनाक अंतर्मुख करतालीं. रगांचे कितलेशेच थर, अंत:स्तर, छटा, बारकावे, कल्पनाशक्तीची उत्तूंग भरारी.

कितलींशींच अनाकलनीय गूढ चित्रां. ताच्या मदलीं वळणां. चित्रांय प्रतिकात्मक आसतात. एकाच चित्रांतल्यान वेगवेगळे अर्थ उमट्टात?

''दादा ह्या चित्रांचें आमी प्रदर्शन भरोवया. हांव सगळें ऍरेंज करतां.'' दादा खूश जाले. खोसयेन तांचे दोळे चकचकले. हांव दादांच्या चित्रांचें निरिक्षण करत रावलें. तांच्या अंतर्मनांतल्या सुसंगतीन, विसंगतीन भरिल्ल्या भावनांचें, विचारांचें प्रगटीकरण म्हळ्यार एक एक चित्र.

दादांच्या चित्रांच्या प्रदर्शनाचो भार हांवें उखल्लो आनी चित्रांचें प्रदर्शनय घडोवन हाडलें. प्रदर्शन सोंपलें की दादा रोखडेच परत नवीं चित्रां काडूंक रंगले.

दादाक केन्ना केन्ना दिसतालें आपलीं चित्रां चड प्रतिनिधीक जाल्यांत. सनातनय.. आयचे नवे पिढीचे प्रस्न, विचार आपल्या चित्रांतल्यान व्यक्त करूंक आपूण खंय तरी कमी पडटां.

नवे पिढीचें विश्व आपल्याक परकी. संवादच तुटला नवे पिढीकडेन... दादांक दिसतालें 'हांव' पूल ताका नवे पिढीकडेन जोडपी. आयच्या भुरग्यांविशीं ते खूब विचारताले. दादांचें पर्सनल आयुश्य म्हाका खबर नाशिल्लें. फकत चित्रकलेचेरूच तांचे कडेन उलोवप. चित्रकलेंतलें म्हाका कांयच कळना तरीय उलोवचें पडटालें. केन्ना, केन्ना मुलाखत घेतना प्रस्न विचारतात तशें हांव प्रस्न विचारतालें. म्हज्या बावळटपणाचें म्हाकाच हासूं येतालें. म्हजेविशीं दादान केन्नाच कांयच विचारलें ना. आपल्या बद्दलय सांगलें ना.

पूण कसल्या तरी न्युनगंडांत ते हांव आयलां तेन्ना आसतले. हांवें तांकां न्युनगंडांतल्यान भायर काडले असो अभिमान म्हाका ना. पूण म्हज्या सहवासांत ते फुलताले. चित्रां काडटाले.

कॉलेजांतल्या जीवनाविशीं, साहित्याविशीं, खूब आस्था बाळगूंक लागिल्ले.

म्हजी वाट पळयत ते बसताले. येतगीर प्रस्न विचारले कितलेशेच. एक दीस अशींच ताणीं आपलीं चित्रां दाखयलीं.

''हें ते नवे पिढीचें 'मॉडर्न आर्ट' हांवें काडपाचो यत्न केला. हांव नकळों म्हाका जमल्यात काय कितें?''

चित्र, चित्रांतले रंग, वयर निळ्यो निळ्यो रेशा, रेशांतल्यान मळबाचो आभास, त्रिकोणांत त्रिकोण काडून दोंगराचो भास, पांचवें पांचवें शेत,कितल्योश्योच पांचव्यो छटा, शेताच्यो मेरो, ल्हानशेंच तळें, तळ्याचो आभासय रेशांतल्यानच केल्लो. सुंदर कमळ, कमळांत सुंदर न्यूड चित्रां, दोन मनशांचें मीलन, डोलकाठी सारको देह..

''दादा चित्र सुंदर आसा. पूण दादा तुमचे शैलीन काडिल्लीं चित्रां म्हळ्यार दस्ताऐवज. तुमचे पिढींतली कला आमचे मेरेन पावंक जाय जाल्यार फकत चित्रांच माध्यम..... डायरेक्ट संवाद आनीक कशे करतले? दादा तुमी तुमचेच वाटेन वचात. तुमकां जाय तशींच चित्रां काडात. बरी कलाकृती कालबाह्य कशी जातली? आपल्याक जें व्यक्त करूंक जाय तें जाय त्या माध्यमांतल्यान करूंक जाय. तुमच्या कलेची स्वाभावीक उर्मी आसा, गती आसा, लय आसा. तेच गतीन तुमी चलात. ल्हान तोंडांत व्हड घास हांव घेतां. तुमकां उपदेश करतां अशें समजू नाकात. म्हज्या मनांतली फकत भावनां सांगतां.''

दादा आपलेच तंद्रेंत उलोवंक लागले. आपलेच कडेन उलयल्ल्या सारखें. तातूंत स्वगतय आशिल्लें.... संवादय.

''खरेंच दरएकल्याची स्वाभावीक उर्मी आसता. वेग गती आसता. आंब्याचे बियेंतल्यान माड कसो जातलो? म्हाका हें कळ्ळेंच ना. विचारच करना हांव. ल्हान भुरग्याच्या हुतहुतेपणान चित्र काडलें.'' दादा आपल्याच नादांत उलयताले.

''वंदू मनशाक जेन्ना खूब दुख्ख जाता तेन्ना मनीस तें कशें ना कशें व्यक्त करता.कला आसल्यार कलेंतल्यान आपले वेदनेचो अविश्कार घडयता. सुखय अफाट आसलें की सुखाचोय अविश्कार घडयता. हांव पयल्या प्रकारांतलो.

काळजाक, बुध्दीक वेदनां भेरायता तेन्ना हांव चित्रांतल्यान व्यक्त करपाचो यत्न करतां. हांव खूब भुरगेपणांत चित्र काडूंक लागलों.





एक घटना... ते घटनेचो म्हज्या मनार इतलो खोल परिणाम जालो की तें असह्य दुख्ख सोसूंक नज़ जावन हांवें चित्र काडलें.

तें दुख्ख म्हळ्यार म्हज्या बापायच्या मरणाचें दुख्ख. बापायन गळफास लावन आत्महत्या केल्ली. ती घटना सामकी दुख्ख देणी. बापायच्या मरणा परसय, बापूय मरतगीर म्हजो आजो बापायक नाका नाका तें उलयतालो.

घरजांवय म्हणून आज्यागेर रावप बापायक पटनाशिल्लें. आईचो सदांच तोरो. म्हज्या आईचें आनी बापायचें केन्नाच एकामेकाकडेन पटनाशिल्लें. केन्नाय तीं बरोबर बसून उलयिल्लीं, हाशिल्लीं हांवें पळोवंक ना. हांव तांचो एकटोच चलो.



"तूं म्हजे बरोबर यो. हांव तुज्या बापायगेर आश्रितां सारखो रावचोना." झगडीं जातालीं तेन्ना बाबा आईक सांगतालो.

"म्हाका ऐश्वर्याची संवंय. तुजे बरोबर येवप म्हाका शक्य ना." आई परतें सांगताली.

अशे तांचे संवाद म्हज्या कानार पडटाले.

"कपल फुटक्याकडेन तूं लग्न जांव नाका म्हणून हांवें तुकां सांगिल्लें. हांगा रावल्यार तुजी आनी भुरग्याची जबाबदारी म्हजी. घर सोडून गेल्यार तुकां कांयच मेळचेंना. तुका मदत करप म्हाका शक्य जांवचें ना." आज्यान आईक सांगलें.

मनाविरूध्द आईन म्हज्या बाबाकडेन लग्न केलां म्हणून आज्याक राग. म्हजो बाबाय सुंदर चित्रां काडटालो.

"भिकारसाणीचे उद्योग करता. भुरग्याक, बायलेक पोसूंक नजो आनी सपनां व्हड चित्रकाराचीं. चित्रां काडून पोट भरता?" अशें आजो आईक बाबा बद्दल म्हण्टालो.

ल्हव ल्हव आईचें ब्रेन वॉशींग आज्यान केलें. आई-बाबाची झगडीं... म्हजी आई खूब बरी आशिल्ली आनी बाबाय.... पूण तांचें दैव...

एक दीस आई-बाबाची खूब झगडीं जालीं. तेच रातीं बाबान जीव दिलो. झगडीं तांचीं सदांच जातालीं. अशें कितें कारण जालें की बाबाक जीव दिवचो पडलो?

म्हज्या बाबाच्या मरणाचें दुख्ख आज्याक नाशिल्लें.

"सुंठी वाचून खोकलो गेलो.... जल्मभर त्या मनशाकडेन बांदून रावचें पडटलें आशिल्लें." आज्यान म्हळें तें म्हज्या कानार पडलें.

मनशां कितलीं निर्दयी आसतात. म्हजो आजो म्हजेर खूब प्रेम करतालो. पूण म्हजो बाबा ताका दोळ्यांमुखार नाका आशिल्लो. आज्याच्या काळजान प्रेम आनी द्वेश एकाच बरोबर कशे नांदूंक शकतात. म्हाका प्रस्न पडटालो. पूण जीवन तशेंच आसता.

म्हज्या भुरगेपणांतल्यो यादी तश्यो....

आई, बाबाक विसरूंक शकली ना. भग्न भकास बसून रावताली. आई खूब हळवी. बाबांच्या यादींनी जगताली. तिणें दुसरें लग्न केलें ना. आज्याच्या पयशांखातीर कोणय तिजेकडेन लग्न जातलो आसलो. आज्यान तिका भुरगोय हाडिल्लो. पूण आईन ताका ठाम नकार दिलो. एकटीच खंय तरी नदर लावन बशिल्ली म्हजी आई म्हाका अजुनय याद आसा. तिज्या दोळ्यांत हांवें दुख्खच पळयलां. विरह वेदनां पळयल्या. ताटा-तुटीचें दुख्ख पळयलां. आई घरांत रावताली पूण घरांत नाशिल्ल्या सारखी सामकी विरक्त. दोळे धांपून ती देवाचें भजन करत बसताली.

घरांत सदांच धूप, उजवात्यो लावप. देवाचे कुडींत दोळे धांपून बसप. म्हाका खूब एकटें एकटें दिसतालें. भंय दिसतालो. मनांतलें सांगपाचें आसतालें. हांव आईक सांगूंक वतालो तेन्ना ती देवाचें नांव घेत जप माळ ओडीत बसताली... फकत देवाचें नांव घेत बसताली.

मनांतली भावनां कोणाक सांगूंक जमप ना..... उदास भुरगेंपण..

खुपदां बाबांची याद येताली. आयस्क्रीम बाबाक खूब आवडटालें आनी म्हाकांय. बाबाची आनी म्हजी आवड एक शी. खुबशे गूण हांवेन तांगेले उखलिल्ले. चित्रकलाय.... बाबा गेलो आनी हांव सामको एकटो एकटो जालों. बाबा आसतनां आई खोशयेन आसताली. म्हजे खूब लाड करताली. बाबांच्या मरणा उपरांत सुरवातीच्या दिसांनी आई खूब याद काडटाली बाबांची. पूण फुडें फुडें आई सामकी स्तब्ध शांत जाली. देव पुजेंत तल्लीन, दुख्ख सोसूंक, पेलूंक हो नवो मार्ग



तेणें सोदून काडिल्लो. नवी वाट अध्यात्माची....

आपल्याक एक भुरगो आसा, ताका आपल्या मायेची प्रेमाची गरज आसा हें ती विसरली काय सोयिस्कर विसरपाचो ती यत्न करताली तें हांव नकळों. हांवें तिका केन्ना विचारूंक ना.

तिजे-म्हज्या मदलो संवादच सोंपलो. आई म्हणून उलो मारपाक सोदतालों तेन्ना ती लागीं नासतालीच.

सुधीरजी तिजे गुरू. तांचे ग्रंथ, कॅसेट्स आयकून तिका दिसलें की ह्याच मार्गाचेर चलत रावल्यार आपल्याक आपल्या दुख्खाचो विसर पडटलो.

ध्यान.... चिंतन....

मनशाक मन रमोवंक किदें तरी जाय. आईकडेन कलेचें माध्यम नाशिल्लें. दुख्ख विसरूंक, मन रमोवंक ती अध्यात्माचे वाटेन चलूंक लागली.

सुधीरजींचेर म्हजे आईन एक लेखय बरयिल्लो. सुधिरजींच्या तत्वज्ञानाविशयीं खूब कितें तिणें तातूंत बरयिल्लें. दुख्ख कशें पयस दवरचें..... दुख्खाकडेन स्थितप्रज्ञा सारखें कशें पळोवचें... आपल्या दुख्खाकडेन दुसऱ्याचेंच दुख्ख कशें पळेल्यार दुख्खाची तिव्रता सोसूंक त्रास जायना. अशे विचार लेखांत बरयिल्ले.

आईन आपली वाट सोदिल्ली. वेगळ्या अध्यात्माची. तिजे वाटेर हांव खंयच नाशिल्लों. कशें आटलें आईचें प्रेम खिणांत असो प्रस्न म्हज्या भुरग्या मनाक पडटालो. उत्तर मेळनाशिल्लें. मनांतली अस्वस्थताय, राग, एकलेंपण चित्रांत ओतपाची संवय लागली. अभ्यास आनी चित्रां.

चित्रकला म्हज्या रक्तांत आशिल्ली. बापायकडल्यान म्हाका मेळिल्ली. पूण ल्हानपणांत बापायचो मानभंग सतत हांवें पळयिल्लो.

आजो बाबाक टोमणें मारतालो. हांवें थांरायलें चित्रां काडप छंद म्हणून. पूण शिकप... नांव, पयशे, मान सगळें मेळोवप. आज्यागेर रावप ना. मॅट्रीक जालों... बारावी, बी.ए. शिकतनां हांव ट्युशन्स दितालों. आपल्या पांयार उबो रावंक जाय हेंच सपन.

शिक्षण, मान, सन्मान, पयसो, घरदार सगळें मेळ्ळें. पूण म्हजें एकटेंपण वाडत गेलें. मनांत एकटेपणाचें व्हड वारूळ तयार जालें.

एकटेपणांत मन रमूंक लागलें. एकलेपणाची संवंय जाल्ली. लोनलीनेस इज माय वे ऑफ लायफ केन्ना जालें तें म्हाकाच कळ्ळें ना. म्हज्या काळजांतलें एकटेंपण कोणाकडेन वाटचेंशें केन्नाच दिसलेंना. एकलेंपण हांवें मनांत जपलें. म्हज्या विक्षीप्त एकलकोंड्या स्वभावाखातीर कोण म्हज्या लागीं आयलीं ना. खंयचेंय चली प्रेमांत पडलें ना. त्या उपरांत जज्ज जातकीर धाक, दरारो... म्हजो स्वभाव.... चड चड आत्मकेंद्री जायत गेलो. हांव चड चड विक्षीप्त एकलकोंडो जालों. म्हज्या जिवनांत एक-दोन चलयांकडेन म्हजी ओळख जाल्ली. मैत्रीय मात्शी जाल्ली. पूण तांच्या सहवासांत हांव घुस्मट्टालों.




बिनधास्त, आक्रमक, डिमांडींग, पझेसीव अशी रोहिणी आनी अप्रतीम सुंदर वासंती. वासंतीचें सौदर्य अजून म्हज्या दोळ्यां मुखार आसा. धुंसर म्होवें, म्होवें रूप. त्याच रूपाचें हें चित्र.''

वण्टीवेलें सुंदर चित्र ताणी दाखयलें.

''दादा म्हाका दिसतालें ही तुमची घरकान्न.''

''हांवें लग्न करूंना. लग्न करचेंशें म्हाका केन्नाच दिसूंक ना. लग्न केल्लें जाल्यार चार-चौगां सारखो हांवूंय संवसार करतलों आशिल्लों. भुरगीं-बाळां जातलीं आशिल्लीं. पूण लग्न हांवें केलें ना. म्हज्या स्वभावाक लग्न मानवचें नाशिल्लें. लग्ना खातीर जे जे नॉर्मल गूण जाय ते म्हजे कडेन नात. सोशीकपण नाशिल्लें. सहवासांत म्हजें मन रमनाशिल्लें. जबाबदारीचें ओजें तकलेर घेवपाची वृत्तीय नाशिल्ली. एडजस्ट करून बायले बरोबर दीस काडपी मनीस हांव न्हय. लग्न केल्लें जाल्यार कोणाक तरी त्रासांत घालतलों आशिल्लों.

भुरगेपणांत आई-बाबाचें फशिल्लें लग्न हांवें पळयिल्लें. लग्न ह्या शब्दाविशीं म्हज्या मनांत आदर, प्रेम, ओड कांयच नाशिल्लें. म्हजें शिकून जातकीर आईय जग सोडून गेली. म्हजी चिंता करपी, लग्न कर म्हणून फाटल्यान लागपी कोण नाशिल्लो. हांव मुक्त, स्वतंत्र... अशीच एक दीस ललिताची म्हजी गांठ पडली. ललिता सुंदर न्हय.



पूण तिज्या सगळ्या पर्सनलिटींत आत्मविश्वास भरिल्लो. सदांच नव्या, नव्या फॅशनिचे कपडे घालून ती येताली. तिच्या खबऱ्यांत म्हजें मन रमतालें. ती कायद्याची विद्यार्थींनी. जज्ज जावचे पयलीं कांय तेंप विझिटींग लेक्चरर म्हणून लॉ कॉलेजींत हांव वतालों तेन्ना ती म्हजी स्टूडंट.

कॅन्टीनार च्या घेतना ती केन्ना केन्ना मेळटाली. सदांच बिनधास्त.. 'सराक उलोवंक नाका'.हें खबर आसूनय ती सदांच म्हाका हटकीताली. आपलें कप घेवन म्हज्याफुडें येवन बसप.

'हाय सर' म्हणून सुरू करून साद्या विशयांत खबऱ्यो सुरू करतां करतां आपली मतांच खरीं अशीं आपलीं मतां मांडप. कसलोय विशय आसूं दी. ताका इंटरेस्ट. प्रत्येक विशयांत रस.

आपलीं मतां. आपले मुद्दे पटूंकच जाय, आयकूंकच जाय.... विलक्षण डोमिनंट पर्सनेलीटी. खूब वाद जाताले. खूब चर्चा...आपलो मुद्दो पटूंकच जाय अशे तरेन तें मत मांडटालें. ताज्या सहवासांत म्हजें मन रमतालें.

दादान पोज घेतली, दादा कांयच उलोवंक ना.

''दादा.... मागीर तुवें ताजे कडेन लग्न किद्या केलें ना?''

''लग्न?'' दादा हांसलो.

''लग्न केल्लें जाल्यार लग्न टिकचें नाशिल्लें. लग्नाक जाय ते गूण ताजे कडेन आनी म्हजेकडेनय नाशिल्ले. ललिताचीं सगळीं मतां सामकीं टोकाचीं. केन्नाच सुवर्णमध्य गांठप ताका जमलें ना. आपूण म्हण्टा तेंच खरें. हांव सांगतां तूं आयक. असो स्वभाव...

ललिताकडेन मैत्री वाडटां वाडटां म्हज्या लक्षांत आयलें. ललिताचें आनी म्हजें जमचें ना. मनांत कवळी आंकरी फुलताली. ललिता म्हाका आवडटालें. पूण ललिता सारकी बायल सांबाळप निदान म्हाका तरी शक्य नाशिल्लें. सौदर्याचो, बुध्दीचो मोह आनी ताज्या स्वभावाचें दडपण.....

म्हाका जाय ती म्हजी प्रेयसी बायल म्हज्या लागीं आसूंक जाय, ती फकत म्हजी आसूंक जाय, तिजेर म्हजो पूर्ण अधिकार आसूंक जाय. ती फकत म्हजीच. एकटेपणाचो भंय ल्हानपणांतल्यान मनांत.... ललिताच्या सहवासांत म्हजें एकलेंपण हांव विसरतालों. हांव ललिता मदीं गुंतत वतालों. ताजेंच येवजितालों. अशेच एके उदास सांज वेळेर.. तिजी याद जाली... मनमेकळो हांसो, बिनधास्त वागणें... हांवें हें चित्र काडलें.

ल्हानपणांतल्यान हांव खूब हळवो, अस्थीर, एकलोच.... ललिताच्या सहवासांत फुलतालों... पूण ललिता?... ललिता सामकें प्रॅक्टीकल, व्यवहारी. तें म्हाका मित्र मानतालें. सर आनी मित्र.... ताज्या काळजांत म्हजेविशीं कसलीच भावना नाशिल्ली. हांवें ताका लग्नाविशीं विचारूंक ना... विचारून ताणें ना म्हणिल्लें जाल्यार म्हज्या जिवाक लागतलें आशिल्लें.

तें खूब आवडूनय ताका प्रपोज करपाचो धीर जालो ना... दोन कारणां खातीर... खंयतरी मनांक दिसतालें ललिताचें आनी म्हजें जमचेंना... आमचें लग्न तुट्टलें. म्हज्या काळजांतलें एकलेपण आपल्या आमुरपिक्या, ल्हव, मोरपिशी स्वभावान पुसून वडोवपी म्हजे कल्पनेंतली परी ती न्हय...

प्रेम, माया, आपलेंपण ह्या गुणांचो संगम आशिल्ले कोणातरी अज्ञात परिच्या शोधांत म्हजें मन त्या वेळार आशिल्लें... तो वेळ गेलो... कामांत घुस्पलों... जज्ज जालों... ललिताय आपले वाटेन गेलें. सोयरीको खूब आयल्यो. पूण लग्न करचेंशें दिसलें ना. काळजांतली रिकामी जागा रिकामीच उरली. वय वाडलें... रिटायर जालों. तेन्ना दीस खावंक येवंक लागले... परत एकटेंपण सोदत आयलें.

मनांतलें एकटेंपण मनांतच...

केन्नाच कोणाक सांगूंक ना....

वंदू हें सगळें आज तुकां सांगलें....

दादान काणी सांगिल्ली.... वेगळीच काणी.... श्रीकांत कामतीक ही काणी सांगल्यार सुंदर कलाकृतीचें रूप हे काणयेक दितलो.... विशय खूप सुंदर... नात्यांची वीण.....

श्रीकांताक ही कथा सांगप... कथा.. हो तर कादंबरीचो विषय... दादा... दादाची आई, बाबा, आजो.... चित्रकार दादा.

''दादा, रात जाली सकाळीं उठूंक जाय.'' हांवें म्हळें.

''वंदू''

दादाचो आवाज क्षीण जाल्लो.... मोवय....

''वंदू वय वाडत आसा.... हांव जाण्टो जातां.... एकलेंपणाचें भंय दिसूंक लागलां..... एकलेपणाचो हो प्रवास खूप भुरगेपणांत सुरू जाल्लो. आतां जीवनाची सांज जाल्या..... सांज जाता तशी पोरसांतल्यो सावळ्योय मनाक भेश्टायतात... मन उदास जाता... दुख्ख सोसपाकय बळ जाय पडटा... उत्साहान उमेदीन कांय तेप चित्रां काडलीं. सगळें मन चित्रांनी ओतलें.... पूण आतां ती उमेद उरूंक ना....''

दादाक खूप उलवपाचें आशिल्लें. खूप कितें सांगपाचें आशिल्लें. मनाक ओतो आयिल्लो. पूण म्हजे दोळे झेमताले. सगळो दीस धांवपळींत.

''दादा फाल्यां सकाळीं उठूंक जाय.''

''जाणां हांव न्हिद तूं.''

दादाचो निरोप घेवन कुडींत आयलें तेन्ना मनांत त्या वेळार खंयची भावना आशिल्ली म्हज्यान सांगूंक नजो.

मनशाचो स्वभाव, मनीस घडूंक कितलींशींच कारणां आसतात. आमी मात मनशाक दोश दिवन मेकळीं जातात.

त्या वेळार बाबांची खूब याद जाली. प्रत्येकाचीं दुख्खां वेगळीं. जगांत मनशाक कितलीं दुख्खां आसतात, खंयचीं दुख्खां आसतात देवाक ख़बर. रंगा सारख्यो दुख्खांच्योय छटा आसतल्यो.

'काणी बरोवन जाली की एक प्रोग्राम सोंपता. एक काणी म्हळ्यार एक कार्यक्रम.' श्रीकांत कामतीन म्हणिल्लें.

काणी बरोवन ज़ाली की आपणेच रेखाटिल्लीं पात्रां आपलो निरोप घेवन पयस वतात. तांच्या सुख दुख्खांचो विसर पडटा. पूण प्रत्यक्ष जिवनांत मात....



जिवन म्हळ्यार चकवो... मृगजळ... सदांच नवें.... नवो अर्थ.. नवीं पात्रां... नवो आशय.... नवी रचना..

विचारांचे तंद्रेंत केन्ना तरी दोळो लागलो.

***

सकाळीं उठून वतालें तेन्ना दादा उठील्ले नासताले. सांजचे ते वाट पळयत बसताले. ब्रेकफास्ट हांव एकटेंच घेतालें. पूण त्या दिसा दादा पेपर वाचीत बशिल्ले.

"वंदू यो, सखारामाक आज मसालेदार ऑम्लेट करूंक लायलां. तुज्या आवडीचें."

"दादा सखारामाक त्रास."

"त्रास कसले. आवडीचें करून वाडूंक ताकाय आवडटा."

कदेलार बसलें तेन्ना दादाक म्हाका ऑम्लेट आवडटा हें कशें कळ्ळें... म्हज्या आवडी-निवडी कडेन दादाचें इतलें लक्ष कशें....

"वंदू आज हांवें नाटकाची टिकीट हाडल्या. खूब तेंप बरें नाटक पळोवंक ना. एकटो वचूंक वाज येता. आज नाटक पळोवया. तूं बेगीन घरा यो."

"दादा म्हाका येवंक जांवचें ना."

श्रीकांत कामती बरोबर त्याच नाटकाक वचपाची हांवें टिकीट काडिल्ली. पूण तें हांव दादाक कशें सांगतलें.

"वंदू, ना म्हणू नाका. खूप तेंपान नाटकाक वचपाची इत्सा जाल्या."

"बरें येवपाचो प्रयत्न करतां."

कॉलेजींत वचूंक भायर सरलें तेन्ना मनांत आयलें किद्या खातीर बदल जावूं नी. बदल घडिल्लो. दादा चडच मेकळेपणान वागताले. अंतरमनान आपलेपणानय वागतात असी विचार मनांत आयलो.

सगळो दीस दादांची याद येवंक ना. सांज जातकीर याद आयली. नाटक आसा. श्रीकांताबरोबर वचपाचें आशिल्लें पूण तरी दादा रावता. पयलेच फावट नाटकाक वचपाची इत्सा जाल्या. पूण मनांतलें श्रीकांताक कशें सांगतलें. श्रीकांताच्या सहवासाची ओढ चड आशिल्ली. नाटक पळोवन परतलें तेन्ना दादा दारांतच बशिल्ले. एकटेच.

"हांवें तुजी वाट पळयली..."

"दादा..."

ताका कशें सांगचें तें कळ्ळें ना.

"कांय नजो. तूं आनी हांव दुसरे फावट नाटक पळोवया."

दादान मात्तूय देफेद दाखोवंक ना. रागार जावंक ना. म्हाकांच लजेल्लें सारखें जालें. ताजी ल्हानशीच इत्सा, ल्हानशेंच सूख, म्हज्या बरोबर नाटक पळोवपाचें. तें सूख दादाक पळोवंक दिवंक ना. वायट दिसलें. नकळत हांवें दादाक दुखयल्लें.अशेच दीस वताले.

श्रीकांत कामतीचें आनी म्हजें नातें सामकें दृढ जातालें. श्रीकांत कामतीन नवो नाटकाचो विशय बरोवंक घेतिल्लो. ताजो पयलोच प्रयोग. हांवेंच ताका सांगिल्लें. 'कथा ह्या एकाच प्रकारांत घुस्पून रावूंक नाकात.' ताजी एक सुंदर कथा.... नाटकाचें बीं ते कथेंत आशिल्लें. 'श्रीकांत हे कथेचें बीं घेवन सुंदर नाटक जातलें.'

"म्हाका जमतलें शें दिसना. नाटक बरयतना घटनांचो आदार घेंवचो पडटा. एक अंक.... एक एक प्रवेश... खंयचे घटने उपरांत पडदो उडोवप. स्टेज, ध्वनी, उजवाड, एन्ट्रीज, एक्झीट्स अशें सगळें लक्षांत दवरून बरोवंचे पडटा. मनांतले कथानक संवादांत घालून सांगचे पडटा. संवादय सुंदर, ल्हान, सुटसुटीत, भेदक जाय. संवादाक स्थळ, काळ हातूंत बांदून घालचें पडटा.

प्रेक्षकाच्या काळजामेरेन पावंक जाय. ताणी क्षणांत दाद दिवंक जाय. अशें सगळें भान दवरचें पडटा. हें इन्द्र धोणू म्हाका पेलतलें?

"नाटकाक किदें जाय तें सगळें तूं जाणा. कितल्या सहज तुवें सांगलें फॉर्मांत, कथेच्या आशयाक, विशयाक न्याय मेळटलो. कितलींशींच पात्रां रंगोवंक मेळटलीं. एक आव्हान..."

सामको सहज आवेगान ताणें हात धरलो.... स्वभावीक ओडीन.

"तूं नाशिल्लें जाल्यार? वंदू, रमाकडेन अश्याच सहवासाची हांवें आशा केल्ली. पूण रमा सदांच रांदचे कुडींत. केन्ना केन्ना म्हाका दिसता वंदू. फकत घर सांबाळटा, वंश वृक्ष वाडयता ती बायल? बायल ही सहजिवनाची सांगातीण आसूंक जाय. मनांत विचार आसले, मनांतलें सांगूंक जाय, तर तें सांगूंक मेळूंक जाय. अशें केन्नाच घडना. रमाक सांगूंक मेळना आनी तूं लागीं नासता."

श्रीकांत खूब भावूक हळवो जाल्लो. ताज्या हातार हांवें हात दवरलो. एकटेंपण हें ल्हानल्हान गजालींतय मनांत कोरांदता? मनशाची फाट सोडना? थोडो वेळ श्रीकांत कांय उलोवंक ना.

"नाटक बरोवंक घेतां. तुजी म्हाका मदत जाय. डायरेक्शनाचे दृश्टीन नाटक कशें बरोवंक जाय. कितें बदल घडोवंक जाय ते सांग."

"तुकां कशें सुचता तशें बरय. पयलो प्रवेश वाचून दाखय."

"आनी एक नाटक तुवेन बरोवन घेवंक जाय. दोळे धांपून हांव संवाद डिक्टेशन घालतलों. तुवें बरोवन घेवंक जाय."

"इतलेंच. हांव घेतां डिक्टेशन."

तिनसांज उलगून गेल्ली. सांज काळखांत शेण्टाली. झाडां, रस्तो काळखांत शेणिल्ल्या सारखे जाल्ले. श्रीकांतान अकस्मात लागीं ओडलें. घट्ट वेंग मारली.

"वंदू तूं म्हाकां सोडूं नाका. शपत आसा तुका."

सार्दीच अस्फूट उतरां. त्या स्पर्शांत आसक्ती नाशिल्ली. फकत आधाराची मागणी. श्रीकांत आधार सोदतालो.

घरा पावलें तेन्ना सखारामान सांगलें, "बाय, दादा बरो ना. खूब जोर आयला. दोतोराक हाडलो. दोतोरान आयजचे दीस क्रोसीन दी म्हूण सांगलां.



जोर कसोच देवना. घडयो घाल्यो कितल्यो. आतांच मात्सो शांत न्हिदला.''

दादा कुडींत शांत न्हिदिल्लो. श्रीकांत कामतीची याद जाली. अकस्मात मन उदास, एकाकी जालें. नकळत श्वासाची गती वाडली. हें किर्ते जाता म्हजें? आयुश्य वेगळेच वाटेन वता? श्रीकांत कामती विशीं मनांत वेगळेंच किदेंतरी अंकुरता. दादा जोरांत उलो मारूंक लागले.

नां. एकलेंपण आपल्याचेर जबरदस्तीन ओडून जगत आयिल्लो. कित्याक केलें ताणें अशें?

''वंदू, वंदू...''

''बाय सांजेच्यान फकत तुकांच उलो मारतात.''

''क्रोसीन हाड आनी दादा खातीर पेज कर.''

सखाराम भायर गेलो तेन्ना मनाची अवस्था विचीत्र जाल्ली. दादा एकसारखो उलो मारतालो. हात लावन पळयलो आंग जोरान खतखतत्तालें. भ्रमांत आशिल्लो. पूण तोंडार म्हजेंच नांव. दादाक कोण ना. एकलेंपण आपल्याचेर जबरदस्तीन ओडून जगत आयलो. कित्याक केलें ताणें अशें?

श्रीकांत कामतीक बायल आसूनय मनांतलें एकलेंपण सतायता. आनी हांव....?

म्हज्या काळजांतली अनामीक भावना म्हाकांच अनवळखी जाल्या. हांवच म्हाका अनवळखी जालां.

दादाकडेन बसून राविल्लें. तशेच स्थितींत कितलोसोच वेळ. थोड्या वेळान दादा शांत जाले. आंग घामान भरिल्लें. जोर देविल्लो.

''बाय पेज हाडल्या?''

''दादा... पेज''

''नाका''

''हट्टीपणां करूं नाकात. इल्लीशी घेयात. दोन कुलेरां.... बरें दिस्तलें.''

''बाय दनपारांय कांयच घेवंक ना.''

''निवोळ तरी...''

इल्लोसो निवोळ घेतलो. कितलो वेळ दादा म्हऱ्यांत बशिल्लें.

''वंदू हांगा यो. अशें लागीं बस.''

जोरान तांचो स्वभाव सामको हळवो जाल्लो. काय होच दादांचो मूळ स्वभाव. कणखरपणाचो आव हाडून ते वागताले. दादाक थोडे वेळान दोळो लागलो.

कुडीच्या भायर चित्रांच्या हॉलांत हांव आड पडलें. ''दादाक जोर आयल्यार? म्हजी गरज लागल्यार कोंण आसा दादाचो? ..... जाण्टेपणांत निदान बायल-भुरगीं आसतात. नाका जाल्यान कर्तव्य म्हणून जबाबदारी सांबाळतात. प्रत्येक मनीस एकलोच आसलो तरी कोणाचो तरी धीर आसता.... कोण तरी

(आ)पलो आसा! ह्या धिरानच थाकाय मेळटा. पूण दादाक कोणच ना... (क)ोणच ना.''

दादांच्या विचारांत मन शेणून गेलें... बाबांच्याय.. रमेशभाईच्या (घ)रांतल्यान परत आयिल्ल्या आईच्या... श्रीकांत कामतीचो संसार तर दृष्ट (ल)ागपासारको... आवय-बापूय... गुणी सुंदर बायल.... भुरगीं पूण ताज्याच (ज)िवनांत पोकळी...

विचारांचे तंद्रेंत केन्ना न्हीद लागली कळूंक ना... गाढ.. अनवळखी (न)ूड.. तकलेमुळांत उशेंय ना... कणिल्ल्या सारखी जाली.. दोळे उगडले... (प)ायाकडेन कोण तरी बसला.. उटून बसलें... दादा बसल्यात... एकसारके (प)ळयत.

''दादा..''

दादा अशे येवन पायांकडेन कित्याक बशिल्ले. एकसारके पळयत... दादाक कांयच विचारूंक धीर जालो ना.

''दादा..''

दादा उठून आपले कुडींत चलत रावले. दादाच्या स्वभावांत बदल जाल्लोच! भ्रमांत ते म्हजेंच नांव घेताले. जे नदरेन ते आतां म्हाका पळयताले ते नदरेंत कितें आसा? प्रेम... माया.. काय?

कसले विचार करतां हांव? दादाचें वय जालां. तातूंत जोर... एकलेंपण? कांय खीण गेलो..

पूण मन स्वस्थ जायना.. विचार थारनांत... दादांच्या मनांत म्हजे विशीं भावना..?

दादांक विचारूंक जाय?

नाका ही वेळ योग्य न्ही.

रातभर दोळ्यांक दोळो लागूंक ना. कितें तरी वेगळें घडटा म्हज्या आयुश्यांत. अनवळखी... वेगळें ...धक्कादायक.

सकाळ जाली...

***

सकाळीं दादाकडेन वतनां कितें तरी वेगळेंच दिसतालें दादाची नदर बदल्ल्या? मनांत कितें आसा?

''वंदू, आज तूं कॉलेजींत वचू नाका.''

कांयच उलोवंक जमलें ना. उलवपाची मनस्थीती नाशिल्ली-

दादा शांत कॉटीचेर पडून आशिल्ले.. कॉटीवेल्यान उठूंक ना... आज जोर नाशिल्लो. प्रेशर वाडलां म्हूण दोतोर येवन तपासून गेलो.

''टेन्शन घेवं नाकात.. प्रसन्न रावात.'' दोतोरान सल्लो दिलो.

दनपरां घरा भायर पडतना मन गोंदळिल्लें... त्या दिसानी.. दादाक एकलेपण दिसलां.. कोणाचो तरी आदार सोदूंक ते तशे बसून राविल्ले अशें समजायत रावलें...

श्रीकांत कामत मेळटालो... ताज्या घरांतल्या स्टडीरूमांत ताजें डिक्टेशन घेवप... ताका सुचवण्यो करप... नाटक पूर्ण जायत आयिल्लें.

एक नवी कलाकृती जल्म घेताली... हांव मात मनांत अस्वस्थ... दादाचें त्या दिसा कुडींत येवन बसप... ताजें वागणें.... ताजी म्हजे विशीं ओड वाडत गेल्ली. म्हाका घरा येवंक वेळ जालो जाल्यार ते अस्वस्थ जाताले. पोरसांत एकसारकें पासयो मारताले. ताणीं कांयच उलोवन दाखोवंक ना.. पूण...

हें सगळें श्रीकांत कामतीक सांगप म्हाका जमूंक ना... खरेंच मनीस एकलोच आसता.. प्रयत्न केल्यारय आपल्या मनांतली भावना 'शॅर' करूंक जमना...

निमाण्या प्रयोगाखातीर श्रीकांत अडिल्लो.

श्रीकांताक आतां हांव सावळी सारखें फाटल्यान जाय आशिल्लें... नातें ताजे म्हजे मर्दीं फुलिल्लें.

...एक सहजिवन...

''वंदू तूं म्हाका जाय... सामकें म्हजें म्हणून. रमाचो अधिकार आसतलोच-बायल म्हणून खंयच हांव कर्तव्याक कांयच कमी करचो ना. पूण तूं म्हाका जाय. रमाकडेनय हांव उलयलां...''

नेमकें कितें सांगूंक नजो. पूण रमानय मान्य केलां.. आपल्या घोवाक दुसऱ्या बायलेकडेन वाटूंक बायलो तयार जायनांत.. पूण रमा समंजस.. आपलो हक्क आबाधीत उरतलो. आपल्याक कांयच कमी ना... वंदू नवऱ्याचें इतलेंच नातें... रमाची मानसीकता म्हाका केन्नाच कळली ना.

श्रीकांताच्या घरा वतनां म्हज्या मनार विचीत्र ताण आशिल्लो. पूण रमान वातवरण खेळीमेळीचें दवरलें....

''हाणी सांगलें म्हाका तुज्या बद्दल... लेखकाक एक मैत्रीण जाय... बायल, गृहीणी आसता तेन्ना जायच पडटा.''

रमा मनांतल्यान उलयताली काय काळजांतल्यान? त्यावेळार तें कळप म्हत्वाचें न्हय....

श्रीकांत आनी म्हजें नातें म्हत्वाचें.....

घरा आयलें तेन्ना पयल्याच फावट म्हाका आईची खूप याद जाली. ''वेळ येतकीर सांगतां म्हज्या आयुश्यांत नवें कितें तरी घडटालें.'' तिणें म्हणिल्लें...

दर मनशाच्या आयुश्यांत नवें किदें तरी घडटा. तेन्ना तो मनीस एकटोच आसता... आज श्रीकांत म्हजेर उत्कट प्रेम करतात पूण तरीय त्या वळणाचेर हांव एकटेंच आसां.... अनवळखी एकटेंपण.. अनाकलनीय ओढ... जीवनांतलो निर्णय हांवें अकस्मात घेतिल्लो. बाबाक, आईक कोणाक सांगूंक ना... तांच्या आदाराच्यो प्रेमाच्यो कुबड्यो पयस वडोवन म्हज्याय नकळत... म्हज्या अंतर्मनान हो निर्णय घेतिल्लो.... श्रीकांत कामतीविशीं आईबाबाक सांगूंक जाय.. दादांकय...

दादांक कशें सांगप? मनांत 'येसाय' मारतालें.

''दादा...''



"किते...?"

कांय खीण कशें सांगप हो विचार करपानच गेले.

"श्रीकांत कामतिवीशीं हांव खुपदां सांगता."

"                "

"ताणें आनी हांवें एकठांय रावपाचें थारायलां."

दादान अजापान म्हजे कडेन पळयलें - एक उतरय उलोवंक ना.

"आमची दोगांचीय मैत्री जाल्या.... आवडी निवडी जुळटात... सहवासय आवडटा... तो म्हजेबगर... हांव ताजेबगर जगूंक शकचें ना अशें आमकां दिसता."

"वंदू तुवें तुज्या आयुश्याचो विचार केला? समाजाचो?ताज्या बायल-भुरग्यांचो?"

"दादा ताजें घर, संवसार मोडपाचो म्हाका ना... हांव ताजी फकत मैत्रीण.. आनी समाज समाज म्हळ्यार कोण दादा? समाजाक खंय आसता पर्वा तुमच्या सुखा दुख्खाची."

"बायल-दादल्याची अशी मैत्री समाजाक मान्य नासताच... मैत्रीय आसली, सहवास आवडलो तरीय लागीं येतना बायल-घोवाचें नातें जायच. त्याच नात्याक समाजान मान्य केलां. संस्काराचें पावित्र्य आसता... फुडें फुडें खूप सोसचें पडटलें तुका हे मैत्री खातीर, ह्या संबंदा खातीर."

"दादा श्रीकांताचेर म्हजें प्रेम.... उत्कट प्रेम आसा... खंयच्च्याय नियमाच्या बंदनांत प्रेम टिकना, वाढना, फुलनाय.... श्रीकांत रमाचोच घरकार.. ताजें आनी रमाचें नातें म्हाका मान्य आसा... ताजे कडेन अधिकाराचे भावनेन हांव पळयना. मालकी हक्काच्याय भावनेन पळयना. मागीर प्रश्न खंय येता?"

"सत्याकडच्यान तूं पयस धांवता.... परिस्थिती नाकारून वस्तुस्थितीकडेन दुर्लक्ष करून तूं पयस धावता... तुकां श्रीकांत जाय पूण तो घरकार म्हूण केन्नाच मेळचो ना हें तूं जाणा... द्विधा मनस्थितींत तुवें आनी ताणेंय फकत एक वाट सोदल्या.... एकठांय रावपाची. ती वाट तुमकां खंय व्हरतली काळच थारायतलो..."

कांय खीण दादा वोग्गी रावलो.

"वंदू तूं अजून खूप ल्हान आसा.... भुरगें आसा... ह्या वेळार मनीस ताकतिकेन निर्णय घेता... परिणामाची पर्वाय करना... विचारय... जीवन इतलें सोपें ना.."

"दादा म्हाका तुमचें पटना... आज काळ बदल्ला... लोक बदलल्यात ... जमानोय बदल्ला.."

"ना वंदू.. फकत दिसता .... वयर वयर दिसता बदल्ला.... कांयच बदलूंक ना. मनशां वयर वयर 'मॉडर्न' जाल्यांत. भितरल्यान तशींच आसात... सामकीं पारंपारीक. तुका आज कळचें ना.....

एक सांगतां... जीवन तुजें.. तुजो निर्णय तूं घे... तुका उपदेश करूंक हांव तुजो कोण न्हय.. कांयच नातें ना तुज्या म्हज्या मदीं.."

"अशें म्हणून एका खिणांत म्हाका परकें केलें. हांवें म्हजो निर्णय कोणांक सांगूना दादा. म्हज्या आवय-बापायकय खबर ना."

"वंदू, तुका हांव परकें मानिना... फकत सत्य सांगतां... मनशाक फकत प्रेमाची गरज नासता. प्रेम जाय पूण प्रेमा परसय मनशाक गरज आसता एका नात्याची. मनशाक हक्काचें मनीस जाय... दिवंक आनी घेवंक... नातें अशें फुलता... न्हय.. अशें आसता नातें... आदार ना जाल्यार जगप कशें? नातें ना जगप कित्याक? कसली ओढ? समाजाचो विचार नाका..

पूण कोणाचोच आदार ना.... कोणाक आपली गरज ना... आदारय नाका... अधिकारय ना जाल्यार जगप कशें... जगप कित्याक? हांवें एकटेंच जगून पळयलां... नात्या बगर जगून पळयलां...

मनशाक गरज आसता नात्याची.. अधिकाराची"

"म्हाका तशें दिसना.... मनशां नात्याबगर एकामेकाच्या सांगातान, सहवासान फुलूंक शकनांत हें मान्य ना म्हाका."

....दादा वोग्गी रावले. दादांचें मत म्हाका सामके पटूंक ना. नात्यांबगर, आदाराबगर दादा जगलेच.

...आई-बाबांचें जीवन हांवें पळयिल्लें... श्रीकांत-रमाचेंय... आज दादा अशें ठाम कशें सांगतात... मनशाक गरज आसता नात्याची ... आयुश्यभर जगून आजच कशें किते तरी आपल्या जिवनांत कमी आसा अशें दिसलें ताका?

..... दोळ्यां फुडें दादा आयले... रातीं पायांकडेन बशिल्ले पायांक धरून... म्हजो आदार ते सोदताले?

दादाकडेन उलयले उपरांत मन स्तब्द जालें... विचारय करपाची शक्ती उरूंक नाशिल्ली.

अकस्मात दोळ्यांफुडें रमाची म्हूर्त उबी रावली. रमाचेर हांव अन्याय करना न्हीं? मन अपराधी जालें....

.... मोडचें हें नातें?

... अशेंच वचचें परत घरा?

.... पूण मागीर म्हज्या सपनांचें किते?

म्हज्या आनी श्रीकांताचे मैत्रीन रमाच्या जीवनांत कांयच फरक पडना... ताजे सगळे हक्क ताकाच मेळटले. नांय जाल्यार आता तरी रमा श्रीकांताची नावापुरतीच बायल आसा.... रमाक कांयच फरक पडपाचो ना... दादाकडेन उलोवन विचारांची दिशा तात्पुरती बदल्ली.

सांज जाली तेन्ना श्रीकांत मेळ्ळो.

दादांकडेन आमच्या दोगायंच्या नात्याविशीं उलयलें अशें श्रीकांताक सांगू ना... पूण तांच्या शब्दांचो विसरय पडलो ना.

"श्रीकांत मनांत भंय दिसता... म्हजे तुजे मैत्रीन रमाताईचेर अन्याय... मनात येता, परत घरा वच्चें."

"वंदू.. आनी म्हजें किते? वंदू तूं असो विचार करूं नाका.. हांव तुका सोदीत गांवांत येतलों. वंदू तूं तुजो विचार करना. म्हजोय करना.. तिसऱ्यांचो करता.. वंदू"



ताणें मिठीच मारली.. अशें दिसलें ही मिठी युगयुगांची... ह्या स्पर्शांत ओढ आसा.. दोळे दुख्खानी भरले....

"वंदू पूस हीं दोळ्यांतलीं मोतयां. तुजें रडकें तोंड बरें दिसना."

त्या खिणाक दिसलें हे रेशमाचे बंध.. हें नातें सोदूंक हांव वचूंक ना. नकळत सगळें घडलां.. हें बंधन अशें सहजा सहजीं तुटपाचें ना...

त्या खिणांत सगल्यांचो विसर पडलो...

रमाताईचो.. म्हज्या अस्तित्वाचो.. मनांत खोशयेचो झरो व्हावंक लागलो. समाधानान दोळे धांपले... सामकें निशंक मनान.

***

जिवनाचो वेगळोच निर्णय हांवें घेतिल्लो. श्रीकांत कामतीकडेन मैत्री... एक सहजीवन.. त्या वेगळ्या नात्या खातीर कितेंय सोसपाची शक्ती आगान आयिल्ली. खंयच्यान आयिल्ली ही शक्ती? प्रेमांत इतलें बळ आसता? म्हज्याच मनाचें, वागण्याचें म्हाका अजाप दिसतालें?

दादांचो निरोप घेतना मन व्याकूळ जालें....

पेइंग गेस्ट म्हणून दादांच्या घरांत पावल दवरिल्लें.... नकळत सगळें बदलिल्लें... दादायं

"वंदू मदीं मदीं यो. घर तुजेंच अशें समज."

भाड्याचें घर घेतलें....

फकत हांवें घेतिल्लो निर्णय घरा वचून सांगूंक जाय. दुसऱ्या कोणाकडच्यान कळल्यार बाबाक मरणप्राय दुख्ख जातलें.....

गांवांत वचूंक जाय.... आठ पंदरा दिसांनी सुटी पडतली त्याचवेळार वचून येवपाचें अशें थारायलें.

त्या आठ दिसांक घरांत कितें जाय तें हाडून दवरलें तरी दादांगेरच रावपाचें थारायलें.... दादांक तशें सांगलें तेन्ना दादान म्हळें,

"वंदू ह्या घराचीं दारां तुज्या खातीर सदांच उगडीं. तूं जाय तेन्ना यो, जाय तेन्ना वच."

आठ दीस आपल्या जीवनाचो म्हत्वाचो निर्णय बाबांक सांगप आनी मागीर श्रीकांताबरोबर नवें जीवन सुरू करप. बाबांक दुख्ख जातलें. जगावेगळो निर्णय आयकून... सपन आसा बाबांचें... जावंयाविशीं... बाबाक सुखांत दवरतलें... कांयच दुख्ख दिवचेंना अशें हांवें थारायिल्लें.

एकाच वेळार सगळ्यांक सुखी करूंक मेळना...

म्हजो निर्णय दादाक सांगलो, श्रीकांताकय गांवांत वचपाची टिकीट काडली... म्हजो दुरावो सोसचो पडटलो म्हूण श्रीकांत अस्वस्थ जालो.

गाडी घराचे दिशेन धांवताली... तेन्ना मनांत येतालें आमी मनशां खंयचे तरी अज्ञात शक्तीचे प्रेरणेन वागपी कठपुतली बावल्यो... आमकां नाचपाची दोरी ते शक्तीच्या हातांत. फकत आमकां दिश्टी पडना.

हांव दैववादी न्हय... म्हज्या वागण्याचें समर्थन करूंक हांव दैवाचो आधारय घेना. कदाचीत त्या वेळावेलो म्हज्या मनांतलो तो विचार आसतलो.

हांव घरा पाविल्लें. घराचें दार बंद... आमच्या घराचें दार चडशें केन्नाच बंद नासता. कोण ना कोण घरांत आसतातच. शेजारच्या निलाकाकीक उलो मारलो.

"निलाकाकी चावी दवरल्या गे?"

"आगो तुकां कालच्यान एकसारकीं फोन लायतात.. फोनच लागूं ना...तूं आयलें तें बरें जालें. तुजो बाबा हॉस्पीटलांत आसा."

"कितें?"

"बेशुध्द आसात.. प्रेशर देवलें... मान्यांत घुंवळ येवन पडले."

तशीच हॉस्पीटलांत धांव मारली.

आय.सी.यू.च्या भायर आई बशिल्ली. दोळे खोल गेल्ले. दोळ्यां भोवतणी काळीं काळीं वर्तुळां आयिल्लीं... सामकी थकिल्ली.. खिन्न..

"कालच्यान तुकां फोन लायतात.." आईन म्हळें.

तिजेकडेन तुसडें-तुटक वागपाची म्हाका संवय जाल्ली... आई सोडून गेल्या.. तिणें बाबाचेर, आमचेर अन्याय केला अशें मनांत येतालें. पूण आज तेच आईकडेन वेगळे नदरेन हांव पळेतालें..... श्रीकांताकडल्या नात्यान आईकडेन पळोवपाची नवी नदर म्हाका दिल्ली?.... तिजी अस्वस्थता, दुख्ख, व्यथा, हाजे फाटलें कारण खबर नासून तिजो राग आयलो ना.

"वेळ येता तेन्ना तुकां सांगतां."

आज तो वेळ आयिल्लो? आईचें दुख्ख कितें... ते घडीक हांव हॉस्पीटलांत आसां, बाबा सिरियस आसा हें हांव विसरून गेलें.

बाबा आईक परत घरा घेवन आयिल्ले. कडकडीत विरोध करचो सो दिशिल्लो. ही म्हजी आवय? खंय गेलें तिजें वात्सल्य? घर सोडटना कोणाचोच विचार केलो ना? म्हजो, राजूचोय करूंक ना.. अशें सदांच दिसतालें..

आज श्रीकांता खातीर... प्रेमा खातीर हांवें येदो व्हडलो निर्णय घेतिल्लो. हांवें खंय केल्लो कोणाचो विचार?

आईविशीं मनांत दाटिल्लो राग खिणांत नाच्च जालो. आवयचें नातेंच ना अश्या भ्रमांत जगलें. पूण आज तेच आईकडेन, हांव एक बायल, भावना, विचार आशिल्ली बायल मनीस ह्या नात्यान पळोवंक लागलें.

"वंदू, अण्णा कालच्यान बेशुध्दच आसात." आईन सांगलें.

हॉस्पीटलांत भोवतणी मनशांच मनशां. सगळींच हुसक्यांत, काळजींत, दुख्खांत... कोणाचे हुंडके... दोळ्यान चिंता.. दर एकल्याक आपल्या मनशाची काळजी.

बाबाक अकस्मात किदें जालें तें विचारूंक ना. विचारचेशेंय दिसलें ना. हांसत-खेळत बाबा जगतालो. खंबीर आसा असो दाखयतालो. पूण मनांतल्यान तो सामको हरिल्लो, तुटिल्लो, एकलो-एकलो जाल्लो. आपलें दुख्ख ताणें केन्नाच कोणांक सांगलें ना. दुख्ख व्यक्त करूंक माध्यमय नाशिल्लें, दादा सारखें....श्रीकांता सारखें..

मागीर उरलें फकत घुस्मटप....





.....दुसरो दादलो आवडप गुन्हों? तशें जाल्यार गुन्हों हांवें करूना?. रमाच्या अधिकारांतल्या अर्द्या वाट्याचें प्रेम हांवें घेवंक ना. प्रेम करप म्हळ्यार गुन्हों न्हयच?

त्या वेळार विचारांचें व्हडें फकत वादळान सापडिल्लें. विचार वाकडे तिकडे.... बाबांची भयण तितल्यान आयली..

"रातभर तूं हांगाच आसा? घरा वच. आनी वंदू तूंय वच फ्रेश जावन यो... तो मेरेन हांव बसतां. नाय जाल्यार भाऊ शुध्दीर ना. ताच्या म्हऱ्यांत फकत आपल्या मनाच्या समाधानाक बसपाचें."



शांताआत्या बाबा म्हऱ्यांत रावलें. आई आनी हांव घरा आयलीं. आई एकटीच रांदचे कुडींत रांदताली. हांव भायर पडवेर बशिल्लें. वेळ फुर्डेंच वचनाशिल्लो.

"वंदू घे..." आईन आलें घालून च्या करून हाडिल्ली. "राजूकय कळोवंक जाय" स्वगत उलयल्ल्या सारखी ती उलयली.

"कशें सांगप जमना. वंदू तूंच फोन कर हॉस्टेलांत. प्रिन्सिपलाक सांग. राजूचो हांचेर खूब जीव."

खरें तर राजूचो आईचेर जीव. आईबगर एक मिनीट तो राव नाशिल्लो. आई वतकीर कितलो त्रास दिलो राजून. कितलो परिणाम जालो ताच्या मनार.

आईचें वचप, परत मेळप... हे सगळ्या चक्रांत बाबा एकांकी जाले. प्रयत्न करूनय नातें तोडपय तांकां जमलें ना. अलिप्तय रावप जमलें ना. अशें कित्याक आसता आयुश्य एकमेकांचें, एकमेकांमदीं गुंतिल्लें? घुस्पल्लें? कित्याक बांदून दवरतात नातीं? कित्याक नात्यांच्या बंदनांत मनीस आपणाकच घुस्पून घेता? आपल्याकच त्रास करून घेता?

बाबांची असहाय बेशुध्द अवस्था पळोवन मन भरून आयलें. मनांतली विवेकशक्ती सोंपली. आईचो खूप, खूप राग आयलो. खिणभरापयलीं तिचे विशीं आशिल्ली सहानभुतीय उरूंक ना.

...कित्याक आईन भांगरा सारख्या बाबांक त्रास दिलो? कित्याक गेली ती रमेशभाईच्या हाताक हात धरून? आनी आतां परत कित्याक आयली? बाबांचे जखमेर मीठ चोळूंक? बाबान तिका परत घरांत कशी घेतली?

"हांवच वायट वंदू.... म्हज्या खातीर घराची, संवसाराची दशा दशा जाली. राजूक पयस हॉस्टेलांत दवरचो पडलो. तुजेर अकाली जबाबदारी पडली. तुजे बाबा मनांतल्या मनांत खचले. हांवें कोणाच्याच मनाची पर्वा केली ना अशें मात न्हय. मनाचे आत्यंतीक अशे स्थितींत हांवें घर सोडपाचो निर्णय घेतलो. मन मेकळें करूंक कोण नाशिल्लो. कोणाक पटचेंय नाशिल्लें. दुसऱ्या दादल्याचो हात धरून वचपी बायलेक कोणाचीच सहानुभुती नासता. लोक तिजे कडेन व्यभिचारी म्हणून पळेतात." आईन म्हळें.

आईक खूब कितें विचारपाचें आशिल्लें. पयलीं सारखो आई विशीं रागय मनांत नाशिल्लो. एखाद्या मनशाकडेन रोखडेंच नातें जुळता. मनीस आवडूंक लागता. आईक रमेशभाई आवडिल्लो. भुरग्या वयार आईचो फकत राग आयिल्लो.

बाबांचो कर्तव्यदक्ष, व्यवहारी सभाव आनी आईचो रसीक हळवो



सभाव. काम जातकीर आईच्या हातांत सदांच पुस्तक. लायब्रींत वचून ती पुस्तकां हाडटाली. वाचत बसताली. त्या वेळार त्या कादंबरींतल्या पात्रांच्या सुख-दुख्खाकडेन ती एकरूप जाताली. आईचें हळवें रूप खुपदां पळयलां. आई तशी खूब आवडटाली. पूण आई सोडून गेली आनी तिजे विशीं राग येवंक लागलो. लोक आई विशीं उलयताले. मुकाट्यान लजेन मान सकयल घालची पडटाली. म्हणून आईचो चड राग येतालो.

पूण आज.... आज आईचो राग येवंक ना... नात्याची गरज प्रत्येकाक आसता... आईक कसल्या नात्याची ओढ आशिल्ली?

आईकडेन खूब उलोवंक जाय आशिल्लें. पूण संधी मेळ्ळी ना. हॉस्पीटलांतल्यान फोन आयलो शांता आत्त्याचो, "बाबा शुध्दीर आयल्यात तोंडार एकसारखें वंदू, राजू."

रिक्शा करून दोगांय हॉस्पीटलांत गेलीं. पूण तो मेरेन बाबा परत बेशुध्द जाल्ले... बाबा कितें सांगूंक सोदता म्हाका, राजूक.

बाबांकय म्हाका कितें तरी सांगूंक जाय. म्हज्या श्रीकांतच्या नात्याविशीं. बाबांचे हे स्थितींत सांगूंक जमतलें? बाबा बरे जाल्यार हे स्थितींत सांगप योग्य? बाबा अशेच हे स्थितींत आमकां सोडून गेले जाल्यार?

सगळो दीस बाबांकडेन गेलो. बाबा शुध्दीर आयले ना.

"राजूक कळय म्हणून आई एकसारखी सांगताली." शांता आत्त्यान आपणें राजूक कळोवपाची जबाबदारी घेतली. "हांव वतां आनी राजूक घेवन येतां." शांताआत्त्या आनी रमणभाओजी आपली गाडी घेवन भायर सरलीं.

आय.सी.यूच्या भायर सगळो दीस आमी दोगांच बशिल्लीं. रात जाली.. नर्सीन येवन सांगलें, बाबा घुस्मट्टात, प्रेशरूय देंवला. दोतोरानी प्रयत्न केले. पूण तेच राती बाबा गेले. ती रात....

हांव आनी आई....

बाबा आमचे कडल्यान पयस पयस गेल्ले.

"तुजे बाबा गेले."

बाबा वचपाचें दुख्ख इतलें व्हड आशिल्लें की आईचें दुख्ख हांव विसरलें.

"सगळें तुजे खातीर आई. तुवें तांकां केन्नाच सूख दिलें ना आनी तूंय दुख्खी जाली."

कुडींत काळोख आशिल्लो... जनेलाकडेन उबी रावन आईन म्हळें.

"वंदू तुकां कळचें ना म्हजें दुख्ख. तूं अजून लग्न जावंक ना... तुज्या बाबान म्हाका सगळें दिलें.. दोन भुरगीं... कपडे.... घर कांयच कमी नाशिल्लें. चारचौगां सारको सुखान संवसार करूंक जाय आशिल्लो."

पूण वंदू साध्या साध्या गजालींतय सूख आसता... तें सूख म्हाका केन्नाच मेळूंक ना... म्हाका दिसूंक लागलें म्हाका हें जीवन नाका.... म्हाका कितें वेगळें जाय.... अनवळखी ओढ नव्या जिवनाची...

पूण कांय कांय गोश्टी आपल्या दैवातूच नासताच.. आकाशपाताळ एक करून त्यो मेळोवपाचो यत्न केलो तरी हातांतल्यान निसटून वतात... म्हाका वळखूंक हांवूच कमी पडलें... आपल्याक कितें जाय तें वळखूंक ना जाल्यार दुख्ख पदरात पडटा... बायलमनशेच्या पदरांत दुख्खच दुख्ख.. अपमानच अपमान."

गूढ आई उलयताली... मनांतलें दुख्ख गूढ...

आईकडेन कसलें दुख्ख आसा? तिणें काळजांत जपिल्लें?

कितें तरी अशें आसा जें म्हाका सांगपाचो ती प्रयत्न करता.... पूण तिका सांगप जमना.:. अशें कितें आसा?

कित्याखातीर ती गेली रमेशभाईबरोबर..?

खिन्न सामकी थकिल्ली आई....

"रात जाली... तूं न्हीद आतां"

"आई तू हांगाच न्हीद."

आई आनी हांव एके खाटीर न्हिदलीं.... खूप तेंपान. तिच्या म्हज्या मदीं एक दरी आशिल्ली... दुरावो... तिणें हात म्हजेर उडयलो म्हाका थापटीत रावली. भुरगेपणांत थापटीताली तशीच.

***

हॉस्पिटलांतल्यो फोर्मेलीटी करून बाबांचो देह घरा हाडलो. शांता आत्ते आनी रमण भावोजी राजूक घेवन आयिल्लीं. तांकांय सगळें अकल्पीत. राजून आकांत केलो. "बाबाऽऽ"

बाबांच्या देहाक राजून अग्नी दिलो.

शांता आत्या राजूक आपल्यागेर घेवन गेलें. आईनय अडोवंक ना.

रातचीं आई आनी हांव....

बारा दीस मेरेन घरान वर्दळ. कोण कोण जाप दिवंक येताले. एस. टी. डींत वचून दादाक आनी श्रीकांताक हांगा कितें घडलां तें कळयलें. येवंक उशीर जातलो हेंय कळयलें. सगळो दीस कोण ना कोण येताले. पूण रात खावंक येताली.

बारावो जावन राजूय गेलो. आईकडेन एक उतरय तो उलोवंक ना. आईच्या मनाक खूब लागलें. पूण तिणें कांयच उलोवन दाखोवंक ना. दुसऱ्या दिसा म्हाकांय वचपाचें आशिल्लें. कपड्यांचें बॅग भरतां भरतां आई आयली. "वंदू, राजू कांयच उलय नासतना गेलो. ताका दोश दिना दोश म्हजोच. म्हाका तुका कितें सांगूंक जाय. हांव म्हज्या वर्तनाचें समर्थन करना. पूण तरीय तुज्या मनांत खूब प्रस्न आसात. वेळ येता तेन्ना सांगतां अशें तुका हांवेन सांगिल्लें. आतां तूं व्हड जालां. वेळय आयला. तुजे बाबा आयज आमच्या मदीं ना. तांचो आयज बारावो. मेल्ल्या मनशाचें फाटल्यान उलोवचें न्हय, पापां पदरांत पडटात. पूण हांव तर पापांचेंच धनी. पापांपुण्याविशीं विचार करना. तुज्या बाबान म्हाका परत घरांत घेतलें. ताजो, ह्या घराचो हांव गुन्यांवकारी. पूण गुन्हो करूनय ताणें परत घरांत घेतलें. ताजे विशीं सांगता तुकां. हांव कृतघ्न दिसतलें... पूण....."



"आई तूं सांग.."

"परत येता म्हणून फोन केलो.. म्हाका घरांत घेतलें. पूण परत म्हाका घर मेळ्ळेंच ना. सदांच आश्रीता सारखें परक्याच्या घरांत रावता तशें ह्या घरांत रावलें. टोमणें घेतले. जगाचे दृश्टीन मात ते म्हान जाले. त्या सगळ्याचें म्हाका दुख्ख ना, पिकासांवय ना. हांवेन तांकां त्रास दिल्लो. तांकां त्रास दिवन तांचेकडल्यान बरे वागण्याची अपेक्षा हांव कशें करतलें? हांवें गुन्हो केल्लो. घर सोडून वचपाचो. दुसऱ्या दादल्याचेर प्रेम करपाचो."

आई उलोवपाची थांबली. तिजें तोंड विदीर्ण जालें. कशें सांगप ह्या दुविधेंत ती आशिल्ली. सत्य सांगूंक खूब त्रास पडटाले.

"दादल्याक अधिकार दिला निसर्गान काय ताणींच तो घेतला आपले खातीर. त्या खातीर दादलो मनीस केन्नाच चुकना. चुकता फकत बायल. प्रत्येक करणेची जाप बायलेक दिवचीच पडटा. लोकांक दिसता फकत करणी. करणे फाटलें कारण दिसना. हांव व्यभिचारी जालें. सगळ्यांचे नदरेन व्यभिचारी. तुज्या काळजांत बाबांची एक इमेज आसा. ती इमेज तोडून उडोवंक हांव सांगना....

फकत म्हजें दुख्ख सांगतां. जें हांवें काळजांत जपलें. जें हांवें कोणाक सांगलें ना. तुज्या बाबाकय आनी जाचे खातीर...... प्रेमाखातीर जीव ओवाळून उडयलो, संवसाराचोय त्याग केलो त्या रमेशभाईकय. तुज्या बाबान म्हजे कडेन लग्न केलें... संवसार केलो... म्हाका भोगलें...भुरग्यांक जल्म दिलो... केन्नाच प्रेम केलें ना.... प्रेम केलें ना अशें कशें म्हणू?

प्रेम केलें शरिराचेर.. ताका कसलेंच व्यसन नाशिल्लें.. सामको निरव्यसनी म्हणून सगळीं ताजी तोखणाय करतालीं..ताका व्यसन आशिल्लें शरिराचें. बायलेचें शरीर भोगप.. जाय तेन्ना जाय तशें... बायल सामकी हक्काची... प्रेम, नातें, सहवास कांयच नाका. जाय फकत शरीर. शरिराची वासना भागोवंक जाय बायल. वंदू अशें दुख्ख जें सांगूंक खूब त्रास.... भोगता ताकाच कळटा... खूब हाल जाताले म्हजे.. देहाचे आनी मनाचेय..."

त्या वेळार म्हज्या आंगार कांटो फुल्लो. सामको क़ांटो... बाबा सदांच आईच्या फाटल्या फुडल्यान आसताले.

"तुज्या बाबाचें आईचेर खूब खूब प्रेम आनी ते अवलक्षणी बायलेक कैसली दुर्बुध्दी आयली घर सोडून वचपाची? सूख जड जाता तेंच खरें. खूब दुख्ख दिलें देव मनशाक. दुस्मानाकय अशी बायल मेळूं नाका." लोक म्हण्टाले.

.....बाबान उलो मारतकीर आई कंटाळून, उबगून, त्रासून वताली. सामकी बाविल्ली, थकिल्ली आसताली.

"वंदू, तूं आतां व्हड जालां. मनांतलें तुका सांगूंक येता. म्हजें भाग्य म्हळ्यार तूंय बायल मनीस, म्हजें दूख्ख राजूक सांगूंक जमना. वंदू बायलेक फकत देह नासता. मन, भावना आसता. यांत्रीक देहाचो भोग खूब त्रास दितालो. म्हाका म्हजीच वीट येताली.. देहाचो वीट येतालो.. म्हज्या कोरीव, सुंदर आंगलोटाचोय वीट येतालो.. दिसतालें सामकें बेढब जावचें, कुरूप



जावचें इतलें की म्हज्या देहार ताणें नदरय घालची न्हय.. पूण मनाक सूख ना. खावप, जेवप कमी जातालें. आंगलोट तसोच उरलो. कोरींव... देवान ताका भोगूंकच म्हाका धाडिल्लें. हांव म्हळ्यार फकत देह?... ना. म्हाकाय मन आशिल्लें. आवड आशिल्ली. रमेश भाईन आकाशांतल्यो चांदण्यो हाडून म्हजे ओंजळीत घातल्यो... सुंदर पुस्तक.. केन्ना नाटकाचें टिकीट हाडून ते दिताले. तुज्या बाबाक खूब राग येतालो. संशयाचें, दुबावाचें भूत मानगुटीचेर बसलें. तांकां हांव जाय. सदांच तांच्या फाटल्या फुडल्यान. हांव जाय म्हळ्यार म्हजो सहवास जाय अशें न्हय. जाय फकत शरीर भोगूंक... हांव एक यंत्र... तांकां भोग दिवपी.... तांच्या पुरूशत्वाच्या उज्याक थंड करपी.."

खूप वेळ आई हुंडक्या हुंडक्यानीं रडटाली. कितलें तिणें सोशिल्लें मुकाट्यान.

"रमेशभाईक हांव आवडटालें. तांच्या सहवासांत हांव फुलतालें. रमेशभाईचो संवसार आसा. ताका बायल-भुरगीं आसात हें म्हाका पयलीं खबर नाशिल्लें. म्हजे खातीर तें कांयच म्हत्वाचें नाशिल्लें. आनी रमेशभाई खातीरय.... म्हज्या खातीर ताणें हें शहर सोडलें. खूब पयसो ताजेकडेन. आपले बायलेकय ताणें सांबाळलें आनी म्हाकांय. म्हाका मानसीक प्रेमाची खूब गरज आशिल्ली. म्हाका मन आसा हें हांव तुज्या बाबाचे वेंगेंत विसरून वतालें. म्हजी आवड, निवड रमेशभाईन जपली. म्हाका जपलें. वंदू दर एकल्या दादल्याक बायलेचें फकत शरीरच जाय आसता अशें न्हय. मनाची भावनेचीय भूक आसता. रमेश भाईन म्हज्या मनाची भूक भागयली. तुजी खूब याद येताली. राजूची तर खुबूच. रमेश भाई आपल्या घरा बायल-भुरग्यां मदीं वताले आनी येवन भुरग्यांच्यो गजाली सांगताले



तेन्ना म्हजें मन खूब उदास जातालें. हांवें तुमचेर दोगांयचेरय अन्याय केला अशें दिसत रावतालें.''

आई खूब वेळ रावली. पूण तिका सांगूंक जमनाशिल्लें. तिका आनीकूय खूब कितें सांगपाचें आशिल्लें.

''वंदू, कांय मनशां शापीत आसतात. हांव तातूंतलेंच. जन्मभर प्रेमाखातीर वण-वण भोंवलें. प्रेम मेळलेंच ना. रमेशभाईकडेन म्हजी मैत्री... ते म्हाका खूब जपताले. पूण म्हजे लागीं येतकीच ते कशेशेच वागताले. 'आपूण आपले बायलेक फटयतां, तिजेर अन्याय करतां.' अशें ताका दिसतालें. लागीं येवनय एकदांय म्हजें आनी रमेशभाईचें मीलन घडलें ना. देह-देहाचें मीलन.... ताणीं म्हाका पयस दवरलें.... सदांच... मनशां मनशांचे संबंद सगळे गूढ, अनाकलनीय.

वंदू शरिराखातीर, मोगा खातीर म्हाका रमेशभाई जाय अशें न्हय. शरिरसुखाचो म्हाकां वीट आयिल्लो. पूण मनशाक उब जाय आसता. मनाकय प्रेमाची उब जाय. आनी शरिराकय... मनाचें सूख रमेशभाईन दिलें. पूण सदांच म्हजेर उपकार केल्ल्या सारखें. केन्नाच रमेशभाईन म्हजेर आपलें सर्वस्व उधळूंक ना. जणू देहाकच नैतीकता लागताली, मनाक ना... व्यभिचाराचें लेबल. रमेश भाईगेर हांव ताजी मैत्रीणशें रावतालें. रमेशभाईक कसलें सूख मेळटालें म्हाका अशें वागोवंक हांव नकळ... आयुश्य देहाकडल्यान सुरू जाता. पूण देहा पलतडी वचूंक एक उब जाय, शरिराची... मनाची... शरिराच्या माध्यमांतल्यान मनाची वळख.. मनाच्या माध्यमांतल्यान शरिराची वळख.. असो प्रवास करतां करतां त्रिशंकू सारखी म्हजी स्थिती जाली. मनशाक गरज आसता एका नात्याची. पूण नातें आसलें म्हणून उपयोग ना. अधिकाराचें नातें उपयोग ना... नात्याक बांधून दवरता प्रेमाची उब... शरिरांतल्यान ठिबकत ठिबकत मनामेरेन पावता.. हांव खूब गूढ उलयतां? तुकां आज कळचेंना. कळतलें केन्ना तरी....''

कितलो वेळ आई उलयताली. आपल्याक सोदपाचो यत्न तिणें जन्म भर केल्लो. रमेशभाईच्या पयशार ती जगताली. ती शिकूंक ना. सतत तिका कोणाच्या ना कोणाच्या आधाराची गरज. जगूंक प्रेमच उपयोग ना, पयशेय जाय हें तिका रमेशभाई अकस्मात अपघातांत वतगीर कळ्ळें. आपूण अकस्मात वतलों अशें रमेशभाईन येवजूंक ना आनी आपल्या आयुश्यांत परत अशें वळण येतलें अशें आईनूय... आई परत बाबांकडेन आयली.

''तो मेरेन तुजो बाबा, खूब बदल्लो आसतलो अशें दिशिल्लें. पूण स्वभावाक, संवयीक वखद ना. बाबा तेच आशिल्ले. भोगी, वखवखिल्ले. परत तांच्या मदल्या दादल्याक हक्काची बायल मेळिल्ली. तिजें शरीरय. केन्ना, केन्ना दिसतालें कसलो हो जल्म. परत कित्याक हांव घरा परतलें? त्या घरांत म्हजें कांयच नाशिल्लें.. तुंय, राजूय..''

आईची काणी अयकतां आयकतां मन विशण्ण जालें. आईचो हात घट्ट धल्लो. आईक वेंग मारली. म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुखखां व्हांवतालीं... कित्या खातीर? आईच्या दुखखा खातीर? शेणिल्ली आवय परत मेळ्ळ्या म्हणून, काय तिज्या दुख्खांत म्हजें काळीज दुख्खी जाल्लें? तें दुख्ख फकत तिजें काय एके बायलेचें दुख्ख?

आईक घट्ट वेंग मारून हांव रडटालें. खूब खूब रडलें. तेच स्थितींत हांवें म्हजीय सगळी खबर आईक सांगली. श्रीकांताची आनी म्हज्या नात्याची. आमी घेतिल्ल्या निर्णयाची.

''हो जल्म म्हळ्यार ऋणानूबंध. एकमेकांची देणी दीत फकत जगप. तुज्या अणभवांतल्यान तुकां तुज्या जिवनाची वाट सापडटली. सगळें आयुश्य केन्ना केन्ना सोंपता पूण तरी कितें तरी उरता. सामकें मिटून वचना, सोंपून वचना. आज तुवें म्हजी खबर आयकली आनी आपलेविशींय सांगलें. विश्वासान. हेंच नाते.. तुजें म्हजें नातें फकत आवय-धुवेचें.. म्हजें मन तुकांच दूख्ख सांगूंक शकलें.. नातें मनाचें... मना मनाचें...''

म्हाका घट्ट धरून आई रडटाली आनी हांवूंय. बस स्टॉपार पावलें तेन्ना तिणें सांगलें, ''एक दीस घेवन यो तुज्या श्रीकांताक. सांबाळून राव.''

भावनेन थरथरत तिणें म्हजो निरोप घेतलो...

मन मनाक कळता.. दुसऱ्यांच्या मनाच्यो भावना कळता तेन्ना नातें फुलता.... आई म्हणता तशें नातें मनामनाचें आसता?

***

श्रीकांताचो आनी म्हजो जगा वेगळो संवसार सुरू जालो. श्रीकांत सांजचो येतालो.. वर दोनवरां रावतालो आनी वतालो.

तूं म्हजी प्रेरणा.... तुकां वंदू म्हणूंक जायना 'प्रेरणा' म्हणूंक जाय... ताज्या विश्वांत हांव रमून गेल्लें.

ताज्या आवडीचें फांतोडेर उटून रांदप- मागीर कॉलेज.. कोर्स.. ऑफीस...

श्रीकांताच्या नाटकाचो शुभारंभ आशिल्लो. नाटकाच्या पुस्तकाचें प्रकाशन आनी उपरांत प्रयोग... 'दुग्धशर्करा योग'... पन्नासावो वाढदिसय... ताज्या इश्टांनी, वाचकांनी ल्हानसो प्रोग्राम घडोवन हाडिल्लो..

श्रीकांत खुशीन - तो खुशीन तेन्ना हांवय खुशीन... टिपीकल भारतीय बायलांची सायकोलॉजी - आपल्या घरकाराच्या वा प्रियकराच्या सुखांत आपलें सूख सोदप-

हांवय खूप खूश - तातूंत ताणें त्या नाटकाचें सगळें श्रेय म्हाका दिल्लें.

''तुकां लागून हांव नाटककार जालों.. रमा जरी म्हजी बायल- तरी भाशणान मात हांव तुज्याविशीं सांगतलोंच. तूं येवंक जाय प्रोग्रामाक ताणें आवर्जून सांगिल्लें.

सगळो कार्यक्रम बरो जालो. श्रीकांताचें भाशणय, समारंभाक ताजेभोवतणी गर्दी... त्या उपरांत टी ब्रेक. मागीर नाटक...

श्रीकांत... रमा जोडीन... नाटक बरें उटिल्लें अभिनंदन करूंक ताज्या लागीं गेलें तेन्ना तो सामको फॉर्मल वागलो...चारचौगांत म्हजेकडेन उलोवंक



तो टाळता. नर्व्हस जाता अशें म्हाका दिसलें.

"श्रीकांत हांव घरा तुजी वाट पळयतां." ताका कुशीन व्हरून हांवें सांगलें.

ताज्या आवडीचें रांदलें. ताजी वाट पळेत रावलें. तो आयलो ना. म्हज्या मनाक खूप लागलें. ताजें कालचें वागणें... भाशणांतय ताणें म्हजो उल्लेख करूंक नाशिल्लो. म्हाका प्रसिध्दीची हावय नाशिल्ली. ताज्या उल्लेख करपांत उलट म्हाकांच एम्बरेसींग जातलें आशिल्लें. पूण त्या दिसा म्हाका जाणवलें. तो म्हाका टाळतालो. घरा प्रेमान वागता तो हो श्रीकांत न्हय. हो दुसरो श्रीकांत.

दुसऱ्या दिसाय तो आयलो ना. ताजी खूप वाट पळयली. दादागेरय वचूंक ना. तो येत आनी चुकामूक जाल्यार! अशें येवजून घराच रावलें. जीव टांगणेक लागिल्लो.

ताज्या घरान फोन केलो तेन्ना कळ्ळें तो आनी रमा तांच्या गांवांत गेल्यांत. कुलदेवाक. वतना ताणें सादो म्हाका निरोपय दवरूंक ना. ताजे उपरांत तो आयलो तेन्ना, कशें अकस्मात वच्चें पडलें; तुकां सांगप जमलें ना.. वंदू तूं म्हाका समजून घे....

कितें उलोवप तें नकळून हांव वोग्गी रावलें. दीस फुडें वताले.

केन्ना केन्ना प्रेमाचें भरतें ताका येतालें. केन्ना केन्ना तो खूप अस्वस्थ आसतालो. सामको विचीत्र.. चारचौगांत तो म्हाका सामको टाळतालो. अशें कित्याक? म्हज्या मनान खुपदां येतालें... ताका अपराधी दिसता? आपल्या बायलेचेर अन्याय करता अशें दिसता? म्हजे बरोबर ताजी आशिल्ली मैत्री... संबंद तिणें मुकाट्यान स्विकारिल्ल्यान, मान्य केल्ल्यान तो अस्वस्थ आसता?

काय ताका म्हजें प्रेम, सहवास म्हळ्यार गुन्यांव दिसता? पश्चत्ताप जाता आपल्या वागण्याचो. भावनेच्या भरात घेतिल्ल्या निर्णया विशयी ताजें मन द्विधा जावूंक ना मूं? काय हांव चड पझेसीव्ह जालां? श्रीकांताच्या प्रेमाविशयी पझेसीव्ह... ताचो सहवास, सान्निध्य मेळूंक जाय. ताणीं म्हजें मन जपूंक जाय, भावना जपूंक जाय. ह्यो म्हज्यो अपेक्षा चुकीच्यो?

कांयच अपेक्षा ना ना म्हण्टना नातें तयार जालां. हांव ताच्या आयुश्यांत आसा ताजो ताका त्रास जाता. ताज्या इमेजीक प्रोब्लॅम जाता? कितलेशेच प्रस्न.

विचार विचार.... हे मनांतले विचार कोणाक सांगप? अश्या विचारांत दोन दीस गेले. मदीं दादागेरूय वचून आयलें. दादा परत एकले एकलेच जाल्ले. उलयले पूण पयलीं सारके फुलून न्हय. जीवन रस कोणे तरी शोशून काडिल्ल्या सारखे निस्तेज जाल्ले. दादांचे चुरचुरे दिसले. पूण चुरचुरे दिसून फायदो कितें? दर एकल्याचें जीवन, दुख्ख त्या मनशाक भोगचें पडटा.

अशेच दीस वताले. परिक्षा जाली, रिजल्टय जालो. फर्स्ट क्लास मेळ्ळो. श्रीकांतान खूप कौतूक केलें. तो दीस सेलेब्रेट केलो. पेढे घेवन दादांगेर गेलें. दादांकय खोशी जाली.

"आतां फुडें कितें? श्रीकांताच्या नव्या नाटकाचें दिग्दर्शन?" दादान विचारलें

श्रीकांतान आपल्या नाटकाचें दिग्दर्शन कर अशें म्हाका म्हणूंक नाशिल्लें. म्हज्या कॅपेबिलीटी बद्दल ताका कोन्फीडन्स नाशिल्लो. ताणें तशें सांगूंक ना... पूण हें पयलेंच नाटक, वंदू तुज्या खातीर हांव दुसरें नाटक बरयतां.. तो मेरेन तूं मेकळें जातलें. कॉलेजय नासतली. तेन्ना तुकां खूप वेळ आसतलो... अशें ताणें सांगिल्लें.. दादाक हें सगळें कशें सांगतलें?

"दादा कोर्स सोंपला आतां पूर्ण वेळ नोकरी सोदूंक जाय. आई पयशे धाडटा. पूण कितलो तेंप आईकडच्यान पयशे घेतलें. शिवाय बाबाय आतां ना..."

"बाकी तूं आयजच्या जमान्याची धीट चली जाली आं... कणखर, स्ट्राँग, इनडीपेन्डंट... श्रीकांत सायब कितें म्हण्टा... नवें किदें येता? लेखन, नाटक, कादंबरी, आत्मचरीत्र...." दादा उलयताले ओडून ताणून.. पयलींचो उत्साह नाशिल्लो. खूब तेंप पावंक ना म्हणून ते म्हजेर शिणूंकय ना. आनी हांव... हांवय तांचे कडेन उलयतालें.. पूण खंय तरी म्हजेंच मन म्हाकाच खातालें. कारण नासतना.

कांय कांय प्रस्नांक उत्तरां नासतात. दादांचो निरोप घेवन भायर सरलें तेन्ना, तोंडार उतर आयलें, दादाक विचारूंक जाय हालीं खंयचें चित्र काडलां?

पूण विचारपाचो धीर जालो ना.

म्हज्या उपरांत दादा परत एकलकोंडे जाल्ले. एकटे एकटे...

दादा म्हजेर प्रेम करूंक लागिल्ले? प्रेम केलेंय म्हणून ताणी किदें अपराध केलो ना. प्रेम करप आपल्या हातांत नासता.

दादांचें वन सायडेड म्हजेर प्रेम... आईचें रमेशभाईचेर.. म्हजें श्रीकांताचेर...श्रीकांताचें रमाचेर... प्रेम करप आपल्या हातान नासता फकत परिणाम सोंसचे पडटात.

दादा म्हाका सदांच बापूय कशे दिसले. बाबा कडेन प्रेम मेळ्ळें ना. फकत कर्तव्यच बाबान केलें. आवय-बापायचें प्रेम दादा मदीं सोदलें.. दादाकय गरज आशिल्ली प्रेमाची, नात्याची. खरेंच मनशाक मैत्री, सहवासाक नात्याचें लेबल चिकटावंकच जाय... त्या सहवासांत मनीस सुखी जायना?

घरा परतताना दादाचोच विचार मनांत... तेन्ना मनांत खूप विचार आशिल्ले. नवी नोकरी सोदूंक जाय.. आत्मनिर्भर जावंक जाय.. घरा पावलें तेन्ना श्रीकांत वाट पळेत बशिल्लो. उदास, अस्वस्थ. तोंड इल्लेशें करून.

खूब प्रयत्नान ताणें मन मेकळें केलें.

रमाचेर अन्याय करता अशें ताका दिसूंक लागिल्लें...

"रमा मुकाट्यान सोंसता. कांयच उलयना ... एकलेंपण रमाच्या वाट्याक आयलां... वंदू, हांव तुजेरय अन्याय करतां आनी रमाचेरय.."

"तूं खूप धीट, कणखर... पूण रमा तशें न्हय... ताजें विश्व म्हज्या जालां."



श्रीकांत उलयतालो.. ताजो विशय तो आनी रमा.. तांचो संसार.. ताज्या श्वांत हांव खंय आशिल्लें? श्रीकांत म्हजो कोण न्हय? हांव ताजी फकत णां? रमाचें दुख्ख ताका कळता, म्हजें कळना? पांच पांच दीस तो श्टी पडना तरीय हांव विचारना.. कितलो प्रयत्न करतां ताका मजावपाचो....? पूण..

त्या खिणाक म्हाका दिसलें म्हज्या काळजांतलें हांव कांयच ताका ांगूंक शकना.. म्हाका सांगूंक जमना...?

कितलेशेच दीस अशे मर्दी गेल्ले.. श्रीकांत येतालो, वतालो. आपलें ानी रमाचें नातें सांबाळटां सांबाळटां श्रीकांत मनांत थकत चल्ला अशें ुपदां दिसतालें. पूण ताका प्रस्न विचारूंक जमनाशिल्लें.

मर्दी मर्दी पांच-स दीस तो येनाशिल्लो. येतगीर आवेगांत येतालो. 'वंदू ुज्या बगर जगप म्हाका शक्यच ना.. पांच दीस पांच युगां कशीं गेलीं. ांच दिसांत एक उतर हांवें बरोवंक ना.''

अशेच संवाद... अशेंच प्रेम..

मर्दी म्हाका नोकरी मेळ्ळी. दुरदर्शनाचेर संपादकीय विभागांत. चॅलेंज हणून हांवें ती घेतली. वेळ सोपतगीर रावचें पडटालें. म्हजे कलेक, टॅलेंटाक ांगाच संदी मेळपाची शक्यता आशिल्ली. आनी पयशांचीय म्हाका गरज आशिल्ली.

उसरां थकून हांव येतालें. केन्ना केन्ना श्रीकांत वाट पळेत बसतालो.

''वंदू, तूं कश्ट काडटा. तुजी कसलीच जबाबदारी हांव घेना... तुजे कडल्यान फकत घेतां, तुका कांयच दिना... म्हाका खूप अपराधी दिसता.''

''एक उतर उलोवं नाका.. आमच्या प्रेमाचो अपमान करूं नाका.''

ताणें सांसपिलें. वेंगेंत ओडलें... ''वंदू तकलेन कथा घोळटा... तुकां सांगूंक जाय. तुकांच रावल्या कथा.''

ख़ूप पुरो जाल्लें. जीव थकिल्लो. प्रेमाच्या स्पर्शान देह, मन फुलिल्लें. पूण म्हज्या मनांतली भावना श्रीकांताक कळलीच ना. तो तंद्रेंत बसलो. मिठीय सैल जाल्ली. तंद्रेन कथा सांगूंक लागलो... ताजे कथेचेर म्हजें लक्षच नाशिल्लें.

''मनशाक गरज आसता नात्याची...'' दादांचे शब्द.

''शारिरीक उब जाय आसता. तुज्या बाबान ती दिली ना आनी रमेशभाईनूय...'' आईचीं उतरां याद जालीं.

ताज्या म्हज्या सहवासांतलें नातें सोदूंक हांव शेणून गेलें.. कितलो वेळ..

''कशी आसा काणी?'' ताणें विचारलें तंद्रेंतच.

ताज्या म्हज्या मदलें खंयचें नातें खरें? प्रेमाचें काय ताज्या म्हज्या मर्दी आसा फकत लेखनाचें नातें. ताज्या म्हज्या मर्दी नातें खंयचें?

''वंदू कथा बरोवन घेता?''

कथा... कथा... आनी फकत कथा... म्हज्या जिवनाचीच कथा जाल्या. आनी हांकां कथा सुचता. दोळे भरून आयले. एकलेपणाची वेदनां काळीज चिरत गेली. श्रीकांत म्हजो प्रियकर.. समर्थ लेखक. म्हज्या







काळजाची व्यथा ताका कळना.... आनी म्हाकाय सांगूंक जमना... श्रीकांताक कांयच सांगप जमलें ना..

कशें तरी मनाक आवरलें.. सावरलें... म्हयने अशेच सोंपताले.. ताण मनाचेर.. विचित्र...

श्रीकांताक हांवें तागेर फोन केल्लो आवडनाशिल्लो. घरा गेल्लेंय आवडनाशिल्लें.

ताज्या चल्याचो वाढदीस आशिल्लो. घमघमीत शाकोती करून ताच्या घरा घेवन गेलें. श्रीकांतान तोंड वाकडें केलें.

''तूं अशीं भुरगेपणां कित्याक करता वंदू.... म्हजीं भुरगीं वयांत येतात. तांच्या मनाचेर परिणाम जावंक शकता.'' ताणें म्हळें.

खरेंच कित्याक गेल्लें हांव ताजे घरा. हांव ताजें कोण? समाजाचें सोडून दी. श्रीकांताकच म्हजें नातें.....

दोळे दुख्खानी भरले.... दनपारचें तशेंच वाट माड्डयत तो शागुतीन भरिल्लो करण घेवन परत आयलें. श्रीकांत आपल्या भुरग्यांचीं मनां जपता. बायलेचेंय... म्हजें मन मात...

मागीर सॉरी.. माफी मागप जालें. ''म्हाका तूं समजून घे वंदू.''

ताका समजून घेतां घेतां हांव मात खचत वतालें. श्रीकांत लेखक.. प्रवाहा विरूध्द पेवूंक जाय हें खबर आसून तें नातें स्विकारलें. मागीर आतां तेंच नातें स्विकारूंक ताका जड जाता?

नात्याचें, मैत्रीचें बंधन जाता. नातें मोडूंक मन जायना, आनी जपूंक



धाडस जायना. सगळ्या नात्यांक नांवांचीं लेबलां जाय. नांव नासतना नातीं टिकनांत? वाडनांत? फुलनांत? म्हज्या मनांतली अस्वस्थता वाडटाली. प्रत्येक भावनेक नात्याच्या बंधनांत घालूंक मेळना. श्रीकांताक हें कशें सांगप?

सतत श्रीकांताक समजून घेवपाचो यत्न हांव करतालें. श्रीकांतार्चे येवप आतां कमी कमी जाल्लें .येतालो तो ताण घेवन.

''रमाकडेन कर्तव्याचें नातें आसा म्हजें.'' अशें खुपदां तो सांगतालो.

येतालो.... वतना म्हण्टालो ''वंदू, म्हाका माफ कर. तुजी याद जाता. पूण दोन जिवनाची कसरत म्हाका जमना आतां. तूं म्हाका स्वार्थी म्हणटलें, बेजबाबदार म्हण्टलें. पूण हांव तुटत चल्लां वंदू. घरांत वतगीर म्हाका अपराधी दिसता. भुरग्यांच्या मनांचेर परिणाम जातलो शें दिसता. रमा कांयच उलयना. पूण एका तरेच्या ताणांत तें वावुरता. डिप्रेशनांत आसता. तूं बुध्दीमान.. म्हाका समजून घे.''

परत... परत तो एकूच सांगतालो. आपूण आपले बायलेचेर, भुरग्यांचेर अन्याय करतां. म्हजेर अन्याय करता अशें ताका केन्नाच दिसूंक ना... ताजी म्हजी मैत्री, नातें, तो म्हजेर प्रेम करता ह्या विस्वासाची जाणीव... ताजो स्पर्श... आवेगान जाल्लें मीलन... सगळें फट? खरें कितें? ताजें आनी रमाचें नातें!

लग्नाचें बंधन? काय ताजे म्हजें नातें फकत ताज्या साहित्या पुरतें? ताजें म्हजे कडेन मनाचें नातें जुळूंक ना. प्रस्न चिन्हां कितलींशींच

दादा परत परत त्या दिसा हेंच सांगताले? खूप थकिल्ल्या सारखे जाल्ले. खूप उदास. वर्णन करूं नजो अशें दुख्ख.

''वंदू म्हाका समजुपाचो प्रयत्न कर. म्हाका माफ कर... लग्न न करतां अशें रावप शक्य ना... फुडें कदाचीत भुरगेंय जल्माक येतलें. नवें नातें सजतलें... तुज्या म्हज्या नात्याक लागून भुरग्यांचेर परिणाम...'' श्रीकांत किदेंशेंच उलयतालो.

''बस्स कर श्रीकांत. म्हजे खातीर, आमच्या नात्या खातीर तूं कांयच सोसूंक नाका.''

निरोप घेवनं श्रीकांत गेलो. रमा आनी ताजें नातें..... ताजे खातीर आधार? आपलें आनी ताजें नातें?

श्रीकांत गेलो म्हज्या आयुश्यांतल्यान. रडूंकय आयलें ना.. ताका दोश दिवचोसो दिसलो ना.. हांवेंच वाट माडयल्ली वेगळी.. परिणामाची शिक्षा भोगूंक जाय. तो गेलो... विसरपाचें थारायलें तरी विसरप सोपें? म्हजें ताज्या काळजाकडेन, मनाकडेन नातें जुळील्लें. ताज्या सांगातांतल्यो चर्चा, कथा लेखन.... कणाकणांत.... खिणाखिणांत रंगल्लें प्रेम .... आज एक अनवळखी दिशाहीन वाटेर परत प्रवास . एकट्यान...., दादाच्या सल्ल्याची परत याद जाली... आनी त्या वेळार दादाची खूप याद जाली..

त्या रातीची.... पायांकडेन बशिल्ले. भ्रमांत 'वंदू, वंदू' उलो मारताले. पूण परत दादाकडेन वचपाचो धीर जालो ना.

दादांचें म्हजेर आसतय प्रेम.... पूण म्हजें? म्हज्या आयुशांतलें एकटेंपण हांवेंच सोसूंक जाय.. तेंय हांसत हांसत... दादांचो धीर मेळूंक ताजो आधार सोडलो तर ताका हांव दुख्खी करतलें. म्हजें दुख्ख म्हज्या मनांत.. दुख्खी कश्टी जावन म्हाका जगपाचें ना. दैवाक रडपाचेंय ना.. हांसत हांसत जगूंक जाय.. तेंय ह्या शारांत... मनाचो निर्धार केलो.

हांवें श्रीकांताचेर जिवापाड प्रेम केल्लें. श्रीकांताविशीं मनांत वायट भावना ना. अजूनय प्रेम आसा. अशेंच आसता काळजाचें नातें? तोडून घेतिल्ल्या सारखो तो गेलो. म्हाका उलोवपाची संधीय दिली ना. सुरवातीच्या दिसांनी ताजो विरह सोसूंक नज जातालो. पूण ल्हव ल्हव दुख्ख उणें जालें. दुख्खाक सासपूंक वेळय नाशिल्लो. तटस्थ मनान, शांत वृत्तीन विचार केलो.

श्रीकांत कामत अजुनय केन्ना केन्ना पयसुल्ल्यान दिसता. फुडेंय केन्ना मेळटलो. मेळतगीर वळूनय पळय ना. जणू ताजी म्हजी वळखच ना. पूण म्हाकाय वायट दिसना. ताज्या प्रेमान म्हाका खूब शिकयलें. ल्हान वयांत व्हड केलें पूण केन्ना केन्ना एकटेंपण कोरांतत येता. त्या वेळार दिसता. मनशाक खरेंच नात्याची गरज आसता.... रक्ताचें नातें, अधिकाराचें नातें.. पूण तेय परस मनात एक विचार दृढ जाता. मनाक खरें जाय मनामनाचें नातें.

***

''संगिता कशें आसा स्क्रीप्ट. आसा दम काय सामकें यूजलेस?'' संगिताक निम्मीन प्रस्न विचारलो.

''निम्मी, मनशाक नात्याची गरज आसता हें खरें. पूण नात्याचेय ऋतू आसतात. नातीं फुलतात, बहरतात आनी गळूनय वतात... कितेंच शाश्वत ना... रक्ताचीं नातीं... निम्मी सगळें आयुश्य प्रेममय जाता तेन्ना आयुश्यच वेगळें आसता. त्या वेळार मनीस काळ, वेळ विसरता... प्रतिश्ठा संस्कार विसरता.. फकत प्रेम करता.. प्रेमा खातीर किदेंय करता. कसलीय धाडसां.....

प्रेम हें झाडासारखें.. निम्मी तुवें तें झाड पळयलां.. फ्लेम ऑफ द फोरेस्ट.. वसंत येवचे पयलीं सामकें बोडकें... पर्णहीन.. फुलांय ना.. बोडक्यो खांदयो.. वसंत ऋतू येता तशें तें फुलता.. एक एक तांबडी कळी खांदयेक फुलता. पळयतां पळयतां कितल्योश्योच कळयो तांबड्यो.. आनी म्हण्टासर फुलांच फुलां... ज्वाला कशीं तांबडींच फुलां... तांबड्या फुलांचें झाड... फुलांच फुलां पानां नाच्च.. कडकडीत वतांत तें झाड पेटिल्ल्या सारखें दिसता. कितलें सुंदर! वसंत ऋतूंत झाड सामकें फुलिल्लें...

पूण ल्हव ल्हव फुलां गळून पडटात. उरतात फकत पांचवीं पानां. एकूय फूल ना. निंसर्गाचें चक्र... तशेंच जावपाचें.... तशेंच प्रेम... येता फुलता..बहरता.. आनी गळूनय वता.. प्रेम फुलता तेन्ना नातींय फुलतात. निम्मी तुजे कादंबरीची नायिका वंदू.. वंदूय कारणां सोदता.... पूण खरें कारण कांयच नासता.. मनशां आपल्या सोयी प्रमाण मनाक समजायतात... कारणां सोदतात... मनाक उतरांची थाकाय दितात... आशा.. निराशा..



तळमळे.. व्याकूळ जावप, एकाकी जावप.. सगळ्या अवस्थेंतल्यान मनीस वता.

कितलें सहन करप? सहन शक्तीकय मर्यादा आसता.. मागीर उरता फकत तळमळे.. मनशाक आशा निराशेचो खेळ सोसूंक जायना.. मुळांत मनशाक दिसता प्रेम शाश्वत.. नातीं शाश्वत.. प्रेम म्हळ्यार फकत बहार.. मोसम...''

''संगिता?''

''अशें अजापान तुवें संगिता कित्याक म्हळें? तुज्या फुडल्या कादंबरीचें मॅटर हांवें तुकां दिलां. निम्मी मनशाक नात्यांची गरज आसताच.. पूण नात्याचोय ऋतू आसता तेंच मनीस विसरता.... काल अर्दी उडयल्ली कादंबरी आज पूर्ण करूंक जाय... हें घे मॅटर..''



संगिताची स्टायलूच तशी तुका मॅटर दितां.. ताका रंग भरप तुजें कसब..

''निम्मी ही काणी म्हजी...''

''तुजी?''

''सामकें अजाप जालें? कादंबरीचो विशय सोदूंक वचूंक ना. तुज्यो एक एक इश्टीणी म्हळ्यार कादंबरीचो विशय- नायिका. निम्मी तशें प्रत्येक मनशाचें जीवन म्हळ्यार कादंबरी. तुवें रूख पळयला? flame of the forest तशेंच म्हजें प्रेम. वसंत ऋतूंतलें प्रेम म्हज्या जिवनांत आयलें.... गेलें.. झाडाचीं गळून पडिल्ली फुलां दुसऱ्या ऋतूंत फुलतात. पूण आयुश्यांत परत अशें घडटा? घडूं शकता? गळून पडिल्लीं फुलां परत फुलतात?

....एक एक याद.... एक एक खूण... सत्य सोपता. उरतात फकत भास..

...सकाळ जाता... रूटीन दीस.. च्या करूंक जाय... ब्रेक फास्ट.. सदांचें रूटीन आयूश्य चुकोवंक मेळना. रांदचे कुडींत हांव... म्हाका भास जाता...

ताज्या आवाजाचो..

कोण ना... आवाज ताजोच असो दिसता... धांवत भायर येतां.. पूण थंय तो ना.. भायर कोण कोण आसात.. पूण ताजोच आवाज म्हाका कित्याक आयकूंक येता?

''भायर कोण आयला.''

चेडूं भितर येवन सांगता. म्हाका दिसता तोच आयला... फोन वाजता. म्हाका दिसता ताजोच फोन. तो येना.. फोनय ... आशा म्हज्या मनांत.. आशा वायट... पूण आशेनूच मनीस जगता...

...केन्ना केन्ना दिसता तो केन्नाच येवचो ना... प्रेम सोंपलें.... सगळें सोंपलें. आतां तो आयलो, ना आयलो, कितें फरक पडटलो?

... तो म्हजो मित्र.. तो म्हजो मैत्रीणय... ताजी म्हजी मैत्री शुध्द, निश्पाप... असो एक वेळ आशिल्लो तो दादलो आनी हांव बायल असो विचारय मनांत येना आशिल्लो... तास तास एकामेकाकडेन उलयत बसप.... लोक कितें म्हणटलो. केन्नाच मनांत आयलें ना.. ताजें म्हजें नातें सामकें शुध्द... ताणें एक दीस हात हातांत घेतलो.. आय लव यू सादेच शब्द पूण त्या दिसा सावन तें मैत्रीचें नातें सोंपलें. ताजीं सादींच उतरां आय लव यू आतां किते जातलें?

म्हाका तो जाय आशिल्लो मित्र म्हणून. प्रेमाचो विचार केन्नाच करूंक ना. तो दिसलो कीं खूप बरें दिसतालें. सादो फोनाचेर ताजो आवाज. काळजाक थाकाय मेळटाली.. आय लव यू? ताजे उतरांनी आमचे मदल्या नात्याचो अर्थ बदल्लो... म्हाका ताजे कडेन जें जाय तें, तें प्रेम न्हय. हें किते तरी वेगळें... असलें प्रेम म्हाका ताजेर करपाचें ना...

...ताजे उपरांत ताजो फोन येतालो... तेन्ना मनाचेर दडपण येतालें. तो वेगळ्याच रंगांत उलयतालो... स्टायलीश येतालो... एकाच उतरान ताजें म्हजें नातें बदल्लें... तो मेळ्ळो तेन्ना मनांतली भावना म्हज्यान ताका सांगूंक जाली ना.

...म्हजे कडेन एकटक पळयत ताणें म्हळें,

''इतलें सिरियस किद्याक तूं? भिलां? हांव तोच... तूंय तेंच... मागीर आज ओगी ओगी शें?''

ताजे कडेन नदर वयर करून पळोवंक म्हाका जमलें ना. खूब खूब रडूंक आयलें... दिसलें ताज्या म्हज्या मदलें सूंदर जग शेणलां.... आनी वेगळेंच किते तरी आकार घेता.. रोमेंटीक... खूब वेळ बसून तो गेलो.. खूब किते तरी वेगळेंच उलयतालो. तो येतालो... किते तरी सुंदर सुंदर उलयतालो. वेगळ्याच राज्यांत म्हाका घेवन वतालो.. एकदां तो म्हज्या इतल्या लागीं आयलो... ताजे व्याकूळ सूक्ष्म दोळे... वाऱ्या वयल्यान संगिताचो मधूर स्वर येवचो तसो ताजो आवाज... मदींच तो गायब जातालो.. सांगिनासतना वतालो.. म्हाका एकट्याकच तळमळायत



दवरतालो... त्या वेळार दिसतालें तो लार्गी जाय...

....हांव बदलिल्लें.. म्हज्या मना खातीर देहाक भरती आयिल्ली काय देहा खातीर मनाक? देहाची मनाची चमत्कारीक गुंतागूंत, ओढ...दिसतालें ताका व्हडल्यान उलो मारचो.:. म्हजो उलो ताज्या काळजामेरेन पावंक जाय... थंयच घुमूंक जाय ... ताजे प्रतिध्वनी हुमटूंक जाय.

.... सगळें ताणेच सुरू केल्लें... प्रेम... आनी तो मर्दीच नाच्च जातालो. तो खेळटालो? खेळयतालो? म्हजी परिक्षा पळयतालो... तो मेळ्ळो ना कीं मन उदास.. भूक ना... तान ना... कांयच सुचना.. खंयच लक्ष लागना... कोणाकडेन उलोवंचें दिसनां.. कांयच आयकूंक येना... उदास... केन्ना केन्ना मनांत येतालें तो म्हजो मित्र आशिल्लो. मागीर अकस्मात तो प्रेम करूंक लागलो... धीर करून विचारलें... ताणें सांगलें, ''तुजेर हांव सदांच प्रेम करतालों.''

''मागीर आमची मैत्री?''

''मैत्री आशिल्ली.. सगळ्या गोश्टींचो अर्थ खंय कळना... उत्तर म्हत्वाचें न्हय.. प्रेम म्हत्वाचें...'' ताजें सगळेंच गूढ. रंग उजळ तांबसो.. भव्य कपल.. दोळे बारीक.. खोल खोल दोळे... दोळ्यांत पळोवन मनाचो थाव लागना इतले खोल.. पळयतना दिसता ... तो खूप पयसुल्ल्यान पळयता... भुवयो दाट.. कोरीव.. दोळ्यांचेर सावल्यो धरतात काय दिसता.. केन्ना केन्ना म्हाका दिसतालें... हो मनीसच वेगळो... हांसतना खूप मेकळो... पूण विचारांत आसतना खूप गंभीर... असो तो.. आपूण जावन जीवनांत आयलो.. मैत्री केली... ओळख वाडयली... तो येतगीर खोशयेचो खतखतो मनाक येवंक लागलो... उतरांतल्यान प्रेम... शब्दांतल्यान प्रेम... स्पर्शांतल्यान प्रेम... सगळें जीवन म्हळ्यार प्रेमाचो ऋतू... ते दीस मोसमाचें.. फुलिल्ल्या झाडाचें... तो ऋतू गेलो... ताजें येवप कमी कमी जालें..

...फोनय येवपाचो बंद जालो... हांवें फोन केल्यार तो बंद करतालो... केन्ना केन्ना सामकें रूक्ष उलयतालो.. केन्ना केन्ना मेळूंकय येतालो.. अकस्मात धुमकेतू सारको. पूण प्रेमांत जोर नाशिल्लो... पयलींची ओढ नाशिल्ली...

...मागनासतना ताणें प्रेम दिल्लें... भरभरून.. मागीर अशें कित्याक जालें?..

...ल्हवू ल्हवू कळत गेलें. प्रेमाक सुकती आयल्या. असो तूं कित्याक वागलो अशें विचारप म्हाका जमलें ना... केन्नाय याद येता तेन्ना तो येतालो.. तेन्ना हांव ताजेकडेन बरें वागतालें...

....झाडाक फुलां फुलतात... झडून वतात ... फुलां ना म्हणून झाडाक कोण मारून वडयना...

....झाडां सारकें प्रेम.. प्रेमाचो मोसम सोपता.... मोहर गळता- हांव खूप दुख्खी जालें- पूण हांव मानी. हांवें म्हजें दुख्ख ताका कळूंक दिलें ना... ताका तें कळ्ळें ना काय ताणें कळून दुर्लक्ष केलें.. कितेंय आसूं दी.. मोसम सोपिल्लो... प्रेम सुकत गेलें...

...अजूनय तो येता म्हगेर... मर्दी मर्दी मेळटा. तो म्हाका विसरूंकच शकना... आनी त्या खातीर ताजेर रागार जावंक मेळना.

..... घरभर ताज्यो यादी... एक एक याद मनांत... ताजें प्रेम हें सत्य... यादी भास... सत्य सोपलां. उरले फकत भास.

...मोसम सोंपलो. प्रेमाचो मोहर गळ्ळो. पूण यादी.. उपरांत म्हजें लग्न जालें... गांव बदल्लो.. घरय.. पूण भास मात अजूनय जाता... लग्नाचें पयलें वर्स जालें. खुपदां भास जातालो.. मनांत येवजितालें.

....म्हजें घर सोडून 'तो' येतलो, लग्नाचें पयलें वर्स... निकतेंच सोपलां... फुडें सगलें आयुश्य प्रेमाच्या मोसमांतल्यो मोरुपिशी यादी आनी वास्तव रूक्ष वर्तमानांतलें आयुश्य... आयुश्य सदांच रूक्ष नासता. केन्ना केन्ना सुंदरय आसता. म्हज्याय घोवाक मर्दी मर्दी प्रेमाचें भरतें येता... ''हातांत हात घालून फिरूंक या.'' तो वेगळ्याच मुडांत सांगता. त्या वेळार दिसता सगळेंच सुंदर. प्रेम आनी आयुश्यय... आयुश्यांत मर्दी मर्दी वाद आसताच-वादच ना जाल्यार संवाद कसो जातलो? मर्जेत येता तेन्ना तो रेस्टोरन्टांत घेवन वता.. मचमचीत आवडीचें जेवण मागयता.... मागीर प्रेमाचो मौसम बदलना. बारीक बारीक किर्दे काडून तो पिडत आसताच... मर्दी मर्दी म्हाका पिडप... हिणसावप, फुगवप, रडोवप आनी म्हजेर अधिकार गाजवप... ''हीज बिहेव्हियर इज हीज व्हे ऑफ लाईफ.''.. अशेंच चलतलें जल्मभर? मनशाच्या स्वभावाक वखद ना... मूर्ख... उल्लू.. बिनकामाची... हीं ताजीं विशेषणां म्हज्या खातीर ताणें सोदून काडिल्लीं... मनांतल्या मनांत हांव ताचेकडेन वाद घालता... ''कित्याक करता इतलो अन्याय म्हजेर? बायल म्हणून? लग्नान दिलां तुका 'लायसन्स' म्हजेर असो अधिकार गाजवपाचें? वर्चस्व प्रस्थापीत करपाचें... त्या बदल्यांत हो बंगलो... गाडी... ड्रायव्हर.. फाँरेन टूर... मुडांत येता तेन्ना प्रेम... तेंय आपल्या पध्दतीन... आपली बायल म्हळ्यार... आपल्या मालकीची म्हारग गाडी. असोच जल्मभर वागतलो? काय हें चित्र बदलतलें?

हें कसलें वागणें? प्रेमाचें? हें कसलें प्रेम? अतिरेकी? कसलें प्रेम जें फकत हक्क गाजयता?

सभ्यपणाचो वयल्यान झुळझुळीत पडदो भितल्ल्यान भानगडी.. असो म्हजो घोव.. आपणें भानगडी करप आनी बायल मात धुविल्ल्या तांदळासारकी स्वच्छ, निवळ.. लग्ना उपरांत ह्या बंगल्याच्या कादयेंत हांव रावतां..

ताका मैत्रीणी म्हगेर आयिल्ल्यो आवडनात. हांवें खंय गेल्लें आवडनां... ताजो 'स्टेटस' हांवें सांबाळूंक जाय... तो बँगलोर, दिल्लीक वता तेन्ना हांव तुका फोन करून आपयतां... येतगीर कोण आयिल्लें कोण गेल्लें सगळ्यो चवकश्यो.. आयज पयल्याच फावट हांव म्हज्या मनासारखें वागलां... जगलां.. तो ना आनी ताजो नोकरांचो लवाजमोय ना...



तो नासता तेन्ना नोकरांक हांव सुटी दितां... तांकांय तितलीच मजा.. मागीर सगळो दीस म्हजे खातीर.. घराची कादय जायना... कोणाचें चुकूनय लक्ष ना.. फाटल्यान दोंगर... सांज.. मळब.. पळयत हांव बसतां. लग्न जावन वर्स जालां. सोयऱ्यांचो कार्यक्रम आसता, तेन्ना सगळीं मेळटा... खोचून खोचून विचारतात... आसा गो किर्ते? आमकां केन्ना पेडे?

सगळ्यांक हुस्को.. किर्ते सायकॉलॉजी न्हय निम्मी बायलांची... लग्न जावंक ना, लाडू केन्ना दितलें? भुरगीं जावंक ना, पेडे केन्ना? पूण सायकॉलॉजीचो म्हजेर परिणाम जाता. कित्याक तर हांव सादी बायल. तुज्या सारखी करियरीस्टीक वूमन न्हय. संवसारांतलीं ल्हान ल्हान सुखां फुलां सारखीं वेंचप इतलेंच हातांत. तातुंतच सूख.

संगिता, हालीं हांव येवजितां. ल्हानश्याच भुरग्याविशीं. जो आमचे मदीं येतलो... कल्पनेनच मन सुखावता.. दोगांमदलें बंधन अतूट जातलें. ताजें म्हजे वयलें लक्षय कमी जातलें. मागीर दुसरें भुरगें... तिसरें...

संगिता खळखळून हांसलें, 'प्यार का मौसम.. थोडा खट्टा, थोडा मिठा'' हेंच आयुश्य. दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं. ते दुख्खाचे अश्रू काय आनंदाचे!

''पळय दोळ्यांत हांसून हांसून दुकां आयलीं. म्हाकांच केन्ना केन्ना कळना संगिता, हांव दुखांत आसां काय सुखांत?

पूण हालीं एक उत्कट इच्छा मनांत निर्माण जाता.. एक भुरगें जांवचें.. मागीर ताजेवेलो सगळो राग विसरून हांव ताज्या लागीं वतां... प्रेमाचें भरतें.. पूर.. हो म्हजो घोव म्हजेर जुलूम करता, अधिकार गाजयता हें त्या खिणाक हांव विसरतां.. आनी मजा म्हळ्यार तोय आपलो स्वभाव त्या खिणाक विसरता... ताज्यो सिंह गर्जना त्या वेळार नासतात. सामको मृदू, म्हवाळ प्रेम करपी भुरगो. कांय खिणां खातीर सामको प्रेमळ... संगिता हें प्रेम जिवें आसा सर म्हाका कसलोच भंय ना.. कसोय आसलो तरी भंय ना.''

''निम्मी.. किर्ते गो खंय शेणलें. म्हजे काणयेन तुजे कादंबरीक नव्या वळणार व्हेली? सामकी टचींग केली? निम्मी संवसारांत आत्मतृप्त जावंक जाय. संवसार प्रेम म्हळ्यार ऋतू.. 'मनशाक गरज आसता नात्याची' हें वाक्य म्हळ्यार तत्वगिन्यान. जिवनाची फिलॉसोफी... निती बिती सब झूठ.. आत्मतृप्त रावपाचो यत्न करप..''

''खूप वेळ जालो. वेळ कसो गेलो कळ्ळेंच ना.''

''निम्मी अशेंच मदीं मदीं यो. तू येतगीर बरें दिसता.''

संगिताच्या घराकडच्यान घरा परतताना मनांत येतालें. म्हाका फकत कादंबरी खातीर मॅटर मेळिल्लें... कांय मनशाचें जीवन, तांचे रूप निरखितां निरखितां धडो... 'आयुश्य भोगपाचें, दुख्ख सोसपाची ताकद सोंपल्या म्हण्टा म्हण्टासर मनशां जगत रावतात.. चलप हो मनशाचो धर्म म्हणून मनीस चलत रावतात. केन्ना हांसत खेळत, केन्ना पिरंगत.

.....निम्मीकडेन नातें जुळिल्लें मनाचें..

***

घराकडेन पावलें मात. रश्मीन सांगलें, ''कुंदाकाकीन हॉस्पीटलांतल्यान फोन केला. बापूक हॉस्पीटलांत घाला.''

''आगो आतां रोखडेंच मम्मीक कित्याक सांगूंक जाय. फाल्यां सांगल्यार जमनाशिल्लें. तें आतां धांवत पळत थंय वतलें.'' किरणान म्हळें. किरणाक कोणाचेंच पडूंक ना. वेळ आसल्यार, मूड आसल्यार लोकांचें घेवन बसप.. आमकां प्रोब्लेम आसता तेन्ना लोक येतात? मागीर वगीच सोशल सर्व्हीस कित्याक करप. ही ताजी फिलॉसॉफी.

''निम्मी, तूं गेलें म्हणून एकाखिणांत तो बरो जातलो? तूं वातकीर कुंदा काकी फाटलें सगळें झरयतली. याद काडून रडटली.''

''हय पप्पा, कुंदाकाकीची टिपीकल स्टोरी... 'कोण ना गो आपलो... भुरगीं पयस.. दोन भुरगीं. दोगांय अमेरिकेक. कोणाचोच धीर ना.' सदांच रडकथा.'' रश्मीन बापायक सांगलें, तेंय कुंदाकाकीची मिमिक्री करीत.

''रश्मी जाण्ट्यांची टिंगल करची न्हय.''

''टिंगल खंय केल्या? तुजी काकी सदांच पिरंगत आसता मम्मा.. बरी अमेरिकेक वचून येता.. वर्सांतले स म्हयने दोनूय भुरग्यांगेर न्युयोर्काक. पूण तरीय पिरंगवप.''

''रशमी.''

''तूं ताका कित्याक धपकायता... खरें तेंच सांगलां ताणें.''

रश्मी सामकें बापायच्या वळणार गेलां. बापायचेच भशेन.. कार्बन कॉपी..

''आता मम्माक पळय हांगा सूख लागचें ना.. पप्पा, मम्मा चडच केन्ना केन्ना इमोशनल जाता शें तुकां दिसना..''

''आगो रश्मी, इमोशनल जावप-हें तुज्या मम्माचें भांडवल.. शस्त्र.. बरोवपाखातीर आनी जगपाखातीर.''

''म्हज्यो टवाळ्यो केले बगर तुमकां सूख लागना.''

''तें नाकां.. जेवणाक किर्दे केलां तुवें?''

''कांयच करूंक ना.. किरण मात्शें कशें तरी मेनेज कर.''

''बरें जालें.. पप्पा आमी हॉटेलांत या.. नाय जाल्यार चायनीज खावपाची म्हाका रूच आयल्या.''

''बरें जालें. तूं रश्मीक घेवन वच. म्हाका हॉस्पीटलाच्या दारांत सोड. येतना पिकअप कर.''

त्या खिणाक निम्मीक आपल्या भाग्याची तोखणाय दिसली... कितलें बरें म्हजें जीवन. किरणा सारखो समंजस घोव, रश्मी-आदीत्या सारखीं भुरगीं. आदीत्य तर पयस इंजिनीयरींग करता. सुटयेंत येता. तेन्ना आपल्याच राज्यांत..

..हॉस्पीटलांत पावलें.. कुंदाकाकीक सोदत गेलें. कुंदाकाकी कपलाक आटयो घालून बशिल्ली.



"कितें जालें बापूक?"

"ब्लडप्रेशर वाडलें गो... नाका म्हळ्यार आयकना. फांतोडेर उठून पासयेक वता.. वतना सपणावेल्यान पडलो... कितलेदां सांगलें. भुरगीं हांगा ना आमकां कोण ना... आमीच आमका सांबाळूंक जाय... पूण म्हजें आयकल्यार तो दादलो कसलो? बायलेचें कित्याक आयकतलो? तुका त्रास दिवचें नाशिल्लें... आठ दीस जाले ताका हांगा येवन.. बेशुध्दच आसा....

... कोण आसात गो आमचीं?

.. भुरग्यांक फोन केला... उमेश येतलो... मिनान मात आपूण येवचें ना म्हूण कळयलां.."

"निम्मी कितलें हांसतें खेळतें घर आशिल्लें म्हजें.. कोण ना घरांत- भुतासारकी हांव एकटी... आनी आता बापूचें हें अशें.. येवजिल्यार भंय दिसता."

"चिंता करूं नाका. बरो जातलो बापू."

"देवाक खबर गो. हे आठ दीस हांवें कशे काडल्यात हांव जाणा."

"कुंदाकाकी तुवें कळोवपाचें न्हय... इतल्या दिसांनी?"

"तुका तुजो संवसार आसा... व्याप आसात... भुरगीं वाडटात तशें तांचें जगय वाडटा निम्मी... तांच्या जगांत तांचे प्रस्न. त्या जगांत आवय-बापायक स्थान नासता. आपले प्रस्न, दुख्ख तातुंतल्यान भुरगीं वाट काडटात. आज जगच बदल्लां. सगळें फास्ट... विचार करून, चर्चा करून जिवनाचे निर्णय घेवपाचे दीस गेले. कोणाक कोणाखातीर वेळ ना... तुकां कळयिल्लें .. तूं आयलें तेंच व्हड." कुंदा काकीन म्हळें.

कुंदा काकी आज शांत स्वरांत उलयताली. खंयच्यान आयलें हें समंजसपण कुंदाकाकीक. आठ दिसांनी सगळें आयुश्य समजल्ल्या सारखी.... इतल्यान नर्स सोदत आयली..

"पेशंट शुध्दीर येता सो दिसता."

कुंदाकाकी नर्सी फाटल्यान झपाझप चलूंक लागली. आय. सी. युंतली ए सी... बापूच्या तोंडार ऑक्सीजनचो मार्स्क.. कुंदाकाकीन लागीं वचून बापूक उलो मारलो... पूण कांयच प्रतिसाद ना.. दोळे तशेंच धांपून.. परत बापू घुस्मटूंक लागलो. नर्सीन ल्हवच सांगलें भायर वचात. कुंदाकाकी भायल्या सोंप्यार दोळे धापून बसली.

"निम्मी आठ दीस जाले. हो मनीस असोच आसा गो... कोणाखातीर तळमळटा जीव? मिना खातीर? उमेशा खातीर? मिना ताचें खूप अपुरबायेचें. खूप लाड केल्यात मिनाचे. मिनाय सदांच बापायल्या फाटल्या फुडल्यान.... मिना खातीर ताजो जीव अडकला? ना. म्हाका दिसना. मनाचे खेळ सगळे. मिना आयलेंय जाल्यार बापू मिनाक वळखूंचोय ना.

हालीं मिनाचें आनी बापूचें तशें नातेंच नाशिल्लें. न्युयोर्कांत रावून आयलीं तेन्नाय मिना आपल्याच कामांत. वेळ खंय आसा आमचेकडेन उलोवंक. आनी मदलें अंतर? मदल्या अंतरान बापू मदलें आनी मिना मदलें अंतरय वाडयलें. निम्मी, नातीं मागीर फकत उरतात नांवां पुरतीं.. आतां तुजे कडेन हांव मेकळेपणान उलयतां. पूण मिना कडेन, उमेशा कडेन, बापू कडेन कांयच उलोवंक जमना. आपल्याक कळत नकळत आपलींच मनशां पयस वतात. मर्दी दुरावो ... म्हजींच भुरगीं .पयलीं पयलीं वचप जातालें. आतां आमकां शक्य ना इतलो प्रवास करप. धोपरां दुखतात. विमानांत एकसारखें बसप जमना.थंय वचून तांकांय त्रास. वेळय वचना थंय. हांव बायल मनीस कसोय वेळ काडटां. पूण बापू किरकिरता. आपूण बरें आपलें घर बरें. तूं वतली जाल्यार वच हांव खंयच वयचोना. अशें बापून म्हाका सांगलां. हांव कशें वतलें गो ताका एकट्याक सोडून?" कुंदाकाकी  उलयत आशिल्ली कितलो वेळ.

"यादी, यादी.... भुरग्यांच्यो. घरांत वचनय दिसना. आतां तर बापूय ना घरांत. केदें व्हडलें घर बांदलें गो उमेशा खातीर. सपनां पळयलीं ताज्या संवसाराचीं." कितलो वेळ कुंदाकाकी उलयताली. संबंदीत.. असंबध्द.

"हांव सदांच म्हजी पिरगंण सांगतां. निम्मी वच तूं घरा. तुकां वेळ जातलो. फाल्यां जमल्यार यो. बरें दिसता कोणय येतगीर."

हॉस्पीटलांतल्यान घरा आयलें तेन्ना दोळ्यां फुडें कुंदाकाकी. तिजो संवसार... उमेश, मिना, बापू... चौकट... सदांच आनंदीघर. आयज तातुंतलें कांयच ना. उरल्यात फक्त यादी....

***

दोन दीस कुंदाकाकीगेर वचूंक मेळ्ळें ना. रातदीस धांवपळींत वतालो. स्वातंत्र्यदीन विशेशांक येवपाचो आशिल्लो. ताजी जबाबदारी निम्मीचेर घाल्ली. लेखा खातीर सगळ्या लेखकांक फोन मारूंक जाय. सगळेच अंक काडटात. आपलो अंक वेगळो उठून दिसूंक जाय. शिवाय किरण दोन दीस नाशिल्लो. रश्मीची सगळे जबाबदारी आंगार पडिल्ली. बाजार करूंक जाय. रांदून दवरूंक जाय... एक ना दोन हजार कटकटी. पूण संवसारांतल्या ह्या सगळ्या कटकटींकडेन अलीप्तपणान पळोवपाची संवय जाल्ली संध्या खातीर. संध्याक साहित्यांतलें कांयच कळना, पूण संवसाराचो मंत्र संध्या कडल्यान घेतिल्लो. सदच्या ल्हान-सान गजालींत त्रासून संध्यागेर गेल्लें. तेन्ना ताणें सांगिल्लें "अगो निम्मी घर आसा थंय म्हारवड आसा. घरांत सगळीं मनशां एकसारकीं कशीं आसतलीं? आपआपल्या स्वभावा नुसार प्रत्येक जाण वागतलो. तांकां बदलपाचो यत्न केलो म्हणून तीं बदलचीना. तुकां मात त्रास जातलो. अश्या ल्हान ल्हान गजालींकडेन दुर्लक्ष करपाचें. घरांतल्या बारीक-सारीक कटकटींचो त्रास करून घेतलो जाल्यार भायलीं कामां करूंक कसो वेळ मेळटलो? नाका ते गजालीनी शक्ती खर्च केली जाल्यार जाय त्या गजालीक शक्ती उरची ना." संध्यान संवसाराचो मंत्रच दिल्लो....'संवसारांत रावप पूण संसारांत गुंतप ना.' संतांचो मंत्र संध्यान वेगळ्या उतरांनी सांगिल्लो.

ल्हान ल्हान गजालींकडेन दुर्लक्ष करूंक जमतालें. केन्ना राशनकार्ड सोंपतालें, केन्ना बील भरपाचें रावतालें, लायट डिस्कनेक्ट जाताली.... फोन... कीरण आड्डतालो. पूण त्या वेळार सिचूयेशन कशें हेंडल करप तें



कळटालें. मनीस उतूंग कितें तरी करचे परस ल्हान ल्हान गोश्टींत रंगता. गुस्पट्टा आनी मागीर गुस्मट्टाय. चड करून बायलांक सगळे प्रोब्लेम्स चड बादतात. निम्मीच्या मनांत आयलें. सगळ्या बायलांचें दुख्ख एक. बायलांच्या दुख्खाक प्रतिनीधीक स्वरूप आसा. दुख्खांत साम्य आसा. कितलीय तडजोड केली तरी केन्ना केन्ना निम्मी सामकें थकतालें.

घरांत आयलें तेन्ना रश्मी आपलीं पुस्तकां घेवन आयलें.. होम वर्क तोय हिन्दीचो.. ''मम्मा टिचर सांगता तें न्हस्व दिर्गाचे नियम म्हाका कळना. आनी टिचर मिस्टेकी काडटा. मागीर म्हाका कमी मार्क पडटात. तूं म्हजो अभ्यास घे.''

केन्ना जमतलें सगळें? शॉपींग करूंक जाय, रश्मीचें होमवर्क आनी कुंदाकाकीकय मेळून येवंक जाय. आयज जमतशें दिसना. फाल्यांच वचचें पडटलें... संसार एके संसार.... संसार दुणेय संसार.... बहिणा बाईच्या अभंगाची निम्मीक याद जाली.

''अगा संसार संसार
जसा तवा चुलीवर.''

हांगा हाताक चटके बसतगीर भाकरी मेळटा. पूण ती भाकरी खावंक वेळ नासता. मध्यमवर्गीय नोकरी करपी बायलांचे प्रस्न.... पूण खरेंच संवसार आनी नोकरी , करियर करतां करतां बायलांची दशा जाता.



कशें तरी सगळें आवरलें. रश्मीचो होमवर्क, फाल्यांची तयारी.. कामाचें टायमटेबल तकलेंत घोळटालें. तेंय वेळाक बसोवन काम करूंक जाय. सगळो पसारो आवरलो... हांगा थंय कागदां, फायली पडिल्ल्यो. त्यो जाग्यार दवरल्यो... चक्रा सारकें घुंवप सकाळ, साज...

थकिल्लो देह घेवन हातरूणार पडलें तेन्ना मनांत प्रस्न आयलो.. संगिताची काणी? वंदुची काणी? प्रेम... मस्त जीवन... प्रेम भंग... नात्याचो शोध? काय वयर वयर बरें दिसपी म्हज्या सारखे बायलेचें जीवन चड त्रासाचें. रूटीन जीवन? अश्योच कितल्योश्योच बायलो जगतात, यंत्रा सारख्यो.. आपलीं दुख्खां रंगोवन, सजोवन सांगूंक तांकां जमना. तांचेकडेनय म्हजें नातें आसा मनाचें. तांच्या जिवनांत ताण तणाव ना. मनाचे बांद फोडून वयर येवपी दुख्ख ना. सुखय चौकटींतलेंच. लग्न, भुरगीं, तांचें शिक्षण, तांचीं लग्नां, सगळें साचिल्लें. दीस एकाफाटल्यान एक सोंपत रावता. अशेंच आसता चडश्या बायलांचें जीवन.

मध्यमवर्गीय बायलेचें प्रतिनीधीक दुख्ख... प्रतिनिधीक दुख्ख आनी दादल्यांचेंय... दादलेय तेच चौकटींत जगतात. 'फेमिनीस्टीक' लेखक बायलांच्या दुख्खांचें भांडवल करतात.

संध्याक सांगल्यार म्हज्या विचारांक ठाम विरोध करतलें. 'दादल्याचें वर्चस्व आशिल्ल्या समाजांत बायलांचो घुस्मटमार' हो लेख ताणें स्त्रीं विशेशांकांत बरयिल्लो. बरोवप ताज्या प्रांतात येना. पूण बायल हो ताजो आवडीचो विशय. सगळीं रिएक्शन्स टिपीकल फेमिनीस्ट....

''निम्मी तुज्यो कथा म्हाका आवडनांत. अशेंच मिळमिळीत बरयत रावल्यार तूं वर्तमान पत्रांतली चाकरी करपाकच उरतलें. हांव सांगतां तूं बायलांच्याच दुख्खांचेर बरय. टॉपीक फेमिनीस्टीक. तुका मसालो हांव दितां.'' दादल्यांक आनी बायलांक दुख्खां आसता अशें सांगल्यार ते ठाम विरोध करता. तें सदांच सांगता ''निम्मी तुजें लेखन सगळ्यांनी वाचूंक जाय. फकत समिक्षकान स्तुती करूंक बरोव नाका. बरय अशें की काळजार खरवत फिरूंक जाय. हेंच पळय. तूं लेखिका... पूण तुज्या मर्दी आनी लेखकां मर्दी भेदभाव आसताच अशें न्हय.

आतां हेंच पळय. कॉलेजांत आसतना आमच्या बरोबर एक भुरगो शिकतालो. तो आतां व्हड लेखक जालो. एकदीस तो म्हाका मेळ्ळो. ताणें आपल्या आवडीच्या रेस्टोरंटांत म्हाका व्हेलें. ताणें म्हाका सांगलें 'ही म्हजी आवडीची जागा. मन अस्वस्थ, एकाकी जाता तेन्ना हांगा बसून हांव एक पेग मारतां.' ताणे आमच्या दोगांखातीर लायम सोडा मागयलो. मर्दींच म्हाका एकटेंच दवरून रोखडोच येतां आं! अशें सांगून तो गेलो.

त्या वेळार एकविचार म्हज्या मनांत आयलो, म्हाका जर सामकें अस्वस्थ दिसलें जाल्यार एकटेंच बसून एक पेग मारप शक्य आसा? बायल म्हणून मर्यादा पडटातच न्हय?

निम्मी, तूं बायलांच्या आत्म्याच्या आक्रोशाचें चित्रण तुज्या साहित्यांत कर. बायलांच्यो व्यथा.. वेगळ्यो.. अस्पर्श... तांकां स्पर्श कर.. सामक्यो साध्योय आसल्यार जाता. आपल्याच घरांतल्या अपमानींत निर्वासीत बायलांच्या दुख्खांचें वर्णन कर.''

संध्या उलयतालें पोटतिडकेन.

''निम्मी तुजें आयुश्य सुखांत वता. बायलेच्या शरिराचे आनी जिवनाचे विटंबनेकडेन तुजें लक्ष वचना... भारतीय बायलेचेर कितलीं बंधनां... समाजाचीं, संसाराचीं, संस्काराचीं.. जिवनांतलें सगले अणभव भोगूंक



तिका मेळना हें मान्य. पूण लेखका परस वेगळें जीवन ती जगता. वेगळे अणभव, वेगळें आयुश्य. घराघरांत कादंबरीच्यो नायिका आसात तांचेर कोण बरयतलो?

सदच्याच जात्यार बसून सदच्योच ओवयो. आनी सदचेंच दळण नाका. कितें बरयता तें वेगळें बरय. मुक्त, मनस्वी नायिका रंगय.''

संध्याच्या रूपान नवी मूक्त, मनस्वी नायिकाच उलयताली. घोव, भुरगीं हातूंत संध्याचें मन रमलें ना.

संध्या नवी नायिका? मुक्त मनस्वी?

***

आयतार आयलो... कीरण आनी रश्मी गांवांत गेल्लीं. सगळो दीस मेकळो.. आज कुंदाकाकीक मेळूंक वचूंक जाय. बापूची चवकशी फोनार केल्ली.

''उमेश आयला..'' कुंदाकाकीन सांगलें. उमेशाक मेळपाची तिव्र इत्सा जाली. भुरगेपणांतलो उमेश याद जालो. म्हज्या भाव-भयणां परस उमेशाकडेन, मिनाकडेन म्हजें बरें पट्टालें.

तेर्रासाचेर वयर बसून चंद्रप्रकाशाच्या मंद उजवाडांत रातच्यो दोन-तीन म्हळ्यार कितल्यो खबरी मारल्यात .... पूण तेंच मिना दर फावट अमेरिकेच्यान येतालें तेन्ना सामकें परकी.... अनवळखी जालें...

कुंदाकाकी म्हणता तशी वाडटां वाडटां भुरग्यांचें विश्व बदलता... कुंदाकाकीचीं भुरगीं कुंदाकाकीक अनवळखी. तांचें विश्व.... तांच्या जगांतले प्रश्न तिका अनवळखी... उमेश... मिनांय तशींच अनवळखी जायत गेलीं... भुतकाळांतल्यो यादी...संदर्भ फकत आयुश्याक चिकटून रावतात... बाकी सगळें बदलता...आयुश्य... नातीय... नात्यांतले बंध... कित्याचीच शाश्वती ना... नात्याची... आयुश्याची.... आपलें आयुश्य तरी आपलें आसता? आयुश्याचेर तरी आपलो अधिकार आसता?

.... कुंदाकाकीक मेळूंक हॉस्पिटलांत गेलें. थंय उमेशय मेळ्ळो... औपचारीक उलवप जालें... मन उदास जालें परत एकदां...दर फावटी उमेश मेळतगीर मन उदास जातालें. भुरगेपणांतले मैत्रीचे, भावभयणीच्या नात्याचे बंध सैल जाल्ले... अमेरिकेंतल्या जिवनाविशीं म्हायती विचारप आनी ताणें उत्तर दिवप.. सगळेंच फॉर्मल... चड वेळ त्या वातावरणांत मन घुस्मटूंक लागलें.

''आई, आज तूं घरा वचून रेस्ट घे.. हांव रावतां हॉस्पीटलांत.'' उमेशान सांगलें.

''निम्मी, यो गो घरा.. खूब उलोवंक जाय.'' कुंदाकाकीन म्हळें.. कुंदाकाकीच्या घरा आयलीं... सुंदर ल्हानशी बोंगुल्ली. घरा पावलीं तेन्ना काळोख जाल्लो... दार उगडलें... भायल्या उजवाडाचो कवडसो दारांतल्यान भितर आयलो. बाकी सगळो काळोख... दारां, जनेलां बंद उरतगीर वास येता तसो वास घरांत पातळील्लो... घर सामकें स्तब्ध, निर्जीव.. मनशांबगर.. कुंदाकाकीन सदांचे संवयीन बटनांक हात लावन लायट पेटयली. घरांतल्यो वस्तू स्पश्ट जाल्यो. बापू-कुंदाकाकी, उमेश-मृणा, मिना-संदेश -- तिगांयच्या तोंडार प्रसन्न हांसो... ''उमेशाच्या लग्नाकडलो हो फोटो.'' कुंदाकाकीन म्हळें.

''निम्मी, हो फोटोच आतां अनवळखी दिसता... वळखिच्यो खंयच्योच खुणो ना. आपल्याय नकळत आपल्या जिवनाक वेगळेंच वळण लागता. सूर शेणटात..'' कुंदाकाकीन म्हळें.

कुंदाकाकीचें हें रूप नवें... इतलो आत्ममग्न जावन कुंदाकाकी विचार करता अशें केन्नाच दिसूंक ना. कुंदाकाकी म्हळ्यार सगळ्यांच्या टवाळीचो विशय. बापूच्या पर्सनेलीटी फुडें कुंदाकाकी सामकी निस्तेज. आज कुंदाकाकीचें वेगळेंच नवेंरूप..

''निम्मी, कडक कॉफी करतां... मात्शी तरतरी येतली.. जागरणानी जीव सामको थकला...''

जागरणांनी थकला म्हणून कुंदाकाकी आपल्या मनाक फटयता... समजायता.. बापू वतले ही कल्पनांच कुंदाकाकीक सहन जायना. बापू बगर आपूण हें चीत्र मनाक येवजून ती थकल्या... कोणाकडेन तरी हें दुख्ख वाटूंक जाय. कुंदाकाकीक सांगूंक जमना.

....कॉफी घेवन कुंदाकाकी आयली...

''चल निम्मी तेर्रासाचेर बसया. निम्मी, बापूचो सांगात म्हाका चड तेंप मेळचो ना. हांव जाणा. तांच्या बगर जगप कशें. हो प्रस्न हांव मनाक विचारतां... हांवें मन खंबीर केलां... घोव वतगीर बायल जगता.. बायल वतगीर घोव... जगचेंच पडटा. बापूचें तशें दुख्ख म्हाका ना.''

कुंदाकाकी विशण्ण आसली.

''निम्मी!''

कुंदाकाकीचो आवाज थरथरलो.

''तुज्या बापुकडेन म्हजें लग्न जालें निम्मी. सोयरीक व्हेली.. पत्रिका जुळ्ळी... पसंद पडलीं.. लग्न जालें... भुरगीं जालीं मिना.. हय उमेश ... संसार केलो दोगांयनी. पूण बापू आनी हांव दोन ध्रुवावेलीं दोन टोकां कशीं. एकटींच उरलीं. बापूच्या स्वभावाखातीर. बापून केन्नाच म्हाका त्रास दिलो ना. पूण निम्मी मनांतलें बापूक सांगप जमलें ना... बाप खूब वेगळे... तांचें व्यक्तीमत्व जबरदस्त... निम्मी, एकटो मनीस हासलो कीं दुसऱ्या मनशाचे खूब खूब हाल जातात गो.... तशेंच म्हजें जालें.

....केन्नाच मनांतलें दुख्ख... खोशी.. बापून म्हाका सांगली ना. मन मेकळें केलें ना. सदांच अलिप्त... स्थितप्रज्ञ... कसल्योच भावना व्यक्त केल्यो ना... बापूच्या मनांत कितें चलता म्हाका केन्नाच कळ्ळें ना.

मिना....उमेश पयस गेलीं तेन्नाय बापूकडेन उलोवप, मनांतलें सांगप जमलें ना... बापूचो कितल्या वर्सांचो सहवास.. पूण बापू म्हाका अनवळखीच उरले... निम्मी... निम्मी हांव बापूक वळखूंक ना... मिनाकय ... उमेशाकय..म्हज्याच पोटांतल्यान जल्म घेतिल्लीं म्हजीं भुरगीं म्हाका अनवळखी.

निम्मी तूं जाणा उमेशान डायवर्स घेतला. मृणा-उमेश वेगळीं रावतात.





वर्सभर जालें... उमेशान म्हाका आज सांगलें.

..मिनाची गजाल म्हाका उमेशाकडल्यान कळ्ळी.

बापूक पळोवंक येवचें ना अशें मिनान सांगलें पूण खरें कारण सांगलें ना. हांव ताजी आवय, पूण आपलें दुख्ख, प्रस्न ताका म्हाका सांगचेशे दिसलेना.... निम्मी रक्ताचीं नातीय अशीं जिर्ण जातात गो?

भुरग्यांचीं दुख्खां आवय-बापायचीं दुख्खां नासतात? निम्मी, उमेशाक पळोवन मन भरून येता. दिसता म्हजे कडेन ताणें मन मेकळें करचें. आपलें दुख्ख वाटचें अशें दिसना?

"मृणाचो आनी म्हजो डायवोर्स जालो." एकाच वाक्यांत उमेशान सांगून उडयलें. ताका ताजेर कांयच उलवचें नासलेंच. निम्मी, हें कसलें आयुश्य? आपल्या मनशांच्या आयुश्यान सहभागी जावंक मेळना आनी अलीप्तय रावंक जमना... कित्याक भुरगीं अनवळखी जातात?

कित्याक आपल्याच सांगात्याची वळख जायना?

घोव-बायलांचें नातेंच फसवें आसता? एकामेकांक अनवळखी आशिल्लीं दोगांय लग्नाच्या बंधनांत एकठांय येतात. तडजोड करीत एकामेकांक वळखुपाचो यत्न करतात... पूण तें जमच ना... दोगां मदल्या अनवळखीपणांत जीव असो शेणटा कीं आपलेंच मन आपल्याकच अनवळखी जाता. नातीं... समजतां समजतां मन सामकें अनवळखी जाता.

....क्षण दोन क्षण कुंदाकाकी स्तब्ध जाली...

.. तिणें सांगिल्लें सगळें असंदिग्ध. पूण तरीय तातूंत खोल अर्थ आशिल्लो.

कुंदाकाकीक कशें सांगप कशें समजावप? ताणीं जीवन भोगिल्लें... पळयिल्लें म्हजे परस खूब अणभव तांच्या गाठीक..

कांय खीण कांयच सुचलें ना...

भायर काळोख.. पयसुल्ले दिवे भोवतणच्या गार्डनांतलीं झाडां... आनी खिन्न विशण्ण कुंदाकाकी....

वयर मळबांत मात नक्षत्रां लिखलिखतालीं... सामकीं लागींलागीं..

"कुंदाकाकी वयर मळबांत पळयलां? कितलीं नक्षत्रां सामकीं लागीं लागीं... पूण तीं लागीं ना... अंतर आसा मदीं- फकत तें अंतर आमचे दृश्टीक दिसना. प्रत्येक नक्षत्र वेगळें... उजवाड वेगळो.. तेज वेगळें... गूण वेगळे... प्रत्येकाचें जग स्वतंत्र... अस्तित्वय स्वतंत्र... वेगळें...

तशेंच मनशाचें... तांच्या मदल्या नात्याचें... घराच्या मळबांतलीं आमी सगळीं नक्षत्रां कुंदाकाकी.." कुंदाकाकीक आनी कशें सांगप, उलोवप ... समजावप म्हाका कळूंक ना...

"कुंदाकाकी येतां हांव." तिजें सात्वन करूंक म्हजे कडेन उतरां नाशिल्लीं.

"निम्मी, यो केन्ना केन्नाय. तूं येतकीर हांव खूब उलयतां... केन्ना केन्ना निरर्थक... पूण मनाक बरें दिसता..."

गेटीकडें मेरेन कुंदाकाकी आयली. कुंदाकाकीच्या घराकडच्यान पयस वतना, पयसुल्ल्या घरांतल्यान कोणतरी गायतालो... सामको भितरल्या आवाजान.. दमदार... मधूर.. आर्त... बेभान.. जावन कोण तरी गायतालो... अनामीक...

...चलत पयस पयस रिक्शा स्टॅन्डा मेरेन वतासर आवाज मंदमंद जायत गेलो.

....रिक्शान बसून घराकडें आयलें आनी बरोवन घेतिल्ल्या कादंबरीन वेगळें वळण घेतिल्लें. मनस्वी आयुश्यांतल्या उलट-सुलट वेदनींचीं रुपां दोळ्यांमुखावेल्यान चलचित्रा सारखीं धांवतालीं.

....वंदू...वंदुची आवय, चित्रा, संगिता, कुंदाकाकी... आनी कितल्याश्याच जाणांचीं नातीं आशिल्लीं.



तांचेकडेन बंध निर्माण जाल्ले.... नातें.... मनामनाचें...

***

**- सुजाता सिंगबाळ**
**पर्वरी-गोंय**




# अल तमीर : एक साक्षात्कार

– योगिनी बोरकार

मनशाच्यो तीन मुळाव्यो गरजो म्हळ्यार अन्न, वस्त्र आनी आलाशिरो. ह्या तेन गरजांखातीर मनीस संघर्श करीत रावता. कांय फावटी तागेल्यो ह्यो गरजो तो रावता त्या जाग्यार वा थळार रावन भागना. ताका आपल्या घराच्या चार वण्टींतल्यान भायर सरचें पडटा. आनी मागीर तो अश्या जाग्यार पावता जंय नाण्यांच्या तालार सगळें जीवन चलता.

विश्राम गुप्ते हांगेली 'अल तमीर' ही कादंबरी अशाच लोकांची काणी सांगता जे आपल्या मुळापासून हुमटल्यात. नाण्यांच्या तालार जगपाक कठीण जाता पूण एकदां ह्या देशांत भितर सरतकच भायर सरप कठीण जाता. तांची जीण बंदिस्त जाता.

अरबींत कालाबूश म्हळ्यार जेल. ह्या जेलींत राविल्ले बशेन जाता. कादंबरीचें मुखपृश्ट सामकें प्रतिकात्मक आसा. एकदां जो मनीस ह्या देशांत पावता तो सगळ्यो गजाली विसरून फकत फुलूस म्हळ्यार पयसो कमावपाच्या कामाक लागता.ताच्या विचारांक आनी विचार करपाचे तांकीकूय फुलुसाचें कुलूप लागता. तांच्या मनांतले विचार जिबेर येवंचे पयलींच तांचें तोंड बंद जाता आनी तांचें अस्तीत्व काला बुशाच्या वण्टींनी ना जाता.

अल तमीर सौदी अरेबियांतलें एक शार. थळाव्या लोकां बरोबर हांगा 'अजनबी' रावतात. थळाव्या लोकांचें भायल्यां बद्दल एक मत आसता आनी तें म्हळ्यार, हे भायले लोक हांगा फकत फुलूस कमोवपाखातीर हांगा येतात. तांचो ह्या देशाकडेन आनी हांगा रावपी लोकांकडेन कसलोच संबंद नासता. तांचें हें मत वा समज एके वटेन खरो कित्याक तर सौदी अरेबीयाचे बंदिस्त जिणेंत खंयचेच व्यक्तिक स्वातंत्र्य वा मेकळीक नासता. ताका लागून फकत पयसो जोडप हेंच तांचें ध्येय जाता. अशें जाल्ल्यान हांगा रावपी अजनबी अजनबीच उरता. जे अजनबी हांगाचे परिस्थितीकडेन तडजोड करूंक शकना ते एकझीट विझाचेर ह्या देशाक सासणाखातीर अजनबी जातात.

लेखकान कादंबरीची सुरवात एका प्रसंगान केल्या. ह्या प्रसंगावरवीं लेखक थोड्या भितर अल तमीरांची वळख वाचकाक करून दिता. थंबन नायर हो केरळी मनीस अल तमीर इलॅक्ट्रीकल कंपनीचो कर्मचारी. ताच्या हाताखाला काम करपी अल तमीरचो एक नागरीक, अल बदवी ताचेर जिवघेणो हल्लो करता. कारण इतलेंच की अल बदवीक नायर हो गुलाम दिसता आनी तोच आपल्याचेर शेक गाजयता हें



ताका सोंसना. थंबन नायराचो जीव वाटवता. पूण ते घडणुके उपरांत ताका अल तमीर सोडचें पडटा. अल बदवी आड कागाळ करपाचो सल्लो ताचे इश्ट ताका दितात. थंबन नायर अल बदवी आड कागाळ लेगीत करता. हेच आशेनं की इश्टान सांगिल्ले प्रमाण ताका लुकसाण भरपाय मेळटली. थंबन नायराच्या ह्या विचारावेल्यान आमकां दिसून येता की फुलूसाची चटक लागली जाल्यार ताका कांयच सुचना. थंबन नायराक लुकसाण भरपाय मेळच ना. आनी तो अल तमीर सोडटा. पूण केरळ आपल्या घरा वतना नव्यो वस्ती घेवपाक तो विसरना.

कादंबरीची खरी सुरवात जाता जेन्ना डॉ. शैला गुप्ता आपल्या घरच्यांसयत सौदी अरेबीयांतल्या अल तमीरांत्त येता तेन्ना. तिच्या सांगाताक तिचो घोव विक्रम आनी पूत सुभू अल तमीरांत येतात. डॉ. शैला गुप्ता ह्या देशाच्या नेमा बरोबर तडजोड करूंक शकता पूण विक्रम गुप्ता मात कसोच ही तडजोड करूंक शकना. अल तमीरांत सारिल्ली जीण आनी प्रत्येक अणभव तांचे जिणेंत अविस्मरणीय थारता.

हे कादंबरींत लेखकान एकाच बरोबर कितलेशेच विशय मांडल्यात. कादंबरींत भारतीय लोकांच्यो व्यथा आसात. आपलो देश सोडून दुसरे कडेन येतकच कशे त्रास सोंसचे पडटात हें लेखक सांगता. थळाव्या लोकांचें गुलाम जाल्लेवरी अजनबींक वागणूक मेळटा. हांगा आयिल्ले अजनबी फुलूसाक लागून ही वागणूक मोन्यांनी सोंसतात.

पयसो जोडपाक मनीस भायर सरता तेन्ना ताका जायत्यो तडजोडी करच्यो पडटात. आपल्या घराकडेन सुद्धां तो तडजोड करता. डॉ. निमीश ढोलकिया आनी ताची बायल पूनम दोगांय हांगाच्या हॉस्पीटलांत नोकरी करतालीं. तांकां तीन साडे तीन वर्सांचो चलो आसता. ताचें नांव किटू. किटू सुद्धां आपल्या आवय बापायक पयशे जोडपाक आदार करता. ताच्या आवय बापायक किटू कडेन लक्ष दिवपाक वेळ मेळना आनी मनीसूय मेळना. डॉ. पूनमाक नोकरी सोडून रावप शक्य नासता. अशा वेळार किटू एकलोच घरा रावता. सगळ्या भारतीय समाजांत किटू हिरो जाता.

लेखकान किटूचें पात्र सुंदर रितीन चित्रायलां. भुरगीं लेगीत परिस्थितीकडेन तडजोड करूंक शकता हें लेखक आमकां सुचयता.

कादंबरीचें कथानक जरी विक्रम गुप्ता आनी ताच्या घराब्याक आयिल्ल्या अणभवा भोंवतणी आसलें तरी कादंबरीचो केंद्र बिंदू अल तमीर. अल तमीरान रावपी लोक, तांची मानसिकता आनी अजनबी कडेन पळोवपाचो तांचो दृश्टीक कोण. ह्या शारांत तरातरांचे लोक रावतात. वेगवेगळ्या देशांतल्यान कामा निमतान आयिल्ले लोक हांगा रावतात पूण तांकां अजीबात मान मेळना. अजनबी कडेन हांगाचे लोक उपेक्षेचे नदरेन पळयतात. एकाद्रया भायल्या मनशान हांगा येवन नांव जोडलें जाल्यारूय हे लोक तांकां लेखिनांत. भायल्यान येवपी मनीस हो आपलो गुलाम आनी पयशे जोडचे शिवाय दुसरें कांयच तो करूंक शकना ही हांगाच्या लोकांची भावना आनी हेच भावनेचेर तांगेलीं अजनबी कडेन नातीं आदारिल्लीं आसतात.

लेखकान चित्रायल्लीं पात्रां सामकीं जितीं-जिवीं दिसतात. तांच्या पात्रांचो तोल तांणीं बेस बरेतरेन सादला. कादंबरींत निस्वार्थीपणान काम करपी डॉ. हुसेन आसा जाल्यार संदी साधू वसीम सिद्धीकी सारको मनीसूय आसा. विक्रम गुप्ता आनी डॉ. शैला गुप्ता हांगेल्या पात्रांवरवी लेखकान घोव बायलेचें नातें चित्रायलां. एका परक्या देशांत जंय आपलो असो म्हणपाक कोणूच नासता थंय घोव आनी बायल खऱ्या अर्थान एकामेकांचीं सांगाती आसतात. हें तांच्या नात्यावेल्यान आमकां समजता.

विक्रम गुप्ताक अल तमीर हो देश मात पसून मानवना. परतून गोंयां वचचें अशें ताच्या मनांत येता. पूण तो थंय रावता आनी ताचे जिणेंत मोडण येता. अल तमीरांतले भारतीय शाळेंत ताका नोकरी मेळटा. ताका वेगवेगळे तरेचे अणभव येतात. विक्रम गुप्ता हे अणभव कशे तरेन आपणायता आनी शिक्षक म्हणून आयिल्ली जापसालदारकी जे तरेन स्वीकारता ताचेवेल्यान ताचें पात्र अदीक खोल जाता.

सगल्या बायल शिक्षकांभितर तो एकलोच दादलो आसता. तेन्ना तो पेचांत सांपडटा. पूण ताच्या खेळकर स्वभावाक लागून तो तड मारता आनी सगळ्यांच्या मनांत आपली सुवात तयार करता.

लेखक एक म्हत्वाचो मुद्दो मांडटा. शाळेंत मुस्लीम आनी हेर धर्मातल्यो ज्यो शिक्षिका आसता तांचे भितरलें शीतयुद्ध. खुपूच सुंदर पद्धतीन हो प्रस्न मांडटा. ह्या दोन गटांतल्या व्यक्तीं भितरलो संघर्श लेखक कमीत कमी उतरांनी आनी वागण्यांतल्यान चड दाखयता. ताका लागून ह्या मुद्दयाचो खरपणा वाचकांक अचूक लक्षांत येता. देखीक - नॉन एम् टिचरी हांसपाक, किटकिटपाक लागतात तेन्ना एम् शिक्षिका ओग्गी बसून तांकां पळयत रावता. तांकां दिसता की ह्या बायलांक मात पासून रीत ना. एक गजाल प्रकर्शान जाणवता, एम् शिक्षिका वटेनचें शीत युद्ध एके तरेचें डिफेन्स मॅकानीझम बशेन आसा. तांचो समाज बायलांक मेकळेपणान उलोवंक दिना. देखून घडये तांकां ह्या नॉन एम् शिक्षकांचो मत्सर वा नसाय जाता आसुंये.

एम्. शिक्षिकांचे मजतीक फक्त एकूच मनीस आसता. हैद्राबादचो वसीम सिद्धीकी शाळेच्या मॅनेजमेंटाचो एक वांगडी. विक्रम गुप्ताक शाळेंत शिक्षक म्हणून घेतला हें ताका अजीबात मानवना. पूण ताचो नाईलाज आसता. तो चड शिकूंक नाशिल्लो आनी हेर वांगड्या बशेन पयशेकारूय नाशिल्ल्यान तो हेरां परस मात्सो उणो पडटालो.एकूच



गजाल ताचेकडेन आशिल्ली आनी तेच गजालीक लागून घडये तो ह्या उच्च वर्गांत आपली सुवात आनी मान मेळयतालो. ती गजाल म्हळ्यार इस्लाम बद्दलचो आदर. डॉ. हुसेनाक लोक इस्लाम धर्माचे तज्ञ मानताले पूण तांचे भितर धर्म कोल्लीपणा नाशिल्लो. सिद्धीकीक मात आपल्या धर्मा बद्दल हेरां परस चड अभिमान आशिल्लो. घडये ह्या भावार्थाच्या म्हालवजार तो आपली सुवात ह्या शिक्षीत आनी पयशेकार लोकां भितर करूंक शकलो. विक्रम गुप्ताच्या नेमणुकेचो ताणें निशेध केलो. पूण कोणेंच तार्चे काना मनार घेतलेंना. एकेच घडणुकेक लागून विक्रम गुप्तान सिद्धीकीच्या आतेभावाक, अलाबक्षाक शाळेंत खूप मजत केली.



विक्रम गुप्ताक आनी एक गजाल ते शाळेंत खटकली. बायल आनी दादले एका बरोबर बसून उलोवप म्हळ्यार एक व्हडलो अपराध कसो हांगाच्या लोकांचो समज. जेदेवेळार ही गजाल ताच्या लक्षांत आयली तेन्ना ताणें आपल्याखातीर एक वेगळी सुवात सोदली आनी तो कुशीक सरलो. ताका जाणवलें की हे शाळेंत जरी चले आनी चलयो एकत्र शिकतात तरी लेगीत चलयांकडेन उलयतना खूप भान दवरचें पडटा. सुरवेक ह्यो गजाली ताका समजुपाक आनी सवंय लागपाक वेळ लागलो पूण मागीर तो लेगीत ह्या वातावरणाचो एक भाग जाता. इतलेंच न्हय तर आपले परीन बदल घडोवन हाडपाचो यत्नूय तो करता.

विक्रम गुप्ता एक कुशळ शिक्षक आनी प्राचार्य थारता. शाळेचो प्राचार्य म्हणून ताची नेमणूक जाता. शाळेंत जे तरेन वातावरण आसचें अशें ताका दिसता त्या प्रमाण तो बदल घडोवन हाडपाचो यत्न करता. तांच्या लक्षांत येता की हांगाचीं भुरगीं फक्त कोक आनी तेलंकट खाणां खातात. ताका लागून तीं मोटीं जाल्यांत. तो ताका ताईजिकिंग्वाँग शिकयता. तांच्या खाणा जेवणाची पद्धत बदलपाचो यत्न तो करता. हें सगळें करतना ताका वेगळेच तरेची उमेद येता पूण ही उमेद कांय खिणांखातीर आसता.

विक्रम गुप्तांन शाळेंत घडोवन हाडिल्ले बदल सौदी अरेबियांतल्या कायद्यांक धरून नासतात. बायल आनी दादलो एकी कडेन काम करप कायद्याक धरून नाशिल्लें आनी दादल्यान आनी बायलेन बरोबर बसप तर निखालस ना. शाळेंत नोकरी करपी चिनम्मा आनी मोनीक जॉर्ज हांचे घोव ही सगळी खबर सौदी प्रशासनाकडेन पावयता. जी गजाल सौदी कायद्या भितर बसना ती गजाल विक्रम गुप्ता करता हें कळटकच विक्रमाक पुलीस ताब्यांत घेतात आनी कालाबुशांत धाडटात.

कालाबुशांत जरी विक्रम गुप्ताक हाल अपेश्टा सोंसची पडना तरी ताका भयंकर मानसीक ताण आनी त्रास जातात. ताका दिसता की आपणें प्राचार्य जावपाचो मोह टाळपाक जाय आशिल्लो आनी तो जर आपणें टाळिल्लो जाल्यार ही परिस्थीती आपल्या वाट्याक येवंची नाशिल्ली.कालाबुशांत राविल्ल्यान ताच्या मानसीकतायेन जाल्ल्या बदला वेल्यान दिसता की तो मान्य करता की आपणें सौदी कायदे मोडले आनी ताकाच लागून आपल्याक ही ख्यास्त भोगची पडटा. तो इतल्यारूच रावना. मनाची शांती मेळोवपाक तो प्राणायमाचो आदार घेता. ताच्या एकांतांत ताची कविता ताका सांगात करता. डॉ. शैला खूप खटपटी करून ताका सोडयता. कालाबुशांतल्यान भायर येतकच अल तमीर सांसणाचें सोडपाचो तें निर्णय घेता.

डॉ. शैला आपल्या घोवाचे दर एके गजालींत ताका सांगात दिता. ती मनान सामकी खंबीर आसता. ती विक्रम गुप्ता परस चड प्रसंगावधानी आनी संवसारी आसता. तिच्या स्वभावाक लागून ती सौदी अरेबियाच्या वातावरणांत कसलोच त्रास जाय नासताना रावंक शकता. कायद्यान जें बसता तितलेंच ती करता आनी ताका लागून ती अजनबी आसून लेगीत तिका दोतोर म्हणून मान मेळटा. विक्रमाक कालाबुशांत आशिल्ल्या धाडटात तो काळ तिचे जिणेंतलो एक म्हत्वाचो काळ थारता. ह्या काळांत ती मानसिक नदरेन अदीक



बळिश्ट जाता आनी कालाबुशांत आशिल्ल्या आपल्या घोवाक सोडोवपाचो यत्न, ह्यो जापसालदारक्यो ती एकलीच पेलता. सुभू, तिगेलो पूत घडिल्ले घडणुकेक लागून खूप भियेता पूण ताकाय ती सांबाळटा. डॉ. शैला गुप्ता आदर्श अस्तुरेचें उदाहरण थारता. कठीण काळांत अस्तुरेच्या धैर्याची परिक्षा आसता आनी डॉ. शैला ह्या काळार जैत जोडटा. आपली जीण नव्यान सुरु करपाचे उमेदीन ती आपल्या घोवा बरोबर अल तमीर सोडटा. तिका आनी विक्रम गुप्ताक परतून एक फावट निळ्या मळबांत उडपाची उमेद येता. तीच उमेद घेवन तीं भारतांत येवपाक भायर सरतात.

विक्रम गुप्ता आनी डॉ.शैला गुप्ता खूप लोकांचे जिणेक स्पर्श करतात. देखीक तमारा मॉलान काम करपी बाबनी गांवकार, डॉ. मुशारत, विक्रमाचो इश्ट आनी डॉ. रफीक कुरेशिची बेगम रुबिना.

डॉ. मुशारत मूळ पाकिस्तानी. तांची आनी विक्रम गुप्ताची बरीच इश्टागत जाता. साहित्याचेर चर्चा जाता. विक्रमाक तो वाळवंटांतलो ओएसीस कसो दिसता. मुशारताक डिप्रेशनाचो त्रास जाता. तेन्ना विक्रम ताका खूप मजत करता. तांच्या ह्या संबंदाक लागून सगळे लोक अजाप जाताले. हिंदी-पाकी भाई-भाई म्हणून चर्चा जाताल्यो. मुशारत आनी विक्रमाच्या नात्यांतल्यान लेखक आमकां देख दिता की आपलो देश सोडटकच आपलो दुस्मान लेगीत आपलो इश्ट जाता. तशेंच इश्टागत जोडटना त्या मनशाचें कूळ, देश पळयना तर मनशाचीं मनां पळयता.

डॉ. रफीक कुरेशीची बेगम रुबीना हे भारतीय शाळेंतली एकमेव ग्रॅज्युएट शिक्षिका आनी फुडाराक जावपी शाळेची प्राचार्या. विक्रम गुप्ताच्या सहवासान रावन ती बदलता. आपलीं मतां मांडपाक शिकता. ती विक्रमाकडेन मेकळेपणान उलयता तें पळोवन एम् आनी खास करून नॉन एम् टिचरींकय अजाप जाता.लोक तांच्या नात्या बद्दल खूप कितें उलोवंक लागता. हें सगळें विक्रमाक कळटा तेन्ना तो तिचेकडेन आपलें उलोवप कमी करता. लेखक सौदी समाजाच्या संकुचीत स्वभावाचेर आनी विचारांचेर बोट दवरता. दांदलो आनी बायल हांचे भितर इश्टागतीच्या नात्याक हो समाज मान्यताय दिना. हें स्पश्ट दिसता. तरी आसतना ह्या बंदीस्त समाजान लोक दीस काडटात ते फक्त फुलूस जोडपाखातीर.

फुलूस जोडपाक आयिल्लो आनी एक गोंयकार गुप्ता कुटुंबाक मेळटा. तमारा सुपरमार्केटांत काम करपी बाबनी गांवकार. ताचे गोंयां रावपी इश्ट आनी घरचीं ताका एक दिलदार मनीस म्हणून वळखतात. गोंयां वतना तो म्हारग वस्ती व्हरता. फाटलो फुडलो विचार करिनासतना पयशे मोडटा. तमारान काम करतना ताका खूप अडचणींक तोंड दिवंचें पडटा पूण पयशांक लागून तो ही नोकरी करता. जेदे वेळार ताका दिसता की आपणें सासणांखातीर गोंयां वचचें तेन्ना तो विचार करता. आपूण इतलीं वर्सां हांगा रावलों पूण आपणें कितें जोडलें? ताच्या लक्षांत येता की गोंयां वचून रावपा इतलो पयसो आपणें केन्ना साठोवंकच ना. ते भायर आपूण आपले बायलेक, भुरग्यांचें सूख लेगीत दिवंक पावलो ना. तो खंती जाता आनी गोंयां परतुपाचो विचार करता.

लेखकान बाबनी गांवकाराच्या पात्रा वरवीं गोंयां भायर रावपी गोंयकाराची मानसिकताय दाखयल्या. घडये प्रत्येक गोंयकार भावाक खूप वर्सां आपल्या घरा पासून पयस वतकच आपणें कितें जोडलें हो प्रस्न मनांत येताच आसतलो. बाबनीक जशी निर्शेणी येता तशी तांकांय येता आसुंये पूण परिस्थिती कडेन तडजोड करीत ते रावतात.

कादंबरी प्रभावी जावपा फाटीं खूप कारणां आसात. लेखक विश्राम गुप्ते हाणीं एका बरोबर खूप विशय हाताळ्ळ्यात. कादंबरींतल्या दर एका पात्राची काणी ते सांगतात. पूण खंयच तांचो तोल गेल्ल्याचें दिसना. अरबी भाशेंतल्या उतरावळीक लागून कादंबरींतल्या पात्रांची मानसिकता अदीक स्पश्ट जाता.. तेच प्रमाण जेन्ना तांणीं गोंयकार भावांचें वर्णन केलां तेन्ना तांणीं कोंकणीचो वापर केला.

कादंबरी वाचतना दर खेपे विचार येता की ही कादंबरी स्वानूभवांतल्यान आयल्या काय? पात्रांचीं नांवां तशींच आसात. विक्रम गुप्ता हें नांव आनी लेखकाचें नांव हातूंत साम्य दिसता. तरीपूण कादंबरी वाचतकच ह्यां भांगराच्या देशांत कितें घडटा आसतलें हें स्पश्ट जाता.

विक्रम गुप्ता आनी शैला गुप्ताचे जिणेंत अल तमीरांतलो काळ म्हत्वाचो आसा. होच काळ तांच्या नात्याची एकेतरेन परिक्षाच घेता. तांचें नातें अदीक घट जायत वता. कालाबुशांत विक्रम एक कविता बरयता आनी ही कविता ताचे जिणेची सार आसता.

तो म्हणटा:

थंड गार, परका एकांत तो माझा नाही ,

मी त्याचा नाही कुणी कुणाचा नाही

म्हाका दिसता ही कविता फक्त विक्रम गुप्ताच्या मनाची व्यथा सांगना तर तो ताका जाल्लो साक्षात्कार. प्रत्येक मनीस एकलोच आसता आनी हें भयाण एकलेपण ताका एकल्याकूच जगचें पडटा. घडये ही कविता दर एकल्याची आसूं येता. जो खंयच्या तरी कारणाक लागून आपल्या घराब्यापासून पयसावला. हें भयाण एकलेंपणूच ताचें सांगाती जाता.

***



-ताळगांव -गोंय

मो. ९८२२१६९०२२



# “सभावाक ओख्खोत कोण दितलो”

फिलोमीना सांफ्रांसिस्को

ते आयतारचे सांजे हांव बस स्टॉपार उबीं आसलीं. बस स्टॉपार लोकांची गर्दी आसली. सदांच आसता; पूण आयतारची सुटी आसलेल्यान इल्ली सुबेजूच आसली. ५२ नंबराचे बसीचो starting point आसलेल्यान रिकामी बस येतली आनी सगळ्यांक सुवात मेळटेलीच म्हूण खात्री आसली. खात्री नासली ती एकेच गजालीची, आनी ती म्हळ्यार बसूंक सुवात मेळपाची. पूण सगळ्यांकूच बसूंक मेळटलें कशें? तरूय, आपल्याक बसूंक मेळचें म्हूण प्रत्येकाची अपेक्षा आसता; आनी ही अपेक्षा धरुनूच दर एक प्रवासी बसींत घुसता.

ते आयताराचे सांजेरूय तशेंच जालें. रिकामी ५२ नंबराची single deck बस वोल्त मारून स्टॉपार येवन थांबचे आदींच, फुडल्या तशें फाटल्या दारांतल्यान, दादले तश्यो बायलो, धडाधड उडक्यो मारून बसींत चडल्यो. म्हाकांय तीच बस धरपाची आसली. हांव कशीं तरी भितर पावलीं, तेन्ना एक बसका अजूनय रिकामी आसली, थंय हांव बसलीं. कुशीक एक तरणाटो चेडो ear-plugs लावन सुशेगाद धुंदींत गीतां आयकत बसलेलो.

बस सुरू जाली. ३-४ स्टॉपा उपरांत, आमचे फुडले बसकेर बसलेल्या एका दादल्याचे कुशीची बसका रिकामी जाली. आजू-बाजूक इतलो लोक उबो आसतनाय बी हो दादलो, फाटल्यान खंय तरी उबी आसलेले आपले बायलेक, थंय बसपा खातीर व्हडल्यान आरडोन आपोवंक लागलो. तांचें फकत आरडोपाचेर थांबलेलें जाल्यार बरें आसलें. पूण तें थंय थांबूंक ना. हो सुभागी फाटल्यान वोळोन आपलो आख्खो हात फुडें करून तिका आपयतालो. हात फुडें केलो म्हूण कंय वायट ना, पूण हो हात ताजो सामकोच म्हज्या तोंडा मुखार पाविल्लो, आनी बोटां तर खंयच्याय खिणाक म्हज्या दोळ्यांनीं वचपाचीं. तरूय हांव म्हजी काळजी घेयत ओगी रावलीं.

ते रिकामी बसकेर एकलो मनीस बसूंक सोदता तें पळोवन, हो सुभागी ते बसकेर नदर दवरीत आनीकूय व्हडल्यान आरडोन आपोवंक



लागलो. हे पावटी ताजीं बोटां म्हजे कुशीक बसलेल्या तरणाट्याच्या दोळ्यांनीं वचपाचीं मातशीं चुकलीं. हाच्या आबुजपणाक लागून आमचेर नस्ती आफत येतली म्हूण चिंतून हांवें ताका हडकुपाचें चिंतलें. तितल्या म्हणसर ताच्यो बोबो आयकून, ताची बायल जीव तोडून आजु-बाजुच्यांक धुकलीत, आनीक एक खीण आपूण उबी उरली जाल्यार घुंवळ बा येवन खाला पडटेलींच कशी, इतले गर्देतल्यान आपली वाट काडीत, ताचेशीं पावली. इतले कश्ट करून ती फुडें पावली खरी; पूण बसका मात मेळूंक ना तिका. बसके कुशीक उबो आसलोलो मनीस, ह्या दादल्याची परवा करिनासतना थंय बसलोच.

आनी तेन्नांच हांवें त्या दादल्याक शिडकायलो. आमच्या दोळ्यांनी ताचीं बोटां वचचे आदीं ताणें आपलो हात सरळ दवरूंक सांगलें ताका. "sory sory" म्हूण ओगी रावलो तो. हातूय सरळ फाटीं घेतलो. पूण उचांबळ जाल्ली ती तिची बायल. म्हाका म्हुणो लागली, "इतलो बोवाळ कित्याक करताय? तुज्या दोळ्यांत बोट गेलां हय तर?"

"गेल्या उपरांत सांगपाचें?" काय म्हूण विचारतच, ही सुभागी आनीकूय हुज्जत करपाच्या मुडांत आयली. बोवाळ करतालो तो हिचो घोव. आख्खी बस-भर लोक नाटक पळयतालो तें हांचें दोगांयचें. आनी हांवें शिडकायतोच 'sory' म्हुणोन तिचो घोव ओगीच आसलो; आनी झगडपाची उमेद आयल्ली ती हिका. पूण, मुर्खाच्या तोंडाक लागता तो अधीक मुर्ख थारता म्हूण चिंतून हांवूच ओगी रावलीं. आनीक कितें करतेलीं आसलीं? हांवूय बी आनी तो तरणाटोय बी? असल्योय बी बायलो आसतात म्हळें त्या तरणाट्याक. हांसलो तो. आनी आमचो प्रवास चालू उरलो-एक-एकल्याचें स्टॉप येय मेरेन.

***

- मुंबय

मो. ९८९२८२९३३९





# ...हुन्नरी कलाकार – यू. वामन पै



-जयमाला दणायत

भौंवतणी आंब्या, पणसाचे रूख, ...ाड, कुशीक गोरवांचो गोठो, ताच्याच ...न्ह्यांत गोबर गॅसचो प्लांट आनी मुखार ...वोंयवटेन नदर वता थंय शेतांच्यो कणग्यो! (पावसा तेंपार पांचवेचार शेतान भरिल्लो ...तो परिसर कल्पनेनच म्हजे नदरे सामकार उबो जालो. कारण हांवें पळयलो तेन्ना एप्रिल ...मायचो तेंप. पीक घेवन जाल्लें- साधी जमीन आशिल्ली) मात्शे कुशीक तयार केल्ली उदकाची तळय- सुंगटां आगर- मानस! आनी मध्यस्थळाक खूप व्हड न्हंय. सामकेंच ल्हान न्हय अशें आरसाटें सोबीत मंगळुरी नळ्याचें घर! चार पांच सोपाणां चडून वतगीच बसपाक सोपो आशिल्ली पडवी, थंयच्यान भितर सरतनाचें हॉल. ताच्या मुखार ल्हानशी देवाकूड- दोशीं वटेन शांत तेवपी नंदादिपाच्यो वाती, देव्हाऱ्याच्या मध्यार म्हाळशेचो सोबीत फोटो - ताच्या सकयल शाळीग्राम, गणपती आनी हेर देव!

फुलांच्या मंद परमळान, उजवातीच्या वासान भरिल्लो गाभारो! गोंयच्या खंयच्याय धनाड्या- मध्यमवर्गीयांचें आसचें अशेंच हें घर- पूण हॉलांतल्यान भजनाचीं सुरेख उतरां कानळटालीं-

नर्तन प्रिये तू नारायणी।

किर्तन, प्रार्थना करतां कुलस्वामिनी।

नारायणी, म्हाळसा नारायणी।

हीं उतरां मात सदचीं न्हय. आमी इतलीं गोंयच्या अस्सल मातयेंतलीं गोंयकारां. पूण थंय हांवें अशीं अस्सल कोंकणी भजनां केन्नाच आयकलीं नांत. हय, वयलें वर्णन केल्लें हें घर कोंकणी मनशाचेंच आसलें. पूण गोंयच्या न्हय तर हें वर्णन आसा कर्नाटक राज्यांतल्या, उडपी जिल्ह्यांतल्या कुंदापूर तालुक्यांतल्या हेम्माडी गांवचें. भौ. यू. वामन पै हांगेल्या घराचें!

आमचें गोंय हें कोंकणीचें मूळपीठ! पुरातन काळासावन ह्या सुपुल्ल्या गोंयांचेर जायतीं परकीं आक्रमणां जालीं आनी त्यावेळार आपूण, आपलीं मनशां, आपलो देव-धर्म वाटावंचे नदरेन हांगाच्यान भायर सरून लोक जळींमळीं फासफले- वेगवेगळ्या राज्यांनी प्रांतांनी वचून ताणीं वसणूक केली. कांय तेंपान थंयच्या भुंयेकडेन, मातयेकडेन- थंयच्या लोकांकडेन, वेगळ्या संस्कृतायेकडेन ते एकरूप जावन गेले. तांचो वेश, तांची भास, सहजतायेन आपणायली. तरीकय, आपलीं कांय खाशेलीपणां तिगोवन दवरपाखातीर ते वावुरले. आपली कोंकणी भास निदान उलोवपांतल्यान तरी तिगोवन दवरली. तांतलेंच हें एक पै घराणें! कितल्याशाच पिळग्यांपयलीं तांचो मूळपुरुस उपेनकुद्रू ह्या गांवांत वशिल्लो. आनी आतां हेमाड्डीक येवन स्थिराविल्ले. तांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार तांकां देवनागरी गोत ना. तांची लिपी कन्नड. उलयतात मात कोंकणींतल्यानूच. अर्थांळ गोंयची कोंकणी न्हय. तांच्या कोंकणींत जायतीं कन्नड उतरां आस्पावल्यांत. पूण कांय मुळावीं कोंकणी उतरां जीं आमच्या कोंकणींतल्यान लेगीत शेणल्यांत तीं तांचेकडेन आसातय आनी तीच निजाची कोंकणी, खरी कोंकणी असो ते वादय घालतात.

हें म्हजे सुनेचें, म्हणचे गौरीचें आजोळ! उडपी म्हऱ्यांतलें एक ल्हानशें सोबीत खेडें! म्हाका नवेनवे प्रदेश पळोवंचेली आवड जाणून सुनेन आनी ताच्या घरच्या सगळ्यांनीच मोठ्या आग्र्हान आपलो गांव, ताच्या भोंवतणचो परिसर पळोवंक व्हेलें आनी एक व्हडली संद म्हाका मेळ्ळी



म्हणूंक जाय. हें लग्न ठरत साव तीं लोक कोणाकडेनय उलयतना 'हेम्माडीचे वामन पैक वळखतात न्हय? तांगेली हांव धूव जांव तांची नात' असो उल्लेख तांचे उलोवपांतल्यान वयलेवयर आयकल्लो. लग्नावेळार ते व्यक्तीक पळयलेंय बी- एक सर्वसाधारण व्यक्तीमत्व- पंचात्तरींतलो एक जाण्टो मनीस आसचो तसोच- विशेश अशें कांय म्हाका आढळ्ळें ना. तशी बारीकसाणेन तांचेकडेन उलोवंचेली वेळय आयली ना. हेम्माडीक वतगीच मात ती संद मेळ्ळी आनी तांतल्यान एक आगळें वेगळें व्यक्तीमत्व म्हजेमुखार उलगडत गेलें.

कर्नाटकांतल्या फामाद 'यक्ष गानांत' बरेच मुखेल पार्ट करपी मनीस म्हणून ते फामाद आसले. तेच प्रमाण आमकां खबर लेगीत ना अशा बॉम्बे खेळांतले म्हत्वाचे लोककलाकार जावन आसात. एक सर्वसामान्य शेतकामती, पसरकार, कपडे शिंवपी म्हणून बरेतरेन घर गिरेस्ती सांबाळून भुरग्यांबाळांचेर बरे संस्कार घडोवन हाडपी, बापायलें रीण फारीक करून आपले शेती-धंद्यांत बरेतरेन जम बसोवपी, गांवांतल्या लोकांमदीं कितेंय वाद तंटे जाल्यार ते बरेतरेन सोडोवपी मध्यस्त, गांवच्या देवळाच्या म्हाजनांतले मुखेल कमिटी मेंबर वा अध्यक्ष, पंचायतीचो अध्यक्ष. तांचे उतरांनी सांगचें जाल्यार खंय मुक्तेश्वर!

म्हळें बिम्बाच्या वाचप्यांकय ह्या कलाकाराची वळख करून दिवंची. हे नदरेन हांव तांकां प्रस्न विचारीत गेलें आनी ताणीय मेकळेपणान ताच्यो जापो दिल्यो. तीच ही एक सुपुल्ली भासाभास.

पैमाम, तुमचे विशीं म्हाका थोडी म्हायती सांगशात?

हांव यू. वामन पै.

यू म्हणचे? हांवें तांकां मदींच आडायलें.

हांगल्ले सगळे जन गांवचें नांव पयलीं लायतात. यू म्हणचें उपेनकुंद्रू! हें आमचें मूळगांव. आतां आमी हांगा हेम्माडी घर कन्न रावतातः म्हजी जल्म तारीख ८ सप्टेंबर १९२९. शिक्षण म्हणचे तशें फकत मुळावें प्राथमिक शाळेंत तितलें जालें. खेड्यांत चौथी फुडें शिकची सोय नासली. आतां रस्ते जाल्यात. पयलीं दुसऱ्या गांवांनी वचच्या येवच्या रस्ते नासले. न्हंयतल्यान डोणीन वचचें पडटालें.

डोणी? मदींच म्हजो हस्तक्षेप

डोणी म्हणचें तुमचे व्हडयेवरी! पूण वल्हवप ना तर व्हडलो बांबू कोणो घेवन तो उदकांत तळांत खोवप, उदक धुकलून तार फुडें व्हरची ताका बरो जोर लागता. तर एकलो अपुर्बायेचो पूत देखून आवयबापायन फुडें पेटयलो ना. शिक्षणाक थंयच रामराम केलो. फुडें बापायन भयणीच्या लग्नापसत करून दवरिल्लें रीण फेडूंक फकत शेती धंदो उपकरना जालो म्हूण विंगड विंगड धंदे केले. आंगडी घाली, कपडे बी शिंवचो लेगीत धंदो केलो. दिसभर कामां करपाचीं - रातचो खेळ करप विंगड विंगड गांवांनी वचचें. हें सगळें हॉबी म्हूण करपाचें पोटापाणयाखातीर न्हय. मागीर खंयच्याय गांवांत आफोवणें आयल्यार फंक्शनांनी स्कुल डे, वार्षीकोत्सव, गणपती टायमार कोणेंय आफयल्यार घरदार, काम धंदो सगळें सोडून थंय वचचें. खेळ करचे हो छंदच आसलो आमकां.

केन्नासावन हें यक्षगान बी सुरु केलें तुमी? कोणें शिकयलें तुमकां हें सगळें?

वयाच्या पंदराव्या वर्सा पिराये धरन हांव यक्षगानांत भाग घेवंच्या लागलों. यक्षगानांतलो बी गुरु राजीव गोल्लो. तातूंत भागवताक व्हडलो मान. म्हणचे सूत्रधाराबशेन खेळाची सगळी काणी फुडें व्हरपी- पदांतल्यान सगळ्या प्रसंगांचें वर्णन बी करप-मृदंग , पखवाज वाजोवंक बी जाय. ताल-सुराचें सगट भान दवरूंक राखूंक जाय. ह्या यक्षगानांत दशावतार, रामायण- महाभारताचेर आधारीत प्रसंग घेवन खेळ बसयतात. हातूंत भगवती, मृदंग चंड, हे (परिवेशांतली वेशभूशा करून) तशेंच अर्जून बभृवान -कृष्ण तशेंच श्रीनिवास कल्याणम्-तिरुपती क्षेत्र महात्म्यांतलें- श्रीनिवासाचो पार्ट तर खूप गाजला-लोकांक मस्त आवडटालो.

म्हणचें लोक तुमकां चड वळखतात ते यक्षगानांतल्या कृष्ण, अर्जून, बभृवान जांव श्रीनिवास म्हणून दिसता, न्ही?

(हांसून) हय बा. आनी तशेंय जाल्यार गांवाचो, देवस्थानाचो मुखेली म्हणचें मुक्तेश्वर म्हणचें -पिरायेच्या पन्नास पंचावन्न वर्सां ताकीत हांव मुखेली म्हणून काम केलां. जमनींत खंय उदक आसा ना तें पळोवन सांगतां. पयलीं पयलीं यक्षगानांखातीर आनी मागीर बॉम्बे खेळांतल्यान फेमस जालों.

बॉम्बे खेळ म्हणचें कितें ?

तोय बी सादारण यक्षगानावरीच आसता. मात यक्षगानांत मेकप बी करून मनीस सवंग रंगयता तर बॉम्बे खेळांतु त्या त्या पात्राप्रमाण बावल्यो रंगोवन तांकां स्टेजीर नाचवचें पडटा. उलोवपाच्या, वाद्यांच्या तालाप्रमाण!

म्हणचें कठपुतलीच्या खेळापरीच जातलें न्ही. पूण तुमीं अशे अकस्मात यक्षगानांतल्यान बॉम्बे खेळांत कशे कितें पावले तर?

हांव गणेश यक्षगान बॉम्बे आर्ट मंडळी उपीनकुद्रू हातूंत काम करतालों. ताजो ओनर देवण्णा पद्मनाभ कामती. हांगेल्या कंपनीत पयली सुरवात भागवत म्हणून केली. चार वर्सां उपरांत देवण्णा कामतींलें वय जाल्ल्यान तांकां दम्याचो बी त्रास जावंच्या लागलो. मागीर तांणीं म्हाका सांगलें, पदां बी म्हणच्याक जाय जाल्यार वेगळ्याक सांगचें, तूं मात बावल्यो नाचोवंक, खेळोवंक शिकून घे. अशें म्हणून सामको फाटीक लागलो. तें चिके कठीण





आसतात आनी तीन बडयो आसतात. मानेक दोन दोरयो, हाताक म्हणचें म न ग ट ा क दोन दोरयो आनी पांयांच्या धोपरांक दोन दोरयो आसतात- त्या दोरयांचेर सगळो खेळ आधारून आसता- तें सारकें नाचोवंक जमूंक जाय. मनशाच्या जाँयटाबशेन सगळे ज ा ँ य ट ् स आसतात म्हणून मनशाबशेन हालचाली जातात. तशें काम भारी कठीण जावन आसा.

बरोबर! इतलें आठ धा किलो वजन सांबाळून सगळें करप म्हणचें कठीणूच?

व्हय! करपाक त्रास खरे पूण कामाचें समाधान मेळटा. लोकांक जाल्ली खुशी पळोवन संतोष भोगता जिवाक. पूण म्हाका हार्टार प्रेशर येता. म्हणून दोतोरान आतां बंदी केल्या. तरी आठ वर्सांनी पयर परत काम केलें

म्हणचें तुमी आतां हे खेळ करिनांत?

अजीबात ना. दोतोरान मनाय केल्या म्हणून आनी हार्ट ट्रबल सुरु जाल्ल्यान १९९८कसावन हें काम करचें हांवें सोडून दिलें.

पूण हातूंत बरी प्राप्ती जाता आसतली न्हय?

छे, छे ! अशें समजनाकाती. सामकी नाममात्र- नोमिनल प्राप्ती जाता. हाचेर पोट भरना. ताचेपसत वेगळो कितेंय पोटापाणयाचो धंदो करचोच पडटा.

पूण मागीर ह्या खेळाक लागून जायतेकडेन भोंवल्यात आसतले न्हय तुमी?

हय व्हय! बेंगलूर, मद्रास, केरय, म्हैसूर. सगळ्या राज्यांनी वेगवेगळ्या वाठारांनी वचून काम केलां. हैदराबाद, दिल्लीक बी ५/६ खेपो गेलां. बॉम्बे तर ७/८ खेपो गेलां. गोंयांतय ३/४ खेपो गेलां.

काम आशिल्लें. बावल्यो म्हणचें वेगवेगळ्या पात्रांच्यो वेगवेगळ्यो तरा- तांचें वजनय कांय न्ही तरी आठ ते धा किलो. नाचोवंच्याक बरें स्कील जाय पडटालें. सगळ्यांक जम सारकें नासलें. तांगेलो पूत कोगण्णा कामत. ताणें ड्रेस करच्यांक, मेकप करच्याक शिकयलें. हें सगळें तरणे पिरायेर- २४ वर्सांचे आसतना सुरु केलें. ताचे उपरांत ४२ वर्सांमेरेन हें सगळें काम हांवें केलें.

तुमकां हें सगळें जमलें बरें? काय सोपें आसता हें सगळें?

ना ना, सोपें कांय ना. कठीण काम, खूप कश्ट जातात. येरागबाळ्याक जमना. यक्षगानांत काम करचेलो अणभव आशिल्ल्यान २/४ म्हयन्या भितरच म्हाका सगळें काम करच्याक येवंक लागलें. हातूंत हणमंत, कृष्ण हें सगळें नाचोवंचें काम केल्लें आसलें.

ह्या बॉम्बे खेळांत कितें कितें आसता?

म्हणचें पळयात. वेगवेगळे प्रसंग घेवन हे खेळ करचे आसतात. यक्षगानांत कशे दशावतार , रामायण, महाभारत्त तांतले आधारीत प्रसंग घेवन काम करचें आसता तशेची ह्या बॉम्बे खेळांतु, लंकादहन, गरुडगर्व भंग, सीताकल्याणम्, नरकासुरवध, देवीमहात्म्य- अशा वेगवेगळ्या पौराणिक कथांचेर आधारीत खेळ केल्यात.

यक्षगानांत वा बॉम्बे खेळांत कशें कितें करतात तें मात्शें विस्कटावन सांगशात?

जायत जायत! हें पळयात यक्षगानांत सात ताल आसतात आनी यक्षगांनांत नाचतात तशें बॉम्बे खेळांत बावल्यो नाचोवच्यो पडटात. त्यो लयीचेर नाचोवंच्यो पडटात. तेंवय पडद्या भितल्ल्यान पूण पयसुल्ल्यान पळयतल्याक लेगीत तांचे हावभावावेल्यान अर्थ समजूंक जाय. हें सोपें नासता आनी सगळ्यांकच जमना. जण एका तालाक ३/३ काल आसतात. एकूण एकवीस मुद्रांनी त्यो नाचोवंच्यो पडटात. परतून युद्ध बी करतकच ताल वेगळो, वाजप वेगळें, राज दरबाराचें दृश्य वेगळें- नाच वेगळे. हें सगळें ध्यानांत घेवंचें पडटा. दोग जाण उलोवपी मुखेल- ते वेगवेगळ्या पात्रांचीं उलोवपां करतात आनी पांच-स जाण नाचोवपी लागतात. वेगवेगळीं पात्रां हाडून दिवपाक वेगळे लोक आसतात. हो खेळ दोन तीन घण्टे चलता.

पूण हें सगळें नाचोवप कशें कितें करतात?

हें पळयात. एक बावल्याक स दोरयो



तशेंच भायल्या देशांनी बी गेल्यात जातले न्हय?

हय व्हय, फॉरेनांत बी जायते फावटी गेल्यात. १९७८त फ्रान्सांय पयले फावटी गेल्ले. परतून १९८२त साताठ वेळा फ्रान्सांत पावल्यात. एकेक म्हयनो हॉलंडांत म्हणचें नॅदरलँड, स्वित्झरलँड, वेस्ट जर्मनींत दोनदां, बेल्जीयम, ऑस्ट्रालिया असो भोंवलां.

घट यादींत उरपासारकी कसलीय घडणूक घडल्या ह्या अशा भोंवड्यांनी?

हूं ऽऽ एक कटू घडणूक घडल्या म्हजे जिणेंत. १९७९त हांव फॉरेनांत गेल्लेकडेन म्हजी घरकान्न कपडे धुंवच्याक गेल्ली. ती बी. पी. वाडून घुंवळ येवन तळयेंत पडली. २/३ तासांनी सगळे कडेन शोधाशोध सुरु जाली- तळयेंत पडली म्हणून कोणाक खबर ना - ती थंयच मोन्न गेली. भायर गेल्लो आशिल्ल्यान तिचेर निमणी नदर लेगीत घालूंक मेळ्ळी ना. भुरगींय ल्हान. कशें त्या प्रसंगाक तोंड दिलां देवच जाणां.

खरेंच खूप वायट जालें.

हूं ऽ देवाचो खेळ दुसरें कितें म्हणप. दुसरी एक घडणूक म्हणचें १९८४त राजीव गांधीच्या मरणा उपरांत ग्रीसांतल्यानच आमकां परत मायदेशांत आपयले. इंग्लंडाक वचचें आसलें तें परतून येवंचे पडलें.

हें भायर वचचें बी कशें काय जमतालें? खर्च कोण करतालो?

छे छे, तशे बोलसांतलो पानदुडू खर्चून भायर वचपाक आमी तशे गिरेस्त न्हय बाबा! धंदयांतल्यान पोटापुरतें सुटतालें, पूण हातांत तसो दुडू घोळनासलो. हें भायर वचप बी सगळें विंगड विंगड देशांतल्या लोककलेची देवाण-घेवाण करचे नदरेन कल्चरल प्रोग्रामांतल्यान जावंचें- म्हणचें स्पॉन्सर्ड बाय गव्हर्मेंट! पासपोर्ट बी आपणें काडपाचो. थंय वतगीच सगळो खर्च ते ते देशाचें गव्हर्मेंट करतालें. थोडो पॉकेटमनी मेळटालो. बरोबर गायड आसतालो. ताणीं भाशांतर बी करून सांगचें.

तुमचें शिकप कमी आशिल्लें म्हणून खंय अडचण बी आयली ना?

हां. शिक्षण कमी आशिल्लें. पूण माथें चुर्क आशिल्लें. भायर वचूंक लागतगीच हिंदी, इंग्लीश सगळें काम चलावू शिकून घेतलें. कामापुरतें उलोवंक करूंक येवंक लागलें आनी सांगलें न्हय गायड आसतालो बरोबर. तशें कांयच अडलें ना. भायल्या देशांत वतना तर सगळो खर्च गव्हर्मेंट करतालें. फॉर्मल ड्रेस बी ताणेंच दिवपाचें- सूट बूट कोट, गरम कपडे सगळें तांचें. इतलेंच न्हय तर थंय व्हरून परत विमानार बसोवन दिता म्हणसर सगळें काम त्या गायडाचें. त्या त्या देशांत कितें पळोवपाचें , खंय भोंवपाचें तेंवय ताणेंच ठरोवप. पूण एक मात, ह्या यक्षगानान आनी बॉम्बे खेळाक लागून खूप भोवन, पळोवन जालें. आतां मात सगळें सोडलें. आठ वर्सां जावन गेलीं.

हातूंत तुमकां सन्मान बी मेळ्ळ्यात? कसलोय राष्ट्रीय पुरस्कार बी?

व्हय, सन्मान जायते मेळ्ळ्यात. पूण तसो राष्ट्रीय पुरस्कार अजून मेळूंक ना. म्हणचें तसो पयलो राष्ट्रीय पुरस्कार देवण्णा कामतीक मेळ्ळा. कारण हो बॉम्बे खेळ तसो ३०० वर्सां पयलीं सुरु जाल्लो. पूण मदीं बरींच वर्सां बंद पडिल्लो. परतून तो श्री देवण्णा कामतीन सुरु केलो. म्हणून तांकां हो राष्ट्रीय पुरस्कार फावोच न्ही? आनी आमकां म्हणशात तर लोकांची खोशी हो व्हडलो पुरस्कार जावन आसा.

तेंवय खरेंच. पूण तुमकां तशें पेन्शन बी मेळटा?

ना, तशें पेन्शन न्हय पूण गौरवधन दिवंचें म्हणून केलां. तशे सन्मानय मेळ्ळयात वेगवेगळ्या देशांकडल्यान. प्रशस्तीपत्रकां, सर्टीफिकेटीय मेळ्ळ्यांत. देशांतय वेगवेगळ्या राज्यांनी पुरस्कार जांव मानचिन्हां मेळ्ळ्यांत.

बरें आमचे दर्शक आनी भायले प्रेक्षक हातूंत कितें फरक जाणवला?

हय तर. आमचे प्रेक्षक थंयचे थंय प्रशंसा करून मेकळे जातात. खेळ सोंपलो की घरा पळटले. पूण जपानी जांव फ्रेंच लोकांक हातूंत सगळ्यांत खूप इंटरेस्ट आसा. सगळें बारीकसाणेन जाणून घेतात. प्रस्न विचारतात. सगळ्याचो अभ्यास करतात. हो तांचो गूण आमच्या लोकांत ना. म्हळांच न्हय घरचें रुसार, भायरचे हुशार!

म्हणचें गांवचें चेडूं मुतरें म्हणिल्ले वरीच जालें ना?

अशे जायते कलाकार आसात जे आमचे आसून आमकां खबर नांत. आमी ते सोदून काडून लोकांक तांची जाणविकाय करून दिवंक जाय.

पै माम आज खरे समाधानी - सुखी आसात. अजून आपल्या गांवच्या - देवळाच्या कारभारांत आपलें फाव तें योगदान दीत आसात. आपल्या घराखातीर झटतात. आपलीं कर्तव्यां पुराय करीत आपल्या भुरग्यांबाळांमदीं, नातरां पणटुरां मदीं खुशालकायेन जियेतात.

उलोवणें सोंपयतां सोंपयतां ते भितर हॉलांत गेले. तांचीं भुरगीं, सुनो, नातरां सगळीं जमून भजन आरती करतालीं. तांची आठेक वर्सांची नात अमृता- गोड गळ्यान ताला सुरार सामकी तन्मय जावन देवीक होरायताली.

आरती करतां माता,
जयमंगल म्हणतां माता।।

***



३०, मांगल्य
अवधूत को. ऑप.
हौसिंग सोसायटी.
डोबिंवली-मुंबई



# सिंहपूरम - सिंगापूर



– हर्षा शेटये

सिंगापुराचें खरें नांव सिंहपूरम. हो जुवो पयलीं सुमात्राच्या श्रीविजय साम्राजाच्या अधिपत्याखाला आशिल्लो. तेराव्या शतका मेरेन हे जुव्याची मालकी तांचेच कडेन आशिल्ली. तेराव्या शतकांत ह्या राज्याचो राजकूंवर संगनील उत्तम हो वादळाच्या तडाख्यांतल्यान जीव वाटावपाक ह्या जुंव्यार धांवून आयलो. तेन्ना ताका थंय वेगळेंच जनावर दिसलें. तांबडें आंग, काळी तकली आनी चकचकीत दोळे. ताका दिसलो तो सिंह. म्हणून खंय ताणें हे जुंव्याक सिंहपूरम हे नांव दवरलें. तेन्ना सुमात्राचेर संस्कृत भाशेचो शेक आशिल्लो. फुडें सिंहपुरमाचें सिंगापूरम जावन आतांचें सिंगापूर जालें.

चौदाव्या पंदराण्या शतकांत थंय डच, पोर्तुगेज आनी ब्रिटीश येत वचत आशिल्ले. पूण हो सोबीत जुवो राबित्याखातीर ताणीं वसयलो ना. फुडें १८११ त मलेशियाच्या जोहार बहर ह्या राज्यांतल्यान मलय आयले आनी ताणी सिंगापूर न्हंयचे देगेर आपलो राबितो केलो. १८१९ त ब्रिटिशांनी सिंगापूर बंदर म्हणून विकास करपाचें थारायलें. आतांच्या सिंगापूरची खरी बुनयाद सर थॉमस स्टेम फोर्ड रॅफल्स ह्या ब्रिटीश अधिकाऱ्यान घाली म्हणल्यार फट जावचें ना. ताणे हो जुवो ब्रिटीश साम्राज्याखाला हाडलो आनी सिंगापुराक दक्षिण पूर्व एशियांतलें आंतरराष्ट्रीय मार्केट म्हूण फुडें हाडलें. १८२१ त चिनांतल्या फुकियन्स प्रांतातल्यान होकीयन्स हे वेपारी आयले. अजूनय चिनांतले हे लोक सिंगापूरांत व्हड संख्येन आसा. तांचे फाटोफाट उत्तर चिनांतल्यान हक्का आनी दक्षिण चिनांतल्यान कॅन्टोनीज आयले. हातूंतले चडशे मोची, दर्जी, मेस्त आशिल्ले. तांचे फाटोफाट चिनांतल्या हेर वाठारांतल्यान हेर लोक येत रावले. खरें म्हणल्यार येतना हे लोक पोटाखातीर आयिल्ले. चार पयशे किरवटीक लायतले आनी परते वतले म्हणून. पूण हातूंतले कोणूच परते गेले ना. १८२५ त ब्रिटिशांनी दक्षिण भारतांतल्यान मानायपण करूंक म्हणून तामीळ हिंदू आनी मुसलमान लोकांक हाडले. ताणी सिमीट कालयलें. कायली उकल्ल्यो, आपल्या घामान. कश्टांनी सिंगापूरचे रस्ते बांदले. पूल बांदले. इमारती उब्यो केल्यो. आनी सिंगापुराक आताचें रूप दिलें. मागीर गुजराथी, पंजाबी, सीख आनी सिंधी आयले. ते धोबी, दूद काडपी, गोरवां राखपी. ब्रिटिशांक हातांनी हालोवपाच्या फॅनानी वारो घालपी. वॉचमॅन, चपरासी अशीं कामां करून आज वेपारी म्हणून नावारूपाक आयले. हेवटेन सिंगापुरचो बंदर म्हणून विकास जायत रावलो. सिंगापूर बंदरात चिनांतल्यान च्या आनी हेर वस्तू हाडल्यो. इंडोनेशियांतल्यान हस्तिदंत, कापूर आयलो. जावा सुमात्रांतल्यान मिरयां, जायफळां, तिखी, लवंगां आनी हेर मसाले आयले. बटीक पेंटींगाचो कपडो



आयलो. थंयसावन ते लंडनाक वचूंक लागले आनी लंडनच्यान हेरकडेन. हें सगळें १९४२ मेरेन चल्लें. ते वर्सा जपानान ब्रिटिशांकडल्यान सिंगापूर जिखन घेतलें. १९५९त सिंगापूर स्वतंत्र जालें. १९६५ मेरेन सिंगापूर मलेशियन फेडेरेशनाचो एक भाग आशिल्लो. इतल्यो सगळ्यो घडणुको घडिल्लो हो सिंगापुरचो जुवो केदो आसा काय म्हणल्यार फकत ६१७ चौ. किलोमीटर. तोय बी ५७ सुपुल्ले जुंवे एकठांय जावन तयार जाल्लो. जगांतलें एक नंबरचें बंदर.

बँकॉकांतल्यान सुटिल्लें आमचें कॅथे पॅसिफीकचें विमान सिंगापूरचे चांगी विमानतळाचेर देवलें. विमानतळाचेर पांय दवरतनांच सिंगापूरची भव्यता, सोबितकाय, शिस्त नदरेंत भरता. हांगा एका मिनटाक एक तरी विमान देवता नाजाल्यार चडता. चकचकीत तिजुल्याची जमीन. वचत थंय सुंदर फुलांची आरास. उदकाचे कारंजे. फ्री पोर्ट आशिल्ल्यान कस्टम, इमिग्रेशन हांच्यो चड फॉर्मेलीटीज ना. सुंदर सजयिल्ली ड्युटी फ्रीचीं दुकानां. वेटींगरूमांत बसपाक गुबगुबीत कदेलां, सोफा. पूण विमानतळाची सोबितकाय तोखेवत बसपाक आमकां वेळ नाशिल्लो. आमची बस भायर आमची वाट पळयताली. आमचो थंयचो गाइड आशिल्लो राजन महादेवन. राजनान आपली वळख करून दिली. ताजे आजे पणजे सिंगापुरानच जल्माक आयिल्ले. तो सिंगापुराकच ल्हानाचो व्हड जाला. ताका तामीळ बरी उलोवंक बरोवंक येता. पूण तो भारतांत केन्नाच पावूंक ना. ताचे आवय बापूय कोणूच भारतांत पावूंक ना.

चांगी एअर पोर्टावयल्यान आमच्या हॉटेलांत पावता म्हणसर सिंगापूरचे काळे कुळकुळीत, सुळसुळीत रूंद रस्ते पळोवन दोळे दिपकावले. दोशीं वटेन पांचवींचार झाडां, वण्टीचेर चडयलेल्यो पांचव्यो वाली. मर्दी मर्दी विलोदी पांचवेंच लॉन. रस्त्यामदल्या डिव्हायडरांत सुंदर सुंदर फुलां फुलिल्लीं दिश्टी पडतालीं. रस्ते सामके नितळ निवळ. एक कुस्कूट देखून रस्त्यार दिश्टी पडलें ना. ताचें कारणय आमच्या गाइडान राजनान आमकां सोमतेंच सागलें. सिंगापुराक खंय खंयचेय भौशीक सुवातेर बसीन, टॅक्सीन सिगरेट ओडूंक मेळना. रस्त्यार थुंकपाक मेळना. बसीच्यो तिकीटी, कागदाचे कुडके देखून हेवटेन तेवटेन उडोवंक मेळना. रस्त्यार चलतल्यांक पेडेस्ट्रीयल क्रॉसींग सोडून दुसऱ्या खंयच्याय जाग्यावयल्यान रस्तो क्रॉस करूंक मेळना. हे कायदे थंय सामके कडक आसा. कायदो मोडतल्यांक ५० ते ५०० सिंगापूर डॉलर म्हणल्यार २५० ते २५०० रुपया दंड म्हणून फारीक करचे पडता. मागीर केदेय व्हडल्या मंत्र्याचो फावोर लेगीत थंय उपेगाक पडना. म्हणून तर लोक कायदे मोडूंक धजनांत.

सिंगापूर सोबीत दवरपाक थंयच्या प्रशासनाचो व्हडलो हात आसा. सुंदर सुंदर गार्डनां. ऑर्कीडचे बोटनीकल गार्डन. चायनीज आनी जपानीज गार्डनां. चिनी गार्डनांतले सोबीत पागोडा. सुपुल्लीं साळकांचीं तळीं तातुंतलीं व्हडी. जपानी गार्डनांतले पूल. सोबीत देवतें पाखें आशिल्लें टी हाउस. ताचेवयलें नक्षीकाम पळोवण्यासारकें. सिंगापूर न्हंय. न्हंयचे देगेवयलो ८ मिटर उंचायेचो मेरीलियनचो पुतळो. तकलेकडल्यान सिंह आनी पायांकडल्यान नुस्त्याचो आकार. हातुंतलो सिंह सिंगापुरच्या पोरण्या नावांकडे आशिल्लें सिंहाचें नातें दाखयता तर नुस्तें सिंगापुरच्या जिवनांत दर्याचें कितलें म्हत्व आसा तें दाखयता. हो मेरिलीयन सिंगापूरचो नॅशनल सिंबोल जावन आसा. सिंगापुरच्यो अठराव्या शतकांतल्यो इमारती सिटी हॉल. सुप्रिम कोर्ट, पार्लमेंट हाऊस. व्हिक्टोरिया थिएटर, नॅशनल लायब्ररी.... आर्ट गॅलरी ... रेफल्स हॉटेल ह्यो इमारती बांदपाक कितल्याश्याच भारतीयांनी आपलो घाम गळयला. सिंगापूर न्हंयचे देगेर आशिल्लो सर स्टेम्फोर्ड रेफल्सान पुतळो, हेच जाग्यार सर रेफल्सान सिंगापूर पावतकच पयलें पावल दवरलेलें अशें म्हणतात. हांचेपरस पोरण्यो वास्तू सिंगापूरांत ना. ते खातीर सिंगापूर प्रशासनान ह्यो इमारती सामक्यो सांबाळून दवरल्यात.

## लिटल इंडिया ते चायना टाऊन

सिंगापूरची भोंवडी म्हळ्यार एक खतखतें कशें. ह्या खतखत्यांत तामीळ, चिनी, मलय, इंग्लेज, संस्कृतायो सामक्यो भरसल्यात खतखत्यांतले दर एके फोडीन आपले निजाचे आगळेवेगळे रूचीन सिंगापूरचे संस्कृतायेक सुरबूस केल्या. ह्या खतखत्यांत ७६ टक्के चिनी लोक आसपावल्यात. १५ टक्के मलय आनी ७ टक्के भारतीय आनी उरिल्ले चडशे युरोपियन. ते खातीर इंग्लीश राज्यकारभाराची अधिकृत भास आसली जाल्यार देखून चिनी, मलय आनी तामीळ ह्या हेर भासांक राजभाशेचो दर्जो दिला. हांगा लिटल इंडिया आसा. अरब स्ट्रिट आसा. चायना टाऊन आसा.

सेरंगून रोड ह्या लिटल इंडियाच्या भागांतल्यान भोवतना तर केन्ना केन्नाय भारतांतल्याच एका वाठारांतल्यान भोविल्लेबशेन दिसता. ब्रिटिशांनी भारतांतल्यान मानायपण करूंक हाडिल्ल्या तामीळ लोकांनी सेरंगून रोडाचेर आपलो राबितो केलो. आज तेच लोकांनी अपार कश्ट काडून धंद्यान आपलो जम बसयला. कांय दुकानांनी तर आंब्याच्या पानाचीं तोरणां लायिल्लीं दिश्टी पडतालीं.

हांगा भारतीयांचीं चडशीं साडयांचीं, सिल्काचीं दुकानां, बारीकसारीक इलेक्ट्रोनीक सामानांचीं दुकानां दिश्टी पडतात. आमचे बराबर आशिल्ल्या सुरेशभाय हाणी पान पराग हे सुपारेचे डबे आनी कानन देवन ही टाटा च्याचीं पाकिटां विकपाक हाडिल्लीं. थंयच्या एका दुकानदारान तीं विकतीं घेतलीं.

बफेलो रोडार पयलींचे तेपार खंय गोरवांचो बाजार भरतालो. हो व्यवसाय पयलीं भारतीय मुसलमानांच्या हातान आशिल्लो. आतां हांगा साडयांचीं, पानपट्ट्यांचीं, फुलांचीं दुकांना आसात. थंय लागींच विरम्मा कालियम्माचें देवूळ आसा. हें देवूळ १८८१त थंय ब्रिटीशांनी हाडिल्ल्या बंगाली कामेऱ्यांनी बांदिल्लें. तांचे वरवीं तांणी आपली



संस्कृताय सांबाळून दवरल्या. लागसरच श्री श्रीनिवास पेरूमल हेंय देवूळ आसा. हेच भागांत बुध्दाचेंय देवूळ पळोवपाक मेळ्ळें.

नोरीस रोडार आशिल्ले लॉन्ड्रीवाले कपडे फातरीर आपटून धुतात. कपडे घुडाक घालपाची भारतीय पद्धत वापरतात अशें राजनान मुद्दाम सांगलें. हांगा आशिल्ल्या तामीळ भारतीयांच्या पसऱ्यांनी उकडे तांदूळ, दाळी, मसाले, डोसा काडपाचे पारंपारीक तवे, इडली उकडपाचें सांदण धांकणें विकपाक आशिल्लें. कपलार भस्माचे पट्टे ओडिल्ले कुंडल्यो मांडून बशिल्ले ज्योतिशी, पानपट्ट्यांचे गाडे, मसाल्याची दुकानां. लिटल इंडिया म्हणल्यार भारताचें 'मिनी रूप'. हांगा आयिल्लो भारतीय कोमला विलास हॉटेलांत गेले बगर रावचोना.

थायलंडांत भारतीय पदार्थ पळोवंक देखून मेळूनाशिल्ले. हांगा तर इडली, मसाला डोसा, तामीळ थाळी, शिताची रास आनी ताचे बराबर मसंगाच्यो सांगो घालून केल्लो तांबडोच रसम... खूब दिसांनी तें जेवण घोस्ताक गेलें. मसंगाच्यो सांगो भारतांतल्यान हाडतात जावये.

सेरंगून रोडाचेर दक्षिण भारतीय व्यावसायीक दिश्टी पडतात जाल्यार हाय स्ट्रीटाचेर उत्तर भारतीय. हातूंतले चडशे पंजाबी आनी सरदारजी. थोडे गुजराथीय आसा. हांगा गुरूमुख टॉवर आसा. सतनाम मार्केट आसा.

ह्या रस्त्यावयल्यान भोंवपाक सायकल रिक्षा मेळतात. तांकां थंय ट्रिशॉ म्हणतात. तांतून बसून आमी अरब स्ट्रीट भोंवलीं. हांगा अरेबीयन भारतीय आनी मलय मुसलमानांचीं दुकानां आसा. केन बास्केटा, इंडोनेशियन बटीकचो कपडो, स्कार्फ, हाजी टोपयो, उंची अत्तर, अरेबियन कार्पेट, तरेकवार कपड्यांक लावपाची रेनां, लेसी. हांगचे रस्त्यांक चडशीं अरेबीयन नावां आसात. बगदाद स्ट्रीट, बसरा स्ट्रीट.... कंधहार स्ट्रीटाचेर सिंगापूरची प्रसिद्ध सुलतान मशीद आसा. हांगा मुखार पराठा गल्ली आसा. हांगा भारतीय मुगलाई पदार्थ मेळतात. तंदूरी चिकन, चिकनाचे तरेकवार प्रांत, पराठे, मुर्ताबाक म्हणून मटनाचो पराठा मेळटा. हो खावपाक सिंगापुरच्यान पयसुल्ले लोक येतात.

चायना टाऊनांतल्यान ट्रीशॉतल्यान भोवतना चिनांतल्या खंयच्याय एका भागांत बी आमी पावूना मूं? बेश्टोच दुबाव आयलो. गाडे टायप ल्हान ल्हान दुकानां.... पारंपारीक चिनी ओखदां विकपी, तरेकवार चिनी पौराणीक रूपडीं विकपी, कपल पळोवन भविश्य सांगपी, चिनी मसाले विकपी. आमी थंय काय घेवूंक ना. थंय गाड्यांचेर तरेकवार फळां पळोवपाक मेळ्ळीं. चिकू, अनस, पोपाय, आंबे, रामबुतान म्हणून एक मलय फळ. प्लमाबशेन भायल्यान तांबडेंच. भितर मात लिची बशेन. थायलंडाक पळयल्ल्या पणसा बशेन फळाचें नांव 'दुरियन' म्हणून कळ्ळें.

थंय तेलोक आयर स्ट्रीटाचेर चायनीज देवूळ आसा. टेम्पल ऑफ हेवनली हॅपीनेस. हें समुद्र देवतेचें देवूळ. सुरवेक हांगा आयिल्ल्या चिनी लोकांनी तांकां बरे बशेन सिंगापूर जुव्यार पावयले. म्हणून हें समुद्र देवतेचें देवूळ बांदलां. थंय लागींच १८५५त बांदिल्ली अल अबरार मझीद आनी आनी १८३०त भारतीय मुसलमानांनी बांदिल्लो दर्गो आसा. चायना टावनाच्या मदल्या भागांत श्री. मरियम्माचें देवूळ आसा. हें भारतीयांनी सिंगापूरांत बांदिल्लें पयलें देवूळ. तें १८२७त बांदिल्लें. गोंयांत शिरगांवचे जात्रेक भावीक होमखणांतल्यान चलून वतात. तसोच प्रकार थंय त्रिमिथी परबेक जाता. ते दिसा चार मिटर लांबायेच्या होमखणांतल्यान भावीक चलून वतात खंय! सिंगापुरांत सगळ्या धर्माचे सण, परबो व्हडा उमेदीन मनयतात. ते दिसा हांगा सरकारी पावंड्यार बोट रेसी जातात. मटन भरिल्ले तांदळाच्या पिठाचे वडे करून ते कोंड्याच्या पानांत बांदून ते दिसा उदकांत सोडतात. आमकां ह्यो रंगयलेल्यो बोटी पळोवपाक मेळ्ळ्यो. फुडें ड्रॅगनाचें तोंड आशिल्ल्यो आनी फाटल्यान शेपडी, मर्दी खवळां कशीं रंगयलेलीं.

आमी थंय इंस्टंट एशिया कल्चरल शो म्हूण एक शो पळयलो. शो चे सुरवेक चिनी सिंहाचो नाच जालो. मलय चलयांनी केल्लो हारवेस्ट डान्स, लॅम्प डान्स, इंडोनेशीयन डान्स, लोटस डान्स, तामीळ चलयांनी सादर केल्लें भरतनाट्यम .. निमणो भारतीय गारूडी आनी सोरोप. पुंगी वाजयत ताचे तालार नाचपी सोरोप. सिंगापुरचे संस्कृतायेक एका धाग्यांत बांदपी असो हो एशिया कल्चरल शो.

## मनभुलयणो संतोस जुवो

सिंगापूर जुंव्याचेर सेंतोसा म्हणून एक सोबीत असो जुंवो आसा. हो जुंवो खासा पर्यटकांच्या मनरिजवणेखातीर तयार केला म्हणल्यार अतिताय जावची ना. आमकां राजनान थंय व्हेलीं. हो जुंवो सिंगापूरच्या दक्षिण भागांत आसा. थंय वचपाक तीन मार्ग आसात. फेरीबोटीन, बसीन पुलावयल्यान नाजाल्यार केबल कारान. आमी केबल कारान वचपाचें थारायलें. ह्यो केबल कार बंद पाळणे कशें लोखंडाच्या सरयेवयल्यान चलतात. आमी माऊंट फेबरावयल्यान केबल कारान बसलीं. एका केबल कारान स जाणां बसपाक मेळता. सगळीं जाणां बसतकीच दार आपोआप बंद जालें आनी कार सुरू जाली. चारी वटेन आरशे आशिल्ल्यान सकयलो सगळो वांठार दिसतालो. उदकांतल्यान वचपी बार्ज्यो, बोटी, फेरोबोटी. काळे कुळकुळीत रस्ते, रस्त्यावयल्यान धांवपी गाडयो. नदरेचो आवांठ खूब व्हड जालो. केबल कार फुडें फुडें वता तशें सगळें पयस पयस जायत जायत गेलें. सेंतोसा जुंव्यावयलीं पांचवीचार झाडां, घरां, मोनोरेल, कॉजवे ब्रीज, फेरी टर्मिनल, सायकल ट्रॅक दिसपाक लागले. हें सगळें नदरेन साठयता म्हणसर केबल कार, केबल कार प्लाझा, ह्या उंचायेच्या पॉइंटार उबी रावली. थंयसावन भायर सरतनाच भायर एक ल्हानशे तळें कशें



आशिल्लें आनी भितर ड्रॅगनाचो अवाढव्य पुतळो येवकार दिवपाक उबो आशिल्लो. भायर सरिल्ली जीब, दातांचे सुळे, व्हडले दोळे. तकलेर व्हडलें शींग, फाटल्या आंगाक कांटे आशिल्ली व्हडली शेपडी. थंयच तेंकून एक दुर्बीण दवरलेली आशिल्ली. दुर्बीणींतल्यान पळयलें जाल्यार सिंगापूर सामकें एका उल्याचे वाटेर आशिल्लेवरी दिसता.

फुडें चलतना सुंदर सोबीत फुलांची, झाडांची बाग दिश्टी पडता. थंय 'इमेजीस ऑफ सिंगापूर' हें सिंगापुरचें प्रसिद्ध व्हॅक्स म्युझियम आंसा. फॅस्टीवल्स ऑफ सिंगापूर. पायोनिर्यस ऑफ सिंगापूर आनी सरेंडर चेंबर्स म्हणल्यार १९४२ वर्सा जपानान ब्रिटीशाकडल्यान सिंगापूर जिखून घेतलें आनी सिंगापूर स्वतंत्र जालें हाचे देखावे हांगा मेणाच्या पुतळ्यांच्या रूपान उबे केल्ले आसात. हे पुतळे करतल्यांची तोखणाय करूंक जाय. जिते जिवे मनीस कशे. मुखार दवरलेल्यो फायली. मायकाचेर उलोवपी मनीस. सगळेच जिवे तट्टीत.



म्युझीयम पळोवन फुडें गेलीं. थंय मेरिलियनाचो व्हडलो पुतळो आसा. भितर लिफ्ट आसा. थंय सावन ताच्या ताळ्यांत पावता. मागीर तकलेर वचपाक सोपणां आसात. ताचेवयल्यान आमीं चडून गेलीं. थंयच्यान पुराय सेंतोसा जुण्याचो आवांठ नदरेंत येता. एका चित्रकारान फिशालकायेन रंगयलेलें चीत्र कशें. आमी मेरिलीयना वयल्यान सकयल देवलीं. फुडें ॲम्फी ओपन एअर थिएटर आसा. इतल्यान मोनोरेल स्टेशनार थांबता ती पळयली. मनोरेल इल्लीशी तीन डब्यांची गाडी. एकाच रूळाचेर चलता म्हणून ही मोनोरेल. संतोसा जुंव्याचेर भितर येवपाक काडिल्ली तिकेट हातूंत चडपाक उपयोगा पडता. मोनोरेल मदीं मदीं स्टेशनार थांबता. जाय थंय देवून जाय थंय चडूंक मेळटा. गाडी थांबली. दार आपोआप उगडलें. आमी बसलीं दार बंद जालें. गाडयेक आरशे बसयल्ले. मदीं अर्दें उगडें दार. गाडयेंत बसून वाटकुळोच एक राऊंड मारलो. सगळीं सात स्टेशनां. हांगा सायकली चलयतल्यांक वेगळे सायकल ट्रॅक आसात. दर्याचें उदक भितर सरता थंय निळश्या उदकाचे लगून तयार जाले. पोंवपाक जाय ताणी थंय मनसोक्त पोवपाचें. दर्यांत वतले जाल्यार बोटी, जाय तसले वॉटर स्पोटर्स आसात. गोल्फ कोर्स आसात. रॉलर स्केटर्स रींक आसात. ते बगर सायलोसा फोर्ट आसा. हांगा रणगाडे, मशीनगनां पोस्ट ... सगळें पळोवपाक मेळता. थंय जगांतलें एकुलतें एक अशें स्टोन म्युझीयम आसा. आनीकय कसलीं कसलीं म्युझीयमां आसात. सबंध सेंतोसा जुंवो भोवन पळयतलीं जाल्यार दोन दीस तरी जाय. मोनोरेलच्या स्टेशनापोंदा रेस्टॉरेंट्स आसात. थंय खावन घेवन आमीं सायलोसा वेळेर गेलीं. पट्टायाबशेन धवीफुल्ल निवळ रेव. थंय सेंतोसा रिसोर्ट हें व्हडलें हॉटेल आसा. आनीकूय हॉटेलां आसात. तिनसांज जायत आयिल्ली. सेंतोसा जुंवो दिव्याच्या उजवाडांत झगमगतालो.

मोनोरेलात बसून आमी परतीं फाऊंटन गार्डनांत आयलीं. थंय मदीं तळी कशी बांदून घेतल्या. ताचे चारूय वटेन बसपाक सोपणां आसात. थोडेच वेळांत म्युझीक सुरू जालें आनी ताचे तालार उदकाचे कारंजे नाचूंक लागले. म्युझीकाचो आवाज बारीक मोठो जाता तशी कारंज्याची धोलपाची लय, तरेकतरेच्या आकाराचे रंगरंगयाळे कारंजे संगीताच्या तालार नाचतात. एके लयीन कारंज्याचो नाच. एक एक कारंजो म्हणल्यार एक एक नर्तकी. केन्ना 'सोलो डान्स' केन्ना ग्रूप डान्स. भारावलेले अवस्थेंत आमी फेरीबोटींत बसून रस्त्यार आयलीं. कारंज्याचो असो आनी नाच केन्ना पळोवंक मेळत म्हणून धरूंक नाशिल्लें.

सिंगापूर - होम अवे फ्रॉम होम

सिंगापुरान भोंवडेकारांखातीर मनभुलयणे जागे निर्मिल्यात. तातुंतलोच एक म्हणल्यार सिंगापूरचे प्राणीसंग्रहालय. हें प्राणीसंग्रहालय ९० हेक्टर जमनीचेर वसयलां. ते खातीर थंय मुद्दम झाडां रोवन रान तयार केलां आनी मागीर जनावरांक थंय हाडल्यांत. थंयचीं जनावरां जीं फळां खातात तीं तीं झाडां त्या त्या जाग्यार मुद्दाम लायल्यांत अशें राजनान सांगलें. उदक पिवपाक ल्हान ल्हान तळयो आसात. थंय जनावरांक सैमीक वातावरणांत दवरल्यांत. सकाळचो ब्रेकफास्ट थंय ओरांग उटानाबराबर घेवंक मेळटा. ओरांग उटान म्हळ्यार चिंपांजीचे जातकुळीचो एक व्हड माकड. तो ओर्दाद आपलो ब्रेकफास्ट घेवपाक आपल्या जाग्यार येवन बशिल्लो. लागींच बाकींच्या खातीर ब्रेकफास्टाची बुफे मांडिल्ली. कोणाक जाय जाल्यार ओरांग उटाना म्हऱ्यांत बसून फोटो काडूंक मेळटाले. हांव म्हजी प्लेट घेवन भीत भीत ताचे म्हऱ्यांत गेलें. सद्गुरून ताचे खानार हात घालो. तो आनी चाळवत म्हणून म्हाका कल्ल जालें. पूण ताका ताचें कांय पडून गेलेंनां जावये. तो सदचे सवयेन



ताचे मुखार आशिल्लीं फळां खायत बसलो.

थंय ट्रेमांत बसून सगळो झू भोवन पळोवंक मेळता. तरेकवार जनावरां पळयलीं. दुर्मीळ अशे माऊस डीयर, सायबेरीयन टायगर, ऑस्ट्रेलीयन पांडा .... मागीर थंय 'सील शो' जालो. सील हें उदकांत रावपी जनावर. ताणें वाकडें तिकडें नाचून दाखयलें. शेपडेर बॉल धरून दाखयलो. तसोच व्हाइट बेअर शो जालो. थंड प्रदेशांत रावपी धवें वास्वेल. मागीर जालो डॉल्फीन शो.... तो शो पळोवन सोमतीच आमची बस खासा सवण्यांखातीर आशिल्ल्या जुरोंग बर्ड पार्कांत घेवन गेली. जुरोंग हिलाचेर २० हेक्टर जमनीचेर तो पातळ्ळा. तो पार्क म्हणल्यार ३००० सवण्यांचो घोंटेर. हातूंत ३०० वयर सवण्यांच्यो जाती आसात. हांगचीं सवणीं झाडापेडांचेर रावतात. ताचे भोवतणी १५० फुटांचे वयर ज़ाळी लावन पांजरे केल्यात. भितर झाडां, तळीं, धबधबे सगळें आसा. सवण्यांकय आपूण मेकळ्या मळबासकयल आसा अशें दिसता जावये. सेंतोसा जुंव्याचेर मोनोरेल आशिल्ली तशी हांगा पॅनोरेल आसा. ही झुकझूक गाडी दर एका पांजऱ्या मुखावयल्यान सवकास वाटकुळीचं भोंवडावन हाडटा. पायांनी भोंवपाचो आनी त्रास ना. गाडी दर एका पांजऱ्या म्हऱ्यांत पावता तेन्ना त्या सवण्यांबद्दल रिकोर्ड केल्ली म्हांयती जुस्त आयकुपाक मेळटा.

थंय घुगमाबशेन रातीचीं भोवपी जीं सवणीं आसात तांचेखातीर वर्ल्ड ऑफ डार्कनेस म्हणून काळखाची पांजऱ्याची कूड आसा. पेंग्वीनांखातीर खासा झेलाच्यो कुडी आसात. थंय एक ल्हान ओपन ॲम्फी थिएटर आसा. थंय बर्ड शो आशिल्लो. सगळ्यांत पयलीं मोरांनी येवन येवकार नाच केलो. तरेकवार रंगाचे पोपट आयले. कोणे सायकल चलयली, कोणे झेंड्यामुखांर परेड केली. कोण दोरयेवयल्यान चल्लो. काकाकुआन तर मनशाचे आवाज देखून काडून दाखयले. एके व्हडले घोणीन तर चॉपस्टीक पायांत धरून नुडल्स खावन दाखयले. बर्ड पार्कान ३० मिटर ऊंचायेचो एक धबधबो पळोवंक मेळ्ळो. हो धबधबो सैमीक न्हय. तर तो मुद्दाम तयार केला. तो अशेतरेन तयार केल्लो जगांतलो सगळ्यांत व्हड धबधबो खंय!

सिंगापुरांत बँक ऑफ इंडियांत भावोजीचो भाव सिनियर मॅनेजर म्हणून आशिल्लो. आमी ताका मेळपाक ताचे बॅंकेंत गेलीं. ताणी शीत हुमण जेवपाक घरा आपयले. सिंगापुराक नुस्तें बरें मेळटा. तेन्ना मुद्दम जेवपाक येयात म्हणूंक लागले. शीत हुमण जेवपाक जीब आशेल्ली. पूण शीत हुमणाचे आशेन तांगेर गेल्लीं जाल्यार सगळो आदेस मोडतोलो आशिल्लो आनी रातचीं अकरांक आमची मुंबयची फ्लाइट आशिल्ली. सिंगापुराक वचून शॉपिंग करना आसतना येवंक जातालें? आमचे बराबर आशिल्ले ते तर वेळ मेळटा तेन्ना शॉपींग करपाक धांवताले. सुरेशभायन तर सांगिल्लें. आपूण हांगा घेतिल्लें सामान मुंबय व्हरून विकतलों आनी टुराचो खर्च सोडयतलों. तेन्ना जिबेची रूच कुशीक दवरून सेरंगून रोडावयल्या महमद मुस्तफा ह्यो सुपर स्टोरांत भितर सरलीं. ४-५ मजली सूपर स्टोर. कितें ना म्हणून ना. खावपा जेवपाचे जिनस धरून इलेक्ट्रॉनीक आयटम, रेडीमेड कपडे, लेदरच्यो बॅगो, कॉस्मेटीक्स, कितें घेवं आनी कितें ना. आमची व्हडली फामील. पयलेच खेपे भायल्या देशांत गेल्लें म्हणतकीर दर एकट्याक दिवपाक कितें ना कितें तरी घेतलें. भाचयांनी तर लिस्ट बरोवन दिल्लें. कोणे वॉकमन, ग्रॉगल.......

सिंगापूरांत भोवतना एक गजाल जाणवली म्हणल्यार हांगा सगळ्या ऑफिसांनी, डिमार्टमेंटल स्टोअर्सानी काम करतल्या बायलांची संख्या खूब आसा. सिंगापूरांत ९० टक्के लोक शिक्षीत आसात. राजनान आनीक एक गजाल हांसत हांसत सांगली. ती म्हणल्यार सगळ्यांत चड वक्ल लावपी लोक खंय सिंगापूरांत आसा. सिंगापूरांत चड काय पिकना. पिकोवपाक थंय जमीन ना. चडशें सगळें भायल्या देशांतल्यान येता. सिंगापूर फ्री पोर्ट आशिल्ल्यान भायल्या देशांत तयार जाल्ल्यो वस्तू देखून सिंगापूरांत कमी किंमतीन मेळटात. म्हणून थंय व्हडलीं व्हडलीं शॉपींग कॉम्प्लेक्सां दिश्टी पडतात. सेरंगून रोडावयल्यान आमच्या हॉटेलांत येतना आमी जमनीपोंदच्यान वचपी एम.आर.टी. गाडयेन आयलीं. (underground metro train ride) मदीं एकच प्लेटफोर्म. दोशी कुशीनी दोन ट्रेनी धांवताल्यो. इंडीकेटराचेर ट्रेन स्टेशनार पावपाक कितलीं मिनटां आसा ती दाखयताली. ५-४-३-२-१ आनी MRT स्टेशनार रावली. आमच्या दोनी हातांत सामान आशिल्लें. तरी बरें एक बॅग आमी सरलबेनीबराबर टॅक्सीन हॉटेलांत धाडून दिल्लें म्हणून. सुंदर एअरकंडीशन्ड गाडी. दार आपले आपूण उगडलें. देवणारे सुशेगाद देवले. आमी बेगबेगीन भितर सरलीं. स्टेशनाचें नांव कॅसेटीचेर वाजतालें. दारां बंद जावचे वेळार डोअर क्लोझींग ची सुचना येताली. आमचें स्टेशन आयल्या बराबर देवून आमी हॉटेलांत गेलीं.

फाटले चार दीस सिंगापूरांत आमी भोव भोंव भोवलीं. पूण सिंगापूर आमकां फॉरैन कंट्री कशें दिसलेंच ना. ताचें नावय जयपूर, उदयपूर नागपूर हे धर्तीचें जाल्ल्यान आमकां चड लागीचें दिसलें. ते बगर वचत थंय भारतीय लोक दिश्टी पडताले. थोडे कडेन हिंदी भाशा कानार पडताली. म्हणूनय जावये. घडये भारतीय जेवण जेवपाक मेळताले म्हणूनय जावये. आमचेखातीर सिंगापूर होम अवे फ्रॉम होम आशिल्लें. ते सोडून विमानांत बसतना जिवार आयलें.

***



दामबाब
बर्नाड कोश्ता रोड
मडगांव
फोन : २७३०६८६



# अस्तुरेन सादलो रसिकांकडेन संवाद

प्रकाश पर्येकार

२४ जानेवारी २००६ ची गोवा कला अकादेमिंतली ती सांजवेळ. नवी उत्सुकता तोंडार घेवन आयिल्ले ते रसीक. तातूंत हांव आनी म्हजी घरकान्न. कोंकणीची कार्यावळ आसा म्हण कळटकच आमचीं पावलां पणजेचे दिकेन पडपाक लागतात. त्या दिसा एक वेगळोच आनी अभीनव असो पयलो प्रयोग. लेखक : पुंडलीक नायक, दिग्दर्शक : श्रीधर कामत बांबोळकार, कलाकार: ज्योती कुंकळकार आनी प्रशांती तळपणकार.

कोंकणीच्या मळार अशें कितें नवें घडटकच आमचें काळीज भुरकुटून वता... नाटकाच्या मळार आयजवेर आमी दोळे दिपकावपी वावर केला. भारतीय रंगमाचयेचे तुळेन आमी खंयच कमी पडनात हें हाचे पयलींच दाखोवन दिलां. कारण संवसारीक माचयेचें भान दवरून आमचे कोंकणी लेखक, दिग्दर्शक, कलाकार आनी तांत्रीक बाजू सांबाळप्यांनी आयजवेर जाणीवपूर्वक काम केलां आनी करीत आसात.

कथा-अस्तुरेचो पयलो प्रयोग पळयलो. मन सुन्न जालें. विचार चक्र घुंवपाक लागलें. लेखकान कथा-अस्तुरींत मार्मीक पध्दतीन समेस्त भारतीय अस्तुरेचेर जावपी अत्याचार आनी अन्यायाचेर भाश्य केलां. कथा अस्तुरेंत लेखकान एक विशिश्ट काळ घेतला आनी ताका अनुसरून बदलतल्या काळांत अस्तुरेच्या विवीध रूपांचेर कलात्मक नदरेन उजवाड घातला. ज्योती कुंकळकार आनी प्रशांती तळपणकाराचें अभिनय कौशल्य आनी लेखकांचे संवाद कौशल्याक ह्या वेळार रसीकानी ताळयो मारून दाद दिली. कांय कडेन लेखकान दादल्या मनशाच्या वायट करण्यांचेर बोट दवरून अचळय चिमटे काडल्यात. ह्या वेळार बायल रसीक खदखदून मुक्त हांसो दितना हांवें पळयलें.

कथा-अस्तुरीविशीं कांय जाणांकडेन म्हजी चर्चा जाली. हे चर्चेंत कथा अस्तुरेची संहीता आनी सादरिकरणां विशीं समीश्र प्रतिक्रिया आयकूंक मेळिल्ल्यो. 'हांवें म्हजे बायलेक केन्नाच दुय्यम स्थान दिवंक ना..... तिका पुराय स्वातंत्र्य दिलां...'; 'पुरातन बायलेचें चित्र. आतां समाज बदल्ला'; म्हाकां दिसता गोंयांत अशी परिस्थिती ना; पुंडलीक बाबान बायलांच्या अत्याचारांचेर बरोवन बरें केलें. आतां तरी दादले वटणीर येतले; बायलांक चड स्वातंत्र्य दिल्ल्यान बायलोच आयज दादल्यांचेर अन्याय करपाक लागल्यात....; बायलेचेर बंदना हीं आसपाकूच जाय. अशीं साबार मतां वेगवेगळ्या थरांतल्या रसिकांकडल्यान मेळिल्लीं.





ह्या संदर्भांत लेखक, कलाकार आनी दिग्दर्शकाचें मत हांवें विचारूंक नासलें. एक दीस बिम्ब मासिकाचे संपादक दिलीप बोरकारांची आनी ज्योती कुंकळकाराची भेट पणजे कला अकादमींत जाली. 'प्रकाश, कथा- अस्तुरींतल्या कलाकारांची मुलाखत बिम्ब मासीकाखातीर घेता?' हांवें हयकार दिलो. थंयच दीस आनी वेळ थारलो आनी गोवा कलाअकादमीच्या प्रसन्न वातावरणांत आमचो कथा-अस्तुरी वयलो संवाद सुरू जालो.

म्हजो पयलो प्रस्न तोंडांतल्यान भायर आयलो. 'कथा अस्तुरी' एक संवादच्या निर्मीतीचे फांटभूंये संदर्भांत. ज्योती बायन आयजवेर कांय कोंकणी फिल्मां, नाटकां आनी दुरदर्शना खातीर टेलेफिल्मां आनी हेर कार्यावळींची निर्मीती केल्या. ह्या क्षेत्रांत त्यो फाटलीं साबार वर्सां वावुरतात. ज्योतीबायन हांसूनूच जाप दिली 'बायलांच्या जिविताचेर उजवाड घालपी, दोन पात्रां आशिल्लें एक नाट्य जाय अशें हांवें लेखक पुंडलीकबाबांक एक फावट सांगिल्लें. तांच्यानी हां म्हटलें आनी परिश्रम घेवन कथा-अस्तुरेचें हस्तलिखीत म्हज्या हातांत दिलें. तें वाचून हांव भितरल्यान खूब हाल्लें. तातूंतले विचार पटपासारखे आसात. शेवट सुंदर आसा. हें नाटक तर न्हय. म्हणटकच हें संवादरूपी नाट्य कशें करप? कलाकार म्हण कोणाक घेवप? ह्या संदर्भांत विचार करतना गोंयचे आघाडेचे दिग्दर्शक श्रीधर कामत बांबोळकारांचें नांव येवजलें. बायलांविशीं वावर करपी पुरोगामी विचारांचें प्रशांती तळपणकार कलाकार म्हण दोळ्यां मुखार उबें रावले...'

ज्योतिबाय सांगतालें आनी प्रशांतीबाय आयकतालें.... एक कलाकार आनी बायलांच्या प्रस्नांकडेन सहानुभुतीन पळोवन एक अस्तुरी हे नदरेन तुका हें कथा-अस्तुरी: एक संवाद आवडिल्लो? प्रशांती बाय मुमुरखेंच हांसलें आनी सांगपाक लागलें, स्क्रिप्ट वाचतकीच वेगळी दिसली. दादल्यांक आनी बायलांक लेखकान उजरावन काडल्यांत. थोडोसो भंय दिशिल्लो.... लोक कशें स्विकारीत हाचो. म्हज्या विचारांक पटपा सारके विचार लेखकान तातूंत मांडल्यात. ह्याच कारणांक लागून कथा अस्तुरेंत अभिनय करपाक हयकार दिलो.

कलाअकादमींत जाल्लो पयलो प्रयोग गोंयच्या कांय वेंचीक प्रेक्षकांनी पळयलो. तो प्रयोग जाले उपरांत प्रतिक्रिया कितें आशिल्ल्यो? 'पयलो प्रयोग लोक स्विकारतले काय कितें? असो प्रस्न मनांत आशिल्लो. पूण तो कल्पनेपरस जैतिवंत जालो. आनी खरें सांगपाचें म्हळ्यार त्या प्रयोगाच्या बळारूच मुखावयले २८ प्रयोग आमी करूंक पावलीं.

ह्या प्रयोगाक अॅड. रमाकांत खलप, प्रमोद साळगांवकार आनी हेर साबार मानेस्त हाजीर आशिल्ले. 'एक बरो प्रयोग पळोवंक मेळ्ळो' अशी प्रतिक्रिया साबार रसिकांच्या तोंडांतल्यान आयकूंक मेळ्ळी.' ज्योती बाय सांगतालें: ह्या संदर्भांत म्हाका प्रशांतीचें मत जाणून घेवपाचें आसलें. 'बायलां परस दादल्यांनी बऱ्यो प्रतिक्रीया दिल्यो. जितें जिवें खरें भोगलेंलेंच लेखकान दाखयलां. तातूंत भडकपणान कितेंच आयिल्लें जाल्यार लोक कथा-अस्तुरी स्विकारचेना आसले. लेखकान हलकें-फुलकेंपणान समाजांतलीं धेंगां-पोंगां दाखयल्यांत. सर्वसामान्यांक पटपा सारके शैलीन तें लेखकान मांडलां.

नाटकाची निर्मीती करप हें आयच्या काळांत खूपच कश्टांचें काम. निर्मात्यांची अर्थीक बाजू बळकट आसची पडटा. ह्या संवादरूपी कथा-अस्तूरेंत दोन कलाकार आपल्या अभिनय कौसल्ल्यान प्रेक्षकांक देडवर खुर्चेर खिळावन दवरता. दिग्दर्शक श्रीधर कामत बांबोळकार हांच्यानी आधुनीक नाट्यतंत्र मतींत घेवन ताका एक वेगळोच साज चडयला. एकापरस एक अशे विविध प्रसंग जोडून हाडटना दिग्दर्शकान आपली कल्पकता वापरल्या.

पुराय कथा-अस्तुरी दोन कलाकार सादर करता म्हणटकच संहितेतले पुराय संवाद ह्या दोन कलाकारांक वाटून वतात. संवाद पाठांतराचें वजें आनी अभिनय ह्या चेपणाखाला ह्या दोनूय कलाकारांक माचयेर वावुरचें पडटा. एक-लेगीत संवाद हांगां थंय जावंक फावता..... कारण संवादरूपी कथा-अस्तुरेंत संवादाक खूब म्हत्व



आसा. हातूंतलो एक एक संवाद ताळी घेवन वता.

कलाकार जेन्ना प्रयोग सादर करता तेन्ना जण एकलो प्रयोग हो तांचे खातीर नवो प्रयोग आसता. आयज़वेर कथा-अस्तुरेचे २८ प्रयोग जाल्यात. तातुंतलो एक प्रयोग मंगळूर आनी दुसरो मुंबयत जाला. अशे वेगवेगळ्या प्रांतांत प्रयोग सादर जाल्ल्यान कलाकारांक वेगवेगळे अणभव वाट्याक येवप साहजीकच आसात.

ह्या वेळार प्रशांतीबायन विठ्ठल मंदीर, मडगांव हांगां जाल्ल्या प्रयोगाविशींची एक खबर सांगली. 'प्रयोग जाले उपरांत हांव थंयच खुर्चेर बशिल्लें. ह्या वेळार दोन अनवळखी भुरगीं म्हऱ्यांत आयलीं आनी म्हजे मांडयेर बसलीं. आनी म्हणपाक लागलीं तूं नाटकांत देवी जाल्ली न्हूं? ते दोन पेले एकठांय करून पिता तें आमकां खूब आवडलें!' बायल आनी दादल्यांचो एकवट दाखोवपी कथा-अस्तुरेंतलो तो शेवट त्या सान भुरग्यांक आवडिल्लो. कथा अस्तुरेचे प्रयोग गोंयांतल्या पांच विद्यालयांनी जाले. तांतूतले चार, प्राचार्य आपूण पांच मिणटां प्रयोग पळयतलो म्हण सांगून ते निमणे मेरेन खुर्चेर खिळावन उल्ले. डॉ. गोम्स हाणे आपली खाशेली बसका फुडें धुकलून आमचो प्रयोग पळयलो. पूण ह्या सगळ्यां परस मजेची गजाल म्हळ्यार कॉलेजितल्या विद्यार्थ्यांच्यो प्रतिक्रीया. 'आमकां कथा-अस्तुरी खूब आवडली, भारतीय बायलेची कथा आनी व्यथा आमकां कळूंक पावली, आमीय आमचें आडनांव बदलचीनात...' ह्या प्रयोगानी आमी विद्यार्थ्यांकडेन संवाद सादपाक पावलीं कारण हो फकत दोगां कलाकारां भितरलो संवाद नासून लेखक, कलाकार आनी रसिकां मदलो परिसंवाद आसा.



कलाकारांक पयश्यां परस मायेचीं दोन उतरां जाय. प्रयोगावेळार तोखणायेच्यो ताळयो जाय. अशें जालें जाल्यार कलाकाराचो अभिनय फुलाराक येता आनी कलाकार स्वत: परमळूंक लागता. तो नव्या दमान आनी आत्मविश्वासान रंगमाचयेर पावल दवरता. 'जबरदस्त स्क्रिप्ट तितल्याच तांकीन दोन बायल कलाकारांनी सादर केल्या...' हीं उतरां आसात भौ. रामकृष्ण नायकांचीं. ज्योतीबाय आपणाकडेन उक्तायल्ली एक प्रतिक्रीया सांगतालें. न्यायमूर्ती खांडेपारकार मुंबयच्या प्रयोगाक आयिल्ले 'कथा-अस्तुरेचो प्रयोग हांवें पळोवंक नाशिल्लो जाल्यार आयुश्यांतलो एक बरो अणभव चुकतलो आसलो' ह्या वेळार डॉ.उषा देसाय हाणें म्हळें 'भारतांत हो प्रयोग वेगळो आसा. कथा अस्तुरेचे देशभर प्रयोग जावंक जाय.'

आदल्या काळार दादलो मनीस कामाच्या निमतान घराभायर आसतालो. तोच जोडटालो. बायल घरचीं कामां करताली. आयज काळ बदल्ला. 'हांवूय दिसपट्टें काम करतां. अशें आसतनां घरांतलीं कामां हांवेंच कित्याक करप?' असो प्रस्न आयचे शिक्षीत बायलेक पडपाक लागला... 'ना वाटचीं हांव पोळ्यांक, जाय जाल्यार पाव खायात. हांव इतलीं वर्सां झरझर झरलें.' हीं उतरां आसात कुडचडचे एके बायलेचीं. ८ मार्च २००६ ह्या महिला दिसा निमतान कथा अस्तुरेचो पवीर प्रयोग जालो. प्रयोग सोंपले उपरांत कांय बायलांच्या दोळ्यांत दुकां आमी पळयलीं. कारण तीं आपल्या जिणेचेंच नाटक रंगमाचयेर पळयतालीं. एका एका प्रसंगांत तीं आपणाक सोदतालीं. आपलें पडबींब तीं कथा-अस्तुरेन पळयतालीं. पूण सौ. जाधव नांवाची बायल मात नाट्य आवडलें पूण स्क्रीप्ट आवडूंक ना म्हूण सांगपाक विसरली ना. बायलेचेर बंधनां हीं आसपाकूच जाय. असो तिचो आग्रह आशिल्लो. दिवचल आनी पेडण्यां बायल प्रेक्षकांनी कथा-अस्तुरेक बरी दाद दिली. काणकोणचो प्रयोग पळोवन थंयच्या थळाव्या बायलां कडल्यान व्हडलेश्यो प्रतिक्रीया आयकूंक मेळूंक ना. हो प्रयोग दोन फावट पळयल्यारूच कळपाचो अशें मत कांय जाणांनी मांडलें. बाय प्रशांती आनी बाय ज्योती उलयतालें. आनी हांव तांचे हे अणभव कागदार उतरून काडटालों.

कथा-अस्तुरी कांय विशिश्ट रसिकांमेरेन पावपाक जाय अशें निर्माती ह्या नात्यान ज्योतीबायक दिसतालें. अश्या वेळार मदतीचो हात मुखार केलो तो गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती संचालनालय, डॉ. टी. एम. ए. पै. फावंडेशन-मणीपाल कर्नाटक, गोवा कोंकणी अकादेमी आनी साहित्य अकादेमी दिल्ली. ह्या संस्थांनी कांय प्रयोग पुरस्कृत केल्ल्यान कांय विशिश्ट जाग्यार प्रयोग करप शक्य जालें. कांय संस्थानी प्रयोगा खातीर खाशेलें आमंत्रण दिवन प्रयोग करपाक लायलो. गोंय विद्यापिठांतल्या कोंकणी विभागांत असोच आमंत्रणाचेर प्रयोग जालो. प्रयोगा उपरांत चर्चा जाली. मनोगत



व्यक्त करतना डॉ. चंद्रलेखा डिसौजाच्या दोळ्यांत दुकां दाटलीं.... बायलांचें दु:ख हें बायलांच बरे तरेन समजूंक शकता.

ह्या कलाकारांक विचारपा सारके प्रस्न खूप आशिल्ले. पूण हे प्रस्न न विचारतांच म्हज्या मनांतल्या प्रस्नांच्यो जापो म्हाकां मेळटाल्यो. एका नाट्यांत इतली तांक आसूं शकता? हय निश्चीतूच! नाटक हें समाज प्रबोधनाचें एक उत्कृश्ट माध्यम. बरयल्लें पुस्तक जें करूंक शकना तें नाट्य सादरीकरणांतल्यान साद्य जाता.

कथा-अस्तुरे सयत प्रेक्षकांनी कलाकारांक स्विकारल्यात. कारण हे कलाकार बायलांचे चळवळींत आसात. म्हणटकच बायलां विशीचें विचार तांचेकडल्यान आयकतकूच ते पटपाक लागतात. आनी हांगां तेंच घडलां... भौ. पुंडलीक नायक हे कोंकणीत बरोवपी भारतीय नाटककार. तांच्यानी आयजवेर साबार उत्कृश्ट नाट्यकृती दिल्यात. तशेंच दुसरे वटेन भौ. श्रीधर कामत बांबोळेकारान बऱ्यांतलीं बरीं नाटकां बसोवन नाट्यक्षेत्रांत आपलें वेगळें अशें स्थान निर्माण केल्लें. ह्या सगळ्यांच्या प्रयत्नान कथा. अस्तुरी एक संवाद आमचेकडेन संवाद करूंक पावल्या. अपुरबाय चित्र निर्मित संवादरूपी 'कथा-अस्तुरी' सि.डी च्या रूपान घराघरांत पावची अशी आस्त....

* * *







# उतरकुवाडें

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | ३ | ■ | ४ | ५ |
| | ■ | | ■ | ६ | ७ | | |
| ८ | | ■ | ९ | ■ | | ■ | |
| | ■ | १० | | ११ | ■ | १२ | ■ |
| १३ | १४ | | ■ | १५ | | | १६ |
| ■ | १७ | | १८ | | ■ | १९ | |
| २० | | ■ | | ■ | २१ | | ■ |
| ■ | २२ | | ■ | २३ | | ■ | २४ |
| २५ | | ■ | २६ | ■ | २७ | | |
| | ■ | २८ | | | | ■ | |

## आडवे

१) व्याकरणी नदरेन निवळ बरप
४) दुदापासून तयार जाल्लें एक पेय
६) कपटी
८) निवळ, संवळें
१०) कीर्त
१३) तांबडें फळ
१५) ×××× चल्ल्या ती पळोवन घरांत कोण तरी भायर पडला हें कळटा.
१७) नाजूक
१९) बेठीच तोंडाची ×× किद्याक घालयता?
२०) पोशाख
२१) साल, चामडी
२२) विद्यालय
२३) बाकीचे
२५) आयूध
२७) च्या वांगडा ही खाली
२८) शासन, राजकारभार चलोवपी यंत्रणा

## उबे

१) कसलोच आवाज ना अशी अवस्था.
२) पायांचे दुखीचेर ×× सारयलो.
३) एक तीथ
४) संगितांत हो भोव म्हत्वाचो
५) एक संत
७) तूं उलयता तातूंत कांयच ×× ना.
९) मर्याद
१०) एक मनोरंजनाचो प्रकार.
११) विष्णूभवन
१२) आरंभ
१४) कला फाट्यांतलो एक विशय
१६) एक चर्मवाद्य
१८) शिवपाक ही जाय
२१) वेवस्था
२४) दळिद्री
२५) चोरांचो ×× पुलिसांक खबर आशिल्लो.
२६) नस

## आगस्ट २००६ उत्तरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| भो | व | भु | जा | ह | ती | ■ | चो |
| व | ■ | स | य | ■ | ती | स | री |
| न | वी | ■ | फ | ळा | व | ळ | ■ |
| भो | गा | व | ळ | ■ | ■ | स | त्री |
| व | र | ■ | ■ | पां | व | ळी | ■ |
| न | ■ | पा | र | य | ■ | त | प |
| ■ | सा | ळ | ■ | मो | ग | ■ | रा |
| कु | व | त | ■ | जो | र | ग | त |



# गोंदू



**-नं. ध. बोरकार**

भुरगीं तीन चार वर्सांचीं जातकच सरभोवतणी घडपी घडणुकांचो नियाळ करीत आसतात. ताका लागून हे पिरायेसावन तांचें शिकप कोमेस जाता, अशें म्हणू येता. असल्या वोगतार भुरग्यांच्या मनाचो विचार करून जाण्ट्यांनी वावुरपाची गरज आसता. पूण खुपश्या पालकांक हाची जाणविकाय नाशिल्ल्यान भुरग्यांक फाव तशें शिकप मेळना. हाका कारण सुवार्थी शिक्षक आनी अनाडी पालक.

शाळा-कोलेजां हीं न्याय-नितीचीं देवळां आसूंक जाय. पूण आजच्या काळांत शाळांनी मोग-माया आनी न्याय-निती सोडून सगळें शिकप्यांच्या वाट्याक येता. शाळा-कोलेजां पाप घरां जाल्ल्या कारणान, आख्खो समाजच दिशीं-दिशीं रसातळाच्या देगेक पावता, भुरग्यांचो जाण्ट्यांवेलो भावार्त ना सो जायत आसा. तांकां जाण्टे फटिंगपणा, नाडपणा करतात अशें दिसून आयल्यार सगळें पाड पडलेंच म्हूण समजपाचें. ताका लागून समाजान आनी पालकांनी भुरग्यांहून चड लक्ष शिक्षकांचेर दिवपाची गरज आसता. शिक्षक बरे देखीचे आसले जाल्यारच शिक्षणाचें तारूं बरे भशेन तडीक लागूं येता.

गोंदू शिकता त्या पाद्रील्या इस्कोलांतय हेर इस्कोलांभशेन राजकारण चलता. त्या इश्कोलांत बऱ्या वांगडा वायट मनीस वावुरतात. वायट थोडे आसले तरी तांच्याफुडें बऱ्यांचीं शाणेपणां चलपाक खूब कठीण आसता.

हांगा जात-धर्माचें राजकारण चलता. गरीब-गिरेस्त, हिन्दू-किरिस्तांव अशा भेद भावांक सारें उदक घालपाचे यत्न हांगाय दीस-रात पाड्या लोकांकडल्यान सहजतायेन चलतात.

गोंदू ह्या भेदभावाक बळी पडला. पावलून फावोर लावनूय गोंदू हिन्दू आशिल्ल्यान ताका फुटबॉल पंगडांत घेवंक ना. हिन्दूं परस किरिस्तांव फुटबॉल खेळूंक कापाज, असलो सोद इस्कोलांतल्या एक-दोन हिन्दूंकच लागला. आपूण हिन्दू आनी गावडो आसलों तरी कसल्याच खेळांत मातय उणो ना, अशें गोंदूक दिसता. आपल्या आंगातले गूण दाखोवपाची संद मेळची, अशें गोंदूक दिसता. पूण ती ताका मेळना म्हण तो दीस रात खंती जाता.

भुरग्यांचो फुडार घडोवपाखातीर शिक्षकांक प्रशिक्षण दितात. शिक्षणशास्त्रा वांगडाच भुरग्यांचें मानसशास्त्रय शिक्षकांक शिकचें पडटा. पूण शिक्षणशास्त्र कडासेक दवरून कांय शिक्षक शाळांनी आपल्याक जाय तशीं धुमशेणां कांडटात. असल्या पाड्या शिक्षकांचेर कोणाचोच वचक आसना. ना व्यवस्थापनाचो, ना सरकारचो. ताका लागून शिक्षकांक कोणाचोच दचक असो आसना.

गोंदूल्या इस्कोलाचो पाद्री शिस्तीचो. सगल्या भुरग्यांक देवाचीं भुरगीं मानपी. हिन्दू-किरिस्तांव भाव-भाव मानपी. मागीर इस्कोलांत भेदभाव खंयच्यान येता? सगल्या भुरग्यांक एकसारखो न्याय कित्याक मेळनां? कोंकण्यांक फुटबॉल खेळूंक येना अशें कोण थारायता?

अर्थात इस्कोलांत रिगिल्ले पाडे मनीस. हे कुन्नाटे, पाडे मनीस थोडेच आसतात. खरें म्हणल्यार हे किरिस्तांव, कोंकणे, मोयर बी कोण आसनात. आसतात फकत कुसके मनीस. हे कुसके मनीस शिकपी आनी शिकोवपीय आसतात. ते कुसके कांदे, कुसक्या आंब्या भशेन आसतात. एक कुसको कांदो साकभर कांदे पेड्ड्यार करून सोडटा, एक कुसको आंबो पाटेंभर आंबे कुसोवन उडयता, तेच परी एकदोन पाडे मनीस सगलें इस्कोल पाड घालतात.

जणेका वर्गांत जशे एक-दोन पाडे भुरगे आसतात, तशे आख्ख्या इस्कोलांत सगले शिक्षक केन्नाच बरे आसनात. हे पाडे शिक्षक आनी विद्यार्थीच सगलें इस्कोल आपल्या ताब्यांत दवरतात. कटकट नाका म्हण सगलेच तांकां भिवन दीस काडटात. हेडमास्टर आनी मॅनेजरय तांच्याच कलान वागतात. गावांतय तेच फामाद आसतात. ह्या पाड्या लोकांनीच गोंदूक फुटबॉल पंगडांत घेवंक आडमेळें हाडलें.

गोंदूल्या इस्कोलांतली टिचर आंतोनेत. एक पाडी बायल. ती स्वताक इंग्लीश लेडी समजता. तांबड्या ओठांची ही बोडकी बायल कोंकणी केन्नाच उलयना. चाडयारी आनी आळशी नंबर एक. तिचो शिकवपाचो विशय इंग्लीश. ती भुरग्यांकडेन फकत इंग्लीश उलयता. भुरग्यांक ती कितें उलयता ती साप्प कळना. भुरगीं तिच्या



तोंडाकडें आं करून पळेतात. तेन्ना ती मोनिटराक भुरग्यांचें 'रिडिंग' घे म्हण्टा. भुरग्यांक आपल्या कामाक लायलीं अशी तिची खात्री पडटा. मागीर ती न्हिंदूंक मेकळी. मोनिटर वाचन घेता आनी आंतोनेत मॅडम आपली तकली मेजार दवरून कांदे जोकता.

झेम लागलीच ना जाल्यार मागीर मेडम विणकामाक बुडून वता.

झेम काडटा आसतना अकस्मात प्रिन्सीपाल वर्गांत पावलो जाल्यार, मॅडम आपली तकली उसळटा म्हूण धोंग करता. प्रिन्सिपालाक मॅडमीची काकुळट दिसता. मागीर तो तिका घरा धाडटा. अशें म्हयन्यांतल्यान दोनदां तरी घडटाच. आंतोनेत मॅडम भुरग्यांकडे गोड गोड उलयता. फाटल्यान भुरगीं कांयच शिकनात म्हणून प्रिन्सिपालाकडेन कागाळ करता. कागाळ अशे तरेन करता की ती आयकून भुरग्यांक निटायेर हाडपाक प्रिन्सिपालाक बडी घेवन वर्गांत धांव मारची पडटा.

चडशे वोगतार मॅडम आंतोनेत वर्गार आसतना ब्लेकबोर्ड भरिल्लो आसता. मॅडम भुरग्यांक जापो केन्नाच बरोवंक लायना. पांचवे-सवेच्या भुरग्यांक आठ आठ - धा धा वळींच्यो जापो बोर्डार बरोवन दिता. त्यो जापो तपासपाचेंय कामय ती भुरग्यांकडच्यानच करून घेता. ती करता ती फक्त निशाणी.

मॅडम आंतोनेत वर्गार केन्नाच वोगतार पावना. वर्गाच्या हुंबऱ्यार उबी रावन दुसरी टिचर येता काय म्हण वाट पळेता. म्हऱ्यांतल्यान पासार जातले टिचरीक ना जाल्यार सराक आडावन ती जी गजाली सांगूंक कोमेस करता ती बद्द पिरियेड काबार जावपाक धा मिनटां आसात तेन्ना बंद करता. हुंबऱ्यार मॅडमील्यो गजाली, आनी क्लासांत भुरग्यांलो बोवाळ!

मॅडमीक कोणाचेंच बरें अशें दिसना. ती सोडून संवसारांतलीं सगळीं मनशां चुकतात अशें तिचें मत. कोणायच्योय गजाली करतासतना पयलीं मान धुंवडावन हे वटेन ते वटेन पळेतली. लागीं कोण ना ती खात्री करून घेतली. आनी मागीरच फुतफुतून उलयतली. गोंदू ह्यो तिच्यो करण्यो बारकायेन पळेतालो. ताका खूब वायट दिसतालें. मॅडमीक लागून भुरग्यांचें लुकसाण जाता, हेंय तो जाणा आशिल्लो. पूण कांयच करूंक शकना.

येत्न करूनय आपल्याक फुटबॉल टिमीत घेतलो ना म्हण गोंदूक पिकासांव जालें! आपूण असोच हात पांगरून बसल्यार शेण्टलों म्हणपाची गजाल आतां ताच्या लक्षांत आयली. आपल्याक फुटबॉल पंगडांत घेवंक आडमेळें हाडटल्याचो ताका खूब राग आयलो. ताणे ताका बुद्द शिकवपाचें थारायलें.

इस्कोलाक तेकूनच इस्कोलाचो प्लेग्राऊंड आसलो. हांगां इस्कोलाचीं भुरगीं सगळे तरेचे खेळ खेळटालीं. ग्राऊंड इस्कोलाचो आशिल्ल्यान भायल्या भुरग्यांक आनी लोकांक हांगा मेत्यार जावंक मेळनासलें. इस्कोलाभायल्या भुरग्यांक खेळूंक गांवांत दुसरो ग्राऊंड आसलो. ह्या ग्राऊंडार कोणाच्यानय खेळूं येतालें.

गोंदू जिदूदी भुरगो. आतां ताजी जिदूद इल्ली चडच वाडिल्ली आपल्याक इस्कोलाच्या फुटबॉल पंगडांत घेतलो ना म्हण कितें जालें? आपूण भायल्या भुरग्यांचो एक नवो पंगड तयार करून दाखयतलों, अशें ताणें थारायलें. आपल्या-मनांतलें ताणे पावलूक उलोवन दाखयलें.

गोंदूचो आस्पाव इस्कोलांतल्या टिमीत जालोना तें पळोवन पावलूक खूब वायट दिसिल्लें. ताणें गोंदूक नवी टीम काडपाक तेंको दिलो. ताणे आपले मम्मीकडल्यान दुडू घेवन गोंदूक एक नवो ताल्ल फुटबॉल घेवन दिलो.

नवो बॉल मेळिल्ल्यान गोंदू फुल्लो. आपल्या घरा फाटल्या मळार वचून ताणे बॉलाक खूब नाचयलो - खेळयलो. ताका दिसलें आपल्या वांगडा खेळपाक एक वांगडी आसचो. पूण ताज्या शेजराक कोणूच भुरगो नासलो. आसल्यो त्यो ताच्यो भयणी. पूण त्यो ताच्या कामाच्यो नासल्यो. आतां कितें करतलो? कोणावांगडा खेळटलो गोंदू? पावलूलें घर खूब पयस आशिल्लें. असल्या वोगतार ताच्या मजतीक धांवून आयलो तो काळू ताचो सुणो.

गोंदू आनी काळू बरोच वेळ मळार खेळ्ळे. गोंदू नव्या बॉलाचेर खोंटार खोंट मारतालो. बॉल मळबांत उडटालो. जमनीर पडटकच तो आडोवपाचें काम काळू करतालो. गोंदूच्यो भयणी मळावेल्या काऱ्या मुंदांत बसून आपल्या भावाचो खेळ पळेताल्यो. गोंदूलो हो खेळ फकत बॉलाचेर खोटो मारून इस्कोलाच्या फुटबॉल पंगडाचेर राग काडपाचो आसलो.

हे आदीं ह्या मळाचेर असलो खेळ कोणे खेळूं नासलो. ताका लागून मळबांत उडटा तो वाटकुळो बॉल पळोवन थंयच्या रूखावळीवेलीं सुकणीं आनी हेर जिवाळ अजापान भरिल्लीं. बॉल धतरें सावन माडभर उंचायेर उडटा तो पळोवन सुकण्याची वाचाबंदी जाली. चानयो बरोच वेळ हेवटेन तेवटेन धांवून मागीर घोलीं दारार बसून गोंदू आनी काळूचो नाच चतरायेन पळोवंक लागल्यो. मळबांतल्यो घोणीय तेद्याच कुडक्यार मळबांत बोवाळूंक लागल्यो. कावळेय ब्रेतेच ह्या झाडावेल्यान दुसऱ्या झाडार उडून कांव कांव करूंक लागले. धतरीर गोंदू आनी काळू बॉलाफाटल्यान धांवता तें पळोवन कावळ्यांकय आपणें तशेंच करचेंशें दिसलें. एक-दोन कावळ्यांनी संद पळोवन बॉलार चोंची मारपाचो येत्न केलो. पूण एकदां तर गोंदूलो बॉल इतलो नेटार आसलो की तो कावळ्याक आदळून ताचो पाखाटो



दुखवलो. तेन्ना सगळे कावळे ह्या अरिश्टापासून पयस रावले.

गोंदून ह्या आदीं फुटबॉलाकडे इतली इश्टागत केन्नाच करूंक नासली. मराठी मुळावे शाळेंत कबड्डी, लगोऱ्यो, कोयंडेबाल, मीठफळयो बी खेळ चलताले. पूण फुटबॉल-बास्केटबॉल बी खेळ हरीमास्तरान भुरग्यांपसून पयसच दवरिल्ले. सादे-सोपे देशी खेळ आसतना विदेशी खर्चीक खेळांची गरज ना, अशें हरीमास्तराक दिसतालें. शिवाय फुटबॉल खेळपाक ग्राऊंड खंय आसलो शाळेकडे?

गोंदूक फुटबॉल खेळान पिशें लायलें तें पाद्रिल्या हायस्कुलांत येत पसून.

गोंदून आतां नवे ताल्ल फुटबॉलान आपली आस भागोवन घेतली. दोन दीस फुटबॉल आपल्याक जाय तसो नाचयलो, खेळयलो आनी ताची सवंय करून घेतली. आंपूण आंगलटीन बारीक आनी अशक्त आसलों तरी बॉल खोट आनी तकलेन कितलोय पयस उडोवंक शकता म्हणपाचो आत्मविश्वास आतां ताका जालो.

एक दीस गोंदून गांवचो फुटबॉल ग्राऊंड रिकामो आसा तो पळेलो. तो धांवन घरा गेलो. आपलो बॉल जमनीर आपटीत ग्राऊंडार आयलो. ताका आतां आख्खो ग्राऊंड मेळिल्लो. ताणें आपल्या घराफाटल्या मळार जशी प्रॅक्टीस केल्ली, तशीच हांगाय कोमेस केली. हांगा ताका कसलीच आडखळ नासली. आपलेच तंद्रेंत तो बॉलाचेर खोटो झाडीत रावलो.

तसो हो गांवचो ग्राऊंड लोकवसते पसून चड पयस नासलो. गोंदूल्यो खोटो बॉलाचेर पडटाल्यो आनी ताचो 'धब-धब' आवाज चारूय दिकांनीं फांकतालो. थोड्याच वोगतान हो आवाज गांवच्या भुरग्यांच्या कानांर पडलोच. भुरगे एक-एक करून मूस कशे धावन आयले. ते हांगा थंय उबे रावन गोंदूलो खेळ पळेत रावले. भुरगे आपलो खेळ पळेतात हाची गोंदूक मातय खबर नासली. भुरगेय गोंदूल्या खेळाची कसब पळोवन तोंडांत बोटां घालून केदो वेळ खूट कशे उबे आसले.

खेळाची कितलीय उमेद आसली जाल्यार आतां गोंदू फुडें खेळूंक शकनासलो. तो खूब थकलो. मळबांत सुर्या नासलो खरो, वताचो पत्तो नासलो खरो, थंड वारो आंगा घसटतालो खरो, तरी गोंदूच्या आगांतल्यान घामाच्यो पावळ्यो वतताल्यो.

गोंदून आतां उडयो मारून धांवपळ करपाचें सोडून दिलें. तो खिणभर थांबलो, ताणें आंगाचें टि-शर्ट काडलें. तें घामान भिजून ओलें चींब जाल्लें. ताणें तें आपल्या खांदार उडयलें. ताचे पांय एकठांय थारना जाले. ताणें नज जावन थंयच बसकण माल्ली. दोनय पायें पसरले. दोनय हात फाटल्यान तेकोवन ताणें मळबार नदर माल्ली.

गोंदून ग्राऊंडार बसकण माल्ल्या ती पळोवन सगळे भुरगे ताच्या म्हऱ्यांत आयले. ताणी ताका गराडोच घालो.

जमिल्ल्या भुरग्यां मदें पाद्रिल्या इस्कोलांत शिकपी णववेचेय भुरगे आसले.

''गोंदू, तूं बोरो शेवता मुरे! आमहां होबोरूच ना भाडया तूं इतलो बोरो शेवता म्होणोन.'' एका भुरग्यान अजापून म्हणलें.

''आमहां होबोर आहल्यार आमच्या क्लाबांत झेवपा नाहले तेहा? चिजे म्हूण्टा रे फोरसू?'' दुसऱ्यान आपलें मत उक्तायलें.

''होय, आमी झेवपाचेच'' तिसऱ्यान तेंको दिलो.



''हो गोंदू आमचो मुरे. आमच्या इस्कोलां शिकताय तो. आमचो प्रिन्सिपाल मुरे, तेहा आमच्या इस्कोला फुटबॉल टिमीं झेवंक सोदतालो. पी.टी. सोराकय तो जाय आहलो. पूण मोरे, ते आंतोनेत टिचरीन आनी तोपयो सोरान कित्या कित्येंय सांगोन आट लायली. देकून तो हाटीं पोडलो भाडया!''

टिचरांक लागूनच आपल्या गुणांक वाव मेळना हें गोंदूय जाणासलो. आतां णववेच्या भुरग्यांच्या तोंडांतल्यान आयकून गोंदूच्या समजवणेक तेंको मेळ्ळो.

ह्या फुडें इस्कोलाचे टिमींत आपलो केन्नाच आसपाव जावचो ना. फुटबॉल खेळाची आस भागयतलो जाल्यार आपल्याक स्वताचो पंगड उबो करचो पडटलो, अशें



गोंदूच्या मनान थारायलें.

आपल्या भोवतणी भुरग्यांचो चोंबो पळोवन, गोंदू फुरफुरलो. तो फट करून ग्राऊंडार परत उबो रावलो. ताणें हातांतलो बॉल फटफट करून जमनीर आपटिलो. मागीर भराभर किक्स् मारून बॉल मळबा दिकेन जाता तितलो वयर उडयलो.

इतलें करता म्हणसर काळखान आपली राजवट कोमेस केली. आतां गोंदूक ग्राऊंड सोडूंकच जाय आसलो. ताणे बॉल आपल्या खाक्यांत माल्लो. पयस पयस आशिल्ल्या सगळ्या भुरग्यांनी आतां ताका मदें घालो.

''गोंदू तूं कास्ता शेवता आं!''

''आमहांय झे रे.''

''आमी टीम काडया रे.''

वांगडचे भुरगे आपल्या मनांतलें उलयले तें आयकून गोंदूच्या आंगार कट्टी भर मांस चडलें.

''तुमी तयार आसात जाल्यार आमी टीम काडुया. पूण आदीं म्हाकां पावलूक विचारूंक जाय.''

''हो पावलू आनी कोण रे?'' गांवच्या भुरग्यान प्रस्न केलो.

''पावलू म्हजो फ्रेंड.'' गोंदून जाप दिली.

''आमी जाणाय, पावलू तेगेय फ्रेंड तो.'' इस्कोलांतल्या दोगय भुरग्यांनी तेंको दिलो.

''टीम फोरमार करूंक कोण कोण तयार आसात, हात वयर करात पळोवया!''

गोंदून भुरग्यांचो अदमास घेवपाखातीर म्हणलें. झट करून आठ भुरग्यांनी हात वयर केले. तातूंत पाद्रील्या इस्कोलांतले दोगय भुरगे आसले.

''आतां मरे, आमी घरा या. फाल्यां हांव पावलूक मेळटां. मागीर थारावया कितें करपाचें पळे, तें!''

''पावलूक कित्याक रे, आमीच थारावया आनीक प्लेर जाय जाल्यार हांव हाडटां.'' एक हुतहुतो भुरगो आबुजकायेन उलयलो.

''नाहां रे, गोंदू सांगता तोहेंच कोरूया.'' पयल्या भुरग्याचे नसायेन दुसऱ्या भुरग्यान गोंदूचो वोसलो वोडलो.

गोंदू हेर भुरग्यां भसेन आबूज आनी चंचल नासलो. कितें करता तें शांततायेन करपाची सवंय आसली ताका. धा वेळां विचार करूनच आपलो निर्णय घेतालो गोंदू! एकदां पक्को केल्लो निर्णय सट करून बदलपाची सवंय नासली ताका!

ग्राऊंडार काळोख वाडटा तो पळोवन गोंदून घराची वाट धल्ली. घामान चिप्प भिजिल्लें बानयेन काडून ताणें खांदार वडयलें. झाडामुंदांतलें बुशर्ट काडून आंगार चडयलें. बुतांव घालिनासतनाच, हड्डें उक्तें दवरून, हासते चेऱ्यान गोंदू एके दिकेन चलतालो तर दुसरे दिकेन गांवचे भुरगे खुशालकायेन चकाटां मारीत चलताले. गोंदूभसेनच ताचीय फुटबॉल खेळपाची इत्सा पुराय जावपाचो आसार तांच्या मुखार वावुरतालो. गोंदू पावलूच्या आदारान फुटबॉल टीम उबी केल्याबगर कसोच रावचोना, हाची खात्री सगळ्या भुरग्यांक आतां जाल्ली.

दुसरे दिसा सगळ्यांत पयलीं गोंदून पावलूची भेट घेतली. ताणें फुडबॉल टीम काडपाची आपली आयडिया पावलूक सांगली. गोंदूली आयडिया आयकून पावलूक खोस जाली. पूण खिणांत ताच्या चेऱ्यावयली खोशी नाच जाली. तरी ताणें गोंदूक सांगलें, ''गोंदू, तूं टीम काडच रे. पूण माहां मात तितूंत झेव नाहां.''

''कित्याक रे पावलू, तूं अशें कित्याक म्हण्टा? तुज्या फोर्सानच तर हांव टीम काडूंक फुडें सोल्लों. भुरग्यांकय हावें तशेंच सांगलां.'' सांगतना गोंदू मात्सो आकांतलो.

''म्हजो तुहां फूल सपोट आहा रे. पूण टिमीत प्लेयर म्हूण माहां झेंव नाहां.'' पावलू एक शाणो भुरगो कसो उलयलो. मागीर एका जाण्टेल्या भसेन ताणें सर भोंवतणी नदर माल्ली आनी फुडें उलोवंक कोमेस केलें.

''हांव टिमींत शेवल्यार मुरे, आमी ग्रूप केला म्हूण कांय टिचर प्रिन्सिपालाचे कान भोरतले. तो माजीर आमचेर रागार जातलो आनी आमकां सोदांच दुबावान पोयतलो.''

''हावें इतलें सांगोनय, तुहां इस्कोलाच्या टिमींत झेंवना. हें कोणाक लागून जालां होबोर आहा तुहां?''

''हांव जाणा रे. णववेच्या भुरग्यांनी काल सांगलां म्हाकां. आंतोनेत माडाम आनी तोपयो सोर, चडच म्हज्या फाटल्यान लागल्यांत.''

''तूं कांय भियों नाहां रे. हांव आसतोना तेहा कोहें लिसांव शिकोवंक जायें तें हांव पोयतां. तेका लागोन आमी दोगय एक आहाय, ओहें इस्कोलांत कोणाकूच कोवोंक फावोना.''

पावलुलें राजकारण गोंदूले तकलेंत शिरूंक कळांव लागलोना. पावलू आपले टिमींत आयलो जाल्यार इस्कोल ताका पातियेवचेना. प्रिन्सिपोलान पावलुचेर विश्वास दवरल्यार आपलो फायदो आसा, हें गोंदूच्या लक्षांत आयलें. ह्या फुडें इस्कोलांतल्या टिचरांच्या दोळ्यांक उदक लावपाक ताणें पावलूक पयस दवरपाचें थारायलें. पावलूनय तें मान्य केलें.

गोंदूचे लगाडीक लागून पावलू आतां खूब गजाली शिकलो. ह्या सवसारांत बरो मनीस जावन वावुरतलो जाल्यार आपले तकलेचो आनी काळजाचोय उपेग करूंक जाय. हें ताका आतां कळूंक लागिल्लें.



समाजांत वावुरतनां बरें-वायटाची जाणविकाय मनशाक आसूंक जाय. केदेंय व्हडलें संकट आयल्यार ताका धिरान तोंड दिवंक जाय, अशें मत आतां ताचें पक्के जाल्लें. वोगतार बऱ्या खातीर उबो मार्ग सोडून आड वाटेन वच्चें पडटा, हें गिन्यान ताका आतां इल्लें इल्लें जावंक लागलें. फाटीं चुकल्यार फुडें सुदारपाचें आसता ही जाणविकाय आतां ताका जाल्ली.

गोंदू भेटचे पयलीं पावलूक खबर आसली ती फकत देवाचो मोग करपाची. पूण आतां ताका देवा इतलोच देसाचोय मोग करपाची गरज आसा हें कळून आयलें. देव सगळ्यांचो एकच आसता, ही गजाल ताका गोंदून शिकयली. गोंदूक ती हरीमास्तरान शिकयल्ली. आपली मम्मी आनी इंगर्जेंतलो पाद्री सदांच आपल्याक देवाचो मोग करूंक शिकयता. पूण आपल्या देसांतल्या भाव-भयणांचो मोग करप म्हणल्यार देवाचो खरो मोग करप ही गजाल पावलूक आतां कळून आयली. संवसार सुखी जातलो जाल्यार नाडांचें पाड घालप आनी बऱ्यांची राखण करप हो खरेलो धर्म पावलूच्या लक्षांत आतां आयलो. आपलो इश्ट गोंदू खरो धर्म पाळटा. ताका आदार दिवप हो आपलो धर्म, हें सत आतां पावलूक कळून आयलें.

तोपयो सर हिन्दू आनी मॅडम आंतोनेत किरिस्तांव. पूण दोगांय लोकांक नाडपी, पिडपी आनी कुसलावणीं मनशां. असलीं मनशां फकत सैतानाच्याच पंगडांत बसूंक शकतात, आनी सैतानाक नेस्तनाबूत करप हें बऱ्यांचें काम, अशें आतां पावलू मानूंक लागला. इस्कोलांतल्या पाड्या लोकांक लागून, गोंदूचो आसपाव टिमींत जालो ना हाचें पावलूक आदींच खूब वायट दिशिल्लें. गोंदूचो आसपाव इस्कोलाचे टिमींत करून दिल्याबगर आपूण सुशेगाद बसचोना, अशें ताणें थारायलें. तशें करतलो जाल्यार गोंदून आपली टीम उबी करून आपली कापासदाद लोकांक दाखोवंक जाय. गोंदूक टीम उबी करपाक पावलून गुपचूप आदार दिवपाचें थारायलें.

गुपचूप आदार? गुपचूप सो! गुपचूप ह्या खातीर की एकदां टीम फोरमार जातकीर गोंदू मुखार खुबशीं आडमेळीं उबीं जातलीं. एकल्या गोंदूच्यान तीं पयस करूंक जावचीं ना हें पावलू जाणा आसलो. गांवचे मस्ते भुरगे गोंदूक वयर सरूंक दिसचेनात. ते भायर इस्कोलांत तोपयो सर आनी आंतोनेत मॅडमीक गोंदूल्या टिमीचो वास लागल्यार, तांकां फुगडी घालपाक आयतेंच मळ मेळटलें. बऱ्या कामांक विघोड घालपाक सदांच तीं पयले सुवातेर आसतात. गोंदूक तर तीं सदांच दोळे फोडटात.



पावलू किरिस्तांव आसूनय आंतोनेत मॅडमिच्यो करण्यो ताका मात्तय आवडनात. किरिस्तावांलीं हेर भुरगीं मात आंतोनेत मॅडमीलें उतरान उतर मानून घेतात. कारण आंतोनेत मॅडम तांकां आपलीशी दिसता. मॅडमीलें उलवपय तशेंच आसता. हिन्दी-मराठी टिचरींक ती भुरग्यांक मॅडमी म्हणूंक दिना. एकाद्रया भुरग्यान हिन्दी टिचरीक मॅडम म्हणली जाल्यार ती ताचेर केंच करून वता. ''तेंकां बाई म्हणूंक जाय. हिन्दू केन्ना मॅडामी जाताय हूंयीऽऽ मॅडामी आमी किरिस्तांवां. किरिस्तांव सोर आनी कोहणे मास्तोर.'' अशी भेदभावाची शिकवण आंतोनेत मॅडम भुरग्यांक एक दीस चुकनासतना दिता.

कोंकणी-मराठी शिक्षिकांक, आंतोनेत मॅडमीच्या बोडकांत किर्ते शिजता हाची जाणविकाय आसली. ताका लागून भुरग्यांनी तांकां टिचर म्हणल्यार त्यो आपल्याक 'बाईच' म्हण म्हूण भुरग्यांक सांगताल्यो. टिचरी परस 'बाई' म्हणून घेवप तांकां



आवडटालें.

हाच्या उरफाटें तोपयो सराचें आसलें. चुकून लेगीत एकाद्रया भुरग्यान ना जाल्यार पालकान ताका मास्तर म्हणलो जाल्यार तो पिसाळ सुण्यावरी दांत भायर काडीत आंगार धांवतालो.

खोट्या व्हडपणाक लागून, असल्यो बारीक सारीक गजाली इस्कोलांत खुबदां घडटाल्यो. चडश्या भुरग्यांक तातूंत वायट अशें कांयच दिसनासलें. कोणाक तें मालय पडनासलें. पूण गोंदू, पावलू आनी तांच्या असल्या थोड्याच हेर भुरग्यांक त्यो नाका आसल्यो गजाली बादताल्यो. आपलें इस्कोल बऱ्या देखीचें आसचें, इस्कोलाचें नांव सगळ्या वाटांनी वयर सरचें, अशें पावलू -गोंदूक दिसतालें.

पावलूच्या मनाक लागसारकी निकतीच एक गजाल इस्कोलांत घडली. वर्सान वर्स इस्कोलांत गांधी जयंती व्हडा दबाज्यान मनयतात. इस्कोलाचो प्रिन्सिपाल गांधीजीक खूब मानपी. ह्या वर्सा ताणें गांधीजींच्या आवडीच्या गीतांची सर्त घेवपाचें थारायलें. पावलू क्लासीचो मॉनीटर आशिल्ल्यान सर्तीखातीर गीत वेंचून काडपाची जापसालदारकी ताचेर पडली. गोंदूच्या सांगातान ताणें, 'रघुपती राघव राजाराम. पतीत पावन सिताराम.' हें गीत वेंचून काडलें. क्लासटिचरीनय त्या गीताक मान्यताय दिली. दुसऱ्या दिसा सावन क्लासींत गीतांची प्रॅक्टीस कोमेस जाली. हेर क्लासीक त्रास जावचो न्हय म्हण दारां बंद करून दोन-तीन दीस प्रॅक्टीस चल्ली. गीताक कोणेच हरकत घेतली ना. प्रिन्सिपालय प्रॅक्टीश पळोवन गेलो. गीत वेंचून काडटल्याचीय प्रिन्सिपालान तोखणाय केली.

गोंदूली क्लास सोडून, हेर क्लासींनीं 'वैष्णव जन तो तेणे कहीए जो पीर परायी जाने रे!' हें गीत वेचून काडिल्लें. गीतां खयंची क्लास बरीं म्हण्टा ताका इनाम फाव जावपाचें आसलें.

सर्त फाल्यां म्हणल्यार आयज गोंदून घरा सावन टाळ हाडलो. टाळाच्या वाजपान गोंदूलो क्लास गाजूंक लागलो. टाळाच्या तालार क्लासांतलीं सगळीं भुरगीं धोलूंक लागलीं. आपली क्लास सर्तींत जिकतलीच हाची खात्री गोंदू आनी पावलूकय जाली. दोगांच्याय चेऱ्यांचेर खुशालकाय खेळटा आसतनाच आशाढ म्हयन्यांतल्या नितळ मळबाचेर भिरांकूळ काळें कूप दाटचें तशें जालें. गोंदूल्या क्लासी भायल्यान मॅडम आंतोनेत पासार जाली. येदो वेळ शांत आशिल्ली तिची तकली टाळाच्या आवाजान सणसणली. तशीच ती स्टाफरूमांत धांवली आनी कदेलार बसून लागली बडबडूंक,

"कार्मेलीन!"

"कितें जालें गो आंतोनेत?"

"सातयेंत कितें चोल्लां 'तें' पोयलां गो तुयें!"

"कितें जालां गो?" कार्मोलिनान हातांतलो बूक मेजार दवरीत म्हणलें.

"भोजोन चोल्लां मुगो थिंगा. माय गोड! सोसपाक जायना गो बाये."

"फादर नोको गो?"

"नोको, तेका कितें पोडलां गो हाल्या हे इस्कोलांत कोकणेपोण चोल्लां म्होणोन लोकांक कोवल्यार पेरेंट आपल्या भुरग्यांक इंगा धाडटले गो?"

"हें सारकें उलयलें तूं. कोहेंय करून हें गीत बोंद करूंकूच जायें. चोल, चोल फादोराकोडें या. हें सोंग स्टोप कोरूंकच जायें."

दोगय मॅडामी भूत लागिल्ल्यावरी उठल्यो. खांद्याक बेगां लायलीं. हातांत मिनी पर्सी घेतल्यो. आंतोनेत मॅडमीन बेगांतलो हारसुलो काडलो. कार्मेलीन मॅडमीन मिनी पर्सींतली लिपिस्टीक काडली, दोगांयनी वोंट रंगयले. एकामेकांक पळोवन 'पिंच' करून हांसलीं. मागीर गंभीर चेरो करून प्रिन्सिपाल फादराकडची वाट धरली. दोगय मॅडामी सेंडलांचो 'ट्रक-ट्रक' आवाज करीत, मोडत-लचकत चालीक लागल्यो.

प्रिन्सिपालाचें केबीन एका पोंताक तर स्टाफरूम दुसरे पोंताक आसलो. मदें पांचवी ते सातवीच्यो क्लासी चलतां चलतां आंतोनेत मॅडमीन ट्रक-ट्रक करून सातवेच्या दारार माल्लें. पावलून दार उक्तें केलें. पळे जाल्यार क्लासींतलीं सगळीं भुरगीं टाळाच्या ठेक्यार संतपणान, ताल-सुरांत 'रघुपती राघव राजाराम ....' गीत म्हण्टात. गीताचे सूर कानार पडटांच आंतोनेत मॅडामीचें उचंबळ बोड खिणांत शांत जालें. खिणभर ती तशीच उबी रावली. तिका तशीच उबी रावन गीत आयकत रावचेंशें दिसलें. पूण तेच वोगतार तिचे तकलेर कोणेतरी बडी मारिल्ल्यावरी तिका दिसलें. देवचारान तकलेंत एन्ट्री घेतली आनी मनीसपण खंयच्या खंय नाच जालें. मॅडमीचे दोळे तांबडे जाले. नाक फुरफुरलें, वोंट थरथरले आनी तिच्या अख्खे कुडींत कापरें भल्लें. तिणें हुंबऱ्यार रावन एकच किळांच माल्ली, "स्टोप इट. हें स्कूल कातोलिकांचें इंगा कोंकोणपण चोलचेंना सोमजोलोय!" मॅडम गोंदूचेर नदर मारीत आड्डेली. मॅडमीचो तो अवतार पळोवन क्लासिंतल्या एकान एक भुरग्यांची दांतखिळी बशिल्ल्यावरी जाली. गीत गायन थांबलें तें थांबलेंच!

इतलें करून दोगय मॅडमी आनी आनी थंय थांबल्योना. बद्द फादराच्या केबिना भायर उब्यो जाल्यो.

"मे आय कम इन फादर!" आंतोनेत मॅडमीन परवानो मागलो. ते म्हणसर कार्मेलीन मॅडमीन केसांचेर हात वोडीत हारशांत आपले खूमणे पळोवन घेतले.

"काम इन, प्लीज!" भितरल्यान फादराचो आवाज आयलो.





दोगय मॅडमी वांगडाच भितर घुसल्यो. आंतोनेत मेडम तर वाग फाटीक लागिल्ल्या सुण्यावरी धापेताली.

''प्लीज सीट डावन.''आबुजलेल्या मॅडमींक पळोवन फादरान म्हणलें.

''फादर, आमच्या इस्कोलांत कितें चोल्लां?''

''भोजोन-भोजोब, आनी कितें! फादोर, आमच्या कातोलिकांच्या इस्कोलांत कोहण्याल्या देवांचें भोजोन कित्याक?'' आंतोनेताच्या फोर्सान कार्मेलिनान प्रस्न केलो.

''कूल डावन मॅडम! कितें घोडलां तें माहां सोवकासायेन आनी थोंडसायेन सांगाय पोवया.''

''फादोर, सातवेच्या क्लासांत बोग्गोर राजाराम राजाराम कोत्ताय. हें कितें चोल्लां?''

''तें गांधींजींचें भोजोन चोल्लां. हाल्यां गीतांची सर्त आहा न्होय?''

''होय फादर, पूण कोहण्याल्या देवाचें भोजोनआमच्या इस्कोलांत नाहां.'' आंतोनेत आड्डेलें.

''कित्याक नाहां, देव सोगल्यांचो एक आनी हें भोजोन सोदांकाल जावचेंना. फोकोत सर्तीक लागोन म्होण्टाय तीं भुरगीं, म्होणो दी.''

''पूण फादोर आमहां भुरग्यांचे आवय-बापूय हातोलेय. ते म्होण्टाय, आमच्या भुरग्यांच्या तोंडांत कोहण्यालें भोजोन नाहां.''

''ओहें कोण म्होण्टाय?''

''भुरग्यांचे आवोय-बापूय म्होण्टाय. हायें आयकोलां मुझ्या ह्या कानांनी. हांव फोट सांगतां जाल्यार, इचार तोपयो सोराक.''

''नाहां-नाहां. तोपयो सोराक आनी मोदें हाडूं नाहां. तुमहां नाहां जाल्यार, हांव तें बोंद कोत्तां.'' अशें म्हणून फादरान पावलूक आफोवन हाडलो आनी तें गीत सर्तीतल्यान काडून उंडोवंक लायलें.

खरें म्हळ्यार फादराक ते गीताचो अर्थ खबर आसलो. 'ईश्वर अल्ला तेरो. नाम सबको संम्मती दे भगवान' ह्या वळींत भक्त समस्तांक बरी बुद्द ईश्वरान दिवची अशें मागणे करतात हें फादराक कळून आयिल्लें. हातूंत वायट अशें कांयंच नाशिल्लें. तरी वाद आनी कटकट नाका म्हण ताणें तें गीत सर्तींतलें काडून उडयलें.

गीत काडून उडयलें हाचें दूख गोंदूहून चड पावलूक जाल्लें तेन्नाच्यान पावलू चड करून आंतोनेत टिचरीचेर चड रागार आसलो. आतां ताका कळून आयिल्लें की तोपयो सर धरून आनी कांय टिचरींचो एक पाडो पंगड आसा आनी इस्कोलाक केन्नाच वयर सरूंक दिवचोना. धर्माच्या आनी जातीच्या नांवान भुरग्यांचें लुकसाण होच पंगड करता. ह्या पंगडा वांगडा झुजतालो जाल्यार, नितळ मनाच्या वांगड्यांचो एकवट घडोवन हाडपाची चड गरज आसा. अशें आतां पावलूच्या मनान घेतलें. तो आतां सताचे दिकेन वाटचाल करूंक लागलो.

आयज आयतारचो दीस. सदां जिळमिळट्यार उठपी गोंदू आज बरोच उसरां उठलो. उदकाकडेन वचून येतनाय तो गणयत-गणयत आयलो. येतना ताणे येंडाची बडी तोडून हाडली. ती तो तोंडांत धोंगशीत, वोताचीं खर किरणां आंगार घेत आंगणांत उबो आशिल्लो. घरांत ताटलेंत वाडून दवरिल्ली हुनहुनीत आंबील ताची वाट पळेताली.

इतल्यान पयसुल्ल्यान कोण तरी ताका झळकलो. कोण आसतलो काय तो? असल्या वोगतार गोंदूल्या घराकडच्यान मानाय-कामेऱ्यांचें येवप-वचप आसता. पूण हो तसल्यांतलो कोण आसूं नज. तो धवेफुल्ल भेसांतलो लांब-रूंद भुरगो लागीं पावलो आनी गोंदू ताका वळखलो. तो आसलो पावलू. गोंदूचो फास्ट फ्रेंड! गोंदून



हातांतली बडी फेंकून भायर माल्ली. धांवत वचून तांबयांतल्या उदकान कुचकुचीत घोंट घेतलो. वोलेच हात घेवन धांवत तो पावलू म्हऱ्यांत गेलो. पयलीं ताका वेंग माल्ली. मागीर ताचे दोनय हात आपल्या हातांत घेवन तो ताका चवकेर घेवन गेलो.

गोंदूक आपल्या इश्टाक आतां खंय बसोवं खंय नाका अशें जालें. चोवकेर दोनय वटयां मातयेचे सोपे आसले. पेटून-धपटून सुळसुळीत केल्ले. शेणान सारयिल्ले. गोंदून थंयचे दांडयेवयलें आपले काकेचें जुनेर वोडलें. तें सोंप्यार पातळयलें आनी आपल्या इश्टाक ताचेर बसयलो.

गोंदू अजून भुरगो आसलो. इस्कोलाक वचप आनी घरा येवप. गोंदूगेर येताले ते ताच्या वाड्यावयले गावड्याले पोर. केन्ना घाणयारे चेड्डेन तर केन्ना म्हेळे काश्टेन. इतलो देशेंत आनी राजबिंडो मनीस गोंदूगेर केन्नाच येव नासलो.

आपल्या भावाक इतलो देखणो, शांत आनी देशेंत मनीस भेटूंक आयला तें पळोवन गोंदूले भयणींक अजाप जालें. त्यो गर्वान फुल्ल्यो. पयस रावन लिपून त्यो पावलूक पळोवंक लागल्यो. कशाकशोय न्हेशिल्ल्यो आपल्यो भयणी पावलू म्हऱ्यांत येना जाल्यार पुरो, अशें गोंदूक दिसतालें. गोंदू इतल्योच ताच्यो भयणीय शाण्यो आसल्यो. त्यो पावलू पसून पयसच रावल्यो. तांणी गोंदूच्या मनांतलें वळखलें जांवये.

पावलू पयलेच खेप आपल्या घरा आयला, हाची गोंदूक खोस भोगली. पूण तो कळयनासतना अकस्मात घरा आयला हाचें ताका वायटय दिसलें. आपल्या इश्टाक कितें दिवचें हाची खंत ताच्या चेऱ्यावयल्यान स्पश्ट दिसताली. च्याव आनी बिस्क्टिो तरी दिवंक गोंदूगेर सकाळची च्याव पिवपाची रीत नासली. उकड्या तांदळांची पेज नाजाल्यार आंबील जेवन घरांतलीं भुरगीं इस्कोलाक वतालीं.

गिरिजें घरांत आपल्या कामांत गूंग जाल्लें. भायर पावलू आयला हाचो ताका पत्तो लागलो ना. गोंदूक आंबील वाडून दवरलेली न्हिवली म्हण ताणे दुसरे खेप गोंदूक मोठ्यान उलो माल्लो.

"काके, मात्शी भायर येता?" गोंदून गिरिज्याक सुचोवणी केली.

"कित्याक रे." अशें म्हणून गिरिजें ताकतीकेन भायर आयलें. पावलूक पळोवन तें मात्शें दचकलें आनी मागीर तोंड हासतें करून पावलूक पळेत रावलें.

"गोंदू, बाबाक मात्सो बोसों दी रे. तुका आंबील वाडला, ती जेय आनी पोसऱ्यार वोचोन यो."

गोंदूची मामी गोंदूक पोसऱ्यार कित्याक वोच म्हण्टा तें पावलूच्या सारखें लक्षांत आयलें. गोंदूक "आंबील जेय" म्हण्टा तेंय ताणे आयकलें. गावड्यांगेर आंबील रांदतात हें पावलून आयकल्लें. ताका आंबील चाखून पळोवपाची इत्सा जाली. ताणें गोंदू वांगडा आपूणय आंबील जेवतां म्हणपाचें उलोवन दाखयलें.

पावलू आंबील जेवंक तयार जाला तें पळोवन गोंदू खोशेन भुरकुटून गेलो. गिरिज्याकय खूब खोस भोगली. तें तरतरीत घरांत गेलें. दोन म्हाणायो हाडून चवकेर थेयल्यो. गोंदून भितरल्यो दोन पितळ्यो हाडल्यो. इतलें म्हणसर गिरिजें आंबली बुडकुलो आनी निवणे घेवन भायर आयलें. ताणें हून हून आंबील दोनय पितळ्यांनीं वाडली. दोन कुलेरां हाडून दोनय पितळ्यांनीं एक एक बुडयलें.

"पावलू तूं आंबील केन्ना ज़ेयला रे!" गोंदून पावलूच्या तोंडाकडे पळोवन प्रस्न केलो.

"ना रे! मुझी मम्मी जेयल्या हूंय. सांगताली बोरी लागता म्हूण!"

"आमकां कुलेरान जेवपाची सवंय ना."

"माजीर, कोही जेयताय तोर तुमी. कित्येंय पातोव आहल्यार कुलेरान जेवंक बोरें जाता न्होय रे!"

"हेंऽऽ! म्हाका आंबील, वोन्न, सोजी बी भुरकावपाची सोवंय. भुरकायल्यारच जेयलें शें दिसता आनी जेयल्लें हरगतीक पडटा."

"तोहें जाल्यार माहांय शिकोय रे, कोहें भुरकायताय तें!"

गोंदून वयल्या बयर आंबलीर हात वोडलो तोंडांत घालो आनी सुर्र ऽ ऽ ऽ..... करून आवाज केलो. पावलूक तो आवाज कोमीक दिसलो. ताणें आपलोय हात आंबलीत रोमलो. आंबलीचो वयलो थर थंड आसता आनी भितर खतखत. पावलूचो हात सोसूंक जायना तितलो लासलो. ताणें झट्ट कन्न हात भायर काडून फाफुडलो. आंबलीचे थेंबे ताच्या धवेफुल्ल टी शर्टाचेर शिपडले. तरी ताणे हाताचीं चारूय बोटां तोंडात घालून चोखलीं. पावलूक ती मात्शी खारट आनी गुळमट आंबील खूब आवडली. केदो वेळ तो हात चाटत रावलो. आपलो हात लासलो, पूण गोंदूचो कसो लासलो ना? पावलूक अजाप दिसलें.

आंबील भुरकवपाची कला पावलूक खबर नासली. पावलूक ती गोंदूकडच्यान शिकनशी दिसली. कारण पावलू आतां आंबील सोडूंक तयार नासलो. गोंदूक ताणें आंबील जेवपाक सांगलें. आनी आपूण ताका पळेत रावलो. गोंदू आंबलींत हात कसो घालता, तोंडाकडें कसो व्हरता, भर्रर करून आवाज कसो करता आनी मागीर बोटां कशीं चोखता-हात कसो चाट्टा तें ताणें खिणांत शिकून घेतलें. इतलें म्हणसर गिरीजें घशीन भरलेलें काळेंकिट्ट कुळणें आनी दोन चोळके घेवन भायर आयलें. कुळण्यांत ताणे सय-कांदो आनी हरव्यो





मिरसांगो घालून मानसेचीं सुंगटां तळशिल्लीं. ताणें तीं चोळक्यांचेर वाडून दोनय पितळ्यां म्हऱ्यांत थेयलीं. पावलून तीं तोंडांत घालून चाखलीं मात, मागीर घे! दोगय इश्टांनीं भुरक्यार भुरको मारूंक कोमेस केलें. आंबलीचो बुडकुलो अर्दो जालो, तेन्नाच दोगय इश्टांनी पितळ्यो सोडल्यो.

सुंगटां तोंडाक लावन आंबील जेवन जातकीर पावलून आपल्या खाणा-जेवणाचो खिणभर नियाळ केलो. तेन्ना ताका दिसून आयलें की, गावड्यांल्या ह्या आंबलीमुकार पाव-उंडे, केक-बिबिकां आनी सगळ्या तरेच्यो दोसी कित्याक उपकारनांत.

आंबलीचो आक्त जातकीर पावलूक आपल्या कामाचो उगडास जालो. त्या पयरच्या गीत सर्ती विशीं पावलूच्या क्लासीचेर व्हड अन्याय जाल्लो. तोय बी मॅडम आंतोनेताक लागून: मॅडम आंतोनेत एक तसलेंच, पूण फादर प्रिन्सीपालान तरी अशें करूंक जाय नासलें. फादर प्रिन्सिपाल सगळ्यांकडे मोव रावता देखून त्या इस्कोलाचो रिजल्ट बरो येना. फादराच्या धर-सोडपणाक लागूनच कसल्योच ॲक्टिविटी बरे भशेन पार पडनांत त्या इस्कोलांत. तांच्या कर्तुबांक वाव मेळूंक जाय जाल्यार, भायल्यानच कितेंय करून दाखोवचें पडटलें. हाचो विचार करून पावलू गोंदूक मेळूंक आयिल्लो.

''पावलू आयज आमगेर येतलो म्होणोन खबरूच ना.'' खंती जावन गोंदून म्हणलें.

''सांगोनासून बोरें जालें. सांगलेलें जाल्यार आंबील भुरकावंक हुंय मेवतोली आहली. माहां.''

''आंबील आवडटा जाल्यार, तूं केन्नाय यो. आमगेर आंबली बुडकुलो सोदांच तोयार आसता.''

''तें बोरें आहा रे आमी टिमीचें कितें करूया रे! काडया मरे टिमू?''

''आनी आनी इचात्ता, काडुया म्हणचे काडुया.''

''काल णोयेंतलो कोस्तू मेळ्ळो रे माहां. ताका झेवया मुरे?''

''तूं म्हण्टा जाल्यार घेवया.''

''तेका झेवया मुरे, आनी णोयेंतले सालू आनी पेद्रू आहाय रेडी. तेय खोडेखांट प्लेयर आं.''

''कोण बोरो शेवता आनी कोण वायट तें तुकां खोबोर आसा रे. तूंच कोर कितें कोरता तें.''

''आमी टीम काडटा म्होणोन णोयेंतल्या पेद्रून सोगल्या फामाद केलां.''

''तशें कोणाक कोळोंक दिवोंक फ़ावो नासलें.''

''कित्याक रे, जावंदी फामाद. आमी कितें कोत्ताय तें उक्तें उक्तें जावंदी. हांव आसतोना तूं कांय भियों नाहां रे. आदीं माहां कांय गोमो नाहलें. हे पाडे लोक आमहां शिकोयताय एक आनी आपूण कोत्ताय दुसरेंच. आतां तुझ्या सांगातान हांव जायतें शिकोंक पावलों. हे फुडे आमी दोगय होरें आहा तेंच कोरया. केदोय व्होडलो मोनीस आमकां आड येयलो जाल्यार तेका होल्ले कोरपाची ताकोत आमच्यांत ना रे गोंदू?'' पावलूलीं हीं उतरां आयकून गोंदूक बरें दिसलें.

''पूण पावलू, मॅडम आंतोनेता मुकार आमी टिकत रे? धायेचे आनी णववेचे चडशे भुरगे तिचेवटेन आसात मुरे.''

''चोडशे आहाय रे, सोगले नाय मुरे? बऱ्या भुरग्यांक आमचे सायडीक हाडपाचें काम मुझें. स्टाफांतल्यो चडश्यो टिचरी मॅडम आंतोनेत आनी तोपयो सराचेर बऱ्यो नाय. त्यो आमचेर कोत्र केन्नाच रावपा नाय.''

आनी ती गजाल खरी आसली. आंतोनेत मॅडम इस्कोलांत केन्नाच आपलें काम बरे भशेन करून नकळो आसली. आपल्या मर्जेतल्या, कांय शिकूं नासलेल्याा भुरग्यांक ती सोपेपणान पास करताली. होमवर्क करिना जाल्यार कोणाक विचारी नासली. हेर टिचरीनी वायट भुरग्यांक तापयल्यार आंतोनेत तांकां वेंगेंत धरताली. ताका लागून वायट, मस्तीं आनी आळशी भुरग्यांमदीं आंतोनेत मॅडम हिरोईन जावन आसली. भुरग्यांच्या पालकांकडेन कशें उलोवंक जाय तें आंतोनेत बेसबरी जाणा आसली. ताका लागून गांवांत लोक तिका मान दिताले. आपलीं भुरगीं शिकनांत, तीं फायनल येजामीक फेल जातलीं हें लक्षांत येतकीर पालक मॅडम आंतोनेतकडें वताले. तांकां



प्रिन्सिपाल आनी क्लासटिचरींकडे वचपाची गरज पडनासली. मॅडम आंतोनेत दबाव हाडून भुरग्यांक मार्क वाडोवन पास करूंक लायताली. तोपयो सराचोय तिका सदांच तेंको आसतालो.

ही गजाल इस्कोलांत कश्ट घेवन शिकप्यांक, शिकोवप्यांक आनी प्रिन्सिपालाक मातय आवडनासली. तरी कोफुसांव नाका म्हण सगळे तोंड धांपून ओग्गी रावताले.

पावलूक हे गजालींकडे लक्ष दिवपाची गरज नासली. पूण देव सदांच वायटपणांक तेंको दिना. एक ना एक दीस कोणाच्याय रुपान तो फुडें सरून मदांध प्राण्यांक जाग्यार हाडपाचें काम करता. आतां तो गोंदू आनी पावलूच्या रूपान वावरूंक सोदता.

आपलें नांव फुडें हाडिनासतना पावलून पंदरा वांगड्यांचो फुटबॉल पंगड घडयलो. ताणें आपल्या इस्कोलांतल्या आठवे-णववेतले चार वांगडी पंगडांत घेतले. हेर इकरा वांगडी गावांतले घेतले. गोंदूक ह्या पंगडाचो मुखेल केलो.

गोंदूल्या घराफाटल्या मळाचेर आतां सांजेच्या सद्दां साडेचारांक चुकनासतना पंगड एकठांय जावंक लागलो. सदांच शांतकायेन भरिल्लो ग्राऊंड ह्या दिसांनी बोब आनी हुयेलींनीं गाजूं लागलो. सुर्वेक ग्राऊंडार गांवचेच भुरगे जमूंक लागले. उपरांत गांवां भायल्या ल्हान-व्हडांची हाजेरी लागूंक लागली. ह्या आदीं गांवच्या मुखेल ग्राऊंडाचेर राज्यांतल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो मॅची खेळ्ळ्यो, पूण फुटबॉल मोग्यांक गोंदूल्यो मॅची असली मॅच केन्नाच पळोवंक मेळूंनासली. तरणाट्यांची हेडींग, किकींग, रनींग, जंपींग आनी बॉल केचींग सगळेंच पळयन-पळयन दिसतालें.

गोंदूली मॅच थोड्याच वोगतान रंगार येवपाक एक कारण आसलें. पावलूचो मामा एका वोगतार खडेगांठ फुटबॉल प्लेयर आशिल्लो. ताणे भारत देशाच्या वतीन संवसारभर मॅची गाजयल्ल्यो. आफ्रिका, पोर्तुगालाक बी वचून ताणें नांव मेळयल्लें. उपरांत तो रिटायर जावन घरा बसून आसलो. पावलून ताका भोवमानान आफोवन घेतलो, आनी गोंदूल्या पंगडाक दोन दीस भितर कोचींग दिवन पंगड बळिश्ट केलो.

गोंदून ह्या बळिश्ट पंगडाचें नांव थेयलें 'पदचेण्णू पंगड' असलें नांव हे पयलीं खंयच्याच टिमींक नासलें.

गोंदूलो पदचेण्णू पंगड थोड्याच दिसांनी गांवभर फामाद जालो. कोंडवाड्यार ह्या आदींच कोणच फिरकनासलो. आतां सांजवेळार आख्खो गांव कोंडीमळार जमूंक लागलो. कोंडवाड्यार लोकांची रीग लागता ती पळोवन चणे-भिकणां आनी आयसफ्रूटवालेय थंय आतां आपली हाजिरी लावंक लागले. लोक म्हणूंक लागले, गावांतले नवे टिमींत जादू आसा, जादू!

पाद्रील्या इस्कोलापसून कोंडवाडो तिनेक कि.मी.च्या अंतराचेर आसलो. गोंदूले घरापासून पावलूलें घर दोनेक कि.मी.चेर आसलें. पावलू आतां सुटये दिसांनी गोंदूगेर येवंक लागलो. कोणाक कळनासतना गोंदूगेर येवन फुडल्यो राटावळी करप ताका सोपें पडटालें. त्या भायर दिसांतल्यान एकदांतरी गोंदूकडे थंडसाणेन उलोवपां करपाची संद मेळटाली.

गोंदू इतलोच पावलूय आतां शिटूक आनी विचारवंत जाल्लो. तांचें दोगांचेंय विचारचाक आतां समगतीन धावंक लागिल्लें. निर्णय शक्तिय वाडिल्ली. आपलो सदांचो अभ्यास सोपोवन ते आपल्या येवजिल्ल्या कामाफाटल्या नेटान लागताले. आतां तांकां एकच ध्यास लागिल्लो, आनी तो म्हणल्यार आपलो नवो फुटबॉल पंगड खंयच्या तरी खोडेगांट पंगडाकडेन खेळोवन जैत मेळोवपाचो. ह्या कामांत गोंदूक फुडें करून पावलू आपलें काम सादोवंक सोदतालो. ती एक ताची चाल आसली. इस्कोलाच्या टिमीं आड खेळपाची.

-नं. ध. बोरकार



-मास्कारेन्हस
वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७





# बहुरूपी मुंबय

सत्यप्रसाद पं. धायगोडकार

हांव जेन्ना गोंयातल्यान मुंबय आयलों तेन्ना, म्हाका मुंबयचें कांयच खबर नाशिल्लें. नाशिल्लें म्हणजे तसो हांव दोन चार फावटी येवन गेलां. पूण व्हडलोसो भोवपाक नकळों आसलों.

पूण जायते फावटी लोकांनी सांगलेल्यो गजाली कानार पडल्यात की, कितें रे ती मुंबय! शी सायबा! खंयूय वतलो जाल्यार चलतां चलतां, खंय पावलो तेंच कळना. परतो येवपाक आयलों जाल्यार दुसरेच कडेन पावलों. कितें रे तो ट्राफीक! कितें तीं दुकांना आनी कितें रे तो लोक! तऱ्हातऱ्हांचीं सवंगां! शी खयंच पोळोवंक ना रे बाबा असलें. वीट आयलो सामको.

ट्रेनीत गेलों थंय गर्दी, बशींत घुसलो थंय गर्दी, वाटेर चलता आसताना गर्दी, बाजारांत गर्दी, दुकानांनी गर्दी आनी एकदीस कडकडीत मुतूक जालें म्हणून रस्त्यावयल्या संडासांत वचपाक गेलों (म्युनीसीपालीटीन बांधिल्ले) थंय सुद्धा इतली गर्दी, की लोकांक थार नाशिल्ल्या कारणान बिल्डींगेच्या कॉंट्रेक्टरान जशें कोंक्रीट घट्ट जावंक जाय म्हणून सगळी बिल्डींग पचपचीत भिजोवची तशें लोकांनी चक्क भायल्यो वणटी भिजयिल्ल्यो. अशे तरेच्यो जायत्यो लरेकवार गजाली कानार पडिल्ल्यो.

पूण जेन्ना हांव मुंबयत आयलों, खऱ्यानीच म्हजी धांदल जाली.

जेन्ना हांव मुंबय येवपाक, गोंयांत आसतना तिकीट काडपाक गेलों, म्हणजेच बूक करपाक गेलों तेन्ना कितें काय म्हळ्यार थंय इतली गर्दी आशिल्ली की, तिकीट मेळपाक खूप त्रासिक आशिल्लें. जो तो तिकीटाचे पयसे दिवनूय वयर चड पयशे, म्हणजे ऑन, तिकीट बूक करप्याक दिवन आपल्याली तिकीट घेतालो.

तरी पूण आमच्या गोंयकारांक लांच घेवन म्हणजेच पयशे खावन कामां करपाची तितली ओड आनी सवंय नाशिल्ल्यान तो म्हणजेच तिकीट बुकींग करपी क्लार्क मर्दी मर्दी कांचवेतालो आनी हेवटेन तेवटेन पळोवन मोड ना. हें ना, तें ना करून आपल्यालो दिसवडो सोडयतालो. जांव बाबडो, तो म्हणून कितें करतलो? आज काल म्हारगाय इतली पावल्या, घेता तितलो पगार संवसाराक कमीच पडता आनी तोवूय बी, बायल भुरगेंकार.

अशें म्हणटात की आयच्या संवसारांत, मनीस अशें केल्याबगर मुखार सरनात. पुणून तो भ्रश्टाचार थोडोच करतालो! कारण



म्हळ्यार ताका मोठो ऑफिसर एंग्रेगाद, मॅनेजर, डायरेक्टर नाजाल्यार मिनिस्टर थोडोच जावपाक जाय आशिल्लो! तो तर, फकत मोडूच ना म्हणून सांगतालो. तुका काम दितां, नोकरी दितां, फाल्यां मेळ, परां मेळ, नुस्तें घरा पावय, काजू फेणी पावय, व्हीस्की पावय, एक हजार लागतलो, दोन हजार लागतले अशें थोडेंच सांगतालो!

आनी ह्यो सगळ्यो गजाली हांव बुकींग लायनीच्य फाटल्यान रावून फुडें सरकत सरकत पळयत आशिल्लों आनी हें सगळें तिकीटीक लागून. 'ऑन पयशे' दिवपी गोंयकार नाशिल्ले, सगळे गोंयच्या भायले लोक. तोवूय त्याच वेळेचो फायदो घेतालो कारण ते लोक वतगीर, परते थोडेच येवपाचे आशिल्ले गोंयांत!

पूण जेन्ना म्हजो नंबर येवन हांव ताज्या मुकार पावलों तेन्ना म्हजे आवयभाशेंत ताका म्हणलें?

'कितें रे हांव मात मोडचे दिवंचोना, तुवें म्हाका परते सारखे दिवचे पडटले. तिकीटाच्या सकट. ....'

'आं?....' ताणेन म्हळें.

आनी लांयटीचो शॉक येवचो, तशें सट्ट करून, मान वयर करून पळयलें. कित्याक तर ताणें बऱ्याच वेळा उपरांत गोंयकाराचो खरो आवाज आयकलो आनी ताका भंय पडलो, की हाणेंन आपल्याचीं वदळचीं सगळीं नाटकां आयकलीं आसतलीं. आनी खऱ्यानीच हांवेन सगळें ताजें आयकल्लें. ताणेन म्हाका आपल्या तोंडार अळणी हांसप हाडून सांगलें.

-दितां तुका रोखडी दितां. खयंचो तूं?

- तूं म्हाका ओळखुना? हांवें बेश्टेंच विचाल्लें ताका, पूण हांव खऱ्यानींच ताका वळखनासलो.

-फोणेचो काय किदें? ताणेंन म्हळें.

- हांवें म्हळें - हयं.

-धायमोडकार तूं ?

- हय.

-तो बापू बी तुगेलो कोण लागतात?

- कोण ?

- तो भुसारी दुकान आसा तो.

- बापोलयो - हांवें म्हळें .

म्हाका मनांतल्यान एकेवटेन बरें दिसलें. म्हणजे दुबावूच ना, वळखता म्हणटगीर तिकीट बरी आनी रोखडीच दितलो. ताणेनूय आपणेन मात्शी पॉलीसी केली. ताणें म्हाका नांव गांव, वळख पाळख विचाल्ली ती ओगी न्हय. तर आपल्याचीं हीं पयलीचीं कर्मां लिपचीं म्हणून आनी हांवें ओळख दाखयली म्हणटगीर कोणाकूच सांगपाक ना. अशें तो समजला जांव ये (अशें म्हाका दिसता.)

- बरें! खयंची तिकीट जाय तुका? ताणेन विचाल्लें?

- बरी शी दी जनेलाकडली. आनी मदली शी

- जनेलाकडली मरे? अशें विचारून ताणेंन म्हाका रोखडी १९ नं. जनेलाकडली तिकीट दिली. हावूय खोशी, तोवूय खोशी.

खरें म्हळ्यार प्रत्येक गोंयकाराचें आपलेंपण हांगा दिसून येता. तो खयीय मेळ्ळो जाल्यार तो रोखडो खंयचो? कात? कितें करता? कोणालो तू? सगळो इतिहास पयलीं विचारून घेता.

मागीर हांव दुसऱ्याच दिसा गोंयच्यान मुंबय आयलों. बस तशी गोंयचीच. ती मदीं मदीं दोन तिनदां पंक्चर जाली. पूण स्टँड बाय स्टेपीन आशिल्ल्या कारणान व्हडलोसो त्रास जावंक ना. पूण न्हीद मात कशीच येवंक ना, परतीय वाटेर पंक्चर बी जायत म्हणून, भंयान.

जेन्ना हांव मुंबय पावलों फातोडेचेर, तेन्ना म्हजे घडयाळीर सकाळचीं णव वरां जाल्लीं. कारण वाटेर पंक्चर बी जाल्याकारणान तिका उशीर जाल्लो, पूण नशीब आमचें बरें आशिल्ल्यान आमी केन्नाय काय जायना पूण बाबा पावले एकदाचे.

हांव जेन्ना मुंबय धोबीतलाव देवलों तेन्ना कितें सांगतलों? पळयता तेवटेन सगळ्यो गोयंच्यो जात्रोच जात्रो दिसपाक लागल्यो. म्हाका काय समजना जालें. हांव एकट्या म्हऱ्यांत गेलों आनी ताका विचाल्लें, बाबारे ही इतली रस्त्याचेर गर्दी कीत्याक? खंयच्या देवाची जात्रा वा फेस्त आसा? ताणेंन सांगलें....

-अरे काय ही मुंबयी आहे.

- म्हाका खबर आसा. हांवें म्हळें.

- परतोय तो म्हाका विचारपाक लागलो की-

- तुम्ही कुठून आला आहात?

हांवें मनांत म्हळें ह्यो सगळ्यो भानगडी तुका कीत्याक? आनी हांव ताज्यामुखार ओगींच रावलों. तो चलपाक लागलो.

तरी म्हाका समजूंक ना. हांवें दुसऱ्याक विचाल्लें. ताजे कडल्यान म्हाका तशीच जाप मेळ्ळी. तरीय पुणून हांवें निर्लज्जपणान तिसऱ्याक विचाल्लेंच. अशें म्हणतात की, गोंयकारांक एक वायट सवंय, खंयचेय गजालीची सारखी खबर मेळयल्याशिवाय तो मुखार कसोच हालपाचो ना, आनी मनाचें सातिसफेसांव जाल्याशिवाय तो मुखार वचपाक ना, म्हणून तर गोंयकार सुशेगाद. आसूं! म्हाका त्या तिसऱ्या मनशाकडल्यान जाप मेळ्ळी की, हांगा सदांच गर्दी आसता. आनी हो तर, लोकांच्या ऑफिसाचो वेळ, म्हणूनच गर्दी चड दिसता. इतलें सांगून ताणें आपल्या लांबलचक हाताच्या बुशर्टाच्या मनगटावेल्या घडयाळाकडें विस्त माल्ली आनी लागलोच चलपाक. जांव म्हळें, हाणेन तरी सांगलें.

मागीर हांव टॅक्सी सोदपाक गेलों, टॅक्सी थंयच आशिल्यो.



एकाच्या म्हाऱ्यांत गेलों आनी सांगलें,

- म्हाका ऑपेराहाऊस वचपाक जाय.

- ताणेन तोंडांत धरिल्लें विडयेचें पोतेर भायर काडीत आनी धुवराचे लोट नाका, तोंडांतल्यान सोडीत सांगलें.

- हम ओपेराहाऊस नही जाता हैं।

म्हाका दिसलें, होवूय बी पयशे चड मेळपाखातीर म्हाका आडावन दाखयता म्हणून, म्हजें सामान बी पळोवन तो म्हजेकडल्यान बरेच झडोवपाक सोदता आसतलो. कारण म्हळ्यार, आमच्या गोंयांत, गोंयचे टॅक्सीवाले लोकांकडल्यान, आडावन, आडखळी कारून, आनी फटींगपणाचीं नाटकां करून गिरायका कडल्यान पयशे उठोवपाक बरेच हुशार आसतात. कारण थंय तांचे गाडयेचे मीटर बंद दवरून सरकारी कायद्याप्रमाणे, तोंडाचें मीटर बरेच फास्ट धावतात.

म्हाकाय तशेंच दिसलें, की होवूय टॅक्सीवालो तसोच आसतलो काय? हांवें तांका मात्सो घट जावन खर्ज आवाज करून विचाल्लें! कित्याक जाणा? म्हाका मुंबय वतासतना खुबजाणांनी सांगिल्लें, तूं सादेपणान वागू नाका. थंय घट राव. थंय मात्शी दादागिरी दाखय म्हणून, नाजाल्यार तुका थंय कोणूच आयकुचेना, म्हणून हांवें ताका विचाल्लें. हिन्दीनूच..

- आप क्यों नहीं जाता है?

- ताणेंन म्हज्याकूय मात्सो आवाज चडोवन म्हणलें....

- हांजी मरे उप्पर चढाता हैं?

म्हाका मात्सो मनांत भंय दिसलोच, हांव ओगीच रावलों आनी म्हळें,

- आपका मतलब?----म्हाकाय बी बरी हिंदी येताली हांवें एस.एस.सी मेरेन विशय घेतिल्लो. कारण तो तर तिसरो कंपलसरी विशय आशिल्लो. आतां तर आमच्या कॉंग्रेस (पार्टीन) सरकारान ती सामकीच कंपलसरी केल्या. हिन्दी हमारी राष्ट्रभाशा हैं ! हिन्दी मे बोलो, हिन्दी में लिखो अशो वचत थंय तर पाट्यो दिसताल्योच. बरें, मागीर तो ड्रायव्हर आनिकूय आवाज चडोवन म्हणपाक लागलो,

- अरे भाय, कायको चिल्लाता है? अपना रूट तो वि.टी. से है! हम



उस तरफ नही जा सकता है. आप कोई दुसरी टॅक्सी ढूंड लेना.

- अच्छा, अच्छा!

अशें म्हणून हांवें दुसरी टॅक्सी केली. तोवूय बी मात्सो ताजे बशेन हाफ कॅरेक आशिल्लो. ताणेंन कर्रर कोरून टॅक्सीच्या भायल्या मिटराचे वयली, चुन्याच्या डबयेबशेन आशिल्ली चौकोनी डबी घुवंडावन उरफाटी केली, आनी म्हज्यो दोन सुटकेसी फाटले डिकीन घाल्यो.

मागीर मरीन लायन्स वेल्यान ओपेरा हाऊस आयले.

हांव देवलों, सामान सकयल देवयलें. आनी ताका विचाल्लें.

- आपका कितना पैसा हो गया?

ताणेंन अशें लवंडून मिटराक पळयलें आनीक म्हळें,

- सात रुपया साब! और लगेज का दो रूपया, मिलके नऊ रुपया हो गया.

- इतना कैसा हो गया? हांवें सटकरून परतें विचाल्लें. कारण म्हाका ते चडूच शे दिसले.

ताणेंन रोखडेंच टॅक्सी रेटाचें मांडावळीचें ल्हानशें कार्ड काडलें आनी सरळ म्हज्या तोंडाक तेकयलें. म्हाका तें कांयच समजूंकना. आनी कशें पळोवप तें म्हाका खबरच नाशिल्लें. हांवें म्हज्या तोंडाचेर अमुरपिकें हांशें हाडून म्हळें.

- बरें बरें बाबा हे घे तुजे पयशे. आनी सरळ णव रुपया काडून तेंकयले. ताणेन शुक्रीया म्हळें आनी गेलो.

म्हज्या जिवाक सुशेग जालो एकदांचो, पावलो हांव आमच्या सोयऱ्यांगेर. तांकां व्हडलें जालें. थंय वतगीर कपडे बी उमळ्ळे आनी बरो न्हालों. पूण सदांच गोंयांत आमकां आवंताद न्हावपा परस हें न्हावप म्हाका पयलेच खेप वेगळेंच दिसलें. एकदम खिचकट दिसली. न्हातासतना गोंयची घरची याद येवपाक लागली. गोंयांतली आमची केदी व्हडली ती मान्नी! जाय तसो आवंताद न्हा. कसलीच आडखळ ना. हांगा पांय धुतासतना सकयल कित्याचेर तरी पांय बसता, हात वयर करतासतना वयले फळयेचेर कांदे बटाट दवरिल्लें आयदन, फळयेवेलें सकल पडटा. बरें त्रास नाका म्हणून बसून न्हातलों जाल्यार फाटीक आनी कुल्यांक नळाची तोटी आडखळटा. पूणन हांव कसोय बशेन न्हालों एकदांचो. पूण अतां तर म्हाका ताजी सामकी संवय जाल्या. मागीर हांव कपडे करपाक लागलो. कपडे घालतासतना, लांब हाताचो बू शर्ट घालतना तर एका मेजाचेर उदक भरून दवरिल्लो पेलोच हात लागून सकयल पडलो. हांवें येना फुडें तांकां सगळ्यांक एक वावर करून दवरलो. म्हजे म्हाकाच मनाक त्रास जावपाक लागले की, गोंयांत हांव सुशेगाद येद्या व्हडल्या घरांत रावून आयिल्लो मनीस. हांगा वन रूम कीचन खोलयेंत कसो रावतलों काय? मागीर म्हाका इल्ली इल्ली करून संवय जावपाक लागली. आता हांव सदांच कपडे करतना पॅन्ट चडयतना पांयांकडेन घेतां. तसोच रातीचो न्हिदतासतना हाता पांयाकडेन कसलीय कपासारखी जांव पडल्यार आवाज येवपासारखी, फुटपारखी वस्त आसा काय म्हणून पयलीं पळयतां, आनी मागीरूच न्हिदतां. तरीपूण हांव अर्दी मर्दी पायांकडले डबे बी न्हिदेंत वाजयत आसतां आनी सगळ्यांक उठयत आसतां.

हांव दुसऱ्या दिसा ऑफिसांत वचपाक भायर सल्लों. बशीन वचपाक स्टेंडार डबो रावलों जाल्यार कितें ती गर्दी! शी सायबा म्हाका एकदम वीट आयलो. पुणून एक बरें! बसी फाटाफाट येत आशिल्ल्यो आनी लोकूय कमी जायत आशिल्ले. हांव मात सुशेगादिची सवंय जाल्या कारणान थंयच उल्लों. म्हज्या फाटले लोक येवन कामाक पावले आसतले सुद्धा. मागीर हांव एके गर्दी नाशिल्ले बशींत सुशेगाद चडलों, आनी ऑफिसांत गेलों. पूण हांव एक वर उसरां पावलों. मागीर इल्लो इल्लो करून हांव शिकलों. संवय करून घेतली गर्देंत घुसपाची. आता हांव खंयचेय गर्देंत घुसपाक शकातां कांयच न्ही करून. खास करून गोंयच्या सिनेमा थेटरांनीं ब्लॅकीस्टांनी केल्ली गर्दी म्हाका कांयच न्ही शी दिसपाक लागल्या. ते गर्देंत घुसल्यार म्हाका केन्नाय तिकीटां मेळपाक शकता. पूण ब्लॅक करपाक मात न्हय आं! तुमी बी म्हाका आपयशात! बेठें सांगलां तुमकां हांवें उदाहरण म्हणून. तसलीं कामां म्हाका जमपाक ना.

असोच हांव एकदां सांजवेळा चौपाटीचेर म्हणून फिरपाक गेलों. कितें सांगतलों तुमकां हांव? ज्या जाग्याचेर हांव बशिल्लों त्या जाग्यावेल्यान अनेक तरांचे मुंबयचे लोक पळोवपाक मेळताले. तरेकवार जोडपीं प्रत्येक झाडाच्या मुळांत बशिल्लीं. कोण लग्न जाल्लीं तर कोण आंकवार. कोण घरांतल्यान पळून आयिल्लीं, कोण फटींग पणाचें मंगळसूत्र गळ्यांत घालून घोवबायलांवरी बशिल्लीं.

असोच हांव म्हज्या एका इश्टाकडेन उलयतां उलयतां म्हजे मुखावेल्यान एक जोडपें गेलें. तीं अशी एकमेकाक वेंग मारून चलतालीं की कोणूय पळयत जाल्यार अशें दिसतालें की हें एक लग्न जाल्लें लैला-मजनूचें जोडपेंच आसूंक जाय म्हणून. त्या मजनूचें म्हज्या तोंडाक तोंड जालें तेन्ना ताज्या तोंडाक अथ्यपार जन्म नाशिल्लो. फक्त मेकप केल्लो. कपडे मात एका गिरेस्त मनशाच्या भुरग्याबशेन केल्ले. आनी पांयाक एद्यो व्हडल्यो खडावो घाल्ल्यो की ते चौपाटीवेले रेवेंत चलतासतना अशें दिसतालें की तो पुलीसांचे बदखणींत चलता कसो आनी ती लैला. शी....सांगपाचें न्हय हांवें. पूण सांगल्या शिवाय तुमकां तरी कशें कळटलें? त्या लैलान तर शंबर टक्के आपल्या आंगाचेर फक्त तीस टक्के कपडे घाल्ले. चार टक्के तकलेर म्हळ्यार हॉस्पीटलांत नर्सी बी तकलेर घालतात तशे, आठ टक्के छातयेर, धा टक्के कमरार आनी उरील्ले आठ टक्के पावलार धोपरां सकयल. आनी तांचीय चूक







नाशिल्ली कारण तांची अक्कल धोपरांतूच आसता म्हणून धोपरांच धापिल्लीं आसुयेत. आनी तोंड तर पळोवपचेंच नाशिल्लें. सगळो मेकप, दोळे सगळे काळेकुट्ट. दोन वेंतां भुताबशेन केंस. तेवूय मानेर सोडिल्ले. कमरावेले कपडे तर ते आसले नासले तरी सारखेच. पूण एके नदरेन तिणें तो स्वताक फायदोच केला अशें जांव येता. कारण इल्लोसो कपडो म्हळ्यार पयशेय चड लागनात. शिंवपाकूय खर्च कमी. सगळेच नदरेन फायदो आसलो जांव येता तो. आनी तिज्या पांयाच्यो खडावो पळयशीत जाल्यार जवळ जवळ वेंतभर आपणांली उंचाय तिणेन वाडयल्ली. आनी ती चलता आसतना पुलीस कैद्याक मारून ओढीत कशे व्हरतात तसो तिगेलो मजनू तिका ओडीत व्हरता कसो दिसतालो. आनी तिवूय कैद्याबसेन चलून लेगीत आपूण सर्गांतली अप्सरा, आनी सर्गांत चलतां, कशी पळोवप्यांक भासयताली. पूण कशीय जांव आपलें जिवित मोडकळीक पावलें तरी जीण जगयतां ह्या संवसारात अशें निव्वळ जाणवतालें.

चौपाटीवेल्यान पळयत पळयत हांव भायर सरतालों, तो एक भेळवालो म्हज्यासरीं आयलो.

-भेळ भेळ पाहीजे का आपल्याला?

- नाका हांवें म्हळें!

कारण तो जेन्ना म्हजेसरी आयलो, तेन्ना भेळीचो वास मात एकदम बरो आयलो, पूण ताका पळयत जाल्यार जन्म नाशिल्लो, ताका पळयतनांच अशें दिसतालें की ताकाय बी निक्तोच तेच भेळीच्या तोपांतल्यान बुडबुडावन वयर काडला. तो त्या भेळवाल्याचो एक भेळ विकपी पोर आशिल्लो. त्या भेळीत ताज्या नाकातोंडांतल्यान व्हावपी शेमडाच्या धंयाचो थेंब एसेंस कसो मदीं मदीं खंयच्यांन तरी ताजें लक्ष चुकोवन अचूक त्या भेळीच्या तोपांत उडी मारतालो, आनी मातयेंत उदकाचो थेंबो पडटगीर थंयच्या थंयच आपशीच नाच जाता त्या परमाणे तो शेमूड नाच जातालो. आनी बऱ्याच वेळान ताजें लक्ष त्या तोपांत वेतालें. तितले म्हणसर तो भाग्यवान थेंबो त्या भेळीवेल्यान गडण जातालो. आनी भेळीची रूच आनिकूय वाडयतालो, जशें काय तांचे भितर लिपच्यांनी खेंळपाचो खेळ चालू आशिल्लो. तीच भेळ थंयचे सदां फिरपाक येवपी लोक मोठ्या उमेदीन रूची काडून खाताले जशे काय बांगड्यांचें आमंठतिखट सुकें करून खावचें तशें. पूण म्हजें मन ताजेर सामकें विटलें. हांव तें पळोवन थेट थंयच्यान भायर सल्लों तो सामको फुटपाथार आयलों. मागीर थंयच्यान वरळीक वचपाक जाय आशिल्लें. हांव बेगीन बेगीन बसीच्या स्टेंडार गेलों. थंय एक मोठ्या कुल्यांचो फीट जीन पॅन्ट घाल्लो, वयर एक बुशर्ट तोवूय इनशर्ट केल्लो, रूंद खांदूयांचो, केंस बरेच वाढयिल्लो, सिनेमातलो नट नट्यांचा बशेन आमिता बच्चना सारखे पांयांत एका पेजाद मोटारीचे टायर कशे दाट सोलांचे बूट आशिल्ले, आनी तो त्या स्टँडाच्या खांब्याक असो तेकून बाशिल्लो की त्या वाठाराची दादागिरी करपी दादा कसो दिसतालो. हांव हळूच ताज्या फाटल्यान वचून उबो रावलों, आनी त्या दादाक वरळी वचपी बशीचो नंबर विचारतलों म्हणून हांवें नेटान बरो हात लायलो. त्या बराबर अकस्मात वादळ, गडगडो मारचो तसो तो मनीस उसळून उठलो.

'यू फूल बास्टर्ड' अश्या तरेच्या इंग्लीश गाळयांचो पावस उडोवन, म्हज्या तोंडामुखार घुंवलो आनी म्हणपाक लागलो!

'मला हात लावतोस काय? काय रे तुला आया बहीणी आहेत की नाही? काय वाटल तुला मी काय रांड बाई आहे? तरीपण मी तुला गप्प राहीले बघ, नाहीतर तुझ्या थोबाडीतच लावली असती.'

त्याबराबर म्हाका कितें जावपाक लागलें. घुंवळूच येता काय कितें अशें दिसपाक लागलें. मळबांतलीं सगळीं नकेत्रां म्हज्या







दोळ्यांमुकार जमलीं. दिवाळी कशी. अशें दिसलें झक माल्ली ती बस आनी ती वरळी. जेन्ना ती म्हजेकडेन घुंवली तेन्ना तो नासून ती आशिल्ली. पळोवपाक सारखो फाटल्यांतल्यान दादलो हिरो कसो. तेन्नाच्यान हांवें म्हज्या तोंडाचेर थापट मारून घेतलें, की असले दादले दिसल्यार पयलीं मुकार येवन ताजे कडेन बरे बशेन वयल्यान सकयल मेरेन पळोवन घेवप आनी मागिरूच विचारप.

शी सायबा! खरेंच मुंबय खंयचो दादलो आनी खंयची बायल हें कळपाक खुपूच कठीण. तांचेय मत्तान आज मुंबयत असली फॅशन बरी शी दिसता. आनी महाराष्ट्र सरकारान सदांच कामाक वचपी बायलांक ही फॅशन कंपलसरी करपाक जाय अशें दिसता. कारण म्हळ्यार आज बशींत, ट्रेनींत इतली गर्दी जाता की ट्रेन, जांव बस धावतां धावतां चडचें पडटा. ताच्या खातीर साडयो-बिडयो चड त्रासांच्यो. घुसपून पडपाक शकता. पूण ह्या असल्या ड्रेसान तांका खयीं चडपाक, धांवपाक एकदम बरें जातलें. खयीं म्हणजे बशीर, ट्रेनींर जांव टांग्यार. आनी एका निमित्यान रेडीमेड ड्रेसांक डिमांडूय येतलो.

एक दीस तिनसांजच्या सुमाराक हांव म्हज्या सोयऱ्यांगेर वचपाक भायर सल्लों. वतासतना एक पूल लागता. हांव सदांबशेन वतालों, पावतगीर एकटो म्हज्या फाटत्यान धांवत आयलो.

- साब, साब.....

हांवें घुंवन फाटल्यान पळयलें, कित्याक तर हांव आजून मेरेन केन्नाच कोणाचोच सायब जावंकना. आनी हांवें न्हिदेंत लेगीत चितूंक नासलें की म्हाका कोणाचोच सायब जावंक मेळत काय म्हणून? आनी म्हाका कोणच सायब म्हणत काय म्हणून? पूण जावं तो दीस आयलो. कोणेय तरी म्हाका सायब म्हळें. हांव मात्सो काचाबूल सो जालों. हांवें फाटल्यान पळयलें तेन्ना दिसलें की एक हिरो सो मनीस म्हाका कितें तरी विचारपाक येता. म्हणजेच बसीबद्दल बी आसत नाजाल्यार रस्त्याच्या बद्दल बी खंय वता? कसो वता? हांव रावलों पूण तो म्हज्या म्हऱ्यांत येवन एके वेगळेच नजरेंत म्हाका पळोवंक लागलो. जसो काय हांव एक पाकीटमार, चोर आनी तो सी.आय.डी ऑफिसर. तो बरेबशेन बारीकसाणीन म्हजेकडेन पळोवपाक लागलो. हांवें मात्शें काळीज घट करून घेतलें, आनी ताका विचाल्लें हिन्दीन.

-क्या है ? तो म्हाका कितें तरी सांगपाक सोदतालो आनी तो अशेंय चित्तालो की हाका सांगू काय नाका? अशे ताजे विचार चलिल्ले, ते ताज्या तोंडाच्या मुखवट्यावेल्यानूच म्हाका कळ्ळे. आनीक एक फावटी हांवें विचाल्लें.

- क्या है बोलो जल्दी? ऐसा मेरे पास क्या देखते है?

- अं कूच नही?

- अं कूच नही? याने फीर मुझे जोरसे पुकारा ?

बऱ्या वेळान म्हणपाक लागलो.

-क्या साब बोलो कौनसा चाहीए?

- कौनसा चाहीए? आप क्या है, क्या बेचते है.? हांवें विचाल्लें. म्हाका दिसलें हो किदेंय फॅारेन वस्तू बी विकपाक सोदता आसतलो. घडयाळी, पेनां, केलकुलेटर बी. तर तो परतो म्हणपाक लागलो,

-कौनसा चाहिए? क्या, पंजाबी, बंगाली, नेपाली, बनारसी?

-क्या ? हांवें म्हळें.

मागीर एक कितेंतरी कुरू करून दाखयली. ती कुरू ताणेंन म्हाका परती दोन तिनदां करून दाखयली. तरी म्हाका कांयच कळना जालें. मनांत हांवें म्हळें हो रोखडोच मोनो कसो जालो? तोंड ना हांका? कुरवानी सो उलोवंक लागलो ? पूण मागीर बऱ्याच वेळा उपरांत म्हजी ट्युब लायट पेटली. आनी मागीर हांवें ताका म्हळें.

- चल हट जावो बेशरम! आदमी को भी नही पहचानते है क्या? आपको शरम है या नहीं? कौनसे भी आदमी को कुछ भी पुछते है! अशें म्हळें आनी हांव चलपाक लागलों. तो थेट सोयऱ्यांगेर गेलों.

एका मित्रान म्हाका सांगलें की रॉक्सी थेटरांत बरो सिनेमा लागला मराठी. 'पुढचं पाऊल' ताका बरीच राष्ट्रीय इनामां मेळ्ळ्यांत. हांव इश्टावांगडा सिनेमांक गेलों. थंय वचत जाल्यार कितें सांगतलों तुमका? थंय इतली गर्दी आशिल्ली की भितर सरपाकूच मेळनाशिल्लें. पूण कशीयतरी एकदांची वाट काडून हांव भितर सल्लों. तिकीटाचे लायनीत उबो रावलों. लायन अर्दी आसतनाच बुकींग बंद जालें, कारण तिकीटी सोपिल्ल्यो आनी मागीर हांव ब्लॅक तिकीटी घेतलों म्हणून एकल्याकडेन गेलों, इतल्यान थंय एक हवालदारान येवन धमकी दिली.

- देखो अगर तुमको बेचते वक्त देखा ना मारमारके हवालात में बंद करूंगा!

हांव मात्सो कांचवेलों. फुकटचें म्हळें हें लचांड आमचेर पडत. ताजेकडल्यान तिकीट घेवपाचो हांवें म्हजो विचार बदल्लो, कांय वेळा उपरांत तोच हवालदार म्हज्या म्हऱ्यांत येवन म्हाका विचारपाक लागलो.

-हे बघा साहेब माझ्याकडे दोन तिकीटं आहेत १० रुपयांची, पण तुम्हाला पाहिजे असेल तर २० रुपयाला एक आम्ही देऊ. तें पळोवन म्हाका घुवळ येता काय दिसली. म्हाका कितलो वेळ विश्वासूच बसना जालो. पुलीस आनी अशें करतात?

- कुणाकडे आहे ? हांवें विचाल्लें.



- तो जो माणूस आहे ना त्या दरवाज्याकडे तो बघा! बघा, थोडीशी दाडी आणि मिशा आहे ना तोच. त्याच्याकडे आहे.

हांवें पळयलें, तोवय पुलीस आसतलो अशें म्हाका ताज्या तोंडाकडेन पळोवन दिसलें. ड्युटी सोपली आसतली, म्हणून सिव्हील ड्रॅसाचेर रावून हो धंदो करतासतलो. दोगांकूय हाजें कमीशन आसतलें. पार्टनरशिर्पीत. हांवें मनांत म्हळें. हेच हवालदार जर ब्लॅक करपाक लागले जाल्यार, मुंबयत ब्लॅक तिकीटवाल्यांची गर्दी कित्याक वाडची ना? मराठींत एक म्हण आसा. कितें ती? आं.

'कुंपणच जर शेत खायला लागलं, तर दोष कुणाला द्यायचा?'

तशें जालें तें. म्हणून आजकाल महाराष्ट्रात पोलिसांत भरती जावपी लोकांची गर्दी चड आसता. आनी पोलिशेंत भरती बारीक साणीत पळयश्यात जाल्यार खयचोंय पुलीस सुरवेक जिवान इतलो बारीक आसता. की तो नोकरेक लागतगीच चार पांच म्हयन्यांत, तो इतलो मोठो जाता की ताचें पोट रोखडेंच सांगता की ताका वायट संवय लागल्या म्हणून लांच घेवपाची.

आनी हांवें रोखडेंच थारायलें 'आमका ह्या मुंबयत कशेंच परडवपाचें ना' आमचें गोंय तें गोंय. गोंयांसारखी मजा आनीक खंयच ना. खरेंच आमचें गोंय कितलें नीवळ, सुंदर, सोबीत, पांचव्याच झाडांनी भरिल्लें. खऱ्यांनीच गोंयांत सुशेगाद म्हणटात तें खरें.

हांवेंय रोखडेंच फुडलें पावल घेतलें तें गोंयांत वचपाचें. आनी तुमकां सांगतां आमच्या गोंयांइतलें बरें राज्य खयंच मेळपाक ना.

***



२०७ (ए)हार्मनी कों.ओं.हा. सो.
व्हडलेंभाट - ताळगांव
पणजे-गोंय.







# गांधी आसात

- रवींद्र केळेकार

जल्माक आयिल्ले सगळेच - मागीर ते किरकोळ कोणूय आसूं वा कोणूय म्हापुरूस आसूं - कांय वर्सां जियेवन एक दीस संवसाराक अंतरतात.

पुणून कांय जाण उरल्यात - उगडासाच्या रूपान वा प्रेरणेच्या.

सिझर, नेपोलियन, क्रॉनवेल, अशोक, अकबर, हर्षवर्धन, शिवाजी सारकेले उगडासाच्या रूपान उरल्यात. जाल्यार सोक्रेतिश, बुद्ध, जिजस, महम्मद प्रेरणेच्या रूपान उरल्यात

अर्विल्ल्या इतिहासांतले आमच्या देशांतले जवाहरलाल, सरदार पटेल, सुभाषबाबू, भगतसिंग, उगडासाच्या रूपात उरतले.

गांधी प्रेरणेच्या रूपान उरल्यात.

तांकां वचून अर्द शतमान वलांडलें. अजूनय ते खंय ना खंय प्रेरणेच्या रूपान काम करीत आसात. फकत भारतात न्हय, संवसारांत सगळे कडेन. दक्षिण आफ्रिकेंतले नेल्सन मंडेला रंगभेदाआड वावुरले तांचेच प्रेरणेने, तांचेंच नांव घेवन, अमेरिकेंत काळ्या गोऱ्यांक सारखे नागरीक हक मेळचे म्हूण मार्टिन ल्यूथर किंग वावुरले, तांचेच प्रेरणेन. तांचेंच नांव घेवन. जपानातलें निचिदात्सु फुजीई झुजां आड वावुरले तांचेच प्रेरणेन तांचेंच नांव घेवन. जर्मनीतली पेट्रा केली अण्वस्त्रांआड वावुरली तांचेच प्रेरणेन तांचेंच नांव घेवन.

विनोबा वावुरले स्वराज्य गांवागांवांनी पावोवंक आनी ग्रामराज्यां हाडूंक.

आयजूय सुदंरलाल बहुगुणा, नटवर ठक्कर, मेधा पाटकर, अरुंधती रॉय तांचेच प्रेरणेन, तांचेंच नांव घेवन वावुरलेलीं पळोवंक मेळटात.

फार्टी अमेरिकेन रडी खेळून इराकाचेर झूज लादलें त्या वेळार येरोपांतले - इतलेंच न्हय, खासा अमेरिकेंतले लाखांनी लोक ह्या झुजाचो निषेध करपाक रस्त्यार देंविल्ले. कांय जाण इराकाकूय पाविल्ले - तांचेच प्रेरणेन, तांचेंच नांव घेवन.

गांवांच्या नागरिकरणान-Urbanization आड पर्यावरणाची संतुळा इबाडपी, विखाळ वखदां आड, धरबंद नाशिल्ल्या उद्येगीक विकासाआड जे जे वावुरतात तेवूय तांचेच प्रेरणेन - तांचेंच नांव घेवन वावुरतात.

गांधी नात अशें कशें म्हणटले आमी? कुडिच्या रूपान नासूं, प्रेरणेच्या रूपान आसात.

गांधी फकत भारत स्वतंत्र करपा खातीर जल्माक येवंक नाशिल्ले. भारता मार्फत ते संवसाराक एक नवी देख दिवन - एक नवें जग निर्माण करपाखातीर जल्मल्ले. १८ व्या शतमानाच्या मध्यार युरोपांत एक क्रांती जाली - जिका आमी Industrial Revolution म्हणटात. तिणे मनशाक ताचे हक्काचे सुवातेवेलों निखळायलो आनी थंय वाफेच्या, विजेच्या यंत्रांक हाडून बसयलीं. हे क्रांतीन साम्राज्यवाद जल्माक घालो. रशिया, आफ्रिका, दक्षिण अमेरिकेंतल्या कितल्या देशांक ह्या साम्राज्यवाद्यांनी आपले गुलाम केले. हेच औद्योगीक क्रांतीन आयज ग्लोबलायजेशनच्या नांवान Neo-Imperialism, Neo-colonilism जल्माक घाला आनी



कांय म्हाशक्तींक संवसार लुटपाक दिला.

ताचेय दीस आतां सोंपपा कडेन पावल्यात. साडे चार शेकड्यांचो पुर्तुगेज शेक गोंयचो ना जालो ना? Industrial Revolution क फकत अडेज शीं वर्सां जाल्यांत. तें सोंपचें ना? सोंपुकूच जाय. यंत्रांचो शेक ना जावंकूच जाय. आनी मनशाची सुवात मनशाक मेळुंकूच जाय.

ते मेरेन गांधीची प्रेरणा कोणाक स्वस्थ बसूंक दिवपाची ना.

स्टँडर्ड ऑफ लिविंग

हालीं सगळेच जाण लोकांचो 'स्टँडर्ड ऑफ लिविंग' वयर काडूंक भायर सरल्यातः सरकार तर सरलांच, समाजिक, आर्थिक मळार ज्यो स्वयंसेवी संस्था वावर करतात, तांणीय आपणा मुखार होच हावेस दवरला

'विकासा'च्या नांवान जो कितें वावरं देसांत चल्ला ताचे मुखार होच एक आदर्श आसा.

जांकां उपाशीं वा अर्द पोटार रावचें पडटा तांकां सारकें जेवंक खावंक मेळचें. जे नागडे वा अर्द नागडे अवस्तेंत दीस काडटात तांका न्हेसूंक पांगरूंक सारकें मेळचें, जे खोंपिंनी वा झोंपडपट्यांनी रावता तांका रावपाक बरीं चिऱ्यांचीं हवेशीर घरां मेळचीं. ते खातीर तांका कामां दिवचीं, तांका दिसवडो सारको मेळचो, होच 'स्टँडर्ड ऑफ लिविंगचो' अर्थ आसता जाल्यार म्हणूं येतालें, 'बरें आसा, वाडोवंया आमी लोकांचो स्टँडर्ड ऑफ लिविंग.' स्वराज्य मेळून चाळीस वर्सां जालीं, तरूय चाळीस कोटी लोक ह्या देशात अजून अर्द पोटार जियेतात, काश्टी न्हेसून खोंपिंनी दीस काडटात, हें पळोवं नज. तांचो स्टँडर्ड ऑफ लिविंग वाडचो हेच दिकेन आमी सगळ्यांनी वावरूंक जाय...'

पुणून लोकांलो स्टँडर्ड ऑफ लिविंग वाडोवंक जाय म्हणटात ते हेच दिकेन वावुरता वा चिंतता व्हय? ना. स्वराज्य मेळ्ळां त्या दिसा पसून आमी हो 'स्लोगन' आयकत आयल्यात. स्वराज्य मेळून आतां चाळीस वर्सां जालीं, तरुय लोक होच 'स्लोगन' दितात तें पळोवन प्रस्न पडटा, हे लोक चाळीस वर्सां कितें करताले?

'लोकांचो स्टँडर्ड ऑफ लिविंग' वाडूंक जाय अशें आयकलें म्हणटकूच म्हाका कुमाराप्पांचो उगडास जाता. ते विचारताले, 'खंयचे नदरेन वाडूंक जाय?' आयज लोकांलो 'स्टँडर्ड ऑफ लिविंग' 'लो' आसा तो 'हाइ'करूंक जाय म्हळ्यार, कितें करूंक जाय?

मागीर हांव ह्या प्रस्नांची जाप सोदपाक बसतां. आमच्या पिरवळच्या घरांत आमच्या भुरगेपणांत खाटो नाशिल्यो. मेजां कदेलां नांवां खातीर आशिल्लीं. बाबडीं आंग चोरून अशीं खंय तरी कोनशाक उबीं दिश्टी पडटालीं. घर आयस पयस, खूब सुवात आशिल्लें दिसतालें. शेंदऱ्यों घेवन आमी सालांत वा चौखेर न्हिदताले. कितलेय सोयरे येवं, घरांत जागो ना अशें जायनाशिल्लें. चार आण्यांत शेंदरी मेळटाली आनी घरचे आमचे जाण्टेले डझनभर शेंदऱ्यो घरांत हाडून दवरताले. सोयरे आयले जाल्यार तांचे खातीर.

आयज ह्याच घरांत जण एकल्या खातीर एक एक खाट आयल्या. घर सामकें भरलां. आयज दोग चवग सोयरे आयले जाल्यार हांका खंय न्हिदोवचे हो प्रस्न बायलांक पडटा. भुंरगींय तांकां विचारतात, 'तुमी खंय न्हिदतलीं?'

ते मुस्तींत आमचो स्टँडर्ड ऑफ लिविंग 'लो'आशिल्लो, आयज 'हाइ'जाला अशें म्हणूं येत व्हय?

त्याच घरांत आमी जेवंक बसताले तेन्ना वासरेंत म्हणायो मांडिल्ल्यो आसताल्यो, मुखार केळिचें पान आनी चोळखो आसतालो. शिताची कोर केली, रोस हुमण घेतलें, चोळख्यार तोंडाक घेतलें. पापड लोणचें, ताळिल्लें बिळिल्लें सगळें पानार आनी चोळख्यार. उदकाखातीर एक कोप सोडून वाटयो बिटयो कांय नासताल्यो. जेवन जातकूच उश्ट्याचीं पानां कुळागरांतले केळी मुळांत उडोवपाची चाल आशिल्ली. तांचे वयल्यान मात्शी माती ओडली, म्हणटकूच केळीक बरें सारें मेळटालें. येद्दे येद्दे कमरभर उंच घड येताले.

आयज त्याच घरांत जेवपाक मेजां आयल्यांत, कदेलां आयल्यांत. स्टिलाचीं ताटां आयल्यांत, वाट्यो आयल्यात. आयंदनां घांसपाचो वावराडेचो वावर वाडला.

आमचो स्टँडर्ड ऑफ लिविंग ते मुस्तींत 'लो' आशिल्लो तो आतां 'हाई' जालो असो हाचो अर्थ करूं येत व्हय?

असल्याच घरांत वाडिल्ले आमच्यांतले कांय जाण आतां 'उद्योगपती' जाल्यात. शारांनी बंगले बांदून वा फ्लॅट घेवन रावपाक लागल्यात, तांगेर आतां जमनीर 'कार्पेटी'-आयल्यात, गोदरेजच्यो आरमारी आयल्यात, सोफा-बिफा आयल्यात, तरांतरांचें फर्निचर आयलां. 'वॉशिंग मशिनां' आयल्यांत, 'वेक्यूअम क्लीनर' आयल्यात. हांचो स्टँडर्ड ऑफ लिविंग 'हाई' जालो म्हणपाचो, काय 'कॉम्प्लॅक्स' जालो म्हणपाचो?

'स्टँडर्ड ऑफ लिविंगा' संबंदान उलयल्लें आयकतां तेन्ना म्हजे मुखार तीन घरां उबीं रावतात-

१) पिरवळांतलें आमचें घर.

२) सेवाग्रामांत महात्मा गांधी रावताले ती खोंप, आनी-

३) आमच्या खंयच्याय उद्योगपतिचो बंगलो.

सेवाग्रामांतले खोंपी मुखार आमगेलें घर पालाशी सारकें दिसता. जाल्यार उद्योगपतिच्या बंगल्यामुखार तें खोंप कशें दिसता.

आतां प्रस्न, ह्या तिगां भितरल्या कोणाचो स्टँडर्ड ऑफ लिविंग 'हाइ' आनी कोणालो 'लो'? खोपींत सवतल्या गांधींचो 'लो' आनी बंगल्यांत रावतल्या उद्योगपतिचो 'हाइ' म्हणू येत व्हय? कांय व्हडल्या



व्हडल्या बंगल्यांनीं अन्नाडी लोक रावतात ते आमी पळेतात. तांचो 'भपको', केदोय आसूं, तांचो स्टँडर्ड 'हाइ' कसो म्हणटले आमी? म्हणटकूच मनशाचो स्टँडर्ड ऑफ लिविंग थारायता आसतना आमकां दुसरें कसलेंय तरी माप घेवचें पडटलें. आनी कोणालो स्टँडर्ड 'हाइ' आनी कोणालो 'लो' तें थारावचें पडटलें. निखटें अर्थिक माप उपकारना. संस्कारितेचें माप मेजपाक घेवचें पडटलें आनी ह्या मापान गांधींचो स्टँडर्ड सादो, 'सिंपल' पुणून 'हाइ' मानचो पडटलो आनी उद्योगपतिचो 'कॉम्प्लॅक्स ' पुणून 'लो' मानचो पडटलो.

मागीर 'स्टँडर्ड'ची व्याख्या बदलतली. स्टँडर्ड ऑफ लिविंगा परस आमी 'स्टँडर्ड ऑफ लाईफ पळोवपाक लागतले.'

भोग विलासाचीं उपकरणां वाडलीं म्हूण मनशाचो 'स्टँडर्ड ऑफ लाइफ' वाडना. तो दुसरे तरेन वाडटा. वाचनान, चिंतनान, शिक्षणान. अन्नाडीपणाचीं धोंगां-पोंगां गळून जो संस्कारितेचे नदरेन बयर सरता ताचोच स्टँडर्ड ऑफ लाइफ वाडलां म्हणूं येता.

जिवित संपतिशास्त्रा परस व्हड. व्यक्तित्व वाडपाक संपत वाडूंक जाय अशें ना. परतें साद्या जिवितांतूच मनशांचें व्यक्तित्व बरें वाडटा असो अणभव आसा.

मनशाच्यो उण्यांत उण्यो गरजो भागुंकूच जाय. पुणून आयज अर्थशास्त्री जो विचार करतात तो मनशाच्यो गरजो भागवपाचो न्हय, वाडोवपाचो करतात. आनी हांगाच तांगेलें चुकता.

मात्शें येवजून पळेयात, संस्कृतायेचे नदरेन जांणी व्हडांतलें व्हड योगदान दिलां तांच्यातलो कोण पालासींत वा बंगल्यांत रावतालो? सॉक्रतिश, कोन्फूशियस, जीजस , आमचे ऋषीमुनी सगळे खोंपीतूच रावताले. तांचे कडेन भोगविलासांचीं साधनां नाशिल्लीं, बुद्ध जो पालासिंत जल्मा आयिल्लो तो थंयच राविल्लो जाल्यार जे हजारांनी राजा जावन गेले तांच्यांतलो एक जावन वतलो आशिल्लो. तो 'अनिकेत' जालो, घरदार सोडून भायर सरलो, म्हणूनच व्हडांतलो व्हड जगद-गुरू जावंक पावलो.

सभ्य, संस्कारी मनशाचें जिवीत सादेंच आसूंक जाय.

### कसलो मडसरेचो विकास हो

कांय वर्सां जालीं जातलीं हे खबरेक. मांडवी पुलाचो एक स्लॅब निखळून सकल पडलो आनी ताच्या पोंदा धा जाण चिड्डून मेले. दुसऱ्या दिसा पसून पाठभेदांक सुरवात जाली. कोण म्हणपाक लागले, अठ्ठाविस जाण मेले. कोण म्हणपाक लागले, चाळीस जाण मेले. कोण म्हणपाक लागले, फकत सात जाण मेले.

बस स्टँडार पी. डब्ल्यू. डींतलो वळखिचो एक इंजीनियर मेळ्ळो. ताका विचारलें. ताणे खांके वयरशे करून म्हळें, 'यँऽ ह! घांटी मरे ते... फकत पांचूच जाण आशिल्ले.....'

हांव मोट्या मोट्यान हांसपाक लागलों. इतल्या मोट्यान आयुश्यांत केन्ना हांसूंक नाशिल्लों.

'कित्याक हांसलो ?' इंजीनियरान विचारलें.

म्हळें, 'आमचो इतलो विकास जाला जातलो, हाचो म्हाका मात लेगीत अदमास नाशिल्लो. गोंयांत आतां मेरेन तुमी आमकां नांवांनी वळखताले. आमकां नांवां आसतालीं. व्यक्तित्वां आसतालीं. आमी कोणाचे तरी कोण आसताले. आयच्या गोंयांत तुमी आमकां आतां नांवांन वळखनांत. आयच्या गोंयांत आमकां व्यक्तित्वां उरूंक नांत. तुमी आतां आमकां संख्येन मेजपाक लागल्यात. आमी खंयच्याच स्लॅबा पोंदा चिड्डून मरतात तेन्ना आमी केन्ना धा जाण आसतात, केन्ना वीस चाळिसूय जावं येतात, सातूय आसूं येतात. व्हडलोसो फरक पडना. घांटी आसत जाल्यार निखालूस पडना. तांचो आसपावूच हांगा मनशांत जायना. महाभारताचे मुस्तींत लेगीत अशेंच जातालें. पांडवांच्या आनी कौरवांच्या पंगडांत नांवा आनी व्यक्तित्वां तीस चाळीस जाणांकूच फकत आशिल्लीं. भीष्म, द्रोण, अर्जून, कर्ण असल्यांक. बाकिच्या सगळ्यांचो आसपाव 'अठरा अक्षौहिणीं' त जातालो. आजय गोंयांत सत्येर पाविल्ल्या धा वीस जाणांकूच नांवां आनी व्यक्तित्वां आसात. बाकिचे आमी सगळे आतां अठरा अक्षौहिणींत वचून पडल्यात.

'विकासां'त जाता तें हें. स्लॅबा पोंदा कोण चिड्डून मेलो तें कळना.





म्हूण ती दुर्घटना आमकां कोणाक दुर्घटना कशी दिसना. मेला तो आमचो भाव आसूंक जाय आशिल्लो. पूत वा जांवय आसूंक जाय आशिल्लो. आमच्या दोळ्यांमुखार दुर्घटनेचें रुपूच बदलतलें आशिल्लें. 'देवा, हें कितें केलें तुवें' म्हूण भितरले भितर आडून आमी देवाक जाप विचारतले आशिल्ले.

समाजांत जो 'कोण' आसता ताका 'विकासां'त म्हत्व आसूंक जाय. ताका दोळ्यांमुखार दवरून 'हें हाच्या बऱ्याक पडटलें काय वायटाक' हाचो विचार जावंक जाय तोच गोंयांत आतां जायना.



म्हजें जिवित हालीं तेंपार बसकें जालां. आंग चडशें हालना. व्यायाम जायना म्हूण, हांव सकाळ सांज पासय मारतां. पाऊण, पाऊण वराची. पांचेक मैल भोंवन जातात जावंक जाय. केन्ना भायर वतां. केन्ना भितर चौखेर मारतां.

काल भायर गेल्लो. एकलोच आशिल्लों.

गिमांत कालोर कितलोय जावं, सांजचो जो हांगा वारो व्हांवता तसलो आख्या हिंदुस्तानांत खंयच व्हांविल्लो हांवें पळोवंक ना. म्हाका हो ऋतु खूब आवडटा.

शिमे पायणेचे दिकेन चलत राविल्लों.

मनीस एकलो आसता तेन्ना खंय तो खासा आपणाकडेनूच एकासारको बडबडत रावता. हांवूय हेरां सारको. म्हाकाय ही बडबडपाची संवंय आसा. पुणून पासयेक म्हूण जेन्ना भायर सरतां तेन्ना मनांतली ही बडबड हांव मुजरत बंद उडयतां. आनी दोळे आनी कान उकते दवरून चलत रावतां. तरातरांचे आवाज कानार पडटात. तरातरांचे रंग दोळ्यांक सुखायतात. कविंचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, ह्या वेळार सैम म्हजेकडेन उलोवपाक लागता.

पुणून काल म्हजेकडेन भोंवतणच्या सैमा वांट्याचो मुखावयलो डांबरी रस्तो उलोवपाक लागलो. आकांताचे स्पिडीन तो धांवत सुटिल्लो. 'खंय रे, येद्या वेगान तूं खंय धावत सुटला?' हांवें ताका विचारलें.

तो टी. वींतल्या कक्काजी भाशेन ह्यॅ ह्यॅ करून हांसलो. म्हाका विचारपाक लागलो, 'येदो व्हडलो बुदवंत तूं. आनी तुका खबर ना. हांव खंयचे दिकेन धांवंक लागलां तो? म्हजी गती आनी प्रगती पळेना? गोंयची मुम्बय करपाचे दिकेन हांव धांवपाक लागलां.'

'कितें ?..... आमचो शेवट मुम्बयंत जावपाचो आसा? भेंडी बाजार, माहीमची खाडी, फोरस रोड, धारावी हें सगळें आता गोंयच्या वांट्याक येवपाचें आसा? आमी स्वराज्या खातीर झुजिल्ले ते गोंयची मुम्बय करपा खातीर न्हय...

'ह्यॅ ह्यॅ ....ह्यॅ....' तो परतो मोट्यामोट्यांन हांसपाक लागलो. म्हज्यान तागेलो हो हांसो सोंसू नज जालो. ताका संस्कृत येताली, ताणे संस्कृत भाशेंत म्हाका जाप दिली, 'विनाशेन मृत्युंतीर्त्वा संभूत्यांमृतमश्नुते' .....

हांव संस्कृत थोडें भोव जाणा आशिल्लों. विसरलों. अदमासान अर्थ लायलो. 'विकासाचें अमृत चाखंतलो जाल्यार पयलीं विनाशाचे वाटेन मरण अणभवूंक जाय.' म्हळ्यार, पयलीं सगळें गोंय काबार करून उडोवंक जाय. गोंयूंच ना करूंक जाय.

म्हाका थरथरो भरलो.

परततना म्हाळशेच्या देवळांत भितर सरलों.

हांव तिचेर कोंत्र. भारताच्या नकशावयलें गोंयचें नांव-निशाण पुसून उडोवपाक भायर सरिल्ल्या बांदोडकारा फाटल्यान ती उबी आशिल्ली म्हूण. पुणून आयज हांवे देवळांत वचून तिचे मुखार साष्टांग नमस्कार घालो आनी म्हळें, हांव तुज्या पायांकडेन केन्ना येवंक नाशिल्लों. आयज मुजरत आयलां. गोंयकारांनी तुजें कितें वांकडें केल्लें म्हूण तूं तांचें गोंय ना करपाक भायर सरल्या.....?.. सपनांत तरी येवन सांग.... हांव प्रायश्चित घेतां, सगळ्यांचे वतीन....गोंय काबार करूं नाका.'

फाटी एके मिटींगेक गेल्लों. नायलॉन ६,६ केरीक आयलो जाल्यार आमी कितें करपाचें हे थारावपाखातीर कांय जाण एकठांय जमिल्ले. व्हडले पर्यावरणवादी मिटिंगेक आयिल्ले. हय, गोंयांत असलेय कोण कोण आसात. म्हणपाक लागले, नायलॉन केरीक आयलो जाल्यार हे पंचक्रोशींतलें उदक, वारें, भूंय, सगळें विखाळ जातलें.

हांवे म्हळें, 'म्हाका ह्या रसायनीक प्रदुशणाचो व्हडलो-सो भंय ना. म्हाका भंय तो ह्या वाटारांत जातल्या त्या सामाजीक प्रदुशणाचो. नायलॉन ६,६ ह्या वाटारांत आयलो जाल्यार हांगा खंयचे खंयचे लोक येतले, कितल्या प्रमाणांत येतले, ते कितें करतले, खंय रावतले, हे प्रस्न केन्ना कोणे सरकाराक विचारूंक नात. म्हाका भंय तो ह्या 'भायल्या' लोकांचो. आनी तांचे वांगडा धांवन येतल्या त्या रस्त्यांचो. केदे रुंद जावन हे रस्ते खंयच्या खंयच्यान येतले, खबर आसा? कितले



ट्रक कितले टेंपो, कितल्यो जिपी, कितले टँकर, कितलो धुल्ल उसळायत येतले, खबर आसा?...आडावंक जाय तें हें प्रदुशण....'

घरा पावनाफुडें शॉवरा सकल बसलों. एका पोरण्या प्रसंगाचो उगडास जालो- बाकीबाबागेर बोरये एक अमेरिकन प्रोफेसर आयिल्लो. समाजशास्त्राचो. बाकीबाब ताका घेवन आमगेर आयलो. अमेरिका म्हळ्यार धर्तरेवयलो एक इंद्रलोक. मनशाक सुखी करपाक ज्या ज्या गजलिंची गरज आसता त्यो सगळ्यो अमेरिकेन तयार केल्यात. असल्या ह्या स्वर्गा समान देशांतल्यान आयिल्ल्या सोयऱ्याची सरबराय कशी करची ह्या घुटमळ्यांत हांव पडिल्लों. पुणून तो रोखडोच घरचोसो जालो. हांवे ताका तरांतरांचे प्रस्न विचारले. तांतलो एक प्रस्न आशिल्लो, 'अमेरिकेंत तुमी भाग्यवान कोणाक लेखतात?.....तुमचे नदरेन भाग्यवान मनीस कोण?..........'

'शारा भायर आयस पयस एक मळ आसचें, मळार आपणालो असो एक ल्हानसो बंगलो आसचो. बंगल्या फाटल्यान कुचकुचीत रुखावळीन भरिल्लो एक दोंगर आसचो, भोंवतणी शेकान शेक पोरसूं आसचें. पोरसांत तरांतरांच्या फुलांचीं झाडां आसचीं.....शेवर्णी पिसोळीं दिश्टी पडचीं.....वयर मळब आसचें....बायल भुरग्यां वांगडा खबरी करपाक, हांसपाक, खेळपाक वेळ आसचो, हे तरेचें जिवीत जो जियेता तो आमचे नदरेन भाग्यवान.' ताणें जाप दिली आनी म्हज्या तोंडाकडेन पळोवन मुमुरख्यांनी हांसून म्हळें, 'भाग्याच्या आमच्या ह्या आदर्शाप्रमाण तूं आमचे भितरल्या कोणाय परस चड भाग्यवान.....असलो बंगलो आमचे भितरल्या कोणाच्याच नशिबांत ना. असलो सुंदर पांचव्या चार रुखावळिचो, निळ्याशार मळबाचो, तांबडे गुंज मातयेचो भोंवतण आमचे भितरल्या कोणाच्याच नशिबांत ना. खरे सांगतां, धर्तरेर खंयूय स्वर्ग आसा जायत जाल्यार तो हमीनस्तो, हमीनस्तो, हमीनस्तो (हांगाच आसा)....'

हांव कांयच उलयलों ना. ताची म्हाका दिश्ट लागत म्हूण भियेलों. मनांत म्हळें, म्हज्या आनीक एका भाग्याकडेन तुजें लक्ष वचूंक ना, हांगा हांव रावतां त्या गांवांत मनीस दुसऱ्या मनशाक मेळटा तेन्ना मनीस म्हूण मेळटा. ताका नांव आसता, व्यक्तित्व आसता. आयज म्हाका पांच मनीस मेळूंक आयिल्ले अशें कोण म्हणिना. अमके अमके आयिल्ले अशें म्हणटा आनी तांचीं नांवां सांगता... गांवांत कोणूय मेलो जाल्यार अमको भायर पडलो म्हूण सांगता. 'एक मनीस मेलो' म्हणिना. हांगा आमकां जण एकल्याक नांवां आसात. व्यक्तित्वां आसात. हें आमचें भाग्य ना करपाक आतां आमचें सरकार भायर सरलां.

मनशाचें नांव आनी व्यक्तित्व पुसून ताका अठरा अक्षौहिणींत धुकलून उडोवपी कसलो, मडसरेचो विकास हो !



***

**-नगर, पिरवळ-गोंय**





# माय सेकन्ड पापा



-महाबळेश्वर सैल

ह्या शारान रावल्यार तींच तींच उस्तिल्लीं मर्डी याद येतलीं म्हण तो चार वर्सां फाटीं हें शार सोडून गेल्लो. तो आज परत त्याच घरांत पावतालो, कंनीच्या कामा निमतान. हेराक कोणाक तरी धाडूंक सांगून ताच्यान येनासताना राव येताले. इल्ली साबूद्द विसरून नकळटानाच ताणें हो निर्णय घेतिल्लो म्हटल्यार जाता.

पुराय पायळिल्ल्या ह्या खूब व्हड शारांत एकच आपलेपण आशिल्लें, हांगा ताची अपुरबायेची माणकुली धूव रावताली, आतां ताची बायल न्ही जाल्ल्या तिगेले आवय वांगडा.

आता हे शार खूब बदल्लां, रस्त्यार येरादारीची खेटाखेट वाडल्या. रस्त्या कुशिनीं धाधा माळयांच्यो इमारती उब्यो जाल्यात पूण ताका वोगच दिसतालें, मनशां बदल्लीं नासतलीं. तो ह्या शारांत 'आपल्या मनशांक' सोडून गेल्लो तो खीण आनी आयचो हो खीण हाका जोडपी एक बारीक भावनीक नातें मनातळाक अजूनय शाबूत आसतलें. मनशां सगळें विसरतात पूण मनावेलीं पडबिंबां विसरीनांत. तो खीण तो परत धरूंक पळयतालो, सपनांतल्यान हात मुखार करून कसो. ताका दिसतालें, तांच्या घोव बायलेच्या संबदांत कितलेंय कोडूपणा आयलें, झगडी जालीं, काडीमोड घेतली तरीय ताका आदली, चड वर्सांची मोगाची आपलेपणाची पाठभूंय आसा. ती परत वयर सरून सगळ्या कोडूपणाक निवळावंक शकता. तेच वाऱ्यावेल्या आस्तेन तो आपल्या आदल्या काडीमोड घेतिल्ले बायलेक आनी धुवेक मेळूंक सोदतालो. ताका दिसतालें, आमचो कितलोय बेबनांव जावं पूण ती मनाकुडीन भोव निश्कळंक आसली, ताचे झगडें तिच्या एकनिशठपणाविशीं नासलें तर ताका दिसतालें तिचे सरीं मोग करची शक्तच ना. म्हण ताका आतांय दिसतालें ती पयलीं सारखी आतांय व्रतस्थ आसतली, एकमुळे जिवीत जियेता आसतली. म्हणच थंय वचची इत्सा इल्ली चडच जाताली. आपले चलयेक तर ताका मेळूंक जाय आसलेंच.

चलयेची याद येतकीर ताच्या मनाचीं सुतां भिजिल्ले वरी जालीं. एक आठ वर्सांच्या सानुल्या भुरग्याक कोर्टांत जज सरकारी वकीलामार्फत विचारतालो, 'बाय तूं मामी बराबर रावंक मागता काय पापा बराबर?'

कसलो मुर्खपणाचो प्रस्न! णव म्हयने मामील्या पोटांत राविल्ली, तिच्या दुदाक लागिल्ली चली मामी पयलीं पापाचें नांव कशी घेतली? खरें तर जजान विचारूंक फाव आसलें, 'बाय तूं ? मामीबरोबर काय पापाबरोबर काय दोगांय बराबर रावंक मागता?' अपुरबूद्द भुरग्याक कचाट्यांत घालून कशीय जाप घेवप....

पूण तेन्ना ताणें कांयच ताणून धरलें ना, हाचेर अपील केलें ना. चलयेन मामी बराबर म्हण्टकीर ताणेंय तें मानून घेतलें. खरें तर ताका भितरल्यान सूं च जाल्लें.

तेन्ना ताणे मुक्ततायच अणभवल्ली आनी ते मुक्ततायेची मेकळीक मुखार बरीच घेतली. तरीय ते कृतघ्नतायेचेर ताणे गेल्या चार वर्सात पश्चाताप खूब भोगला. ती कृतघ्नताय इल्ली निवळावंक तो आज आपले आदले बायलेसरी वचून भुरग्यांक मेळूंक सोदतालो.

पयलीं पयलीं ताका खरपणान दिसतालें, सोडटकीर बायल खूब त्रासात पडची, तिची जीण सुण्यापाशट जांवची, मागीर ताचो आपूण



आनंद घेंवचो, पूण वर्सां वतात तशे ते निवळावन गेल्ले. केन्ना बायलेविशी काकूळट दिसताली. चलये विर्शी मोगाळ म्होवाळ जाताल्लो, तिका पळोवक आशेतालो.

बेल वाजतकीर चलयेनच दार काडलें. मदीं चार वर्सांचो काळ गेल्लो खरो पूण तिका आताच पापान बागांत व्हरून भोंवडावन हाडला कशी ती ताका वोळखली. खूप लागिंचें, आपलेपणाचें हाशें तिच्या तोंडार उदेलें, भोव वाट पळोवन कोण आयल्याची खोशी तिच्या चेहऱ्यार आसली.

'पापा'

ताणें मुखार येवन तिच्या खांदार हात दवरलो. तें मुखार सरकून ताका तेंकलें. पूण तिका वेंगेंत घेंवचो धीर ताका जालो ना. एक अपराधीपणाची भावना आशिल्लीच.

'केन्ना परत वतले तुमी पापा?'

अचकीत आयिल्ल्या ह्या प्रस्नान तो गोंधळ्ळो, निर्शेलो.

'तुका पळयतलो आनी परत वतलो म्हण आयला.'

'नाका, तशे नाका हं....' तें घुटमळ्ळें.

'बसात तुमी, म्हजें जातासर.' तो थंय कोचार बसलो. पूण चलयेल्या उतरांनी तो अजापांत पडिल्लो. इतल्यान तागेली आदली बायल, 'कोण गो मिथी, कोणे बेल मारिल्ली.' म्हणत भितरल्यान सालाच्या दारांत आयली. कांय खीण ती दारांतच थारली. पूण इल्ली वोळखिची सुनशा तोंडार ना. एके अनवळखी बायलेन परक्या दादल्याक पळोवंचें तशी पळयता.



परक्या दादल्यापासून आंग वावडून पयस उबी रावची तशी उबी आसा. हांव कोणतरी हेरच अस्तुरे मुखार बशिल्लो ना मू ?

हें अशें अनवळखीपण तो पयलेच फावट पळयतालो. काडीमोडीची केस चलताली तेन्ना कोर्टांत आयल्लेकडेन लेगीत दोळे भिरभिरताले, चेहऱ्यार आपलेपणाची ओलसाण पातळताली. आनी आता हे इतकें परकेपण कशें!

कुडीन कमरान इल्ली जाड जाल्ली, दोळ्यांतली आदली लिकलिकसाण वचून चेहरो इल्लो नीबर जाल्लो. पूण इतलें परकीपण! ताणें मनांत म्हटलें, तिची वायट अवतिकाय पळोवंक म्हण हांव येयल्लों, पूण तिचो ताठो तसोच आसा. कोणे दिला हिका ही धिगी?

ती परती घुंवली. परती वतना तिणें म्हटलें, 'जाय जाल्यार बेगीनच इल्ली चाव करून दी, साडेपाचांक वचूंक जाय न्ही आमकां.'

चलयेन 'तुका लागना तें.' म्हणत नाखोशयेनच आवयवटेन पळयलें. तिच्या दोळ्यांत रागाची कीट्‌ शी उसळ्ळी. ताणें मनांत म्हटलें आवय आनी धुवेलें सारखें वचनाशें दिसता. मागीर ताका ते बायलेचो रागच आयलो, इतकें कित्याक तुटोवन उडयलें तिणें? जाय ते फावट उचांबळून म्हजे मिठयेंत येताली, आपूण जावन ओंठार ओठां तेंकयताली. एक फावट जाल्लें ॲबोर्शन धरून म्हजीं दोगां भुरगीं रचिल्लीं तिच्या पोटांत, ह्या शरीरकर्माचो इल्लोय प्रभाव उरना तर बायलांचेर! जंय सूख घेवप आसता थंय सूख दिवपय आसता. मागीर आमी दोगांय इतलीं बेदिनवार्शी कशीं जालीं?

ताणें चलयेवटेन पळयलें आनी तो इल्लो हांसलो, पूण तें हांसलें ना. पयलीं हें मिथिला कितलें बोलकें, हांसकुरें आनी तवनास आशिल्लें. दिसतालेंच सोबीत, निकतेंच उदकांतल्यान उदका थेंबे घेवन वयर सरिल्ल्या साळकावरी. पूण आता तिच्या तोंडावेल्या शिरांचें तेज सुकिल्लेवरीं जाल्लें. दोळ्यांतय लिकलिकसाण नासली. तेरा वर्सां पिरायेरच तिच्या चेहऱ्यावेलें हें जूनपण विचित्रशें दिसतालें ताका. पूण तो अर्थ सोदतालो भियेतभियेत. सालांत चयलार तर हेर कोणाच्या अस्तित्वाची सुलूस लागनासली. ना म्हटल्यार सालांत वण्टीर एक नवें चित्र लायल्लें, एक शवणे घोटेरांतलीं तांती उबयताना एक दुसरेंच व्हड पाखांचें बळीश्ट शवणें थंय झोपय घेतालें. दोगांय शेवण्यांमदीं पांखां फुलोवन झगडें चलिल्लें. कोणे वेंचून काडलें काय हें चित्र! ती तर इतली रशीक केन्ना नासली. चित्र सुंदर आसा. तुवेंच वेंचून काडिल्लें आसतलें न्ही.

तिणें दोळे मिचकायलेशे केले आनी तें हांसलें. बेठीच तकली हालयली. पूण हय काय ना तें कळ्ळें ना.

'पापा, तुमी रोकडेच वतले न्ही? चाव आनी नाका आता.'

'हय वचूकच जाय न्ही.' ताका अजाप दिसलें, इतकी हिका ताकतीक कित्याक लागल्या?

'रावात हा हांव येता.' ती भीतर गेली. भीतर उलयल्लो घुस्मटसो आयकूंक येतालो. ताचेन इल्ली भिरांत इल्लो कांचसो पातळिल्लो. पूण ती धायेक मिनिटांनी आपले बेग घेवन आयली. बेग ताचेसरी दवरून

उबी रावली.

'हें कितें मिथी?'

'हांव येता तुमच्या वांगडा. तुमच्या गांवांत.'

ताका दिसलें आता तिगेली मामी भायर येतली आनी ओडून व्हरतली. हांगा टग ऑफ वॉर सुरू जातलें. 'तुवें सांगलां मामीक?'

'हय, केन्नाच सांगलां. ती वचय म्हणिना, रावय म्हणिना. तुमी येवंक नाशिल्ले जाल्यारय तुमचो पत्तो काडून येवचें आसलें हांव.'

तो वोगच रावलो. ताका कोर्टांत 'हांव मामी वांगडा रावतलें' म्हणपी तें भुरगें याद आयलें. तेन्नाचें तें अपुरबुद्द भित्रेपण आनी आताची ही धिटाय, ताका मनांतल्यान खूब बरें दिसलें. पूण चलयेन खीणभर कितेंतरी चिंतलें, दुबावानशें पळयलें आनी सट्ट करून विचारलें, भियेत भियेत तरीय भोव आस्तेन, 'पापा, तुमी परते लग्न जालात?'

एकच फावट ताचो चेहरो संकोच, भिरांत आनी लजेन भरून गेलो. ताणें चाचरलेंशें करून हयकारत तकली हालयली. खरें तर तें तकली हालोवप इतलें अनमानत जाल्लें तरीय तिका ताचो पुराय अर्थ कळ्ळो. तिणें सकल तागेल्या पायासरी दवरिल्लें बेग पायानच थंयच्या कोचापोनांत सरकायलें. तिची कूड थरथरताली, तिचे दोळे दुकांनी भरिल्ले आनी चेहरो लजेन काळखेवन गेल्लो. देंवती दनपार करपल्लेवरीं काळशी पडिल्ली आनी बरोच हुलाताप मारतालो.

इतल्यान गेटीसरी मोटारिचो आवाज आयलो. चलयेन बेगीबेगीन म्हटले, 'तुमकां आता वचूंक जाय. आत्तां बेगीन.'

मोटर गेटीतच्यान भीतर आयिल्ली आनी गेरेजीवटेन घुंवली. तातूंत एकलो दादलो आसलो, गोरो, आंगान सुटिल्लोसो. ताचे धंवशे केस कपलावेल्यान वयर सरून हुबताले.

ताणें विचारलें, 'कोण तो?'

'ही इज माय सेकन्ड पापा.' ती दुकां लिपयत तोंड घुंवडावन भीतर धांवली. तो सरसरीत भायर सल्लो. खिणात गेट पार करून रस्त्यार आयलो. तो चिंततालो, हांगा ताचो सेकन्ड पापा आनी थंय सेकन्ड मामा, ते अपुरबुद्द चलयेन खंय म्हण वचचें!

***



**मडगांव-गोंय**



# गुलजार - एक मनभुलावणें व्यक्तिमत्व

-दामोदर मावजो

फाटल्या जुनांत लक्ष्मणरावांचे जल्मशताब्दीनिमतान आयोजीत केल्ल्या दोन दिसांच्या सेमिनाराखातीर हांव मुंबय गेल्लों. दुसऱ्या दिसा सकाळीं सेमिनार चलता आसतनाच म्हगेलो मोबायल वाजलो. गुलझाराचो फोन. हांवें हॉलाच्या भायर वचून घेतलो.

''आयज दनपारां जेवपाक यो. रावतां.''

ना म्हणटना जिवार आयलें. हांवें मुंबय येतलों म्हूण कळयिल्लें तेन्नाच हांवें सेमिनार सोंपल्या उपरांत सांजेच्या चारांक येतलों म्हूण सांगिल्लें. ''आयताराची सांज तुजे खातीर दवरतां.'' अशें ताणेंच उतर दिल्लें.

''लेट जाल्यार उपकारता. हांव रावतां जेवपाक. सोंपय आनी यो.'' ताणें फुडें म्हळें.

सेमिनाराची जापसालदारकी म्हजेर आशिल्ली. सोंपता म्हणसर दनपारचीं दोन जायत येतलीं. उपरांत जेवण.

''आयम सॉरी, गुलजारसाब! पूण सेमिनार सोडून आनी सांगात्यांक 'तुमी जेवन घेयात.' म्हूण सांगून म्हज्यान भायर सरूंक जावचें ना. हांव सांजेच येतां.'' हांवें सांगलें.

गुलजार खीणभर अनमनलोशे दिसले म्हाका. पूण ना. ''ओके आयल वेट.'' ताजे मानून घेतलें.

चारांपयलींच हांव 'बोस्कीयानांत' पावलों. एली हिलाचेर आशिल्लो हो धाकटुलो बंगलो गुलजाराच्या अस्तित्वाचो आनी व्यक्तित्वाचो एक वांटो कसो. भायर गेट. भितर बंगल्याकडेन वचपाचे वाटेर सोबेचीं फुलझाडां. मुखारच पोर्चांत तागेली मोटार. गेटीभायरच आशिल्ली बेल दाबनाफुडें सुंदर भायर आयलो. हांसून म्हाका भितर व्हेलो. भितर सरतात थंयच व्हिजिटर्सांखातीर कदेलां. मुखार कचेरी. कुट्टी बसता तें कदेल रितें आशिल्लें. म्हाका अजाप दिसलें.

''कुट्टीसाब नहीं है?'' हांवें सुंदराक विचारलें.

''रविवार है ना!''

शंकराक मेळचे पयलीं नंदीचें दर्शन घडटा. तशें गुलजाराक मेळचे पयलीं कुट्टी मेळटा. फोन केल्यार लेगीत चड करून कुट्टी पयलीं घेता.



भितर सालांत व्हरून बसयलो. उजव्यान सोफासेट. फुडें सामकाराक भारतीय बैठक. फाटले फावट हांव आयिल्लों तेन्ना गुलजार आनी एक तरनाटो संगीतकार - नांव आतां याद जायना - एका नव्या गिताची धून थारायताले. बैठकीचे फाटले वण्टीर सोबीत सुंदर पेंटींग. दावे वण्टीचेरूय सुंदर चित्रकृती. दाव्यान मातशें फुडें वतकीर दाव्यान विस्तारीत साल. हांगा तरेकवार आधुनीक म्युझीक सिस्टम्स आनी मेजां-आल्मारी. घडये तागेली लायब्ररी आसूंये. मंद उजवाडा येवजण हे कलात्मक सजावटीक अदीक उबारी दिताली.

एसी ऑन करून सुंदर भितर गेलो. म्हणसर भितरसून गुलजारालो बुलडॉग सालांत आयलो. भिरांकूळ दिसपी तो सुणो म्हजेसरीं आयलो. वास घेतलो आनी शेंपडी हालयत उबो रावलो. म्हणसर धवो फुल्ल सलवार कुडता न्हेशिल्लो गुलजार भायर आयलो.

''बेटा, पीछे हटो!'' येतां येतां ताणें प्रेमान धेंगसो घालो.

''आसूं. आसूं ताका हांगाच.'' सुण्याच्या कानाफाटल्यान पोशेत हांवें म्हळें.

''हांव ऩकळो आसलों तुकां सुणी आवडटात म्हूण.'' गुलजारान म्हळें.

''पूण तुगेल्या सुण्याक कळ्ळें पळय कशें.'' हांवें उठून म्हळें.

खूब वर्सांनी मेळिल्ले भाशेन गुलजारान वेंग मारून म्हाका येवकार दिलो. गुलजाराची वागपाची तराच ही अशी-दुसऱ्याक फावो ताचेपरस चड मान दिवपाची. आदब इतली मोहक कीं अकबराच्या दरबारांतल्या उर्दू पंडितांची याद जांवची. दुसऱ्या मुखार नम्र जावपांत कितलें व्हडपण आसता तें गुलजाराची चलणूक पळयतकीर होलमता. अनवळखी वा ल्हान भुरगें लेगीत तांकां मेळूंक आयल्यार पयलीं एक हात हड्ड्यार काळजाक तेंकोवन बाग घेवपाची तांची तरा सामकी 'गुलजार-स्पेशल'. गुलजारांची 'हर अदा' म्हाकां काळजाथावन आवडटा. अशे कलाकार, साहित्यकार हालीं अभावानच मेळटात.

''कितें घेतलो? च्या काय थंड?''

हांवें म्हळें, ''कितेंय उपकरता. पूण गरम जाता ते भाशेन उदक - ''

''तशें जाल्यार काळंगा रो''स घेवंया.''

गुलजारागेर काळंगा रोस सदांच तयार आसता जाल्यार हांव नकळों. पूण ही तिसरी खेप हांव तांगेर काळंगारोसाक पाविल्लों.

सुंदराक आफोवन खावंक-पियेवंक हाडपाक सांगून गुलजार स्वता उठून दावेवटेन गेलो आनी सीडी प्लेयर ऑन केलो. जगजिताले गजलीचे मंद सूर भावमधूर संगिताच्या तालार एसी वातावरण धूंद करूंक लागले.

"How is your Bosky?" गुलजाराच्या असल्या अनपेक्षीत प्रस्नांनी हांव अचूक गोंदळटां. फाटले खेपेक ताणें विचारिल्लें - ''मेरी मेघना कैसी है?''

म्हगेले चलयेचें नांव मेघना. तागेलेय चलयेचें नांव मेघना. तो आपले चलयेक अपुर्बायेन 'बोस्की' म्हण्टा. हांव मात म्हगेले चलयेक मेघनांच म्हण्टां. देखून तो खबर घेतनां 'मेरी मेघनां' म्हण्टा जाल्यार केन्नाच 'तुगेली बॉस्की' म्हण्टा.

बोस्कीविशीं उलयतनां बापायचें मुखामळ फुलून येता तें पळोवपासारखें. बंगल्याचें नांव लेगीत. 'Boskyana'. ह्या नांवांत तर वेगळेंपण आसाच. ते भायर जे तरेन बरयलां ताचेरूय गुलजाराचो छाप आसा. 'बोस्कीआना' अशें बरोवंक ना. तर 'बोस्कीना' अशें बरयलां. 'स्की' ह्या जोडअक्षराकच 'आ'ची आडी मारून 'स्की' अशें बरयलां. हो प्रयोग चालू जालो जाल्यार नागरी लिपयेक आनीक संक्षिप्तताय दिवपाचें श्रेय गुलजाराक वचूं येता.

मेघना गुलजारूय बापायविशीं बरयतना इतलें रंगून वता! मेघनान बरयिल्लें 'because he is' हें पुस्तक म्हळ्यार एक दस्ताऐवज. धूव-बापायच्या संबंदाचें कवतूक करचें तितलें थोडें. बापायच्यो खोडी, गुणावांगडाच ताचे दोश, ताच्यो संवयो हांचेर बरयलांच. ते भायर रुपेरी झगझगीत उजवाडांत आयिल्ले अणभव भोव प्रभावी रितीन मांडल्यात. बापायचें कवीपण धुवेच्या निरिक्षणात्मक नदरेंतल्यान कशें दिसता तें मुजरत वाचून पळोवपासारखें. राखी-गुलजारांच्या संबंदांचेरूय ही धूव मेकळेपणान बरयता.

राखी-गुलजार वेगळीं जाल्यांत. पूण तांचे संबंद तुटूंक नात. इश्टागत दवरून लग्नाचीं बंदनां तोडल्यांत. देखून गुलजार जेन्ना राखीविशीं उलयता तेन्ना तागेलो ताळो ओलो जाल्लो जाणवता. गोंयां आयिल्लो तेन्ना ताणे एक कुडता पळयलो. रोखडोच धुवेखातीर घेतलो. भुवनेश्वराक गेल्लो. थंय साडी पळयली. बरी





दावतली म्हूण राखी खातीर घेतली.

बोस्कीक आतां पाखां फुटल्यांत. आतां तें बेस्किनांत रावना. पूण चड पयस ना. तागेलो घोंटेर उलो मारल्यार धांवत येतलें इतलो लागीं आसा. धुवेक विदा करतनां बापायच्या दोळ्यांत दुखां आनी ओंठांर आशिर्वाद आसतात. अशीचं गुलजाराची एक कविता आसा जी 'त्रिवेणी' संग्रहाच्या पयल्या पानार अर्पणपत्रिकेवरी छापल्या. नांव आसा - 'बोस्की के लिये'

कुछ खाबों के खत इनमें, कुछ चाँद के आइने,
सूरज की शुआएँ हैं
नजमों के लिफाफों में, कूछ मेरे तजुर्बे है
कुछ मेरी दुवाएँ है
निकलोगे सफरपर जब, यह साथ में रख लेना,
शायद कहीं काम आए

एक जापसालदार बापूय, सगल्यांकडेन आदबीन चलपी, एक मनस्वी कलाकार, एक प्रज्ञावंत लेखक ..... राखीकडेन जुळोवन घेतना हें बंधन खंय तुटलें कळना. पूण तुटलें तरी सुटूंक दिलें ना हीय गुलजाराची खासीयत.

गुलजाराची आनी एक विशेशताय म्हाकां जाणवल्या. ताची याद जबर खर. सोंपेपणी कांय विसरना. दोन वर्सां पयलीं सिरियांत दमास्कस शारांत मेळिल्लो ज्ञानेश्वर मुळे हो कवी दोन वर्सांउपरांत भोपाळांत मेळ्ळो जाल्यार खिणांत ताका वळखलो. ज्ञानेश्वर मुळे लेगीत अजापीत जालो. गोंयां आयिल्लेकडेन एके राती आमी साहित्यीक गोष्टी केल्ल्यो. भरत नायकाली 'मन' ह्या विशयावयली एक सान कविता ताका भोव मानवली. उपरांत मुंबय जाल्ल्या एका साहित्यीक दबाज्यांत आपल्या भाशणांत ताणे ह्या कोंकणी कवीचो उल्लेख केलो आनी त्या भाशणाचो आप्रोस पेपरांत छापून येतकीर कुट्टीन ताचें कातरण म्हाकां धाडून दिलें.

खंयूय वचूं-गुलजार 'स्टार अट्रेक्शन' जाता. पूण खरेपणी गुलजार खूब भिडेस्त. फुडें फुडें करपाक ताका आवडना. गोंयां आयिल्लेकडेन एक दीस गुलजारान म्हाका म्हळें,

''यु नो दामोदर, म्हाका धा जाणां मुखार भाशण दिवपाक भंय दिसता. स्टेज फ्रायट न्हय. पूण आत्मविश्वास येना.''

म्हाका खरेंच दिसलें ना. येदो व्हडलो लेखक, सिनेदिग्दर्शक आनी गीतकार! आनी ताका ही भिरांत?

''खरेंच सांगतां. कवी संमेलनांत काव्यवाचन करतनां लेगीत म्हाकां आत्मविस्वास येना.'' आनी मुखार ताणेंच ताचें कारणूय सांगलें. भाशण आयकून वा कविता आयकून फुड्यांतले लोक ताळयो पेट्टात तेन्ना ते आपणाभोंवतणी आशिल्ल्या शिनेमाच्या रूपेरी वलयांक ताळयो मारतात अशें दिसता.

गजाल खरी. गुलजाराक लोक वळखतात तें ताणे सिनेमाक दिल्ल्या योगदानाखातीर. गुलजाराचीं गीतां लोकप्रिय जाल्यांत तीं सिनेमांतलीं म्हणून. पूण गुलजार निखटो गितकार न्हय. तो एक कवी. एक साहित्यकार. उर्दू काव्याक ताणें एक वेगळें परिमाण दिलें. बरयतां बरयतां म्हाका एक कवितेचो नवो फोर्म मेळ्ळो. तीन वळींची कविता. 'हायकू न्हय. स्वतंत्र प्रकार. पयल्यो दोन वळी म्हळ्यार एक पूर्ण विचार. पूण म्हणसर तिसरी वळ येता त्याच विचाराक छेद दिवन. ह्या कवनांचें नांव 'त्रिवेणी'

''सांवले साहील पे गुलमोहर का पेड
जैसे लैला की माँग का सिंदूर।

धर्म बदला गया बिचारी का -।''

आपल्याक आपणा भितर झांकून पळोवपाची तांक आशिल्लो हो कवी म्हण्टा-

''जिस्म के खौल के अन्दर ढूंढ रहा हूँ और कोई,
एक जो मै हूँ, एक जो कोई और चमकता है.

एक मयान में दो तलवारे कैसे रहती है?''

गुलजार फकत कवी न्हय. कथाकारूय बी. रावी-पार संग्रह वाचल्यार तागेल्या साहित्याचो पावंडो होलमता. ह्या साहित्यकाराचें



कवीमन सिनेमाच्या ग्लॅमराक, झगझगाटाक भियेता, खांकुडटा. पूण साहित्यीक वातावरणांत रमता, भरसून वता. दिल्लींत जाल्ल्या आशियाई साहित्य महोत्सवांत तिनूय दीस सगल्या सत्रांनी उपस्थीत रावन आत्मितयेन एकचित्तान सगलीं भाशणां आयकुपी गुलजार हांवें पळयला. मदींच कोणतरी ताचेमुखार येवन ऑटोग्राफ मागूंक लागलो तेन्ना कपलाक मिरी घालून गुलजारान म्हळें "मुझे जरा मझा लेने दिजीए, आप बादमें आयिए।" हालीं सेमिनारांनी उलोवपी खूब येतात. पूण दुसऱ्यांलें आयकुपाक रावपी खूब थोडे. एक बरो श्रोतो हीय गुलजाराची आनी एक वळख.

चौगांमदीं कविता म्हणपाक खांकुडपी गुलजाराची भीड मोडपाक कारण जाली ती सुकृता पाल कुमार. उर्दू साहित्यकार जोगिंदर पाल हांची धूव आनी स्वता इंग्लीश कवी. साहित्याची बेसबरी जाणकार आनी संयोजक. तिणें भोपाळांत काव्यवाचनाची एक मैफल आयोजीत केली. गुलजाराक आग्रो करून आफयिल्लो. कार्यावळ देड वरांची आसतली आनी तीच सोलो - एकल्याल्याच कवितांची हें गुलजाराक थंय पावसर खबर नाशिल्लें. भोपाळ हें रसिकांचें आनी कलाकारांचें शार. सुर्वेक खांकडत केल्ल्या पेशकशींक जशी जशी निर्भेळ उत्स्फूर्त दाद मेळूंक लागली तसोतसो गुलजाराचो संकोच पयसावत गेलो. देड वर कशें सरलें तें गुलजाराकूय कळ्ळें ना आनी श्रोत्यांकूय.

गजाली चलतनाच सुंदर खावंक आनी पियेवंक काळंगां रोस घेवन आयलो. सुंदर हो गुलजारालो ड्रायव्हर. पूण गुलजार ताचेकडेन वागता तें पळयल्यार हो ताचो पुतणयो वा भाचो कसो दिसचो. कुट्टी हो गुलजाराचो पि.ए. हे दोगूय ताचे घरचेच मनीस कशे. दोगूय जाण फाटलीं साबार वर्सां गुलजाराकडेन काम करतात. काम करतात म्हणचेपरस गुलजारावांगडा रावतात अशें म्हणूंक जाय.

"कैसे हो सुंदर?" काळंगा रोस तेंकयतना हांवें सुंदराक विचारलें, "घर पर सब ठीक है?"

"बदमाश है वह." सुंदर उलोवचे पयलींच गुलज़ारान हांसत सांगलें. कालच खंय तागेले बायलेलो फोन आयिल्लो. "बीबी बडी खफा है उस्से।" ती पयस गांवांत रावता. तिणें आजून मुंबय शार पळोवंक ना. मुंबय दाखोवन हाड म्हळ्यार हो खंय तिका फाफुडटा. सुंदराले चलयेन हालींच धावेची परिक्षा दिल्या. परिक्षे पयलीं गुलजारान तिका सांगिल्लें, "अभ्यास बरो कर. परिक्षा जातकीर तुका मुंबय दाखयतां." परिक्षा जायनाफुडें गुलजारानच आगरो करून तिका मुंबय आफोवन हाडली आनी सुंदराक सांगून सगली मुंबय भोंवडावपाक सांगलें. धा पंदरा दीस गुलजाराल्याच घरांत रावली. परती घरा वतकीर तिणे आवयचे बोंबलेर दवरलें. आतां ती घोवाचेर शिणटा आपणाक मुंबय दाखयना म्हूण.



"फुडले फावट सुंदर गांवांत वतलो तेन्ना तिका घेवन यो म्हळां हांवें. नाजाल्यार हाका हांव घरांत घेवपार ना." तें आयकून सुंदर लजेलो आनी मुरगूटत भितर गेलो.

म्हाका याद जाली. मुंबय पावलों तेन्ना फोनाचेर गुलजारान म्हाका आपलें नाटक पळोवपाक यो म्हणिल्लें. पूण तें सांजेच्या साडेचारांक आशिल्लें आनी सेमिनारांत त्याच वेळार 'कथा अस्तुरी'चो प्रयोग जावपाचो आसलो. देखून म्हाकां चुकिल्लें.

"तुवें येवपाक जाय आशिल्लें. प्रयोग सुंदर जालो. भुरग्यांनी खूब बरीं कामां केलीं." गुलजारान म्हळें.

हालींसराक गुलजार बालनाट्यांत रमूंक लागला. सध्याक ताचें 'अगर और मगर' हें संवसारीक नामनेच्या क्लासीकाचें हिन्दी/उर्दू रूपांतर गाजता. संगितिका वा गीत-नाट्य सोपे भाशेंत बरयिल्ल्यान भुरग्यांक खूब मानवता. "अगर और मगर"ची लोकप्रियता पळोवन गुलजाराची उमेद वाडल्या. आतां ताका तें 'थ्री पेनी ऑपेरा' साद घालूंक लागलां.

"हय! कोंकणींत 'तीन पैशांचो तियात्र' जाता आनी ताका प्रतिसादूय बरो मेळटा आनी हिन्दीतूय 'तीन टक्के का तमाशा' जाल्लें आसा. पर्थून हेंच कित्याक?" हांवें विचारलें.

"हय चडशा भाशांनी जालां ताचीं रूपांतरां. पूण हें बालनाट्य आनी गीत-नाट्य. म्हाका दिसता भुरग्यांक कितें जाय ताची नाट म्हाका मेळ्ळ्या. हांव ताका नवो ट्रिटमेंट दिवंक सोदतां. सादर जातलें तेन्ना कळयतां तुका. मुजरत पळय."

पांच जायत आयलीं आनी मागीर गुलजारान खांकडत मनांतली



खंत उक्तायली. तेन्ना म्हाका याद जाली. सकाळीं फोन करून "जेवपाकच यो" म्हूण सांगतकीर हांवें "चारांकच येतां" म्हणिल्लें. तेन्ना गुलजार खीणभर अनमनिल्लेवरी म्हाका जाणविल्लें.

"आयतारचें हांव कसलेंच काम दवरना. आमचो सांजचो आदेस तर तुजेचखातीर दवरिल्लो. पूण अचकीत-" तो सांगूंक लागलो.

विशाल भारद्वाजाल्या 'ॐकारा' सिनेमाचीं गीतां गुलजाराम बरयल्यांत. तांतल्या 'नयणों की मत माणिए, मत सुणिए" ह्या गितांचें रेकॉर्डींग करपाखातीर पाकिस्तानी गायक 'राहत' हो मुंबयत आयिल्लो. आनी तागेल्या व्हिसाची आडखळ आशिल्ल्यान ताका रोखडोच परतो वचपाचें आशिल्लें. विशालान गुलजाराकडेन उपकार मागिल्लो आनी 'ना' म्हणप कठीण आशिल्लें.

"खऱ्यांनीच आयची सांज तुजेखातीर दवरिल्ली. पूण आतां साडेपाचांक म्हाका थंय पावंक जाय. तुजी हरकत ना जाल्यार म्हजेबरोबर येशी?"

"तशी ही सांज हांवें मेकळीच दवरल्या. पूण विशाल भारद्वाजाक कांय हांव वळखना आनी तिसरेकडेन uninvited वचप समा जावचें ना."

"कितें उलयता, दामोदर! विशाल म्हजो पूत कसो, तागेर तुका आफोवपाचो अधिकार म्हाका आसा. तुजी हरकत ना जाल्यार या."

"या. म्हाकाय एक नवो अणभव घेवंक मेळटलो." हांवें म्हळें.

गुलजाराचें मनभुलावणे साहित्यीक व्यक्तिमत्व हांवें अणभविल्लेंच. आतां तागेले रूपेरी व्यक्तीमत्वाचो सुवाद घेवपाचे तयारेन हांव उठलों.

***







# दीन दीन दिवाळी नरकासूर ओवाळी

- निरजा वैद्य यादव

पहाट झाली. कोंबडा आरवला. मोरूचा बाप मोरूला म्हणाला, ''मोरू, ऊठ...'' फांत्या पारार उठून तयार जावप. वर्सांतलें एक न्हाण आईल्या हातचें. तेल-उटणें बी लावन. नवीं कापडां घालून आईकडल्यान ओवाळणी. सोयऱ्यांगेर वचप. तरतरेचे फोव, चकरी, चिवडो, लाडू, शेव... कितें खावं आनी कितें नाका अशें जावप. पोट भरून जातकच दुसरेकडेन. तेंय चलत. पावता म्हणसर पयलीचें जिरता. मागीर सेकंड रावंड...

मात्शीं थोर जातकच दिवाळेच्या पणटी-आकाशदिवे-खाण-जेवणाच्या दुनियेंत नरकासुराचो प्रवेश जालो. तो दिवाळेचें मुखेल आकर्शण जावंन बसलो. म्हज्या एका काकान स्वताच्या जुवानपणाच्यो यादीं सांगतना व्हडा अभिमानान म्हटिल्ले, ''नरकासूर गोंयांत हाडलो तो आमींच. एके बडयेर नरकासुराचें मुखामळ बांदून आमीं ती बडी नाचोवप...'' नरकासुरान पयल्यापयलीं स्वताचो चेरो दाखयलो. मागीर तो सर्वांगासयत प्रकट जालो. आकारान, उंचायेन वाडलो. वाडत वाडत अकराळ विकराळ स्वरूप ताणें धारण केलें.

दिवाळीचो 'फराळ' करपाक आजी-आई-काकी हांच्यो कितल्योशोच रातीं खरचताल्यो. दीसभर रांदप, रातचें दिवाळेचें खाण. त्या खाणाक दिवाळेदिसा एक वेगळेंच अंपरूप... आतां हें सगलें करपाक कोणालागीं वेळ ना, पासियेंस ना आनी गरजूय ना. सगलें रेडीमेड मिठायेच्या पसऱ्यांनी मेळटा. रातीं खरचतात आयनॉक्सांत, 'टिटों'त, हॉटेलांनी, नरकासूर 'जागोवपाक'. फांत्या पारार नरकासुराक ल्हासोवन मोरू आनी तागेलो बापूय, दोगूयजाणं कांबरूण ओडून न्हिंदपाक वतात...

दिवाळे दिसा कोणागेर वचप ना आनी कोण घरा येना. सांजेवेळा लक्ष्मीपूजन जाल्या उपरान्त रेडीमेड मिठायेचें बॉक्स घेवन चार घरांनी पासय मारल्यार.. कडकड करून फुगोट्यो, बाँबांचो बोवाळ आनी विखारी धुंवराचो हुंवार. ताका लागून फोडटा ती तकली, व्हांवता ते दोळे, अंदिल्लो स्वास आनी दुसऱ्या दिसासावन दोतोरागेर मारिल्ल्यो खेपो... दिवाळेच्यो गोड गोड यादीं... फाटीं मिरामार दर्यावेळेर एक कार्यावळ जाली. आयोजकांनी बाटलेंत भरून रॉकेटां सोडली आनी उपरान्त ताचो कागदाचो कोयर उखलून व्हेलो. ''त्या रॉकेटांनी सोडिल्लो धुंवर बाटलेंत भरून कित्याक व्हरूना?'' असो प्रस्न मनांत



उप्रासलो.

बेतींत फुगोट्यांच्या वणव्यांत नित्तेच फुलतले कळे ल्हासून सोंपले. गोंयभर जाल्ली प्रतिक्रिया चवथेमेरेन थंड जाली. अल्–कोणेंतरीय जुलयांत मुंबयंत दिवाळी मनयली. अशी वर्सभर 'लश्कर–ए–हो' आनी 'अल्–तो' रगताची रंगरंगयाळी दिवाळी खेळत आसतात. या बाँबस्फोटांत सांपडिल्ल्यांच्या घरांतली अंदूची दिवाळी कशी आसतली? धाय दिकांनी पणट्यो, मेणवाती, लायटींच्यो माळो... कांय घरांनी काळोख... सरभोंवतणीं फुगोट्यांचे कडकट्ट ढुमढुम ध्वनी. ते आवाज आयकून कांय जाणांचे कान किटल्यात आनी मनां विटल्यांत. भुरगीं बाँब–बाँब म्हूण बोब घालत आसतात. खरो बाँब कितें आनी कसलो तो ताणीं पळयला? तो पळोवपाचें नशिबांत येवंना जाल्यार पुरो! बाँबस्फोटांनी जिवितां उद्‌ध्वस्त जायत आसतना दिवाळेच्या शुभदिसा आमीं बाँब–माराण मारून खोस मनयतले? खोस भोगतले? बाँबस्फोटांत मरणाक पावपी मनशां नरकासूर काय कितें, की तांच्या मरणाचो action replay आमीं करून दाखयतात? दिसपट्टे जिणेंत ध्वनीप्रदुशण उणें आसा म्हण आमीं दिवाळेच्या खासा दिसा इतलें व्हडले प्रदुशण करतात? खंयचे दिकेन चलतात आमीं ?

घरप्रवेश केलो. नवें घर हेंच अपरूप. जाण्टयांचें सपन, तांच्या जिवितभराच्या म्हेनतीचें आनी आशिर्वादाचें फळ. तितलेंच पुरो जावंक जाय मनशाक. पूण घरच्या कांयजाणांक समाधान ना. दोन हजार रुपया मोडून भाड्यान लायटीच्यो माळो हाडून हुमकळायल्यो. "नवें घर; लोक येतलो, पळयतलो, म्हण्टलो, हांणीं नवें घर बांदलें, कांयच रोशणाय ना?" तीन दिसां उपरान्त लायटकारान माळो काडून व्हेल्यो. मागीर घर कच्च काळखांत. आतां लोक आयल्यार कितें म्हण्टले काय? भुरग्यांक समजावन चंद्रज्योती हाडून दिल्यो. भुरगीं खूश. भुरग्यांची समजिकाय पळोवन आमीं खूश. फाटल्यान थोरांनी हजारभर रुपयांचो फोग हाडलो. धडधडधड पंदरा मिण्टांत ल्हासून सोंपलो. उरलो फकत गोबोर .

तीन दिसांच्या, तीन मिण्टांच्या देखाव्या खातीर तीन हजार रुपया वाऱ्यार गेले. कोणूच आयलेना, कोणूच गेलेना. आयलीं–गेलीं तीं सगलीं मनशां दिसाचीं. रातचीं सगलीं स्वताच्या घरांत लक्ष्मीपूजन, दिवाळेंत घुस्पून उरलीं. त्यो लायटीय कोणें पळयल्यो ना आनी तो फोगूय कोणे भोगलो ना. इतलें प्रदुशण जालें तें वेगळें. एकवटेन दिसलें, बरेंच जालें. लक्षांत आयल्यार कोणूय पिशांत काडपाचो. सांगपाक सुदीक लज शी...



दीन दीन दिवाळी
गाई–म्हशी ओवाळी
गाई–म्हशी कुणाच्या?
लक्षुमणाच्या.

लक्षुमण बँकेंत शिर्विस करता. तागेर खंयच्यो गा गाई–म्हशी? त्यो आतां फकत आरे कॉलनींत. अमूल फॅक्टरींत...

न्हावन, नवीं कापडां घालून पाटार बसप. एकेकट्याच्या हातांत एकेक सुपारी आनी एक रुपयाचें 'कॉयन'. मागीर वोवाळणी. कपलाक कुकमा टिळो. दादल्यांक उबो. तांका हळद लावपाची ना. ती फकत बायलांक. तांचो कुकमा टिळोय वाटकुळो... शास्त्र. बोटांतली मुदी काडून, तिचेर सुपारी दवरून आरतें–परतें वोवाळप. आरत दाखोवप. हातांतली सुपारी आनी रुपया एकेक करून आरतेंत पडटा... सोबीत, सुंदर, सात्विक दिवाळी... सपनांतली काय कितें आतां...?

ह्या वर्सा कारावेलाचेर सेक्युरिटी गार्डांचो गणवेश फकत एक लांब स्कर्ट. हातांत ढाल–तलवार. णववारी न्हेसून, नाकांत नथ, हातांत गोठ–पाटल्यो घालून वेट्रेसी ड्रिंक सर्व करतल्यो. वेटर धोतर–बंडी आनी काळी तोपी घालतले. गांधी तोपी घातल्यार माफी मागची पडटा, देखून अंदू काळी तोपी... Moving 'ahead' with the times...



***

**- वास्को-गोंय**



# महाबळेश्वर सैलाल्या साहित्यांतलो गांव आनी गांवजीण

– राजश्री महाबळेश्वर सैल

आयच्या युगांत गांवजीण एका स्थित्यंतरांतल्यान वता. गांव आनी शार हातुंतल्यो सिमारेशा ल्हव ल्हव पुसट जावंक लागल्यात. ब्रिटिशांच्या पयलिंच्या काळांतले गांव अर्थिक नदरेन शाराचेर अवलंबून रावनासले. आयज तशें चीत्र दिसना. जाती वेवस्था आनी गांवची अर्थवेवस्था हांचें हांगचें लागशिल्लें नातें आसलें. ज्या गांवकासांचीं स्वताचीं शेतां नाशिल्लीं ते आपली खाशेली सेवा शेतकाराक दिताले आनी त्या बदलाक तांकां धान्य मेळटालें. समाजीक दुख्खा कश्टाच्या वेळार गांवचो एकवट पळोवपा सारको आसतालो. दर एका पोटजातीचो आसलो असो खाशेलो धंदो कारबार आसतालो. जातीजाती मर्दी एक खाशेली समजीकाय पळोवंक मेळटाली. दर एका गांवांत वाड्या वाड्यांत वेगवेगळ्या जातीचे लोक एकठांय रावताले. पावसाच्या दिसांनी शेतकार शेतां रोयतालो आनी लागशिल्ल्या रानावनांनी गायो, म्हसरां चरपाक धाडटालो. राखणेपणाचें काम चडशे गांवचे भुरगे करताले. दुदाचो धंदो करप त्याच वांगडा विडयो बांदप, भाजयो रोवप हो जोड धंदो आसतालोच.

घाडयागेर वचप, प्रसाद पाकळी लावप. देंवचारांक सूर रोट दिवप हें गांवांत चलतालें. देव देवस्पण जाती वेवस्था हाचो शेकच पुराय गांवार चलतालो. आयज गांव बदल्ला गांवजिवन बदल्लां चडशे लोक पोटापाणयाक शारांत रावतात वा वतात. शेतां, जमनी विकल्यात. फकत परबां फेस्तानीं गांवांत येवपी लोक मेळटात हेर वर्सभर तांचीं घरां चावयानी आसतात.

गांवजीवन विस्कळीत जावंक लागलां. चोम्यांनी रावप, चोम्यांनी चिंतप आयज फाटी पडलां आनी तो जागो वैयक्तीक मानसीकतायेन घेतला. मनीस आत्मकेंद्रीत जायत चल्ला.

भौ. महाबळेश्वर सैलाल्या साहित्यांत आमकां ब्रिटिशा पयलीचें आनी उपरांतचें गांवजीवन, गांवचो सैम, जाती वेवस्था हाचें भोवच अशें वर्णन मेळटा. हो लेखक मुळांत गांवजिणेकडेन भोव आस्थेन पळयता. सैम लखलखाटान परजळील्ली, सैमहुंवार फांफुडपी ही गिरेस्त लोकजीण ल्हवल्हव लयाक वता हाचो कांच लेखकाक आसा. मनीस जे गतीन सैमापासून पयस वचूंक लगला तें पळयल्यार ताचो विनाशकाळ लागीं पावला अशें लेखकाक दिसता.

लेखक आपणे भुरगेपणार पळयल्लें भोगिल्लें गांवजीवन कथा कादंबरीच्या रूपान रूप्या भांगराचें धन ओतचें तशें कोंकणी वाचप्यांमुखार ओतता. ताच्यो कथा कादंबरी वाचप हो कोंकणी मनशाक तरी आपलीं मुळां सांसपावपासारको अणभव आसता. लेखक ज्या गांवचीं चित्रां रंगयता ते गांव गरीब पूण बकाल वांझ न्हय हाची जाणीव ताच्या कथा कादंबरींतल्यान झिरपता. गांवचे चडशे लोक शेतकार. शेत होच मुखेल धंदो. गांवचीं वर्णनां कशीं जुस्ताजुस्त मेजक्या उतरांनी लेखक करता. 'घरापाखें' हे कथेंत कद्रे गांवचें वर्णन येता. कद्रे म्हण्टा तो काळी न्हंयचे धडेवेलो माणकुलोच गांव. कांय घरां, दोन दुकानां, एक पोलीस चौकी आनी फोरेस्टाचे नाके, व्हडलो लाकडां डिपो, चोय वटेन अटंगें रान. रानामर्दीच म्हामायेचें देऊळ आसा. थंय अश्विनाक व्हड जात्रा भरता. गांव गांवचो सैम, देव



देवस्पण वेव्हार एका झपक्यांत दोळ्यांमुखार उबी रावता.

'येणे' कथेंतले शेतकार भोव गरीब अन्नांडी. वर्सभर अर्द्यापोटार रावून घरांतलो दाणोगोटो विकून चल्यांक शिकयतात. ताच्या शिक्षणाक लागून खस्ती काडटात. पैशापैशांक म्हारग जातात. गांवांत सातवीवयर शाळा ना. सगळे शिक्षण पयस सोयऱ्यांगेर, बापूय म्हयन्याम्हाल तांदूळ नाल्ल माथ्यार मारून व्हरून पावयता.

'नवें' कथेंत गांवांतलें अर्थ नाशिल्लें देव देवस्पण आनी गरिबी हांचो संघर्श दिसता. शंकर घराच्या दारार उबो रावन पळेता. घरामुखार नदर पावता थंय शेकानशेक पातळिल्लीं शेतां पिकूंक लागल्यांत. मर्दीं मर्दीं खंय खंय हरवें दिसता. पूण शेळिचें शेत धुळवप शेत सामकें पिकून कणसांचीं मोकणां बावगल्यांत. कांयकडेन धान सामकें हुटहुटलां आनी पंदरा दिसांत कणसां झडूंक लागतलीं. गोटो मातये भरवण जातलो आनी भट सांगता नवें पुजूंक म्हुर्त ना. ह्या गांवच्या शेतकारांचें हें अशेंच. चवथ जाली म्हण्टकीर ल्हवू ल्हवू दाणो सोंपता. जांचो पयलीं सोंपता ताची अवतिकाय पळोवं नज, कोणाल्याय दारांत उशणेउदार मागूंक वेतलो म्हळ्यार सगळेच आसा ती आटवपड सांबाळून जेवंक लागल्यात. गांवची गरिबी, शेतीचेर पुरायेन अवलंबून आशिल्लें गांवजीवन हे कथेंत भोव तांकीन उबें रावलां.

वितराग कथेंत गांवची वैजकी वेवस्था तशेंच गांवच्या लोकाची अस्तुरेकडेन पळोवपाची नदर दिसता. ह्या गांवांत दोतोर ना, ना म्हळ्यार एक वैज आसा. पयलीं तो झाडपाल्याचींच वखदां दितालो. आतां गुळयो इंजेसावां बी दिता पूण लोकांचो ताचेर विस्वास ना. म्हयने भरिल्ली गुरवार बायल देवाचेर आनी गांवचे सेवाभावी वैजीणीचेर सगळो भार घालून रावता. गांवच्या लोकांची अस्तुरेकडेन पळोवपाची नदरय हे कथेंत मेळटा. लोकांक जाल्ले जाय आसता फकत चेडे. चेडवां कोणाकूच नाकांत. चेडूं जातकीर घरार इज्ज पडिल्ले भशेन निर्शेणी. तेन्ना आवयन भोगिल्ले ख्यास्तिची दणदण्यांची कोणाक पर्वा उरना वैजीणीचे सेवेचें मोल उरना. अस्तुरेच्या जिविताचें फोलपण पावलीन वैजीणीक होलमला.

रूमडफूल कथेंत गोंयच्यो सिमो बंद जातकच सिमेलागसल्ल्या दोन गांवाचो धगधग आसा. तळमळ आसा गांव म्हळ्यार फातर, माती, शेत, दोंगर नासता तर जिते जिवे यादिच्या हुंवारान भरिल्लें कोणाचें तरी कुळार आसता हाची जाणवीकाय आसा. सुमित्राले बापायचें घर काणकोणा पणसुलें हिगांसर. ताका लग्न करून दिल्लें गोंयाभायर माजाळी ह्या शिमेवेल्या गांवांत. तिच्या आतेभावाकच दिल्लें ताका. ताचें लग्न चौपन्न सालाच्या मे म्हयन्यांत जालें आनी निखट्या चारच म्हयन्यांनी गोंयच्यो सगळ्यो वाटो गप्पकन बंद जाल्यो. हद्देर दोशीं वटेन लीप नाकेंबंदी जाली. गोंयाभायर कुळारा गेल्ल्यो धुवो कुळाराकच अडकून पडल्यो. एका काळावेल्या दोन शिमेरेशेर आशिल्ल्या गांवाच्या इतिहासाची गवाय कशी ही कथा.

'शार पिर्शे' कथेंत गांवचीं घरां, वाडे आनी गांवमन हाचीं वर्णना येतात. घराक घर खेटून तीस चाळीस घराचो तो वाडो. जयराम मास्तराच्या घराकडेन बोवाळ आयकूंक आयलो. कोण रडतात काय झगडटात कांयच कळना म्हणसर सगळो वाड्यावेलो लोक ते वटेन धावंक लागलो.

'आडगांव' कथेंत मायाचें कुळार. सैमान थपथपिल्लो ओल्या पावसांत ओलो आंकरिल्लो हो गांव. काव्यात्मकता हे कथेंत तेंगशी गांठता. पावसांत थंय सर्ग देवून येता. घराफाटली पांचवी दोंगुल्ली, मुखावेले न्हंयचे कांठामेरेनचें शेत शालू न्हेसून पावसाचें फुल्ल न्हाण न्हाता. मर्दीच न्हंय हुंवारान घोगेता. चवथ जाली म्हणटकीर सगळो वाठार चंवरता. शेतात भाताकणसार फुलां खेळतात, दोंगर दोंगुल्यानी रानफुलांक भार येता, दर वालीर आनी दर झोंपार कसलें ना कसलें फूल धोलता, परमळता. मागीलदारांत गेल्यार थंय व्हडल्या अनंताचें झाड धव्याधव्या फुलांनी रथ कशें चंवरलां. घराफाटली दोंगुल्ली



नागपंचम आयली म्हणटकीर फुलपत्रेन धवी जाता. ताच्या दोळ्यांमुखार फुलपत्रेचे झोंप धोलतात, सादयतात. हुंवाराचो घोंगो कानांत भरता. ताच्या कुळाराचो किन्नर गांव म्हणता तो आडगांवच. लोकांची वस्ती आसा भोव पूण येरादारी मात सामकी उणी. गांवांतली सैमान रसरशीत भरिल्ली गांवजीण हे कथेंत आमकां यादिच्या गांवांत व्हरून सोडटा.

तरंगां हे कथेंत कूळ मूळ सोदपाचो प्रयत्न जाला. गोंय आनी कारवार हाच्या सिमेर आशिल्ल्या गांवाचो वंशीक, संस्कृतीक, समाजीक, भाशीक, नदरेन कसो एकमेळ आसा हाचो अभ्यास हे कथेंत दिसता. एक एक भगत काणकोण श्रीस्थळांतल्या मल्लिकाअर्जुनाच्या मुखार भावार्थान उबे रावतात, तरंगामेळ घेवन वंशपिळगेंतल्या लोकांसरी वतात. ताच्या नांवाची घुडी नाचयत. जैताचें पेरगांव घालीत धाय वाठाऱ्यांनी भोंवतात. तरंगामेळ पुनवेचे बियेक श्रीस्थळ सोडून वंशावळिच्या सोदाक भायर सरतात. पयले पेणे काणकोण वाठारांतल्या माल्लेक. मगीर दुसऱ्या दिसासान शेकानशेक पातळिल्लो शिवेश्वराचो सगळो वाठार पालथो घालूंक जाय. मर्दी कितले गांव, कितली पेणी, रातची वसती खंयखंय, सगळें पुर्वापार थरिल्लें आसा. जैताचें पेरगांव घालीत तरंगा भोवतात पटलबाग, सानमुडगेरी, होसाळी, नागफोंण, चित्ताकुला, कणसगिरी, बाड, मकेरी कठिणकोण, चेण्डि, शिखडे, किन्नर शिद्दर, खारगे, केखडी, भैरे, हुळगे, हणकोण पर्थे काणकोण अशे गांव.

गांवांतले लोक भोव भावार्ती. सत्यान चलंपी. दरिद्री पूण नीत सांबाळपी, दारांत आयिल्लो सोयरो म्हळ्यार देव. हांची एकेक मूठ आटव्याची भीक आटव्यांतल्यान घालतात. लोक इतले कश्टी हाडां दणादणोवन शेतां पिकयतात, देवाधर्माक भियेवन जियेतात, शेत पिकोवपी भूंय म्हळ्यार हांची देवी आवय. दारांतलीं आंगणां, देवळांच्या सभामंडपावरीं सोबीत आनी नितळ चिकणमातयेन आचिल्लीं, शेणान सारयिल्लीं, वेल्यान चुडटांचे माटोव. गांवचे म्हाजन तरंगामेळाच्या जेवणाची वेवस्था करतात. गरीब पूण गिरेस्त जीण जगपी कोंकणी गांवगिऱ्या लोकांचें पडबींब हे कथेंत उदेलां.

बायनेट फायटींग ह्या कथा झेल्यांतय गांव, थंयचे वाडे, सैमाच्या श्रृंगारान गडगंज भरिल्लो वांठार झळकता.

लग्न जावन मुंबय वतकच सुनंदाक गांवच्या सैमाची ताळणी लागिल्ले भशेन जाता. घराच्या आंगणाभायर पानांनी गडगंज भरिल्लो करमलां रूख. न्हंये तडी वयल्या त्या रूखापोंदा खूब्ब सुपल्यो पडटाल्यो त्यो पोशांत घेवप आनी फू फूक मारून वाऱ्यार सोडप. सुपल्यो पिसोळ्यो कशो वाऱ्यार हुडटाल्यो. मुंबयत गाडयेवयल्यान देंवतकीर सुनंदाक कांय प्रस्न पडले. हांगा शेताभाटां नात आनी हे लोक खातात कितें? हांगा न्हय, बांयो नांत आनी हे लोक उदक पितात खंयचें? हांगा रस्तोभर धुंवर. लोक श्वास कशे घेतात? शारांत पाविल्ल्या एक-दोन वर्सांत शारांतलो सगळो उजो, धुंवर कानाचे पड्डे फोडपी कर्कशपण, गरिबीचें हळशीक बुरशेंपण ताचे भितर पुराय रिगलें. सगळ्यो मनसंवेदना अपंगूळ जाल्लेवरी जाल्यो. शाराचें पडिंगपण डांबर लोखंडान उबे जाल्ले असस्त्र सांगाडे मनशाच्या विनाशाच्या वाटेचें शार हें पयलें पेणे अशे लेखक सुचयता, तर गांव म्हळ्यार सृजनाचो महाउत्सव, दिपउत्सव अशें तो सांगूक सोदता.

सात मावळ्यालो भाचो हे कथेंत गांवचो शिगमो, नाटक, कोंकणी लोकालो लोकउत्सव. तो काळ चलत चलत एका गांवच्यान दुसऱ्या गांवांत वचप हें सगलें येता.

'पेट्टी सावळी' हे कथेंत शकुंतल घोवावांगडा आपलो गांव सोडून पर्डींग तळपट्या गांवांत रावपाक येता. सगलेकडेन फकत रखरख. ताका कारवारच्या सैमसुंदर आपल्या गांवाची, थंयचे पाण्टे, व्हाळ हाची परत परत याद येता. ताजें मनशेवणें हुडून तागेल्या गांवच्या पाण्ट्यार पावता. पाण्ट्यात धिमीभर उदकांत उबें रावून घसघस कपडे उमळटा, शेवयता, पिळटा, उदकांत पडिल्ल्या भोवऱ्या वांगडा गिरगिरता आनी हांगा मळब पर्डींग कशें. चोयभोंवतणी पेट्टी तापिल्ली कायल कशी धर्तरी.

ताका कारवारचो पावस यांद जाता. मोगापावस पांयांक चाळ बादिल्ल्या कलवतावरी सळसळ नाचत येता आनी ताका ओताची आरास. आरंधरा पावस म्हळ्यार फक्कत उदकाचो धुंवर. मळब धरिल्ले धर्तरी मेरेन उदकाचे पड्डे वाऱ्यावांगडा नाचत येता. आश्लेशा पावसांत शेंकरे पडिल्लेवरी थेंब्यांचे अटामे डबडब पडटात. आपल्या न्हंय धडेवेल्या गांवाची तें पिशांतूर जावन याद काडटा. परत परत nostalgic जाता.

काळी गंगा कादंबरी काळी न्हंयचे धडेवेले गांव आनी गांवजीवन. कोंकणी लोकांचो संघर्श आनी गिरेस्तपण हांच्या सूर मेळाची वाजत्रां वाजयता. कोळशे बडोवन घालून काळ्या काळ्या शेणानी सारयल्ली घरां मेरो, दारांतलो माटोव, आंगणांतली तुळस गांवच्या वाड्यावेलो धालो मांड. मांडाभोवतणी रातचो एकठांय जावपी लोक. गांवाकडल्यान व्हांवपी काळी न्हंय आनी ताचें लेखकान उतराची कळाशी वापरून केल्लें वर्णन. काळी गंगा कादंबरी म्हळ्यार कोंकणी गांव जिवनाचें जिवंत जितें जागतें गद्य काव्य.

अद्रुश्ट हे नवलिकेंत अटंग्या रानांत आनी देडशेक एकराचे सायलाचे प्लांटेशना लागसार आशिल्ल्या गांवाचें वर्णन येता. कुणबी, शिद्दी, शेरूगार जातिचे लोक थंय रानांतले मेकळे सुवातिचेर गवळ मांगर काडून रावतात. प्लांटेशनाच्या कामाक धांवून येतात. ह्या रानांतल्या गांवाचें वर्णन लेखक करता. रूखावळिच्या अर्दीमर्दी रानांत ल्हान ल्हान शेताच्या कडाकडानी पन्नाशेक गवळ आनी मांगर कशीं



घरां वयलेवटेन एक शाळां आसा. शिद्राम शेरूगारालें ल्हानशें किरकोळ सामानाचें दुकान आसा. गांवची गिरेस्तकाय म्हळ्यार भटाली शेतोड पातळ्ळ्या. शेतोडेंतल्यान उबो एक व्हाळ व्हांवता. शेतोडेचे वयलेवटेन रामराय भटालें व्हडलें कुळाघर आसा. तर सकले वटेन केशव भटालें. थंय बाराय म्हयने गांवच्या लोकांक शाकभाजी, नाल्ल, तांदूळ मेळटात. गांवचें नांव सिलेपरहळ्ळी.

अरण्यकांड हे नवलिकेंत गांवघराचे आशेन भयर सरिल्लो, रानांत शेणिल्लो एक पोंवो दिसता. वट्ट मेळ्ळून घराण्याचीं एकवीस मनशां. गांव सुटिल्ल्या लोकांची कर्मकाणी हे नवलिकेंत येता. गांवावटेन तोंड करून धांवपी पोवो हे नवलिकेंत मेळटा.

युगसांवार हे कादंबरींत आदोळशे गांव येता. थंड शीतळ वाठार, वाठार म्हण एक रानच आसलें. ओंवळीचे, भिण्णीचे, पगऱ्याचे, जांबळीचे, आंब्याचे, आदमीचे व्हडले व्हडले रूख. मदीं मदीं तणा चुडटांचीं तिशेक बसकीं घरां. घराच्या दारांत दोन तरी माड. दर एका घराच्या मुखार एक खोंप. जळोव, शेणी भरून पावसाळ्यांत न्हावंक उदक तापोवंक. रायगाळी, शिरवाडो, म्हारवाडो, बामणवाडो हे वाडे.

कापित्यावाक कुळकरणी गांवचो राबितो विचारतकच सांगता एकावन्न घरां, ब्यात्तर चुली, एकशे तीन जोडपी वट्ट सयशें णव लोक. एक भुसारी पसरो.

प्रादी सिमांव त्या म्हाराक विचारतां म्हार न्ही करून तुकां कोणे केन्ना आफुडला. ना गा केन्ना ना. एक फावट रानांतल्यान घुरम्याक म्हण पात्या वजें घेवन येतना एका गंवडार चुकून हांव विरू नायकाक आफुडलों. ताणें म्हाका तोण्यानी बडयलो आनी आपूण घरा वचून सतरा फावट आंगार शेणशिताडो घालून न्हालो. जाती धर्माच्या घट्ट चिवट फास्केंत घुस्पल्लो जोशी घाडी हाच्या सांगणेर मान हालोवपी गांव ह्या कादंबरींत येतात. गांव सुटिल्ले शेतां, भाटां, गांव गांवकी तुटिल्ले हताश जाल्ले, देव माथ्यार घेवन धांवपी, गांव सोदत हेडपी, देवाखातीर सुरक्षीत सुवात सोदपी कितल्याश्याच लोकांचे चोमे हे कादंबरींत येतात. देवा नांवान शंबर दोनशीं लोकांक आसरो. गांव, शेत, भाट मेळटले गांव वाड्यापसून हुमटल्ले लोक परत रूजूंक लागतले ही आशा. ही धावडी अस्तित्वाची, गांव सुटतकच जाल्ली अस्तावस्त समाजीक गांव जीण. एकेवटेन धर्म आनी ताचेमदीं पातळिल्लो चराचर संघर्श. कादंबरींत एकेक फावट गांव, वाडो, झाडां, पेडां, शेतां, भाटां, गोरवां, वासरां हांच्या खर ओडीन ताका घट्ट दसून रावपी, धर्म, देव, रितीरिवाज खरें म्हळ्यार स्वताचे अस्तित्व व्हगडावपी गांवकार येतात. इतिआसाच्या एका गिरेस्त हुंबऱ्यार उबी आशिल्ली एक तुश्ट पुश्ट गिरेस्त गांव जीण लोकजीण, हे कादंबरींत येता.

गांव धर्म देव देवस्पण सोडचे पडटना एक आकांताळें अंत थाव नाशिल्लें दिशा नाशिल्लें वादळ वारें दर एकल्याच्या माथ्यार बशिल्लें दिसता. गांव सोडून धांवतना तांच्या काळजांत फुटिल्लो दुख्खाचो हुंवार. तकलेर वर्जी मारून सुटिल्लो दिशाहीण पोवो. फाटल्यान नाल्लान, फोपळान भरिल्ली तुश्ट शिरवंत कुळागरां, थंड सावळेंतलीं घरां, अमृताची धार कसो उदकाचो पाट आनी मुखार वळख नाशिल्ली अंत नाशिल्ली फातरवाट. मुखार एक तळपटो सडो. हे मातयेंत रूजवणेक घातिल्ली जलमनाळ मातयेंतल्यान मुळां हुमटून घेवन वचप म्हळ्यार मोटो आकांत आसलो. दुदाची साय कशी सारें घालून वाडयल्लो वेंगभर घेराचो कुचकुचीत पेंडीनी भरिल्लो तो कवाथो सोडून वचचेलें आत्मघातकीपण तें कित्याक करतले. वाटेवयलीं वळखिचीं झाडांपेडां फाटीं पडटनां, काळखांत बुडूंक लागतना तांकां दिसतालें आपल्या जिवाभावाचीं मनशां दोळ्यांमुखार बुडूंक लागल्यांत.

एका एका गांवामदीं धर्म आनी अस्तित्व हाचे आड पेटिल्लो हो होमखण भोव खरायेन आनी तांकीन कादंबरींत लेखकान उबो केला.

महाबळेश्वर सैलाले कादंबरीत अस्सल कोंकणी गांवजीण येता, गांव येतात ते ओंवळी, भिण्णिच्या झाडांसयत. गांवची Ecology रिती-रिवाज समाज मनाचे खरे-खुरें पडबिंब तांच्या साहित्यांत उदेता. हातूंत कांयच फट ना, सगलें कितें आसा तशें अस्सल भांगर कशें. आयज गांव पडंग जायत चल्ल्यात. वाडे कोसळत गेल्यात. ह्या वेळार फाल्यां कालची कोंकणी गांवजीण, लोकजीण गिरेस्त सैमसुंदर गांवची काणी जर कोणाकय सांसपुवपाची आसत तर ताणी महाबळेश्वर सैलाल्या साहित्याकडेन येवचेंच पडटलें.



कोंकणी विभाग ,
फादर आग्नेल महाविद्यालय
पिलार

# नातें



-संदेश श्रीकांत बांदेकार

कार्तिक म्हयनो लागून हेकडेन-तेकडेनेन आठ दीस जाल्ले. भायर तर तडी वारो इतलो सुटील्लो की माईक दिसतालें की हो मोडो कोणाल्या घरार माड नातर रूख उडयतलो म्हण. पेजे बुडकुल्याक उजो केल्लो मडकेक समा लागनाशिलो. अशें कन्न घेवन माई खूब बेजान्न गेल्ली. घरभर धुवरा रास. पदराक दोळे पुसून-पुसून तांबडे जाल्ले. उजो पेटलो तरी पेजे गोठे शिजचे नांव घेनाशिले. कारण पेजे गोठे शिजोवन दवन्न तिका बाबू सावताल्या शेतांत बिडकुल बागाकात नुवुक वचु जायशिलें. पूण हो तडी वारो तिगेली पेज कशी शिजोवंक तयार ना. माई मनांतल्या मनांत त्या तडी वाऱ्याबरोबर मोण्णावयल्या निळ्याक गाळी मारताली. कारण त्या निळ्यान पेज बेग्गी शिजता म्हण उकडे तांदूळ दिल्ले. पूण ते शिजून शिजना. माईक तेणे सांगिल्लें एक वोतो काडल्यार पुरो पेज शिजून तयार. तांदूळ एकदम सुरायटे. पूण सांगतलो किंतें? आपूण तर तांदूळ केन्ना-केन्ना उधार हाडटां. सांगू गेल्यार तो दुसरे पटी केन्ना दिवचो ना. माईक मनाक दिसलें गरजेक ना अक्कल आनी आपल्याक गप्प रावले शिवाय गत्यंतर ना. पयलीं जाता आसतना सगळ्यांलें केलें पूण आयज माईक सगळीं नातीं पयस जाल्लीं. सवतिल्या पोरांक, पोटां जाल्यां पोरां म्हणकी वाडयले. पूण माईल्या नशिबात पळसाक तीनच पानां. पूण माई मात सदानकदा याद करताली ती सुधिराली. ह्या सुधिराकडे नातें आशिल्लें फकत तिगेल्या मेल्ल्या घोवालें. तरी सुधीर माईक पोटा जन्म दिल्या आवय भाशेन वागयतालो.

माई केरवडी लागच्या इरपाग्यातली सुब्राय नायकाली एकलीच चली. इरपागे एकदम खेड्यांतलें खेडें. किंतें काम उरल्यार केरवडी नातर पयस कद्रा वच्चें पडटालें. सुब्राय नायकाले समदीक गडार रावताले. तेमीय ही गडावयल्या रघुनाथ देसायागेरची सोयरीगत केल्ली. तो काळ असो आशील की चलो जावू चली कशी आसल्यार उरूं. फकत चल्यालें, कूळ, भाट भेस, शेतां भाटां, वदीक बरें उरल्यार जाल्यार सोयरीक घट. तेका माई कशी अपवाद उरतली? सुब्राय नायक गडार वचून चलो पळोवन येयलो तो लग्ना तारीक आनी म्हूर्त ठरोवनच. चल्याक पळौवची उमळशीक माईक लागिल्ली. पूण जाण्ट्यामुखार हे सांगचें माणसुकी ना. तरी आपलें नशीब खंय व्होरता थंय अपूण वयचें म्हण माईन ठरयलें. आनी आवय-बापूय काय आपल्यालें वायट करचे ना म्हण माईक मनांतल्यान दिसतालें. चलो बरोऽ उरल्यार पुरो म्हण माई देवतेकडे मागताली. गडावयल्या भिकारो देसायालें नांव अख्या कारवार गांवांत गाजतालें. माई बी खूश आशिल्ली की आपूण एका गडगंज घरांत सून जावन वयतां म्हण.

माईन घोवाक लग्नादिसा पयले परी पळयलें. घर तर हिसपाभायर व्होड. माईन गडार तेराक येयील तेन्ना एक पटी हें घर पळयिल्लें. आपूण ह्या येदे व्हडल्या घरांत सून म्हण वयतलें अशें स्वप्नात सुद्धा पळयी नाशिलें. माई एक नवीन संवसाराक लागिली. कुळाराचें अनुसूया नांव वचून ती ह्या गडार गांवांत सगळ्यांली माई जाल्ली. सगळो लोक ह्या भिकार देसायाल्या सुनेक मानतालो. पूण एक वर्स जाल तरी माईक पोर जालें ना. आनी तेतूंत भर म्हण माईलो घोव रघुनाथ ह्या दोन-तीन म्हयन्याकडे घरांत बरीच राग कन्न येतालो. किंतें विचारय़ा म्हळ्यार तो काळ असो आशील की बायलान घोवाकडे उलोवचें खूप कमी. तरी एक दीस व्होड मन कन्न आपल्याल मामेक हो प्रश्न विचारलोच. मामेन जें किंतें सांगलें तें आयकोन माईक हडद्यात लाथ



मारले वरी जालें. पूण काय उपाय ना. म्हातारी मामी तर माईक पांय पडू लागली की तुगेल्या कुळाराक हें कळय नाका. हो म्हगेलो पूत बापायली चलणूक मुखार व्हरत आसा. आता तुवेंच आमका सांभाळन्न घेवचें.

माईलें लग्न जावन दोन वर्सां जाते येयलीं. थंय रत्ना देवळण्णील्या चलेक म्हळ्यार शांतूक चलो जालो. आपल्याल घराण्याचो चलो म्हण माई तेका कांय कमी पडू दिनाशिली. तरी कायद्यान हो चलो भिकार देसायल्या घराण्याचो वंशादिवो जायनाशिलो. तरी माई खूब खंबीर आशिल्ली. पूण माई खूप हाल्ली जेन्ना रघुनाथान दुसरें लग्न करचो प्रस्ताव घरांतल्या लोकांमुखार दवरलो. तरी माम-मामेले तोंड पळोवन माई गप्प रावली. होळू ही खबर इरपाग्यात माईल्या कुळारा कळ्ळी. तेन्ना माईलो बापूय-भाव माईक कायमचें कुळारा व्होरच्याक आयले. तरी माईन आपलो निर्णय पक्को केलो की कितें जाल्यार जांव आपूण हें घर कशेंच सोडचें ना. ह्या सगळ्या दुःखात भर म्हण अचकीत शांतू हो संवसार सोडन्न गेलें. पूण वयताना सुधीराक माईल्या होटयेंत घालान्न गेलें. आनी माई त्या पोराली आवय जाली.

माई सुधीराक जीव की प्राण करताली. आनी सुधीर तर दिट्टो रघुनाथावरी दिसतालों. पूण माई बरा तेगेले बी ग्रह फिरले, जेन्ना जायूक म्हळ्यार माईले सवतीक चलो जालो तेन्ना. त्या जाल्या चल्याक व्होड करूक माई घोळ-घोळटाली. पूण तिगेल बरा सुधीर बी घोळटालो. तेंका फिरो व्हरचें, खेळोवचें, तो रडल्यार जायू सुधीराक गाळी मारतालें आनी माई कितें मर्दी उलयल्यार 'तुकं कितं कळता पोराले? पोरालें कळतलें जाल्यार पयलीं आवय जावच्या जाय.' ही जायुलीं उतरां माईलें काळीज चिन्न वयताली. पूण करतली कितें? हे गजालीक काय उपाय ना.

दोन वर्सां गेलीं. तशी जायूक आनेक चलो जालो. एकालें करता म्हळ्यार पुरो जातालें आता आनेक. तरी माई, सुधीर गप्प रावन सगळें करताले. दीस गेले-वर्सां गेलीं. सुधीर देसायलो पोर म्हण वाडलो खरो पूण तेका देवळयालीं कामां करचीं पडतालीं. देवळांत सान्न मार, सकाळीं सांजेर देवाक धूप दाखवच्याक उज्या कॅन्डे व्हर, पालखी, लालखी, रथ उरल्यार दिवटी धर, पूण खूब बेजार जातालो तो देवळांत जातल्या व्होड-व्होड उत्सवा वेळार.



फात्या वयले तीन-तीन घंटे जात म्हळ्यार रात जागोवची पडताली. हागेलो परिणाम सुधीराल्या शिक्षणार जाऊ लागलो. तरी तेणे आपूण जावन केन्ना शाळा चुकयली ना. तरी बाई-मास्तरालो मार चुकनाशिलो. तरी परिक्षेत मात सदांच पयल्या नंबरात पास जातालो. हें पळोवन जास्त जळतालें जायू. कारण तेगेले दोनी पूत शिकूंक ढ आसले. आवय भाशेन तीं दोनी पोरां बी सुधीराक नाना तरेन बेजार करतालीं. तरी माईकडे पळोवन तो गप्प रावतालो. पूण करतल कितें आपले दांत आनी आपले व्होठ म्हण तेमी गप्प रावताली.

माईक ज्या गजालीचो भय आशिलो ती गजाल घडलीच. असो दीस केन्ना तरी येतलो हें माईक पुराय खबर आशिली. त्या दिसा देवळाकडे कोणाली तरी लालखी उत्सव आशिलो. तें ब्री ऐन परिक्षेवेळार. तेतूंत भर म्हण दुसरे दिसा गणिता पेपर. दोन दिसां पयलीं वासू शैणली पुजा आशिली. सगळें जात म्हळ्यार रातीन दोन जावन गेल्लें. परत सकाळी उठून देवळा काम, अभ्यास आनी पेपर अश कन्न घेवन सुधीर बेजारात आशिलो. सुधीराल्या परिक्षे वेळार तेगेल्या दोनी सावत्र भावांक शाळेक रजा आशिल्ली. सुधीराक दिसलें आपल्याल भावान एक दीस तरी देवळा काम केल्यार कित जाता? गुलाबी मावशेलो हात लागना तेन्ना शाली देवाक चवर घालन्ना? आज आपणालें कितें जावू हांव लालखेक वच्चोना म्हळ्यार वच्चोन्ना म्हण मनांत विचार कन्न तो माळेर वचून फाल्यां गणिता पेपराची तयारी करू लागिलो. रातीन आठ घंटे जावन गेल्ले. देवळाकडे देव भायर सरची इशारत केन्न की जाल्ली. पूण सुधीरालो देवळाकडे पत्तो नाशिलो. रघुनाथ तर विचार करतालो की घरा न्हावच्या बी लागला उरतलो. पूण अर्ध तास तरी तेमी सगळ्यान तेगेली वाट पळयली. रघुनाथ

सरसरी पावल घालत घरासरी येयलो. तडक माळयेर गेलो. सुधीराक कित जात काय म्हण कळनासताना तेणे तेगेल्या मुस्कटात दोन वाजयलीं. हो आवाज आयकून माई तडक माळेर धावन्न गेली. सुधीर मुळ्यात पोटली जावन पडिल्लो. माईन ओडन्न तेका म्हऱ्यात घेयलो. माईन तेका रघुनाथ मुकार देवळाकडे वच्चाक खूब दम्मय केली. पूण तो बधलो ना. तेणे सरळ सांगलें राजूक आनी संजूक एक दीस देवाक दिवटी धरल्यार कितं जाता? हो प्रश्न जायुल्या कानार पडनाका ते तुरतुरीत वाघ्रतीण कशें धावन माळेर येयलें. म्हणू लागलें 'कितं रे?' म्हागेली पोरा म्हळ्यार कितें देवळणीलीं पोर म्हण केला? हांग घरांत तुका रावू दिल तें व्होड म्हण. 'ना जाल्यार रस्त्यार पडताशिलो. देवळांतलीं कामां फकत देवळ्यान करू जाय. तूं कितें हांग रावन कोंकणो जावू पळयता? पोराक एक कळना तें कळना पूण जाण्ट्या तरी कळता की ना? फक्त मातोवन दवरला. देव देवस्पण सगळें विकून खावच्या उठलात.' जायुलीं हीं उतरां परत एक पटी माईलें काळीज चिन्न गेलीं.

हें सगळें जायत धन्न सुधीरान देवळांत केन्ना पाय दिलोच ना अशें ना. बापायकडे, जायुकडे, भावाकडे तेणे अुलावणें साप्प बंद केलें. फकत कामापुरती माईकडे उलयतालो. तेगेलें मन खंय शेंडील्या म्हणकी तो रावतालो. माईन तेका खूब समजोंवचो यत्न केलो. पूण व्यर्थ. सुधीर इतलो त्या दिसाच्यान बदलून्न गेल्लो की मनात मारल्यार देवतेली सेवा करूंक देवळांत वयतालो. पूण ह्या दिसान मुळा घरा म्हळ्यार रत्नाल्या घरा घटणाचेर दिसांतल्यान एक पटी तरी देऊळ शिट्यार वचून येतालो. या बद्दल माई बी काय विचारनाशिली. तिका दिसतालें पोराक आवयली याद येता जाणकोण.

आज बारावे परिक्षे निकाल. सुधीरा पेक्षा माईक खूब म्हळ्यार खूब हुस्को लागिलो. तिणे सकाळच्यान कितले परी तरी देवतेक सांगन घेतिलें तिकाच खबर. सुधीर सकाळीच आठां बस्सार कारवार कॉलेजांत गेल्लो. अख्या कारवार गांवांत तो पयल्या नंबरात पास जालो ही खबर तेणे सगळ्या पयली माईकच येवन सांगिल्ली. रघुनाथालो चलो पास जाल म्हण गांवभर जाल्लें. हें पळोवन रघुनाथ आनी जमनीर नाशिल्लो. पूण जायू आनी दोनी पुतालीं तोंडां मात पळोवण्यासारखी जाल्लीं. अख्या गडार गांवांत रघुनाथान धारवाडी पेढे वाटिल्ले. गांवच्या लोकान सुधीरालो जाहीर सत्कार केलो. ह्या सत्काराक कद्राधन्न अमदळ्ळी पर्यन्तचो लोक आयिल्लो. पूण सगळे लोक उदो-उदो करताले ते रघुनाथालेच. जेन्ना सुधीराक आपले यशाबद्दल उलोवच्या सांगलें तेन्ना तर भर सभा मंटपात शांतता पातळ्ळी. तेणें सागलें 'ह्या गांवांत जे बायल मनशेन शिक्षणाचें म्हत्व वळखून म्हाका शिकयलें आनी जी आवय जन्म दिल्या पोरालें सुद्धा इतलें करना त्या माई पांयानच हांव ह्या यशाचो मानकरी जालों. माईच ह्या यशाची, सत्काराची खरी धनीन आसा.' हें आयकोन माईक खूब म्हळ्यार खूब जीवाक बर दिसलें. दोळ्यांत तर आंनदाचे अश्रु गळत आशिले. तरी खंयतरी एक सुखाचें ल्हार माईल्या काळजांत फिरत आशिलें. माईन सभामंटपातच फाटल्यान वळून देवतेकडे पळोवन सांगून घेयलें. 'आई जगदंबे, म्हागेल्या पुताक अशेंच मुखार यश दी आनी सुखांत दवर.'

अचकीत त्या दिसा सुधीरान माईकडे दोन हजार मागले. माईन तेका तेगेल्याच डब्यातले व्होरच्या सांगले. माई विचार करूं लागली. काल पयर सत्काराक काय न्ही म्हळ्यार चार हजार रुपय जमिल्ले लोकान दिल्ले. आनी हेका पैश्या गरज किद्या काय? आसूं त्या डब्यांतले सगळे पयशे तेगेलेच. तो काय उपलापी खर्च करचो ना. कित तरी गरज पडली उरतली. त्या दिसा सुधीर घराकडे येयलोच ना. माई वाट पळोवन-पळोवन दनपारा जेवन घेतलें. येळ पडलो, रात पडली तरी सुधीरालो पत्तो ना. तिगेल्या मनात ना-ना तरेचे विचार घोळच्या लागिले. करता दोन दीस गेले माईलो जीव थाऱ्यार ना. तेगेल्या खास दोस्तागेर मखेरी वचून आयली. तेका काय खबर ना. रडन्न आनी हुस्को कन्न आंगातले सगळे त्राण ना जाले. रघुनाथबी पंदरा दिसां वयर जाले गोंयां वचून. करता माई शीक पडली. डॉक्टरागेर वच्चा म्हण तिणे सैरूल्या बायलेक सांगून धाडिल्लें. माई गरज पडल्यार सुधीराल्या पैश्यां कंड्यांतले पयशे काडन्न व्हरताली आनी घोवाकडे परत मागून परत त्या कंड्यात दवरताली. आज ती पयशे जाय म्हण त्या कंड्याकडे गेल्ली. पूण त्या कंड्यांत एकूच पयसो ना. हाताक लागलो एक कागदा तुकडो. काडन्न माईन तो वाचलो.

माई हें घर, हो गांव हांव सोडन्न वयतां. जेन्ना हांव म्हागेल्या पांयार उबो रावतलों तेन्नाच ह्या गांवांत येतलों. हांव एक नवीन जीवन सुरु करच्या वयतां. म्हाका तुगेलो आशिर्वाद जाय. हांव तुगेलें मन दुखयतां. म्हाका माफ कर. हांव जेन्ना परत येतोलों तेन्ना तुका ह्या नरकांतल्यात घेवन वयतलों. तुगेली काळजी घे. तूं मागेली वाट पळयतली अशी आशा करतां. तुगेलो सुधीर. माईन हें वाच नाका ती घुवळ येवन जमनीर पडली.

रघुनाथ देसायालो चलो गांव सोडन्न गेलो म्हण गांवभर जालें. गांवचे सगळे लोक चुरचुरू लागले. पूण जायू मात मनांतल्यान खूब खूश जालें. एक पिडा गेली. आतां सगळें बदीक आपल्याल पोराक मेळतलें. तें माईक सुद्धा नाका जातलीं उतरां मात्र त्रास खूब करूं लागिलें. आता रघुनाथाक सुद्धा पश्चाताप जाल्लो. तो सुद्धा ह्या दिसान घरात सारको लक्ष दिनाशिलो. माईक हो फरक नदरेत येयल्लो. पूण कांय इलाज नाशिलो. जायू तर ह्या दिसात बारीक सारीक कारणाक लागून घर माथ्यार घेतालें. हाचो प्रभाव रघुनाथाचेर जातालो. करकर नाका म्हण माईन रघुनाथाक सांगून बागात आशिलें दोन पाख्याचें पोत्रें घर सारकें कन्न घेयलें आनी ती थंय रावू लागली. रघुनाथाक बी ही गजाल पटली. पूण तेणें फकत तें घर न्ही तर आपल्या बदीकाचे समा दोन वाटे कन्न जायुल्या दोनी पुतांक आनी सुधीराक दिलें. हें सगळें पळोवन जायू पिश्याम्हणकी करू लागलें आमी घोवाक ना-





ना नमन्यान सोवच्या लागलें. एक बायल मनीस इतली निर्दयी उरता म्हण माईक त्या दिसा कळ्ळें. तेतून भर म्हण रघुनाथ अचकीत हो संवसार सोडन्न माईक उबंत उडोवन गेल्लो.

रघुनाथ गेल नंतर माईले खूब हाल जाले. पूण ती आपल्या कुळारा म्हळ्यार इरपाग्यात गेल ना. थोडें शेत विकून पयशे मेळतले म्हळ्यार तें सुधीराल्या नांवार आशिले. पूण वेळ वाकडे येयलार सगळेंच चुकता तेन्ना आनी कितें करतली? तिणे लोकांगेर कामां धरलीं. ही घरंदाज बायल दुसऱ्यागेर काम करता अशें कोणे विचारीले तेन्ना माई म्हणताली आपूण एक साधी मनुश्य. देवसुद्धा पृथ्वीचेर अवतार घेवन मनशालीं काम केलात. थंय आपूण कोणूच न्ही.

पांच वर्सा नंतर आज सुधीराले पयशे येयल्ले. पूण ते मनीऑर्डर न करता पाकीटा घालन्न पोस्ट केल्ले. पैश्या बरा ल्हान कागदार चार ओळी बरयिल्ली आशिल्ली. हांव बरो आसां काळजी करनाका-हांव आजुनी सारको स्वतंत्र ना. तरी पोटापुरतें कमोवन कांय पयशे उरतात ते तुका धाडन्न दिले आसा. ना पाकीटार पत्तो ना नांव ना गांव. फकत माई त्या अक्षरा वयल्यान सुधीरालें पत्र म्हण तिणें वळखलें. पोरं खंय आसा कितें करता देवा खबर. फुडारांत सेगीत दोन वर्स पर्यन्त माईक पयशे येत रावले. तेतूंत एक पैटी पाकीटावयल्या शिक्याचेर कळ्ळें की तो पुणा आसा म्हण. वाड्या वयल्या आबोल मावशेक माईन केन्न तरी म्हटीले की सुधीराले पयशे आपल्याक येतात म्हण. ही खबर केन्न तरी तिणे जायूक वचून सांगूक आनी गांवांत पोस्टमॅन बदलूंक एकच गांठ पडली. पोस्टमॅन कोण? तर जायुलो देऊळ मककेतलो मावस भाव. माईक अचकीत सुधीराले पयशे येवचे बंद जाले. माईक आनी हुस्को पडलो. हीं सगळीं नाटकां मागीर एक दीस भायर पडलीं. जेन्ना आबोल मावशेलें आनी जायुलें व्हडलें झगडें जालें. माईक खरी खबर कळ्ळी. पोस्टमॅनाक बरेंच पीर केल्लें. तेन्नाच्यान तो तीं पयश्यां पाकीटां माईकच हाडन्न दिवं लागलो.

आज लागीलागी धा अकरा वर्सांतरी जावन गेल्लीं. सुधीरालो काय पत्तो नाशिलो. माईली तर दिसान दिस प्रकृती आनी आर्थिक परिस्थिती बिगडत वयताली. सुधीराली पयसल्ली लोलयेंची मावशी येवन केन्न-केन्ना माईली खबर घेताली. जी बायल गांवचें अडचल्यार पावताली तीच आज उबंत पडिल्ली. कारण माईले हातात आयज पयशे नाशिले. सुधीर जे पयशे धाडटालो ते सगळे पयशे ती तेगेल्या त्याच डब्यात घालन्न दवरताली. तरी पोटा कितें घाल जाय न्ही म्हण चार-पांच लोकागेर, शेतावेळार, शेतांत काम पयताली. देवाक सुद्धा कर्माचे भोग केन्नाच चुकीले नांत आनी आपूण तर सादी मनीस हो विचार तिका परत-परत मनांत येतालो. ती देवाकडे सदाच मागताली की मरचे पयलीं सुधीराक पळोवंक मेळ्यार पुरो. ना जाल्यार आपल्याक केन्नाच मुक्ती मेळची ना. आनी म्हागेलो आत्मो सदांच तळमळत रावतलो.

देवळाकडे देव जागराच्या भोंवडेक भायर सरन्न सकल रामनाथ देवळाकडे पावलो. त्या वाजंत्र्याच्या आवाजात माई भानार आयली. रान्नी पोवलेंतलो उजो पुराय न्हिवन गेल्लो. बुडकुल्यांतली पेज अर्धमर्द शिजिल्ली. येन्ना आळां सगळीं शेतात पावलीं उरतली. मोण्णार होसाळी-मुडगेरी बस्स सुद्धा येवन गेली उरतली. आता ती बी ना थंय पयस बिडकूल बागांत चलत वयची पाळी येयली. आज आनी बेग्गी शेतांत वयचें म्हण केल्लें कारण तिळसांजेर येवन कोंकणवाड्यार वचून गुलाबीगेर रश्यारान्नी घालू जाय आशिल्ली. ह्या दिसांनी माई अशीच सुधीराल्या यादीन बुडन्न जेवचें-खावचें सगळें विसन्न वयताली. माई पुराय सावचीत जाले बरोबर उठून बिडकूल बाग वयची वाट धरली.

माईक घरा पावूंक आज कळाव जाल्लो. आनी हे तर कार्तिकांतले दीस. काळोख बेग्गी जाता. माईन येताना पयसल्यान पळयलें की सोप्पार एक पणती मिणमिणता. भायली आंगणातली लायट पेटील्ली आसा. आपूण वयताना लायट बंद कन्न गेल ना काय? हें अशेंच जाता हालीं. याद म्हण उरना. माई मनांत बडबडली. परत विचार आयलो मुंजूळ आकाल्या धुवेन बी पेटयल्ला उरतलो. ना, तें तर काल माजाळ्या गेलां. माई सरळ घरां वयच्या पांडीत पावले बरा एक धवी व्होड कार नदरेंत पडली. जायुगेर कोणी येयला उरतलो. पूण त्या घरात आज सामसूम आशिली. पूण विचार करते माई आपल्याल्या आंगणा बागलांत केन्ना पावली तें कळ्ळेंच ना. माई पुरो जाल्लें. इतल्यात कोण तरी येवन घेवन माई पाया पडूंक वाकलो.

'माई, पाय पडता हा!'

'कोणे'

'माई, म्हाका वळखल ना? हांव तुगेलो सुधीर'

'कोण सुऽऽधीर ?' माईल्या तोंडांत शब्द भायर पडनास्तना तोंड जड जालें आनी ती तेका मिठी मारन एकदम रडच्याक लागली. सान बाळशें रडिल्याचो आवाज आयलो आनी माई भानार आयली. घरा सोप्यार मुळ्यांत एक बायल मनीस हुटयेंत बाळशें घेवन बसलां. सुधीरान सुधाक मुकार आपयलें. सुधान माईक पाय पडन्न पोराक माईल्या हुर्टीत घायलें.

'माई, ही म्हागेली बायल सुधा, हो चलो अमित.'

'आं! म्हाका कित्याक सांगलें ना रे लग्नाक?' माईन अडेचो राग करत सुधीरा सांगलें.

'माई, हांवें तुका पयशे धाडिल्ले तेतूंत म्हागेलो पत्तो, लग्न पत्रिका हें सगळें धाडून दिल्ले.'

'पोरा मर्दी दोन वर्सां म्हाका पयशे-नी आडको काय मेळ्ळीलें ना. हांव चिंतेंत आशिली. गेल्या वर्स भराकडे परत मेळच्या लागलात.'





तेन्ना माईल्या तकलेंत उजवाड पडलो. आनी अथ धर्न इति पर्यन्त सुधीराक गजाल सांगली.

माई हळू भितर आयली. सुधीराक सुधाक भितर व्हेलें. तिणे तो डबो काडन्न सुधीराल्या हातांत दिलो. तो डबो पुराय पयश्यान भरिल्लो. गांव सोडताना बरयल्ली चीट. पयसे धाडतन्ना बरयल्ली चीट सगळें त्या डब्यांत आशील्लें. तें पळोवन सुधीर रडूंक लागलो. माईन तेगेल्या एकूय पयश्याक हात लायलो नाशिलो. माई सदांच विचार करताली ते तेगेले पयशे म्हाका खर्च करूंक अधिकार ना.

सुधीर कारवार सोडले नंतर सरळ पुणा पावलो. थंय पयसल्या नात्यांतलो मामा रावतालो. काय वर्स तेमगेर रावन ल्हान अशें काम करूं लागलो. तेतूंत मुकार शिक्षण पुराय केलें. व्हड इंजिनियर जालो. थंयच तेगेली वळख सुधाकडें जाली. हें सुद्धा माईल्या मावशे भावालें चली. तेमी गांवान हणकोणची. सुधा सुधीराल्या जीवनांत आयलें आनी सगळें जीवन बदलन्न गेलें. सुधीर बरी ऑफर मेळ्ळून तो नाशीक पावलो. थंय बंगलो-गाडी घेवन स्थायीक जालो. वर्सा भीतर अमित जालो. इतलो बदल जाल नंतर सुधीराक दिसलें की आपूण आतां स्वतंत्र आसां. आपूण केल्लें शैल्ल आज पुराय जालें. आतां माईक मेळूंक वयचें. तिका त्या नरकांतल्यान हांगा हाडचें. तिगेले कश्ट पयस करचे. आपल्या खातीर तिणें खूब केलां. आमगेलें रक्ताचें नातें ना तरी चलो मानीले आवयचे पुतालें नातें आसा. तें तिगोवन दवरूं जाय. तिका आपले संवसारांत हाडूं जाय हो विपार कन्न तो कारवार येयल्लो.

माई कशीच सुधीरालें आयकना जाली. ती क़शीच तेजे बरा येवंक तयार ना. सुधीराक कितें करचें तें कळ्ळेंच ना. सुधीराक माई जाय आशिल्ली. अर्ध आयुश्य तर आवय-बापूय नास्तना गेलें. रघुनाथान तरी तेका जन्म दिवन आपलो पूत केन्नाच मानलो ना. आनी जेन्ना चूक लक्षांत आयिल्ली तेन्ना तो गांव सोडन्न परागंदा जाल्लो. पूण मरचे काळांत मात बंदीका वांटो सुधीराक दिल्लो. पूण गांवात येयले बरोबर सुधीरान आपलो वांटो देवस्थानाक दान केलो. कारण तेचेर आपलो हक्क ना. आपल्यालो हक्क फकत माईचेर इतलेंच तो मानतालो. सुधाक सुध्दां कितें करचें तें कळनाशिल्लें. आपलो घोव इतलो दम्मय करता आनी ती येवूक तयार ना म्हण खूप वायट दिसलें. सुधीरालें तें बावीलें तोंड पळोवन्न तिका आनीक वायट दिसतालें.

माई कशीच बदना पळोवन सुधान अमिताक काडलो माईल्या हुटयेंत घातलो आनी सांगलें 'माई, ह्या बाळासाठी तरी तुला यायला पाहीजे. तर तुला मान्य नाही तर बाळाला काढून खाली ठेव.'

आतां माई सगळीच काचाबूल जाली. त्या बाळश्यालें निरागस हाशें पळोवन माई कितें करचें कळ्ळेंच ना. तिणें येवूंक होकार दिलो पूण एक अट घातली, 'थोडे दिसांत दिवजां जात्रा आसा ती कन्न आमी या. कारण दिवजां जात्रेक पयले दिवज हें देसायालें. पूण तेमी काय आतां दिवज दिनात. ह्या वर्सा आमी दिया, बाळाक सेल दिया. तुका आमी दिवू पावले ना. आमकां माफ कर. घे सुधा हेका धर. हांव येतां तुमगेल बरा.' हें आयकून सुधाक सुऽऽ जालें. माईन भीतर वचून आपलो भांगरा डबो आनी सुधा णववारी कापड हाडन्न दिलें. माईन मनांत विचार केलो. आपूण सदांच म्हणटालें की हें आमगेलें नातें तुटलें म्हण. पूण आज पोटां जालो ना तरी आपल्याक सुधीर पुताल्या नात्या बरोबर सुनेलें आनी नातवालें नातें घेवन पूत येयला. म्हाका हें नातें टिकोवन दवरच्या जाय. जालें गेलें सगळें काळी न्हंयक मेळ्ळे. देवान आज म्हाका सगळें दिलां. तेतूंत रक्ताचें नासलें तरी मानिल्लें नातें.



४४२/ब्री, काजुवाडो
सदाशिवगड-कारवार
फोन :-०८३८२-२६५३८१



# उमेश म्हांबरो : एक अतृप्त आत्मो

-दिलीप बोरकार



सतीश सोनकाचो एक दीस फोन आयलो:

आरे दिलीप, खंय आसा तूं?

सकाळफुडें ताचो फोन म्हणटकच कसली तरी मिटींग, जांव पिपल्स फोरमाचें कितें तरी आसतलें.

हांवें म्हळें हांव घराकडेन आसां.

मात्सो बेगीन पणजे यो. म्हांबऱ्याचें फाल्यां ऑपिरासांव आसा दिसता. ताका थोडे पयशे धाडूंक जाय.

म्हांबऱ्याचें ऑपरेसांव म्हणटकच कच्च जालें.

ताका मुंबय व्हेल्लो आनी टाटात उपचार चलताले. टाटा म्हणटकच तश्र कॅन्सराची केस इतलें सामान्य गिन्यान आमच्या सारख्यांक आशिल्लेंच.

ऑपरेसांव करतात जाल्यार करूं दी. एकदांचो जावं दी बरो. दुडवांचोय प्रस्न न्हय, करूं येतात उबे. म्हांबरो आमचोच. ताका सांबाळूंक जाय.

दिवाळी अंका खातीर जायराती जमय, म्हजे कादंबरीचेर निमणो हात भोंवडाय, हेरांच्या लेखांचीं मुद्रितां सोद, संपादन कर, काम सामकें गळ्या मेरेन पावलां. तरी सगळीं कामां कुशीक दवरलीं. पयलीं आमचो म्हांबरो.

सतीश आनी सुरेश धोंड कॅनरा बॅन्केकडेन रावताले. कॅनरा बॅन्केंत म्हांबऱ्याचें खातें. हांगा पयशे जमा केल्यार तनुजा मुंबय एटीएमाचेर काडूंक शकतालें.

आमी सगळे पांच पांच हजार काडूया आनी ताका धाडून दिवया. आमी इतले बेगीन मुंबय वचचें न्हय. ताका आय सी यू तल्यान भायर काडटकच सगळे या. तांच्या म्हऱ्यांत एकएकल्याक बसूंक मेळटलें. सतीशान म्हळें.

हांवें बरें म्हळें, बॅन्केंतल्यान पांच हजार काडून ताचे कडेन दिले. सुरेश, शिरिश, सतीश, धर्मानंद आनी कोणे कोणे पांच पांच हजार दिल्ले.

आमी सगळे विद्यार्थी चळवळींतल्यान एकठांय आयिल्ले.



कॉलेज करता आसतनाच चळवळी उबारिल्ल्यो आनी एकामेकाक आपलेपणाच्या नात्यान बांदून घेतिल्ले. उमेश म्हांबरो तांतलो एक.

आमचे मदलो तसो कोणूच गिरेस्त नाशिल्लो. फाल्यां आमकांच कितेंय जालें आनी एक पन्नास हजार सट्ट करून जाय जाले जाल्यार आमच्या मदल्या एकल्याय कडेन ते नांत.

दुडू जोडूंक जाय ते दिसपट्ट्यो गरजो भागोवंक. इतलें आमकां खबर आशिल्लें. पूण जमोवंक जाय, पुंजी करूंक जाय ही अक्कल मात आमकां अजून येवंक नाशिल्ली. पूण आमी इश्टांची पुंजी भरपूर जमयल्ली. खुशालकायेच्या खिणांतूच न्हय तर अडी अडचणे वेळार अर्दवर-वरा भितर पन्नास-शंबर इश्टांक एकठांय हाडपा इतलें बरेंपण आमी निश्चीतूच जोडलां.

विद्यार्थी चळवळ आनी उपरांतच्यो हेर सामाजीक वो साहित्यिक चळवळींतल्यान आमी हेर कितें जोडलें खबर ना. पूण जोडली ती ही गजाल. धर्म-भेद कुशीक दवरून फाटलीं तिशेक वर्सां आमी सामाजीक बांधिलकी हें मुखेल तत्व मानून एक कुटूंब जावन रावपाचें उतर.

हातुंतल्यानूच एकमेकाच्या सुखांतूच वांटेकार जावप ना तर दर एकल्याचे प्रस्न, अडचणी समजून घेवन तांच्या संवसाराक एक भावनीक तेंको प्रस्थापीत करपाची विचारसरणी आमचे मर्दी आमी राबयली आनी तिका अजून पाळो दीत आसात.

म्हांबरो हॉस्पिटलांत आसा म्हणटकच आमचें कोणाचेंच चित्त थाऱ्यार नाशिल्लें. आमचो दरदिसाचो वावर चलतालो. पूण लक्ष सगळें तनुजा कडल्यान कितें खबर आयल्या काय हाचेरूच आसतालें.

मागीर खबर कळ्ळी म्हांबरो हळुहळू निवळटा. रिस्पोन्स दिता. पूण सारकें कोणूच सांगनाशिल्लो. तो रिस्पोन्स दिता ही खबरूच आमकां थाकाय दिताली. म्हांबरो केन्ना आय. सी. यू तल्यान भायर सरता आनी आमी मुंबय वचूंक भायर सरतात अशें आमकां जाल्लें. देऊ बाणावलीकारान तर चड जाणांक बसूंक मेळटा अशे गाडयेची लेगीत वेवस्ता करून दवरिल्ली खंय!

रवी नायक, सुबोध केरकार मुंबय म्हांबऱ्याचेर लक्ष दवरून आसात म्हणपाचें कळिल्लें. हुस्को करपाची गरज नाशिल्ली आनी एक दीस म्हळ्यार १८ तारकेक प्रशांतीचो फोन आयलो.

दिलीप वायट खबर. म्हांबरो गेलो.

एकाच वाक्यांत एकंदर सृश्टीचक्र खीणभर थांबप म्हळ्यार कितें हाचो अणभव म्हाका आयलो. घुस्मटमार ज़ावप, हड्डें फुटूंक पावप, कितें कोण जाणा.... एक वेदना अशी काळजांतल्यान उफेली.. आतांच आशिल्लो मनीस परतून केन्नाच दिसचोना अशे सुवातेर गेलो? प्रशांतीची कितें तरी चूक जाल्या आसतली. कितेंय समजा वायट खबर



आशिल्ली जाल्यार सतीश फोन केले बगर रावचोना आशिल्लो. हाकाच चुकीची खबर कोणे तरी दिल्या आसतली.

हांवें सतीशाक फोन केलो. सतीश म्हणूंक लागलो खरी खबर. आमी मुंबय वचुया नाका. बॉडी गोंयां हाडपा खातीर मुंबयच्यान सांजची गाडी भायर सरतली.

दुसऱ्या दिसा आमची म्हांबऱ्याच्या घराकडेन गर्दी. फाटल्या तिशेक वर्सांचे आमी सवंगडी म्हांबऱ्याच्या बॉडीची वाट पळयताले. म्हांबऱ्याच्यो यादी काडीत.

म्हांबऱ्याची बॉडी हाडली. वयर ताच्या फ्लॅटांत दवरली. पूण ती म्हांबऱ्याची बॉडी कशी दिसच नाशिल्ली. म्हांबरो तर आमचो हांसत्या मुखामळाचो. कितेंय म्हण ताका. ताणें आवय वेल्यान एक गाळ घालची. तीय बी हांसत. हांवें तर ताचें जिमलेट आनी बोरकारी ह्या दोनूय सदरांत नांव घेवन कितें कितें म्हणूं ना. वाकडोदेव रवळनाथ हें तर सगळ्यांनी दिल्लें ताचें नांव. एक खांदो वयर काडून वाकडो चलपी निळू फुले टायप आमचो म्हांबरो.

पूण आयज हें काळें किट्ट सुजलेलें तोंड म्हांबऱ्याचें न्हयच. म्हज्यान ताका पळोवं नजो जालें. थंय रावनय दिसना जालें. दोळ्यांत दुकां तर येवंकच ना. सतीश बी मात्सो सूंक सूंक करतालो. सकयल येवन हेरांवांगडा बसलों. फुनेराल सांजचें दवरिल्लें. ताची भयण शोभन





आशिल्ली. ती साहित्यीक पातळेर चलताली. म्हांबरो शिबिराक बी येतालो. बिल्वदल म्हूण कितें तरी नेमाळें काडटालो. कविता बी करतालो. बोवाळशेट कसो वावुरतालो. थंय आमची वळख. मागीर आमची विद्यार्थी चळवळ सुरू जाली. म्हापशेंचो गड म्हांबरो सांबाळटालो. सभा आयोजीत करप, मोर्चा काडप, रातचे पोस्टर्स लावप. कितें ना कितें चलतालेंच. आमीय म्हापश्यां वताले. तो म्हापशां खंय तरी धुळेर रावतालो. रातचो ताच्या घराकडेन वचप म्हळ्यार दिव्य कशें! तरी तो आमकां सांबाळून व्हरतालो.

म्हांबऱ्याची आवय म्हांबऱ्याचेर करता तितलोच मोग आमचेरूय करताली. केन्नाय रातचें जेवण करूनय वाडटाली. चळवळींतलें तिचें हें योगदान आमी केन्नाच रूजू करून घेतलेंना.

म्हांबरो अदिती रॉय म्हूण नांवान कविता बरयतालो. हें अदिती कोण हो प्रस्न खुपश्या चल्यांक पडिल्लो.

अस्तित्वांत नाशिल्ले हे कवयत्रीच्या मोगांत खुपशे तरनाटे पडिल्ले. ताची कविता तोखेवन ताका मेळूंक सोदताले आनी म्हांबरो हाताचीं नाखटां दातांनी खायत हांसत आसतालो.

म्हांबरो बिल्वदल म्हूण नेमाळें काडटालो. हांगा थंय भोंवन जायराती जमयतालो. नरेंद्र बोडकेय ताच्या सांगाताक आसतालो. मागीर बिल्वदलाचें कितें जालें खबर ना. तें बंद पडलें आनी म्हांबऱ्यान 'संपाती' म्हूण नेमाळें सुरू केलें आमी ताका म्हणटाले, 'म्हांबऱ्या

येवपाचें आशिल्लें पुण्या सावन.

मदीं कोण कोण येताले. निमणी नदर मारूंक वेगवेगळ्या मळावेले लोक. दिगंबर कामत, लुइझीन फालेरो हे मंत्रीय येवन गेले आनी आमदारूय येवन गेले.

सांजचे फुनेरालाक उटांगाराचो पावस पडटा आसतनाय लोकांची गर्दी. तातूंत भाजपाचे पर्रीकार बी सगळे आशिल्लेच. तशे हेर पक्षांचेय लोक आशिल्ले. सर्वसामान्य लोक आशिल्ले तशे उद्योजकूय आशिल्ले. असो कोण हो म्हांबरो? तो तर एक पत्रकार. हांगा संपादक मरत जाल्यार लेगीत तशे कोण असल्या पावसांत येवपाचे नाशिल्ले. बरें, घरच्यांक पाचारपाक म्हूण येवंक जाय असोय प्रस्न नाशिल्लो. म्हांबऱ्याची बायल तनुजा सोडून आनीक कोणूच ताका नाशिल्ले. आशिल्ले ते आमी. तरी आपलो कोण तरी गेलो म्हण भर पावसांत भिजत लोक आयिल्ले. वेग-वेगळ्या थरांतले.

म्हांबऱ्यान कितें जोडलें तें खबर ना पूण ताणें लोक जोडले हें खरें. खंयचे लोक जोडले हें आतां कळटालें. पूण तें पळोवंक म्हांबरो नाशिल्लो. तो चिरंतन न्हीद घेतालो.

म्हांबरो म्हजो इश्ट केन्ना जालो? १९७४ बी आसतलो. हांव शाळा सोपोवन कॉलेजीक म्हण पणजे आयिल्लों. म्हांबरोय तेन्ना कॉलेजींत शिकतालो. पूण म्हापश्यां. कोंकणीची चळवळ सुरू



चपाती केन्ना रे?' म्हांबऱ्यान आपली गाळ मारप.

म्हांबऱ्यान नाटकांय बरोवंचीं. कार्यावळींचें आयोजन करचें. रंगइश्ट म्हूण संस्था घडोवन राजपालाच्या घराकडेन कोजागीर उत्सवाचें आयोजन करून राजपाल भानुप्रतापाक रात जागोवंक लावपी, ताका भर पावसांत भिजोवपी म्हांबरोच.

म्हांबऱ्याचे फाटीक लागून लागून तांचें लग्न आमी करून उडयलें. तनुजा ताका फाव सारकें आशिल्लें. तेंय हरहुन्नरी. दोगांयची ही जोडी बालनाट्य चळवळ चलोवंक लागली. पुण्याच्यान बालनाट्यां हाडून गोंयांत दाखोवंक लागलीं. 'म्हांबऱ्या, कोंकणीवाद्या, मराठी बालनाट्य दाखयता? कोंकणी नारे?' आमी म्हांबऱ्याचीं फकाणां करप. म्हांबरो पेटलो. ताणें ओर्राद तोर्राद राक्षस नाटक बरोवन सादर केलें. मागीर दुसरे वर्सा ढामढूम जुंव्यार म्हण केलें. लोकांनी दाद दिली. तनुजा आनी म्हांबरो बालनाट्याचे बुन्यादीचे फातर थारलीं.

म्हांबरो पत्रकार जालो. गुजाचो अध्यक्ष जालो. नव्यो नव्यो कार्यावळी आयोजीत करूंक लागलो. पूण कितें जालें कोणाक खबर. म्हांबऱ्याच्यो तक्रारी. आपल्याक जोर येता. ताणेंय तें गांभिर्यान घेतलें ना. ताका कसलें दुयेंस आशिल्लें हें अजूनय म्हाका खबर ना. आनी म्हांबरो गेलो.

आमकां एकटो उडोवन गेलो.

जल्माक येवपी दर एकल्याक वचूंक जाय. आंमीय वतले. केन्ना खबर ना. दर दिसा कोण ना कोण वता. पूण म्हांबरो तांतलो न्हय. कांय लोकां विशीं आमची अपेक्षा आसता. शिरील पाशेक गेलो. शांती तेंडुलकार गेलें. सामाजीक बांदिलकी मानपी अशीं एका फाटोफाट गेलीं. आतां म्हांबरो गेलो. सामाजीक मळार वावुरपीं अशीं अकस्मात वतात तेन्ना मनांक खंय तरी दुखता. रितें रितें दिसता.

दिवाळी अंकाचें काम चलतनाच म्हांबरो गेलो. हे दिवाळेक कादंबरी दिवपाची आशिल्ली म्हाका. निमणो हात ओडटालों. पूण ह्या बोवाळांत उरली आनी बरोवंचें पडलें म्हांबऱ्याचेर. म्हांबरोय एक संपूर्ण कादंबरी. कोणेच वाचूंक नाशिल्ली. पूण ताणें सोता अणभविल्ली. जियेल्ली.



***

आगशी-गोंय
मो.: ९८२२१३६८८५







# सुंदर, सोबीत दीस न्हय आयचो!

-सुधा सुरेश आमोणकार

आयज सकाळीं जाग येतकच, हातुणावेल्यान उठचें न्हंय कशें दिसलें. जीव सामको आळसायिल्लेवरी जाल्लो. जनेलांतसून भायर पळयत जाल्यार दिसय दमट कसो दिसलो. सगळेवटेन मंदशें वातावरण दिसलें. घडये मनाचें पडबिंब दोळ्यांभितर देंवलें जावंये.

अचकीत याद जाली. आमी थायलंड पळोवपाक गेल्लीं. टुरिस्टांखातीर आशिल्ली बस, आमची वाट पळयत उबी आसली. सगळ्या संवसारांतले, तरेकवार लोक बशिल्ले तातूंत. जपानी, चीनी, युरोपियन, भारतीय.

इतल्यांत एकल्याचो आवाज कानार आयलो. "सुंदर सोबीत दीस न्हय गो आयचो?" कोण उलयता म्हण फाटीं वळून पळयलें, पूण उलोवप्याचेर नदर पावली ना. जायते लोक बसींतल्या मदले पेसेजींत उबे आसले. आपणाली मुस्तायकी लायताले. ताणें आयचो दीस सुंदर-सोबीत म्हळें, तें मनाक त्या वेळार पटलें ना. त्या दिसा म्हाका तो दीस दमट-मंदसोच दिशिल्लो. बस धावंक लागली. बसीचीं जनेलां खूप व्हडलीं आसलीं. हारशांतल्यान भायलो सगळो देखाव सारको दिश्टी पडटालो. गायडान म्हळें,

शुभ प्रभात! देव तुमकां सगळ्यांक बरो दीस दिवं. आतां थायलंडाचीं जायतीं सोबीत थळां आमकां पळोवंक मेळटलीं. आतां भायर पळयात. बरी झर तुमकां आतां दिश्टी पडटली. चारूय वटेनचो सोबीत सैम तुमच्या मनाक फुलयतलो, उभारी दितलो. आतां उजवे वटेन जी इमारत तुमकां दिश्टी पडटा, तिणें ह्या देशाचो इतिहास घडोवपाक व्हडलो वांटो घेतला. दावे वटेनची दोंगुल्ली वर्सभरूय पांचवीचार आसता. आतां आयली चर्च! खूब्ब पोन्नी. पूण आसा तशीच. ताचे फुडली स्मशानभूमी दुसरेच बशेन बांदल्या. व्हडल्या नामनेच्या आर्किटेक्टान बांदल्या ती. सगळे भोंवडेकार बारीकसाणीन जनेलांतसून भायर पळयताले. खोशयेन, धादोस जाल्लेवरी. व्हडा उमेदीन तो गायडय उलयतालो. मदीं मदीं विनोदय करतालो. लोकांक हांसयतालो. थळांच सुंदर, सैम पांचवोचार आनी ताची कॉमेंट्री तातूंत चडूच भर घालताली. नाय म्हळ्यार म्हज्या मनांतली उबगण पयसावली त्या खिणाक. मनावेलें मळबट ना जालें. ताणें केल्ल्या विनोदाचेर



म्हाकाय हांसो आयलो. आमी एका स्टॉपार पावलीं.

गायडान म्हळें, “हांगा चा-नाश्तो जातलो. अर्द वराभितर सोपोवन आमी फुडें वचपाचें.”

आमी ल्हव ल्हव दारांतूच देवंक लागलीं. म्हजी नदर त्या गायडार पडली. हांव थक्क जालें. व्हडल्या खाडाचो तो. ताणें काळें वक्ल लायिल्लें आनी हातांत कुड्डे धरतात तसली बडी. ताका पळोवन काळीज हाल्लें. इतलो वेळ आमकां खोस दिवपी हो मनीस कुड्डो तर. खिणभर हे गजालीचेर विश्वासच बसना जालो.तो कुड्डो आसा म्हणपाचो मागमुसय लावंक दिलो ना ताणें. आवाजांतल्यान तीच उमेद, तोच उत्साह. जिणेंत सगळो काळो-किट्ट काळोख आसूनय ताच्या अंतर्मनांत सौंदर्याचो उजवाडूच पातळिल्लो काय? म्हणूनच तो त्या सौंदर्याची खोस हेरांक वाटूंक पावलो? हांव कमनशिबीच म्हणचें पडटलें न्हय? दृश्टी आसुनय मनान कुड्डें? आनी हेंच कुड्डेंपण देंवले काय म्हजे नदरेंत? म्हूणच म्हाका दिसूच मळबट कसो दिसलो? मनांतले विकारच दोळ्यांत देंवता आसतले. दर एकलो दीस सुंदर सोबीत दिसपाक आंतरिक मन, आंतरीक दृश्टीय तितलीच सुंदर सोबीत आसची पडटा हाचोच दिश्टावो घडयलो न्हय त्या कुड्ड्या मनशान?



* * *



दत्तवाडी,
म्हापशें-गोंय





# DIRECTORATE OF FISHERIES

## GOVERNMENT OF GOA




**THE SEA IS OUR WEALTH**

**CARE FOR IT**

DEAR FISHERMEN

PLEASE DON'T

- CARRY OUT ANY MECHANISED FISHING MONSOON BAN
- CATCH GRAVID OR JUVENILLES OF FISHES
- USE NETS OF MESH SIZE BELOW 20 MM
- THROW YOUR TORN NETS IN THE SEA
- FISH IN PROHIBITED AREAS
- TAKE UP PROJCTS THAT DAMAGE THE HABITAT
- USE EXPLOSIVES FOR CATCHING FISH

**DIRECTORATE OF FISHERIES**

***AIMS AT***

- INCREASING THE FISH PRODUCTION IMPROVING FISHERIES INFRASTRUCTURE FOR CAPTURE AND CULTURE FISHERIES.
- PROTECTION OF ESTUARINE AND COASTAL WATER WITH A VIEW TO CONSERVE THE RESOURCES.
- FINANCIAL SUPPORT BOTH MECHANISING THE VESSELS AND MOTORISING THE CRAFTS.
- WELFARE OF THE FISHERMEN.

**WARNING**

USE OF EXPLOSIVES OR LIME FOR CATCHING FISH IS PUNISHABLE WITH IMPRISONMENT FOR A TERM OF TWO MONTHS

*Ramesh Jeswani*




VARUN BULK CARRIERS

TRANSPORTERS OF LIQUID PRODUCTS TO ALL OVER INDIA

18/A, Sita Estate, B-Wing, Gr.Floor, Aziz Baug, Chembur, Mumbai -74
Tel.: 2554 3322 / 2554 3522 / 2554 9811 Fax : 2554 0000
e-mail : aibc@hathway.com

*With best compliments from:*

## RUCHIRA BAR & RESTAURANT

PORVORIM-GOA

Jeetu
M.: 9819346075



JK GHAR

**PAPER & BOARD MERCHANTS**
Shop No. 7, 296 Jaikisan Building,
Pantnagar Ghatkopar (E),
Mumbai - 400 075
Tel.: 25094249 / 25094250

बिम्ब परिवाराक आनी समस्त गोंयकारांक

दिवाळेचीं परबीं

## अवधूत शिरोडकार

(समाज सेवक)
मेरशे – गोंय



Pink Panther

**Travel Agency**
Mapusa - Goa
Telefax : 91-832-2263180 / 2250352
5615389 Cell : 9850450303
E-mail : panther_goa@sancharnet.in
Prop. : H.Chalim

TRAVEL AGENCY

Reconfirmation + Ticketing for International Domestic Airlines, Steamer, Bus, Rail. Car Hire Hotel Booking and all travel related sevices.

WESTERN UNION MONEY TRANSFER

From anywhere on earth in minutes

MONEY EXCHANGE

Exchange of all Major World Currencies Travellers Cheques, Credit Cards, etc.

PROPERTY CONSULTANTS

Service Assistance for Passport, Visa, Reserve Bank Permission to acquire land, business, building or re-construction
(Specialised in Portuguese type Bungalows.)



# पशुसंवर्धन आनी पशुरोग चिकित्सा संचालनालय

## *आर्थिक पालव दिता*

### जशें

१. संकरीत जातीच्या मादी पाडकांच्या फळपा पिराये मेरेन खावड खरेदी करूंक आनी डेरी उबारणी तशेंच कोंबयो. धुंकरां पोसूंक.

२. संकरीत गायो आनी सुदारीत म्हशी खरेदीपासत.

३. खावड लागवडीपासत.

४. ह्यो येवजण्यो राबोवपी सगल्या लाबधारकांक प्रशिक्षण सुविधाय.

५. आमी सगळ्या पशुसंवर्धन वेवसायिकांक फायदेशीर आपरोजगारापासत विंगड विंगड पशुसंवर्धन कार्यावळींचो लाव घेवंक आवाहन करतात.

*अदीक म्हायती आनी मार्गदर्शनापासत लागशिल्ल्या पशुरोग दवाखानो / इस्पितळाकडेन संपर्क सादात.*




## पशुसंवर्धन आनी पशुरोग चिकित्सा संचालनालय

गोंय सरकारचे वतीन वितरावणी



**साहित्य अकादेमी** प्रादेशिक कार्यालय, 172, शारदा सिनेमा बिल्डिंग, दादर ( पूर्व ) मुंबई 400 014,
फोन: 24135744 फॅक्स : 24147650 E-mail sahitya@vsnl.net Website http://www.sahitya-akademi.gov.in

## कोंकणी प्रकाशने

* **तलेदंड** 60.00
  बरोवपी : गिरीश कार्नाड
  अणकारपी : दत्ताराम कामत बांबोळकर
* **भांगराचें सुकणें** 65.00
  बरोवपी : ओम् गोस्वामी
  अणकारपी : शीला कोळंबकार
* **एकशें एक कविता** 90.00
  बरोवपी : रवींद्रनाथ ठाकुर
  अणकारपी : माधव बोरकार
* **निकोबारच्यो लोककाण्यो** 50.00
  बरोवपी : रॉबीन रॉयचौधुरी
  अणकारपी : माया खरंगटे
* **शणै गोंयबाब** 25.00
  बरोवपी: रा ना नायक
* **सात पावलां मळबांत** 130.00
  बरोवपी :कुंदनिका कापडीआ
  अणकारपी : चंद्रकांत केणी
* **कोंकणी ललित निबंद** 100.00
  संपादक : श्याम वेरेंकार
* **अणकारीत कथा** 75.00
  (मराठीतल्यो अणकारीत कथा)
  संपादन : हरिश्चंद्र नागवेंकार
* **मातयेचो मोग** 120.00
  बरोवपी : शिवराम कारंत
  अणकारपी : यशवंत सदानंद पालेकर
* **शेजारी** 160.00
  बरोवपी : पी.केशव देव
  अणकारपी: हरिश्चंद्र नागवेंकार
* **त्रिवेणी** 60.00
  बरोवपी: रवींद्रनाथ ठाकुर
  अणकारपी: चंद्रकांत केणी
* **आशाढांतलो एक दीस** 75.00
  बरोवपी : मोहन राकेश
  अणकारपी : पांडुरंग भांगी
* **कोंकणी लोककाण्यो** 120.00
  संपादन : जयंती नायक
* **मोटव्यो कथा** 90.00
  बरोवपी : मस्ती व्यंकटेश आय्यंगार
  अणकारपी : रमेश लाड

## Our recent English Publications

* **Authors Speak** 200.00
  Ed. K. Satchidanandan
* **Crystallized Memories** 170.00
  Chekuri Rama Rao
  Tr. M.V. Chalapathi Rao
* **Porcelain & Other Stories** 60.00
  Santosh Kumar Ghosh
  Tr. Amitava Ray
* **Divya** 135.00
  Yashpal
  Tr. Anand
* **Jahera** 90.00
  Hijam Anganghal Singh
  Tr. E. Sonamani Singh
* **Mythical Man** 100.00
  Syed Mustafa Siraj
  Tr. Sudheshna Chakrabarty
* **This Ancient Lyre** (Selected Poems) 175.00
  Onv Kurup
  Ed. A.J. Thomas
* **Selected Poems** 60.00
  (Gopalakrishna Adiga)
  Tr. Sumatheendra Nadig
* **London And Paris** 70.00
  Through Indian Spectacles
  G. Parameswaran Pillai
  Series Ed. Makarand Paranjape
* **The Lost Meaning** 120.00
  by & Tr. Niranjan Tasneem
* **Mulk Raj Anand – A Reader** 250.00
  (An Anthology of Select Writings of Mulk Raj Anand)
  Ed. Atma Ram
* **Five Decades** (1000.00)
  *Special Discounted Price* 800.00
  (A Short History of Sahitya Akademi 1954-2004)
  Ed. D.S. Rao
* **Literature and Social Reform in Colonial Orissa** 150.00
  (The Legacy of Sailabala Das)
  Ed. Sachidananda Mohanty
* **The River of Blood** 120.00
  Indira Parthasarathy
  Tr. Ka. Naa. Subramanyam
* **A History of Konkani Literature** 160.00
  Manohar Rai SarDessai
* **Short Stories from Pakistan** 150.00
  Ed. Intizar Husain &
  Asif Farrukhi

*24 भासांतली पुस्तकां उजवाडावपी, साहित्य अकादेमी हो संवसारांतली संगळ्यांत व्हड संस्था*




*wishing you a very*

# Happy Diwali

• TOURS • CRUISES • ACCOMMODATION • EVENTS


















**Goa Tourism Development Corporation Limited**

Trionora Apts., Dr. Alvares Costa Rd., Panaji - Goa. Tel: (91) 0832-2226728, 2226515, 2436666 Fax: (91) 0832-2423926
Email: gtdcorp@sancharnet.in Website: www.goa-tourism.com

*True Leaders In Hospitality*




We wish this Diwali ushers in more sparkles of hope and scintillations of joy, to fill your life with brightness and prosperity



Department of Information and Publicity
Government of Goa

The Government of Goa
wishes the people a very Happy Diwali




Printed at Impressions, Bgm. Ph.: 0831-2421232